(BAHURATNA VASUNDHARA)
-Collection of short stories in Konkani by Chandrakant Keni







पयली खेप : डिसेंबर २००४



मुद्रण :
सुरेश ति. शे. काकोडकार
ओमेगा एन्टरप्रायझेस,
श्रेयस, विद्यानगर कॉलनी, विद्यानगर,
मडगांव - ४०३ ६०१ (गोंय)



प्रकाशन :
दामोदर नरसिंह नाईक
अध्यक्ष, चंद्रकांत केणी सत्कार समिती
पो. बॉ. नं. ४३
मडगांव (गोंय) ४०३ ००१



मोल : १५० रुपया



मुखपृष्ठ : लक्ष्मण पै हांच्या बरेपणान

# शुभास्ते पंथानः सन्तु !

श्री. चंद्रकांत केणी हाणीं आपले सत्तर वर्सांचे यात्रेंत जें कितें पळयलें, आयकलें, वाचलें वा अणभवलें तें सगळें उगडासाचे कोठयेत दवरून घेतलें आनी उसरपतीच्या वेळार तें कोणाकूय सांगचें हे भावनेन बरयलें. असले तरेचें साहित्य ताणी 'मनोगत' ह्या सदरांत सुमार २० नेमान वर्सां बरयले. सप्तकाक अेक खेपे हें सदर 'राष्ट्रमतां'त उजवाडाक येतालें आनी ह्या सदराचो एक वाचकवर्गय तयार जाल्लो.

मनीस-सभावाचे तरेकवार प्रकार संवसारांतली अप्रुपाय आनी विविधताय हांचें दर्शन घडोवपी ह्यो कथा. तातूंत कथानक तर आसताच, पूण कथेचे शैलींतलीं व्यक्तिचित्रां आसात, प्रवासवर्णनां आसात आनी तंत्रशुध्द कथा म्हणूं येत अशो गजालीय आसात. चंद्रकांत केणी हांची शैली सादी सरळ जाल्ल्यान एकेका वाक्यांतल्यान एक एक व्यक्तित्व वा चित्र दोळ्यांमुखार उबें रावता, जाची याद खूब दिसांमेरेन वाचकाच्या मनांत उरता.

ताणीं आपले जिवितयात्रेचीं ७० वर्सां पूर्ण केलीं. अशा वेळार तांचेविशींची आमची भावना उक्तावपाखातीर आनी तांच्या साहित्यिक आनी सार्वजनिक कार्याची पावती दिवचेखातीर एक घरगुती सुवाळो घडोवन हाडपाचें आमी थारायलें. कांय इश्टांनी सांगलें की लेखकाचो बऱ्यांतलो बरो सत्कार म्हळ्यार ताणे बरयल्लें साहित्य पुस्तकाच्या रुपान उजवाडावप. चंद्रकांत केणी हाचें खुबशें साहित्य पुस्तक रुपान उजवाडावपाचें उरला. पुस्तक उजवाडावचेंच, पूण एक सत्कार सुवाळोय जावचो अशें आमकां दिसलें. त्या सुवाळ्या निमित्यान 'बहुरला वसुंधरा' हें पुस्तक वाचकांक अर्पण करतना म्हाका खोस भोगता.

तांचे सत्तरी निमित्यान उजवाडायिल्लें हें पुस्तक कोंकणी साहित्यांत मोलाची भर घालतलें असो भरवंसो दिसता. जिविताचे फुडले यात्रेंत तांचेकडसून साहित्य आनी समाजाची आनिकूय चड सेवा घडूं अशें आमी मागतात आनी तांचें अभीष्टचिंतन करून म्हणटात : शुभास्ते पंथानः सन्तु !

मडगांव
१८.१२.२००४

दामोदर नरसिंह नाईक
अध्यक्ष, सत्कार समिति

# मांडावळ


१. विप्रदास ............................................ ७
२. उमो ............................................ २६
३. नागू ............................................ ३५
४. गाब्रू ............................................ ४४
५. कर्फ्यू ............................................ ६१
६. नाटक ............................................ ६९
७. काशीचो वधस्तंभ ............................................ १०७
८. जगताप ............................................ ११७
९. राणी रूपमती ............................................ १२४
१०. अहिल्या ............................................ १३३
११. मंगल पांडे ............................................ १४३
१२. करुणा ............................................ १६१
१३. तुटिल्लें नातें ............................................ १६९
१४. मुरलीधर हमाल ............................................ १७८
१५. हिरू ............................................ १८९
१६. मीरा ............................................ २०७
१७. कुवाडें ............................................ २१७
१८. बुध्दिबळाचो कौल ............................................ २४६

# विप्रदास

फाटल्या दिसांनी एक संन्यासी सकाळीं उसरांच आमच्या दारांत आयलो

गीमाचे दीस. सूर्य अजून उदेवंक ना. तरी आंगातल्यान घामाच्यो पावळ्यो देंवतात. फांतोडेर पासयेक वचून परत येतकच हांव भायल्या वारांदात पेपर वाचीत बशिल्लों. कोणाची तरी सावली म्हज्या मुखार पडली आनी हांवें नदर वयर करून पळयलें. एक साधू म्हजे दिशेन येता.

हांवें ताका बारीकसाणेन निरखिलो. केंस आनी खाड वाडलां. कपलाक तांबडो तिळो आसा. आंगांत खादीचो सदरो, भगव्या रंगाचो. सकली लुंगी धवी. तीवूय खादीची. खांद्यार भगवें उपरणें, उपरण्याच्या पोंदा एक झोळी आसा. घडये ती शबनम पिशवीय आसूंये. तीय भगव्या रंगाची. हांव उठून भीतर गेलों. उक्त्या आंगार एक सदरो चडयलो आनी दान म्हणून दोन रुपया दिवचे आनी ताका वाटेक लावचो अशें येवजून दोन रुपयाची नोट घेवन परत भायर आयलों.

तो हांसलो. काळवंडिल्ले दांत नदरेंत भरले. हो मनीस पान तंबाखू चाबता आसूंक जाय. ताणे पेपर हातांत घेतलो ना. म्हळें - 'नित्य तेंच तेंच वाचचें पडटा. ताचेपरस गीतेचें पारायण केलें जाल्यार पुण्य तरी मेळटलें.'

हाजेकडेन संवाद कोण करतलो? फुडलीं सगलीं कामां उरल्यांत, हांवे घडयाळींत पळयलें. सात वरां जाल्लीं.

'हांव काल येवन गेलों.' - ताणे म्हाका सांगलें, 'तुजी भेट घडली ना.'

तो कितें म्हणटा तें म्हाका समजलें ना. हांवें म्हळें, 'काल ह्यावेळार हांव घराच आसलों.'

हांसून ताणे म्हळें, 'लोक भिकारी समजून म्हाका भिक्षा घालतात. म्हाका वायट दिसना. पूण हांव साधू न्हय आनी भिखारीय न्हय. म्हाका देवाचें ध्यान करूंक आवडटा. चित्तांत पातक आसल्यार त्या पातकान चित्त म्हेळें जाल्लें आसल्यार तें उदक वा शाबू लावन निवळ करूंक मेळना. फकत परमात्म्याचें ध्यान केलें जाल्यार ल्हवू ल्हवू चित्त निवळ जायत रावता... देखून देवाचें ध्यान हांव करता....'

'कसल्या पातकाचो म्हेळ तुज्या चित्ताक लागला?' हांवें ताका विचारलें. प्रस्न इल्लो

सडेतोड आसलो तरी तो कितें सांगतां तें आयकून तो एक खेपे दारांतल्यान गेल्यार पुरो अशें म्हाका जाल्लें.

'सादोसुदो न्हय. मणभर म्हेळ आसतलो.' ताणे म्हळें....

हो गूढ भास उलयत रावलो जाल्यार अर्द सकाळ सोंपतली अशें येवजून तो कित्याक मेळूंक सोदता ताचें कारण हांवें विचारलें.

'हांव तुजो चड वेळ घेना. पूण दारांत आयिल्ल्या मनशाक बसूंकुय सांगचोना?' ताणे म्हाका विचारलें.

म्हाका म्हजीच लज दिसली. हांवें ताका बसूंक सांगलें. पूण तो बसलो ना. उब्यानीच ताणे म्हळें, 'म्हाका जें कितें सांगचेलें आसा ते हांवें बरोवन काडलां. तूं थंडसाणेन वाच आनी तुर्जे मत म्हाका सांग. तूं सांगशी तेन्ना हांव परत येतां.'

ताणे आपलें उपरणे हातांत घेतलें आनी खांद्यावयली पिशवी काडली. ते पिशवेंत हात घालून ताणे एक दाट डायरेसारकी चोपडी भायर काडली आनी म्हळें, 'सगलें मराठींत बरयलां.'

हांवे ती चोपडी हातांत घेतली आनी बारीक, गच्च पूण निवळ अक्षर पळोवन अदमास केलो. उणेच दोनशे पानाचो मजकूर आसा. मनांतल्या मनांत म्हळें, 'हो साधू संन्याशी न्हय, लेखक तर!'

'हें कितें?' हांवें ताका विचारलें.

'वाचतकच कळटलें. वेळ काडून वाच.' ताणे सांगलें.

'तें वाचून हांव कितें करूं?' हांवें विचारलें, 'हो मजकूर पेपरांत छापचेखातीर तुवें बरयला? हें बरयलां तें कितें... कथा, कादंबरी, प्रवास वर्णन, चरीत्र.... कितें?'

तो हांसलो, 'तूं वाच आनी थाराय. हांव लेखक न्हय. पूण म्हाका दिसता तूं म्हणटा तसले सगले प्रकार ह्या बरपांत आसात. पूण हांव एक सांगतां, बरयलां तें उतरान उतर खरें. बरयतना आदली गजाल उपरांत बरयिल्ली आसूं येता.'

'हांव वाचतां, तुजें नांव आनी पत्तो...'

'दितां.' ताणे पिशवेंतलो एक कागदाचो कुडको काडलो आनी मुखावयल्या कदेलाचेर बसून आपल्याच पेनान त्या कागदाच्या कुडक्याचेर आपले नांव आनी पत्तो बरयलो. एकेक अक्षर तो कोरिल्लेभाशेन बरयतालो. बरयतना अर्द जीब भायर काडून तो दोट्टालो आनी सगलें लक्ष कागदाचेर केंद्रीत करून बरयतालो.

नांव, पत्तो बरयिल्लें कागद ताणे म्हजे हातांत दिलें.मोतयांच्या दाण्यासारकें अक्षर. हो मनीस कलेचो जाणकार आसूंक जाय अशें म्हाका दिसलें. हांवें नांव वाचलें - रघुनाथ राव... ताजो पत्तो सकल आसलो. कर्नाटकांतल्या कुमठा शारांतलो.

'तूं कुमठ्यासावन आयला? आनी मराठी शिकला?' हांवे विचारलें.

'आमी मूळ कुमठेचे. पूण म्हजो जल्म मुंबय जाल्लो. मुंबय म्हणचेपरस ठाण्याक

म्हणिल्लें बरें. उपरांत हांव परत आमच्या जाण्टेल्यांचें घर सांदीत कुमठ्याक आयलां. पूण फाटलें आठ दीस गोंयातच आसां. हांव कोणाक तरी सोदतां. तो गोंयांत मेळटलो असो भरवंसो आसा.'

'कोणाक सोदता? ताचो पत्तो कितें?'

'पत्तो म्हाकाच खबर ना, पुराय नांवय नकळ. पूण हांवें बरयलां तें वाचतकच तुका सगलें कळटलें.' ताणें जाप दिली आनी तो वचूंक लागलो.

हांवें ताका उलो मारून च्या घेवंक सांगलें. पूण फकत हातांनी नाका अशें खुणावन तो चलत रावलो.

रघुनाथ राव गेलो आनी ताच्या व्यक्तीमत्वाचो एक छाप म्हज्या मनाचेर खोल उदेलो. तो चड कांय उलोवंक ना. पूण हो एक वेगळे तरेचो मनीस अशें दिसलेबगर रावलेंना. आपूण साधू, संन्यासी न्हय अशें ताणें सांगलें खरें, पूण आपूण भगवीं वस्त्रां कित्याक न्हेसता ताची फोडनिशी केली ना. म्हज्या मनांत साबार प्रस्न एकाचवेळार उबे रावले. पूण त्या प्रस्नाच्यो जापो सोदतलो जाल्यार ताणें म्हज्या हातांत जें बाड दिल्लें तें वाचचें पडटलें.

पेपर कुशीक दवरून हांवें ती चोपडी चाळ्ळी. अक्षर निवळ आसूनय गच्च बरयिल्ल्यान वाचूंक त्रास पडटाले. कितें बरयलां ताचो आशय आनी विशय रघुनाथरावान तोंडान सांगिल्लो जाल्यार सोपें जावपाचें.

म्हाका तरी ती नोंदवही कशी दिसली. जाणें ती बरयल्या तो म्हळ्यार रघुनाथ राव विव्दान आसूंक जाय म्हणपाची गजाल मदलोच मजकूर वाचतना लक्षांत येताली. गीता, उपनिषदांतले संस्कृत श्लोक जळामळार शिंपडिल्ले आनी सगलेचकडेन ताचे अर्थ दिवंक नाशिल्ले. आपणाक संस्कृत समजता म्हणटकच ती हेरांकय समजता अशें मानून तो बसला आसूंक जाय. इंग्लीश भाशेंतलीं अवतरणांय आसलीं. मराठी भास घांसून पुसून बरोवची तशी व्याकरण शुध्द, संस्कृत प्रचूर.

पुस्तक बी छापूंक सोदता काय तो? पुण पुस्तक छापपाचो खर्च कोण करतलो? पेपरांत छापपासारको ल्हान लेख न्हय तो. एकेक वांटो नेमान छापचो अशी ताची अपेक्षा आसत काय? पयलो वांटो सुमार आठ पानांचो आसलो. हांवें तो वाचून काडलो. त्या मजकुराचो आशय असो:

विप्रदास ह्या जगांत जितो आसा काय ना तें हांव नकळ. पूण ताका कसोय तरी सोदून काडूंक जाय. एके पावशी सांजवेळा मळबांतल्यान झडचो तसो तो म्हज्या दागंत आयलो आनी दुसऱ्या दिसा फांतोडेचेर धुक्यांत आनी काळखांत विरून वचचो तसो नाच जालो.

मजगतीं तो येवन गेलो. म्हजे वायलेन ताका धांवडायलो. उपकार करतल्याचेर लेगीत मनीस आपल्या सुवार्थान परतता कसो तें म्हाका कळना. बाबल म्हजी.

म्हज्याखातीर तिणें खूब सोसलां. पूण तिणें विप्रदासाचेर अन्याय केलो. ताका बसोवन घेवंक जाय आसलो. हांव ताचेकडेन उलयतलो आसलों. पूण म्हजी ताची भेट लेगीत घडची न्हय अशें येवजून बायलेन ताका धांवडायलो...

तो आयिल्लो सकाळच्या पारार. हांव मागील दारांत बांयचेर न्हातालों. तो म्हजो नित्यक्रम. न्हावन ओल्यांनी भितर येतां, देवाचे कुडींत वचून निर्माल्य विसर्जन करतां आनी उपरांत वरभर पूजा करतां. त्यावेळार म्हाका बोवाळ सोंसना. एकाग्रतेचो भंग जालो जाल्यार हांव खुबळटां. एक खेपे एक सुण्याचो पेटो खंयच्यान तरी येवन भायल्या दारांत उबो रावन भोंकत रावलो. म्हजी एकाग्रता भंगली. तिडकीन उठून हांव भायर आयलो आनी वांटपाच्या फातरीचो रगडो उखलून त्या सुण्याच्या पेट्याचेर शेंवटीलो. कंवळो जीव. कळवळून रडलो आनी ताणें प्राण सोडलो.

तिडकीभरशी हांव जीवहत्या करून बशिल्लों. पूण म्हजें चुकलें अशें म्हाका खूब उसरां दिसलें. उपरांत हांवें त्या सुण्याच्या पेट्याक मुठमाती दिली. इतलेंच न्हय देवाकडेन क्षमा मागून रुप्याचें एक सुणे करून देवाक भेटयलें....

म्हजी ही तिडक बायलेक खबर आसली. देखून हांव पूजेक बशिल्ल्या वेळार ती कसलोच बोवाळ जावचो ना म्हणपाची जतनाय घेताली. हांव पूजेक बसलों आनी विप्रदास दारांत आयलो. बाबडो भुकेवन आयलो आसतलो... पुरो जाल्लें आसतलें... ताका बसोवन घेवन च्याचो घोट दिवं येतालो. पूण बायलेन ताका धांवडायलो. घडये ताच्या आवाजान म्हजी एकाग्रताय भंगत म्हूण आसुये... पूजा सोंपली तरी तिणें रोखडेंच म्हाका सांगलेंना. पूजा सोंपतकच हांवे कॉफी आनी फराळ घेतलो. भायलेवाटेन म्हजो पसरो. थंय कोणतरी गिरायक आयलें. देखून हांव सरळ पसऱ्यार गेलों. दनपारां दोन वरांचेर पसऱ्याची नाब बंद करून जेन्ना हांव भितर आयलों तेन्ना पानार शीत वाडून बायलेन म्हळें, ‘विप्रदास आयिल्लो.’

हांव एकदम पानावयलो उठलों. चित्रावळ घालचेखातीर उजव्या हातार उदक घेतिल्लें. तें थंयच फांफुडलें आनी बायलेक विचारलें - ‘खंय आसा विप्रदास?’

बायल हांसली. ती म्हजी मस्करी करता अशें म्हाका दिसलें आनी हांवें म्हळें, ‘हें पळय. आनी कसलीय मस्करी केल्यार उपकारता. पूण विप्रदासाच्या नांवान मस्करी करूं नाका... तो म्हाका देवदूतासारको... तूं जाणा न्हय?’

बायलय गंभीर जाली. तिणे म्हाका थंडसाणेन जेवंक सांगलें.आनी म्हळें, ‘तूं पूजेक बशिल्लो.’

‘म्हणून कितें जालें? ताका बसोवन घेवपाचो. पूजा म्हळ्यार केन्नाच सोपना अशी वस्त न्हय.... ताका ताकीत आशिल्ली जाल्यार म्हाका सांगपाचें, हांव पूजेचो उठून ताका मेळटलों आसलों. ताची खबर घेतलों आसलो. म्हज्या - काळजाक जो कांटो रोंबून उरला तो काडून उडयतलो आसलों... तूं जाणा हांव पूजा करतना म्हाका देवामूर्तीच्या जाग्यार

विप्रदासाचो तोंडावळो दिसता. जोरान कुडकुडटें आंग, तांबडे गुंज दोळे, विस्कुटिल्ले केंस, वाडिल्लें खाड, पावसान चिंब भिंजिल्लो देह..... याद आसा तुका, विप्रदास आमच्या दारांत पाविल्लो तेन्ना असो अवतार आसलो. तेंच रूप म्हज्या दोळ्यांमुखार उबें रावता. देवाक आरत दाखयतना लेगीत ध्यानात - मनात विप्रदास आसता. असो विप्रदास दारांत आयलो आनी तुवें ताका बसोवन घेतलोना? म्हाका कळयलें लेगीत ना?'

रागाचेर जैत मेळोवंक हार्ली हार्ली म्हाका जमता. ना जाल्यार पानाचे कुशीक आशिल्लो पितुळचो तांबयो त्या दिसा बायलेचे तकलेर पडपाचो. हांव जेविनास्तना पानावयल्यान उठलों. गुन्यांवकाराचें मन घेवन भायर आयलों. विप्रदास परत येत हे आशेन रस्त्याचेर नदर थिरावंक लागलों...

म्हजें चुकिल्लें. बायलेकडेन सारकी वासपूस घेवंक जाय आसली. भितर येवन तिका विचारलें, 'वतना ताणे कितें सांगलें?'

'कांय उलोवंक ना.' बायलेन जाप दिली.

उलयिल्लो आसत जाल्यारय म्हजो अवतार पळोवन बायल आता कांय उलोवची ना. तिगेल्या सभावाची आतां म्हाका संवकळ जाल्या. हांवें बरी जाप दिली जाल्यारच ती उलयत रावता. मनांत भरिल्लें सगलें सांगून उडयता. पूण नदर म्हजेर थिराविल्ली उरता. म्हाका रुचलें ना अशें दिसलें जाल्यार एकदम तोंड बंद करता आनी मागीर उलयच ना. 'हूं, ना' इतलेंच म्हणटा.

विप्रदासाले तिचेकडेन कितेंय तरी उलोवणे जाल्लें आसूंक जाय. ती आता म्हाका सांगची ना.

हांव भितर गेलों. पुडवें न्हेसलों. आंगाचेर सदरो चडयलो. थोडे पयशे बोल्सांत घाले आनी भायर सरूंक लागलों तेन्ना बायलेन पांयार तकली दवरून म्हळें, 'हांव जाणां, तूं विप्रदासाक सोदूंक वता. तो परत येतलो. तूं जिवाक त्रास करून घेवनाका. म्हजेखातीर घर सोडून वचूं नाका.'

म्हजें काळीज सामको फातर न्हय. कळवळ्ळें आनी हांव भायर सरलोंना. तिका म्हळें, 'हांव तुका दुशण दिना. घडये विप्रदास येतलो. वाट पळयतां.'

पूण विप्रदास आयलो ना.

म्हजी अस्वस्थताय वाडत उरली. सामको घुसमटमार जालो. इतले म्हयने... सुमार दोन वर्सा हांव ताची वाट पळयतालों. परिसासारको तो आयिल्लो आनी आमच्या कळमेल्ल्या लोखंडाचें भांगर करून गेलो. ताका देव बरें करूं अशें सांगपाची उसरपत लेगीत ताणे आमकां दिली ना....

... आतां हांवें थारयलां...., हांवें घर सोडलां. पूण घराकडले संबंद तोडूंक नात. म्हाका भुरगें ना बाळ. हांव आनी म्हजी बायल. आमी दोगांच. आमच्या फाटल्यान

आमकां रडपी लेगीत कोण ना. पूण विप्रदासाचें रीण माथ्यार घेवन म्हाका वचचेलें ना. तें ताचे सुवादीन केलेबगर म्हजें मन ल्हव जावचें ना. बियांपसून हांवें भाताचें पीक काडलें आनी खालें. पूण बीं ताका परत करूंक जाय, तो मागीर ताचें कितंय करूं.

रघुनाथ रावाच्या हातबरपाचो हो पयलो भाग. म्हाका बोध जालो तो इतलोच की कोणतरी विप्रदास म्हण ह्या रघुनाथ रावागेर आयलो. तो पळोवंक उग्र आसलो. पूण देवदूताभाशेन रघुनाथ रावाचे जिणेचें भांगर करून गेलो. तो परत येतलो तेन्ना ताची पूजा करपाचें रघुनाथ रावान थारायिल्लें. तो परत येवपाची तो वाट पळयतालो. पूण एक दीस तो आयलो तेन्ना तागेले बायलेन ताका धाडलो... काय धांवडायलो?

त्या विप्रदासाक सोदूंक संन्यास घेतिल्लेभाशेन रघुनाथ राव भोंवता. भोंवता- भोंवतां तो गोंयांत पावला. पूण हो रघुनाथ राव कोण?

हांवे तागेली चोपडी सांबाळून दवरली. फुरसतीन फुडलो भाग वाचपाचें थारायलें आनी जे उत्सुकतायेन रघुनाथ राव विप्रदासाची वाट पळयतालो तेच उत्सुकतायेन हांव रघुनाथ रावाची वाट पळयत रावलों.

म्हाका दिशिल्लें हरशीं कित्याकच न्हय जाल्यार आपली मोलादीक चोपडी परत व्हरूंक तरी तो येतलोच. पूण पंद्रस उलगली तरी रघुनाथ राव आयलोना आनी हांवय ती चोपडी उकती करून फुडलें प्रकरण वाचूंक पावलोना.

मे म्हयन्याच्या मध्याची खबर. हांव मुंबय वचपाची तयारी करतालों. दारांत मोटार उबी आसली आनी म्हाका विमानतळाचेर पावपाची ताकीत आसली. इतले म्हणसर दारांत रघुनाथ राव उबो.

ताका बसय म्हणूं येना आनी वचय म्हणप जमना, अशी म्हजी आवतिकाय जाली. उब्यानीच हांवें ताका म्हळें, 'हांव मुंबय वतां. चार दिसां उपरांत परत येतलों...'

'तूं केन्नाय परत यो.' रघुनाथ रावान म्हळें, 'पूण मातशें म्हजें हातबरप म्हाका परत दी. तुवें वाचलांच आसतलें.'

'हांवें पुराय वाचूंक ना.' हांवें म्हळें, 'फकत एक भाग वाचला. पूण एक सांग, तुका विप्रदास मेळ्ळो?'

'वाचलां तर तुवें!' रघुनाथ राव हांसलो', अजून मेळूंक ना. म्हाका आतां तो जितो आसा काय ना म्हणपाचोय दुबाव येवंक लागला...'

चड वेळ संभाशण नाका म्हूण हांवें तागेली चोपडी बॅगांत घाली आनी म्हळें, 'तूं परत आयलो जाल्यार विप्रदासाविशीं आनी तुगेल्या बरपाविशीं आमी उलोवया.'

ताणें जाप दिली ना. हांव मोटारींत बसता आसतना तो आपले वटेन चलत रावलो.

मुंबय वतना - येतना विमानतळाचेर आनी विमानांत हांवें ती सगली वाचून काडली.आनी फुडें कितें जाता तें समजून घेवपाची म्हाका उमळशीक लागून उरली. ती सगली खबर रघुनाथ रावाच्याच उतरांनी छापची अशें म्हाका दिसलें. जाल्यारूय ताची

परवानगी नासतना कशें करतलों? त्या बरपांत आनीक एक दोश उरला. पुराय बरपांत रघुनाथ राव आनी ताची बायल हांचो उल्लेख येता. पूण तांचेविशीं चड कांयच सांगिल्लें ना आनी तें कळ्ळेंबगर खबर अर्दवट उरता. पूण ज्या प्रांजळपणान रघुनाथ रावान ती बरयल्या ताचेवेल्यान ती खरी खबर म्हणपाची खात्री पटली.

सांगून गेल्लो ते प्रमाण रघुनाथ राव आयलो. हे खेपे हांवें ताका आग्रो करून बसयलो 'दोन खेपे तूं आमगेर आयलो आनी उब्यांनी गेलो. आज बस.'

'हांव सदांच बसूंक तयार. म्हाका तशें गरजेचें अशें कसलेंच काम ना.' रघुनाथ रावान सांगलें, 'तुज्याच वेळाचो विचार कर.'

'तुजें तें हातबरप वाचतकच हांव तुजोच विचार करीत आसलों. ही खरी खबर हे विशीं म्हाका दुबाव ना. पूण एक सांग...'

'खबर खरी. हांवें छापचेखातीर बरोवंक ना. ती चोपडी म्हाका परत दी आनी सांग, विप्रदासाक कसो सोदपाचो?' म्हजें मन वळखल्ले भाशेन तो उलयलो.

'हांव कशें सांगूं? विप्रदास जर तुका मेळूंक सोदिना आसत जाल्यार तुंवेंच ताका सोदचो पडटलो. दुसरो कोण तुका मजत करपाक पावचो ना. पूण तुका तो जाय तरी कित्याक? तूं म्हणटा तसो तो देवदुताभाशेन तुजे जिणेंत आयलो, परिसाच्या स्पर्शावरी ताणें तुज्या संवसाराचें भांगर केलें आनी तो गेलो. तूं ताजो उपकारी आसा.... तुंवें ताका फटोवंक ना...तो आयलो जाल्यार अवश्य तूं ताका देवाऱ्यांत बसय. पूण तो गेलो इतलेच खातीर बायलेक घरा एकली दवरून तूं असो फकीरासारको भोंवता हे समा न्हय.' हांवें म्हळें.

तकली हालोवन रघुनाथ राव म्हजें उलोवणें आयकतालो. येवजिल्ले भाशेन करून ताणें म्हळें, 'तूं म्हणटा ते लटकें न्हय. पूण तुका सगळी गजाल खबर ना... रिणाचें चेपण काळजार घेवन भोंवप... ही कल्पना तुज्यान करूंक जावची ना. न्हिदूंक गेल्यार न्हीद येना... बसलों जाल्यार अस्वस्थताय फाट सोडिना. जेवण रुचना... गुन्यांवकारांचे मन कशें खांवक येता तें तुका कशें कळटलें?' रघुनाथ रावान म्हळें.

'एक उपाय आसा.' हांवे ताका सुचयलें, 'पेपरांत जायरात दिवपाची. तो पेपर वाचता आसत जाल्यार ताका कळटले की रघुनाथ राव आपल्याक मेळूंक तळमळता.'

'पूण ताका वाचूंक येता आसत अशें म्हाका दिसना. ताजो फोटो म्हजेकडेन ना. ताच्या म्हऱ्यांत बसून कोणेय पेपर वाचलो तरी वाचतल्याक वा विप्रदासाक म्हजी भावना कळचीना.'

'दुसरो उपाय येवजता. तूंच ताका वळखता. तुंवेंच ताका सोदपाचो.'

'तेंच तर हांव करतां.'

'म्हाका एक गजाल समजूंक ना. तुजी बायलेचेर इतली माया. तिका सोडून तूं इतलो

भोंवता कसो?' हांवें विचारलें.

'सगली खबर हांवे तुका सांगूंक ना. ती आतां सांगतां... आदीं भितर वचून इल्ली कॉफी करूंक सांग.'

रघुनाथ रावान ल्हान भुरग्याक आदेश दिवचो तसो आदेश दिलो. खांद्यावयलें उपरणे काडून तोंड पुसलें. शबनम पिशवी टिपॉयचेर दवरली. लुंगी कवळून धोंपरामेरेन दोडली आनी मांडी घालून जमनीर बसलो.

'पुराय जीण अशी जमनीर बसून सारली. कदेल, सोफा म्हजेखातीर न्हय. म्हाका असो बसूं दी. आदी कॉफी घेतां आनी मागीर थोडे भितर सगलें सांगून उडयतां. चड वेळ घेना.'

'पूण एक सांग, तूं म्हाका सोदीत कसो आयलो? म्हजेकडेन तुका कोणे धाडलो?' हांवें विचारलें.

'तूं कुमठ्याक केन्ना पावंक ना?' गंभीर जावन ताणे म्हाका विचारलें.

'खूब खेपे पावलां. आनी थंय म्हजे खूब वळखीचे लोक आसात.'

'देवळाच्या मंडपांत एक खेपे तुवें भाशण केल्लें. उगडास आसा?' ताणे विचारलें.

हांवे जाप दिली ना. कुमठ्याक खूब खेपे हांवें भाशणां केल्यांत. श्रोत्यांमदीं तो आशिल्लो आसूं येता.

रघुनाथ रावान म्हळें, 'एक खेपे तुवें कुमठ्याच्या नारायण महालेची खबर सांगिल्ली... म्हाळशेचो कुळावी, जो केळदी संस्थानात महसूलमंत्री जाल्लो...'

'म्हाका उगडास जाता.' हांवें म्हळें.

'तीच खबर आयकून म्हजे तकलेंत विप्रदासाचो सोद घेवपाची कल्पना रुजली. आनी कित्याक कोण जाणा म्हाका दिसलें...कोणाकय तरी सांगून उडोवचें देखून आसूंये...' तुका म्हज्या मनांतली खबर सांगली ती आजमेरेन हांवे कोणाकच सांगिल्ली ना. मन फुगार जाता तेन्ना तेन्ना बरयलें. कितें नशीब आसता पळय! संस्कृत विशय घेवन हांव एम.ए. जालां. पूण धंदो केलो तो पसरकाराचो. लेक्चरर म्हूण म्हाका नोकरी मेळटाली. पूण सगर्लेच विपरीत जालें.'

'तें हांव तुका विचारूंकच सोदतालों. संस्कृत आनी इंग्लीश भासांवयलें तुजे प्रभुत्व तुज्या हातबरपांत पानाकणकणी दिश्टी पडटा. तुजी मराठी लेगीत शैलीदार आसा. अक्षरुय मोतयांच्या दाण्यांसारकें. तूं लेखन बी करता?'

'शिकतना कितें बरयलें तितलें! शिक्षण सोंपतकच बरयले ते हिशोबाचे खड्डे. पूण वाचन चालू आसा. पसऱ्याचेर बसून मूस आमुडचेपरस पुस्तकां हाडून वाचपाची आवड वेगळी...'

'हरशीं तुमचें कुटुंब मुंबय स्थायिक जालां अशें तुवें सांगिल्लें. मुंबय सोडून कुमठ्याक कित्याक परत आयलो?' हांवें ताका विचारलें.

तितले म्हणसर कॉफी आयली. बशी भरून कॉफी रकोवन घेतकच दाव्या हाताच्या तीन बोटांनी रघुनाथ रावान ती बशी उखल्ली. आनी फुर्रर असो आवाज काडून दोन घोटांमदीं ती पियेवन घेतली. उपरांत उपरण्याक तोंड पुसलें आनी तो उलोवंक लागलो.

'हांव मुंबयकार. जल्मलों, वाडलों, शिकलों ठाण्याक. आमचो मूळ गांव कुमठा. थंय आमच्या कुटुंबाचें घर आसा. घरांत साळीग्रामाची नित्य पूजा जाता. म्हजो व्हडलो बापोलयो ती पूजा करतालो. ताच्या मरणाआदींच म्हजो बापूय मेल्लो. हांव तेन्ना एम. ए. च्या निमाण्या वर्साक आसलों. बापोलयो जाण्टो जाल्लो. रस्त्याच्या मुखावेल्यान आमचो पसरो. फोव, गोड, तेल, जानवीं असल्यो वस्तू विकपाचो. फाटले वाटेन व्हडलें घर. कितल्योशोच पिळग्यो हो पसरो आमी चलयलो. म्हज्या बापोलयान अशी इत्सा उक्तायली की हांवें कुमठ्याक येवन तो पसरो चलोवचो.... घर सांबाळचें... साळीग्रामाची पूजा करची. म्हजें मन तयार जायनासलें. पूण जाण्टेले आवयन आग्रो केलो आनी हांव कुमठ्याक येवन रावलों. तसो कुमठ्याक हांव अर्दी मदीं येतालों. तो गांव म्हाका आवडटा. पूण सदांखातीर कुमठ्याक आयलों आनी एका नव्याच विश्वांत पावलों... महाभारतातलो चक्रव्यूह तो. भितर सरप सोपें.... भायर सरप कठीण. पूण आता हांवें तो चक्रव्यूह भेदला. आतां हांव खरेल्या अर्थान निवृत्त जालां. आतां त्याच घरांत आसां, पूण हांवें पसरो बंद केला.... पसरो म्हळ्यार कल्पना येवची ना. व्हडलो डिपॉर्टमेंटल स्टोअर बंद केला.आनी हांव विप्रदासाक सोदूंक भोवतां....'

'तुवें बायलेविशीं कांय सांगलें ना...'

'ती पोरण्या वळणाची. मराठी चार इयत्ता शिकल्या. ती चवदा वर्सांची आनी हांव सतरा वर्साचो आसतना आमचें लग्न जाल्लें. भुरगें ना बाळ.. खरें म्हळ्यार आमचो वंश आतां उरूंक ना... कोणालो तरी भुरगो पोसको घेवन वंश चलोवपाची कल्पना म्हाका मान्य ना. तुगेल्या त्या नारायण महालेसाग्की आमची गजाल. एक खेपे विप्रदासाचे रीण फारीक जालें म्हणटकच हांव आनी म्हजी बायल यात्रेक वचूंक मेकळीं.'

हांवें आदरान रघुनाथ रावाकडेन पळयलें. ताका जें सांगपाचे आसलें तें सांगून जाल्लें. तो उठून उबो रावलो. दोडिल्ली लुंगी सोडली आनी आपले पिशवेक हात घालतां घालतां म्हळें, 'म्हज्या बापायलो हांव एकच चलो. ताका तीन भाव. पूण एकाय बापोलयागेर भुरगें ना. ते मानताले की घरांतल्या देवाची सेवा जायना. भश्ट - अनवाळें पाळप जायना देखून आमचें कुटुंब निर्वंश जावंक लागलां. म्हजे आज्जेन पांचवो गुरवाचार आयलो तेन्ना कोणाकडल्यान तरी वखद घेवन गर्भपात करपाचो प्रयत्न केल्लो आनी तातूंत ती फडफडून मेली...लोक म्हणटात तें भ्रूणहत्येचो स्राप आमच्या कुटुंबाक नडटा. म्हजो बापूय मुंबय उरलो. देखून हांव जल्माक आयलों...'

''हे मान्यतायंचेर तुजो विस्वास आसा?' हांवें रघुनाथ रावाक विचारलें.

'ना अशें कशें म्हणू? एके वटेच्यान हीं पिर्शेपणा दिसतात. दुसरे वाटेन विस्वास

दवरचो अशें दिसता. पूण भुरगें ना हाजी म्हाका खंत ना. आतां हांव तीर्थयात्रा करतलों. बायल सांगातान आसतली. सगल्या पितरांक श्राध्द वाडटनाच म्हजें आनी बायलेचेंय श्राध्द आपल्याच हातांनी वाडूंक सोदतां. कसलेंच बंधन फाटल्यान उरचें न्हय. आत्मो मुक्त जावचो म्हूण ही धडपड. अनाथालयाक सगले पयशे दान करतलों आनी जो कोण आमच्या घरच्या शाळीग्रामाचो पत्कर घेत ताका घर दिवन उडयतलों.''

'तुंवे जें बरयलां ते छापपासारकें आसा.'

रघुनाथ रावान आदीं आपले बाड पिशवेंत घालून घेतलें आनी म्हाका म्हळें, 'म्हजें म्हणून नाका. तुजें म्हणून छापतलो जाल्यार छाप.'

'तशें कशें जावं येता?' हांवें विचारलें.

'हांवें तुका सांगलां म्हूण वा तुंवे ती खबर वाचली म्हूण याद जाता तशें बरय... तुका जाय जाल्यार. पूण हांव चल्लों. विप्रदास मेळ्ळो जाल्यार तुका कळयतां.'

एक खेपे पायांत जोतें घालतकच फाटल्यान लेगीत पळयनास्तना रघुनाथ राव चलत रावलो.

कुमठा हें कर्नाटकाच्या उत्तर कन्नड जिल्ह्यांतले दर्यादेगेवयलें एक शार. गोंयच्यान मंगळूर वतलो राजमार्ग कुमठा शारांतल्यान वता. कारवार आनी अंकोला उपरांत चडावत कोंकणी भास उलोवपी लोक आशिल्लें कुमठा हें एक शार. हालींच्या वर्सांनी थंयच्या लोकांचो गोंयचेकडेन वेव्हाराचो संबंदय येवंक लागिल्ल्यान गोंयचे लोकजिणेचो थंयच्या समाजजिणेचेर परिणाम जाल्लो दिसता.

कुमठा शारांत म्हजे खूबशे वळखीचे आसात. पूण अचकीत जेन्ना थंय पावलों तेन्ना म्हाका उगडास जालो तो रघुनाथ रावाचो. विप्रदासाचो ध्यास घेतल्या उपरांत ताणे जें कितें बरयिल्लें तें हांवें वाचिल्लें. दोन तीनच खेपे तो म्हाका मेळिल्लो तरी ताज्या व्यक्तिमत्वाचो एक छाप म्हज्या काळजाचेर खोल उदेल्लो. ताका मेळचें, ताजें घर पळोवचें अशें म्हाका दिसलें. देखून गाडी शारांत भितर घेतली आनी एका दुकानदाराक विचारलें - 'रघुनाथ रावाचें घर खंय?'

राव हे ताचें आडनांव काय कितें हे लेगीत म्हाका खबर नासलें. दुकानदारान खांके हालयले, बोटांमदले विडयेचो परत झुरको घेतलो आनी सोडिल्लो धुंवर परत फांफशिता आसतना आपल्याक खबर ना म्हणपाचें म्हाका खुणायलें. तोंडान ना म्हणूंक गेल्यार विडयेचो झुरको घेवंक कळाव जातलो आनी एक झुरको घेतकच दोळे धांपून ब्रह्मांड पळोवपाची संद वतली, अशें ताका दिसलें आसूंये. म्हाका दिशिल्लें तोंडातलो धुंवर सोडटकच तो जाप दितलो. तो उलयलो ना. हांव एका वळखीच्या व्यापाऱ्यागेर गेलों.

'कोण रघुनाथ राव?' ताणे येवजिल्ले भाशेन करून विचारलें.

म्हाका खबर आशिल्ल्यो तितल्यो खाणोखुणो हांवें सांगल्यो तेन्ना 'हां, हां. त्या पिश्या रघुविशी तूं विचारता काय कितें....? तो गांव सोडून गेला. काशीयात्रेक गेला म्हूण

आयकलां. घर कोणाक तरी दिवन उडयलां आनी बरें दुकान विकून उडयलां. इतल्या पैशांचें कितें केलें कोणाक खबर ना. ना भुरगें, ना बाळ. लोक कितें कितें उलयतात. एक आलवांतीण त्या घराक पिडटा. खरें फट हांव नकळ.'' तो दुकानदार उलोवन गेलो.

'तोच, तोच. हांवे म्हळें.' पिकता थंय विकना म्हणटात ते म्हणीचो म्हाका उगडास जालो. गांवांत एक विव्दान मनीस आसलो. तो तांकां विक्षिप्त दिसलो जाल्यार अजाप ना. पूण ताची निर्भत्सना ''पिसो रघु'' म्हणून करून एके तरेची उपेक्षा दाखोवपाची ही रीत म्हाका निखालस मानवली ना.

'तुका पयशे देणे आसा काय कितें?' दुकानदारान म्हाका विचारलें.

'अशें कित्याक विचारता? ताणे कोणाले पयशे बुडयल्यात वी?' हांवें परतो प्रस्न केलो.

''तशें कांय आयकूंक ना. पूण तो गांवांत ना. घर सध्या बंद आसूंक जाय.''

''हांव ताका वळखतालों. तो संस्कृत भाशेचो विव्दान. एक मोठो विचारवंत. ताची म्हजी वळख आसली. गांवात पावलों देखून वासपूस केली. भायल्यानच घर पळोवंक मेळचें ना?'' हांवे विचारलें.

''ताजे विव्दत्तेविशीं आमकां कांय खबर ना. तो केन्ना कोणाकडेन उलयलो ना वा गांवच्या भौशीक कामात ताणे वांटो घेतलो ना. खूब वर्सां मेरेन दुकान बंद दवरून भोंवतालो.... जाण्टेल्यांचें ल्हानशें दुकान. हालीं हालींच ताणे ताजो व्हडलो स्टोअर केल्लो. पयशे खंयच्यान हाडले तोच जाणा. आनी निमाणे तो बंद करून भोंवत रावलो. फाटले खेपे येवन वायलेकय घेवन गेलो अशें कळटा.''

हांव ताच्या वांगडा रघुनाथ रावालें घर पळोवंक गेलों. रस्त्याचेरच तीन चार खणी दुकान आसलें. वयर लायिल्ली पाटी निखळायल्या, पूण खांब्याचेर ऑईल पेंटान रंगोयल्ल्यो जायराती आशिल्ल्यान थंय दुकान आसलें म्हणपाचें कळटालें.

कुशीक एक बारीकसो गाडो. थंय केळीं आसलीं. हांवें थोडीं केळीं घेतलीं आनी ताका रघुनाथाविशीं विचारलें.

''गेलो तो. अम्माक घेवनच गेलो. साधुपुरुस. कोणाचे कटकटीत नासलो. हालीं दुकान बरें चलतालें. एकदम कित्याक बंद केलें खबर ना!... म्हाका एक आलमार दिली.... फुकट. आपूण यात्रेक वतां आनी परत येवचो ना अशें सांगून गेला.'' गाडेकारान सांगलें.

''घरांत वचपाची वाट?'' हांवें विचारलें.

''वेगळी वाट ना. दुकानांतल्यानच घरांत वचपाचें. मदलें एक दार सदांच उकतें उरतालें. दुसरी वाट आसा मागीलदारच्यान. फाटल्या रस्त्याचेर. पूण घर बंद आसा. कोणाकडेन तरी ताणे चावी दिल्या. कोणाकडेन तें हांव नकळ.''

''मागीलदाराचो रस्तो खुबच अरुंद. तेवाटेच्यान एक दुरीग. दुर्गांतल्यान अशीर

पायवाटेन वचूंक जाय. हांवें पयसुल्ल्यानच घर पळयलें आनी जो दुकानदार म्हाका थंय घेवन आयिल्लो ताजो निरोप घेवन हांव म्हज वाटेन गेलों.

गांवात त्या दिसा बोवाळ जाल्लो आसतलो. रघुनाथ रावासारक्या मनशाक कोणय सोदूंक आयलो जाल्यार तो रीण वसूल करूंक आयिल्लो आसतलो अशें म्हण्टल्या लोकांकडेन ताजेविशीं चड किर्ते उलयतलो? पुण घर पळयलें आनी म्हज्या दोळयामुखार त्या हातबरपांत बरयिल्ली कथा सिनेमातल्या चित्रांभाशेन उबी रावली.

आशाढांतलो पावस रकतालो आसूंक जाय. तीन कात्रीचो वेळ. कुमटेच्या बाजारांत उलाढाल आदीच सोंपिल्ली. कांय दुकानदार तर पसरे बेगीन बंद करून घरा गेल्ले. रस्त्यावयल्यान एखाद्री रिक्षा वा सायकलस्वार वतालो तितलीच जाग. सकाळच्यान पावस पडटा आनी रातीचो काळोख दाटचो तशें सगलें वातावरण जालां.

आयच्या दिसा रघुनाथान गिरायकाचे तोंड पळोवंक ना. गांव आतां खूब बदल्लां. सुधारणेचें वारें आता कुमठ्यांतय पावलां. घरांनी आनी दुकानांनी विजेचे दिवे आनी टीव्ही पावल्यात. पूण रघुनाथाच्या पसऱ्यार अजूनय पॅट्रोमॅक्स आसा. विजेचें कनेक्शन घेतलो जाल्यार थोडेशे उपचार पुराय करचे पडटात आनी ते करपाची उसरपत ताका ना.

एक घरभाट आसा. थंय माड आसात. शाकभाजी मेळटा. तितल्यान गरज भागता. हालीं हालीं जिरवणेची कागाळ जायत सावन रातीवेळार तीं दोगांय पेज जेवतात. हुनहुनीत पेज आनी तोंडांक लावंक दोणांतली आंबली. केन्नाय एक दीस पापड भाजलो वा दनपारची शाक उरली जाल्यार ती पानार घेतली... भायलेवाटेन पसरो. पसऱ्यावयलीं सगलीं फोलीनां कळमेल्यांत. पसऱ्यार आसा तें थोडशें धान्य, पापड, लोणचें, गोड, फोव, चिरमुल्यो, नाल्ल, तेल, फस्कां आनी उजवाती... आनी जानवीं. जानवीं घेवपाच्या निमित्यान खूबशे लोक थंय पावतात आनी मागीर हेर वस्तू घेतात.

दुकानांत बिस्कीटी आसल्यो. पूण वर्सभर त्यो कोणे व्हरूंक नात. येन्नासर भातेवन गेल्ल्यो आसतल्यो...

वण्टीर एक घडयाळ आसा. ते घडयाळीचो पँडुलम आवाज करता. तीच घरांतली जाग. पोरणे पध्दतीची घडयाळ. दर पंदरा मिनटांनी वाजता.

सवाय सात जालीं. सदांच आठ वरांचेर तो दुकान बंद करता. पयलीं बंद करून करतलो कितें? पसऱ्याचे नाबीर स्टूल घेवन बसतकच येतल्या वतल्याचेर नदर पडटा. बसीन भायल्या गांवानी वचपी लोक बस स्टँडाचेर वता आसतना तागेल्या दारांतल्यान वतात. गांवात आयिल्ले लोक बसींतल्यान देंवले उपरांत ताच्या दारांतल्यान वतात. जनता जनार्दनाचें दर्शन घेत रघुनाथ समाजांत येतल्या बदलाचो अदमास घेता.

...हालीं लोकजीण समृध्द जाल्या... आदीं बायलो अशो भोंवना आशिल्ल्यो... चलयांच्या आंगार घागरेच आसताले. पायांत जोतें घालप हें गिरेस्तपणाचें लक्षण

मानताले... आता लोकांचे भेस चकचकीत जाल्यात.... चलयांच्या आंगार पंजाबी सूट आनी साडयो दिसतात.... गांवांत आईस्क्रीमाचीं दुकानां जाल्यांत... प्रसाधनांचीं दुकानां आसात... हें समृध्दीचें लक्षण!

पूण गांवांत कांय गजाली बदलनासतना उरल्यात. रघुनाथालो पसरो आनी रघुनाथालें घर आनी त्या घरांत रावपी घोव आनी बायल तशींच उरल्यांत. विकासाचें वारें तांकां आफडूंक ना. तांक ना म्हणून न्हय, पूण पयशे मोडपाची संवयच ना. देवळांत गेल्यार तो डवयेंत पांच पयशे उडयतालो. आतां धा पयशे उडयता आनी मोर्डीचे धा पैशे नासत जाल्यार भटाकडच्यान मोड मागून घेता. पूण रघुनाथालें एक आसा, ताणे कोणाक दान दिल्लें नासलें तरी तो कोणाच्या रिणांतय ना. तागेल्या दुकानार येवपी लोकय गरीब वर्गातले. हमाली करपी हमाल, भीक मागून पोट भरपी भिकारी, लार्गाशिल्ल्या खेड्यांतल्यान आयिल्ले कश्टकारी...

साडेसात जालीं. रघुनाथ उठतासर ताच्या पसऱ्यामुखार एक मनीस उबो रावलो.

पडट्या पावसांत तो भिजतालो. भियेत भियेत तो सोंपणा चडून फुडले पाखाटे पोंदा आयलो. आंगाचेर एक प्लॅस्टीकचें कव्हर आसलें. ते देंवयलें, फाफुडलें आनी घडी केली. रघुनाथाकडेन पळोवन विचारलें -''फोव आसात?''

'हय, भीतर यो.' रघुनाथान जाप दिली.

खांद्याक बांदिल्ली एक व्हडली पोटली दुकानाचे धडेर दवरून त्या मनशान हात झाडले आनी म्हळें - 'मळबाक गळटी लागल्या. पुराय भिजून गेलां. सुकें वस्त्र उरूंक ना. आंगांत कुडकुडो भरला... इल्लें गोडय दी.'

'यो तूं. भीतर यो.' रघुनाथान ताका आपयलो. आपली पोटली थंयच बांकाचेर दवरून तो दुकानांत एके कुशीक खांब्याक तेंकून उबो रावलो.

तो लार्गी आयलो आनी दिव्याच्या उजवाडांत रघुनाथ रावान ताका सारको पळयलो. वाडिल्लें खाड, वाडिल्ले विस्कुटिल्ले केंस, पावसान भिजला आनी कुडकुडटा.

ताणे आपली पोटली बांकार दवरली. आंगावयले म्हेळे ओलें वस्त्र काडून उदक पिळून घेतलें.

''राव... राव, तुका वालो दितां, पुराय भिजला. आंग पुसून घे.'' रघुनाथ रावान ताका सांगलें.

अविस्वासान ताणे नदर वयर करून रघुनाथाकडेन पळयलें. अजून तो कुडकुडटालो. ताणे म्हळें, ''हात धुंवक इल्लें उदक मेळत?....''

''असो यो.''

रघुनाथान दुकानाची नाव उक्ती केली. फाटलेवाटेन एक वासरी. ते वासरेर उदकाची भरिल्ली कळसुली आसली. मुखार नळ्यांवयल्यान झडटल्या पावसाच्यो पावळयो गळटाल्यो. त्या मनशान कळसुलेक हात लायलो ना. पांवळ्याचेर वचून हात आनी पांय

धुले. सुक्या वाल्यान आंग पुसलें. कुडकुडत कुडकुडत तो उकडयां बसलो.

रघुनाथान फुडलें दार  बंद केलें आनी पसन्यावयलो पेट्रोमाक्स वासरेर हाडलो. धगाक बसचो तसो तो दिव्याची ऊब घेत बसलो.

''बस तूं हांगा. येतां हांव.'' अशें म्हणून रघुनाथ घरांत भितर गेलो.

''खंयचें संवंग घरांत हाडलां?'' भितर वचनाफुडें बायलेन रघुनाथाक विचारलें.

''ल्हवू उलय. तो आयकत.'' रघुनाथान बायलेक शिटकायली. ''कोणय जायना. पावसांत भिजला, कुडकुडटा, भुकेल्लोय आसा. फोव आनी गोड विकतें घेतलां. घडये फोव कालोवन खातलो आनी वतलो. ताका तांबयोभर उदक दी.''

''कोण खंयचो देवाक खबर! म्हाका तरी तो लफंगो दिसता. म्हजो तांवयो भस्टुचो ना?'' बायलेन आक्षेप घेतलो.

''भस्टलो जाल्यार भस्टलो. हांव तुका नवो हाडून दितां.'' रघुनाथान म्हळें.

''तूं नवो हाडटलो तेन्ना हाडटलो. लग्न जावन ह्या घरांत आयिल्ल्याक हांवें नवें कांयच पळोवंक ना.'' बायल फणफणली.

पूण एक तांबयो उदकान भरून तिणे हाडून रघुनाथामुखार दवरलो. जमनीचेर तो आपटून तिणे आपलो निशेध उक्तायिल्लो.

तांबयो घेवन रघुनाथ परत वासरेर आयलो तोमेरेन त्या मनशांन वालो पिळून वासरेवयले दोरयेचेर वाळगत घाल्लो. आनी उक्त्या आंगान पेट्रोलमाक्साचो धग घेतासतनाय तो कुडकुडटालो.

उदक मेळनाफुडें तो उठलो. ताणे फोव आनी गोड उदकान कालयले आनी अधाशाभाशेन उंडयो वळून पोटभर खाले. वयल्यान ताळयार उदकाची धार रकयली आनी एक व्हडलो धेकर दिवन रघुनाथाक विचारलें, ''हांव मात्सो न्हिदून घेवं? पावस अजून थांबूंक ना.''

''पावस येदे बेगीन थांबत अशें दिसना. आनी आतां रातय जाल्या. तुका खंय वचपाचें आसा?''

''खंय म्हणून सांगू? ते पोटलेंत म्हजो म्हाल आसा... तो हांव विकतां.''

''कसलो म्हाल?'' रघुनाथान विचारलें.

''पाळामुळांचीं वखदां.''

अचकीत तो खूबच कडकडूंक लागलो आनी कुल्लेभाशेन हातपांय कवळून थंयच जमनीर न्हिदलो.

रघुनाथान ताजेसरीं वचून ताच्या आंगाक हात लायलो. आंग हून आसलें. ''तुका जोर आयला.'' रघुनाथान म्हळें.

''हय, असोच येता. तीनसांज जाली म्हणटकच जोर येता. अर्द वरान देंवता. मात्सो बसतां. जोर देंवतकच वतां.''

"वखद कांय घेना?... मलेरिया काय दिसता." रघुनाथान म्हळें.

"कसलो जोर देवाक खबर. म्हजेकडेन खूबशीं वखदां आसात. हागवणीचेर... पोटखाण्याचेर, सोरपाच्या विखाचेर... खोरजेचेर.... पूण जोराचेर वखद ना."

रघुनाथ भितर गेलो. घरांतली क्रोसीनची एक गुळी हाडून ताका दिली. "ही घे. जोर देंवतलो." ताणे सांगलें.

गुळी घेवंक उठून वसपाचें त्राण त्या मनशांत नासलें. तकली वयर करून ताणे गुळी गिळ्ळी आनी सुमार पंधरा - वीस मिनटांभितर तो न्हिदलो.

रघुनाथान हातपांय धुवन घेतले. इल्लो फराळ केलो आनी घरांत आयिल्ल्या परक्याचें कितें करचें तें येवजीत पासयो मारूंक लागलो.

सुमार अर्दवरान तो उठलो. ताजो जोर गेल्लो. ताणे रघुनाथाक सांगून आपली पोटली भितर हाडली. प्लॅस्टिकच्या कुडक्यांत गुटलायिल्ले सुके कपडे भायर काडून आंगार चडयले आनी रघुनाथाक म्हळें, "तुका त्रास दिले."

"त्रास कसले? म्हजो धर्म हांवें पाळ्ळो. पूण त्या जोराक वखद कित्याक करिना?"

"वखद करून फायदो कितें? आज तुवें गुळी दिली. पूण गुळी घेतली ना तरी अर्दवरान जोर देंवता. हालींच ही पीडा लागल्या.... आतां फाल्यां सांजवेळमेरेन कसलेच त्रास नात."

ताणे उठून आपले किरंवटीक लायिल्ली एक पोती भायर काडली. पोतयेंत मोड खुळखुळटाली.

"तुजे कितले पयशे जाले?" ताणे रघुनाथाक विचारलें.

"कसले पयशे घेवन बसला? पयशांचें सोड. पूण ह्या पावसांत तूं खंय वता? आयची रात हांगाच राव. सकाळीं वच."

"तुजे उपकार जातले." ताणे म्हळें, "तुज्या रिणांत हांव उरतलोच. तरी फोवाचे आनी गोडाचे पयशे तुवें घेवंकच जाय."

"कसलेशे पयशे?" रघुनाथ रावान म्हळें.

"तुमी चुकतात. व्यापाऱ्याचो धर्म सोडूं नाकात. तुमच्या घरांत जेविल्लो जाल्यार गजाल वेगळी जावपाची. चड नाजाल्यार थोडे घेयात." ताणे रघुनाथाक सांगलें.

मोडींचो रुपया काडून ताणे रघुनाथाच्या हातार दवरलो तेन्ना रघुनाथान आपूण जावन म्हळें, "पुरो."

"तुका हांतूण लागतलें?" थोड्या वेळान रघुनाथान विचारलें.

"नाका. म्हजे पोटलेंत एक गोंजडी आसा." ताणे म्हळें, "तुका जाय जाल्यार हो दिवो भितर केल्यार जाता."

दिवो घेवन रघुनाथ भितर आयलो. पूण मनांत ओगीच हुस्को. पसरो आनी घर हांचे मदलीं ही वासरी. पसऱ्याक मुखावेल्यान दार आसा तें भितल्यान बंद केलां. पूण

वासरेवटच्यान पसरो उकतोच. दुसरे वटच्यान घर उकतें. हालीच्या दिसांनी कोणाचें चित्र काडूंक जायना. रातीच्या वेळार त्या मनशान उठून पसरो लुटलो जाल्यार?

घरांत भितर सरतकच बायलेनय तोच दुबाव उक्तायलो.

"तुवें चूड दाखोवन म्हारू घरांत हाडला. अशा वळख देख नाशिल्ल्या मनशाक हे पावशी रातीकडेन घरांत घेवप ही सामकी पिशेपणा."

रघुनाथाक आपली चूक समजली. पूण भायर वचून ताका धांवडावपाचें बळगें ताज्यांत नासलें. ताणे येवजिलें, किते घडपाचें आसा तें घडूं. ताणें दिवो पालोवन हातुणार फाट तेकयली. तरी ताज्या दोळ्याक दोळो लागलो ना. खट् जालें म्हणटकच ताणे उठचें. माजराच्या पावलांनी भायलेवाटेन येवन अदमास घेवचो. तो मनीस घोरेता हे पळोवन सुटकेचो उस्वास सोडून परत वचचें. खुट् जालें जाल्यार परत तशेंच करचें... मध्यानरात उलगली. तो मनीस गाड न्हिदिल्लो, व्हडान घोरेतालो. कांयच विपरीत घडूंक नासलें.

सकाळची रघुनाथाक मात्शी उसरां जाग आयली. ताकतिकेन तो भायर आयलो. सकाळच्यो विधी करून पूजा करीसर दोन वरां वतलीं. त्याआदी त्या मनशाक वाटेक लावचो अशें येवजून तो वासरेर आयलो.

भायले वाटेन पावस थांविल्लो आनी तो मनीस आपली साटली पोटली बांदून वचपाचे तयारेंत बशिल्लो. रघुथानाक पळोवन ताणे म्हळें, "तुमचीच वाट पळयतालों. तुमचे उपकार जाले. म्हाका दार काडात. हांव वतां."

रघुनाथान जाप दिली ना. तो पसऱ्यांत आयलो. सगळे जथापथ आसा म्हणपाची खात्री करून घेतली आनी फुडलें दार काडून ताका म्हळें, 'एके रातीचो तूं सोयरो. तुजें नांव हांव नकळ."

"म्हाका विप्रदास म्हणटात." आपलें खाड खरपीत ताणे जाप दिली.

"आडनांव, पत्तो?"

"इतलेंच पुरो. जंय पावता थंय म्हजो पत्तो. आज तुमगेर, फाल्यां खंयचेय धर्मशाळेंत, परां झाडाच्या मुळांत..."

"पूण तुजें घरदार....?"

"सगळें विकून उडयलें."

"बायल भुरगीं?"

"बायल कोणाचो तरी हात धरून पळून गेली. लग्न जावन संवसार करतलो म्हण घर बांदिल्लें तें विकून उडयलें. आतां भोंवतां..."

"आनी ही आयुर्वेदिक वखदां?"

"आमच्या घराण्याचें तें दायज. खुबशीं वखदां हांव विसरलों. खुबशीं आयज मेळनात. जितो आसासर पोट भरपाचें आनी घडटा ते सेवेचें पुण्य मेळोवपाचें."

विप्रदासान आपली पोटली खांदाक मारली.

"इल्ली काफी घेना?" रघुनाथान विचारलें.

"तुमकां त्रास नाका. दिलें तें खूब जालें. आतां हॉटेलां उक्ती जाल्लीं आसतलीं...."

तो सोपण देंवलो. हात वयर करून ताणे रघुनाथ रावाक सलाम केलो. परत एक खेपे थांबलो. पसऱ्याच्या सोपणाक हात लावन तो हात आपल्या कपलाक तेंकयलो आनी तुरतुरीत चलत रावलो.

तो नदरेआड जायसर रघुनाथ ताका पळयत रावलो. उपरांत भितर येवन तो न्हावंक गेलो.

न्हाण, पूजा, फराळ करून येईसर ताची बायल पसऱ्यांत एक सान्न भोंवडायता. सदचींच गजाल ती. तो फगळाक बशिल्ल्या वेळार बायल सान्न मारताली. ती धांवत भितर आयली आनी तिणें म्हळें, "पसऱ्यांत तागेलें कितें उरलां."

रघुनाथाक कितें म्हणून समजलें ना. तो उठून आयलो. पसऱ्याचे नाबीसकल तो बसतालो थंय पांयाकडेन एक पोती पडिल्ली. विप्रदासालीच.

ताणे ती उखल्ली. जड लागली.

"मोडिचे पयशे आसतले." ताणे बायलेक म्हळें, "काडून दवरूंया. तो परत व्हरूंक येतलोच."

आंगी बागिकसाणेन भितर कितें आसा तें पळोवया म्हणून ताणे पोती उक्ती करून हातार रकयली. ताचो आवरो उडलो!

पोतयेंत भांगराचीं पोवनां आसलीं!

ताका दिशिल्लें, विप्रदास पोती सोदूंक येतलो. पूण तो आयलो ना... रघुनाथ रव वाट पळयत रावलो... दीस वतान तसो ताचो हुस्को वाडटालो... पूण वर्स उलगलें तरी विप्रदास आयलो ना.

एक दीस असोच पावस आनी वारें आयलें आनी पसऱ्यावयलें पांखाटें उडून गेलें. पावसाचें सगळें उदक भितर. शारांत खूबशीं घरां मोडलीं. झाडां हुमटलीं. विजेच्यो तारो तुटल्यो... सगळेकडेन दुर्दशा. जांकां वादळाची झळ बाधली ना अशें लोक थोडे.

रघुनाथ रावालें घर मुळांत पोरनें. ताच्या उगडासांत तें सारकें करूंक नासलें. वर्साक एक खेपे तो नळे परतून घेतालो... फुटके बदलतालो आनी आंगार वत - पावस घेत तें घर ताका आनी तागेले बायलेक आसरो दितालें.

वादळान पांखाटें उडून गेलें आनी पुरय घर सारकें करचें पडलें. पयसो खंयचो हाडटलो? जेवंक - खावंक उणे नासलें तरी एक रकमी पैशे जाय आसले.

रघुनाथ रावान बायलेक म्हळें, "देव तुजी परीक्षा घेता... तुजें भांगर विकपाचो प्रसंग हो!"

बायल बरीच शिटूक. तिणें गळ्यांतली सरपळी आनी हातांतलीं कांकणां काडून

घोवामुखार दवरली आनी म्हळें, "अडचल्ल्या वेळार उपकारना जाल्यार ह्या स्त्रीधनाचो उपेग कितें?"

रघुनाथ रावाक खोशी जाली. बायलेन भांगर दिवंक कवूल जावप म्हळ्यार संकटाचें निवारण जाल्लेभाशेन अशें ताका दिसलें.

तो कांकणा हातांत घेतासर बायलेन म्हळें, "तीं पोवनां आसात..."

"शिव... शिव...!" रघुनाथरावान दोनय हातांनी पोलें फोडून घेतले आनी म्हळें, "तीं आमचेकडेन दवरिल्लीं आसात. आमी तांचे धनी न्हय. तांकां हात लावप हें पातक. हांव तें करूंक तयार ना. त्यापरस जीव दीन."

"हांव तशे म्हणीना." बायलेन ताका समजायलो, "आज पोवनां विकून घर सारकें केलें आनी पसरो वाडयलो जाल्यार जोड वाडटली. विप्रदास येतलो तेन्ना तागेलीं पोवनां कळांतरासयत परत दिवंक मेळटलीं. तो रोखडोच आयलो जाल्यार ह्यो वस्ती आसातच. त्याभायर भितर गोंठ आसात..."

रघुनाथान येवजिल्लेभाशेन केलें. वायल सांगता तातूंत अर्थ आसा अशें ताका दिसलें. मोठ्या कप्टानी ताणे विप्रदासाले पोतयेक हात घालो. होन्नावरच्या बाजारांत व्हरून ताणे एक पोवन विकलें.

दोन हजार रुपया! रघुनाथ राव विस्मित जालो. ताच्या लग्नावेळार पोवन म्हारग जाल्लें. तेन्ना पन्नास रुपयांनी पोवन घेतिल्लें म्हणपाचें तो आयकून जाणा आसलो. त्या उपरांत भांगराचो आनी ताचो संवंध केन्नाच आयलो ना. भांगर इतलें वाडलां?

घरा येवन ताणे पोवनां मेजलीं. चाळीस पोवनां! एक लफंगो दिसपी म्हेळो मनीस.... येदें व्हडले धन घेवन भोंवतालो. आनी कितलो घाळ पळय. ही पोती रस्त्याचेर पडिल्ली जाल्यार कोणाकय मेळटली आसली. पसऱ्यांत पडून बऱ्याक पडली!.... ताका खबर आसा काय? आसतली. म्हजेर विस्वास दवरून तो रावला. हेवाटेन पावतलो तेन्ना परत व्हरतलो....

रघुनाथ राव मनांतल्या मनांत येवजितालो.

दुसरें पोवन विकपाचो निर्णय खासा रघुनाथ रावान घेतलो. पसऱ्याचे भायलेवाटेन नवी शोकेस केली. रंग काडलो...

आनीक पांच पोवनां विकून खूबशें सामान हाडलें. पसऱ्याक आता स्टोअराचे रूप आयिल्लें. गिरायक वाडलें. जोड वाडली. मनांत एक हुस्को सदांच उल्लो. विप्रदास येतलो तेन्ना तागेलीं पोवनां परत दिवंक जाय.

सादो मनीस न्हय तो... तो देवदूतच म्हणूंक जाय!

कितलीं वर्सां उलगलीं! रघुनाथ राव विप्रदासाची वाट पळयत रावलो.

तो आयलो ना. येणावळ वाडली तशी विकिल्लीं पोवनां परत हाडून ताणे ते पोतयेंत दवरलीं. पावस आयलो म्हण्टकच विप्रदासाचो उगडास येतालो.

अचकित तो मुखार उबो रावतलो अशें दिसतालें. ताजेभशेन दिसपी कोणय रस्त्यावयल्यान गेलो जाल्यार रघुनाथ ताजेफाटल्यान धांवतालो आनी तो विप्रदास न्हय म्हण कळटकच निर्शेवन परत येतालो.

व्यापार वरो चल्लो तशे घरांत पैशे आयले. पुण रघुनाथ बदल्लो ना. ताजें न्हेसण... तागेली दिनचर्या.. तागलें जेवण - खाण.... तागेलो सभाव कांयच बदल्लें ना. ध्यास उरतालो तो विप्रदासाचो.

पूजेक बसलो म्हणटकच देव्हाऱ्यांतल्या साळीग्राम आनी मूर्तीमदीं विप्रदासाचो तोंडावळो दिसूंक लागचो...

इतले म्हणसर ती गजाल घडली. विप्रदास दारांत येवन गेलो. बायलेन ताका बसोवन घेतलो ना. ताची वासपूस केली ना. तिच्या मनांत सुवार्थ उप्रासलो काय?

विप्रदासाक बायलेन धांवडायलो अशी एक भावना ताच्या मनांत घर करून बसली... आनी विप्रदासाचो ध्यास वाडलो.

एक दीस अचकित विरक्ती आयली. हें दुकान चलोवप कोणाखातीर? आपल्या फाटल्यान तें कोण भोगतलो? आनी पैशे जोडून कितें करपाचे?

ताणे बायलेक तयार केली. घराची देवाची वेवस्था करची, दुकान बंद करचें. त्या उपरांत विप्रदासाक सोदून काडून तागेले रीण फारीक करचें आनी दोगांनीय यात्रेक वचचें. दोगांय जितीं आसल्यार जेवपा-खावपाची आनी मेले उपरांत निमाण्या संस्काराची तजवीज जायन इतले पैशे सांगातान व्हेल्यार पुरो.

व्याप वाडोवप सोंपे आसले. फकत पैशे दिल्यार कामां जातालीं. सगळ्या व्यापांतल्यान मुक्त जावप हें दगदगीचें आनी कटकटीचें म्हणपाचो अणभव रघुनाथरावान घेतलो. पुरतें एक वर्स व्यापाचें विसर्जन करूंक गेलें. पूण तोमेरेन विप्रदासाचो सोद चालूच उल्लो... विप्रदास आयलो ना.

एक दीस पुजेक बशिल्लेकडेन विप्रदासाच्या विचारान तो इतलो अस्वस्थ जालो की, पूजा अर्दवट सोडून तो उठलो आनी विप्रदासाक सोदूंक म्हणून घरांतल्यान भायर सरलो...

मनाचे हुलप न्हिवोवचेखातीर आसत नाजाल्यार आपूण मेलों बिलो जाल्यार ती पोवना विप्रदासाची म्हणपाचें सगळ्यांक कळचें अशें यंवजून आसत.... रघुनाथ रावान हें सगळें बरोवन काडिल्लें आसूंक जाय.

आज रघुनाथ राव ना आनी ताणे बरयिल्लें हातवरप्य म्हजेकडेन ना. ताका विप्रदास मेळ्ळो काय? मेळ्ळो ना जाल्यार ताणं त्या पोवनाचें कितें केलें?..... रघुनाथ राव आज खंय आसा?... ताची बायल?...

• •

# उमो

सवण्यांच्या आवाजान पांडुरंगाक जाग आयली. ताणे दोळे उकतें करून पळयलें आनी तें सपन आसूंये अशें मानून आंगावयलें निसरिल्लें पांगरूण ओडून कूस बदल्ली.

पूण न्हीद आयली ना. सवण्यांचो आवाज भायले वटच्यान येतालो. उकत्या जनेलांतल्यान एक माणकुलें सवणें कुडींत येवन चिंवचिंवतालें.

ताच्या पांखांचो फडफड आयकून पांडुरंग उठलो आनी मागीर ताका उगडास आयलो. आज तो आपल्या गोंयच्या घरा परतला.

पंचवीस वर्सां उपरांत कालच तो आयला. पुरतीं दोन तपां तो पयसुल्ल्या शारांत उरलो, जंय झाडां फुलनात, फुलां परमळनात, सवर्णी चिंवचिंवनात... आनी मिर्गाच्या पावसान माती लेगीत घमघमना.

रातींच तो पावलो आनी प्रवासाच्या शिणाक लागून आयलो तसो न्हिदलो. एक गाढ न्हीद. खूब वर्सां उपरांत अशी थंड न्हीद ताणे अणभविल्ली.

पांडुरंगाक कसलो तरी परमळ आयलो. उकत्या जनेलांतल्यान ताणे भायले वटेन पळयलें. भायर पोरसांत झाडां फुल्ल्यांत, फळळ्यांत. रातभर जागरण केल्ली रातराणी आतां आळसायेन दोळे धांपून घेवपाची तयारी करता. पूण सगळी रात सुस्त न्हिदिल्लो चांफो आपलो वासाळ हांसो हांसून सूर्याच्या कंवळ्या किर्णांक चाळयता. निंबिणिचें ल्हान झोंप पांचव्याचार फळांनी भरलां आनी तातुंतलो एक निंबू पिकून भांगर जाला. फाटले वटेन बदामाचें एक झाड आसा. भुरगेपणांत ताणे हाडून तें रोयिल्लें. त्या झाडाक फळ लागिल्लें ताणे केन्ना पळोवंक ना. पूण कंवळ्या विलोदी पोपटी रंगापसून हळडुवो, तांबडो आनी निमाणे कडेन काळवंडत वतलो पानांचो रंग ताका सदांच भाळयता.

ना म्हळ्यार शारांतल्या फ्लॅटाच्या जनेलांत बदामाच्या झाडाची एक खांदी येताली. पयल्याच दिसा त्या फ्लॅटात रावंक गेलो तेन्ना पांडुरंगाक दिसले किं गांवाकडलें नातें हाचे फुडें हें बदामाचे झाडच. एक दीस ताणे पिकून सुकूंक लागिल्लें एक पान जनेलांतल्यान हात घालून खुडून लेगीत दवरिल्लें. पूण तांगेले कॉलनिचो विस्तार करपाची एक येवजण फुडें आयली आनी पयली कुराड त्या बदामाच्या झाडाचेर पडली.

त्या दिसा पांडुरंग खूब कळवळिल्लो. आपल्या घरच्या कोणाक तरी मरण येवचें अशें

ताका जाल्लें आनी ताची याद म्हणून तें खुडिल्लें पान कितलिशींच वर्सां ताणे आपल्या पुस्तकांचे आलमारींत सांबाळून दवरिल्लें...

आतां निर्वाणिचेर सत्री धरची अशा झेतान उबें आशिल्लें बदामाचें झाड पळयतकच शेणिल्लो इश्ट परतो मेळिल्ल्याचो आनंद पांडुरंगाक जालो आनी ताणे आळस झाडून भायल्या आंगणांत पासय मारपाचें थारायलें.

एक नवी स्फूर्त ताच्या आंगांत संचारिल्ली. जसो काय भुरगेपणाच्या वातावरणांत पावतकच पंचवीस वर्सांनी ताच्या जुवानपणा भोंवतणी गुटलायिल्लें जाण्टेपण गळून पडिल्लें. घसघशीत पावलां उखलून तो पोरसांत देंवता आसतना दाव्या पांयाच्या धोंपरांत कळ येवंक नाशिल्ली जाल्यार आपूण आतां भुरगो उरूंक ना म्हणपाची जाणविकाय लेगीत ताका जावची नासली.

धोंपराचेर हात दवरून तो भायल्या सोपणाचेर उबो रावलो. फाटलीं चार वर्सां ही सांध्याची पिडा ताका जाल्या. निमित्य सामकें सादें जाल्लें. शियाच्या दिसांनी धोंपर स्टूलाक आपटलें आनी दोनय पांय आंखडले. रूमॅटिझमचो विकार अशें डॉक्टरांनी निदान केलें. आपूण परतो पांयांनी भोवंक शकत म्हणपाचो विस्वास ताका त्या वेळार दिसूंक नासलो. पूण ल्हवू ल्हवू सांदे सुटले. आतां मर्दी केन्नाय अशी कळ येता आनी तो वळवळटा.

आतांय तशेंच जालें. भायलें सैम पळोवन तो पोरसांत धांवतालो आनी ही कळ येवन ताका आपल्या जाण्टेपणाची परती जाणविकाय जाली.

ह्या शरिराचेर आपणे खूब जुलूम केला अशी ताची एक भावना आसा. भुरगेपणांत धांवतना, पळटना, खेळटना, झाडाचेर चडटना, दोंगर माडयतना... देहाची अपुर्बाय ताणे केन्ना केली ना. पूण देहान बरो सांगात दिल्लो. जिणेची साठी ह्या शरीरान हुपल्या. पूण एक दीस कागाळ करूंक ना. संधीवाताचें हें दुखणे पयलेंच.

कंवळ्या वतान सपणावयली पाशाणी शिळा तापिल्ली. तिचेरूच तो बसलो. मुखार सैमाची विशाळ अप्रुपाय दोनय दोळ्यांनी भरून ओंततालो. कितल्या वर्सांनी तो परत सैमाचे मांडयेर पावला!

सगळें वळखिचें तरी अनवळखी. मनांतल्या मनांत तो येर्वजितालो. कितलिंशींच झाडां मरून गेलीं आसतलीं. कितलींशींच नवीं आयलीं आसतलीं. कवाथ्यांचे माड जाल्ले आसतले. आंब्याच्या गार्फाक चंवर आयिल्लो आसतलो. एक काळ असो आसलो जेन्ना तो त्या व्हडल्या पोरसांतल्या दर एका झाडाक आनी झोंपाक वळखतालो. तांचे कडेन संवाद करूंक पावतालो. झाडांचें ताका मुळासावन पिशें. पावसाच्या दिसांनी फांटयो, रोपे, बियो हाडून तो रोयतालो आनी एकाद्री बी धर्तरेची निवर फाट फोडून आपली कंवळी लक्तुवाय संवसाग मुखार दवरचे खातीर वयर सरताली तेन्ना ताका निर्मणेचो आनंद मेळटालो. कितेंय निर्मितलो जाल्यार आदीं त्याग करचो पडटा. वी बलिदान दिता

तेन्ना रोंपो किल्लता.

अनवळखी तरी तो वाठार ताका वळखिचो दिसलो. एकाद्र्या घराव्यांतले जाण्टेले मरून गेले तरी नवं पिळगेचे भुरगे सोयऱ्याची वळख करून घेवन ताका जे तरेचो येवकार दितात तसलो येवकार आपणाक पोरसांतलीं झाडां दितात अशें ताका दिसलें.

एक किरांटी पोपटी पांखां फडफडायत ताच्या दोळ्यांमुखावयल्यान रडत गेली. तिचे फाटल्यान दुसरी किरांटी. फडफडायिल्ल्या पांखांनी वाऱ्याचीं मंद ल्हारां आयलीं जीं ताच्या तोंडाक आफडून गेलीं.

अजून आपणे तोंड धुवुंक ना. घरांत आयिल्लो हो पयलोच दीस. एक काळार घर मनशांनी भरिल्लें आसतालें. तीन पिळग्यांचीं नातीं एके पाखाटे सकल संतुश्ट मनान नंदतालीं. दनपारच्या जेवणाची पंगत भितरले पडवेर एका तोंकापसून दुसऱ्या तोंकामेरेन पडिल्ली उरताली. केळिच्या पानाचेर हुनहुनीत शीत, जाची वाफ तो सदांच हातार घेवन सुखावतालो. एकाद्रें पान रिकामे उरलें जाल्यार जाणटेल्यांची नदर तेंय हेरताली आनी तो खंय गेला, ताका कळाव कित्याक जाला ताची वासपूस करताली.

केन्ना केन्नाय कुटुंबाचो उगडास येतकच ताच्या दोळ्यांमुखार वांयतल्यान तुडूंब भरिल्लो कळसो वयर ओडटना रकता अशें चित्र उबें गवतालें. तशी कुटुंबांत धादोसकाय भरून ओतता अशें ताका दिसूंक लागतालें.

फाटले वटचें मळ तागेल्या आज्यान हुमेन शिंपून ताचें पोरसूं केल्लें. दर एके पिळगेंतल्या कोणाचोय तरी हातभार त्या पोरसाक लागला. ताचोय लागला.

एक दीर्घ उस्वास पांडुरंगान सोडलो. ताका ओगीच दिसलें, हांगाची हवा लेगीत कितली निर्मळ! आज घर आसा पूण घरचो लोक धा कडेन शिंपडला. शिकिल्ले भुरगे शारांनी गेल्यात आनी जाणटेले घरचे मायेन एकोडी जीण सारत त्याच घरांत निमाणो स्वास सोडून गेल्यात.

एक खेपे तागेल्या आज्यान म्हणिल्लें, ''आमच्या पूर्वजांगी वार ह्या गांवांत पुरिल्ली आसा. ह्या गांवाक अंतर दिवंक फावना.''

ते वारी कडलें नातें सोदीत आयज पांडुरंग परत मूळ घरांत आयला. फुडले वाटेची पडवी फाटल्या पावसांत कोसळ्ळी. ती धिगयो लावन उबी केल्या. आतां घरांत आसा तें एक आतें. भुरगेपणांत घोव मेले उपरांत तें कुळारच्या आसऱ्याक आयिल्लें. तागेली आवय फाटल्या म्हयन्यांतूच संवसाराक अंतरली. एक तिपोल काकी आसा. ताजे पिरायेचो कोणच ना. लागिंचो दादलो मनीसय घरांत ना. कुटुंबातल्यो दोन चलयो गांवांतच लग्न करून दिल्ल्यो. भाचरां ह्या घराचे माळयेर मदीं मदीं येवन वतात.

अचकीत ताका देवाऱ्याचो उगडास जालो. देवाची कूड हो घरांतलो एक पवित्र जागो. ताच्या भुरगेपणांत फांतोडेर बांयचेर वचून न्हावन येवन तागेलो आजो पुजा करतालो. देवाचे कुडींत बसून ताणे केल्लो संस्कृत मंत्रांचो उच्चार हे ते पिरायेचेर

घरच्या भुरग्यांखातीर भुपाळी आसताली. आज्याली पुजा वरभर चलताली. आनी ते पुजेखातीर ताका शेंकड्यांनी ताजीं फुलां लागतालीं. पोरसांत राशिनी फुलां फुलतालीं. तरेकवार रंगांची, तरेकवार गंधांची. एक एक फूल दाळून आजो देवारो सजयतालो. तीय एक कला. दुर्वा आनी बेलाचीं पानां, तुळशीच्यो माळो, सोनचांफी आनी पारजताचीं फुलां... एक एक रंग जागच्या जाग्यार. आज्याली पुजा सोंपली म्हणटकच साकर लायिल्ल्यो कातलेच्यो शिन्यो सगळ्यांक मेळटाल्यो आनी त्यो घेवचेखातीर सगळीं भुरगीं तोंड धूवन देवाऱ्या मुखार येवन बसतालीं.

गांवांत दुसरें देऊळ ना. गांवचो लोक ह्याच देवाऱ्यांत येवन प्रार्थना, आंगवण करतालो. गांवांत आयिल्ली नवी व्हंकल ह्या देवामुखार नाल्ल हाडून दवरताली. एके भाशेन घरची देवाकूड म्हळ्यार गांवचें देवूळूच जाल्ली.

देवाकुडिचो उगडास जालो आनी खंयतरी घांट किणकिणली. पांडुरंगाक दिसलें, आपले मतींत किणकिणिल्ली ती उगडासाची घांट आसतली. पूण घांट वाजत उरली. तसो तो उठलो आनी देवाकुडी म्हऱ्यांत आयलो.

गांवांत आतां वीज आयल्या. पुण देवाऱ्यांत मूर्तिचे दोशीं तेलाच्या वातिंची माळ तेंवता. संथ आनी शांत. ते अंधूक पसयेन देवाची मूर्त नदरेंत भरता. मुकटो न्हेसून आतें पुजा करता. दाव्या हातांत घांट.... उजव्या हातांत कापराची आरत...

पांडुरंगाक निवेद्याचो उगडास जालो आनी धांवत मान्यांत वचून ताणे ताकतिकेन तोंड धूवन घेतलें. परत येवन तो भुरगेपणांत बसतालो तसो देवाचे मुखार मांडी घालून बसलो.

आरत सोंपोवन ती पालोवंक वतना आत्याची नदर पांडुरंगाचेर गेली आनी तें लक्तुबायेन हांसले. उठून भायर आयलें आनी ताणे ती आरत पांडुरंगा मुखार दवरली. दोनय हातांच्या पोशांनी आरतिची ऊब घेवन ताणे आपले तळवे तोंडार धरले आनी उठून उबो रावन हात जोडले.

"घे, निवेद्य घे." आत्यान म्हळें.

हाताचेर साकरेची चिमटी.

"हें कितें आत्या. शिन्यो केल्यो नात?" ताणे विचारलें.

"आता तूं आयला. फाल्यां करतां." आत्यान जाप दिली, "हरशी आमी दोगांच उरतात. नाल्ल फोडून वाट लावचे परस चिमटी भर साकरच देवाक दाखयतां."

साकरेची चिमटी तोंडांत उडोवन तो परत पोरसांत आयलो. सवकासायेन सोपणां देंवलो आनी तडक निंविणिच्या झाडामुळांत वचून उबो रावलो.

ह्या झाडा मुळांत बसून तो अभ्यास करतालो. बेताचें एक कदेल. फांतोडेर ताणे उटचें आनी पुस्तक घेवन झाडां मुळांत येवन बसचें. रातिच्या वेळार अभ्यास करपाची सोय नासली. दिवले मुखार बसून वाचल्यार दोळ्यां भोंवतणी काळीं खतां पडटात.

देखून आवय ताका रातिचो अभ्यास करूंक मना करताली...

निंबिणीच्या मुळांत आयलो आनी काळजांत एक कळ आयली.

जिणेक वेगळी दिशा दिवपी घडणूक हेच निंबिणीच्या झाडामुळांत घडिल्ली. तो प्रसंग जशाचो तसो ताच्या दोळयांमुखार उबो रावलो.

डिसेंबर म्हयन्यांतले ते दीस. सकाळचें दाट धुकें पडटालें आनी शिंयाचो कुडकुडो आसतालो. आंगा भोंवतणी शाल गुठलावन पांडुरंग झाडामुळांत वसून एकाग्र चित्तान पुस्तक वाचतालो.

एक दीस वाचतां वाचतां चांफ्याचीं पानां सळसळ्ळीं. तंकली वयर करून ताणे ते दिशेन पळयलें. आंगार धवी फुल्ल साडी न्हेसून वीणा चांफी खुट्टालें. त्या धुक्यांत तें सर्गांतल्यान देंविल्ले परयेसारके ताका दिसलें.

वीणा! वीणा! तें घरची धुव न्हय. तागेल्या बापोल भावाची ती मेवणी. कांय दीस भयणीगेर रावंक आयिल्लें आनी सकाळचे पुजेक फुलां खुटपाचें काम ताणे आपलेकडेन घेतिल्लें. जुवानपणाची मांनी अवस्ता दोगांय अणभवतालीं. चार चवगांच्या कुटुंबातली मर्यादाय तांच्या जिवांकच न्हय तर दोळ्यांक लेगीत लगाम घालताली.

वीणा एक वाडिल्ली चली. आंगार पातळ चडलें म्हणटकच चली वाडली अशें तेन्ना मानताले. हरशीं वीणाची पिराय पंदरा सोळा वर्सांची आसुंये. पूण त्या काळावयली ती व्हंकल.

आनी तो आसून आसून आसत अठरा वर्सांचो. मॅट्रिकेचे परिक्षेचे दीस लागीं पाविल्ले.... तशें ताणें वीणाक हरशीं पळयल्लें. पानार बशिल्लेकडेन तें लोणचें वाड्टूंक वा उदक घालूंक येतालें. वाडटना केंसाची एक लांब फांती फुडल्यान घेतालें. ताणे ओणव घालतकच ती पानावयर हुमकळटाली. मनांत येतालें, ताचे केंस घट्ट धरचे. पूण भरिल्ले पंगर्तांत नदर वयर करून ताचेकडेन पळोवपाची छाती कोणाक नासली. घरची शिस्त तशीच कडक.

वीणाचे हालचालींत, रंगरूपांत, भेसांत आनी हावभावांत एक संगीत आसा, म्हौंव आसा अशें पांडुरंगाक दिसतालें आनी केन्नातरी ताचेकडेन दोन उतरां उलोवचीं अशीं सपनां तो पळयतालो.

निंबिणीच्या झाडापोंदा बशिल्लेकडेन सोनचांफी खुट्टना खांदी हाल्ली आनी वासाळ चांफ्यान परमळाचो शिंवर केलो. पुस्तका वयलें चित्त उडलें. पायांच्या आंगठ्याच्या आदारान उबें रावन उंचेले खांदये वयलें चांफे खुडूंक हात वयर काडटना विणालो पदर गळ्ळो. दुसरो कोण आपणाक पळयता हाची सुनशा नाशिल्ले ते चलयेन तो सारको करिना आसतनाच उडकी मारून फुल खुंटलें.

पांडुरंगाच्या काळजांत दर्यावेळेर फुट्टात तशीं चार ल्हारां उचंबळ्ळीं.

हातांत उकतें पुस्तक आनी नदर विणाचेर. एकाद्री नागीण सळसळत भोंवची तशें

वीणा पोरसांत भोंवतालें आनी तोंडान कितें तरी गुणगुणटालें. गितांचीं उतरां अस्पश्ट आसलीं तरी सकाळच्या निवांत वेळार ताच्या तोंडातले सूर वीणेच्या तारांवरी झंकारताले.

ताच्या मुखावयल्यान तें घरांत परतूंक लागलें तेन्ना ताणें ल्हवूच उलो मारलो. "वीणा!"

एक घोगरो आवाज खरखरलो. झाडाचे फांदयेंत पदर घुस्पल्ली चली थंयच उबी रावन नदर फाटल्यान फिरयता तशी वीणान नदर फाटलें वटेन केली.

धुकें अजून पातळ जावंक नासलें. उदेंते कडेन मळब तांवशें जाल्लें. सूर्य वयर सरूंक नासलो.

चार दोळे एक जाले. वीणाची नदर नमली. आनी ताणें नकळत पदर सारको करून फुडलें पावल उखल्लें.

"सद्दां तूं इतलीं फुलां देवाक व्हरता. हांव हांगा बसून तुका पळयतां. म्हाका एक फूल दिना?" सगळें वळ एकवटावन मनांत घोळोवन तयार दवरिल्लें वाक्य पांडुरंगान उलोवन काडलें.

वीणा हांसलें काय तशें पांडुरंगाक दिसलें? पावल परतलें. हातांतलो पांटलो फुलांनी भरला आनी साडयेचे होर्टींतय फुलां आसात. वीणा लागीं आयलें आनी होर्टींतलें एक हळडुवें चाफें काडून ताच्या हातात दिलें आनी कांचवेल्ले भशेन तोंड करून तें घरांत धांवलें.

बोटाक बोट लागिल्ले? काय कल्पनेनच आंग चंवरिल्लें?

जिणेंतलो तो पयलो सुखदिणो अणभव. मोन्या मोगाची ती पयली गवाय.

त्या दिसा उपरांत वीणा इल्लें धिटायेन वागतालें. पूण पोरसांत भोंवता आसतना आपणाक एक नदर नियाळटा म्हणपाचें भान ताका संकोचूंक लायतालें. घरांत वतना एक चाफें पांडुरंगाक दिवपाची लावण सुरू जाली. एक दीस चुकून स्पर्श जालो. बोटाचो बोटाक. खरेलो स्पर्श. कणाकणांत ल्हायो फुल्ल्यो. वीणा लजून तांवडें जालें.

सद्दां फूल दिता. पूण एक मोगाची नदर आपले वटेन करिना. उतराचो एक शितळ थेंबो आपल्या वांट्याक येना.

पूण एकूच फूल. एकूच नदर. एकूच हय न्हयसो हांसो पानामदीं पुराय दीस परमळावन उडयता आनी पुस्तकाच्या पानामदी अक्षरां पुसून वचून धवी साडी न्हेशिल्लें एक गोमटें रूप साद घालता.

ती अस्वस्तना खुबच आकुळ पिकूळ करपासारकी आसली. पिकून अरळ जाल्ल्या फळावरी ती मनस्थिती. एक कांटो तोपलो जाल्यार ताची दूख मनांतल्या उतरांनी व्यक्त जावं येताली. पूण उलोवंक चोरी. सांगतलो कोणाक? खंत मनांत तीन कात्री वयल्या काळखावरी दाटत उरली. केन्ना एकाद्रें दर्शनाचें. अस्पश्ट स्पर्शाचे कीर्ण झळकतालें. खिणयाळी खोसदिणी उमेद.

ताणे जेवता आसतना आयकलें. वीणाची भयण आपले जावेक सांगताली. फुडल्या सप्तकांत वीणा परतें वतलें. ताची वाडटी पिराय तिच्या आवयच्या गळ्याक तेंकल्या...

वीणा वतलें, पोरसूं खावंक येतलें. सकाळची ती लय, तो झंकार नासलो जाल्यार दीस अळणी जातलो.

कितें तरी सांगूंक जाय. मनांतले उमाळे ताका कळोवंक जाय.

दुसऱ्या दिसा पांडुरंगान मनाचो निश्चय केलो. पुस्तक धांपुनच तो कदेलार बसलो. तानेल्ल्या मनशान वझऱ्याचेर वचून आपल्या पोंशांनी उदक पियेवचें तशी त्या दिसा ताची नदर धुक्यांत उफेतल्या वीणाच्या फाटल्या फुडल्यान भोंवत उरली. तें येतलें, हळडुवें चाफें मुखार धरतलें. आज हांव चाफें घेवचो ना. चाफ्याच्या रंगाचो मेथयेच्या रंगान रंगल्लो तो हातच हातांत घेतलों. सांगतलों, भावनेच्या आवेगान केल्लीं पिशेपणां न्हय हीं. जल्माखातीर हो हात हांव म्हज्या हातांत घेतां.

सभाकंप आशिल्ल्या नटान आपूण विसरन म्हणून नाटकांतलें आपलें भाशण घोळोवन घोळोवन पाठ करचें तशें ताणे ते वाक्य मनांत घोळयलें...

आनी अचकीत वीणा ताचे दिशेन येवंक लागलें. येदोवेळ ताचेर थिरावन उरिल्ली नदर कशी सकल जाली? आनी गळ्याकडेन कसलो गुड्डो आयलो? घोळोवन पाठ केल्लें वाक्य कसो विसरलो?

गोऱ्या रंगाचे मेथयेच्या गुलावी बोटांच्या हातांतल्या चार किणकिणपी कांकणांच्या उजव्या हाताची चिमटी ताचेमुखार आयली. आंगठो आनी तर्जनेमदीं परमळीत भांगर.

पुण पांडुरंगाची नदर त्या हाताचेर थिरावली. चांफें हातांत घेवंक ताचो हात फुडें सरलो ना.

वीणा तिश्टलें.

"फूल घेना?" दोन खिणांच्या मौना उपरांत ताणे विचारलें.

तो भानार आयलो. दोळ्यांच्यो जड जाल्ल्यो पातयो ताणे बळान वयर सारल्यो आनी वीणाच्या दोळ्यांत आपलें पडबिंब ताका दिसलें.

"सद्दां तूं फूल दिता.... एक दीस तरी दुसरें कितेंय दी."

आपल्या तोंडांतल्यान हीं उतरां कशीं आयलीं हेंच ताका समजलें ना. विजेचो झटको बसचो तशें ताणें आंग काडलें. वाऱ्यान वाल थरथरची तशें वीणाचें सगळें आंग थरथरलें. भियेल्ल्या हरणावरी फाटीं फुडें नदर घुंवली. हातांतलें फूल ताच्या आंगार झडलें. तोंडातल्यान एक अस्पश्ट चित्कार काडून तें धांवलें.

धबधब करून धांवतना वीणाचीं पावलां वाजलीं आनी घामाघूम जावन पांडुरंग फुडल्या प्रसंगाक तोंड दिवपाखातीर मनाची तयारी करूंक लागलो.

आतां कितेंय तरी विपरीत घडटलें अशें पांडुरंगाक दिसलें. घरांत कागाळ केली जाल्यार... कल्पनाच ताका सोंसली ना.

पूण कांय घडलें ना. कोणे कांय विचारलें ना. फकत वीणा मात त्या दिसा वाइूंक आयलें ना.

दुसऱ्या दिसा सदचे वरी तो निंबिणीच्या झाडामुळां येवन बसलो. पोरसूं भर नदर भोंवडायली. वीणा आयलें ना.

ते उपरांत तें केन्नाच आयलें ना. थारायिल्ल्या दिसा तें आपल्या घरा गेलें. तें ताका परतें केन्ना दिसलें ना वा मेळ्ळें ना.

कितलीं वर्सां उलगलीं. आदलें कांयच उरूंक ना. तो शारांत पावलो. लग्न जावन संवसार केलो. पुण इतलीं वर्सा विणाविशीं ताणें कांय आयकलें ना. आतां आजी जाली आसतली...

एक व्हड सुस्कार सोडून पांडुरंग कदेला वयल्यान उट्टासर चांफ्यामुळांत एक आकृताय ताका दिसली... काय तो भास आसलो?

अशेंच धुकें. दाट धुकें. धुंवरासारकें. तातूंत एक अस्पश्ट धवी आकृती. नदर तटास करून पांडुरंग ते आकृती कडेन पळेत रावलो. इल्लो लागीं गेलो.

चांफ्या मुळांत एक चली उडयो मारता. फांदयेचेर एक चांफें आसुंये, जें तिच्या हाताक लागना. ती उडक्यो मारता तशी केंसाची एक विणी हालता,आंगाक सादो फ्रॉक. धव्या रंगाचो.

हें वीणा? पांडुरंगाक प्रस्न पडटा... न्हय.... आसुंकच नज. वीणा आतां जाणटी बायल जाल्ली आसतलीं. हे चलयेची पिराय आठ णव वर्सांपरस चड आसची ना.

निमाणे चलयेन फूल तोडलें. हातांतलो कुरपणो फुलांनी भरलो.

"कोणाक व्हरता तूं हीं फुलां?" पांडुरंगान चलयेक हटकिली.

तूं आनी आपणाक विचारपी कोण अशी नुरा करून चलयेन परतो प्रस्न केलो. "तुका जाय?"

पांडुरंगाक मोटी लक्तुबाय दिसली. तिचो गुन्यांव ना. ती ताका कशी वळखतली? हांसून ताणें म्हळें, "हय, म्हाकाय एक फूल दी. इतलीं फुलां तुका कित्याक?"

"तें तुका लागना." ते चलयेन जाप दिली, "तुका जाय जाल्यार हांव एक चांफें दितां. अशें म्हणून एक चांफें ताचे मुखार धरलें.

आंगठो आनी तर्जनेचे चिमटेंतले भांगराचे फूल. ताचे वयलो दंवाचो थेंब वज्रावरी चकचकतालो. पांडुरंगान हात फुडें केलो आनी फूल घेतलें. परतो तोच अणभव. बोटाक बोटाचो स्पर्श. वीणाची याद चाळवली. पूण आंग चंवरलें ना.

"एक सांग, तूं हांगा कसो आयलो?" चलयेचो पांडुरंगाक प्रस्न.

"असोच पासयेक आयलों."

"सद्दा येता? आदीं केन्नाच पळेलो ना."

"आजच आयलां. पूण एक सांग, हीं फुलां कोणाक?"

“आत्याक. पुजेखातीर.”

“सद्दां तूंच हाडून दिता?”

“हय.”

चली हांसतना तिच्या पोल्याक दोन मिलां पडटालीं. माणकुले ओंठ हालताले. गुलाबाच्या पाकळ्यां सारके. आनी ती तकली हालयताली तेन्ना फाटी वयली केंसांची लांब विणी घडयाळींतल्या पेंड्युलमा सारकीं धोलताली.

“पुजेक इतलीं फुलां लागतात?”

“थोडीं पुरो. पूण तीं झाडार दवरून फायदो कितें? सांजवेळ मेरेन बावून वतात.”

पांडुरंगाक दिसलें, जिणेचें तत्वज्ञान ती शिरकुली चली उलोवन गेली.

पोरन्यो यादी कितल्योय खंतिच्यो आसल्यो तरी सुखदिण्यो आसतात. दुख्खाचे कळेंत सुखाची झालर आसता. चली घराचे दिशेन वतना पांडुरंगाक कितें येवजलें कोण जाणा, ताणें म्हळें, “तुवें म्हाका फूल दिलें... .आनीक कांय दिना?”

चली हांसली. तिणें म्हळें, “आनीक कितें जाय तुका? पापी दिवं?”

आपलें मन तिणें कशें पारखिलें? पोरन्या यादींतलो चंवर आंगार फुलूंक लागलो आनी ताच्या आंगाक कंप सुटलो.

“यो. म्हाका वेळ जाता.” अशें म्हणून चलयेन पांडुरंगाक खुणायलें आनी हातांतलो कुरपणो सकल दवरून दोनय हातांची माळ ताच्या गळ्यांत घाली.

पांडुरंग बागवलो. ताणे दोळे धांपून घेतले. आनी तो चलयेच्या कपलाचो उमो घेवचे आदींच आपल्या ओल्या ओठांनी तिणें पांडुरंगाचो दावो पोलो चुमलो.

विजेचो प्रवाह आंग झणझणावन गेलो. ती खळखळीत हांसली आनी कुरपणो उखलून घरांत धांवली.



# नागू

रेल्वेचें स्टेशन आसा; पूण गांव ना. गांव नाशिल्ल्यान लोकांची वस्तीय ना. लागींचो बाजार आठ धा मैलांच्या अंतराचेर. बाजार म्हळ्यार चार दुकानां आनी एक तिठो दुकानांचेर सामक्यो गरजेच्यो वस्तू तितल्यो मेळटात. तिठ्याचेर शाकभाजी आनी नुस्तें विकूंक येता. दनपार जातासर तिठ्यावयलो बाजार उलगता. पूण स्टेशनाचेर काम करतल्या लोकांक दीसपट्ट्यो गरजेच्यो वस्तू हाडचे खातीर एका पोर्टराक सायकलीवयल्यान थंय धाडचोच पडटा. सकाळचो सायकल घेवन वता. येता आसतना सगळ्यांखातीर कितें ना कितें तरी घेवन येता. टपालय त्याच गांवांतल्यान हाडचें पडटा.

घाटाच्या मुळसांत हें रेल्वे स्टेशन आसा. घाट चडटना, देंवतना गाडयेक दोन इंजिनां लावचीं पडटात देखून ह्या स्टेशनाची तजवीज केल्या. एक इंजीन सदांच ह्या स्टेशनाचेर थांबयिल्लें आसता. रूळांचे एकेवटच्यान स्टेशन आनी पलतडच्यान कर्मचाऱ्यांक रावपाचे क्वार्टर्स. स्टेशनाचेर एक वेटींग रूम आसा आनी कुशीक एक डॉर्मिटरी, जंय इंजिनाचे ड्रायव्हर वा अडिल्लो रेल्वे कर्मचारी एकाद्री रात न्हिदता.

स्टेशनाचेर एकय पॅसेंजर देंवना आनी एकय चडना. पूण वतली येतली गाडी त्या स्टेशनाचेर उबी रावता. केन्ना दोन मिनटां जाल्यार केन्ना चड. क्रॉसिंग आसत जाल्यार एकाद्री गाडी अर्दवर लेगीत उरता. पूण डब्यांतल्या पॅसेंजरांक थंय उदकाबगर दुसरें कांय मेळना.

प्रवासांत येतना वतना हें स्टेशन हांवें जायते खेपे पळयलां. डब्याच्या जनेलांतल्यान जायते खेपे दाट रानाची सोबा हांवें तोखेवन घेतल्या. नदर घालता थंय भव्यताय आनी पांचवीचार अप्रुपाय. पावसाच्या दिसांनी दोंगराच्या कड्यांवयल्यान व्हांवतले उदकाचे पाटय हांवें देखल्यात. काळ्या निळ्या कुपांचो घाटाच्या आंगावयलो नाचय हांवें पळयला. इतलें बरें सैम समृध्द गांव आसा. रेल्वेचें स्टेशनय आसा. ह्या वाठारांत एकाद्रे रेस्ट हावज बांदिल्लें जाल्यार भोंवडेकारांचें तें एक केंद्र जावं येतालें, असो विचार जायते खेपे म्हज्या मनांत येवन गेला.

एक दीस अचकीत त्या स्टेशनाचेर चार वरां रावपाचो प्रसंग म्हजेर आयलो. गाडयेन घाटार वतालों आनी त्या स्टेशनाचेर गाडी थांबली. केदो वेळ जालो तरी गाडी सुटना. वासपूस करतकच कळ्ळें कि आमच्या गाडये आदी सुटिल्ले एके माल गाडयेच्यो वागणी

घाटांत रूळावयल्यान घसरल्यात. रस्तो मेकळो जाईसर आमची गाडी त्याच स्टेशनाचेर उरतली.

म्हाका त्या प्रसंगाचो घट उगडास आसा. सकाळच्या इकरा वरांचेर गाडी स्टेशनाचेर पाविल्ली आनी लागसार खंयच जेवणा खाणाची सोय नासली. सगळ्या पॅसेंजरांक त्या दिसा एकादस नासतनाय उपास घडलो.

गाडी सुटची ना अशीं चिन्नां पळयतकच हांव सकल देंवलों आनी स्टेशन मास्तराक वचून मेळूंया असे येवजिलें. कितलो वेळ गाडी उरतली तें पळोवन लागसार पळोवपासारकें कितेंय आसल्यार पळोवन येवचें अशें म्हज्या मनांत आसलें.

हांव प्लॅटफॉर्माचेर देंवलों आनी वाठाराची भव्यताय एकाच वेळार म्हजे नदरेंत भरली. दोंगराच्या कड्याचेर हे प्लॅटफॉर्म बांदलां. मुखावयले वटेन जंय क्वार्टर्स आसात थंय दोंगर कापून थोडी सपाट केल्ली जमीन. प्लॅटफॉर्माचे एके कुशीक वचून हांवें दरी पळयली. डब्यांतल्यान ते दरीची खोलाय आनी विशालकाय नदरेंत येना आसली. गिमाचे दीस जाल्ल्यान लखलखीत वत पडिल्लें. दनपारचें वत. पूण थंड वारें व्हांवतालें.

कापसाचे पिसुडिल्ले पुंजके कशीं धवीं कुपां अंतराळांत उफेतालीं, आनी त्या कुपांची सांवळी जमनीचेर पडिल्ली. म्हाका मोठी मजा दिसली. कुपां म्हज्या दोळ्यासामकार, . हांव उबो आसलों ताचेपरस सकल आनी दरी सुमार २००-३०० मीटर खोल. गच्च झाडां. पांचव्या रंगाच्यो तरेकवार छटा. आलतडीन दोंगर, पलतर्डीन दोंगर. मदीं खंयय उदकाचे पुंजके, जे वताच्या किर्णांत चकचकताले आनी तांचो परावृत्त जाल्लो उजवाड म्हज्या दोळ्यांमेरेन पावतालो.

थोडोसो सकल देंवलो जाल्यार सोबेची भव्यताय आनीकय पळोवंक मेळटली. पूण गाडी सुटली जाल्यार कितें करतलो?

प्लॅटफॉर्माचे कुशीक लाकडी स्लिपर्स दाळून दवरिल्ले आसात. त्या स्लीपरांचेर माकड बसचो तसो एक पोर्टर उकडयां बसला आनी विडी ओडपांत गुल्ल जाला. मुखार गाडी उबी आसा आनी पॅसेंजर चुळबुळटात ताजें ताका पडूनच वचूंक ना. कुशीक एक रुमड. जिका फळांचे घोस लागल्यात आनी ते रुमडीचे सांवळेंत तो पोर्टर बसला. मिरयेल्ल्या तोंडाचो मोटवो पोर्टर. ताज्या आंगाक निळे युनिफॉर्म जें आतां काळें दिसूंक लागलां आनी एक कळकट मळकट तोपी. किरांगळीच्या बोटाकडेन मुठींत पेट्टी विडी धरून, दोनय हातांचे आंगठे तोंडार धरून हुक्को ओडचो तशी तो विडी ओडटा. दीर्घ झुरको घेतना ताजी कानसुलां आंवळून येतात आनी उपरांत तो दोनय पोले बोमाड्यासारके फुलोवन तोंडांतल्यान आनी नाकांतल्यान दाट धुंवर सोडटा. उपरांत खांकता. खांकून खांकून थुकता आनी परत नवो झुरको घेता.

थोडो वेळ हांव ताका पळयतां आनी हटकितां. पूण ताज्या कानावयलो मूस हालना. तो आपल्या विचारांतच गुल्ल आसा. म्हजेकडेन पळयच ना.

निमाणे जेन्ना हांवें ताका हात लायलो तेन्ना ताणे नदर वयर करून म्हाका पळयलो.

"गाडी केन्ना सुट्टली?" हांवें ताका विचाल्लें.

ताणे तकलेनच प्लॅटफॉर्मावयल्या ऑफिसाकडेन इशारत केली आनी परत झुरको घेतलो.

तागेले खांकून जाईसर म्हाका रावचें पडलें. मागीर हांवें ताका विचाल्लें, "हांगा लागीं पळोवपा सारकें कितें आसा?"

म्हगेलो प्रस्न आयकून तो हांसलो. कसलो पिशेपणाचो प्रस्न विचाल्ला अशें ताणें सुचयलें आनी म्हळें, "हांगा आसा रान. आनी रातीवेळार आसतात वाग. दुसरें कांय ना. गांव धा मैलांचेर आसा. थंय च्याचें हॉटेल आसतलें."

इतली जाप दिवन ताणे परत झुरका घेतलो. म्हाका दिसलें गाडी सुटसर ताका प्लॅटफॉर्माचेर रावचें पडटलें म्हणून तो आपले भाशेन वेळ सारता. दुसरें काम कांय ना.

प्लॅटफॉर्माचेर आनीकय पॅसेंजर देंवल्यात. पलतडचे चाळींत रावतल्या रेल्वे कर्मचाऱ्यांचीं भुग्गीं प्लॅटफॉर्माचेर बोवाळटात. हांव स्टेशन मास्तराच्या ऑफिसांत आयलों. भीतर कोण ना. अर्दे दार बंद आसा. हांवें तकली भीतर घालून पळयलें. कोण ना म्हणून भोंवतणी नदर भोंवडायली. इतले म्हणसर म्हाका अविनाश मेळ्ळो.

"आरे! तू हांगा खंय?" ताणे म्हाका विचाल्लें.

"अडिल्ल्या प्रवाशामदलो हांवय एकलो." हांवें जाप दिली, "पूण तूं हांगा कसो?"

"तीन म्हयने जाले हांगा म्हजी बदली जाल्या. हांव स्टेशन मास्तर."

"तशें जाल्यार एक हुस्को सोंपलो." हांवे म्हळें, "गाडी केन्ना सुट्टा तेन्ना सुटूं तुजो सागात तरी मेळटलो. एक सांग, तुजें घर हांगा आसा मरे?" हांवें अविनाशाक विचाल्लें.

"नांवाक क्वार्टर आसात" ताणे जाप दिली, "पूण हांगा हांवें बिराड करूंक ना. ह्या रानांत आसा कितें? हांव दीसपाळयेक आसतां. पयले गाडयेन येतां आनी निमाणे गाडयेन वतां. रातीच्या वेळार असिस्टंट स्टेशन मास्तर आसता. पूण आयज गाडयो बंद आसतल्यो देखून म्हजी सुटका केन्ना जातली तें सांगूंक जायना."

"म्हणटकच तुज्या क्वार्टरांत च्याचो घोंट ताळ्यार पडपाची आशा ना तर?"

"ना कशी?" अविनाशान म्हळें, "च्याच कित्याक? तुका जेवण लेगीत दितां. चल या."

"पूण गाडी केन्ना सुट्टली?" हांवें विचाल्लें.

"सागूंक जायना. लायन क्लीअर जातकच आमकां फोनावयल्यान संदेश येतलो. उपरांत आमी फुडल्या स्टेशनामेरेन इंजीन धाडून हाडटले आनी त्या उपरांतच गाडी सुट्टली. काम सुरू जाल्लें आसा. तरी आनी दोन तीन वरां लागतलीं."

"हें स्टेशन अडचणीचें." हांवें म्हळें, "हागासून परत वतलो म्हळ्यारय वचूंक मेळना. मोटारींचो रस्तो ना. येरादारीचें दुसरें साधन ना."

"आलिया भोगासी... यो तूं, इतल्या वर्सांनी तूं तरी मेळ्ळो."

रेल्वे लायन हुपून आमी अविनाशाल्या क्वार्टर्सांत गेले.

क्वार्टर्सांत वता आसतना अविनाशान कोणाक तरी खुणायलो आनी लागी आपोवन सांगलें. "नागूक धाडून दी."

थोड्या वेळान भीतर अविनाशाल्या बिराडाचेर स्लीपरांचेर बसून विडी ओडटालो तो पोर्टर आयलो. ताजेंच नांव नागू.

"आज जेवणाक कितें केलां?" अविनाशान नागूक विचाल्लें.

हांवें अजापान नागूकडेन पळयलें तेन्ना नागू अविनाशाक खुणायतालो. हांव आसतना जेवणाचो विशय कित्याक अशें कितेशें तो सुचयतालो. तागेल्यो त्यो खुणो पळोवन अविनाशय हांसलो आनी ताणे म्हळें, "हय, तो जेवणाक आसतलो. कितें रांदलां तें सांग."

नागून जाप दिली ना. तो उठून फाटले वटेन गेलो.

हांवें अविनाशाक म्हळें, "ताका कितेंय अडचण आसतली. ओगीच सक्ती करूं नाका."

"कसलीच अडचण ना." अविनाशान जाप दिली, 'नागूचो सभावच तसो. तो कांय उलयना. तो रिटायर जावन सात वर्सां जालीं पूण तो हें स्टेशन सोडून वचना. ताका घर ना दार. मायेचें दुसरें मनीस ना. पूण जेवण एकदम रुचीक रांदता. वयले वाटेन ताणे एक पोरसूं केलां. शाकभाजी मेळटा. हांगां जे कोण रेल्वेचे लोक येतात ते नागूक सांबाळून घेतात. हांव हांगा येत सावन नागू म्हजें काम करता. हांव ह्या बिराडाचेर नासतां. तोच हांगा रावता. ताका लागून च्याची वेवस्था जाल्या. केन्नाय हांव जेवंकय रावतां. नागूक पयल्या दिसा सांगलें जाल्यार तो बरें जेवण करता. कितें, खंयच्यान फैदासून हाडटा ताकाच खबर. पूण ऐन वेळार सांगलें तरी पानार दोन नग आसतातच."

अविनाश इतलें उलयतासर नागू परत आयलो. हे खेपे ताणे आंगावयले मळकट कपडे काडिल्ले आनी एक चौकटीची लुंगी वेडायिल्ली. वयर उकतोच. हात पांय धुवन घेतिल्ले ते ओलेच आशिल्ले. ताज्या हातांत केळीचीं पानां.

"पळयलें?", अविनाशान म्हळें, "नागू जेवण वाडपाची तयारी करता.ताजो एक नेम आसता. जेवतना हातपाय धुवंक जाय आनी आंगावयले कपडे काडूंक जाय. ना जाल्यार तो खुबता. तो खुबलो म्हणटकच म्हाका म्हजे आज्जेची याद जाता. स्कुलांतल्यान कपडे काडून न्हावन घरचे कपडे घालेबगर आजी पंगतीक बसूंक दिना आसली. तसो हो नागू."

"म्हाकाय कपडे काडचे पडटले काय कितें?" हांवें विचाल्लें.

"नागूलो नेम तसो आसा. आनी तो मेजार वाडिना. जमनीरच पान दवरतलो. तुका नाका आसत जाल्यार तूं कपडे काडूं नाका."

आमचें उलोवणे नागूच्या कानाचेर पडटालें. पूण तो तोंडान कांय उलयना आसलो. ताणे केळीची पानां धुवन मांडलीं. घरांत पाट नासले. एक शेंदरी दोडून बसूंक घाली.

आनी अविनाशाक पानां तयार आसात अशें खुणायलें.

सादेंच जेवण, पुण तें हुनहुनीत आसलें. नागू शास्त्रशुध्द पध्दतीन वाडटालो. पयली मीठ, लोणचे वाडटकच ताणे दोन उंडे आमच्या पानार घाले. उंडो हून आसलो.

''हांगा बेकरी आसा काय कितें?'' हांवें अविनाशाक विचाल्लें.

''बेकरी कशी आसतली? आतांच गाडयेर हे उंडे आयल्यात.'' अविनाशान जाप दिली.

''मागीर ते इतले हून कशे तर?''

''ती नागूची करामत.'' आनी ताणे रांदचे कुडीकडेन बोट केलें.

रांदनीकडेन एक ल्हानशें खोर्न नागून केलां आनी त्या मातयेच्या खोर्नांत तो जेवण हून दवरता. म्हाका कल्पना खूबच आवडली. जेवण रांदून जातकच रान्नीत जे कोळशे उरतात तांचे उबेन खोर्न तापता.

जेवणाक दोन भाज्ज्यो, तवशें आनी धंय घालून केल्ली पचडी. पाल्याची भाजी शिजोवन वडयो घालून केल्लो रोस आनी शीत. सगळें जेवण हुनहुनीत. म्हाका तें रुचीक लागलें.

हांवें नागूक सांगलें, ''जेवण एकदम बरें जालां.''

पूण ताज्या तोंडावयली मिरी हाल्ली ना वा तोंडांतल्यान उतर सुटलें ना.

जेवन जातकच हांवें अविनाशाक विचाल्ले, ''हो तुजो नागू मुखदुर्बळ कसो? एदोळ ताका विडी ओडटना हांवें पळयिल्लो. भातो चलोवचो तसो तो खांकतालो.''

''ताजी कथाच वेगळी.'' अविनाशान म्हळें, ''तुका सांगल्यार खरें दिसचें ना. पूण हो नागू रातीचो न्हिदना. ते रुमडी सकल बसून रातभर विडीच ओडटा आनी सकाळीं घरच्या कामाक लागता. आतां दनपारचें जेवण जातकच तो न्हिदतलो तो बद्द काळोख जातकच उठ्ठलो.''

''आदीं ताच्या वांट्याक रातपाळी येताली दिसता...''

''हय रातपाळी येताली तशी दीसपाळीय येताली. पूण तो रातीचो वेगळ्याच कारणाखातीर जागो रावता.'' इतलें सांगून अविनाशान ओंठाचेर बोट दवरून म्हाका उलोवं नाका म्हणून खुणायलो.

थोडो वेळ आमी थंय बसून रावले. भायले वाटेन अडिल्ले प्रवासी सकल देंवन भोंवताले. भितल्ले वाटेन नागू आयदनां घांसतालो.

हांवे अविनाशाक म्हळें, ''तुका आतां काम नासत जाल्यार आमी अशे भोवन येवया.''

''हो भोंवपाचो वेळ? तुका जाय जाल्यार हांगा मात्सो न्हीद. गाडी स्टेशनांत आसा. म्हाका वचूंक जाय.''

अविनाश भायर सल्लो. हांवय ताज्या सांगातान गेलों. वता आसतना हांवे धा रुपयांची नोट नागूच्या मुखार धर्ल्ली. तो उलयलो ना. फाट फिरावन भीतर गेलो.

अविनाशान म्हळें, ''तशें बक्षीस तो घेवचो ना. मोठो मानी. ताजेकडेन पैशे आसात. रिटायर्ड जातकच मेळिल्ले पैशे ताणे तशेच दवल्ल्यात''.

आमी स्टेशनार आयले.अविनाशान मुखावयल्या स्टेशनाचेर फोन करून रस्तो मेकळो जालो काय कितें म्हणपाची वासपूस केली आनी म्हाका सांगलें, ''रस्तो मेकळो जाला तरी तुजी गाडी सुटूंक वरभर लागतलें. चल, तुका जाय जाल्यार पासय मारून येवया.''

अविनाश म्हाका घेवन रूमडीच्या झाडा मुळांत आयलो. पांचव्या, केसरी आनी वांयगणी रंगाच्या फळांचे घोंस झाडाचेर हुमकळटाले. आनी तीं फळां खावंक तरेकवार सवण्यांनी गर्दी केल्ली.

लागसारच हुमकळटलें एक पिकें फळ काडून हांवें लेंसान पुसलें आनी फोडून खालें. अंजीरावरी ते गोड आसलें.

''हो रुमडीचो रोपो नागून रोयिल्लो. आज इतलीं वर्सा हे झाड ताज्या दोळ्यांसामकार वाडलां. ताका ह्या झाडाची लक्तुबाय. तो रातभर हांगाच बसून रावता.''

''तागेलें कितेंय तरी गुपीत आसतलें. ना जाल्यार तो असो वागपाचो न्हय. पूण एक सांग, इतलीं वर्सा तो ह्याच स्टेशनाचेर कसो उल्लो?''

''बदली जातकच तो हाजे ताजे पांय धरून हांगाच रावतालो. ताका ह्या स्टेशनाचें आकर्शण वेगळ्याच कारणाखातीर आसलें.''

''आता रिटायर्ड जातकच लेगीत तें आकर्शण उल्लां?''

''वाडलां म्हळ्यार जाता. आतां ताका पिशें लागपाकडेन पावलां. सुर्वेक आमी ताजीं फकाणां करताले. पूण आतां सगळ्यांकच ताजी सानभूती दिसता. आपल्या वागणुकेन आनी सेवेन ताणे सगळ्यांचींच काळजां जिखल्यांत. आज तो रेल्वे कर्मचारी न्हय. पूण ह्या संवसारांत आपणाक दुसरो कोण ना अशें तो सांगता आनी हांगाच रावला.''

''कसलें गुपीत आसत ताजें?''

''हांवें दोळ्यांनी पळोवंक ना. पूण नागूच्यो खबरे आयकल्यात. ताज्या जिवीतांत जुवानपणांत पारु नांवाची एक चली येवन गेली. तिजी वाट पळयत तो रुमडी मुळांत बसता अशें लोक सांगतात. पूण नागू आपल्या तोंडान कांय उलयना. हांवेय तेविशीं ताका केन्ना विचारुंक ना. दीसभर तो आपले घुंवळीत आसता. आतां तुवें पळयलां तो कितलें बरें जेवणा रांदता तें. सकाळचें ताजें देवसपण आसता. हे रुमडीच्या सकल्या वाठारांत एक व्हडली शिळा आसा. ते शिळेपोंदा 'घोळ' आसा अशें लोक म्हणटात. ते शिळेचेर एक सोंडेची आकृती उदेल्या. थंय वचून तो सकाळचीं फुलां ओंपता आनी उजवात पेटोवन येता.''

हांवें नदर ताणून शिळा दिसता काय म्हणून पळयलें. झाडांचे दाटायेक लागून म्हाका कांय दिसलें ना.

अविनाशाल्या सांगातान हांव स्टेशनावयल्या तागेल्या ऑफिसांत येवन बसलों. मदीं मदीं अडचल्ले प्रवासी येवन गाडी केन्ना सुट्टली म्हणपाची वासपूस करून वताले तेन्ना

आमच्या उलोवण्यांत व्यत्यय येतालो.

"तूं च्या घेतलो?" अविनाशान म्हाका विचारलें.

"नाका. नागू न्हिदिल्लो आसतलो. ताका उठोवं नये." हांवे म्हळें.

"मागीर हांगाच बसून रावचें पडटलें. भायले वटेन वचप आतां म्हाका जमचें ना."

"म्हजी अडचण ना. डब्यांत बसतलों आशिल्लो तो हांगा बसतां. तूं मेळूंक नाशिल्लो जाल्यार उपासाचें पुण्य जोडून पुस्तक वाचूंक बसतलों आसलों. पूण तुवें जी नागूची खबर सांगल्या ती सारखी समजून घेवपाची म्हाका उमळशीक आसा."

"खऱ्यांनीच खंयचेय कादंबरेपरस ती खबर उणे ओड लायणी न्हय. रोमियो - ज्यूलिएट, लैला - मजनू हांच्या कथांभाशेनच नागू- पारू हांची कथाय एक प्रेमकथा. घडलां अशें कि मनाचे उमाळे उक्तावपाखातीर नागूकडेन उतरां नात. आनी ताजेविशीं आपलेंपण दिसून खंयच्याच लेखक कवीन ताजी कथा समजून घेवंक ना." अविनाशान म्हळें.

'पूण म्हाका आस्त आसा." हांवे ताका सांगलें, "जमलें जाल्यार हांव ती बरांवन काडूंक सोद्तां. पूण तुगेलो नागू पळोवंक मुखदुर्बळ दिसता. ताका उठोवन विचाल्ले जाल्यार तो सांगीत?"

"नाका नाका," अविनाश एकदम उठून उबो रावलो आनी म्हाका आडायिल्ले भाशेन करून सांगलें. "त्या विशीं कोणे विचाल्ले जाल्यार नागू चाळवता आनी मागीर दोन तीन दीस रानांत वचून बसता. उपकार करून ताका कांय विचारूं नाका. हांव जाणा तितली खबर तुका सांगतां."

"पारूक विचारली जाल्यार ती सांगची ना?"

'पारूक कोणे पळयलां! हांवें तरी पळोवंक ना. तिच्यो खबरी आयकल्यात. ती वचून इतलीं वर्सां जालीं. ती खंय गेली... जिती. आसा कांय मेली हें लेगीत कोणाक खबर ना.'

"पूण पारूची आनी नागूची वळख कशी जाली?"

"ती एक वेगळीच कथा. नागू ह्या स्टेशनाचेर पोर्टर आशिल्लो आनी पारू ही धनगराची चली. रानांत अशे साबार वाडे आसात, थंय पुंजक्यांनी धनगरांची वस्ती आसा. खूब वर्सां आदली ही गजाल. जुवानपणाच्या हुंबरार आशिल्लो नागू नव्यानच कामाक लागिल्लो आनी ह्या रानांतल्या स्टेशनांत एकलोच रावतालो. त्या दिसांनी नागूचो थाट वेगळो. कामापुरतें रेल्वेचें युनिफॉर्म घालतालो. हेर वेळार पँट, शर्ट, बूट घालून स्टेशनाचेर भोंवतालो. सिनेमांतलो हिरो कसो तो दिसतालो.

त्या काळार एक दीस पारू स्टेशनाचेर पावली. तिणे कारांदे विकूंक हाडिल्ले. एका व्हडल्या पाट्यांत कारांदे आनी काण्णां, चुन्नां असलीं फळां आसतालीं. गाडयेकडेन ती विकूंक आयली तेन्ना नागूची तिचेर नदर गेली. तिका पळयल्ले लोक सांगतात, निकतीच वयांत आयिल्ली ती चली म्हळ्यार काळ्या पाशाणाचें शिल्प आसलें. लांब काळे

केंस आनी कोरिल्ल्या शिल्पासारको आंखीव देह. गरीब आशिल्ल्यान लज धांपपापुरतें वस्त्र आंगार आसलें. तांचो भेस तूं जाणाच. एक घागरो आनी वयर एक ब्लावज. माथ्यार कारांद्याचो पाटलो.

"एका डब्यांत चडून ती कारांदे विकतासर गाडी सुटली. पाटलो आनी पारू डव्यांत उल्लीं. सकल देंवक ती भियेताली आनी किळच्यो मारून आदार मागताली. गाडी तशी फास्ट वचना आसली. नागून गार्डाक सांगून गाडी थांबयली आनी धांवत डब्याकडेन वचून पारूक सकल देंवयली. त्या बोवाळांत पाटलो जमनीर पडून कारांदे रकले. ती सकल देंवली थंय प्लॅटफॉर्म सोंपतालें. गाडी परत सुरू जाली आनी भियेल्ली पारू केदो वेळ मेरेन नागूक घट्ट धरून रावली.

ती नागूची आनी तिची पयली भेट. पयली वळख. पयलो मोग.

"त्या दिसाच्यान नागू पारूची वाट पळयत रावलो. सिनेमा पळोवपाची संवय आशिल्ल्यान नागूच्या काळजांत मोगाची कळी रोखडीच फुलून आयली. पारूक घडये तो वेगळो अणभव आसूंये. पूण नागूक तिजें मन कळ्ळें ना. दोगांमदीं संवाद जालो ना. दोळ्यांनीच घडये तिणे कृतज्ञताय उक्तायिल्ली आसूंये".

नागू पारूची वाट पळयता आनी पारू येना. ही अवस्था खूब दीस चल्ली. सदां स्टेशनाचेर येवन ती फळां विकी नासली. त्या दिसा पयलेच खेपे आयिल्ली. घडये त्या अणभवाउपरांत ती स्टेशनार येवंक भियेताली आसूंये.

खूब दिसा उपरांत एक दीस ती परत आयली. तशेच कारांदे घेवन. गाडी येवंक वेळ आसलो. रुमडीच्या मुळांत तिणे पाटलो दवल्लो. आनी झाडाचेर चडून पिकिल्लीं रुमडां काडूंक लागली. नागूची नदर जेन्ना तिजेर गेली तेन्ना तो धांवत रुमडीसरी आयलो. ती वयर फांदयेर रुमडां आपले सायेंत भरून राविल्ली आनी सकल नागू, नागूक पळयना फुडें ती कडकडूंक लागली आनी ती पडत ह्या भयान नागू तिका धीर दिवंक लागलो. पूण आपली चोरी धल्ल्या हें भावनेन ती कांचवेल्ली. झरकटून ती सकल देंवली. तिजे दोनय हात कोपरांमेरेन सोल्ले. नागू तिका घेवन ते शिळेकडेन गेलो. तिगेल्या झरकटिल्ल्या हातांक कसलो तरी पालो चोळ्ळो आनी बोल्सांत आशिल्ले तितलेय पैशे तिका दिले.

ती पैशे घेना आसली. पूण नागून आग्रो केलो. ती माया पळोवन भाळ्ळी. सगळे कारांदे नागूक दिवन ती धांवत घरा परतली.

'दोन दोन दिसांनी तिणे येवचें आनी ते शिळेकडेन बसून नागून सिनेमांतले स्टायलीन तिजेर प्रेम करचें,'' अविनाशान सांगलें.

"इतलें सगळें चलता सर स्टेशनावयल्या हेर लोकांक तें कळ्ळें ना?" हांचें विचाल्लें.

"नागूच गळ्याक धोल घाल्लेभाशेन आपल्या मोगाची खबर सगळ्यांक सांगतालो. ताणे पारूखातीर कपडे हाडून घेतलें, कांकणां हाडून घेतलीं. आनी एक दीस आपूण तिजे कडेन लग्न जातलों अशेंय सगळ्यांक सांगलें."

दोन तरणे जीव मोगाच्या पासांनी एकमेकांकडेन घुस्पून गेले. पारू जुवानपणाच्या हुंबरार आसली तरी खुबश्यो गजाली तिका कळना आसल्यो. एक दीस नागून तिचेकडेन लग्नाचो विशय काडलो आनी म्हळें, ''तुज्या घराकडेन सांग. हांव तुका व्हरूंक येतां.''

''नाका नाका.'' पारून जाप दिली, ''हांवच येवन तुगेर रावतां.''

तिका कोणाचो भय दिसतालो ते कळूंक मार्ग नासलो. पूण नागून चड वासपूस केली ना. एक दीस ती आयली. आनी नागूसरीं रावंक लागली. चार दीस ताणे खोशयेन सारले. दीसभर मेकळ्या मनान रानांत भोवचें आनी सवण्यांच्या जोड्यावरी हांसून खेळून रावचें.

एक दीस तीनसांजच्या वेळार नागू स्टेशनार आशिल्लो. निमाणी गाडी गेली आनी तो घरा परतलो. वचून पळय जाल्यार पारू ना. रांदन पेट्टा, आदन सळसळटा. घराचें दारय उकतेंच आसा. पूण पारू ना. लागींच खंयय गेल्या आसतली अशें येवजून नागू ओगी रावलो ताणे आदनांत तांदूळ घाले. जेवण करून काडलें. रांदन पालयली आनी पारूची वाट पळोवंक लागलो.

पूण पारू आयली ना!

सगलीं चार - पांच घरां. सगळेकडेन वासपूस केली. कोणाकय कांय खबर ना. रातभर नागू तिका रानांत साद घालीत सोदीत रावलो.

फांतोडेच्या वेळार शिळेकडेन तो पावलो. थंय पारूलीं कांकणां आशिल्लीं.

रावणान पळोवन व्हेल्ले सीतेन रामाचे खुणेखातीर कांकणां उडयिल्लीं अशें म्हणटात तशेंच पारून केलां आसतलें अशें नागूक दिसलें.. ताका पारूलें घर खबर ना. वाडो खबर ना. तरी तो तिका सोदीत भोवंक लागलो. सगळेंच सपनांत घडचें तशें घडिल्लें...'' अविनाशान सांगलें.

स्टेशनावयलो फोन वाजलो आनी अविनाश उठलो. गाडी सोडपाक आदेश आयिल्लो. तशें म्हाका ताणे सांगलें. पूण म्हज्या मनांत खूबशे प्रस्न उरिल्ले.

''पारूक कोणे पळोवन व्हेली?'' हांवें ताका विचारलें.

''कोण सांगतलो? पळोवन व्हेली कांय घरचे लोक येवन तिका घेवन गेले? कांय ती पळून गेली? कांय कळूंक मार्ग ना... पूण अजून नागू तिची वाट पळयता. रुमडी मुळांत ना जाल्यार शिळेकडेन केन्नातरी ती येतली अशी ताका आस्त आसा. ते आशेचेर तो जगता.''

गाडयेची शिटी वाजली आनी हांव डब्यांत वचून बसलों. फाटल्या जनेलाकडेन वचून अविनाशाले क्वार्टर्स पळयले. फाटलेवटेन केळींचेर एक घडावलें लांबता. वयलो फेंडो पिकून भांगर जालां आनी एक माकोड तें खाता... क्वार्टर्सचे फुडलें दार बंद आसा. हांवें नदर परत केळीवयल्या माकडाचेर थिरायली. पूण दुसऱ्याच खिणाक तो सगळो देखाव नदरेआड जालो. गाडी बोगद्यांत भीतर सल्ली आनी डब्यांत गुपाट काळोख पातळ्ळो.

● ●

# गाब्रू

पाद्रीच्या लोबासारकी एक लांब काबाय आंगात घालून बशिल्लो तो मोटवोच जाण्टेलो नदरेंत भरतालो. पिकिल्ले धवे फुल्ल केंस नाशिल्ले जाल्यार हेरांमदीं तो भुरगो दिसचो इतलो मोटवो. पयसुल्यान एका विशिष्ट कोनांतल्यान हांवें ताका आदींच पळयिल्लो. मदी कॅरमबोर्ड दवरून चौग जाण खेळटाले आनी भोवतणी सात आठ जाण पळोवपी.

भर बाजारांत पणसाचें झाड आनी त्या झाडामुळांत हो खेळ चल्ला.

हांव गेल्लों सांतानाक मेळूंक. सांतान एक पाडेकार. आमची ताजी खूब आदली वळख. तागेलो एक चलो गल्फांत खंयतरी कामाक आसता. ताणे आमगेर फोन करून आपूण अमकेच तारकेक गोयांत पावतां अशें बापायक कळोवंक सांगिल्लें आनी तो रकाद पावतो करूंक हांव सांतानागेर गेल्लों. सांतानालें घर बंद आसलें. शेजाऱ्यान सांगलें  तो ह्या वेळार बाजारांत आसतलो.

“खंय मेळटलो?” हांवें विचारिल्ले.

“बाजारांत  झाडां मुळांत ते खेळूंक बसतात. थंय वासपूस कर.” शेजाऱ्यान सांगिल्लें.

देखून हांव बाजारांत त्या पणसामुळांतल्या खेळाच्या मांडाकडेन गेलों. थंय म्हाका तो मोटवो म्हातारो दिसलो.

खेळटल्यामदीं वा खेळ  पळयतल्यांमदीं म्हाका सांतान दिसलो ना. तांगेलो डाव तर एकदम रंगांत आयिल्लो. डाव सोंपसर हांव कुशीक उबो रावलों. जेन्ना डाव सोंपलो तेन्ना हांवें एकल्याक विचाल्लें, “सांतान पाडेकार हे वाटेन आयला?”

“सांतान आयलेलो रे, गाब्रू?” त्या मनशान डाव सोंपल्या उपरांत हाताक लागिल्लो बॉरीक  पावडर दोनय हातांनी आपल्या तोंडाक सारयतल्या मोटव्या म्हाताऱ्याक विचाल्लें. ते सरशी गाब्रू एकदम उबो रावलो.

“कोण सोदता सांतानाक?” गाब्रून विचाल्लें.

कोणेतरी म्हजेकडेन बोट दाखयलें. म्हाका पळयना फुडें गाब्रू भोंवतणच्या कड्यांतल्यान भायर सरलो आनी ताणे म्हळें, “कित्याक जाय आशिल्लो सांतान? तो इतले बेगीन

येवचो ना. कितें रकाद बी आशिल्लो?''

हांवे ताका म्हजी वळख दिवपाचो यत्न केलो तेन्ना गाब्रून म्हळें, ''तुका हांव वळखतां. सांतानाकडल्यान तुजेंविशीं आयकून जाणा. खरें म्हळ्यार हांवच तुका मेळूंक सोदतालों.''

''सांतानाक येवंक वेळ लागतलो जाल्यार ताका रकाद दी.'' अशें म्हणून हांवे म्हगेलो रकाद गाब्रूक सांगलो आनी ताका विचाल्लें. 'तूं म्हाका कित्याक मेळूंक सोदी?''

''तूं च्या घेतलो?'' गाब्रून म्हाका विचाल्ले.

तो म्हजेविशी अगत्य दाखयता काय थंडसाणेन उलोवंक सोदता तें म्हाका कळ्ळें ना. हांवें म्हळें, ''तुका जाय जाल्यार च्या घेवंया.''

गाब्रू म्हाका घेवन कुशीच्या च्याच्या दुकानांत गेलो. बसतकच ताणे म्हाका विचाल्लें, ''शिरो हाडूं?''

''नाका. निखटी च्या पुरो.''

गाब्रून च्याची ऑर्डर दिली आनी म्हज्या मुखार खांकडेवन बसलो. ताका पळोवन म्हाका हासूंक येतालें. तो इतलो मोटवो कि कदेलार बसतकच ताजे पाय जमनीक तेंकना आसले आनी झोपाळ्याचेर बशिल्ले भाशेन अधांतरी आशिल्ले पांय तो धोलयतालो.

''तूं सदांच कॅरम खेळटा?'' हांवें ताका विचाल्लें.

''आनी कितें करतलों? हांव आतां रेफॉर्माद. काम ना धंदो. वेळ वचूंक कॅरम खेळटां.... तसो आदीं हांव फुटबॉल खेळपी.'' गाब्रून जाप दिली.

''तुमी हांगा पैशे लावन कॅरम खेळटात काय कितें?'' हांवें विचाल्लें.

''आमी सादोच खेळटात. थोडे पैशांनी खेळटात. आनी सादोय खेळटात. एका कॅरम बोर्डाचेर ह्या पसरकारान थोडे जोडले नात. बोर्ड, घुलो ताज्यो....बॉरीक पावडर ताजो, दिवो, मेज कदेलांय ताजीं... एके गेमीक पांच रुपया घेता, दिसाक उणेंच शंबर रुपया जोडटा.''

च्या आयली. गाब्रून कुलेरभर साकर मागून घेतली. म्हाकाय घे म्हणून आग्रो करतालो. हांवे घेतली ना तेन्ना ताणे म्हळे, ''आदी सांगपा न्हय? तुजे खातीर साकर नाशिल्ली च्या मागयतलो आसलों.''

''ना. म्हाका डायबीटीस ना.''हांवें ताका सांगलें आनी मूळ विशय सुरू करूंक म्हळें, ''आतां तुका कितें सांगपाचें आशिल्लें तें सांग.''

''हांव एक पुस्तक बरोवंक सोदतां.'' गाब्रून म्हळें, आनी म्हजी प्रतिक्रिया समजून घेवपाखातीर म्हज्या तोंडाकडेन पळयत रावलो.

''बरय. बरय.'' हांवें म्हळें, ''खंयचे भाशेंत तूं बरयतलो? आनी कसल्या विशयावयलें पुस्तक?''

"हांव कोंकणी भाशेंत बरोवंक सोदतां. पूण तुका जाय जाल्यार दुसरे भाशेंतय बरयल्यार जाता." गाब्रून जाप दिली.

"तुका जी भास बरोवंक येता ते भाशेंत तूं बरय" हांवे सांगलें.

"तूं समजलो ना." गाब्रून म्हळें, "म्हाका बरोवंक वाचूंक येना. पूण म्हाका तोंडान सांगूंक येतलें. हांव सांगतां तें तूं बरय.  आदीं पेपरांत छाप आनी उपरांत जाल्यार बूक काड.... हांव पैशांखातीर बरोवंक सोदिना."

तो कितें म्हण्टालो ताजो अदमास म्हाका आयलो. हांवें ताका विचाल्लें, "सांतानान तुका सांगलां काय किर्ते रे?"

"हय. तो आसल्यार बरें जावपाचें. तोच म्हाका तुजेसरीं घेवन येवपाचो आसलो. पूण सामको आजूच शेण खावंक गेलो."

"खंय गेलो तर तो?" हांवे अजापान विचाल्लें.

"तसो तो आपल्या कामाक गेला. पूण आज तूं आयलो आनी तो ना."

"पूण एक सांग गाब्रू, तूं म्हाका पळयना फुर्डे कसो वळखलो?"

"तुका हांवें जायते फावटी पळयला.आमची वळख ना इतलेंच."

"सांतान नासल्यार नासूं, तुका कितें बरोवंक जाय तें म्हाका सांग."

"म्हजेकडेन जायते फोटो आसात. तेय छापूंक जातले, न्हय?"

"फोटे मागीर पळोवया, बुकांत वा पेपरांत फोटे घालूंक जातले. पुण तुका कितें बरोवपाचें आसा तें आदीं सांग. तूं रेफोर्माद म्हणटा. आदीं कितें करतालो?"

"रेफॉर्माद म्हळ्यार आतां काम करिना. म्हजी पिराय कितली अशें तुका दिसता?" ताणे विचाल्लें.

"पिकिल्ले केंस सोडले जाल्यार तूं चड जाण्टो दिसना."

"पूण म्हाका सत्तर वर्सां जालीं." गाब्रून सांगलें, "आतां हांव घराच आसतां. काम ना धंदो. आदीं बोटीर आसतालों. बोटलेर म्हण.... तारवटी म्हण... पूण चाळीस वर्सां हांवें बोटीचेर शिर्वीस केली."

"खूब जोडलें आसतलें न्हय?" हांवें विचाल्लें.

"जोडलें आनी मोडलेंय. एक घर बांदलें तें उल्लें. आता ह्या जाण्टेपणांत हांव रांदतां हांव जेवतां. काम काय करिना. सांतान म्हाका पावता. बाकी सगळे सोडून गेले."

"बाकीचे म्हळ्यार कोण कोण?" हांवे विचाल्लें.

"बाकीचे म्हळ्यार सगळे सोयरे आनी इश्ट....अमको म्हणून कशें सांगू?"

"तुजी बायल भुरगी खंय आसात तर?" म्हजो प्रस्न.

गाब्रूच्या तोंडार गंभीरपणाची थोडी सांवळी पडली. आनी ताणे म्हळें, "ना. म्हाका कोण ना. हांव एकलोच."

"म्हळ्यार तुवें काजार केलेंच ना?" हांवे विचाल्लें.

"ती खबर मागीर सांगता. पूण आदीं सांग, आमी कशें बरोवया?"

"तुका कितें बरोवंक जाय तें कळ्ळे बगर हांव कशें सांगू? तुका तुज्या जिवीतांतल्यो गजाली बरोवपाच्यो आसात मूं? तू म्हाका सांग. हांव आयकून घेतां."

"आतां घेता जाल्यार कागद हाडटां." ताणे म्हळें.

"तशें हांगा हांव बरोवचो ना. तूं सांगता तें आयकतलों आनी घरा वचून बरयतलों. आता हांगा तुज्यान खबर सांगूंक जातली? हांवें विचाल्लें.

हॉटेलांत दोन गिरायकां बशिल्लीं. हॉटेलाचो धनी होच वेटराचें आनी कॅशराचेंय काम करतालो. गाब्रून आमगेले च्याचे पैसे फारीक केले आनी म्हळें, "तुका सांतानाक मेळूंक जाय न्हय? या आमी ताजे सरीं."

"कितले पयस आसतलो तो?"

"हांव जाणा ते भाशेन तो आमकां न्हंयचेर मेळटलो. तो नुस्तें गरोवंक गेला आसूंक जाय. आमी थंय वचूंया आनी वाटेर हांव तुका म्हजी खबर सांगता."

"न्हंयचे देगेमेरेन मोटार वता?"

"ना. मार्ग ना." गाब्रून जाप दिली, "पूण चड पयस ना हे वाटेन ती दोंगुल्ली दिसता. तिचे पलतडीन न्हंय. थंयच तो गरोवंक बसता."

गाब्रू सांगातान हांव चलूंक लागलों. म्हऱ्यांत चलता आसतना हांवें ताजी लांबाय पळयली म्हज्या कमरापरस मात्सो वयर तो पावतालो. तीन ते साडेतीन फूट आसतलो. चलता आसतना तो धांविल्ले भाशेन चलतालो.

बाजारांतल्यान भायर पावले आनी गाब्रून तोंड उकतें केलें.

"हांव मोटवो म्हणून लोक म्हाका चाळयतात. आतां तूं सांग, तो म्हजो गुन्यांव? म्हजो बापूय लांब रूंद मानाय आसलो आनी आवय बारीक आसली पूण मोटवी न्हय. हांव मोटवो कसो जालो जाणा तूं.... हांव खंय म्हयने भरचे आदींच जल्मलों आनी चार वर्सां मेरेन माकडाच्या पिलाभाशेन न्हिदून उल्लों."

"मनीस लांब आसलो आनी मोटवो आसलो सारकोच. मनशाचें व्हडपण ताज्या कर्तुपावयल्यान मेजपाचें आसता."

"सारकें म्हज्या मनांतलें उलयलो." गाब्रून म्हळें, "गांवात सगळे तवनास पोर आळशांचे शेपाय, तांकां कितें? दुसऱ्यांची फकाणां करून ते वेळ सारतात. पूण हांव मोटवो आसून सगळो संवसार भोंवन आयलां, जाणा तूं?"

गांवची शीम फाटी उल्ली आनी दोंगुल्लेची चडणी सुरू जाली. नागमोडी पायवाट. दोंगुल्लेचेर चारांची झाडां. मदींच एकाद्रो पांगरो आपली तांबडी फुलां धोलयतना दिश्टी पडटालो. सांवरींचीं एक दोन झाडां आपल्या सुकिल्ल्या बोंडांतल्यान म्हातारेचे केंस

वाऱ्यार उबयतालीं. काजूचीं झाडां.... आनी पावला कणकणी तळपां. अशी ती दोंगुल्ली. दोंगुल्लेच्या माथ्यार पावले आनी एक नवो संवसार दोळ्यांमुखार उत्तो जालो. पलतडीन निळ्या दोंगरांची एक रांग, जाचे माथें मळबाक तेंकलां आनी दोन दोंगरांच्या पायांमदल्यान निवळ उदकाची न्हंय व्हांवता. व्हडली रूंद न्हय. न्हंयच्या दोनय देगांनी पांचवीचार अप्रुपाय.

दोंगुल्लेचे तेंगशेचेर उबो राविल्लेकडेन झणझणीत वारो आंगार घेत हांव सुखावतां म्हणसर गाब्रून पाडेली घालतात तसलो एक कुलो घालो. तागेलो आवाज मुखावयल्या दोंगराक आपटून परतलो.... प्रतिध्वनी वातावरणांत विरून वतासर दुसरो कुलो आयलो.

आवाजाचे दिशेन बोट दाखोवन गाब्रून म्हळें, ‘‘सांतान थंय आसा. आमी हांगाच बसूंया. येतलो तो.’’

‘‘ताका कशें कळटलें?’’ हांवें विचाल्लें.

‘‘आमचो कुरवेचो उलो तो.’’ गाब्रून म्हळें, ‘‘तुका जाय जाल्यार आमी न्हंयचेर या.’’

‘‘बरें आसा. आमी हांगाच बसूया. सांतान येईसर तुजी खबर सांग.’’

‘‘तेच खातीर तुका हांगा घेवन आयलां.’’ गाब्रून म्हळें.

****

सांतान लागीं पावलो तसो हांव उठलों. गाब्रूय उबो रावलो. माथ्याक एक चेपें आनी बुशकोट घाल्लो सांतान म्हाका वेगळोच दिसलो. ताज्या एका हातांत गरो आनी दुसऱ्या हातांत गांथन आसली.

म्हाका पळोवन सांतानाक अजाप जाले. ताजेपरस चड अजाप म्हज्या सांगातान गाब्रूक पळोवन जालें. गाब्रूनच ताका सांगलें की, म्हाका तो मुजरत घेवन आयला.

‘‘इतले पैस तूं चलत कित्याक आयलो?’’ सांतानान म्हाका विचाल्लें, ‘‘रकाद दवल्ल्यार हांव तुका घरा येवन मेळटलों आसलों.’’

‘‘पूण गाब्रू मेळचो नासलो.’’ हांवें म्हळें, ‘‘गाब्रूक कितें सांगपाचें आसलें.’’

सांतान कांय उलयलोना. निखटो हांसलो तेन्ना गाब्रून म्हळें, ‘‘तें बूक बरोवपाचें काम रे!’’

‘‘तेखातीर तू हांगा घेवन आयलो?’’ सांतानान गाब्रूक विचाल्लें. ताज्या आवाजांत इल्ली तिडक आसली. म्हजेकडेन पळोवन ताणे फुडे म्हळें, ‘‘सदांच म्हज्या फाटल्यान लागता तुजेकडेन घेवन वच म्हणून. ताका दिसता तागेली खबर तुवें बरयतकच ती टीव्हीचेर येतली.’’

‘‘टीव्हीचेर येना जाल्यार उपकारता. बूक तरी बरोवंक जाय.’’ गाब्रून म्हळें.

‘‘तशी ताजी खबर खूब बरी आसा. अजून ताणे पुरती सांगूंक ना. परत एक खेपे

ताका मेळे पडटलें." हांवें म्हळें.

"परत मेळटा तेन्ना मळटा." गाब्रून म्हळें, " आज सांगिल्ली खबर सारकी सांगतां. तुका हांवें बोटीवयले ते फ्रेंच बायलेंची खबर सांगली...."

"पाड पडूं तुजें, गाब्रू. तसल्यो खबरी सगळ्यांक सांगता?" सांतानान मदींच तोंड घालें.

"ना. ना. खबर बरी आसली आनी ताणे बरे तरेन ती सांगली. सांग गाब्रू, बेर्ताचें आनी तुजें जालें कितें?"

"जातलें कितें?" गाब्रून म्हळें, "म्हाका चीट बरोवंक येना तरी संवसारांत जंय जंय वतालों थंयच्यान एक पोस्टकार्ड हांव बेर्ताक धाडटालों. कोणाकडच्यान तरी बरोवन घेवन. तशें म्हाका वाचूंक येता पूण सगळें समजना. इंग्लीश उलोवपाची संवय जाल्ली."

"पूण ते चिटीची जाप तुका केन्ना आयल्या? बेर्तान तुका केन्ना चीट बरयल्या?" हांवे विचाल्लें.

"एकय ना. हांव आयकून आसलों बेर्ता खूप शिकता आनी तें व्हडलें जालें तशें खूबच सुंदर दिसता. तितलें म्हाका पुरो जातालें. पूण तूं जाणा ह्या संवसारांत दुडवांवगर कांयच चलना. देखून तूं खूब पैशे जोड. आमी सुखान संवसार करूंया. तें म्हाका सांगतालें. तें उतर म्हाका पुरो जालें आनी तेन्नाच्यान हांवें पैशाचें सपन पळयलें."

"पूण निमाणें तुवें जोडलें न्हय? मागीर काजार कित्याक जालो ना बेर्ता लागीं."

"ही खबर बरोवंक जाय." गाब्रून म्हळें, "तुका सुमार मेळचो ना. तू नकळ भाटकान्नीचें सगळें भाट पावणेर गेलें. घर पावणेर गेलें तेन्ना हांवें बेर्ताखातीर धा हजार रुपया भाटकान्नीक दिले. पूण हांव फटवलों. म्हाका पैसे गेले म्हण वायट दिसलेंना. बेर्ताखातीरच हांवें जोडिल्ले. तिका जाय जाल्यार आनीकय दितलों आसलों. पूण आवयन आनी धुवेन म्हाका फटयलो."

"जालें कितें?" हांवें विचारलें.

"पयले खेप तारवार सावन हांव घरा आयलो तेन्ना हांवे थोडे पैशे हाडिल्ले. म्हाका भाटकान्नीन बरो येवकार दिलो. बेर्ता तर त्या दिसांनी म्हज्या सांगातानच रावलें. एक दीस भाटकान्नीन म्हाका सांगलें. गाब्रू, भाटकारान काडिल्ल्या रिणाक लागून आमी पुरतीं बुडल्यांत. घर आनी घरभाट पावणेर गेल्यार गांवात तोंड दाखोवंक मेळचें ना. तूं थोडो आदार दी. म्हजेकडेन तेन्ना पांच हजार रुपया आसले. आदलो काळ तो. हांवें गळ्याक एक भांगराची सरपळी केल्ली. हाताक मुदी केल्ली आनी हेर ज्यो वस्तू हाडिल्ल्यो त्यो सगळ्यो विकून धा हजारांची भर केली आनी भाटकान्नीक ते पैशे दिले."

"पूण खऱ्यांनीच भाटकान्नीचें घर पावणेर वचपाचें काय तुगेले पैशे मेळोवचेखातीर तिणे माग्णी केली?" हांवें विचाल्लें.

"ना.ना." गाब्रून म्हळें. "खऱ्यांनीच घर पावणेर वतालें. हांवें येवजिलें सगळें करप

तें बेर्ताखातीर जाल्यार पैशे दवरून हांव कितें करतलों? म्हजे पैशे घेतले, घर सांबाळ्ळें.''

''त्याच वेळार तुवें काजराचो प्रस्न कित्याक काडलो ना?''

''काडलो. पूण म्हजो बापूय म्हाका मारूंक आयलो आनी तूं जाणा, तेन्ना भाटकान्नीन म्हजे हुजीर म्हज्या बापायक सांगलें कि, ती खऱ्यांनीच म्हाका आपलो जांवय करतली. मागीर तूंच सांग हांवें दुसरें कितें करपाचें?''

''म्हण्टकच काजार जाले बगर तूं परत तारवार गेलो?'' हांवें विचाल्ले.

''वचचेंच पडलें.गेले बगर कितें करतलों? तारवावयली जीण जाणा तूं, म्हयन्याचे म्हयने बोट दर्यांत उरता. खंयच्याय बंदराक लागली जाल्यार थंय आमकां देंवंक मेळटा. परकी गांवांत थंय खंय भोंवतलो? हेर तारवोटी बंदराचेर देंवन फोल्गां मारताले. पूण हांव सगळे पैशे सांबाळून दवरतालों. कित्याक तें तूं जाणाच.'' गाब्रून म्हळें.

''एक सांग, तूं जे बोटीचेर काम करतालो ती माल व्हरपी बोट काय पॅसेंजर?''

''बरो मनवार. व्हडलो. पॅसेंजरांक व्हरपाचो आनी हांव बोटलेर. कॅबीनांतल्या पॅसेंजरांक जेवण बी दिवपाचें काम म्हजें. टिर्पींचे पैशे मेळटाले ते पगारापरस कितलेशेच चड आसताले. बोटी वयली जीण जाणा तूं. एक खेपे म्हाका सुमाराचें भोगलां....''

गाब्रून कथेत आडकथा हाडली. एक फ्रेंच्च बायल बोटीचेर आसली आनी बोट सुवेझाक सावन युरोपाक वचूंक भायर सल्ली. मर्दी बोटीक दुसरी बोट आपटली. अपघात व्हडलो न्हय पूण सारखी जायसर बोट नांगरून दवल्ली.

कॅबीनांतल्या पॅसेंजरांमर्दी ती फ्रॅंच बायल एकलीच आसली. एका कॅबीनांत दोन पॅसेंजर आसतात. पूण हेर सगळीं जोडपीं आसलीं. रातीच्या वेळार बारांत सगळीं जोडपीं पियेतालीं, नाचतालीं. पूण ती फ्रेंच बायल एकलीच आशिल्ल्यान नाचनासली. फक्त पियेवन बेबदी जाताली. मागीर तिका कॅबीनांत पावोवपाचें काम गाब्रूक करचें पडटालें.

''ह्या फ्रेंच बायलांचे तुका खबर ना.'' गाब्रून म्हळें, ''लकता म्हणून हात दिल्यार ती वेंग मारताली आनी आपल्या कॅबीनांत म्हाका आपयताली. तुका खरें सांगतां, हांव तेन्ना तरनाटो. कितेंय जावं येतालें. पूण जेन्ना जेन्ना ते बायले लागीं हांव पावतालों तेन्ना बेर्ता म्हज्या दोळ्यांमुखार उबी रावताली आनी हांव मन मारतालों.... ते बायलेन तरातरांची संवगा करचीं. केन्ना फाट चेपूंक आपोवचो. केन्ना तकली दांबूंक सांगची. चाकरी करतल्याक ना म्हणूंक मेळना. तिणे म्हाका खूब पैशे दिले. पूण हांव सदांच शिंतीदान रावलों. तिका वश जालो ना.''

***

''जावपाचें जावन गेलें. तू फकत फुडें कितें घडलें तितलें सांग.'' हांवें गाब्रूक सुचयलें.

''ती दुःखी आसा. हांव थंय आसतनाच भाटकान्नीक मरण आयलें तेन्ना तिगेली

लार्गाशल्लीं, पर्याशल्लीं सोयरीं आयलीं. त्या वोवाळांत बेर्ताक हांवें देखली, पूण तिजेकडेन उलोवंक पावलोंना. हांवें तिजेखातीर कितल्योशोच वस्तू हाडिल्ल्यो.''

बेर्ताचो उगडास काडटना गाब्रूच्या दोळ्यांत दुख आयलें.

''आता खंय आसता बेर्ता?'' हांवें ग्राबूक विचाल्लें.

''म्हाका सारकें खबर ना. भाटकान्नीफाटल्यान बेर्तान गांव सोडलो, घर सोडलें, पूण हांव आयकतां तेभाशेन तिजो भुरगो केन्नाय तरी पाडो करूंक येता. हालींच तें मूळ घर ताणे एके कंपनीक भाड्यान दिलां आनी ते कंपनीचे लोक त्या घरांत रावतात.''

''त्या उप्रांत तुका बेर्ता केन्नाच मेळूंक ना?''

''एक दोन फावटी मेळ्ळी. पूण परकी मनशासारकी वागली. हांवय जाप दिवंक गेलो ना.''

''पूण एक सांग गाब्रू, तुवें ते १० हजार रुपया परते केन्ना मागले ना?''

''ना. तसलें हलकटपण हांव करचोना.हांव येवजितालों बेर्ता म्हजी बायल जाल्ली जाल्यार ते पैशे हांव परतो मागतलो आसलों? देखून मागीना.'' गाब्रून जाप दिली.

''तें बरें आसा. पूण तुवें पैशे दितना बेर्ता तुजी बायल जातली अशें येवजून दिल्ले तें तरी खरें मू?''

''हय.म्हाका समजतसावन बेर्ताकडेन म्हजी व्हंकल म्हणूनच हांवें पळयलां. म्हजो कमलोच गुन्यांव ना.तिजे आवयन आदीं सांगलें आनी उप्रांत बेर्तानय तें कबूल केलें.''

''पूण बेर्ताकडेन काजार जावचेंना अशे तुका केन्ना कळ्ळें?''

''भाटकान्नीच्या मरणाउप्रांत म्हाका दुबाव आयलो. हांवें बेर्ताक कितलेशेच रकाद धाडले. पूण जेन्ना तिणे म्हाका मोटवेलो माकोड म्हणून चाळयलो तेन्ना मात हांवें तिका तकलेंतली काडून उडयली.''

''तुका तसो तिणे चाळयलो म्हणून कोण सांगता?''

''म्हज्या कानांनी हांवें आयकलां. ती घरांत आसतना एक खेपे काम करतले बायलेकडच्यान हांवें मेळपाचो रकाद धाडलो. तेन्ना दाराफाटल्यान रावन बेर्ता तशें उलयली.''

''बरें गाब्रू, तुजी ही खबर आदीं हांव बरोवन काडटां आनी मागीर ती कशी जाता ती पळोवया.''

''ना.ना. येदे बेगीन सगळी बरोवं नाका. हांवें तुका सांगल्या तितलीय खबर खरी. पूण खुबश्यो खबरी सांगपाच्यो उल्ल्यात. मनबरवयले दीस. भावल्या देसांनी मेळिल्लो लोक.... हांवें पळयिल्लो संवसार.... भोगिल्लें सुख आनी दुःख.... हें सगळें सांगलेबगर म्हजी काणी पुरी जावचीना.''

''ती मागीर केन्नाय बरोवं येता.'' हांवें गाब्रूक म्हळें, ''पूण एक सांग. तूं काजार

कित्याक जालोना? तुका बरी बायल मेळटली आसली.''

''केन्ना - केन्नाय म्हाकाय तशेंच दिसता. चड करून आतां म्हजें चुकलें अशें दिसता. पूण त्या दिसांनी हांव सामको पिसो जाल्लों. तुका हांवे ते फ्रेंच बायलेची खबर सांगल्या. ते बायलेविशीं येवजितना म्हज्या दोळ्यांमुखार सदां बेर्ताच येताली. बेर्ताक सोडून दुसरी कोणय म्हजी बायल जावं येता अशें म्हाका दिसनासलें.''

''पूण तुका अशी कोणेच सोयरीक हाडलीना?''

''म्हजी उमेदीचीं वर्सां हांवें तारवाचेर सारलीं आनी जाण्टेपणांत घरा आयलों तेन्ना काजराचे न्हय तर मरणाचे विचार तकलेंत घोळूंक लागिल्ले. हांवें थोडो पैसो जोडूंक ना. पूण  गांवचे लोक म्हजीं फकाणां करतात. हांव मोटवो हें खरें. तितलेखातीर म्हाका चाळयतात. घडये सोयरीक आयिल्ली जाल्यार हांव काजराचो विचार करीनय आसलों.''

''आतां तुज्या फाटल्यान तुजे पैशे, घर हांचें कितें जातलें?''

''हांवें एक चिंतून दवल्लां.'' गाब्रून जाप दिली, ''हे पिरायेचेर लेगीत बेर्ता म्हज्या घरांत येत आनी म्हजी चूक मागत जाल्यार हांव गुन्यांव भोगशितलों आनी म्हजें सगळें तिज्या भुरग्यांक दिवन उडयतलों. नाजाल्यार इगर्जेक दितलों.''

''पन्नास वर्सां उप्रांत बेर्ता तुजेसरीं येतली अशें अजुन तुका दिसता? मात्शें येवजून पळय. ती आतां म्हातारी जाल्या आसतली. तिजी भुरगीं व्हडलीं जाल्यांत. उंचेल्या हुद्याचेर आसूं येतात. अशे स्थितींत बेर्ता तुजेसरीं कित्याक येतली? ती तुका विसरून गेल्या आसतली. आपणे चूक केल्या अशें तर तिका मातय दिसचेंना.'' सांतान मर्दीच उलोवन गेलो.

त्या दिसा गाब्रूची मुलाखत हांवें सोंपयली तेन्ना गाब्रू कितलो निराश जाला हें ताज्या तोंडावयल्यान समजतालें. गांवांत मोटारीकडेन पावतकच ताणे म्हाका विचाल्लें. ''आतां सगळी सारकी आयकून घेवंक तूं परतो केन्ना येता?''

मनोगताखातीर विशय जाय आसतातच. पूण गाब्रूली खबर बेगीन बरोवन काडपाचें हांवें थारायलें. ती बरोवन काड्टकच जेन्ना हांव ताका मेळूंक गेलों तेन्ना तो घराच आसलो.

म्हाका पळोवन एकदम खुशालभरीत जालो आनी हांवें ताजी खबर बरोवन काडल्या अशें सांगतकच तर तो एकदम उडयो मारूंक लागलो.

हांवें ताका सगळी खबर वाचून दाखयली आनी म्हळें, ''हे सारकें आसा?''

''थोडें सारकें आसा. थोडें सारकें ना.'' गाब्रून म्हळें.

''कितें चुकलें तें सांग!''

''बेर्ताविशीं तुवें सारकें बरोवंक ना. हांवें तुका कितलें कितलें सांगलें तुवें थोडेंच बरयलां.''

"तशी तुवें सगळी खबर परत सांगल्यार जाता. तुवें इल्ली इल्ली सांगल्या ताजेवयल्यान तुजें भुरगेपण कळटा. तूं तारवार गेलो आनी पैशे जोडून घरा आयलो हेंय कळटा."

"जालें, पूण तारवार आसतना हांव खंय खंय पावलों, कितें कितें देखलें तें तुवें बरोवंक ना."

"तुवें तें सांगलें ना. आतां सांग.हांव आयकतां...."

"हांव तारवार कित्याक गेलों तें तूं जाणा...?"

"हय, बेर्ताकडेन काजार जातलो जाल्यार तुका पैशे जोडचे पडटले इतलेच खातीर न्हय? पूण आतां बेर्ताची खबर बरोवन जाली."

"सगळी जावंक ना. म्हाका भाटकान्नीन फटयलो...."

"पूण बेर्तानय फटयलो अशें कित्याक म्हणीना?"

"आसत. पूण ती खबर तूं नाका म्हणटा न्हय?"

"नाका म्हणीना. सांगून जाली. तुका नवें कितें सांगपाचे आसा? तूं उलयता तें सगळें खरें अशें म्हाका दिसता. पूण लोकांक तें खरें दिसचें ना. तूंच पळय. बेर्ता भाटकान्नीची चली. शिकिल्ली, रुपान सुंदर.घरांत पैशे आसात आनी तूं असो...."

"असो म्हळ्यार कसो तें सांग. म्हज्यांत कितें उणे आसा?" तिडकून गाब्रून म्हाका विचाल्लें.

"तुज्यांत उणें कांय ना. तूं शिकूंक नासलो तरी शाणो आसा; तुजेकडेन पैशे आसात आनी तुज्या काळजांत मोग आसा. पूण लोक पळयता शिकपाकडेन आनी भायल्या रूपाकडेन. लोकांक खरें दिसचें ना भाटकान्नीन वा बेर्तान तुका काजराचें उतर दिल्लें म्हणून..."

"तेंच घडटा." गाब्रून सुस्कार सोडलो. "भाटकान्न जिती आशिल्ली जाल्यार गजाल वेगळी जावपाची. म्हज्या तोंडार ती ना म्हणची नासली. पूण आतां त्यो खबरी कित्याक उपकारतात?"

"इतल्या आत्मविश्वासान तूं उलयता ताजें कारण कितें गाब्रू?" हांवें ताका विचाल्लें.

"देवामुखार दिमी मोडून हांवें सोपुत घेतला. देखून म्हजें तोंड उक्तें जायना. पूण म्हजे आनी भाटकान्नीभीतर जें उलोवणें जालें तें तांच्या घरांतल्या देवामुखार. आल्ताराचेर तिणें वात पेटयली आनी म्हाका उतर दिलें... जांवय करपाचें."

"पूण तिणे उतर दिलां तें बेर्ताक खबर आसा?"

"म्हजे हुजीर ती ताजेकडेन उलोवंक ना. पूण म्हाका दिसता भाटकान्न सांगले बगर रावची ना."

"कायद्याची भास हांव उलयना." हांवें म्हळें, "तूं सांगता तें म्हाका खरें दिसता. हे पिरायेचेर मरून गेल्ले बायलेच्या नांवान फट खबर सांगपाचें पातक तूं करचो ना हें

हांव समजतां. दुसरें म्हळयार ही फट सांगून तुका आतां कांय मेळपाचें ना. बेर्ता आतां जाण्टी जाल्या. आनी तूंय जाण्टो जाला. तरी पूण तुगेले ह्या सांगण्याक दुसरो कोण साक्षीदार आसा? एका तिरायतान तें खरें म्हळें जाल्यार लोकांचो विस्वास बसतलो."

"तूं म्हाका सारको समजूंक ना." गाब्रून म्हळें, "लोकांचो विस्वास बसचो म्हणून हांव बरोवंक सोदिना. हांव कोणाचें वायट चिंतीना. कोणाक तरी सगळें कळचें हे पासत हें बरोवंक सोदतां."

"हय, हांव तुजी भावना समजतां." हांवें म्हळें, "तुज्या काळजांत एक खतखतो आयला. पूण लोकाक ती घडयिल्ली काणी दिसतली. म्हणून हांवें साक्षीदाराविशीं विचाल्लें. साक्षीदार ना... आनी देवामुखार सोपूत घेतला देखून तूं उलयना अशें तरेन तुजी काणी बरोवन कशी जातली?"

"तसो एक मनीस आसलो." गाब्रून म्हळें, "पूण तोय मरून गेलो जातलो. सगळी गजाल कितल्या वर्सां आदली तें जाणा तू? तेन्नाचे दीसच वेगळे आसले."

"मरून गेल्ल्या साक्षीदारांक विसर तूं. तुवें सोपूत घेतिल्लो तो कित्याक मोडीना? आतां कांय भाटकान्न जिती ना. तुवें तोड उकतें केले बगर लोकांक खरें कशें समजतलें?"

गाब्रू मात्सो येवजूंक लागलो. ह्याच वेळार ताका फोर्स केलो जाल्यार घडये तो मनांत लिपोवन दवरिल्लें सांगूंक तयार जायत अशें म्हाका दिसलें आनी हांवें सांतानाक म्हळें, "तुका कितें दिसता सांतान?"

"हय गाब्रू." सांतानान ताका आग्रो केलो, "आतां तुजेकडेन झगडूंक भाटकान्न येवची ना. तुका दिसता जाल्यार देवाकडेन गुन्याव भोगोस माग आनी सगळी खबर सांगून उडय."

"तशें करतां." गाब्रून उबे राविल्लेकडेन दोळे धांपून देवाचे नांव घेतलें आनी दोळे उकते करून म्हाका म्हळें, "चल आतां सगळी खबर सांगता."

देवाचो भय मनशाक केन्ना केन्नाय पातक करपापासून परावृत्त करता, जाल्यार केन्नाय तोच ताच्या दुःखाक कारण जावं येता. गाब्रूल्या दुःखाचें कारण तरी तो सोपूत आसलो, जो मोडलो जाल्यार आपणाक देव ख्यास्त करीत ह्या भंयान ताणे आजमेरेन तोंड उकतें करूंक नासलें.

"म्हज्या ल्हानपणातली ही खबर." गाब्रून सांगून सुरवात केली. "भाटकान्नीच्या घराचो एक नळो फुटिल्लो. दनपारच्या वेळार त्या फुटक्या नळयांतल्यान वताचे किरण भितल्ले कुडीत पावताले. तिणे जायते फावटी म्हाका सांगचे, "गाब्रू, फुटको नळो बदल. पावस लागीं पावता. पूण भाटकान्नीच्या घराचेर चडटलो जाल्यार निसण जाय आसली. तेदी निसणी घरांत नासली."

त्या दिसांनी गाब्रू शेतांत कामाक वतालो. मिर्गाच्या पावसार शेतांत बीं घालपाचें आसता. देखून शेत आदींच तयार करून दवरचें लागतालें. दुसरे वटेन भाटकान्नीलो तगादो.

एक दीस गाब्रू आयलो आनी निसण घेवन घराचेर चडलो. सवकासाय चडत चडत तो फुटक्या नळ्याकडेन पावलो तेन्ना ताजी नदर ते फुटके नळ्याचे खांचीतल्यान भितल्ले कुडीत गेली.

''कसली मजा सांगतलो तुका? सारको सिनेमा.'' गाब्रून जें कितें पळयलें ताजें वर्णन अशा उतरांनी केलें.

''कितें पळयलें तुवें?'' हांवे ताका विचाल्लें.

गाब्रून तकली हालोवन घेतली आनी म्हळें, ''तुका कशें सांगूं तें समजना. पूण एक सांग, सोपूत मोडल्यार मरणाउप्रांत यमकोणांत ख्यास्त भोगची पडटा?''

म्हाका ताज्या भावार्थीपणाचो हांसो आयलो. हांवे म्हळें, ''सर्ग आनी यमकोण ह्याच संवसारांत आसता आनी मनशाक हेच जिणेंत ते भोगपाचे आसतात. कुमसार जाल्यार पातक लागना म्हणपाचे जाणा मरे तूं?''

''हांवें कसलें पातक केलां?'' भोळेपणान गाब्रून म्हळें, ''पातकां करपी वेगळेच. हांवें फकत दोळ्यांनी देखलें. तें कोणाक सांगचोना असो सोपूत दिलो.''

''सांग तूं'' हांवें म्हळें.

''ते नळ्याचे खांचीतल्यान हांवें काबाच्या वेंगेंत आमच्या भाटकान्नीक पळयली.'' मोठ्या सायासान गाब्रून सांगलें.

''कोण काब?'' हांवें विचाल्लें.

''तुका हांवें तो तेश्तीमुंज (साक्षीदार) आसलो म्हूण सांगिल्लो तो हो काब!''

''ताजे नांव कितें? तो कोण?''

गाब्रूचे नदरेन काब म्हळ्यार व्हडलें प्रस्थ. ताकाय हांव वळखना हाजें ताका अजाप दिसलें.

ताणे म्हळें. ''तूं कावाक वळखना? पुर्तुगेज पोलीसेत आसलो पाखलो. मोटवें खाकी काल्सांव आनी पायांक खाकी मेय घालून हातांत कावालमारी घेवन तो भोंवतालो तेन्ना सगळो लोक ताका भियेतालो. मोटरसायकल घेवन तो गांवात येतालो आनी सदांच आमच्या भाटकारागेर येवन बसतालो. त्या कावाक हांवें त्या दिसा घरचे कुडींत भाटकान्नीच्या सांगातान देखलो. आनी हांव नळो घालनास्तना सकल देंवलों.''

''तुका तेन्ना भाटकान्नीन पळयलो?'' हांवें विचारलें.

''ना. म्हाका तिणे देखलो ना आनी हांवेय ती खबर कोणाक सांगली ना. म्हाका भिरात नळ्याक हात घालूक गेलो जाल्यार कुडको सकल पडत. त्या कावाचेर नळ्याचो

कुडको पडिल्लो जाल्यार माणसुकी नासली.''

''त्या उप्रांत भाटकान्नीन तुका नळो घालपाचो उगडास केन्नाच केलो ना?''

''ती करताली. पूण हांवच घालीनासलों. म्हजी नदर त्या काबाचेर आसताली. तो जेन्ना जेन्ना येतालो तेन्ना तेन्ना हांव नळ्याचें निमित्त करून वयर वचून बसतालों. तांचे खेळ देखतालों. आतां म्हाका सगळें समजता. तेन्ना सारकें समजनासलें. एक दीस.... असो वयल्यान पळयता आसतना हांव नळ्याची खांच मात्शी रूंद करूंक गेलों आनी नळ्याचो कुडको म्हज्या हातांत आयलो. आवाजासरशीं भाटकान्नीन किळच माल्ली आनी ती दोगांय धांवत दुसरे कुडीत गेलीं. त्या दिसा हांवें नळो वदल्लो. हांव सकल देंवचे आदीच काब परत गेल्लो.''

गाब्रू सकल देंवतकच भाटकान्नीन ताका आपोवन व्हेलो. भीतर घरांत व्हेलो आनी ताका १० रुपया दिवन म्हळें, ''यो गाब्रू तुका कितें सांगपाचें आसा.''

गाब्रूचे पांय कडकडटाले. आपली चोरी धल्ली. आतां भाटकान्न आपणाचेर रागार जातली अशी ताका भिरांत दिशिल्ली. भाटकान्नीन ताज्या हाताक धरून म्हळें, ''तूं म्हाका म्हज्या भुरग्यासारको.''

गाब्रू कांय उलयलोना तेन्ना तिणेच म्हळें, ''तुवें जें पळयलां तें कोणाक सांगूक फावना.''

''हांवें कांयच पळोवंक ना.'' भियेवन गाब्रून जाप दिली.

भाटकान्नीन सुस्कार सोडलो. गाब्रूक समजायत तिणे म्हळें, ''कांयच घडूंक ना. पूण घरची खबर भायर सांगपाची नासता. काबाक तुवें कुडीत पळयलो?''

''हय भाटकान्नी. पूण हांव कांय नकळ.''

भाटकान्न ताका घेवन देवाच्या आल्ताराकडे गेली. सांगलें, ''तुंवें देखलां आसूं नासूं, ही खबर तोंडातल्यान भायर येवंक फावना.''

गाब्रून तकली हालयली. तिणे देवामुखार दिमी मोडूंक लायली. ताच्या तोंडातल्यान सोपूत वदोवन घेतलो. ताणे सोपूत घेतकच ताका आपल्या गोपां ओडून अपुरबायेन म्हळें, ''जाणा तूं गाब्रू, तुवें हो सोपूत पाळ्ळो जाल्यार हांव तुका म्हजो जांवय करतलीं.''

''तेन्ना भाटकार खंय आसतालो?'' हांवें विचाल्लें.

''भाटकार घराच आसतालो. केन्नाय तो भाटांत वतालो.''

''पूण भाटकान्नीचे आनी काबाचे संबंध भाटकाराक खबर नासले?''

''देव जाणां. पूण सगळो गांव भाटकान्नीविशीं आनी त्या काबाविशीं उलयतालो. हांवे सोपूत दिल्लो देखून हांव केन्ना उलयलोना.''

''इतल्याच कारणाखातीर तुका खरें दिसलें कि, भाटकान्न तुका आपलो जांवय करीत म्हणून?''

''दिसलें. हांव उतराचो मनीस. देवासामकार तिणे म्हाका सांगलें आनी बेर्ताय म्हजेकडेन वेगळे भाशेन वागताली.''

''तुवें ही खबर बेर्ताक केन्ना सांगली?''

''ना.आज जिवीतात पयले खेपे तुका सांगतां. देवान म्हाका भोगशिल्यार पुरो.''

म्हाका दिसले गाब्रू खूबच भोळो. तो ल्हान - ल्हान घडणुकांचे आपल्या मनाप्रमाण अर्थ लायतालो.

''हें तुजें कारण बरें आसा.'' हांवें म्हळें, ''आतां तूं सांगता ते खबरेक अर्थ लागता. तशें जाल्लें आसू येता. भाटकान्नीन आकांताच्या वेळार तुका जांवय करपाचें उतर दिलें. तिका आपली लज वचत म्हणपाची भिरांत दिसताली. पूण तिका खरेपणी तुका जांवय करपाचो नासलो अशें तुका दिसना?''

''ना.'' गाब्रून जाप दिली. ''त्या उप्रांत जायत्यो ल्हान - व्हड घडणुको घडत रावल्यो. जांचे वरवी म्हाका भाटकान्नीच्या उतराचो विस्वास दिसतालो. बेर्ता एकलीच घरा आसतना भाटकान्न म्हाका आपयताली. बेर्ता सांगातान रावंक सांगताली आनी आपूण भायर वताली.''

''पूण बेर्ता कशी वागताली.''

''आतां कशी म्हूण तुका सांगू? पूण इतलें खरें की ती आपल्या उतरांनी वा हातांनी मोग उक्तायताली.''

''फुडली खबर तुवें म्हाका सांगल्या. आतां हांव तुजी काणी सारकी बरोवन काडटां.''

''हय. हांव पैशांखातीर बोटीचेर गेलों. पैशे म्हाका जाय आसले ते बेर्ताकडेन काजार करूंक. भाटकान्नीन म्हाका तशें सांगिल्लें हें तुका हांवें सांगलांच. आतां सांग ही खबर बरोवन काडल्यार कशी जातली?''

''लोकांचो विस्वास बसत.... पूण बेर्ता तुजेर मोग करताली वा भाटकान्न खऱ्यानीच तुका जांवय करूंक सोदताली हें वाचतल्याक खरें दिसचेंना.''

''जाल्यार म्हजो उपाय ना.'' गाब्रून म्हळें, ''पूण हांव तुका सांगतां. हांव सगळो संवसार भोंवलों. कितल्याशाच बायलांच्या लागीं पावलों. पूण म्हज्या मनांत सदांच बेर्ता उल्ली. आयज हे जाण्टे पिरायेचेर लेगीत म्हज्या मनांत तीच आसा.''

येदो वेळ सांतान मोन्यांनी आयकतालो. निमाणे ताणे म्हळे, ''गाब्रू सांगता तें खरें अशें म्हाका दिसना. तो इंग्लीश सिनेमा पळयता आनी असल्यो काणयो रचून सांगता. काणयो रचूंक गाब्रू एकदम हुशार.''

आपल्या दोनय हातानी गाब्रून सांतानालो हात धल्लो आनी रडकुऱ्या आवाजांत ताणे म्हळें, ''खरें तें सांगता तुका सांतान, हांवें काणयो सांगल्यात. थोड्यो सिनेमांतल्यो

सांगल्यो. जें देखलें तेंय सांगलें, पूण भाटकान्न आनी बेर्ताची खबर सामकी खरी.''

''खरी आसूं फट आसूं ही काणी बरी आसा. हांव ती बरोवन काडटां.'' हांवें गाब्रूक उतर दिलें.

सांतान म्हाका मोटारीमेरेन पावोवंक आयलो. पूण सांगातान गाब्रू आशिल्ल्यान तो कांय उलयलो ना.

दुसऱ्या दिसा फांतोडेर सांतान म्हज्या दारांत उबो. ताणे म्हाका सांगलें, ''तूं गाब्रूचें खरें मानूं नाका आनी ओगीच मरून गेल्ले बायलेची लज काडूं नाका.

''कित्याक? तुका गाब्रूली खबर खरी दिसना?'' हांवें विचाल्लें.

''खरी आसतय. पूण गाब्रू असल्यो काणयो घडयता. तो सपनां पळयता. तो युरोपांतल्यो राणयो आपल्या मोगांत पडिल्ल्याच्यो खबरो लेगीत लोकांक सांगता. लोक काणयो म्हणून आयकतात. कोणच ताजेर विस्वास दवरीना.''

''असलीच एक काणी छापल्यार कितें इबाडटलें?'' हांवें सांतानाक विचाल्लें.

''इबाडना कांय. पूण नाका आसतना मरून गेल्ले भाटकान्नीचें नांव इबाडप कित्याक?'' सांतानान म्हळें.

एकाद्री जळू मनशाच्या आंगाक दकून रावची तसो गाब्रू म्हजी फाट सोडीना जालो. दोन-दोन दिसांनी ताणे येवचें आनी बरयिल्ली खबर आयकूंक आयलां अशें सांगचें.

''तुवें आर्दीच सगळी खबर सांगली ना देखून आर्दी बरयिल्ली खबर वेगळी आनी उपरांत सांगिल्ली वेगळी अशें वाचतल्याक दिसूं येता. ती सगळी नव्यान बरोवन काडटलो म्हळयार म्हाका वेळ ना. पूण तूं हुस्को करूं नाका. वेळ मेळटलो तेन्ना हांव ती बरोवन काडटां आनी तुका वाचून दाखयतां.''

गाब्रून तकली हालोवची. पूण ताजे समाधान जायना आसलें. ''म्हगेलें सांगप सारकें जावंक ना हें हांव जाणा. पूण तूं समजून बरोवन काड.'' ताणे म्हणचें.

''हांव सारकें समजलां. तुका जाय जाल्यार दुसरे खेपे तुवें सांगिल्ली खबर वेगळी बरोवन काडटां.''

''पूण म्हाका एक सुचोवणी करचेली आसा. म्हजी खबर घडली तेन्ना तूं नासलो. हांवें तुका सांगली. बरयता आसतना तूं मर्दी मर्दी तुजी खबर कित्याक बरयता?''

गाब्रून सादेपणान विचारिल्लो प्रस्न. तागेल्या म्हणण्यात अर्थ आसलो. तटस्थपणान हांवें ती कथा बरोवची अशें ताका दिसतालें. हांवें म्हळें, ''आमी जेन्ना येवजून वा घडोवन काणयो बरयतात तेन्ना बरोवपी त्या काणयांमदी दिश्टी पडना. पूण जेन्ना हांव खरी खबर बरयतां तेन्ना ती म्हाका कशी कळ्ळी ते सांगले बगर वाचप्यांक ते खबरेचें खरेपण दिसचेंना. देखून हांव तशें बरयतां.''

हांवे केल्लो खुलासो गाब्रूक पटलो ना. पूण तो चड कांय उलयलो ना. निमाणे हांवे

ताका आठ दिसा उपरांत आपयलो तो मेरेन ताणे सांगल्या तितलीय काणी बरोवन काडटां अशें उतर दिलें.

आठ दिसां उपरांत गाब्रू परत आयलो. बरोवन काडिल्ली सगळी खबर ताका परतून वाचून दाखयली. ताजें समाधान जालें ना.

''तुवें बरें बरयलां. पूण खुबशें बरोवपाचें उल्लां.'' गाब्रून कागाळ करपाच्या सुरांत म्हळें.

''तुगेलें आनी कितें सांगपाचें उरिल्लें? हांवें विचाल्लें.

''तशें जायतें उल्लां. पूण सांगलां तें लेगीत तुवें सारकें बरोवंक ना.''

''कसली खबर म्हणटा तू?'' हांवें ताका प्रस्न केलो.

''लोक वाचता आसतना तांकां सारकी समजणी पडूंक जाय.'' गाब्रून म्हळें, ''आतां काबाची खबर तुवें सारकी बरोवंक ना. हांवें कितें देखलें ते तुका इतल्या बऱ्या उतरांनी सांगिल्ले पूण तुवें तें कांय बरयलें ना.... आल्तारा म्हऱ्यांत भाटकान्नीन म्हाका वेंगेत घेतलो तें बरोवपय सारकें जालें ना... आनी बेर्ताविशीं खूबच थोडें बरयलां.''

गाब्रूले कागाळींत तथ्य आसलें. ताज्या मनांत एक विकृती भरिल्ली आनी ते विकृतीचें वर्णन तो नागड्या उगड्या उतरांनी करतालो. बरयतना हांवेय तशेंच करचें अशें ताका दिसतालें. आतां ह्या जाण्ट्या मनशाक सभ्य उतरांनी सभ्यतायेचे फास्केमदीं कथा बरोवचेली आसता हें कशें समजावचें, तें म्हाका कळना जालें. हांवें म्हळें, ''तूं म्हण्टा तें खरें, पूण कथा बरयतना आमी सुचयतात. सगळें सांगीनात. वाचपी शाणो आसता. ताका तें समजता.''

''तुका आनी म्हाका तें समजता.'' गाब्रून म्हळें, ''लोकांक तें समजूचें ना. तूं जाणा हांव लोकांक जेन्ना खबरो सांगता तेन्ना ते म्हाका बारीक बारीक प्रस्न विचारतात आनी समजून घेतात.''

एके वटेच्यान म्हाका ताजी काकुळट दिसताली. पूण दुसरे वटेन तिडक येताली. बरयिल्लें वरप ताका मानवना आनी तो सांगता तशें बरोवप म्हाका जमचें ना इतलें म्हाका समजल्लें.

''तुका मानवना जाल्यार हांव ती खबर बरयना.'' हांवें गाब्रूक म्हळें.

''तुका राग आयलो जातलो.'' ताणे तडजोड केली, ''तशें तुवें बरयलां तें हांवें सांगलां तशेंच बरयलां. तुका जाय तशें तें छाप. पूण म्हजो फोटो छापूंक जाता जाल्यार पळय.''

''पुस्तक काडलें जाल्यार फोट्याचो विचार करूं येता.'' हांवें ताका समजायलो आनी म्हळें, ''तुगेल्या खबरेंतलीं नांवां हांवें बदल्ल्यांत. तुका गाब्रू हे नांव लेगीन हांवेंच दिलां, हे तूं जाणाच. खरें नांव दिल्यार कोणाची तरी बदनामी जावं येता. ती म्हाका करचेली ना. पूण तुवें फाल्यां तुज्या जिविताची काणी बरयली वा तुवें सांगिल्ले काणयेचें कोणेय

नाटक, तियात्र बरयलें जाल्यार गजाल वेगळी.''

निमाणेकडेन उठ्ठा आसतना गाब्रून पँटीच्या बोल्सांत हात घालून पाकिट भायर काडलें. नोटीचें एक बंडल हातांत घेवन ताणे म्हळें, ''आतां तुका कितले पैशे दिवपाचे?''

''कसले पैशे म्हणटा तूं, गाब्रू? बरोवपाखातीर हांव पैशे घेना. तुवें तुजी खबर सांगली आनी हांवे ती बरोवन काडली.''

''म्हजेकडेन चड पैशे नात. पूण थोडे घे. म्हाका बरें दिसतलें.''

ताका समजावंक म्हाका खूब त्रास पडले. निमाणे तो समजलो. ताणे पाकीट परत बोल्सांत घालें आनी ताजी खबर छापून येतकच अंक व्हरूंक येवपाचें उतर दिलें.

गाब्रूली अर्दी खबर आर्दींच बरोवन काडिल्ली. उतरार्ध बरोवपाचो उरिल्लो. खरें म्हळयार म्हाका ती पुराय खबर नव्यान बरोवचेली आसली. विशय तकलेंत घेवन ताका आकार दिवपा इतली उसरपत मेळ्ळी ना आनी गाब्रूची खबर लांवणेर पडत उल्ली.

फाटल्या सप्तकांत गाब्रू नुस्त्याची एक गांथन घेवन आयलो. म्हाका खूब मनाक लागलें. ताका दिसतालें, बिदागी मेळना म्हणून हांव बरयना.

त्या दिसा तो गेलो आनी गाब्रूली खबर बरोवन काडली. ती गाब्रूक रुचत काय ना, हें हांव नकळ.



# कर्फ्यू

मुंबयसावन गोंयात येवपाचें विमान सकाळीं आठ वरांचेर सुटपाचें आसलें. त्या खातीर सकाळीं सात वरांचेर हांव विमानतळाचेर पावलों तेन्ना कळ्ळें, विमान उसरां सुट्टलें. पूण अमक्या वरांचेर सुट्टलें हें सांगूंक नज अशें कांवटरावयल्या अधिकाऱ्यान म्हाका सांगलें.

''म्हण्टकच हांव कितें करूं?'' हांवें त्या अधिकाऱ्याक विचाल्लें.

''थोडो वेळ वाट पळय. फुडली घोशणा कितें जाता तें पळोवया.'' ताणे जाप दिली.

म्हऱ्यांत आशिल्ल्या दुसऱ्या अधिकाऱ्यान म्हाका सांगलें, ''बारा आदीं विमान सुटचें ना. तेन्ना तूं शारांत वचून येतलो जाल्यार यो.''

हांवें घडयाळींत पळयलें. सकाळचीं सात वरां जाल्यांत. सदांच प्रवाशांचे गर्देन गजबजिल्लो आसता त्या विमानतळाचेर शुकशुकाटच आसलो. खूबच थोडे लोक आनी कसलीच धांवपळ ना. शारांत वचून कितें करतलो? ह्या विमान कंपन्यांचो भरवंसो नासता. मदींच एकाद्रें विमान आयलें जाल्यार तें गोंयांत वचूं येता. आनी घडये दीसभर आमकां विमानतळार बांदून दवल्ल्या उपरांत सांजचें विमान रद्द जालें अशेंय कंपनी जाहीर करूंक शकता. त्या भायर चांटये पावलाक संचारबंदी. जळून गोबर जाल्ल्या घरांचे आनी मोटारींचे जळामळाक सांगाडे. सदांच मनशाचे गर्देन भरून रकतले रस्ते निर्जन. नाक्या नाक्याचेर सशस्त्र पोलीस, निम लस्करी दलां आनी लस्कराचे जवान. चुकून एकाद्रें दुकान खंयय उकतें आसा. मुंबयचें इतलें भयाण रूप ह्या आदी केन्नाच पळोवंक नासलें. कोणाय इश्टागेर वचून दोन वरां बसतलो म्हळयार परत विमानतळाचेर येवंक टॅक्सी मेळटली म्हणपाचो भरवंसो ना...

एका कामाखातीर दोन दिसां आदीं मुंबय आयिल्लों आनी या दंगलीमदीं आडखळून पडिल्लों. घरांतल्यान भायर सरूंक मेळना. दुकानां बंद, ऑफिसां बंद. देवा दयेन टेलीफोन तितले चलताले. एके तरेन दोन दिसांची बंदखण भोगल्या उपरांत केन्ना काय जीव व्हरून गोंयात घालीन अशें म्हाका जाल्लें. विमानाची तिकेट आदींच काडिल्ली. पूण सकाळचें विमान धरचे खातीर जेन्ना हांव भायर रस्त्यार आयलो तेन्ना एकय टॅक्सी मेळना. अर्दवर रस्त्यार उबो रावलों. चुकून एकाद्री मोटार वा टॅक्सी मुखावयल्यान

वताली. पूण हात दाखयल्यारय थांबना आसली. निमाणे एक टॅक्सी आयली. हांवें हात दाखयलो तेन्ना थांबली. पूण ड्रायव्हर फाटीं फुडें सरतालो. म्हजेकडेन दुबावान पळयतालो. ताका बरोच समजावचो पडलो. तेन्ना तो कबूल जालो. दोट्टी भाडें फारीक केलें आनी म्हजो जीव हाडून विमानतळाचेर घालो. आतां परत शारांत वचपाचें धाडस म्हाका करचेलें नासलें. हांव थंयच बसून रावलों.

ल्हवू ल्हवू गोंया वचपी दुसरे पॅसेंजर येताले. वळखीचो कोण नासलो तरी तेय गोंयांत वचपी हें पळोवन वळखीचेशे दिसले.

निमाणेकडेन एक तिशेक वर्सांचो तरनाटो धांवत धांवत आयलो आनी ताणे म्हाकाच विचाल्लें, "गोंयचे विमान सुटलें?"

"ना. आनी केन्ना सुटत तें कोणाक खबर ना." हांवें ताका सांगलें.

अजून तो धांपेतालो. ताणे म्हाका विचाल्लें, "तू गोंयांत वता?"

"हय."

एक समाधानाचो सुस्कार सोडिल्ले भाशेन करून तो म्हज्या शेजराक बसलो.

ताजेकडेन उलयताना म्हाका कळ्ळें, तोय गोंयकार. आपले भयणीच्या लग्नाखातीर मुंबय आयिल्लो. दंगलीक लागून लग्न उरलें आनी तो परत वता.

"चालत आमी एक कॉफी घेवंया." हांवें ताका म्हळें.

तो कबूल जालो. कुशीच्या कांवटराचेर वचून आमी हून काफयेचे दोन कप घेतले आनी परत येवन बसले.

म्हाका तो खुवसो खंती वा कांचवेल्लो कसो दिसलो. सगळोच चुळबुळटालो. ताजो अवतारय पळोवपासारको आसलो. एक चुरगळिल्लो बुशकोट, वाडिल्लें खाड, विस्कुटिल्ले केंस आनी तोंडावयलें भाव भियेल्ले भाशेन.

काफये एक घोंट ताणे घेतलो आनी तो हून लागलो म्हणून ताणे कप कुशीक काडलो. काफी ताज्या आंगार रकली. घडये तागेले हात कडकडटाले आसूंये. हांवें ताका म्हळें, "थंडसाणेन घे."

"सॉरी." ताणे म्हळें, "फाटले दोन दीस हांवें जें पळयलां ताका लागून म्हजें मन थाऱ्यार ना."

"खरेंच मुंबय शारांत असलें वातावरण हांवे तरी केन्नाच पळोवंक नासलें." हांवे म्हळें.

"आमचे गोंय जायतें बरें." ताणे म्हळें.

"तुका भयणीचें लग्न उल्लें म्हणून वायट दिसता आसतलें?"

"तें कारण आसाच." ताणे म्हळें, "आतां कसलीं कसलीं निमित्यां जावन लग्नां मोडटात हें तूं जाणाच. न्हवरो मुंबय रावता देखून लग्न मुंबय करचें केल्लें. तशी आमची

हांगां जायतीं सोयरीं आसात. पयसुलींच न्हय, लागींची सोयरीं लेगीत आसात. खासा म्हजो एक भाव लेगीत हांगाच आसता. फाटले आठ दीस हांव हांगा आसां. म्हाका मुंबय नाका जाली. भयणीच्या लग्ना पुरते सांगतलो जाल्यार आतां तें केन्ना जायत हें कोणाकच खबर ना.''

''सदांच अशी परिस्थिती उरची ना. पूण ओगीच हुस्को कित्याक करता?'' हांवें ताका धीर दिवपाचो यत्न केलो.

''परिस्थिती सुदारतली हें हांव जाणा. पूण ज्याचेकडेन म्हजे भयणीचे लग्न थारिल्लें तागेलें दुकान गुंडांनी लासून उडयलें.''

तागेली ती जाप आयकतकच म्हाका काकुळट दिसली आनी खंयच्या उतरांनी ताका धीर दिवचो तें समजलें ना. हांवें विशय बदलपाचो प्रयत्न करपाचें थारावन म्हळें, ''बस आं. गोंयच्या विमानाची वासपूस करून येतां.''

हांव उठूंक वतां इतलें म्हणसर लाऊड स्पीकरावयल्यान घोशणा जाली. गोंयचे विमान बारा वरांचेर सुट्टलें आनी पॅसेंजरांनी आपली बोर्डींग कार्डां घेवन च्याचीं कुपनां व्हरचीं.

दुसऱ्या खिणाक गोंयच्या कांवटराचेर पाच पंचवीस लोकांची गर्दी जमली.

तोय उठ्ठालो... हांवें ताका सांगलें, ''ताकीत करूं नाका. लोक ओगीच गर्दी करतात. आमी सवकसायेन बोर्डींग कार्डां घेवंया.''

ताणे तकली हालोवन आं म्हळें आनी न्हिविल्ले काफयेचो एक व्हड घोंट घेतलो.

कांवटरावयली गर्दी कमी जातकच हांवें तागेली तिकेट मागून घेतली. आनी दोगांलीय बोर्डींग कार्डां आनी च्याचीं कुपनां घेवन परत आयलों.

''तूं सँडवीच बी खातलो?'' हांवें ताका विचाल्लें.

''आतां नाका. मागीर पळोवया.'' ताणे म्हळें.

''अजून तूं शांत जावंक ना.'' हांवे ताका म्हळें, ''तुजे कपडे चुरगळ्ळ्यात, खाड वाडलां.''

''कपड्याचें बॅग आनी खाडाचें सामान भावागेर उल्लां. हांव एका इश्टागेर रावंक आयिल्लों तो थंयच उल्लों. दोन दिसां आदीं घाल्ले हे कपडे बदलूंक मेळूं ना.'' ताणे जाप दिली.

''भयणीक आनी भावाक तुवें गोंयांत वता म्हणून कळयलां मूं?'' हांवें विचाल्लें.

''कसो कळयतलों?'' ताणे म्हळें. ''तांगेर फोन ना. इश्टाकडेन रकाद दवल्ला. कळटलें तांकां... दोन दीस तांची खबरय मेळूंक ना... तांच्या वाड्यार कितें जालां देव जाणा?''

ताजें नांव जीवोत्तम. इंजिनियर्रींगची पदवी घेतल्या उपरांत तो गोंयांतच एकेकडेन

नोकरी करता. तसो तो स्मार्ट तरनाटो. म्हेळे चुरगाळिल्ले कपडे आनी वाडिल्लें खाड आसतनाय तो तरतरीत दिसतालो. जागरण करून जातात तशे ताजे दोळे तांबडे जाल्ले.

म्हज्या हातांत एक ल्हानशी बॅग. ताजेकडेन कायं सामान ना. विमानतळाच्या वातानुकूलीत दालनांत म्हाका उबगण आयली. हांवें ताका म्हळें, "भायले वाटेन लॉन आसा. अशी पासय मारून येवंया."

तो कबूल जालो. मुंबय शाराचेर जी स्मशानकळा आयल्या तिजेविशी हांव उलयतालों. इतल्यांत ताणे म्हळें, "हांवें जें कितें दोळ्यांनी पळयलां आनी खासा हांवें जें भोगलां ताजो उगडास काडल्यार आंगार कांटों येता."

ताणे आपलो अणभव सांगलो :

सांजच्या वेळार तो इश्टागेर आयलो. ताजो इश्ट त्या दिसा ऑफिसाक वचूंक नासलो... गेल्लो जाल्यार ऑफिसांत अडकून पडपाचो.

"हांव घरांत भीतर सल्लां आनी त्या वाठारांत कर्फ्यू लागलो. हांव थंय पावलों हाजेंच इश्टाक अजाप दिसलें. तरेकवार खबरो शेजारचे लोक येवन सांगताले. घरांची दारां जनेलां बंद करून लोक भीतर बशिल्लो. खंय उजो लागलो, खंय सुरयो तोंपल्यो, खंय पोलिसांची गुळी लागून लोक मेले... बायलो आनी भुरगीं म्हणून कोणे पळयलें ना. म्हातान्या कोतान्यांक लेगीत चेंचावन माल्ले.

ती रात ताणे सारली, दिसतालें सकाळी वातावरण निवळटले. धाकधूक मनांत आसली. पयसुल्यान खंय तरी किळांच वा फाराचो आवाज मदींच येतालो.

"सकाळ जाली. पूण पेपर आयले नात, दूद आयलें ना." जीवोत्तमान सांगलें, "हांवें म्हळें हांव सकल वचून हाडटां. जनेलांतल्यान भायलेवटेन पळयलें. एकाद दुकलो मनीस भोंवतालो.

"दूदाचे केंद्र पयस आसा. पूण ह्या वेळार दुकान कोण उघडीत अशें दिसना." जीवोत्तमाच्या इश्टान म्हळें.

तोय जीवोत्तमा सांगातान भायर सरतालो. पूण तागेली चली आपूणय येतां म्हणून रडूंक लागली आनी जीवोत्तमान ताका येवं नाका म्हळें.

रस्त्यार शुकशुकाट. एकादलो दुकलो मनीस दिसताले. म्हाका एका पोलीसान हटकिलो. दूद हाडूंक वता म्हणून सांगलें तेन्ना ताणेच म्हळें, बेगीन वच. दूद सोंपलें. घशघशीत पावलां उखलून हांव दूदाच्या केंद्रासरी पावतासर थंय बोवाळ जालो. कोण धांवता, कोण कीळचता. पोलीसांनी हवेंत गोळीबार केलो आनी हांव जीव वाटावचे खातीर कुशीचे गल्लीत कोयर उडोवपाखातीर दवरिल्ल्या एका व्हडल्या शिमीटाच्या बल्ला फाटल्यान वचून लिपलों.

जिणेंत ज्या मनशान दंगल म्हण्टात ती केन्नाच पळोवंक नासली. कर्फ्यू म्हळ्यार

कितें तें फकत पेपरांनी वाचिल्लें आनी पोलिसांचो गोळीबार कसो बेफाम आसत हाजी कल्पना लेगीत नासली, तो जीवोत्तम ह्या चक्रांत घुस्पल्लो.

कोयराचो व्हडलो डबो एके बिल्डिंगेच्या कोनशाक वण्टीक घश्टून उबो आसलो. दोन वण्टीमदली बारीक खांच आनी दोशी वाटो उकत्यो. चिखोल आनी कुशिल्ल्या जेवणाची घाण. पूण नाक दामून धरपाइतली विस्कळसाण ना. एक नदर ल्हवूच दुधाच्या केन्द्रावयल्यान भोंवडायली. दिवाळेच्या दिसांनी बॉम्ब फुटचे तेन्ना जो उजो पेटिल्लेभशेन दिसतलो तसले उजे आनी आवाज, लोकांच्यो बोबो आनी हुयेल्यो.

जें दूध विकूंक हाडलां त्या दुधांत विख्ख भरशिलां अशें कोणेतरी म्हळें आनी तेन्नाच बोवाळ जालो. एकल्यान दोग जाणांक सुरयो तोपल्यो. सगळें अचकीत घडिल्लें. पोलीस कुशीक आसतनाय तें घडिल्लें.

आतां जीवोत्तमामुखार दुसरो प्रस्न आसलो. घर फर्लांगभर पयस. वाठार गोळीबाराच्या आवाजान आनी धुंवरान भल्ला. सगळेंच दुबावाचें वातावरण. दूध मेळचें ना इतलें तो जाणा आसलो. पूण आपलो जीव परत सुरक्षित इश्टाल्या फ्लॅटांत व्हरून कसो घालचो ही विवंचना ताका पडिल्ली.

बगलेकच कोणाचो तर अंदून खांकिल्ल्याचो आवाज. जीवोत्तमाक शेळो घाम फुटलो. उठून उबो रावल्यार कोणय तरी पळयत आनी सुरी तोपीत म्हणपाची भिरांत आनी थंयच रावलो जाल्यार जो मनीस खांकिल्लो तो जीव घेत ही भिरांत.

दुसरे खांचीतल्यान ताणे नदर भोंवडायली आनी ताज्या काळजाचो धडधडाट थांबलो. बशिल्ले कडेनच तो कडकडूंक लागलो. कोयराच्या ज्या वल्लाफाटल्यान तो लिपिल्लो ताजेर एका मनशान हात दवरिल्लो.. रगतान भरिल्लो हात. अजून रगत व्हांवता. थेंबे गळटात.

नदर हाताचेर गेली आनी थंयच थिरावली. आपल्यावरीच जिवाच्या भंयान हो लिपला काय हो दंखी सोरपाभशेन कोणाकतरी मारूंक लिपून बसला हें ताका कळ्ळें ना.

घाणीत मेकळेपणान मूस घोंगेताले. ताचे तोंडार वशिल्ले मूस आमुडपाचें त्राण जीवोत्तमांत नासलें. तेय अवस्थेंत ताणे आंग चोरून घेतलें. त्या मनशान अजून ताका पळोवंक ना. कांय आपणाक पळोवन भियेवन तो लिपला?

असलो घुस्मटमार जीवघेणो आसता. ओगींच खांक येता आनी स्वास ताळ्यांत अडखळटा. जीवोत्तम ल्हवू खांकलो.

"कोण है?" कांपरो दटावणेचो प्रस्न.

जीवोत्तमाक हिन्दी उलोपाची संवय ना. तरीय अवसान हाडून रडकुऱ्या आवाजांत ताणे म्हळें, "हांव कांय करिना. हांव जीवाच्या भयान लिपलां."

"हिन्दू है?" दुसरो प्रस्न.

हो सभागी कोण काय? तो ज्या धर्माचो आसत तो धर्म आपलो अशें सांगपाची जीवोत्तमाची तयारी. मनशालें तोंड दिसना. पूण आवाजांत कंप जाणवता. तोय भियेला आसुंये. काय खुनशी मनीस तसोच वागता?

''नाम क्या? बोलता क्यों नही?'' हे खेपे मात्सो दटावणेचो आवाज. पूण जाप कितें दितलो? नांवावयल्यान धर्म कळटा आनी तो धर्म ताजो नासत जाल्यार तो सुरी तोपता.

कितें जातलें तें जावंदी अशें येवजून जीवोत्तमान ताजी काकुळट करून विचारलें, ''तुज्या हाताक कितें जालां?'

''बच्चे का खून है!''

कितें म्हण्टा काय हो? भुरग्याचें रगत? भुरग्याक मारून हो लिपला? हो मनीस कांय राक्षस?

''चलो उठो. यहांसे निकल जायेंगे!'' अशें म्हणून तो मनीस एकदम उठून धांवलो. आनी फाटीफुडें पळयनास्तना जीवोत्तम ताजे फाटल्यान धांवलो.

ताज्या खाक्यांत एक पोटली आसा. पोटलेंतल्यान रगत व्हांवता. मारिल्ल्या भुरग्याक ताणें ते पोटलेंत गुठलायला काय? विचारासरशीं जीवोत्तमाक थरथरो आयलो आनी थंयच घुंवळ येवन तो पडलो.

तो शुध्दीर आयलो तेन्ना चार पोलिसांनी ताका घेरिल्लो. ताणी ताका कितें जाल्लें तें विचारलें, पूण जाप दिवपाचें त्राण जीवोत्तमांत नासलें.

ताणे आपलो पत्तो पोलिसांक सांगलो आनी त्या पोलिसांनी ताज्या हाताक धरून ताका बिल्डिंगेच्या दारांत पावयलो आनी म्हळें, ''परत भायर सरूं नाका. कर्फ्यू आसा!''

बेबद्यावरी लकत लकत जीवोत्तम बिल्डिंगेचे दोन मजले चढून इश्टाल्या फ्लॅटांत गेलो आनी भितर पांय दवरीनाफुडें परत जमनीर कोसळ्ळो.

''कितें जालें?'' इश्टान विचारलें.

''दूध मेळ्ळें ना. थंय गोळीबार जालो.''

''दूधाचें सोड तूं. तूं बरेभशेन घरा परतलो हे देवाचे उपकार. पूण एक सांग, येदो वेळ तूं खंय आसलो?''

ल्हवु ल्हवु जीवोत्तमान आपलो अणभव इश्टाक सांगलो. ताज्या दोळ्यामुखार काळोख आयिल्लो आनी भोंवन भोंवन त्या मनशाले रक्तान भरिल्ले हात आनी ताज्या खाक्यांतली पोटली ताज्या दोळ्यांमुखार येताली.

''लोक सामके पिशे जाल्यात.'' इश्टान म्हळें, ''आतां ल्हान भुरग्याक लेगीत ते अशे मारतात.''

''पूण म्हाका एक समजना.'' इश्टाले बायलेन म्हळें, ''एका भुरग्याक सुरी तोपून मारतकच तो मनीस ताजो देह पोटलेंत गुठलावन खंय गेलो?''

खरेंच हें एक कुवाडें आसलें!

"मागीर त्या कुवाड्याचो उलगडो जालो?"

"हय. दुसरे दिसा इश्टाल्या शेजारच्या फ्लॅटांत रावतल्या एका दादल्यान तो केलो."

ती खबरय जिवोत्तमान म्हाका सांगली. सकाळच्या वेळार ल्हान भुरग्याक दूध हाडूंक म्हूण तागेली आवय दुधाच्या केंद्राचेर वचूंक भायर सल्ली. तिगेलो घोव आदल्या दिसा ऑफीसांत गेल्लो तो परत येवंक नासलो. स म्हयन्यांचें भुरगें. लागींच एका चाळीत रावतालें. मुखावयल्या रस्त्याचेर रणखेवां, शेजारी दार काडूंक कबूल नात. भुरगें भुकेन रडटा. आवयन शेजाऱ्याक म्हळें, "मात्शें भुरग्याक सांबाळटा? हांव दूध घेवन येतां."

शेजारी भुरग्याची जापसालदारकी घेवंक कबूल जायना. पूण एका दादल्याक तिची काकुळट आयली. ताणे गोजडेंत गुठलायिल्लें भुरगें आपलेकडेन घेतलें. आवयन दिल्ल्या बोंबांत आपल्या घरचें दूध घालून तें भुरग्याक पिवयलें आनी आवयक सांगलें, "वेगीन वचून यो."

दीस खूबच वायट आसलो. शीं खूब पडिल्लें. धुकें दाटिल्लें. भोंवतणी जळिल्ल्या घरांचो वास वातावरणांत आसलो. त्या धुक्यांत आवय दुदाच्या केंद्राच्या दिशेन गेली.

दूध घेतकच भुरगें न्हिदले. ताणे ताका आपले खाटेर घालें आनी कुडीचें दार बंद केलें. मुंबयची एक खणी चाळ. दार बंद करतकच सगळो घुस्मटमार. ताणे घराचें जनेल उक्तें केलें. थोडो वारो खेळचो इतलेंच येवजून.

अर्द वर जालें आवयचो पत्तो ना. तो भोवन भोवन पासयो मारता. तिगेल्या बिराडाक भायल्यान कुलप आसा. ती परत येवंक ना. भुरग्याक एकलें सोडून तो भायर एकलो कसो वतलो? तरी तो दुधाच्या केंद्राच्या दिकेन वचून पळयता.

रस्त्याचेर बोवाळ जालो. गोळीबाराचो आवाज आयलो. तो आकांतून धांवत घरांत आयलो. तो आपल्या जीवाचो ताका व्हडलोसो हुस्को दिसलो ना पूण दुसऱ्याचें भुरगें घरांत आसा ताका सांबाळूंक जायं. ताजे राखणेचो पत्कर ताणे घेतला.

घर ही कल्पनाच कितली सुखदिर्णी! घरांत पावलो म्हण्टकच आपुण सुरक्षित आसा अशें मनशाक दिसूंक लागता. ताकाय तशेंच दिसलें.

तशी ती चाळ सुरक्षित. एकाच धर्माचे लोक थंय रावतात. देखून शेजाऱ्यापासून भिरांत ना.

तो भायलेवटेन गॅलरीत रावन पळयता. ताजी नदर भुरग्याचे आवयचे वाटेचेर थिरावल्या. इतले म्हणसर ताज्या कानाचे कुशींतल्यान कितेंतरी गेलें. आर्मीची गुळी वी न्हय मू? आवाज सकाळच्यान येतात. ताका दिसलें आपणाक जाला तो भास.

आंगीच दुबाव येवन कुडींत यो जाल्यार जनेलांतल्यान भितर सर्गिल्ली गुळी भुरग्याचो कंवळो देह भेदून ताजे प्राण घेवन गेल्या. रगताचे व्हाळ व्हांवतात. ताणे व्हडल्यान

किळांच माल्ली. सगळी चाळ ताज्या घरांत आयली. एके चादरींत भुरग्याचो तो रगतबंबाळ देह गुठलावन तो धांवलो. दुधाच्या केंद्राचे दिशेन... आवयचो सोद घेवंक. तिचें भुरगें तिचे सुवादीन करूंक.

पूण केंद्रामेरेन तो पावलोचना. वाटेर कोयराच्या बल्लाफाटल्यान तो लिपलो आनीक उपरांत परत घरा आयलो.

कितें करचें हें ताका समजना जालें. भुरगें मेलां. आवयचो पत्तो ना. एक खेपे आवय येतली आनी आपुण तें भुरगें तिचे सुवादीन करतलों अशें तो येवजितालो. सगळे शेजारी तागेर जमिल्ले. कोणे तरी वचून सकयल उबे आशिल्ल्या पोलिसांक खबर दिली.

एक इन्स्पेक्टर वयर आयलो आनी ताका तरेकवार प्रश्न विचारूंक लागलो.

''ताजी अवस्था येवजून पळय.'' जीवोत्तमान म्हळें.

तो काकुळटेन त्या भुरग्याक आदार दिवंक फुडें सरिल्लो. आनी तोच खुनी जाल्ले भशेन पोलीस ताका प्रस्न विचारताले. ताचेकडेन त्या प्रस्नाक जापो नासल्यो. तरी बरें. आवय भुरग्याक दवरून दूध हाडूंक गेल्ली हें शेजारी जाणा आसले. पूण ती खंय गेली? तिजें कितें जालें हे कोणाकच खबर नासलें.

पोलिसानी सोद सुरू केलो. एके बायलेक सुरी तोपून मारिल्ली. तिजो देह कुशीचे गल्लेंत पडला अशी खबर आयली. पोलीस परत त्या मनशाक सोदूंक आयले. ताका घेवन त्या प्रेतासरीं गेले.

''कितें सांगतलो? तो देह तेच बायलेचो आसलो. भुरग्याले आवयचो.''

इतलें उलयतासर जीवोत्तम धापेवंक लागलो. तो परत कडकडूंक लागलो. ताणे म्हाका घट्ट धल्लो. ताका सांवरीत हांव परत विमानतळावयल्या दालनांत आयलों. ताका कदेलार बसोवन कॉफी हाडून दिली आनी म्हळें, ''हें पळय जीवोत्तम, जें जावपाचें तें जावन गेलें. तूं आनी हांव कितें करतले? तूं ओगीच नर्व्हस जाता. संवसारांत अशें घडत आसता...''

''जाणा हांव. अशें घडिल्ल्याच्यो खबरो पेपरांनी आमी वाचताले. तेन्ना मन चुरचुरलें तरी रोखडोच विसर पडटालो. पुण हें सगळें दोळ्यांसामकार घडटा. आनी खरें सांगता तुका हांवे कांय करूंक ना. तरी म्हजे म्हाका हांव गुन्यावकार दिसता.''

जीवोत्तमाच्या मनावयलो ताण आमी गोंयच्या विमानांत बसले तेन्नाच ल्हव जालो आनी विमान सुटतकच म्हाकाय कित्याक कोण जाणा, एका बंदिवासांतल्यान सुटिल्ल्याभाशेन दिसलें.

●●

# नाटक

दिल्लीच्या एका सभाघरांत डॉ. प्रवीणकुमार चट्टोपाध्याय हांचें व्याख्यान आसलें. त्या दिसाच्या पेपरांनी व्याखानाची जायरात छापिल्ली आनी जायरातींत वक्त्याचो फोटोय छापिल्लो. एका पेपरांत तो फोटो पळयतकच म्हाका दिसलें की वर्तमानपत्रांत कोणालीय तरी चूक जाल्या आनी दुसरोच फोटो ते जायरातींत छापला. पूण जेन्ना दुसऱ्याय पेपरांत तोच फोटो पळयलो तेन्ना तो फोटो डॉ. प्रवीणकुमार चट्टोपाध्याय म्हणपाचो दुबाव उल्लोना आनी कुतूहल वाडलें. भगवीं वस्त्रां घाल्ल्या संन्याशाचो तो फोटो आसलो. गळयांत रुद्राक्षाची माळ, लांब वाडिल्लें खाड, माथ्यार एकय केंस ना. घडये तार्णे दवग्ल्ले नासत. धोंपरामेरेन पावत अशें वस्त्र कमराक गुठलायिल्लें आनी वयर अर्दे उक्तें उत्तरीय.

व्याख्यानाचो विशय आसलो मनोरुग्णाचीं पयलीं लक्षणां आनी तांचेर उपाय. कितें तरी विचित्र दिसलें. वचून पळोवचें अशें मनांत आयलें. पूण म्हजीं कामां सोपून वेळार हांव हॉलांत पावलोंना. हॉल ल्हानच आसलो आनी पुराय भरिल्लो. वातानुकूलीत हॉल जाल्ल्यान दारां बंद जाल्लीं. तरी भायलेवटेन पांच-पन्नास श्रोते उबे आसले आनी एका केवल टीव्हीवयल्यान ते व्याख्यान आयकताले.

हांव मात्सो फाटीं उल्लों तरी केबल टीव्ही वयले डॉ. चट्टोपाध्याय हांचें बिंब निवळ दिसतालें. पेपरांत जायरात आयिल्ली तसोच. एक लाकडी चवदळी. तिचेर तो पद्मासन घालून बशिल्लो आनी इंग्लीश भाशेंतल्यान उलयतालो. चार वाक्यां आयकतच म्हाका समजलें की विशय वैजकी आसलो. वैजकी विज्ञानाच्या आदारान आनी वैजकी परिभाशिक उतरांचो वापर करून तो उलयतालो. जाका वैजक शास्त्राचें मुळावें गिन्यान ना अशा म्हज्यासारख्या आयकुप्याक तें व्याख्यान दुर्बोध आसलें. हांवें एका आयकतल्याक हात लावन विचाल्लें. "हें वैजक शास्त्रावयलें व्याख्यान?"

तो व्याख्यान आयकुपांत इतलो गुल्ल जालो की ताणें हात फांफडून म्हाका कुशीक सरूंक सांगलें. जाप दिलीना. पूण दुसरो एक श्रोतो म्हजेवरीच उबगल्लो. ताणे म्हाका कुशीक आपोवन सांगलें, 'तुजेवरी म्हाकाय हें अध्यात्मावयलें प्रवचन आसतलें अशें दिशिल्लें. पूण हे शुध्द शास्त्रीय व्याख्यान आनी तेंय बी विज्ञानिकांखातीर."

"एक संन्याशी असलीं व्याख्यानां दितां म्हळ्यार अजाप म्हणूंक जाय." हांवें म्हळें.

"सादो संन्याशी न्हय तो. कलकत्यातलो एक नामनेचो सायकीयाट्रीस्ट आसलो. तो युरोपांत वचून उंचयलें शिक्षण घेवन आयिल्लो. ताची प्रॅक्टीस बरी चलताली. पूण कितें तरी घडलें आनी ह्या मनशान संन्यास घेतलो. तो हिमालयांत रावता. थंय आपल्या विशयांचे चिंतन, मनन आनी लेखन करता. हेर साधूंभाशेन तो देवाचें ध्यान वा आध्यात्मिक साधना करिना. शिंयाच्या दिसांनी सकल देंवता. दिल्ली, कलकत्ता आनी एकाद्या वेळार इंग्लंड, अमेरिकेक वचून येता आनी आपल्या विशयाचेर व्याख्यानां दिता."

"तुका हें सगळें कशें कळ्ळे? ताका वळखता?" हांवें त्या श्रोत्याक विचाल्लें.

"ना. पूण म्हजो एक प्रस्न आसा. म्हजो तरुण चलो एकाएकी विचित्र वागूंक लागला. ताणें मोग करून आपलें लग्न थारायिल्लें आनी ते चलयेवांगडा तो भोंवतालो. दोगांय एकाच ऑफिसांत काम करतात. साखरपुडो बी सगळे जालें... आनी अचकीत तो तिचेकडेन लग्न जायना म्हण्टा...."

म्हाका दिसले हो विशयांतर करता. हांव ताका व्याख्यानाविशीं विचारतालों. तो आपलो प्रस्न म्हाका सांगूंक लागलो. हांवें ताका म्हळें, "तूं डॉ. चट्टोपाध्यायाविशीं कितें सांगतालो न्हय?

"हय. तीच खबर सांगता तुकां" ताणे म्हळें, "म्हज्या चल्याक एकाएकी विरक्ती कित्याक आयली? तो लग्नाक कित्याक तयार जायना? जिचेर तो मोग करतालो आनी जिची वळख आपली बायल म्हणून सगळयांकडेन करून दितालो तिच्या तोंडार नदर घालूंक तो कित्याक कवूल जायना? हांवें चलयेक विचाल्लें. तिकाय कारण कळना. ती म्हण्टा, वाद झगडें कांयच जावंक ना. हांवें ताका एक सायक्रीयाट्रीस्टाक दाखयलो आनी ताणे म्हळें, डॉ. चट्टोपाध्यायाकडेन ही केस व्हरपासारकी आसा. ह्या व्याख्यानाविशीं डॉक्टरानच म्हाका सांगलें. देखून हांव हांगा आयिल्लों."

"पूण तुका डॉक्टर चट्टोपाध्यायाचे पूर्वजिणेची खबर कोणें सांगली? तुज्या डॉक्टरानच?"

"न्हय. आज व्याख्यानाचे सुर्वेक आयोजकांनी ताची वळख करून दितना जें सांगिल्लें तेंच हांवें तुका सांगलें."

हांव थंयसून परतूंक लागलो. ताणे म्हळें, "तूं वता जाल्यार वच. म्हाका व्याख्यान सोंपसर रावचें पडटलें."

हांव दुसऱ्या कामाक गेलों तरी तकलेंत डॉ. चट्टोपाध्यायाचो विशय घोळत उल्लो. दुसऱ्या दिसाच्या पेपरांत डॉ. चट्टोपाध्यायाच्या व्याख्यानाचो रिपोर्ट वाचतकच विज्ञानिक मळाचेर ताचें स्थान कितलें उंचयलें आसा हाची म्हाका कल्पना आयली. विव्दान मनीस हे विक्षिप्त आसतात आनी असल्या विक्षिप्तपणाक लागून ते एकाद्रें पिशेंपण करून बसतात. डॉ. चट्टोपाध्याय हांणी वैजकी प्रॅक्टीस सोडून संन्याशाची जीण कित्याक पत्करली काय?

कांय योगायोग विचित्र आसतात. कथांनी ते बरयले जाल्यार वाचप्यांक ते अडेंचे दिसूं येतात. डॉ. चट्टोपाध्यायाकडेन म्हजी भेट दुसऱ्या दिसा अपघातानच घडली. म्हज्या एका बंगाली मित्रान म्हाका एका हॉटेलांत मेळूंक आपयिल्लो. वेळ जालो तरी तो आयलो ना. हांव भितर वचून बसलो आनी कॉफी मागयली. एके तरेन मित्राची वाट पळयतना वेळ सारपाचो तो उपाय आसलो.

तेन्ना म्हजी नदर कुशीच्या मेजार बशिल्ल्या त्या दादल्याकडेन गेली. ताच्या सांगातान आनी दोग जाण आसले आनी कॉफी पियेतालो. तोच डॉ.प्रवीणकुमार चट्टोपाध्याय न्हय मूं असो म्हाका दुबाव आयलो. हांवे पेपरांत ताचो फोटो पळयिल्लो आनी टीव्हीच्या पडद्याचेर थोडो वेळ ताका पळयिल्लो. माथ्याक एकूय केंस ना. वाडिल्लें खाड. भगवीं वस्त्रां आनी गळ्यांत रुद्राक्षाची माळ. दिल्लीत कनाट प्लेस च्या हॉटेलांत मात तो विसंगत दिसलो. मनांत आयलें उठून ताचेसरीं वचून वळख करून घेवची.

अचकीत म्हजो इश्ट आयलो. पयसुल्ल्यान ताणे म्हाका हात केलो आनी एकदम शेजारच्या मेजाकडेन वचून त्या भगवीं वस्त्रां घालून बशिल्ल्या मनशाक ताणें हटकिलो. तांची बरी वळख आसूं जाय. ताणे ताका आपले कुशीक बसोवन घेतलो.

हांव तांकां पळयत आसलों. म्हज्या इश्टान ताका हांव वाट पळयतां हें सांगलें आसूंये. तांगेल्या मेजार आनीक जागो नासलो. तो भगवीं वस्त्रां घाल्लो मनीस इश्टा सांगातान उठून हांव बशिल्ल्या त्या मेजार येवन बसलो. वळख करून दिवपाचो उपचार जालो.

''हांव तुमकां वळखतां.... डॉ. चट्टोपाध्याय'' हांवें म्हळें.

ताका अजाप दिसलें ना. घडये अशे तरेन हटकुपी खूब लोक ताका सदांच भेट्टाले आसुंये.

डॉ. चट्टोपाध्याय आमच्या मेजार पांच मिण्टा बसलो आनी उठून गेलो. तो वतकच हांवें इश्टाक म्हळें. ''कसो योगायोग पळय. ह्या मनशाचें व्याख्यान आयकूंक काल हांव गेल्लों. पूण म्हाका हॉलांत प्रवेश मेळ्ळो ना आनी आज तोच मनीस इतल्या लागींच्यान उलोवंक मेळ्ळो.''

''हांव ताचें चरित्र बरयतां.'' इश्टान म्हाका सांगलें, ''आतां चार वर्सां जालीं, म्हजें लेखन अडलां. तो मेळना आनी मेळ्ळो जाल्यार ताका उसरपत नासता. अर्द वयर वरोवन जालां....''

''तशें जाल्यार म्हज्या प्रस्नाच्यो जापो दिवंक तूंच पुरो.'' हांवें म्हळें.

''ना रे बाबा ना.'' इश्टान म्हळें. ''तागेलो विज्ञानिक विशय म्हाका समजना. इतलो जाणकार डॉक्टर. लोकांक तपासपाचें काम केल्लें जाल्यार लाखांनी रुपया जोडपाचो आनी लोकसेवा केल्ल्याचे पुण्यय ताका मेळपाचें. पूण सभागी विक्षिप्त. दोन म्हयन्यांखातीर हिमालयांतल्यान सकल देंवता आनी असलीं व्याख्यानां दिता वा उपचार करता. ज्या कोणाक ताचो लाभ मेळटा तो भाग्यवान.''

“म्हजें काम मानसिक रोगाचेर उपचार घेवपाचें न्हय. म्हाका फकत ताचेविशीं समजून घेवपाचें आसलें.”

“कितें समजून घेवपाचें आसा?” इश्टान म्हाका विचाल्लें. “खासा तो एक नामनेचो सायकीयाट्रीस्ट आनी तो मनोरुग्णय. हेरांक तो वखदां दिता. पूण खासा ताका उपचाराची गरज आसा...”

“म्हजें कुवाडें इतलेंच की हो नामनेचो सायकियाट्रीस्ट आसूनय असो संन्याशाचो भेस कित्याक करता... हिमालयांत संन्याशाची जीण कित्याक जगता?”

“तुका ताचेविशीं कोणे कितें सांगलां?” इश्टान विचाल्लें.

“कोणे कांयच सांगूक ना. काल तागेल्या व्याख्यानाची जायरात वाचली तेन्ना म्हाका दिसलें साधू हो अध्यात्माचेर उलयतलो. वेळ आसलो देखून हॉलाकडेन गेल्लों. थंय समजलें तो सायकियाट्रीचेर व्याख्यान दिता. तेंयवी तो विशय समजतल्या लोकांखातीर. हॉलाभायर मेळिल्ल्या एका मनशान म्हाका सांगलें की बरी प्रॅक्टीस सोडून ताणें संन्यास घेतलो....”

“खरेंच अजापाची जीण ताची.” इश्टान म्हळें, “तो एक तपश्चर्या करतालो. ताचे जिणेंत अचकीत मेनका आयली. आनी सगळें गडवडलें.”

“म्हळ्यार कितें? प्रेमभंगाचो प्रकार?”

“ना. तसोय न्हय. ताणें एक प्रयोग केलो, आनी थंय सगळें गडबडलें.”

“कसलो प्रयोग केलो? तो लग्न जाला काय जावंक ना?”

“लग्न थारिल्लें. खंयच्याय खिणाक जावपासारकें आसलें. तो एके चलयेच्या मोगांत पडिल्लो. जल्मभर ब्रह्मचारी रावपाचो सोपूत घेवन बशिल्ल्या ह्या मनशाचे जिणेंत एक बायल आयली आनी ताची जीण पुराय बदल्ली.”

“तिणें लग्नाक नकार दिलो?”

“सगळी खबर सांगतलो जाल्यार दोन वरां पावचीं नात. तागेल्या चरित्रांत हांवे हें सगळें बरयलां. तुका जाय आसत जाल्यार हांव म्हजें हात बरप तुका वाचूंक दितां. थोड्या प्रस्नाच्यो जापो तुका मेळटल्यो. पूण अजून सगळें चरित्र बरोवन जावंक ना. ज्यो जापो बरोवंक नात त्यो तुका हांवय दिवंक शकचो ना.” इश्टान म्हळें.

त्याच दिसा हांवें तें हातबरप म्हजेकडेन घेतलें. हातबरप म्हळयार एक टांचण कशें आसलें. अजून ताका चरित्राचो आकार येवंक ना तरीकय तें टांचण एकाद्रे कथेसारके हांवें वाचून काडलें.

खंयच्याय बंगाली मनशासारकोच प्रवीणकुमार हो एक रसिक मनीस.गायन, नाटक आनी साहित्य हे ताचे आवडटे विशय. न्हंयचे देगेर बसून तो वरांचीं वरां मुरली वाजयतालो आनी तशें करतना तान भूक विसरतालो, अशें ताची आजी सांगताली. चड करून तो आजोळाच ल्हानाचो व्हड जालो. तागेलो आजो नाटकांनी काम करतालो आनी आजी ताका बऱ्याबऱ्या पुस्तकांतल्यो काणयो सांगताली.

प्रवीणकुमाराचो बापूय पयसुल्ल्या गांवांत डॉक्टर आसलो. ल्हान खेडें. शिक्षणाची सोय नाशिल्ल्यान प्रवीणकुमाराक आजोळाच दवरिल्लो. ताचो एक मामा सरकारी कचेरेंत काम करतालो. ताकाय साहित्य, संगीत, कलेची मोटी आवड. सुटयेच्या दिसांनी तो आपल्या इश्ट-मित्रांक पुंजायतालो आनी घराकडेन मैफली घडयतालो.

आज्जेक मात प्रवीणकुमाराचीं लक्षणां सारकीं दिसनासलीं. तो मुरली बरी वाजयता हाचें कौतुक सगळयांकच दिसलें तरी तो न्हंयचं देगेर वचून बसता, वेळार जेवंक येना ही आज्जेची तक्रार आसली. पूण शाळेंतल्या अभ्यासांत सदांच उंचेलो नंबर जाणे सोडलो ना त्या प्रवीणकुमाराविशीं कोणाची कागाळ आसपाचें कारण नासलें. देखून आज्जेची कागाळ कोणच कानामनार घेनासले.

हायस्कूलमेरेनचे शिक्षण आजोळा रावन घेतलेउप्रांत फुडलें शिक्षण घेवंक प्रवीणकुमार कलकत्याक गेलो. फुडलीं सगळीं वर्सां ताणे कलकत्याकच सारलीं. मन लावन अभ्यास केल्ल्यान तागेलें शिक्षण खंड पडनासतना चालू उल्लें आनी जायत्यो शिष्यवृत्योय ताका मेळ्ळ्यो. पूण तागेल्या आंगात आशिल्ल्या हेर गुणांची वळख लोकांक खूब उसरां मेळ्ळी.

तो मेडीकल कॉलेजींत शिकतना कॉलेजीच्या विद्यार्थ्यांनी एक संगीत नाटक बसयिल्लें. नाटक एके नर्तकाचे जिणेची कथा आसली. ऐन वेळार नाटकाक संगीत दिवपी संगीतकाराचो कोणतरी मेलो आनी तो गांवाक गेलो. कॉलेजीचें नाटक अडलें. कलकत्ता शारांत नाटकांनी काम करपी नट वा वरोवपी दिग्दर्शक पयशे दिल्यार जाय तितले मेळटात. पूण एक बसयिल्लें नाटक पूर्ण करपाखातीर जे तरेचो संगीतकार जाय आसलो तो मेळ्ळोना.

प्रवीणकुमार नाटकाच्या येसायांक वचून बसतालो. ह्या विद्यार्थ्याक नाटकांत काम करता काय म्हूण विचारपाचें कोणाक येवजूंक नासलें. प्रॉम्पटर म्हणून ताची वेंचणूक नाटक विभागाच्या सेक्रेटरीन केल्ली आनी तें काम तो बेस बरें करतालो. सगळ्या पात्रांचीं भाशणां सूर अभिनयासयत प्रवीणकुमाराक पाठ आसलीं.

मेडीकल कॉलेजीच्या नाटकाक नाट्य, संगीत आनी नाचाचीं इनामां मेळटलीं असो बोवाळ खूब आदीं सावन जाल्लो. अचकीत संगीतकार गेल्ल्यान तांगेल्या नाटकाचो प्रयोगच जावचोना अशी खबर लेगीत रोखडीच शारभर पातळ्ळी. आतां फुडें कशें करपाचें हे विवंचनेत नाटकांतलीं पात्रां आसतना प्रवीणकुमारान म्हळें, "कोणाफाटल्यान ह्या संवसारांत कांयच अडना. बुध्द आयलो आनी गेलो. ख्रिस्तय खुरसार चडलो. राम आनी कृष्ण जंय अवतार सोपोवन गेले थंय एक संगीतकार गेलो म्हणून नाटक बंद पडपाचें कारण ना."

झुजांत माघार घेतल्या लश्कराक स्फूर्त दिवपासारकें तें भाशण आसलें. सगळ्यांनी ताळयो मारल्यो. पूण नाटकाचो दिग्दर्शक तापलो. ताका दिसलें हे आपली फकाणा करतात. घायाचेर मीठ चोळटात. ताणे म्हळें, "तशें जाल्यार तूं दी संगीत."

प्रवीणकुमाराक तें आव्हान आसलें. घडये ताच्या मनांतली ती इत्साय आसली. तो

रोखडोच कबूल जालो आनी जेन्ना ताणे संगीतकाराचीं सुत्रां हातांत घेतली तेन्ना सगळेच अजापान आनी अविस्वासान ताका पळयत रावले.

मूळ संगीताक ताणें नवो साज चडयलो. मुरली वाजोवपाचें काम आपणाकडेन घेतलें आनी हिंदुस्थानी संगीताक लोकसंगीताचे स्वर जोडून एक सुंदर वातावरण निर्माण केलें.

ते सर्तींत सगळीं इनामां मेडीकल कॉलेजीक मेळळीं आनी संगीतकाराचो सर्तीच्या आयोजकांनी भौमान केलो. पूण जेन्ना नाटकाची सर्त सोंपली आनी दुसरो एखादो प्रयोग करपाखातीर बाकीचे विद्यार्थी आग्रो करूंक लागले तेन्ना प्रवीणकुमारान तांकां सरळ सांगलें. ''आतां सगळो वेळ अभ्यासाक दिवंक जाय. म्हाका जिवितांत नाटकां करपाचीं ना. म्हाका डॉक्टर जावपाचें आसा.''

मेडीकल कॉलेजीची एक विद्यार्थिनी नीलाक्षी. रुपान सुंदर तितलीच हुशार. नाटकाची ती नायिका. तिच्या आवाजांत जी गोडी आसली ताका लागून तिणे गायिल्ल्या गीतांचे सूर आयकतल्यांच्या मनांत घुमत उरताले. ती नाचतना जे तरेन आंगाक पीळ घालताली तें पळयलें जाल्यार माचयेचेर रबराची बावलीच नाचता अशें दिसतालें. तिची खूब इच्छा आसली की, त्या नाटकाचो आनीक एक प्रयोग जावचो आनी आपणे मागणी केली जाल्यार प्रवीणकुमार ना म्हणचोना असो तिका भरवंसो आसलो. पूण जेन्ना प्रविणकुमारान तितल्याच रुक्षपणान नीलाक्षीकय नकार दिलो तेन्ना आपलो अपमान जाला अशें तिका दिसलें आनी प्रवीणकुमाराक नाटकाच्या प्रयोगाक कबूल करीन तर खरी नीलाक्षी... नाजाल्यार हांव परत हातांत तंबोरो धरची ना, पायांक नुपूर बांदचीना, माचयेर चडचीना अशी तिणे प्रतिज्ञा केली. ती अदीमदीं प्रवीणकुमारासरीं वताली. केन्ना अभ्यासांतल्यो अडचणी विचारूंक वा हरशींच नाटकाविशीं, संगीताविशीं चर्चा करूंक. दोगांयली चर्चा रंगताली. तसो प्रवीणकुमार नीलाक्षीक खूब मानतालो. नीलाक्षीविशीं कॉलेजांत तरातरांच्यो वदंता आसल्यो, ज्यो ताच्याय कानार पाविल्ल्यो. पूण जोमेरेन आपूण आपले मर्यादेत रावता तेमेरेन आपणाक कोणाची भिरांत बाळगुपाचे कारण ना अशें प्रवीणकुमार येवजितालो.

नीलाक्षीचें घर कलकत्यातच. प्रवीणकुमार हॉस्टेलांत रावपी विद्यार्थी. एक दीस नीलाक्षीन ताका म्हळें, ''तुजेकडेन उलोवंक म्हाका खूब आवडटा. पूण चल्यांच्या त्या हॉस्टेलांत तुज्या रुमांत येतना संकोच जाता... हांव हॉस्टेलाचीं सपणां चडटा तेन्ना सगळे चले म्हजेर नदर थिरावन असभ्य थोमणे मारतात.''

''तांचो गुन्यांव ना.'' प्रवीणकुमारान जाप दिली.'' हें चल्यांचें हॉस्टेल आनी हांगा एके चलयेन चल्यांच्या हॉस्टेलांत अशीं वराचीं वरां बसचें न्हय.''

''तुका दिसलें किर्ते हांव तुजेर मोग करूंक हांगा येता म्हणून? अभ्यासांतल्यो अडचणी विचारूंक येतां. संगीत नाटकाची तुका आवड देखून त्या विशयार उलयतां. बरे बरे भुरगे म्हजेफाटल्यान लागल्यात हें घडये तुका खबर नासतलें.... हांव तुजें स्थान जाणा आनी म्हजी मर्यादा जाणा.''

उतराक उतर मेळत गेलें. नातें जुळचे आदीच तुटलें. नीलाक्षी हॉस्टेलांत येवपाची बंद जाली. नाटकाचो दुसरो प्रयोग जालोच ना. अभ्यासक्रम पूर्ण जालो. पूण पुराय कॉलेजींत नीलाक्षीन प्रवीणकुमाराविशीं नस्त्यो खबरो पातळायल्यो. प्रवीणकुमाराच्या जाग्यार दुसरो कोणय आशिल्लो जाल्यार कॉलेज सोडून घरा वतलो आसलो. पूण प्रवीणकुमाराचेर ताचो कसलोच परिणाम जालोना. अभ्यास आनी वाचन, केन्नातरी संगीताची साधना करीत ताणे दीस सारले. भांगराचें पदक मेळोवन ताणें अभ्यासक्रम पूर्ण केलो आनी तो उंचेलें शिक्षण घेवंक इंग्लंडाक गेलो.

"म्हज्या जिवितांत साबार प्रकरणां येवन गेलीं. एकेका कालखंडात एक - एक प्रकरण. एका प्रकरणांतल्यान दुसरें उपजल्लें आसलें तरी म्हजेपुरतो एक सोपिल्लो कालखंड हो सदांखातीर सोंपिल्लो आसता." लेखक मित्राक दिल्ले मुलाखतींत प्रवीणकुमारान सांगलां.

प्रवीणकुमाराच्या जिविताचीं तासां साबार. भुरगेपणांतले ल्हान-व्हड प्रसंग ताणे जे तरेन आपल्या चरित्रकाराक सांगले, ते पळयतकच मनशाच्या सभावाची घडण तागेल्या जिणेनच केल्या हें दिसता.

त्या उप्रांत प्रवीणकुमाराचे जिणेंत नीलाक्षी परत आयलीना. तेविशीं चरित्रकारान प्रस्न विचारल्यार ताणे जाप दिली. 'अशो जायत्यो नीलाक्षी आनी मीनाक्षी एकेका कालखंडात म्हजे जिणेंत येवन गेल्यो आसतल्यो. पूण कित्याक म्हूण हांव नकळ, म्हजी आजी आनी आवय सोडल्यार संवसारांतले खंयचेय चलयेकडेन वा बायलेकडेन म्हजें केन्नाच जुळ्ळेंना. मोगाचें नाटक रचून म्हजेकडेन लग्न जावंक सोदतल्यो शारांतल्यो चलयो थोड्यो नासल्यो. पूण हांवें तांकां प्रतिसाद दिलो ना. लागींच्या आनी पयसुल्ल्या नात्यांतल्यो वा वळखीच्यो मुग्ध अशिक्षित वा संकोची चलयांनी म्हजेखातीर सोडिल्ले सुस्कार हांवें आयकूंक नात अशें न्हय. पूण म्हजें काळीज तांचेखातीर कळवळ्ळेंना. लग्नाच्या बाजारांत चल्यांक मागणी कितली आसा हें हांव जाणा. अडिल्ल्या चलयांचे बापूय तांच्यो सोयरिको घेवन म्हजेसरीं येताले तेन्ना तितल्याच निग्रहान हांव तांकां परतितालों.... तुका सांगल्यार खरें दिसचेंना, पूण एक खेपे एक गरीब बापूय आपली लाचारी रडत म्हजेसरी आयलो तेन्ना हांवें नकार दितना तागेले चलयेच्या लग्नाखातीर पयशांचो आदार दिवन उडयलो."

असो डॉ. प्रवीणकुमार चट्टोपाध्याय. कलकत्ता शारांत ताणें आपलो दवाखानो घालो आनी थोड्या दिसांभितर नांवलौकीक जावन तो पयशे जोडूंक लागलो.

पिशांचे डॉक्टर हे पिशेच आसतात काय? रात दीस पिशांकडेन संबंध आयिल्ल्यान तांची तकली घुंवता काय? चरित्रकार लेखक एका प्रकरणाचे अखेरेक उकतेपणान हे प्रस्न विचारता.

***

चाळीशी फाटीं पडली तशी जाण्टेपणाची लक्षणां जाणवूंक लागलीं. हे पिरायेचेर

प्रवीणकुमाराचें लक्ष परत नाटकाचेर थिरावंक लागलें. बंगाली रंगमाचयेक त्या दिसांनी एकेतरेंचो चंवर आयिल्लो. मदल्या काळार सिनेमाक लागून फाटीं पडिल्ली रंगमाची नवे-नवे प्रयोग करून रसिकांचीं काळजां जिखूंक पाविल्ली. बऱ्या बऱ्या नाटककारांची नाटकां पळोवंक लोक गर्दी करताले आनी म्हयन्याचे म्हयने आदीं प्रयोगाच्यो तिकेटी खपताल्यो.

दुसरे वाटेन डॉ. प्रवीणकुमाराची कीर्त देश-विदेशांत फांकारिल्ली. लार्गीचे आनी पयसुल्ले लोक ताचो सल्लो घेवंक मुजरत कलकत्याक येताले. तागेली प्रॅक्टीस जे तरेन चलताली ती पळयल्यार देशांत कसल्या तरांचे मनोरुग्ण आसात हाची कल्पना येताली.

''प्रॅक्टीस इतली बरी चलता आसतना तुका नाटकां पळोवंक वेळ कसो मेळटालो?'' चरित्रकारान प्रवीणकुमाराक विचाल्लें.

''खरें म्हळयार तरातरांचे रोगी पळोवन म्हजें मनच रोगी जाल्लें. प्रस्न कसले कसले? कोण मोगांत पडून पिसो जाता. कोण विरहांतल्यान. थोडे दुबळे अहिंसक! रात-दीस तांचे प्रस्न समजून घेतां-घेतां म्हजें मन उदास जातालें. घराकडेन परत येतकच तीं चित्रां दोळयांमुखार नाचूंक लागतालीं. मागीर हांव मुरली भायर काडटालों. एका काळार मुरली वाजोवन हांवें म्हजीं दिसा सपनां रंगयलीं आनी दुःखां विरगळायलीं. पूण ती मुरलीय मनाचे हुलप थांबयना हें पळयतकच हांव नाटकांक वचून बसूंक लागलों.''

सगळया थेटरांक डॉ. प्रवीणकुमारान सांगून दवरिल्लें. नवें नाटक आयलें म्हण्टकच पयल्या प्रयोगाची एक तिकेट ताका राखून दवरपाची. सगळीं थेटरां तशें करतालीं. डॉ.प्रवीणकुमार, जाची मुलाखत घेवपाखातीर वायटकारांक म्हयन्याचे म्हयने वाट पळोवची पडटाली तो, नव्या नाटकाचो पयलो प्रयोग केन्नाच चुकयनासलो. नाटकां पळोवपांत डॉ.प्रवीणकुमार इतलो गुल्ल जातालो की तो दीसभरयाच्या कामाचो शीण विसरतालो. एक दीस ताणे एका मनोरुग्णाच्या जिवीतावेलें नाटक पळयलें. नाटक खूबच प्रभावी जाल्लें. कलकत्याक खूब दीस तें चल्लें. नाटक पळयतल्या प्रेक्षकांच्या दोळयांतल्यान उदक आयलेंना अशें घडनासलें.

हें सगळें नाटक इतलेंच न्हय तर नाटककारान मनोरुग्णाचे पात्र जे तरेन उबें केलां तें वेव्हाराक वा शास्त्राक धरून ना... मात्शें अडेचें जाला हे कळळे उपरांत लेगीत डॉ. प्रवीणकुमार नाटक पळयतना रडलो. पूण त्या नाटकान ताका एक नवी प्रेरणा दिली. मनोरुग्णाच्या प्रस्नाचेर आपणे एक नाटक बरोवचें अशें ताका दिसूंक लागलें. ताचेकडेन तरेकवार रोगी येताले. पूण एक रोगी असो आसलो जाची डॉक्टराक काकुळट दिसताली. ताची कथा प्रवीणकुमारान आयकून घेतली. एक निरक्षर तरुण. लोकखेळांत नायकाची भूमिका करपी पात्र ह्या नात्यान तागेल्या वाठारांत लोक ताका वळखताले. हरशीं मजुरी करून पोट भरपी तो तरनाटो संगीताचो खुबच शौकीन आसलो.

तागेल्या खेळाचे प्रयोग पळोवंक एक नर्स येताली. त्याच गांवची चली. नर्सिंगाचो कोर्स पूर्ण करून ती हॉस्पिटलांत काम करताली. तिका लोकनाट्याचें पिशें. खंयय नाटकाचो प्रयोग आसल्यार ती मुजरत येताली. गांवच्या प्रेक्षकांमदी धवी फुल्ल साडी

न्हेंशिल्ली ती चली नदरेंत भरताली. वीस-बावीस वर्सांची, गंवाच्या रंगाची. सुंदर दोळ्यांची ती चली नाटक पळयतां पळयतां नायकाचेर भाळ्ळी आनी नायकाचें मनय तिचेर बसलें.

नाटकाचो प्रयोग चलता आसतना अचकीत तांच्यो नदरो एकामेकांक मेळच्यो आनी नायक पाठ केल्लें भाशण विसरून तिका तटास नदरेन पळयत रावंक लागलो. एक-दोन खेपे हेरांक कांय कळ्ळें ना. पूण जेन्ना वयलेवयर तशें घडूंक लागलें तेन्ना लोक उकतेपणान नायकाच्या आनी ते नर्सीच्या मोगाच्यो खबरो उलोवंक लागलो.

ती कोण? खंयची? कितें करता? नायकाक कांय एक खबर ना. पूण तिचेर नदर पडनाफुडें तो आकुळपिकुळ जाता आनी ताका पळयलो ना जाल्यार ती पिशांतरावरी जाता. गांवचे पंचायतीकडेन नायकाआड कागाळ वता. पयशे घेवन तो नाटकाचो प्रयोग कबुल करता. पूण तिका पळयनाफुडें नाटक बंद पडटा...

पंचायतीच्या कामाची पध्दत वेगळी. ती आरोपींक आपल्या मुखार आपोवन हाडटा आनी तांकां लग्न जावपाचो आदेश दिता. निवाडो आयकून ती खुशालभरीत जाता. तोंय मुरकुटून वता आनी लग्नाची तयारी जाता.

पुनवेच्या दिसा लग्नाचो म्हूर्त थारता. लग्न व्हंकलेच्या गांवात दबाज्यान जाता. आपल्या नायकाचें कौतुक करून ताका आशिर्वाद दिवचे खातीर त्या वाठारांतलो सगळो लोक लग्नाक हाजीर रावता. लग्नाचो सुवाळो परंपरेक धरून जाता. लग्न सोंपतकच आयिल्ले लोक परततात. व्हंकलपावणी भायर काडपाचो म्हूर्त रातीच्या बारा वरांचेर थारला.

व्हंकलेचो गांव एके देगेर. न्हवऱ्याचो दुसरे देगेर. मदी न्हंय. व्हड्यान वचपाचें.

व्हंकलपावणी व्हरूंक व्हडें सजोवन दवल्लां. न्हवरो व्हंकल वाजंत्र्यांसयत व्हड्यांत चडटात. मळबांत पुनवेचो चंद्रीम चकचकता. रुप्याचें चान्ने सगळ्या वाठारांत पातळ्ळां. मंद वाऱ्यान न्हंयच्या पात्राक माणकुलीं ल्हारां येतात आनी चान्न्यांत तीं रुप्यावरी चकचकतात.

व्हडें देगेपसून पयस जालें. वाजंत्र्यांचे बेसूर वाजोवप न्हवऱ्याक रुचलें ना. तो आपली मुरली घेता, व्हड्याच्या एका टोकाक वचून बसता आनी मुरली वाजोवंक लागता. सगळें वातावरण धुंद आनी संगीताचे मधूर सूर. सगळे लोक तल्लीन जावन आयकतात...

अचकीत व्हडें हालता. मळब नितळ आसतनाय वारें व्हावंक लागता. लोक आकांतून धांवता...

व्हडें बुडटा.

खुबशे लोक बुडून मेले. जांकां पेवंक येतालें ते वांचले. न्हवरो वांचता. व्हंकल मरता...

त्या खिणाक सावन न्हवऱ्याक पिशें लागता.

डॉ.प्रविणकुमार चट्टोपाध्याय त्या न्हवऱ्याचेर उपचार करता. ताचे जिणेचेर नाटक रचपाचें तो थारायता. कथेचो पूर्वार्ध तो जाणा. उत्तरार्ध तो बरयतलो.

त्या दिसाच्यान डॉ. चट्टोपाध्याय नाटक बरोवंक गुल्ल जालो. नाटक बरयतलो आनी माचयेर हाडून दाखयतलो.

हें नाटकच डॉ. प्रविणकुमाराचे जिणेक नवी दिशा दिवपाचें आसलें.

चरित्राचे नोट्स वाचतां - वाचतां हांव सगळें नाटक दोळयांनी पळयतां अशें म्हाका दिसलें.

*****

पेशंटाचेर उपचार चालू आसा. डॉ. प्रवीणकुमार चट्टोपाध्याय आपले परीन तरेकवार प्रयोग करता. ह्या प्रयोगांतलो जो प्रयोग फळादीक जातलो त्या प्रयोगाचो नाटकाच्या उत्तरार्धात तो आस्पाव करून घेवंक सोदता. मानसिक रोगशास्त्राच्या पुस्तकांनी जितलेय प्रयोग सांगल्यात तांचो कसलोच उपेग जायना. पूण डॉ. चट्टोपाध्याय हार खावंक कबूल ना. तो प्रयोग करता. मुरली वाजोवपाचो प्रयोग ताणे केलो. रोगी उत्तेजीत जाता आनी आकूळ पिकूळ जावन चारय दिकांनी तो नर्सीक सोदता जिचेकडेन ताचें लग्न जाल्लें. पूण दुसऱ्याच खिणाक तो निर्शेवन रडूंक लागता. ल्हान भुरग्यासारको तो रडटा.

कांय प्रतिकां त्या कलाकाराच्या मनांत थिराविल्लीं आसात. पुनवेची रात, व्हडें, न्हंयचें पात्र, नर्स आनी चड म्हळयार व्हंकलेच्या भेसांतली ती...

हॉस्पिटलांत नर्सी दिसपट्ट्यो रुग्णाच्या म्हऱ्यांत पावतात. एक नर्स आसा. खूबच गोरी आनी सुंदर. डॉ. प्रवीणकुमार तिका विस्वासांत घेता. तिका समजायता. म्हणटा, नर्सीचें आनी डॉक्टराचें काम फकत वखद दिवन सोंपना. रोग्याची गरज वळखून केन्ना ताची आवय जावचें पडटा. केन्ना ताची बायल, केन्ना ताची प्रिया, केन्ना ताची भयण.''

''पूण म्हाका भंय दिसता.'' नर्स सांगता, ''जेन्ना तो म्हाका पळयता तेन्ना न्हिदिल्लो एकदम उठून बसता. आपले दोनय हात उकते करून म्हाका वेंग मारूंक सोदता. एक खेपे ताणे म्हाका घट वेंगांत धल्ली आनी कसोच सोडीना जालो...''

डॉ.प्रवीणकुमार हांसलो आनी ताणे नर्सीक सांगलें, ''ताचो गुन्यांव ना. तुवें समजूंक जाय. नर्सीचें काम वेगळे तरेचें आसता. सगळेच रोगी हे मनोरुग्ण आसतात. ताचें मन दुखोवंक फावना. आमचेकडेन येवपी रोगी तर पिशेच आसतात. हांव तुका इतलेंच सांगूक सोदता की तुजेकडेन वागता आसतना तो रोगी पिशाच्या झटक्यासरशीं वागता. हांव तर म्हणन तो तसो वागलो जाल्यार तो सुदारिल्ल्याचें तें लक्षण म्हणूं येता.''

डॉक्टर आपली मस्करी करता काय कितें हें नर्सीक समजलेंना. ती थोड्या रागान आनी थोड्या दुबावान डॉक्टराकडेन पळयता.

''अशी दुबावूं नाका.'' डॉ. प्रविणकुमार तिका सांगता, ''हांव मस्करी करिना. तो रोगी तुवें पळयला. सजीव मडें कशें आसता तें ताचेकडेन पळयल्यार कळटा. तो रात-दीस न्हिदून आसता. ताका कसलेंच भान ना. भ्रमिष्टासारको तो न्हिदून रावता. ताका

भेसाचें भान ना, देहाचें भान ना. तो लार्गींच्या मनशाक वळखना आनी ताका भूक लागना. पूण जर तुका पळयतकच तो उठून बसता, तुका लार्गीं ओडटा. तुज्यांत एक अशी चावी आसा ती ताचे भलायकेचें गुपीत सोडयत अशें तुका दिसना?''

''हांव एक नर्स खरी. पुण एक तरुण चली. म्हाका म्हजो फुडार आसा. रोग्याची सेवा करप वेगळें आनी खंयच्याय रोग्याक बरें दिसता म्हूण ताचे सुवादीन जावप वेगळें. खबर भायर पावल्यार म्हजें कशें जातलें? खरें सांगता डॉक्टर, हांव त्या पिशाक शाणो करपाखातीर हॉस्पिटलांत येवंक ना. एक नोकरी करपाक हांगा आयल्यां. नोकरी करतना थोडी सेवा घडली जाल्यार म्हाका खोशी जातली.''

हे नर्सीक कर्तव्याची जाणविकाय दिवपाखातीर, कर्तव्य करतना प्रसंगाचेर केदोय त्याग करपाची तयारी दवरपाखातीर समजावप सोपें न्हय इतलें डॉ. प्रविणकुमार वळखलो. तिचें म्हणणे सामकेंच लटकें नासलें. खंयची चली अशी पिशाचें मन सांबाळपाचे खातीर आपलो देह ताचे सुवादीन करीत?

परिणाम असो जालो की ती नर्स त्या पिशा म्हऱ्यांत वचपाचें टाळूंक लागली आनी दुसऱ्यो नर्सीय अनमनूंक लागल्यो.

ताची पूर्वकथा समजून घेतना डॉ. प्रविणकुमाराक उलगडो जालो. ताची बुडून मेल्ली बायल जरी व्हंकलेच्या भेसांत मेल्ली तरी मुळांत ती नर्स आसली. नर्सीच्या भेसात ताणे तिका पळयिल्ली. ताचे नदरेंत... काळजाच्या हारशांत नर्सीच्या भेसांतलें प्रियेचें पडबिंब बंदिस्त उल्लां. घडये हे नर्सीसारकी तीय साडी न्हेसताली आसुये, देखून साडी न्हेसून जेन्ना नर्स ताचे कुडींत गेली तेन्ना त्या भ्रमिष्टाक आपली बायल, आपली प्रिया आपले भेटेक आयल्या अशें दिसलें आनी तो तसो वागलो.

दीस वतात तशे हॉस्पिटलांतले प्रस्न घुस्पागोंदळाचे जावंक लागले. ते नर्सीकडेन ताणे आगळीक केली अशी खबर हेर नर्सीमेरेन पावली आनी सगळ्योच नर्सी ताची सेवा करूंक फाटीं-फुडें सरूंक लागल्यो.

ह्या प्रस्नाचेर तोड काडपाखातीर डॉ. प्रविणकुमारान एका सेवकाची ते कुडींत नेमणूक केली. पूण ताच्या विचारांक एक नवी दिशा मेळ्ळी. एकाद्री चली नर्सीचें संवग घेवन... ताचे प्रियेचें सवंग घेवन ताचेसरी वचूंक कबूल जाली आनी ताका मोग दिवन भानार हाडपाचें दिव्य तिणे केलें जाल्यार घडये तो सुदारत. एका मनशाक नवी जीण मेळत. बंगाली लोकनाट्याक शेणिल्लो नायक परत मेळत.

पूण अशी नर्स खंय मेळटली? तो बरे अवस्थेंत आशिल्लो जाल्यार शेंकड्यांनी बंगाली चलयो, खेड्यांतल्यो आनी शारांतल्यो लेगीत आपलो जीव ताचे भोंवतणी उंवाळूंक तयार जातल्यो आसल्यो. खऱ्यांनीच तो सुंदर पुरुष. मदनाचो पुतळो अशें ताचें वर्णन करूं येत. तो इतलो सुंदर की दादले लेगीत ताका पळयत रावताले, बायलांची गजालच वेगळी. खबर घेत रावलो तेन्ना डॉ. प्रविणकुमाराक कळ्ळे की, ताका प्रेमपत्रां येतालीं. शेंकड्यांनी अशीं पत्रां येतालीं... सिनेमांतल्या नटनटयांक येतात तसलीं

प्रेमपत्रां. कितल्योशोच चलयो आपलो फोटोय ताका धाडटाल्यो आनी ताचो फोटो मागयताल्यो.

एक कल्पना डॉ. प्रविणकुमाराच्या मनांत येवन वता. पेपरांत त्या नटाचो फोटो छापून ताचें किर्ते घडलां तें बरोवन आपलें जिवीत ताका ओंपपी चली जाय अशी जायरात दिवन पळोवची.

डॉ. प्रविणकुमाराची एका संपादकाकडेन वळख आशिल्ली. आपली कल्पना डॉक्टरान संपादकाक सांगली. पूण संपादकाक ती मानवली ना. ताणें म्हळें, ''त्या नटाक पिशें लागलां हें सगळें जाणात. तशो खबरो पेपरांनी छापूनय आयल्यात. खंयचीच चली एका पिशाखातीर आत्मबलिदान दिवंक कबूल जायत अशें म्हाका दिसना.''

''तरीकय एक प्रयोग आमच्यांनी करूं येता.'' डॉक्टरान संपादकाक सांगलें.

''ताची परवानगी घेतलेबगर तसो प्रयोग करूंक मेळचोना.''संपादकान म्हळें.

डॉक्टरांली योजना तकलेंतच उल्ली. आपल्या नाटकाचो उत्तरार्ध ताणें हे तरेन करपाचें थारायलें आनी नाटक बरोवन काडूंक तो बसलो.

जे मेरेन नायिका मेळचीना तेमेरेन नाटक बरोवन जावचेंना अशें ताका दिसतालें. ताका दोळ्यांमुखार नायिका जाय. तिका तिची भूमिका बारीकसाणेन समजावंक जाय. तिचे हावभाव, तिचें रूप हाचेरच नाटकांतले संवाद आदारिल्ले उरतले. नायकय जाय.

एक धाडशी विचार ताचे तकलेंत येता. नायकाची भूमिका आपणेच करची अशें ताका दिसूंक लागता. दुसरो कोण ती करचोना.

ब्रह्मचारी डॉक्टर पयलेच खेपे अनुरूप नायिकेचो ध्यास घेवन बसता. ताची नदर ते नर्सीचेर वता जी त्या मनोरुग्णाची धास्ती घेवन बशिल्ली आसता.

ती बंगाली चली शिकिल्ली आनी सुंदर आसली. नाटकांत वा सिनेमांत नायिका जावपाचें सपन केन्ना ना केन्ना तरी तिणें पळयिल्लें आसतालें. ही नर्स तर सगळ्या तरेन अनुरूप नायिका. नायिका नर्स जाय. नर्सीचें काम ती सभाविकपणान आनी समजून करतली. नायिका सुंदर जाय. लांब केसांची, गोड आवाजाची... हरणाच्या दोळ्यांची. तिचे नजरेंत मदनाचें काळीज जिखपाची तांक आसूंक जाय. लांबाय... आंगलोट सगळें अनुरूप.

डॉ. प्रविणकुमारान नायिकेचो प्रस्ताव मांडलो आनी ती भुरकुटली.

''नायिका हांव खोशेन जायन. कसलें काम?.... कोण बरयता? नायक कोण?'' एका फाटल्यान एक अशे प्रस्न तिणे विचाल्ले.

डॉ. प्रविणकुमारान म्हळें, ''कथानक, संवाद आनी दिग्दर्शन म्हजें... संगीत म्हजें आनी नायकय हांव....''

तिणें दोळे अशे तरेन घुंवडायले की, ते अवस्थेंतच डॉ. प्रविणकुमार तिचेर भाळ्ळो. खऱ्यांनीच ही नायिका जावंक अनुरूप, ताच्या मनांत असो विचार लेगीत आयलो की, ही नर्स अशे दोळे घुंवडावंक लागल्यार आपूण नायकाची भूमिका करतां करतां आपलें

काळीज तिका ओंपून बसन.

ते नर्सीचे नदरेंत अजाप आशिल्लें. अविश्वास आसलो. डॉक्टर नाटकां पळयता हें ती जाणा आसली. कॉलेजाच्या दिसांनी ताणें नाटकाक संगीत दिलां ही खबर तिका नासली. म्हातारो म्हणूंक नज आसलें तरी जाण्टेपणाचे शिमेर पाविल्लो आनी निर्धारान ब्रह्मचारी राविल्लो डॉ. प्रविणकुमार नाटकाचे माचयेर एकाद्रे चलयेच्या मोगांत पडटलो, ही कल्पनाच तिच्या मनाक कातकुतल्यो करून गेली.

''तुमी नायक जाले जाल्यार तुमी सांगशात ती भूमिका हांव करीन. तुमची नायिका माचयेपुरती आसली तरी.... जावपाक भाग्य जाय.''

''तुजेकडच्यान हीच अपेक्षा आसली. यो अशी म्हन्यांत यो.'' अशें म्हणून डॉ. प्रविणकुमारान प्रेमिकाचे भूमिकेची येसाय मारपाचें थारायलें. ताणे तिचो नाजूक हात आपल्या निवर हातांत घेतलो आनी थोडो वेळ ताची नाजूकसाण तोखेत तिचो तळवो अचळय चुमलो.

ती सुखावली. घडये जिविताच्या फुडाराची वाट हे माचयेवेल्यान वता आसुये अशें येवजून तिणे दोळे धांपून घेतले आनी आंगात भरिल्लो शिरशिरो थांवसर तशीच रावली.

डॉ. प्रविणकुमाराच्या मनांत तो पिसो भरिल्लो आसा. ताचेर कसलोच परिणाम जालोना. पूण एका साध्या स्पर्शान ती नर्स इतली अरळ जाल्ली पळोवन ताका अजाप दिसलें आनी आपलें अर्दे काम जालें अशें ताच्या मनान घेतलें.

डॉ. प्रविणकुमारान ते खोशेभरशीं नाटकाचो उत्तरार्ध बरोवन काडलो.

पूर्वार्धात त्या लोकनाट्याच्या नायकाची जीण जशाची तशी ताणें बरयिल्ली. नाटकाक प्रेक्षक म्हणून हाजीर रावपी नर्स नायकाच्या मोगांत पडटा. लग्न थारता, व्हंकलपावणी वता आसतना व्हडें बुडून व्हंकल मरता. नायक पिसो जाता... तिच्या ध्यासान.

तो मनोरुग्ण सदांच अशें ताका सांगतालो.

''ती मरूंक ना.'' तो म्हणटालो, ''कोणेतरी तिका लिपोवन दवल्ल्या. जलपरींनी आसत. ती परत वयर येतली. घडये फुडले पुनवेक. चंद्र जेन्ना मळवांत पूर्ण आकारान चकचकतलो आनी आपल्या चान्याच्या धारांनी आंकवार उदकाक कातकुतल्यो करतलो.... तेन्ना हांव मुरली वाजयतलो. ती येतली...''

डॉ. प्रविणकुमारान तेंच सूत्र फुडें व्हेलें आनी मागीर मनोरुग्ण आपल्या हॉस्पिटलांत पावता तो देखाव घालो. ते नर्सीक पळोवन ताका आपली प्रिया आयिल्ल्याचो भास जाता आनी तो सपनांतल्यान जागो जावचो तसो उठून ते नर्सीक वेंग मारता. नर्स भियेता, किंचळता, पळून वता. डॉक्टराकडेन कागाळ करता, डॉक्टर तिका समजायता आनी ती त्या प्रयोगाक कबूल जाता.

रातीच्या वेळार धवी साडी न्हेसून, केस मानेर मेकळे सोडून ती रुग्णाम्हन्यांत वता. ताका सपन दिसचें अशे तरेचें दर्शन घडयता. ''तूं बेगीन वरो जा. हांव परत येतलीं. चान्याचे रातीं उदकांतल्यान वयर येतली. म्हाका तुज्या सांगातान व्हर...''

आनी नाटकांत डॉक्टर तो प्रसंग घडोवन हाडटा. पुनवेचे रातीकडेन व्हंकलपावणी व्हड्यांत बसून वतळा आसतना आशिल्लें तें वातावरण माचयेर निर्माण करून व्हडें लंवडटा, ती बुडटा, तो देखाव दाखोवन ती परत वयर येवन घोवाच्या गोपांत वता आनी त्या खिणाक ताचें पिशें सोंपता अशें कथानक बरोवन काडटा.

डॉ. प्रविणकुमाराची नाटकाविशींची नदर ही कलापूर्ण आसली. तो आपल्या नाट्यक्षेत्रांतल्या इश्टांक जमयता तांकां आपले संवाद वाचून दाखयता. सुमार पंदरा दीस हेंच चल्लें. एका एका उतराचेर एका एका प्रसंगाचेर बारीक सारीक चर्चा जाता. आनी नाटकांतलीं उतरां बदलतात. संवादाचें रूप बदलता. प्रसंग लेगीत बदलतात. आनी निमाणे डॉक्टर खुशालभरीत जाता. आतां एकच उल्लां. नाटक माचयेर हाडपाखातीर पात्रां पुंजावन येसायो सुरू करपाच्यो.

नायिका मेळिल्ली आसा. सुनयना! नांवय समर्पक. पूण नाटकांत तिका नांव वेगळें ते लोककलाकाराचे प्रियेचें नांव लख्खी (लक्ष्मी).

नाटकाचें लेखन चालू आसतना डॉ. प्रविणकुमाराचें दवाखानो आनी हॉस्पिटलाकडेन खुबशें दुर्लक्ष जातालें. पूण आपूण कितेंतरी अद्भूत करतां हाची खोशी तो अणभवतालो. दुसरे वटेन सुनयनाय खुशालभरीत आसली. ती सपनां रंगयताली. ती आपले नवे जिणेची येवजण आंखताली. सगळ्यांक तिणें सांगून उडयलां. जिणेचें नाटक ती माचयेर करून दाखयतली. ब्रह्मचर्य व्रताचें आचरण करपी कर्मठ डॉ. प्रविणकुमाराली आपूण मेनका थारतली...

येसाय सुरू करचे आदीं डॉ. प्रविणकुमार सुनयनाक आपल्या घरा आपयता. ती व्हड खोशयेन वता. मनांत येवजिता, ज्या घरांत फुडली जीण सारपाची आसा थंय वचूंक संकोच कसलो? डॉक्टर तिका कथानक समजायता. पूण आपली नदर डॉक्टराचेर थिरावन ती वेगळ्याच संवसारांत रमता.

अचकीत ती भानार येता. डॉक्टर तिका त्या पिशा रुग्णाची व्हंकल जावपाचे सुचयता तेन्ना एके तरेची किळस तिका येता आनी ती म्हण्टा, ''ना डॉक्टर ना. तें म्हज्यान जावचें ना.''

''अशीं पिशेपणां करूं नाका.'' तिचे फाटीर हात दवरून डॉक्टर तिका समजायता. ''हांगा पिशाची भूमिका हांव करतलों. तूं म्हाका मोग दिवन बरो करतली. नर्सीचो धर्म तूं पाळटली.''

''ना.'' तकली हालोवन ती परत नकार दिता. ''म्हज्या दोळ्यांमुखार तो पिसो येता. तुमची प्रतिमा वेगळी. पिशाचे भूमिकेंत तुमकां पळोवप म्हाका जमचें ना. तें काम म्हज्यान जावचें ना.''

''पूण हें नाटक. नाटकांत कसलेंय काम करपाची तयारी आसूंक जाय. कलाकाराक तें एक आव्हान आसता. हें नाटक बरें केलें जाल्यार बंगाली रंगमाचयेर तूं नांव जोडटली.''

"खरें म्हळयार म्हाका रंगमाचयेचेर नांव जोडपाचें ना. तुमचे खातीर हांव नाटकांत काम करीन आसलीं. तुमची नायिका जायन आसलीं. त्या पिशाची भूमिका तुमी करची न्हय. तुमी दुसरें खंयचेय नाटक बरयात. हांव काम करतां." ती डॉक्टराक काकुळटी येता.

डॉक्टर निर्शेता. तो म्हणटा, "तूं फकत एक नाटक म्हणून ह्या प्रयोगाकडेन पळयता. पूण हांव वैजक शास्त्रातलो एक प्रयोग करूंक भायर सल्लां आनी ह्या प्रयोगांत हांव जिखलो जाल्यार एका मनशाक जीण मेळटली."

"पूण डॉक्टर, ह्या नाटकाचो त्या पिशाचेर कसो परिणाम जातलो? तो काय नाटक पळोवंक येवचो ना."

"ना. आनी हांव ताका नाटकय दाखोवचो ना. नाटकाचो प्रयोग यशस्वी जाले उपरांत तुवें तो प्रयोग त्या पिशाचेर करूंक जाय. आमी ताका चान्याचे राती तेच न्हंयेत व्हरतले, जंय ताची बायल बुडिल्ली. आनी थंय तुवें व्हंकलेचो भेस करून उदकांतल्यान वयर येवन ताका वेंग मारपाची."

"ना. ना. डॉक्टर ना. हें तर निखालस जावचेंना. म्हाका तीच भिरांत आसली. तुमकां हांव मानतां. तुमचे खातीर कितेंय करपाची म्हजी तयारी आसा. गरज पडली जाल्यार म्हजे सर्वस्व तुमकां हांव ओंपीन. पूण पिशाच्या रुपांत तुमकां हांव पळोवंक शकची ना आनी त्या पिशाखातीर हांव कसलेंच सवंग करूंक तयार ना."

"तुजो गैरसमज जालां, सुनयना," तिका समजावपाचो यत्न करीत डॉक्टर प्रवीणकुमार म्हणटा, "तुजो जर समज आसत की, हांव तुज्या मोगांत पडलां जाल्यार तूं चुकता. हांव म्हजो धर्म विसरूंक ना. सायकीयाट्रीस्ट्राच्या धर्माक जागूनच हांव हें नाटक बरोवन माचयेर हाडूंक कबूल जालां. एका गुणी कलाकाराक एक नवी जीण दिवंक सोदतां. तूं एक नर्स. तुजो धर्म आसा. त्या धर्माक स्मरून वाग. तुज्यान एक जीव वाटावं येता आनी रंगमाचयेची सेवाय करूं येता."

"ना. पूण तें म्हज्यान जावचें ना. एकदम व्हड्यांतलो सीन करचे आदीं तुमी म्हाका जाका भाळोवंक सांगतले, ताचे म्हन्यांत वचून मोगाची भावना जागोवपाचें काम करूंक सांगतले. तें हांव कशें करूं?"

"तेंच नाटक मान. आनी कर..."

"तोंडान सांगप सोपें. आनी ताका फटय म्हणटात तुमी? तो मोगांत पडलो जाल्यार ताचो परत प्रेमभंग जावचो ना?"

"तूं समजून घे. दोळ्यांमुखार बायल बुडली. जिणेचीं सगळीं सपनां खीणभरयांत भंगलीं. ताचो शॉक नटाक बसला. आपूण कोण हें तो विसल्ला. त्या दिसा तुका पळोवन ताका बायलेचो उगडास आयलो. एक खेपे त्या शॉकांतल्यान भायर येवन तो भोंवतणच्या संवसाराक वळखूंक पावलो जाल्यार मागीर ताका तुजी गरज उरची ना. तुज्या मोगांत तो पडपाची शक्यताय ना."

डॉक्टरान तरतरांनी तिका समजायलें. पूण ती कबूल जाली ना. आनी त्या दिसाच्यान डॉ. प्रविणकुमार नवे नायिकेचो सोद घेवंक लागलो.

बरी नटी कसलेंय काम करीत. पूण एकाद्री नर्स आंगांत थोडोसो अभिनय आसत जाल्यार तें काम बेस बरें करतली. तिका रूप जाय, आंगलोट जाय. तिच्या आंगांत कलेचे गुण जाय. खंय मेळटली अशी चली? आनी मेळ्ळीच जाल्यार नाटक करपा पुरती मेळून फायदो कितें? माचये वयले नाटक ही तालीम. तिका जिणेंतले नाटक करचे खातीर हो अणभव गरजेचो. खरें नाटक आर्दी हॉस्पिटलांत आनी उपरांत न्हंयच्या पात्रांत.... पुनवेचे राती... चान्याच्या पावसांत करचें पडटलें.

खंय मेळत अशी नायिका?

****

नायिकेचो सोद घेतना डॉ. प्रविणकुमारालें आपल्या वेवसायांतलें चित्त उडलें. नाटकाक गेल्लेकडेन, शारांतल्यान भोंवता आसतना वा ताका मेळूंक आयिल्ल्या लोकांमर्दी अनुरूप नायिका खंय दिसता काय म्हणून तो सोदतालो. पूण तशी नायिका ताका मेळना आसली. एकाद्री सुंदर चली वा बायल नायिका जावंक अनुरूप अशें ताका दिसलें म्हण्टकच तो तिचो फाटलाग करतालो. लोकांक दुबाव. ताका पिर्शे लागलां अशे तरेची अफवा शारांत पातळूंक लागली. पूण डॉ. प्रविणकुमाराक पर्वा नासली. एक ध्यास ताका लागिल्लो तो नायिकेचो. कोणाच्याय घरांत तो वतालो आनी लग्नाची मागणी घालची ते धर्तेन चलयां बायलांक नायिका जावपाचें आमंत्रण दितालो. थोडेकडेन ताका नकार मेळटालो. ज्यो कोण कबूल जाताल्यो त्यो ताचे नदरेन योग्य नासताल्यो.

एक दीस डॉ. प्रविणकुमार आपल्या घराकडेन बशिल्ल्या वेळार दारावयली बेल वाजली. उबगून ताणे दार उक्तें केलें. दारांत एक चली उबी. सुमार साडेपांच फूट लांबायेची. दोळ्यांचेर काळे गॉगल्स. हातांत एक ब्रीफकेस.

डॉ. प्रविणकुमार तिचेकडेन पळयत रावलो.

''म्हाका भितर आपोवचे नात?'' दोळ्यांवयले गॉगल्स काडून आनी ओंठाचेर अस्पश्ट हांसो हाडून तिणें विचाल्लें.

दारांत आयिल्ले परकी चलयेकडेन एदोवेळ आपूण असभ्य तरेन पळयत रावलों म्हणपाचें लक्षांत येवन डॉक्टर मात्सो लजेलो. तो फाटीं सल्लो आनी तिका म्हळें, ''यो, यो... येयात, येयात.''

''हांव पिरायेन भुरगी आनी योग्यतेनय ल्हान. म्हाका तूं म्हळयार उपकारता.'' नाटकाचे माचयेर नायिकेन प्रवेश करचो तशा थाटांत ती भितर आयली आनी डॉक्टराच्या घराच्या सालाची तपासणी करीत विजेच्या पंख्यासकल आशिल्ल्या कदेलाचेर बसली. भायर सावन आयिल्ल्यान ती घामेल्ली. आपले साडयेचो पदर मुखार घेवन तिणे आपल्या तोंडार वारो घेवपाचो यत्न केलो.

डॉ. प्रविणकुमार मात ही आपूण जावन चलत आयिल्ली नायिका कितली अनुरूप

आसा हाचो हिशोव करीत तिका नियाळटालो. एकदम ताणे तिका म्हळें, "भितर वचून तोंड धुवून घेतली जाल्यार घे."

"हय, हय." म्हणून ती उठली. आपले गॉगल टीपॉयचेर दवल्ले आनी बाथरूमांत गेली.

डॉ. प्रविणकुमार खुशालभरीत जालो. जिचो सोद घेवंक तो इतले दीस शारभर भोंवतालो ती आपूण जावन आयज तागेर आयिल्ली. पिराय आनी रुपाचे नदरेन ती योग्य आसूनय ती विनधास्त वागताली. वागणुकेंत धिटाये सांगातान नम्रताय लेगीत आसली. थोडीशी प्रॅक्टीस केली जाल्यार नर्सीची आनी व्हंकलेची भूमिका ती बेस बरी करतली हे विशीं ताका दुबाव उरलोना.

ती परत आयली आनी पंख्यासकल उबी रावन तिणे विचाल्लें. "घरांत कोण ना?"

"ना." थोड्याशा संकोचान डॉ. प्रविणकुमारान जाप दिली.

"म्हाका काम घरचे बायलेकडेन आसलें. बायल भायर सल्ल्या?"

डॉ. प्रविणकुमार तिच्या तोंडाकडेन पळयत रावलो. ताका अशें दिसलें आपणे हिका आपली वळख करून दिवची आनी सांगचें ह्या घरांत बायल ना आनी खासा तो ब्रह्मचारी आसलो तरी तिणें भंय वा संकोच बाळगुपाचें कारण ना.

पूण एकदम तशें सांगूंक तो धजलो ना. ताणे म्हळें, "हांव ब्रह्मचारी हें तूं जाणाच."

"खरें म्हणटा काय कितें?" मातय गडबडना आसतना तिणें विचाल्लें.

"तूं म्हाका वळखना?" ताणें विचाल्लें.

"ना. वळखल्ली जाल्यार बायले विशीं कशी विचारतलीं आसलीं?" तोंडावयलो हांसो आनी वागणुकेंतले बिनधास्तपण मातय उणायना आसतना ती उलयताली.

"हांव डॉ. प्रविणकुमार. सायकीयाट्रीस्ट्र."

नांव आयकना फुडें ती एकदम उठून उबी रावली. हात जोडले आनी म्हळें, "म्हजी चूक जाली. हांव तुमकां वळखलीं ना. हांव सेल्स गर्ल्स म्हणून भोंवता. व्हॅक्यूम क्लीनर विकतां. गरज पडल्यार प्रात्यक्षिक करून दाखयतां. देखून घरच्या बायलांकडेन म्हजें काम आसता. तुमच्यासारख्या नांवाजत्या डॉक्टराकडेन हांव मर्यादा सोडून वागलीं अशें उपकार करून मानूं नाकात."

"ना. ना. म्हाका वायट दिसूंक ना." डॉ. प्रविणकुमारान म्हळें, "पूण तूं व्हॅक्यूम क्लीनर विकूंक आयिल्ली आसत अशें मात म्हाका दिसूंक नासलें. आमी एक नाटक माचयेर हाडूंक सोदतात. त्या नाटकाक आमकां नायिका जाय... ज्यो कबूल जातात त्यो आमकां उपकारनात. इश्टांक सांगून दवल्लां. कोणय अनुरूप नायिका दिसली जाल्यार धाडून दी. ते धाडटात. म्हाका दिसलें अशीच तुका कोणेय धाडिल्ली आसत."

"नाटकांकडलें म्हजें नातें प्रेक्षकाचें. तशी हांव सबुध्द प्रेक्षक न्हय. पूण तुमचें मार्गदर्शन मेळ्ळें ज़ाल्यार काम करपाची म्हजी तयारी आसा." तिणे जाप दिली.

उमेदीचे उमाळे तिच्या तोंडाचेर उदेले. वदलते भाव डॉक्टर नियाळटालो. आतां ती

ताका आनीकय सुंदर दिसली. तिचे केंस लांब आसूंक जाय. मानेवयल्या आंबाड्यावयल्यान ताणें अदमास केलो. निळेशार दोळे, कानसुलांवाटेन पातळिल्ल्यो धनुष्यासारक्यो आंखीव भोंवयो. गोरो रंग, नाजूक चांफ्यासारकें नाक, रूंद कपल, गुलाबाचे पाकळेसारके गुलाबी ओंठ, गुबगुबीत पोले, दाव्या पोल्याचेर दोळ्यासकल एक काळो तीळ, लजेतना तोंड जांबावरी तामसार जाता. हांसतना पोल्याक पडटालीं दोन मिलां... आनी मोगरेचे कळयेसारके दांत.... गडद हळदुव्या रंगाची साडी. तसल्याच रंगाचो ब्लावज, नाजूक लांब बोटां.... हीच ती... तिचोच ताका सोद आसलो.

डॉक्टर आपले नदरेन देह तपासता हें तिका कळटालें आनी लजेन संकोचान ती मान सकल घालून मंद थरथरो अणभवताली. वधू परिक्षेखातीर आयिल्लो न्हवरो आपणाक नियाळटा असो तिका भास जावन ती सुखावली.

तिच्या मनांत एक कल्पना येवन गेली. प्रतिक्षेचो काळ सोंपून लग्न जिणेच्या युगाची ही फांतोड न्हय मूं?

कल्पनेसरशीं लजेच्या पानावरी सगळें आंग शिरशिरलें आनी जडाविल्ल्यो पातयो ल्हवू वयर उखलून तिणे एक नदर डॉक्टराचेर फिरायली.

नदरेक नदर मेळ्ळी. दोनय नदरो संकोचान पयसावल्यो.

"तर तूं येसायेखातीर केन्ना येता?" कितेंय तरी उलोवंक जाय आसलें देखून डॉक्टरान तिका विचाल्लें.

"तुमी आपयशात तेन्ना," तिणे जाप दिली.

"तुका च्या दितलों म्हळ्यार म्हाका च्या करूंक कळना. फ्रिजांत दूद आसा. घरांत गॅस आसा, एक रांदपी आशिल्लो तो गांवांत गेला."

"तशें जाल्यार हांवूच च्या करून हाडटां. तुमी बसात." अशें म्हणून ती भितर वचूंक लागली.

"राव. हांव तुका रांदची कूड दाखयतां."

"बायलांक रांदची कूड दाखोवची लागना." हांसून तिणे म्हळें.

भितर आयदनांचो आवाज येतालो आनी भायर सोफाचेर बसून एक सोद पूर्ण जाल्याचें समाधान डॉ. प्रविणकुमार अणभवतालो.

दोनय हातांनी दोन कप घेवन ती भायर आयली. एक कप ताच्या हातांत दिलो आनी आपूण दुसऱ्या कदेलार बसली.

"आज कितले व्हॅक्यूम क्लीनर खपले?" डॉक्टरान तिका विचाल्लें.

"एकूय खपूंक ना. पूण हांव कमिशनाचेर ते विकीना. हांव फक्त प्रचार करतां. कंपनी म्हाका पगार दिता."

"तशें जाल्यार हांव सुटलों." डॉक्टरान म्हळें.

"कित्याक?" अजापान तिणें विचाल्लें.

"हांव व्हॅक्यूम क्लीनर विकतो घेवचो अशी तुजी अपेक्षा नासतली."

जाप आयकून तीय मेकळेपणान हांसली.

****

नायिकेचो सोद पूर्ण जाल्लो. डॉ. प्रविणकुमाराचे नदरेन आता ताचें नाटक मार्गस्थ जातलें. देखून तो खोशी आसलो. नायकाची भूमिका तो करतालो आनी ताचे नायिकेची भूमिका आपणाक करूंक मेळटली म्हणून पूजा खुशालभरीत आसली.

पूजा एका मध्यमवर्गीय कुटुंबातली चली. घरची अडचण नासती जाल्यार आपूण खंयचे खंय पावतली आसलीं अशें तिका सदांच दिसत आयलां. कॉलेजांत शिकतना ती वर्सान वर्स 'कॉलेज क्वीन'' म्हणून वेचून येताली आनी ती आसासर दुसरे चलयेक चान्स मेळपाची शक्यताय नासली. खूब जाणांनी तिका 'मिस इंडिया' सर्तीत वांटो घेवपाची सुचोवणी केल्ली. पूण विरोध जाल्लो तो घरांत.

''तुवें जर हे सर्तीत वांटो घेतलो जाल्यार आमकां समाजांत तोंड दाखोवंक मेळचेना.'' तिगेले आवयन तिका शिटकावन म्हणिल्लें. ''तूं एकलीच आशिल्ली जाल्यार गजाल वेगळी आसली. तोंड उंवाळून घेवन वच अशें सांगतलीं आसलीं. पूण म्हज्या पदराक तुजे फाटल्यो चलयो आसात. तांचें कशें जातलें हाचो विचार कर.''

बापायन मोन्या प्रेक्षकाची भूमिका घेतली. ओढाताणीचो संवसार आनी 'मिस इंडिया' सर्त म्हळ्यार एकेतरेची लॉटरी. फुटली जाल्यार भाग्य फळफळटलें अशें पूजाक दिसतालें. पूण आवय-बापायक ती कशें समजायतली? तिणे तशें सुचोवपाचो यत्न केलो तेन्ना आवयन रागान म्हणिल्लें, ''सुंदर देहाचें प्रदर्शन करून पयशे जोडप म्हळ्यार बाजारांत बशिल्लेसारकेंच न्हय?''

आवयच्या त्या जळजळीत उतरांनी तिका दिसलें की ह्यो सौंदर्याच्यो सर्ती आपले सारके चलयेक न्हय. आपलेकडच्यान अपेक्षा आसा ती इतली की शिकून बरी नोकरी करची आनी बरोसो भुरगो पळोवन लग्न जावन संवसार थाटचो. मध्यमवर्गीय मनशाक सभ्यतेचे नेम लागू जातात. गिरेस्ताच्यो चलयो असभ्य वागल्यो तरी तांचे कौतुक जाता.

नाटकाखातीर नायिका म्हूण पूजाची निवड जाल्ली तेन्ना डॉ. प्रविणकुमारान तिका पयलो प्रस्न विचाल्लो, ''तुजेकडेन वेळ कितलो आसा?''

तशें पळोवंक गेल्यार पूजाकडेन मेकळो वेळ ना. ती जे चाळींत रावता थंय फांतोडेर नळ येता. नळ आसतनाच घरचीं उदकां भरचीं पडटात. न्हाणी-धुणी सोंपोवचीं पडटात. उप्रांत घरांतली बारीक-सारीक कामां आसतात. घरांतलीं दळीद्री वस्त्रां देंवोवन भायर सरतना घालपाचीं वस्त्रां आंगार चडोवचीं पडटात आनी मागीर दीसभर व्हॅक्यूम क्लीनर खपोवचे खातीर भोंवचें पडटा. कंपनीन तिका एक डायरी दिल्या. दीस भरयांत खंय-खंय गेली तें तिका बरोवचें पडटा. म्हयन्या अखेर ३०० रुपया तिच्या हातार पडटात. त्या ३०० रुपयांचे वांटेकार घरा बशिल्ले आसात. दुसरी नोकरी नाशिल्ल्यान मन लावन हेंच काम करचें पडटा. पूण हें सगळें तिणें डॉ. प्रविणकुमाराक सांगलें ना.

तिणे म्हळें, ''तुमी सांगशात तितलो वेळ हांव दिवंक शकन.''

“नाटकांत काम करपाक तुज्या घरच्यांची मान्यताय आसतली मूं?” डॉ. प्रवीण कुमारान दुसरो प्रस्न विचाल्लो आनी एकदम तिका ‘मिस इंडिया’ सर्तीचो उगडास जालो.

ते सर्तींत वांटो घेवंक तिका परवानगी मेळूंक नासली. नाटकांत काम करूंक परवानगी कशी मेळत? नाय जाल्यार नाटकांतली नायिका जावप, कोणाच्या तरी मोगांत पडिल्ल्याचें नाटक करप, तोंडांक रंग लावन आपल्या सौंदर्यान, अभिनयान आनी आवाजान प्रेक्षकांक भाळोवप हें काम मध्यमवर्गीय समाज मानून घेत? आवय कितें म्हणत?

“हांवें घराकडेन विचारूंक ना. आदीं आमीं नाटकाच्यो येसायो सुरू करुंया. उप्रांत केन्ना तरी हांव घरा विचारतां.” तिणे जाप दिली.

“घरचो विरोध जातलो अशें तुका दिसता?”

जाप दिवंक ती अनमनली तेन्ना डॉ. प्रवीणकुमारान आपूण जावन म्हळें, “तुका जाय जाल्यार हांव तुगेर येवन विचारूं?”

“नाका डॉक्टर, प्लीज,” अशें म्हणून ती एकदम उबी रावली.

“तूं इतकी गडबडली कित्याक?” डॉ. प्रवीणकुमारान म्हळें, “आमकां नायिका जाय हें खरें. पूण ह्या नाटकांत तूं लिपचोरयों काम कशें करतली? हजारांनी लोकांमुखार तुका येवचें पडटलें. पुस्तकांनी, पेपरांनी फोटो छापून येतले. तेन्ना घरचे मान्यतायेचो प्रस्न आदीं सोडोवंक जाय.”

कदेलार बशिल्लेकडेन पूजान दोनय हातांनी आपली तकली दामून धल्ली. दोळे धांपून घेतले. हुमेच्यो पांवळ्यो देवंक लागल्यो. डॉ. प्रवीणकुमार पळयत आसलो. ती एकदम नर्व्हस कित्याक जाली तें ताका कळ्ळेंना. हरशीं धीट चली. आयली तेन्ना वेगळीच दिशिल्ली. मनान इतली भिजूड कशी?

“तुजे लग्न जालां?” डॉक्टरान तिका विचारलें.

बंद दोळ्यांची पाती अर्द खिणापुरती उकती करून तिणें डॉ. प्रवीणकुमाराच्या तोंडाकडेन पळयलें आनी तकली हालोवनच ‘ना’ अशी जाप दिली.

“जुळ्ळां बी?... जुळिल्लें मोडत म्हूण तुका भंय दिसता?”

आतां तिणे जाप दिवंकच जाय आसली. ती एकदम रडूंक लागली तसो डॉ. प्रवीणकुमार तिजेसरीं आयलो आनी तिचे फाटीर धीराचो हात दवरून म्हळें, “नाटकांत काम करून तूं त्रासांत पडिल्ली म्हाका नाका, पूण तुजी अडचण निवारपाचें काम म्हज्यान जावपासारकें आसल्यार हांव तें व्हड खोशयेन करीन.”

उलोवपाखातीर तिणें तोंड उकतें केलें. पूण हुंडको आयलो आनी उतर फुटलें ना. ती उठली आनी साडयेच्या पदरान दोळे पुसून तिणें परत गॉगल चडयलें आनी ती वचूंक उबी रावली.

“हें कितें? तूं वता?” डॉक्टरान विचारलें.

तिणें निखटी तकली हालोवन 'हय' म्हळें.

"नाटकांत काम करपाचें पक्कें मूं?"

एक थीर कटाक्ष आनी 'हय' अशी तकली हालोवन जाप.

डॉक्टर हांसलो. तसो तिचो तोंडावळोय उजळ जालो. ती दाराकडेन वता आसतना डॉक्टरान म्हळें, "फाल्यां सांजवेळां चार वरांचेर येवशीत?"

जाप दिनासतनाच ती सोंपणां देंवली.

****

एक नायिका मेळिल्ल्याचें समाधान डॉक्टराक खीणयाळें दिसलें. पूजा दुसऱ्या दिसा येवचीना अशा दुबावाची पाल चुकचुकून गेली. दुसऱ्या दिसा सांजवेळच्या चार वरांमेरेन डॉक्टराच्या मनांत दुबाव आसलो. पूण चार वरांचेर जेन्ना पूजा दारांत उबी रावली तेन्ना तिका भितर यो म्हणून सांगपाचे विसरून डॉक्टर तिचेकडेन पळयत रावलो.

ताणे मनांतल्या मनांत थारायलें. आतां परत घरचे मान्यतायेचो प्रस्न काडचो न्हय. तिका आदीं काम करूं दी. अडचण येतली तेन्ना पळोवं येता.

नाटकांतले हेर पार्टी त्या दिसा जमिल्ले. डॉक्टरान नाटकाचें कथानक सगळ्यांक समजावन सांगलें आनी म्हळें, "हें फक्त माचयेवेलें नाटक न्हय. तर हो एक प्रयोग. हो प्रयोग फळादीक जालो जाल्यार एक बरें नाटक माचयेर हाडपाचें श्रेय आमकां मेळटलें. पूण ताचेयपरस चड म्हळयार मनोरुग्णाच्या उपचाराचो एक नवो उपाय आमी संवसाराक दिवंक पावतले."

"डॉक्टर, तुमचें हें मानसशास्त्र उपकार करून नाटकांत भरसूं नाकात. तुमी नाटक बरयलां तशें आमी माचयेर हाडूं." कोणेतरी म्हळें, "नाटकापरसय उपचाराक म्हत्व चड."

वातावरण इल्लें गंभीर जालें. पूण दुसऱ्याच खिणाक डॉक्टरान हांसून म्हळें, "अर्थात ते गजालीचो तुमच्या नाटकाकडेन संबंध पावचोना, तरीकय परिणामांची कल्पना तुमकां दिवची जाल्यार आमी हॉस्पिटलांत एक खेपे वचून येवया."

"हांव येना जाल्यार जाता?" पूजान विचाल्लें.

"खरें म्हळयार दुसरो कोणच आयलोना जाल्यार उपकरता. पूण तुजी सामकी गरज आसा." डॉक्टरांन तिका सांगलें.

डॉक्टर सगळ्यांक घेवन हॉस्पिटलांत गेलो. लोकनाट्याचो नायक जें कुडीत आसलो ताचेसरी पावनाफुडें खुवशेजाण ताका एकदम वळखले. इतलो लोकप्रिय तो नट आसलो. आपले खाटीचेर बसून तो उकत्या दोळ्यांनी तटास नदरेन सगळ्यांक पळयत रावलो. ताच्या म्हऱ्यांत वचून डॉक्टरान म्हळें, "हांव जें नाटक करतां ताचो एक देखाव ह्या मनशाखातीर म्हाका करचेलो आसा आनी तें काम फकत पूजानच करूंक जाय."

डॉक्टराच्या घराकडेन येतकच पूजान म्हळें, "म्हजी अडचण तुमकां आतांच सांगून दवरतां. तुमचेविशीं म्हज्या मनांत आदर आसा. तुमचेखातीर कसलेंय काम हांव व्हडा

खोशयेन करीन. पूण एक अडचण आसा. म्हजें अजून लग्न जावंक ना. माचयेर काम केलें जाल्यार लग्न जुळूंक अडचण येतली. फकत म्हजेंच न्हय म्हज्या भयणींचें लेगीत... अशें आवय-बापायक दिसता....''

''तुज्या लग्नाची हमी हांव घेता.'' तिचे फाटीर हात दवरून डॉ. प्रवीणकुमारान म्हळें.

डॉक्टर कितें सांगता वा सुचयता ते समजून घेवपाचे मनःस्थितींत पूजा उल्लीना. तिचे दोळे भरून आयले आनी ओणव घेवन तिणें डॉ. प्रवीणकुमाराचो चरण स्पर्श केलो.

डॉ. प्रवीणकुमार तागेले पिरायेच्या मानान जाण्टो दिसतालो हें खरें आसलें तरी तो सामकोच भुरगोय नासलो. लग्नाची पिराय जावन गेल्ली आनी पावसाळ्यांत एकाद्रो रुख सुको सणसणीत उरचो अशी ताची अवतीकाय जाल्ली. कितलीं वर्सां ताका लग्नाचोच न्हय तर आपल्या लागशिल्ल्या सोयऱ्यांचो लेगीत विचार करूंक फुरसत नासली. आवय जेन्ना सांगून आयिल्ल्या चलयांविशीं ताका विचारताली तेन्ना तो हांसून म्हण्टालो लग्न करूंक पुराय जीण उरतली. पूण आयज हांवें हें शिक्षण पूर्ण केलें ना जाल्यार तें केन्नाच पूर्ण जावंक पावचेंना.

''अशें शिकून - शिकून कितलें शिकपाचें आसता? इतलें शिकून करपाचें तरी कितें आसता? तूं डॉक्टर जालो आतां प्रॅक्टीस कर. घरसंवसार सांबाळ. गुणी, रुपेस्त चली पळोवन लग्न जा.'' आवयन ताका सांगचें.

''हेच घोळिल्ले वाटेन वचपाचें जाल्लें जाल्यार हांव तुजें आयकन आसलों. पूण म्हाका वेगळे वाटेन वचपाचें आसा.'' प्रवीणकुमारान आवयक म्हणचें.

वेगळी वाट म्हळ्यार कितें हाचो अर्थ मात आवयक केन्नाच समजलोना. तिणे सुनेचें आनी नातरांचें तोंड पळोवपाचीं सपनां पळयत ह्या संसाराची आपली यात्रा सोंपयली. बापूय पयलींच गेल्लो आनी आवयक मर्ण येवचे ते आदींच एक फाकीवंत सायकीयाट्रीस्ट्र म्हणून डॉ. प्रवीणकुमार नांव जोडून बशिल्लो.

त्या उपरांत खुबशे लार्गीचे पयसुल्ले सोयरे ताका सोयरिको घेवन येत रावले. पूण डॉ. प्रवीणकुमार ताळणेत पडलो ना.त्या दिसांनी तो इंग्लडांक गेलो आनी तागेल्या लग्नाचो विशय फाटीं उल्लो.

''केन्ना तरी थकून भागून घरा परततकच एका हुनहुनीत च्याच्या कपाची गरज आसता तेन्ना म्हाका म्हजें घर रिकामें आसा अशें दिसता.'' डॉ. प्रवीणकुमार म्हण्टा.

ह्या मनशाचे जिणेंत बायलो, चलयो थोड्यो आयल्यो नासतल्यो. पूण लग्नाचो विचार ताच्या मनाक केन्ना आफुडलोच ना. नाटकाची नायिका सोदतां सोदतां तो पूजाकडेन उतरान घुस्पल्लो आसलो तरी तिच्या लग्नाची जापसालदारकी घेतां अशें म्हण्टा आसतना आपूण तिचेकडेन लग्न करतलो अशें ताच्या सपनांत लेगीत येवंक नासले. ती सगळे नदरेन अनुरूप आसली तरी तांचे पिरायेचें अंतर खुबच चड आसलें. जी आपली चली सोबत तिचेकडेन लग्न करपाचो विचार लेगीत मनांत हाडप हें पातक

थारतलें अशें ताका दिसतालें. तो बेफिकीर मनान आपणे दिल्ल्या उतराचें गांभीर्य वळखनासतना उलोवन गेल्लो. पूजाच्या लग्नाचो विचार करूंक ताका वेळ नासलो. ताका हुस्को आसलो आपल्या नाटकाचो आनी तो प्रयोग करूंक सोदतालो त्या तंत्राचो.

पूजान मात वेगळोच अर्थ घेतिल्लो. डॉक्टराची पिराय कितली आसत हो विचार तिणे करूंक नासलो. पूण जे सलगेन डॉक्टरान तिचे फाटीर हात दवरलो ते सलगेंत मोगाची थोडी भौ आसक्ती आसा अशें तिका दिसूंक लागिल्लें. ती जाणा आसली डॉ. प्रवीणकुमार हो एक नांवाजतो डॉक्टर आनी आपूण एक सादीसुदी चली. आपल्या सौंदर्याचो तिका अभिमान आसलो तरी डॉक्टराचें व्यक्तिमत्व तागडेच्या एका दाल्यांत घालें जाल्यार आपलें दाले एकदम वयर वतलें. तरी पूण तिची पिरायच अशी आसली की कोणाक तरी काळीज ओंपूंक ती उतावीळ जाल्ली आनी डॉक्टराच्या रुपान तिका एक मनाजोगतो, खंयचेय बायलेक अभिमान दिसत असो प्रियकर मेळिल्लो.

पूजा त्या दिसा भुरकटून घरा गेली आनी घराकडेन वचून तिणे डॉ. प्रवीणकुमारान आपणाक मागणी घाल्या अशें सांगून सोडलें.

घरच्या लोकांनी अविश्वासान तिगेलें म्हणणे आयकलें. ती फट उलोवची ना म्हणपाचो तांकां भरवंसो आसलो. तरीपूण खंय डॉ. प्रवीणकुमार आनी खंय पूजा? असो प्रस्न मायेचें कुड्डेपण आसतनाय पूजाल्या आवय-बापायक पडलो.

पूजाल्या घरांत एके तरेची खोशेची उंचाबळाय उपाट भरून व्हांवक लागली आनी तेच रातीकडेन पूजान नोकरी सोडची अशें सगळ्यांनी एकमतान थारायलें.

''फाल्यां सकाळीं हांव डॉ. प्रवीणकुमारासरीं वतां आनी म्हूर्तांचें उलोवन येता.'' तागेल्या बायापन सांगलें.

पूण आवयन ताका समजायलो.

''जे अर्थी तो आमचेसरीं येवंक ना तेन्ना तें कितें विचारपाचें ते पूजा मार्फतीनच ताका विचारप समा जातलें.''

''तुमकां जाय जाल्यार हांव फाल्यांच ताका हांगा घेवन येतां.'' पूजान म्हळें.

''नाका नाका.'' आवयन तिका आडायली. ''ह्या घरांत ताका बसूंक जागो खंय आसा?''

चर्चा आनीकूय जाली. पूण तागेल्या नाटकांत काम करपाचो पूजान जो प्रस्ताव मांडलो ताका विरोध कोणेच केलो ना.

*****

दुसऱ्या दिसा येसायेखातीर पूजा जेन्ना डॉक्टरागेर पावली तेन्ना नाटक कंपनीच्या सगळ्याच वांगड्यांनी तिका येवकार दिलो.

एकदम १५-१६ लोक डॉ. प्रवीणकुमारागेर जमिल्ले. सगळ्यांचो संबंद नाटकाकडेन पावतालो. सगळेच नट न्हय. तातूंत माचयेवेली वेवस्था सांबाळपी लोक आसले आनी प्रॉम्पटरय आसले.

दर एका पात्राक ताची भूमिका डॉक्टरान दिग्दर्शक ह्या नात्यान समजायली आनी नाटकाचें घसघशीत वाचन करून काडलें. नाटकाचें कथानक आयकून पूजाच्या मनाचेर खोल परिणाम जालो. ती भ्रमिश्टासारकी ते नायकाचो आनी नायिकेचो विचार करीत बसली. जेन्ना तिच्या प्रवेशाचो प्रसंग आयलो तेन्ना शुन्यांत शेणिल्ले ते चलयेक भानार हाडूंक सगळ्यांकच उले मारचे पडले.

"तू न्हिदिल्ली काय कथेंत तन्मय जाल्ली?" एका पात्रान तिका विचारलें.

पूजान जाप दिली ना. तिणे पर्स उक्ती करून लेंस भायर काडलो आनी दोळे पुसूंक लागली. सगळेजाण तिका पळयत रावले.

"कितें जालें तुजें? तूं रडटा कित्याक?" कोणेतरी विचाल्लें.

"नो सेन्टीमेन्टस् प्लीज." डॉक्टरान निबर आवाजांत म्हळें, "हांव जाणा ती रडटा कित्याक तें. इतली भावनावश जाली जाल्यार तूं नाटकांत काम करूंक पावचीना. तुवें विसरूंक फावना की तूं एक सवंग करता. तूं जर अशी रडूंक लागली जाल्यार फुडलें काम कोण करतलो? नाटक पडटलें."

परत प्रवीणकुमार तिचेसरी आयलो आनी तिचे फाटीर हात दवरून ताणें म्हळें, "हांगा तुका संवाद ना. पूण तोंडावयल्या हावभावावरवीं तुवें एक नर्स आनी तुजो प्रियकर एक फाकीवंत कलाकार. पयलींच्या सिनांनी खंय तरी नदरेक नदर भेट्टाली आनी दोळ्यांची पाती जड जावन नदर जमनीक थिरावताली. पूण हांगा ह्या सिनात तूं व्हंकल. कल्पना कर... भायर शेनाय वाजता, लग्नाच्या माटवांतलो बोवाळ चलता आनी तुका व्हंकलेचो साजशृंगार करून सव्याचेर हाडटात. तूं बशिल्लेकडेन सगळ्यांच्यो नदरो तुजेर थिरावल्यात आनी तुजी नदर तुज्या पांयाच्या आंगठ्याचेर. तुज्या तोंडार साडयेचो पदर आसा तो ल्हवू वयर करून तूं तुजें मुखामळ प्रेक्षकांक दाखयता.

अशें पिकिल्ल्या द्राक्षावरी अरळ लजेल्लें मुखामळ. जिणेची कृतार्थताय दोळ्यांत एकाठावची पडटली.... लोकांची तुका पर्वा ना. तुजे प्राण दोळ्यांत उबे रावल्यात. लज आनी भंय हांणी मुखामळ तांबडें जालां. ल्हवू नदर चोरून तूं ताचेकडेन पळयता आनी त्याच खिणाक ताची तुजेर थिरावन आशिल्ली नदर तुजे नदरेक भेट्टा.... एक थरथरो, एक शिरशिरो... एकय उतर उलोवपाचें ना. समजली? आतां कर."

रंगमाची सजूंक ना. सवो म्हणून डॉ. प्रवीणकुमाराल्या घरांतलीं दोन कदेलां जोडून दवल्ल्यांत. एका कदेलाचेर खासा तो बसला आनी लजत लजत आपली साडी सांबाळीत पूजा येता आनी कुशीच्या कदेलार बसता. कदेल फाटल्यान लंवडटा.

"अशी न्हय." प्रवीणकुमार उठून अभिनय करून तिका कशें पावल उखलचें, दोळ्यांवेलो पदर काडून चोरून कशें पळोवचें तें दाखयता. तिचे कुशीक बसता.

"चल. आतां हो सीन परत कर."

सात खेपे ताणे तो सीन तिचेकडल्यान करून घेतलो. त्या दिसा तिका प्रवीणकुमाराचो रागच आयलो. तिणें म्हळें, "शेनाय वाजूंदी, लोक येवंदी. मागीर तूं पळयतलो हांव

इल्लीय उणे पडची ना."

तिगेले हे जापेचेर सगळ्यांनी ताळयो माल्ल्यो. त्या दिसाची येसाय सोंपली आनी पूजाचो संकोच खुवसो मोडून गेलो.

उप्रांत खुब दीस त्याच सीनाची पुनरावृत्ती जायत रावली. नाटकाचो तिसरो अंक जेन्ना सुरू जालो तेन्ना मात पूजाच्यान आपली भूमिका कशीच करूं नज जाली. दर एका प्रसंगाकणकणी ती कासावीस जाताली आनी डॉ. प्रवीणकुमार तिडकतालो. "ही खरी खबर न्हय. तुका कोणे बुडोवन मारूंक हाडूं ना." तो सांगतालो.

"पूण हांव कितें करू?" ती म्हण्टाली. "म्हजे मन भरून येता आनी तोंडांतल्यान उतर फुटना. कितें करचें तेंच म्हाका कळना."

"तुवें कांयच करपाचें ना. व्हंकलेच्या भेसांत मंगलवाद्यांच्या तालांत तूं व्हड्यार चडटा. एके कुशीक वचून बसता. मळबांत पुनवेचो चंद्र चकचकता. चांदण्याची पसय उदकाच्या ल्हारांचेर पडून पुराय वातावरण धुंद जाल्लें आसा. व्हडें सुट्टा. तो उठून तुजेमर्गी येता. आपली मुरली भायर काडून वाजयता तेन्ना व्हडें हालूंक लागतलें. सगळे उबे रावतले. हें सगळें स्टेजीर दाखयतले. तो आभास निर्माण करतले. मयासुराची मयसभा माचयेर हाडटले. तुंवे गडबडपाचें कारण ना. व्हडें एके कुशीक लवंडतलें आनी तूं हे माचयेचे खोलायेंत अचळय पडटली. माचयेर काळोख जातलो. व्हंकल बुडिल्ल्याचो आकांत जातलो आनी तूं वयर येतली. त्या वेळार तुजो भेस वेगळो आसतलो. तुजे केंस सोडय पळोवया. "एकदम उबो रावन डॉ. प्रवीणकुमार तिच्या केंसाक हात लायता.

ती काचावूल जाता. पूण डॉक्टराक पर्वाच ना.

"हांव दुःशासन न्हय. हांव फकत तुजें केंस कितले लांव, कितले दाट तें पळयता." तो तिका सांगता आनी मानेचेर बांदिल्लो आंबाडो जेन्ना सुट्टा तेन्ना लांब रसमी सळसळ तिची कमरामेरेन फाट धांपून उडयता.

"वा!" डॉ. प्रवीणकुमार म्हणटा, "हांवे अपेक्षा केल्ली ताचेपरसय सुंदर, खरें म्हळ्यार तुज्या रुपापरसय तुजे केंस सुंदर!"

ती लजेन दोनय हातांनी तोंड धांपून घेता.

****

नाटक बरे तरेन वसलें आनी पूजान आपलें काम खूबच तन्मय जावन केलें. ती प्रवीणकुमाराच्या मोगान पिशी जाल्या. पूण प्रवीणकुमाराक कल्पना ना. नाटकाचो पयलो प्रयोग जातकच ग्रीन रुमांत पूजान डॉ. प्रवीणकुमाराच्या पायांक हात लावन नमस्कार केलो तेन्ना ताणें तिका उबी करून लागीं ओडली तेन्ना लेगीत ताच्या मनांत कसलोच विचार नासलो. पूण पूजा मात त्या प्रसंगाची मनांतल्या मनांत वाट पळयताली.

"तुका पयले खेपे पळयली तेन्नाच हांव वळखल्लों, की तूंच नायिकेक न्याय दितली... आनी तुवें दिलो. आतां तूं सामान्य चली उरूंक ना. वंगाली रंगमाचयेवयली एक नांवाजती नटी जाल्या. ही साधना तुवें चालू दवरूंक जाय...."

"हांव ओली माती, तुवेंच म्हज्यांत जीव फुंकलो. हांव जी कोण आसा ती तुकाच लागून..."

"खरें सांगतां पूजा." डॉ. प्रवीणकुमारान तिचे नदरेक नदर दीत म्हळें, "जर हें नाटक म्हणपाचें भान म्हाका उरूंक नाशिल्लें जाल्यार हांव खऱ्यांनीच तुज्या मोगांत पडटलों आसलों."

डॉक्टराचें हें म्हणणे आयकून पूजाक धपकोच बसलो. म्हण्टकच इतले दीस ती जें मानताली तें नाटकच आसलें तर? ती गंभीर जाली. पूण डॉ. प्रवीणकुमाराचें तिचेकडेन लक्षच नासलें. तो आतां फुडल्या प्रयोगाची तयारी करतालो. नर्सीच्या भेसांत तो तिका त्या लोकनाट्याच्या नायकाच्या म्हऱ्यांत धाडूंक सोदतालो आनी ताची तयारीय डॉ. प्रवीणकुमारान सुरू केली.

तो दवाखान्यांत गेलो आनी ताणे न्हिदिल्ल्या पेशंटाक उठयलो. तो एकदम काचाबूल जावन उठलो.

"कितें जालें?" आकांतून ताणे विचारलें.

"तुका एक बरी खबर सांगतां.... तुजी बायल मरूंक ना."

"हांव जाणाच आसलों." एकदम उठून तो उबो रावलो आनी ताणे डॉक्टराक विचाल्लें, "खंय आसा ती?"

"ती आतां बुध्द पुनवेचे रातीकडेन तेच न्हंयतल्यान वयर येतली. तेच तिथीक.

तो तकली हालयता. शुध्दीर आयिल्ले वरी ताचे भाव बदलतात. डॉक्टराक घट्ट धरून विचारता, "खरें सांगता तूं? खरें हें?"

"सामकें खरें."

तो एकदम कानांत वारें भरिल्लेवरी वागूंक लागता. डॉक्टर ताका थातारून घेता. आनी पूजाक नर्सीच्या भेसांत ताचे कुडींत आफोवन ताचेर नदर दवरूंक सांगता.

आंगार जरी नर्सीचो भेस चडयिल्लो आसलो तरी पूजा ही एक सादी चली. मनांत एक भंय की पेशंट मनोरुग्ण म्हळ्यार पिसो. खंयच्या खिणाक ताचें पिशें चाळवत हाचो नेम ना. ताची बायल मुळची नर्स. घडये आपणाक तीच समजून आंगार हात घालो जाल्यार? नाटकांतलें सवंग परवडलें, तो जिवावेलो खेळ नासता. डॉ. प्रवीणकुमारान हें वेगळेंच काम आपणाक दिलां. जायत हें आपणाच्यान? नकार दिवचो अशें जायते खेपे तिच्या मनांत आयलें. पूण डॉ. प्रवीणकुमाराचें मन मोडूंक फावना. आपणाक सगळें सोसचें पडटलें डॉक्टराचें मन राखचेखातीर, अशें येवजून ती कामाक कबूल जाली.

बल्बाच्यां अंधूक उजवाडांत जेन्ना पूजा त्या रुग्णाचे कुडींत भितर सल्ली तेन्ना कुडीचें दार करकरलें.

तो उठून खाटीर बसलो. आपले दोळे किलकिलावन तिका पळोवंक लागलो. ताच्या दोळ्यांत एक धवी आकृती दिसताली.

"कोण?" ताणे विचारलें.

''हांव.'' वीणेची तार झंकारची तसो काळखी मौनांत पूजाल्या तोंडचें एकच उतर गाजलें.

तो एकदम उठून उबो रावलो आनी आपले दोनय हात विस्तारावन ताणें म्हळें, ''यो. तुजीच वाट पळयतालों. हांव जाणा आसलों. डॉक्टर म्हाका निकतोच सांगूनय गेला. तूं परत येतली. तुका वेगळी गती ना. जीण वा मर्ण आमकां सांगातान येवपाचें.''

तागेलें हे भाशण आयकून पूजा एकदम भियेली. आपल्या हातांची ढाल मुखार उबी करून आनी आपली नदर ताचेर थिरावन ती दाराकडेनच संकोचून उबी रावली.

''यो. तूं अशी लजूं नाका. डॉक्टर सगळें जाणा...'' अशें म्हणून तो फुडें येवंक लागलो तेन्ना पूजान व्हडली किळांच माल्ली.

भायलेवटेन आशिल्लो डॉक्टर आनी हॉस्पिटलांतले हेर लोक धांवत ते कुडींत येवन ट्युबलायट पेटयसर पूजा घुंवळून जमनीर पडिल्ली आनी तो सपनांतल्यान जागो जावचो तसो तटास नदरेन सगळें पळयतालो.

कितें जालां हें डॉ. प्रवीणकुमाराक खबर आसलें. ताणे पूजाची वासपूस केली ना. ताणें त्या नटाक व्हरून खाटीर बसयलो आनी दुसरे नर्सीक पूजाक भायर व्हरूंक सांगलें.

डॉक्टरान पळयलें, तो रुग्ण घामाघूम जाला.

''व्हडली चूक करून बसलों हांव. म्हाका क्षमा कर.'' ताणे डॉक्टराकडेन मागलें.

डॉक्टर खुश जालो. ताका दिसतालें आतां रोगी सुदारता. तो रोग्याक घेवन भायलेवटेन आयलो. थंय पूजा शुध्दीर येताली. ताणें म्हळें, ''तुजी बायल परत येतली. अशी ताकीत करूं नाका. ही हॉस्पिटलांतली नर्स. तुजी बायल न्हय.''

''नर्सीच्या भेसांतच ती म्हजे जिणेंत पयली आयिल्ली. देखून म्हजो गैरसमज जालो. उजवाड अंधूक आसलो आनी तुजीं उतरां मनांत उरिल्लीं.''

तो उलयतालो आनी डॉक्टर मुमुरखो हांसतालो. इतलो वेळ पूजाची ताणें वासपूस करूंक नासली. शुध्दीर येतकच पूजा उठली तशें ताणें पेशंटाक म्हळें, ''चल, तिची क्षमा माग.''

''तिची क्षमा मागूंकच जाय.'' ताणें म्हळें, ''हांवें मोठी आगळीक केल्या. एके परकी बायलेचे मर्यादेचो भंग केला.''

तो तिचे पांय धरूंक वतालो. पूजा फाटीं सल्ली. अजून ती ताका पळयताली... तिका ताची काकूळट दिसूंक लागली.

पेशंट आपले कुडींत गेलो. पूजाक घेवन डॉक्टर भायर आयलो.

''तुज्या दर्शनानच ताचें पिशें गेलें. आता फुडलो सीन करचो पडत अशें म्हाका दिसना. पूण मनाची तयारी दवर. पुनवेचे रातीकडेन....''

''ना डॉक्टर ना.'' पूजा एकदम रडूंक लागली, ''तुजें मन राखचेखातीर हांवें सगळें केलां. आता म्हाका ताचो भंय दिसना. काकूळट दिसता. हांव ताका कशी फटोवं?''

डॉक्टरान पूजाचे फाटीर हात दवल्लो आनी म्हळें, ''अशी भावनावश जावन

उपकारचेंना. प्रस्न एका पेशंटाच्या जिविताचो, आनी तो पेशंटय सादो-सुदो न्हय हें तूं जाणाच.''

''खरें म्हळ्यार हांव त्या पेशंटाखातीर कांयच करूंक सोदिना. हांव करतां तें तुजेखातीर. खरें म्हळ्यार म्हजेखातीर...''

''तूं कितें म्हण्टा तें म्हाका समजलें ना.'' डॉक्टरान म्हळें.

''इतले बेगीन तूं विसरलो? तुवें म्हजो पत्कर घेतला. तितलेच खातीर हांवें तोंडाक रंग लायलो आनी हें आयचें नाटक लेगीत केलें.''

डॉक्टर एकदम व्हडाव्हडान हांसलो. ''ना. ना. तें कशें विसरूं येता? एक बरोसो भुरगो सोदपाचें काम हांव आयच्यानच सुरू करतां. मागीर जालें?''

ती हांसत्या डॉक्टराकडेन दुवावान आनी अजापान पळयता आनी म्हण्टा, ''ही कसली मस्करी? दुसरो कोण भुरगो सोदचेखातीर तुजी गरज ना.''

तिगेल्या ह्या उतरांचो अर्थ डॉक्टराक रोखडोच समजलो. तो एकदम गंभीर जालो आनी ताणें म्हळें, ''तुजी अशी इच्छा आसल्यार तेंय दिव्य करपाची म्हजी तयारी आसा. पूण एक गजाल विसरूं नाका. तुजे - म्हजे पिरायेंत बापूय आनी धूव हांचेमदीं आसूं येता इतलें अंतर आसा.''

''म्हाका उपकारता.'' लजून तिणे पदरांत तोंड लिपयलें.

डॉक्टरान सरळ जाप दिली ना. म्हळें, ''आदीं ह्या नटाचो प्रस्न सोडोवया आनी उप्रांत आमचो संवसार थाटूया. मेनकेपरस तूं इल्लीय उणे न्हय.''

''अशें कित्याक म्हण्टा तूं?''

''विश्वामित्राचें तप मेनकेन भंगयलें आनी इतल्या वर्साची तपश्चर्या केले उपरांत तुवें म्हाका विचळीत केलो.''

****

पूजाचे जिणेंत एक परमळाचे पर्व आतां खऱ्या अर्थान सुरू जाल्लें. डॉ. प्रवीणकुमार लेगीत ल्हवू ल्हवू बदलूंक लागिल्लो. गिमांत निष्पर्ण जावन सुकूंक लागिल्ल्या रुखाक मिर्गाचे ओलसाणी वांगडा आंकरी फुटची तशी डॉ. प्रवीणकुमाराची अवस्था जाली. आतां तो पूजाच्या सांगाताक आंवडेवंक लागिल्लो आनी एकाद्या दिसा तिका येवंक कळाव जालो जाल्यार तो अस्वस्थ जातालो. आपल्यांत घडून आयिल्ल्या ह्या बदलाची जाणविकाय डॉ. प्रवीणकुमाराक जशी जाताली तेच भाशेन हॉस्पिटलांतल्या ताच्या सहकाऱ्यांक लेगीत डॉक्टराचे वागणुकेंत जाल्लो बदल जाणवूंक लागिल्लो. पूण डॉ. प्रवीणकुमाराचें एक बरें आशिल्लें. तो आपल्या पेशंटा म्हऱ्यांत पावलो म्हण्टकच खासा आपणाकच विसरून वतालो.

पुनव अजून पयस आसा. पूण तयारी खूब करचेली आसा. डॉक्टर सांगता तें करपाची पूजाची तयारी आसली तरी तिका केन्ना एक खेपे डॉक्टराक आपल्या घरा व्हरून आपल्या लग्नाची अधिकृतपणान घोशणा करीन अशें जाल्लें.

बंगालातल्याच एका खेड्यांत जंय ऱ्हंयचे एके देगेर त्या पेशंटाचें घर आसा आनी दुसरे देगेर ताचे बुडून मेल्ले व्हंकलेचें. थंय वचून एक खेपे पुराय नाटकाची येसाय तो घेवंक सोदता. येसाये पुरतो तो नायक उल्लो तरी हे खेपे त्या नायकाची भूमिका तो पेशंट करतलो.

सदचे भाशन पूजा डॉ. प्रवीणकुमाराक मेळूंक आयली तेन्ना ताणें सांगलें, ''जो प्रयत्न हांव इतले दीस करतालों तो तुवें एका खिणांत करून दाखयलो. आतां पेशंट सामको नॉर्मल जाला. पूण एक भावना ताच्या मनांत आसा. पुनवेचे रातींकडेन ती आपणाक परत मेळूंक येतली....''

''पूण म्हाका दिसता आमी व्हडली रिस्क घेतात.... तो निवळ्ळो तरी उपरांत कितें जातलें? वायल म्हणून कोण ताचेसरी वतली? तो म्हाका आपली बायल मानून बसतलो. फुडें कितें?''

आपले येवजणेंतलो दोश डॉ. प्रवीणकुमाराचे तकलेंत पयलेच खेपे आयलो. मनोरुग्णाक ताची मेल्ली वायल दाखोवप वेगळें. पूण तो निवळटकच परत ताका बायल खंयची दितलो? ताका फटोवप सोपें न्हय. आनी आपणाक फटयला अशें कळटकच ताचें पिशें परत चाळवूं येता.

डॉ. प्रवीणकुमार इतलो वेचैन जालो की फुडें चड उलयना आसतना ताणे पूजाक म्हळें. ''आता चल तूं. घरा चल. तुका हांव रकाद धाडून आपयतां.''

ताच्यांत जाल्लो बदल पळोवन पूजा एकदम अजापभरीत जाली. आपलें चुकलें अशें तिका दिसूंक लागलें. पूण दुसरो उपाय नासलो. नाटकाचे माचयेर एकाद्रो प्रसंग घडोवन हाडप वेगळें आनी तो लोकांक पटलो तरी वेव्हारांत तो खरो थारतच म्हणपाचो भरवंसो नासलो. ही गजाल वेगळी की पूजाक नर्सीच्या भेसांत पळोवन त्या नटाचेर बरो परिणाम जालो. घडये आपली मेल्ली बायल जीती जावन आयल्या हें लेगीत तो मानूंक कबूल जायत. पूण ताका बायल खंयची दितलो?

येवजिता तितलो डॉ. प्रवीणकुमार भोवऱ्यांत घुस्पल्ल्या मनशावरी जालो. तागेली पुराय येवजण पूजान विचारिल्ल्या एका साद्या प्रस्नान कोसळून पडिल्ली आनी तीं सपनां रंगोवन पूजाचो हात हातांत घेवपाचो ताणे मनाची तयारी केल्ली तीं सपनां अचकीत भंगल्लीं.

दुसरे वाटेन तो मनोरुग्ण आतां सामको नॉर्मल जाल्लो. डॉक्टर ताका आपल्या घरा व्हरतालो आनी ताच्या सांगातान फिरूंकय वतालो. ताणे पळयलें की जेन्ना जेन्ना वायलेचो विशय येता तेन्ना तेन्ना तो अस्वस्थ जाता. डॉक्टरान ताका सांगिल्लें तेंच खरें अशें तो मानतालो. पुनवेचे राती ऱ्हंयच्या पात्रांतल्यान आपली व्हंकल परत येतली अशें ताका दिसतालें. देखून तो पुनव केन्ना हो प्रस्न डॉक्टराक विचारतालो.

एक दीस डॉ. प्रवीणकुमारान ताचेर एक प्रयोग करपाचें थारायलें. सांजच्या वेळार तो आपल्या रोग्याक घेवन गांवांभायर पासयेक गेलो आनी थंय ताणे ताका समजावपाचो

यत्न केलो.

"जल्म आनी मरणाचो फेरो खंयच्याच जीवाक चुकना हें तूं जाणाच." डॉक्टरान म्हळें, "आनी मेल्लो मनीस परत जितो जावन येना हें न कळपाइतलो तूं पिसो न्हय."

"हांव जाणा." त्या नटान जाप दिली, "पूण जेन्ना काळजाथावन एक जीव दुसऱ्या जीवाचेर मोग करता तेन्ना संवसारातली खंयचीच शक्त तांकां वेगळावंक पावना. मरण लेगीत..."

"म्हळ्यार तुजी अपेक्षा कितें आसा?" डॉ. प्रवीणकुमारान विचाल्लें. "एखाद्या मनशाचेर उपाट मोग केलो म्हणून तो नवो जल्म घेतलो?"

"ताणे घेवंक जाय आनी तसो घेतलो ना जाल्यार जो जीतो उरला तो मरूंक जाय. मिलन हें अटळ. तें ह्या संवसारांत आसूं वा दुसऱ्या संवसारांत आसूं..."

"तुजें म्हणणें कितें? तुजी मेल्ली वायल परत येतली?"

"तुवेंच तशें सांगिल्लें न्हय? म्हाका तें खरें दिसलें. येवजिता तितलें तें चड खरें दिसता. म्हजी बायल मरूंक ना. ती बुडली. पूण कोणेंय तरी तिका वांचयल्या आसतली. आर्मी परत थंय वचून पळोवया." ताणे डॉक्टराक सुचयलें.

"आनी ती आयलीना जाल्यार?"

"आयलीना जाल्यार हांव जीव दितलों." एकदम मुठी आवळून तो उलोवन गेलो.

आता डॉ. प्रवीणकुमारामुखार पेंच उबो जालो. ताका समजावप कशें हें ताका कळ्ळें ना. पूण तेच बरोबर ताका एक समादान जालें की मेल्ले बायलेचो ध्यास सोडल्यार रोगी खूबच सुदारला. दुःखाचो आवेग उणो जाला. घडये तो मरून गेल्ले बायलेक विसरत.

अचकीत ताचे तकलेंत एक कल्पना येवन गेली. एकाद्री बरी शाणी चली तयार जाली जाल्यार? घडये ताचो प्रस्न सुटूंये. नर्सीच्या भेसांत चलयेक ताचेसरीं दवल्ली जाल्यार ल्हवू-ल्हवू मेल्ले बायलेक विसरून तो ते चलयेच्या मोगांत पडूं येता.

पूण ते नर्सीचे काम कोण करतलो?

एकदम पूजाची मूर्त डॉ. प्रवीणकुमाराच्या दोळ्यांमुखार उबी रावली. पूजा नर्स नासली तरी तिच्या आंगांत अभिनय आसा. परिस्थिती वळखून कशें वागचें हें तिका समजता. तसो लोकनाट्यांतलो हो नट किरकोळ मनीस न्हय. बायलेच्या मरणाचो धक्को बसून तो भ्रमिश्ट जालो तितलो काळ सोडल्यार अजूनय बंगाली लोकांच्या काळजांत ताका मानाचे स्थान आसा. गांवगिऱ्या वाठारांतल्योच न्हय तर शारांतल्यो लेगीत खुबशो चलयो ताचेर भाळिल्ल्यो आसात. तो स्वस्थ जालो, परत व्यवसाय करूंक लागलो जाल्यार पूजा ही ताचेखातीर अनुरूप साथीदार जावं येता. पूजाच्या आंगांत जे अभिनयाचे गुण आसात ते सिध्द जाल्ले आसात...

मळबांत चंद्रकोर उदेली. ती डॉक्टराक दाखोवन त्या नटान म्हळें, "खंयचो पक्ष चालू आसा?"

"कित्याक विचाल्लें?" डॉक्टरान ताका प्रस्न केलो.

"मळबांतली चंद्रकोर पळय. शुक्ल पक्ष आसत जाल्यार पुनव लागीं आसा आनी कृष्णपक्ष आसत जाल्यार पुनव अजून पयस आसा. तितलेच खातीर विचाल्लें."

ते अवस्थेंतय ताचे बुध्दीची डॉक्टराक तोखणाय दिसली. ताणें म्हळें, "सध्या कृष्णपक्ष चल्ला."

"म्हजे जिणेंतली उमास केन्ना सोंपतली?" सुस्कार सोडून आपणाकच विचारचो असो त्या नटान प्रस्न उच्चारलो.

"केन्ना तरी उमास वतली. पुनव येतली. मनशान धीर सोडूंक फावना." डॉक्टरान ताका धीर दिलो आनी परत हॉस्पिटलांत पावयलो.

त्या उपरांत ताणे रोखडेंच पूजागेर वचपाचें थारायलें. पूजागेर तो केन्ना वचूंक नासलो. पूजा रावता खंय हेंय ताका खबर ना. फाटले चार दीस ती ताका मेळूंक लेगीत ना. ताका उगडास जालो केन्ना तरी तिणें आपलो पत्तो कागदाच्या चिटाऱ्याचेर बरोवन दिल्लो. नाटकाची येसाय सुरू जावचे आदली गजाल. घडये तिका आपोवंक पडत म्हणून ताणे तो दवरिल्लो. पूण ती नेमान येवंक लागतकच ताणे तो चिटारो खंय उडयलो ताचो उगडास जायनाआसलो.

ताणे घरांत सगळेकडेन सोदलो. निमाणे ताका नाटकांतल्या दुसऱ्या एका पात्राचो उगडास जालो. रातची उसरां मेरेन येसाय चल्ल्यार तो पूजाक घरा पावयतालो. डॉ. प्रवीणकुमारान वेळ वगडायनासतना ताचें घर गांठलें आनी ताका सांगाताक घेवन तो पूजागेर गेलो.

कलकत्ता शारांतले गलिच्छ वस्तींतली एक चाळ. रातीचो वेळ आनी अंधूक उजवाड. सगळेकडेन कुलकुलाट. टॅक्सी जेन्ना चाळीमुखार येवन उबी रावली तेन्ना चारय माळयांवेले लोक गॅलरींत उबे रावले. कोण कोणागेर आयला ताचो अदमास घेवंक लागले. डॉक्टराक तो वेगळो अणभव आसलो. पूण वातावरण नियाळपाची फुरसत ताका नासली. सांगातान आयिल्ल्या मनशाफाटल्यान तो पूजाल्या घराच्या दारांत वचून उबो रावलो.

भायले गॅलरींत एक पेट. ते पेटेचेर एक जाण्टो दादलो बसला आनी तोंडातलें पान चावीत मनांतल्या मनांत प्रार्थना करची तसो ओंठ हालयता. शेजारचे चार लोक प्रवीणकुमाराफाटल्यान आयिल्ले.

"पूजा आसा?" डॉक्टरान दादल्याक विचाल्लें.

ताणे जाप दिली ना. भितल्ले वाटेन बोट दाखयलें तोमेरेन एक बायल दारांत येवन उबी राविल्ली. ती पूजाची आवय आसुंये.

"चार दीस येवंकच ना. ती नाटकांत काम करता. डॉ. प्रवीणकुमारागेर खबर घेवन पळयात. थंय घडये मेळत."

अनपेक्षीत जाप आयकून डॉ. प्रवीणकुमार अवाक् जालो. खीणभर तिच्या तोंडाकडेन पळयत रावले उपरांत ताणें सांगातान आयिल्ल्या मनशाक हात लायलो आनी दोगूय

वचून टॅक्सींत बसले.

****

पूजाल्या घराकडच्यान डॉ. प्रवीणकुमार परतलो तेन्ना ताची अवतिकाय पिशांतरावरी जाल्ली. इतले दीस ताचे तकलेंत मनोरुग्ण नटाचोच प्रस्न घोळटालो. ताका दिशिल्लें पूजा जर त्या नटाकडेन लग्न जावंक कबूल जायत तर दोगांयचेय प्रस्न सुटटले. पूजाक एक घोव जाय. वाडिल्ले सुंदर चलयेची दुसरी कसली अपेक्षा आसता? तो नट सुंदर आसा. परत तरूण आसा आनी तागेली भ्रमिश्टाची अवस्था आतां सोंपल्या.... पूण पूजाचे नदरेन ताणे विचारच करूंक नासलो.

ती घर सोडून गेली. कोणाय मैत्रीणीगेर वचून रावल्या आसत काय? तिका कोणय नवो प्रियकर मेळ्ळो?

नसायेचें एक ल्हार डॉक्टराच्या काळजांत फुटलें आनी ताचें ताकाच अजाप जालें. पूजाविशीं ताका इतलें आपलेपण केन्नाच्यान दिस्ता? ताचे नदरेत ती एक नटी आसली. तें काम तिणे केलें. तिका आपल्या फुडाराचो विचार करूंक जाय. लग्नार्चीय म्हणून पिराय आसता. तें वेळार जालेंना जाल्यार सुंदर सुंदर चलयांची अवस्था पोंवशेल्ल्या नुस्त्यासारकी जाता. देखून तिणे आपलो फुडार आपूण जावन थारायिल्लो आसत जाल्यार तिका दुशण कशें दितलो?

पूण डॉक्टराची अशी भावना जाली की, पूजान आपणाक फटयलो. तिणे आपलेकडेन लग्नाचे उतर मागलें आनी आपणे तें तिका दिलें. त्या उपरांत अशें कांयच घडूंक ना, जाका लागून आमचें थारिल्लें लग्न मोडलें अशें म्हणूं येत.

पूण तागेलें दुसरे मन ताका म्हण्टालें, ''तूं आपुण जावन तें नातें तोडूंक भायर सरिल्लो. तूं तिका त्या पिशा नटाच्या गळ्यांत बांदूक सोदतालो...''

ते अवस्थेत डॉ. प्रवीणकुमार घरा आयलो आनी दार उकतें करपाक कुलपाक हात घाल जाल्यार भायल्या सोपणाचेर कसली तरी एक आकृती हालिल्ल्याचो ताका भास जालो.

भायलेवटेन काळोख. लायटीचो स्वीच दाराचे भितल्लेवाटेन आसा. दार उकतें करून ताणे लायट पेटयली आनी ताचो आपल्याच दोळ्यांचेर विस्वास बसलो ना.

सोपणाचेर पूजा बसल्या. पाय कवळून धोंपरामदीं तोंड लिपोवन बशिल्ली ती चली पूजाच म्हणपाचें ताणे केंसांवयल्यान वळखिलें आनी एकदम उलो माल्लो, ''पूजा!''

तिणे तकली वयर काडली ना. डॉ. प्रवीणकुमाराकच तिचेसरीं वचचें पडलें. ताणे तिज्या भुजांक धरून तिका हालयली तेन्ना तिणें तकली वयर केली. तिचे दोळे रडून रडून सुजिल्ले.

''कितें जालें पूजा? यो. भितर यो.'' ताणें तिका उखलपाचो यत्न केलो.

ती उबी रावली आनी आपल्या देहाचो भार डॉक्टराच्या आंगार घालून ताच्या आदारान घरांत भितर आयली.

"जालें कितें? इतले दीस खंय गेल्ली तूं?"

पूजाक उतर फुटलेंना. ती रडत रावली. डॉ. प्रवीणकुमारान तिका बसोवन पियेवंक उदक दिलें आनी म्हळें, "तू हांगा सुरक्षीत आसा. कितें घडलें ते सांग. म्हजेर विश्वास दवर."

"तुमचेर कसो विश्वास दवरूं?" तिणे परतो प्रस्न केलो.

"तुमी म्हाका त्या पिशाच्या गळ्यांत बांदूक सोदतात...."

"कोणे सांगलें हें तुका?"

"कोणेय सांगू. आर्दी तें फट म्हणून सांगात..."

"सामकें फट न्हय... तूं म्हाका समजून घे. तो पिसो न्हय..."

पूजान एक व्हडली किळांच मारून जमनीर बसकण घेतली. तिणे डॉक्टराचें पांय धल्ले आनी रडत रडत म्हळें, "हांव मनान तुमचेकडेन लग्न जाल्यां. आतां म्हाका दुसरें कितेंय करूंक सांगू नाका. तुमकां नाका आसत जाल्यार हांव जीव दितां पूण त्या पिशाकडेन लग्न जावचीना."

"सारकें समजून घे पूजा. तो पिसो न्हय. तो आतां निवळ्ळा. तो फांकिवंत नट. ताची बायल जावंक भाग्य जाय. ही संद तुवें वगडावची न्हय. तुका बरो घोव मेळटलो. एका कलाकाराक नवी जीण मेळटली.... लोकमाचयेचो सांबाळ करपाचें श्रेय तुका मेळटलें आनी वैजकी शास्त्रांत...."

"नाका. म्हाका हें कांयच नाका. म्हाका फकत एक उतर जाय. तुमी लग्न जातले काय ना?"

"आनी ना म्हळें जाल्यार?..."

"जाल्यार म्हजे वाटेन हांव वचन." एकदम उबी रावन पूजान आपले साडयेच्या पदरान दोळे पुसून घेतले आनी परत म्हळें, "तुमची जाप जाय."

डॉ. प्रवीणकुमार गोंदळ्ळो. त्यावेळार कितें उलोवचें हें ताका समजलेंना. ताणे म्हळें, "तूं सांगता तें करूंक हांव कबूल जायन. पूण आर्दी तो नट बरो जावंदी."

"तो बरो जालो अशें तुमी म्हण्टाले न्हय?" तिणें विचाल्लें.

"तो बरो जाला. पूण आतां बापूय दाखय ना जाल्यार श्राध्द वाड म्हणटात तशी परिस्थिती जाल्या. तो पुनवेची वाट पळयता. पुनवे दिसा आपली बायल उदकांतल्यान वयर येतली अशें तो मानता."

"मेल्ली बायल जिती जातली अशें ताका दिसता?"

"अशें तो मानता. ताका दिसता, जरी आपणाक बायल मेळ्ळीना तरी बायलेचो आत्मो आपलेसरी येतलो आनी आपल्या सांगातान ताका मरणाच्या सपनांत व्हरतलो."

"डॉक्टर, तुमी एका पेशंटाक आत्महत्या करपाची बुध्द दितात? सोबता तुमकां हें?" पूजाल्या प्रस्नांत एक खोंच आसली.

डॉ. प्रवीणकुमारान आंग काडलें. दुसरे खेपे पूजान तागेले विचारसरणेंतली चूक

दाखोवन दिल्ली. तो एकतर बरो जातलो नाजाल्यार मरतलो. तिसरो पर्यायच ना? ताची तकली चलना जाली आनी ताणे विशय बदलून पूजाक विचाल्लें, "इतले दीस तूं खंय आसली?"

पूजान मान सकल घाली आनी ल्हवू आवाजांत जाप दिली, "हांव तुमची परीक्षा घेवंक गेलें. पूण हांव हारलें."

"खंय गेल्लें?"

"खंयच वचूंक नासलें. हांव घरांतच लिपून राविल्लें. म्हाका दिशिल्लें हांव येना जाल्यार तुमी म्हाका सोदूंक येतले. म्हज्या भोळया मनाक दिसलें हांवें तुमकां मोगाच्या पासांनी घुस्पावन घेतल्यात. विरहांतल्यान मोग वाडटा म्हणटात. तुमचो म्हजेर खऱ्यांनीच मोग आसा काय कितें हाची परिक्षा घेवचेखातीर हांव घरांतच रावलें. तुमी सोदूंक आयल्यार हांव ना अशी जाप दिवंक घरच्यांक सांगून दवल्लें. दोन दीस मेरेन तुमी आयलेनात. तेन्ना म्हाका दिसूंक लागिल्लें तुमी केन्नाच येवचेनात. एक पूजा जिणेंतली गेली जाल्यार हजार पूजा तुमकां मेळूं येतात. पूण म्हजी गजाल वेगळी.... पूण जेन्ना तुमची टॅक्सी आमच्या दारांत थांबली तेन्ना म्हाका परत मस्तेपण येवजलें. हांव लिपलीं..."

"पूजा, तुज्या मनांत जे तरेचो मोग म्हजेविशीं आसा ते तरेचो मोग म्हज्या मनांत ना, हें तूं जाणाय जातली."

"ना. म्हाका कशें कळटलें?"

"तुवें समजून घेवंक जाय. वासनेचे अधीन जावन सर्वस्व एके चलयेक ओंपपाची पिराय हांवें वलांडल्या. पूण तूं अजून तरूण आसा..."

"तुमी दिल्लें उतर मोडूंक सोदतात?"

"निखालस ना. तूं सांगशी जाल्यार आदीं तुजेकडेन लग्न जातां आनी उप्रांत आमी दोगांय मेळून त्या लोकनाट्याच्या नटाचो प्रस्न सोडोवंया. जाता तुका?"

अजापान पूजान डॉ. प्रवीणकुमाराच्या तोंडाकडेन पळयलें आनी विचाल्लें, "केन्ना लग्न जावया म्हळें तुमी?"

"तूं म्हणशी जाल्यार फाल्यां सकाळीं. निमाणे लग्न म्हळ्यार कितें? रजिस्ट्राराच्या ऑफिसांत वचून नोंदणी करपाची मूं?"

"लग्न म्हळ्यार इतलेंच? दुसरें कांय करपाचें ना? मनांत मोग नासत जाल्यार त्या कागदावेले नोंदणेक अर्थ तरी कितें?" पूजान विचाल्लें.

"खऱ्यानीच अर्थ ना. तेचभाशेन काळजांत उपाट मोग आसल्यार अविश्वासाक थारो ना आनी जंय अविश्वास आसता थंय नोंदणेची गरज ना." तिचे फाटीर हात दवरून डॉ. प्रवीणकुमारान तिका समजावपाचो यत्न केलो.

"हें सगळें खरें. पूण म्हाका लग्नाक म्हज्या मैत्रीणीक आपोवपाचें आसा. लग्नाचो सुवाळो जाल्लो जाय. चाळीतल्या सगळया लोकांनी हांवें व्हंकलेचो भेस चडयिल्लो

पळोवचो अशें म्हाका दिसता. डॉ. प्रवीणकुमाराची बायल म्हणून म्हाका मिरोवपाचें आसा. म्हाका गोडशें - धोडशें, रिती-रिवाज, शेनाय-वाजंत्री सगळें जाय... सगळें जाय."

"हें सगळें जाले बगर तूं म्हजी जावंक शकना?" डॉ. प्रवीणकुमारान तिच्या दोनय भुजांक निबरान धरून विचाल्लें.

"जावं येता. पूण लोकांक कशें कळटलें? म्हाका लोकांच्या तोंडसून एकय आक्षेपाचें उतर आयकुपाचें ना. आतांच लोक तरातरांनी उलयतात. फाल्यां चड उलयतले. सगळ्या लोकांक किळंच्यो मारून हांव सांगूंक सोदतां डॉ. प्रवीणकुमार म्हजो एकल्याचोच."

तिका लागीं ओडून ताणें थापटिली आनी म्हळें, "तेंय काम करूं येता. आमी फाल्यांच पेपरात एक जायरात दिवया. आमी खाजगींत लग्न जाल्ल्याची घोपणा करूंया. इतल्यान तुजो प्रस्न सुटटलो?"

निरुत्तर जाल्ले पूजान आपलें तोंड ताचे छातयेंत लिपयलें आनी डॉ. प्रवीणकुमारान एक प्रस्न सुटिल्ल्याचो सुस्कार सोडलो.

पूण दुसरो प्रस्न उरिल्लो. तो कसो सोडयतलो तें ताका समजनासलें.

***

दुसऱ्या दिसा डॉ. प्रवीणकुमारान एक पार्टी दवल्ली. आपल्या आनी पूजाल्या लग्नाची. वेंचीक लोकांक आमंत्रण दिलें. तांचेमदी तो पेशंटय आसलो. पार्टेत तो सामको नॉर्मल वागलो. डॉक्टराचें आनी ताचे बायलेचें ताणे अभिनंदन केलें आनी म्हळें, "पुनवेचे रातीकडेन मात बायलेक घेवन व्हड्यांत वचूं नाका आं!"

तागेलें तें उलोवप आयकून पूजा हांसली आनी तो पेशंट एकदम चाळवून किळंचलो.

ते रातीकडेन डॉ. प्रवीणकुमारालो मनोरुग्ण सुमाराभायर उचांवळ जाल्लो. कितें तरी तो वडवडटालो. मर्दींच गायतालो आनी डॉ. प्रवीणकुमाराच्या आंगार धांवन येतालो.

डॉ. प्रवीणकुमाराक दिसलें की तो पूजाचेर भाळ्ळा. पूजा हीच आपली बायल अशें ताका दिसता आनी आतां तो प्रवीणकुमाराकच दुबावता. आपलें बायलेक फुसलावन आपणापसून ताणे वेगळी काडली. व्हड्यांतल्यान पळून बुडिल्ल्याचें नाटक घडोवन हाडलें अशेंय ताच्या मनान घेतिल्लें.

एका काळार तो डॉ. प्रवीणकुमाराक खूब मानतालो. तो सांगता तें मन लावन आयकतालो. पूण आतां तो एखाद्या सुण्यान अनोळखी मनशाचेर तुटून पडचें तसो नाका जाल्लें उलयतालो.

हॉस्पिटलांतल्या सगळ्या कर्मचाऱ्यांनी त्या नटाचे कुडींत वचपाक नकार दिलो तेन्ना तर पंचायती वाडली. एकय नर्स ताचेसरी वचूंक कबूल जायनासली. हेर कर्मचाऱ्यांक लेगीत दिसतालें की ताका पिशांच्या वेगळ्या हॉस्पिटलांत दवरपाचें सोडून डॉक्टर जे प्रयोग करता ते बऱ्याचे न्हय.

एकच पर्याय उरिल्लो. एक खेपे पूजाक तागेले कुडींत धाडून पळोवपाचो.

"ना. ना. हांव कशीच वचचीना. म्हाका ताचो भंय दिसता. तो अधाशाचे नदरेन

म्हजेकडेन पळयता....'' घोवान सांगिल्ली कल्पना पूजाक मानवलीना.

''तर हांव कितें करूं तूंच सांग.'' डॉक्टरान म्हळें.

''ताका पिशांच्या हॉस्पिटलांत धाड....'' पूजान सुचयलें.

''ती म्हजी हार थारतली.''

''हेर कर्मचारी ताचेसरीं वचूंक कबूल जायनात आनी बोकडेक वागाच्या तोंडांत दिवची ते भाशेन तूं म्हाका ताचेसरी वचूंक सांगता.''

''आमी सगळे म्हन्यांतच आसतले. म्हाका पळोवचेलें आसा तो शांत जाता जाल्यार.''

''आनी शांत जालो जाल्यार?''

''शांत जालो जाल्यार ताका समजावन, फुसलावन हांव परत घरा धाडटां. मागीर पुनवेच्या दिसा कितें घडपाचें आसत तें घडूं.''

''आनी शांत जालोना जाल्यार?''

''तर प्रस्न येतलो. पूण तोय सोडूं येता. हांव हार कबूल करून ताका सरकारी हॉस्पिटलांत धाडीन.'

उतर मागूंक पूजान हात फुडें केलो. डॉ. प्रवीणकुमारान तो आपल्या हातांत घेवन चुमलो आनी म्हळें, ''तुजेकडच्यान हीच अपेक्षा आसली, पूजा. घोव आनी बायल म्हळयार अखंड सांगात...''

पूजान नर्सींची वस्त्रां आंगार चडयलीं आनी भायलेवटेन कसल्याय आकांताच्या प्रसंगाक तोंड दिवचें पडत अशें येवजून डॉ. प्रवीणकुमारान सगळे तरेची तयारी दवल्ली.

म्हूर्त थल्लो तिनसांजचो. कुडींत अंधूक उजवाडाची लायट पेट्टाली. तो नट आपले खाटेर न्हिदिल्लो.

पूजान दारार माल्लें. प्रतिसाद आयलोना. तिणें ल्हवू दार धुकल्लें. मात्शें किरकिरलें. तिणें तोंड भितर घालून पळयलें. ताची नदर दाराकडेन थिराविल्ली.

तो उठून बसलो. एकदम शांत आनी तिची वाट पळोवंक लागलो.

पूजा अनमनली. फुडें पावल घालचें काय नाका? माचयेचेर विंगांतल्यान दिग्दर्शकान सुचोवणी दिवच्यो ते तरेन डॉ. प्रवीणकुमार तिका खुणायतालो.

तिणें दोन पावलां फुडें घालीं. तो बसून रावलो. हे खेपे ताणें हात फुडें केले नात.

''इतले दीस तूं खंय आसली? हांवे तुजी खूब वाट पळयली.'' ताणे तिका सांगलें.

असल्या प्रस्नाक जाप दिवपाची तिच्या मनाची तयारी नासली. ती कांय उलयलीना.

''पुनवेचे राती... येतली न्हय?'' तागेलो भ्रमिश्टासारको प्रस्न.

पूजान आंग काडलें आनी ती दोन पावलां फाटीं सल्ली.

''अशी वचूं नाका. रागार जावं नाका. हांव तुका कांय करिना.'' उठून उबो रावन ताणें म्हळें.

''तूं उचांबळ जाता देखून तुजो म्हाका भंय दिसता.'' तिणे ताका सांगलें आनी ताचे तोंडावेले भाव निरखीत रावली.

"ना परत उचांबळ जावचोना. पूण इतलें उतर दी पुनवेचे राती...."

"हांव येतली."

तिच्या हातात जेवणाचे ताट आसलें. ताचे खाटेकडले टिपॉयचेर तिणे दवल्लें.

ताणे तिचो हात आपल्या हातांत घेतलो. तिणे प्रतिकार केलो ना. पूण दुसऱ्या हातान ताची मूठ थापटीत म्हळें. "हांगा असो वागूं नाका."

मूठ ढील पडली. तिणे हात सोडोवन घेतले. दोळे धांपून घेतले. सुटकेचो सुस्कार सोडलो आनी धडधडट्या काळजान ती कुडींतली भायर आयली.

डॉ. प्रवीणकुमारान तिका शाबासकी दिली. त्या दिसा पेशंट बरो वागलो. रिकामे ताट हाडूंक गेल्ल्या कर्मचाऱ्याक ताणे त्रास दिलोना. दुसऱ्या दिसा डॉ. प्रवीणकुमार गेलो तेन्नाय पेशंट नॉर्मल आसलो.

"डॉक्टर, पुनव केन्ना?"

डॉक्टर हांसलो. ताणे म्हळें, "हांवय तुजेभाशेन पुनवेची वाट पळयतां. मळबांत जेन्ना पुर्णाकृती चंद्रीम उदेता त्या दिसा पुनव आसता."

"न्हय डॉक्टर... पुनव दिसाची नासता. ती रातची आसता." अशें म्हणून तोय हांसलो.

डॉ. प्रवीणकुमाराच्या मनावयलें चेपण बरेंच ल्हव जाल्लें. दुसऱ्या दिसा ताणें पूजाक तिचे आवयगेर धाडली. "तू परत हांगा दिसूंक फावना. एक-दोन दिसांभितर हांव ताका घरा धाडपाची तजवीज करतां." ताणें तिका सांगलें.

मनोरुग्णाचो एक बापोलभाव दीसपट्टो दोन खेपे येवन वतालो. डॉक्टरान ताका सांगलें, "तो आतां नॉर्मल आसा. ताका घरा व्हरात. परत ताका नाटकांत काम करपाची संद दियात. अजून मेल्ले बायलेक तो विसरूंक ना... आनी दुसरी एक गजाल करूंक जाय. पुनवेचे रातीकडेन ताका एकोडो सोडूंक फावना."

निरोप घेवन वतना त्या नटान हॉस्पिटलांतल्या दर एका कर्मचाऱ्याक मेळून ताचो निरोप घेतलो. दोळ्यांत दुकां हाडून आपलेकडच्यान घडिल्ल्या आगळिकांखातीर क्षमा मागली आनी डॉ. प्रवीणकुमाराच्या खांद्यार तकली दवरून तो केदोवेळ मेरेन रडत रावलो.

आपूण ताका फटयतां अशी एक भावना डॉक्टराच्या मनांत आसली. पूण हेर सगळ्यांच्या मनांत त्या रुग्णाविशीं सानुभूतीच आसली.

तो नट गेलो आनी डॉ. प्रवीणकुमार आपले कुडींत बसून खूब रडलो.

ल्हवू ल्हवू डॉ. प्रवीणकुमार संवसारांत रमूंक लागलो. पूजाच्या सांगातान जिणेंतले परमळीत खीण अणभवूंक लागलो.

अचकीत एक दीस खबर आयली.... पुनवेचे रातीकडेन त्या नटान न्हंयत जीव दिलो!

ती खबर आयकून डॉ. प्रवीणकुमार पिशांतरावरी जालो आनी तेच भिरकेंत उठून

हिमालयांत गेलो.

चरित्राचे नोटस् वाचतां वाचतां एकाद्री कादंबरी वाचपाचो अणभव घेतलो. दुसऱ्या दिसा इश्टाक म्हळें, ''हें चरित्र पुराय केन्ना जातलें?''

''पळोवया.'' ताणे जाप दिली.

डॉ. प्रवीणकुमाराक एक खेपे मेळचें अशें म्हाका खूब दिसलें. पूण ती भेट घडून आयली ना.



# काशीचो वधस्तंभ

पर्यटन केंद्रांत ना जाल्यार तीर्थस्थानात जे गायड मेळटात ते दंतकथा, लोककथा, कल्पनेतल्यो कथा आनी इतिहास हांचो इतलो सुरबूस सांगड घालतात की खरें कितें आनी फट कितें हे परकी मनशाक समजना. राजहंस हो उदकांत भरशिल्लें दूद वेगळें काडूंक जाणा अशें म्हणटात. पूण तसो नीर-क्षीर न्याय ज्याका समजता तो भोंवडेकार गायडाल्यो खबरी एका कानान आयकता आनी दुसऱ्या कानान सोडून दिता. गायडाचीय तशीच अपेक्षा आसतली. पूण खूब खेपे स्थळा - काळाक जोडून सांगिल्ल्यो गायडाच्यो रम्यकथा म्हजे तकलेंत उरतात आनी त्या स्थानाचो वा तसले घडणुकेचो उगडास जालो म्हणटकच आयकल्ली खबर मनात ताजी जाता.

आज पोरण्या यादीचें मंथन जावपाक कारण सामकें सादें जालें. काश्मीरांत गेल्ल्या कांय पर्यटकांचे थंयच्या अतिरेक्यांनी अपहरण केलें आनी उपरांत तांकां मारून उडयले अशी पेपरांत बातमी आसा. खुवश्यो बातम्यो वाचतना आमच्या लोकांक उतरांचो पुराय अर्थ समजना. तातूंत वर्तमानपत्रातल्या चुकांक वा शब्द योजनेक लागून खुव खेपे गोंदळ वाडटा. पूण कांय उतरां आतां आमचे संवकळेची जाल्यांत तरीकय ताचो अर्थ सारको आमकां खबर नासता आनी तो समजून घेवपाचो यत्नूय आमी केन्ना करिनात.

एका वळखीच्या मनशागेर गेल्लों. भायले कुर्डींत दारांतच वसून, जमनीर पेपर पातळावन तो वाचतालो. तागेली धा बारा वर्सांची चली, जी भौ करून स्कुलांत शिकताली आसूये, म्हऱ्यांत बसून ताचेकडेन उलयताली. तिका मराठी वाचूंक येतालें आनी पेपरांतले माथाळे वाचून ती आपल्या वापायक अर्थ विचारताली. बातमी आसली काश्मिरांत गेल्ल्या पर्यटकांचे आकांतवाद्यांनी 'अपहरण' केले आनी उपरांत तांकां जिवानिशीं मारून तांचे देह चौकांत रस्त्यार उडयले.

चलयेन तो माथाळो आडखळत आडखळत वाचलो आनी बापायक विचारलें, 'पप्पा अ... प... ह... र... ण.. म्हळ्यार कितें?'

त्याच वेळार हांव दारांत पाविल्लों. हांव भायलेवटेनच रावलों. वापायलो आनी धुवेचो संवाद पुराय जावं दी मागीरच हांव भीतर सरतलों अशें हांवें येवजिल्लें.

'कसलें हरण म्हण्टा गो तूं.पळोवया?' अशें म्हणून चलयेन बोट दवरिल्ली वातमी तो

वाचूंक लागलो. ताणे मोठ्यान ती सगली बातमी वाचली आनी म्हळें, 'खंय आसा हरण? काश्मिरांत पाकिस्तानी अतिरेकी लोकांक त्रास दितात. काश्मिर पळोवंक गेल्ले भोंवडेकारांक तांणी मारून उडयलें अशी ही खबर.'

'पूण ताणी ताचें अपहरण केलें न्हय?' चलयेन बापायक परत विचारलें.

'खंय आसा हरण केलां म्हणून?' बापायन परत तोच प्रस्न विचारलो आनी चलयेन बातमेचो माथाळो परत वाचलो.

'आं! तें म्हणटा तूं? हरण करप म्हळ्यार... म्हळ्यार... नाच्च करप.' बापायन चलयेक सांगलें.

चलयेचें समादान जालें ना. पूण त्याच वेळार तिची नदर भायलेवाटेन पडिल्ले म्हजे सांवळेचेर गेल्ली आसूंये.

'कोण आयलो पळय.' तिणे म्हळें.

म्हाका भीतर वचचें पडलें. चलयेच्या प्रस्नाक जाप दिवपाच्या संकटातल्यान बापूय सुटिल्लो देखून ताणे म्हाका व्हड खोशयेन येवकार दिलो. ल्हान चलयेचे तकलेंत एखाद्या उतराचो चुकीचो अर्थ उरचो न्हय ह्याखातीर 'अपहरणा'चो अर्थ समजावन सांगचो अशें म्हाका मनापासून दिसतालें. पूण आपलें अज्ञान चलयेमुखार उक्ताडार घाल्लें बापयाक रुचचें ना हें येवजून हांव ओगी रावलों. म्हजें काम केलें आनी हांव परतलों.

दीसभर म्हजे तकलेंत 'अपहरण' हें उतर घोळत रावलें. एके मराठी शाळेंत 'रुक्मिणीहरण' हो धडो शिकयता आसतना मास्तरान कृष्णान रुक्मिणीचें हरण कशें केलें, हें सांगतना म्हणिल्लें कि 'रुक्मिणी ही एक सुंदर राजकन्या आसली. कृष्णान मंत्राच्या बळार तिका हरणाचें रूप दिलें आनी हरणाच्या गळ्यांत दावे बांदून आपल्यागेर व्हरतकच तिका परत बायलेचें रूप दिलें.' हांवे कानानीं आयकल्ली ही खबर न्हय. पूण ज्या मास्तराच्या नावान ती घोळटाली त्या मास्तराक हांवें पळयला. तो शब्दाचो अर्थ लावंक खूबच तरबेज आसलो. एक खेपे मृगजळ म्हळ्यार हरणांनी पियेवपाचें उदक असो अर्थ सांगून वयल्यान अशी पुस्ती जोडिल्ली : मृग नक्षत्राचेर पयलो पावस पडटा आनी त्या पावसाचें उदक हरणां पियेलीं जाल्यारच तांची तान भागता. ल्हान पिरायेचेर मास्तर जें शिकयता तें मतीत थीर बसता. ताचो विसर जाण्टेपणात लेगीत पडना. आनी मास्तरान शिकयिल्लें चुकीचे आसतले म्हणपाची जाणविकाय लेगीत जायना. हरणाचो विशय येतकच म्हाका राजस्तानात पळयिल्ल्या हरणाचो उगडास जाता; पूण अपहरणाची गजाल आयकनाफुडें म्हाका काशीचो उगडास जालो.

काशीक गंगेच्या पात्रांत व्हड्यांत बसून भोंवडी करपाचो आनंद वेगळोच. पुराय काशी गंगेचे देगेचेर वसल्या. खुबशे घाट आसात आनी सकयल्या भागांत रेल्वेचो पूल गंगेवयल्यान वता. उंचयल्या घाटार वचून व्हड्यांत बसचें... तातुंतय सूर्यास्ताच्या वेळार

वचून बसचें आनी सांगातान एकाद्रो गायड घेवन रेल्वे पुलामेरेन जलसंचाराचो आनंद भोगचो.

म्हाका उगडास जाता तो अशा जलसंचाराक गेल्ल्यावेळार म्हज्या सांगातान आशिल्ल्या गायडाचो. 'अपहरणा'च्यो खबरी तो खुबशो सांगतालो. पूण तो शिकिल्लो सर्वारल्लो गायड त्या उतराचो अर्थ जाणा आसलो. सूर्यास्ताच्या वेळार अस्तमत्या सुर्याचें दर्शन घेता आसतना पुनवेची रात आसत जाल्यार दुसरे वाटेन मळवांत उदेतल्या चंद्रिमाचो, वाटकुळो तोंडावळो एकाच वेळार पळोवंक मेळटा आनी भांगर आनी रुप्याचो शिंवर गंगेच्या ल्हारांचेर जाता. निळें-काळें गंगाजल. घाटावयले दिवे काजुले कशे. शिंयाचे दीस आसल्यार धुक्याचें पांगरुण धतरिचेर देंवपाचो तो वेळ आसता. निळेंकाळें धुकें आनी त्या धुक्याक भेदून घाटावयले पेटिल्ले विजेचे दिवे. काजुल्यांचें मालें कशें दिसतात! त्या वेळार खरें म्हळ्यार आवाजाची किणकिण नाका जाता. खंय पयसुल्ल्यान मुरलीचो सूर आयकलो जाल्यार तर मन प्रफुल्लित जाता! पूण म्हज्या कानाकडेन अखंड उलोवपी यंत्रच वशिल्लें. पुराणातल्यान इतिहासाकडेन आनी इतिहासांतल्यान वर्तमानाकडेन तो गायड अशो उडयो मारतालो की तें आयकतलो गोंदळून वतालो. देवळां मोडलीं... मशिदी आयल्यो. पूण मशिदींक हात लायनास्तना देवळां बांदलीं अशी प्रस्तावना करून तो रामायण-महाभारत काळासावन अकबर -औरंगाजेबाच्या काळामेरेन आनी उपरांत काशीच्या राजाचे कारकीर्दीमेरेन पावतालो. गायडाचें नांव विनयकुमार. ताका कितेंय विचारलें जाल्यार खोमसाच्या बॉल्सांतल्यान गळ्याचें जानवें भायर काडून दाखयतालो आनी म्हणटालो, 'हांव संस्कृत भाशेचो स्नातक. काव्य-शास्त्र तत्वज्ञान कोळून पियेलां-भिक्षुकेचो धंदो नाका म्हणून न्हय तर धा देशांतल्या लोकांची वळख जावची हे खातीर आनी तांकां आमच्या देशाच्या दायजाची वळख दिवची ह्याखातीर हांव गायड जालां.' उपरांत तो बोल्सांतलें आयडेंटीटी कार्ड काडून दाखयतालो आनी म्हणटालो : 'नांवाफुडें पदव्यो लायल्यात त्यो वाच. म्हणटकूच हांव कोण तो तुका कळटलें.'

ह्या विनयकुमारान म्हाका पयस एक मोडको खांबो दाखयलो आनी म्हळें, 'हो वधस्तंभ.'

'वधस्तंभ? कोणाचो वध थंय जालो?' हांवें ताका विचारलें.

'थंयच या. सगली खबर सांगतां.' ताणें म्हळें.

अस्ताक गेल्लो सूर्य नदरेआड जाल्लो. धुक्याची कांबळ आनीकय दाट जाल्ली. पूण पुनवेचो चंद्र वयर आयिल्लो. सगळो देखाव मन भाळयतालो. तरीकय वधस्तंभाचो ईतिहास समजून घेवपाची उमळशीक लागली.

'ह्या वधस्तंभाचेर न्याय दिवपी राजान दुसऱ्याले बायलेचें अपहरण केल्ल्या आपल्याच राजपुताक फांशी दिली!' विनयकुमारान व्हडें धडेक लागतां लागतां सांगलें.

व्हडें धडेक लागलें थंय देंवपाक घाटय नासलो. पयसुल्या वाठारांत दिवे चकचकताले. काशीच्या राजाचो थंय राजवाडो आसा अशें गायड विनयकुमारान म्हाका सांगलें. रातीच्या काळखांत राजवाड्याचो विस्तार लेगीत नदरेंत भरनासलो. चकचकत्या दिव्यांवयल्यान अदमासय करूंक जायनासलो.

'तुमच्या राजाविशीं लोकांची भावना कितें आसा?' हांवें विनयकुमाराक विचारलें.

'पोरणे पिळगेचे लोक अजून महाराजाक मान दितात. ताचें नाव आदरान घेतात आनी राजाचे राजवटीतल्या सुखाचीं आनी वैभवाचीं वर्णनां करतात. पूण नवे पिळगेंतले भुरगे राजाक लेखिनात. आज राजा म्हळ्यार सोबेची वस्त जाल्या. त्यापरस विधायक (आमदार) आनी सांसद (खासदार) चड बळीश्ट जावन वसल्यात...'

'हांव आताची गजाल विचारिना. आमच्या इतिहासात धर्मनिष्ठ आनी धर्मद्रोही तशेच प्रजेच्या कल्याणाखातीर वावुरपी आनी प्रजेक पिडापिड दिवपी राजा जावन गेले. तुमचो राजा कसो आसलो?'

'हांवे अणभवूंक ना. पूण एकाकाळार काशीच्या राजाची नामना खूब आसली. राजा गंगेचेर न्हांवंक आयलो जाल्यार ताच्या दर्शनाक हजारांनी लोक जमताले. काशीचो राजा खूबच न्यायी आसलो. कोणाचेरच अन्याय जावंक दिना, अशी ताची नामना आसली. हो वधस्तंभ ताची गवाय.' विनयकुमारान अभिमानान सांगलें.

चलून वता आसतना रेब्यांत पांय पडलो. वयर पांचवे तण किल्लल्लें. त्या तणाचेर पांय दवरलो तो अर्द फूट भीतर रिगलो. हांवे विनयकुमाराक म्हळें, 'ह्या वधस्तंभाकडेन वचूंक दुसरी वाट आसतली न्हय?'

'ना. हे न्हंयचे कुशीचें, रेबो आनी झुडपाचे रान. वधस्तंभाकडेन कोण वता? आनी हांगा वधस्तंभ आसा म्हणपाचें कोणाक खबर लेगीत आसचें ना. हांव विद्यार्थी आसतना एक खेपे आयिल्लो'... ताणे सांगलें.

हांवे चान्याचे पसयेंत फुडें पळयलें. कसलोच स्तंभ म्हाका दिसलोना. येदोवेळ तो वधस्तंभ, वधस्तंभ म्हणटालो. इतले लागी आयले तरीय थंय दिसना हें पळोवन हांवे ताका विचारलें, 'आमी वाट चुकूंक ना मूं?'

'वाट चुकचे नात. तुका दिसलें कितें, अशोक स्तंभाभशेन व्हडलो मिनार आसतलो म्हणून? वधस्तंभ म्हळ्यार कितें आसता तें हांव तुका सांगता. दोन खांब आनी वयले वाटेन बांयंक आसता तशी लाकडाची आडवी पाटी आनी सकयल्या भागांत एक व्हडलो फोंड. आयज ते अवस्थेत तो वधस्तंभ ना.'

'आज थंय आसा कितें?'

'थंय मोडके खांबे आसात. तो फोंड भरून आयलो आसतलो. जाण्टेले सांगताले थंय फांसार दिल्ल्या राजपुताची समाधी आसली म्हणून. हांवे ती पळोवंक ना. आता थंय

झाडां वाडल्यात आनी वत, पावस, शीं हांचो परिणाम जावन मुळचें कांय उरूक ना.'

'तशें जाल्यार इतले पयस, ह्या रेब्यांतल्यान हांगा कित्याक येवंक जाय आसलें?' हांवें ताका विचारलें.

नौकानयनाचो आनंद घेवंक पावलो ना आनी इतिहासाची निशाणी पळोवंक मेळपासारकी नासली. सगळी सांजवेळ फुकट गेली अशे चुरचुरे म्हाका पडले.

'तुका नाका जाल्यार आमी परतुया. पूण तो एक इतिहासिक जागो हें तूं नाकवूल करचोना. थंय कांय ना. पूण हांव जो इतिहास सांगतलों तो थंय आसा. एके बायलेचें अपहरण केल्ल्या राजपुताक तागेल्या बापायन दिल्ली देहांत सजा ही किरकोळ घडणूक अशें तुका दिसता?...'

'म्हाका ती कथा आयकूंकच जाय.' हांवे विनयकुमाराक म्हळें, 'पूण त्याखातीर ह्या जाग्यार येवपाचें कारण नासलें. कशेंय आसना. चड काळोख जावचे पयली आमी परतुंया... म्हजे पांय चिखलान भरल्यात. घाटार वचून हांव ते धुवन घेतां.'

परत व्हड्यांत येतना तीन खेपे पांय निसरले. पूण एक खेपे व्हड्यांत वचून बसतकच म्हाका सू जालें. व्हडें गंगेच्या मुख्य पात्रांत येईसर वातावरणातलें शीं वाडिल्लें. म्हज्या गळ्यांत मफलर आसलो. तो हांवें कानांक वांदलो आनी विनयकुमाराक म्हळें, 'सांग, आता तुजी अपहरणाची खबर.'

ताणे राजाचें कितें तरी नांव घेतलें. भौ करून शोभन आसूंये. त्या राजविशीं खूब आख्यायिका प्रजेंत घोळटात अशेंय ताणे सांगलें.

'शोभन कसो म्हणटात तें आयक. राजबिंडो, गोरो गोमटो, स फूट लांबायेचो, कंवळे पिरायेचेरच तो राज-शिंवासनाचेर बसलो. तेन्ना ताचें लग्न जावंक नासलें. धा देशांचे राजा आपल्या कन्यांच्यो सोयरीको घेवन तागेलो हुंबर झरयताले. कांय राजा ताका आपल्या राज्याचे भोंवडेर आपयताले आनी थंय आपली कन्या ताका दाखोवन ल्हवूच लग्नाचो प्रस्ताव काडटाले. पिरायेन कंवळो पूण बुध्दीन शोभन शिटूक आसलो.' अशी प्रस्तावना करून विनयकुमारान ताची कथा सांगली:

दुसऱ्या राजान सोयरिकेचो प्रस्ताव काडटकच शोभनान तोंडाचेर प्रसन्न हांसो हाडून म्हणचें, 'तुजी कन्या नक्षत्रासारकी सुंदर, त्या भायर तुमच्या कुळाचें आनी शीलाचे संस्कार तिचेर जाल्ले आसात. तिका म्हजेपरसय श्रेष्ठ असो राजकुंवर फावता.'

'पूण आमच्या मनात शोभनाकडेन नातें जोडपाची उमळशीक आसा.'

'लग्नावरवीं नातें जुळ्ळें जाल्यार बरेंच जालें. पूण इश्टागतीचें नातें सदांच उरतलें. जाल्यारय लग्नाचो निर्णय हांव एकलो कसो घेवं? लग्न म्हळ्यार घोव आनी बायलेचें नातें न्हय... दोन घराण्यातल्या मनशांच्या थीर संवंधांचें तें बंधन. राजमाता घरा आसा. आमच्यो प्रथा, परंपरा आसात. धर्म, शास्त्र, गोत्र, कुंडली सगलो विचार जावचो

पडटलो. म्हजी आवड गौण...'

आनी उपरांत राजमातेकडेन प्रस्ताव येताले. प्रस्ताव येवचे आदींच आपलो नकार शोभन आवयक कळोवन दवरतालो. राजमाता मागीर सभ्य उतरांनी तो नकार त्या त्या राजाक कळयताली.

अशे तरेन सगल्या राजांक शोभनान निराश केल्ले. सगले ताचेर रागार आसले तरी राजकी नदरेन ताची इश्टागत सांबाळूंक आंवडेताले.

राजमातेक हुस्को... आपल्या दोळ्यांनी सुनेचें... नातवाचें तोंड पळोवंक मेळटलें काय ना?

एक दीस तिणे ताका विचारले, 'तुजे तकलेंत जी चली आसा ती म्हाका सून म्हणून मान्य आसतली. पूण तूं तुजी इत्सा उलोवन दाखय.'

'हांव घराण्याचो विचार करचो ना.' शोभनान सांगलें. 'एक खेपे पाटलीपुत्राक गेल्ल्यावेळार हांवे एक चली पळयिल्ली. लजेचे अलंकार आनी सैमाचें लावण्य धारण करून स्वागताचे मिवरवणुकेच्या मार्गार हातांत पूर्णकुंभ घेवन ती उबी आसली... ती श्यामगौर चली म्हज्या मनांत बसल्या.'

'तिचे नांव कितें?' राजमातेन विचारलें.

'हांव नकळ. नांव खबर ना. गांव खबर ना. ती कोणाची कोण तेंय हांव नकळो. पूण तिणे आपल्या दाट, लांब केसांचेर मातयेचो कुंभ घेतिल्लो त्या अर्थी ती राजघराण्यातली आसची ना.'

'तरीय उपकारता. पूण तिका सोदप कशी?' राजमातेन विचारलें.

'तें काम हांवेंच करचें पडटलें.' कित्याक म्हज्या तिच्या दोळ्यांची भेट एक निमिषाची. पूण त्या खिणाक वाऱ्यान ज्योत थरथरची तशी ती लजेन थरथरताली आनी त्या थरथरात म्हज्या काळजाच्या उमाळ्यांक दाद दिली...'

'आनी ती दुसऱ्याची बायल आसली जाल्यार?' राजमातेन दुबाव उक्तायलो.

'हांव धर्माचें पालन करतलों. तर ती म्हाका भयणीसमान. तशें कळ्ळें जाल्यार हांव तिचो भयण म्हणून स्वीकार करतलों.'

'ती आंकवार आसुनय तिच्या काळजांत तुका स्थान नासत जाल्यार?' राजमातेन विचारलें.

'तर हांव सक्ती करचो ना. पूण एक... ते अवस्थेंत हांव लग्नच जावचो ना.'

माथ्यार जोगुल कोसळिल्ल्याचो भास राजमातेक जालो. तिणे म्हळें, 'राजवंशाचे कितें?'

'देवाचे इत्सेन सगलें जातलें.' शोभनान जाप दिली आनी मनातल्या मनात देवाचें नांव घेवन हात जोडले.

विचाल्लें, ''आदमखानाविशींय म्हाका सांग.''

दलबीर मात्सो भावनावश जाल्ले भाशेन म्हाका दिसलो. ताचे घडलां कितें, तें म्हाका समजलें ना. दलवीर हो जाण्टपणाकडेन पाविल्लो आनी काळजांत उमेदीचे व्हांवते वझरें आशिल्लो एक दादलो. मूळ पंजाबी पूण वेवसायानिमित्तयान भोंवत आसता. तरणेपणांत एके चलयेच्या मोगांत पडलो काय तिचेर ताणे एकतर्फी मोग केलो. त्या काळांत तो कविता करतालो, कथा बरयतालो आनी मागीर आपलें साहित्य ते चलयेक धाडून दितालो.

सुर्वेक तिणे त्यो कथा कविता वाचून दलबीराक दाद दिल्ले भाशेन केलें. दलवीराच्या कथा कवितांनी आपणाक संदेश आसता हें ते चलयेक कळटालें काय ना देवाक खबर! पूण दलबीर मात आपलो संदेश प्रियेमेरेन पावला अशें मानून चलतालो.

दलबीरानच ही खबर आमकां एका काळार सांगिल्ली. ती चली एक दीस अचकीत काळखांत सावळी लिपची तशी नाच जाली आनी दलवीराचो प्रेमभंग जालो.

जिवीतांत दलवीरान केल्लें तें पयलें आनी निमाणे प्रेम. एके तरेची विरक्ती ताचे जिणेंत त्या उपरांत आयली आनी तो जल्मभर आंकवार रावपाची प्रतिज्ञा करून बसलो.

त्या दिसांनी दलबिराक समजावपाचो आमी जो यत्न केल्लो तांचो उगडास हांव विसरूंक ना. पूण कितलोय समजायलो तरी दलबीर बदल्लो ना. ताणे आमकां सांगलें, ''एक खेपे काळीज कोणाकय ओंपलें म्हण्टकच थंय दुसऱ्याक सुवात मेळूंक नज. म्हाका तुमी आग्रो करू नाकात. हांव केन्नाय लग्न जालों जाल्यार तिजेकडेनच जातलों. ना जाल्यार असोच रावतलों.''

ताजी लग्नाची पिराय फाटीं पडली आनी ताज्यांत जाण्टेपण आयलें. हे पिरायेंत आनी तो लग्नाचो विचार करपाची शक्यताय नासतल्ली. पूण दलबीर रसीक. अजूनय एकाद्रें शिल्प, एकाद्रें चित्र, एकाद्रो देखाव ना जाल्यार एकाद्री सुंदर बायल पळयली जाल्यार ताज्या मनाची कळी फुलता आनी त्या खिणा पुरतो तो आपलें दुख्ख विसरता.

असो दलबीर मध्य प्रदेशच्या ह्या मांडू शहरांत पावनाफुडें भावनावश जाल्लो पळोवन आनी आदिवासी तरुणीच्या सौंदर्याच्यो तोखणायो करता हें पळोवन म्हाका अजाप जालें. पूण हांव ओंगी रावलों. तंबोऱ्याची तार वाजोवपाखातीर तिका बोट लावचें आनी ती तुटची तशें जाल्लें म्हाका नाका आसलें.

भर रानांत एका रुखातळा जीप उबी करून दलबीर देंवलो. ड्रायव्हराक ताणे हॉर्न वाजोवंक लायलो. हांव जिपींतच बसून आसलों. म्हाका ताणे सकल देवंक सांगलें.

जिपीचो हॉर्न आयकून चार आदिवासी पोरां धांवत आयलीं. नागडीं उगडीं ही पोरां. सगल्यांची आंगां म्हेळीं. चलयांच्या केंसाच्यो जटा जाल्ल्यो. चल्यांनी आनी चलयांनी फकत कमरा भोंवतणी काश्टी गुटलायिल्ली तितलीच.

दलबीरान एकल्याक विचाल्लें, ''राणी?''

सगल्या पोरांनी एकाच वेळार तोंडातल्यान ''राणी!'' अशें म्हळें, आनी ती धांवंक लागलीं.

‘‘चल या तांच्या फाटल्यान.’’ दलवीरान म्हाका सांगलें.

म्हजी तयारी नासली. त्या रानांत मुद्दाम येवन आदिवासी बायलांक पळोवंक वचप हें शिंवाचे घोलीत वचपासारकें दिव्य अशें म्हाका दिसतालें.

‘‘तूं वचून यो. हांव हांगा रावतां.’’ हांवे दलवीराक सांगलें.

‘‘अशें कशें जातलें?’’ दलबीरान म्हळें, ‘‘हांगां आयलो जाल्यार आदिवासी राणयेक पळोवन घे.’’

ताणे म्हज्या हाताक धरून ओडलो आनी हांव ताज्या वांगडा चलूंक लागलो. भुरगीं फुडें पाविल्लीं. दाट रानांत झडिल्ल्या सुक्या पाल्यावयल्यान चलतना सळ सळ आवाज येतालो आनी दीस उजवाडीच रानकिडे रडटाले.

‘‘दलबीर!’’ हांवे ताका उलो माल्लो तसो तो थांबलो. ताजे नदरेक नदर दिवन हांवे म्हळें, ‘‘तू आदिवासी राणयेच्या मोगांत बी पडूं ना मूं?’’

हांसून उडोवपासारको हो प्रस्न आसलो. पूण दलबीर गंभीर जालो. ताणे एक व्हडलो सुस्कार सोडलो आनी म्हळें, ‘‘म्हाका मोग करूंकच येना. हांव एकतर्फी मोग करतां.. ह्या हांव राणयेच्या मोगांत पडलां. सात आठ वेळा तिका मेळून गेलां. पूण ती म्हजेर मोग करता काय कितें तें म्हाका खबर ना.’’

इतलें उलोवन ताणे तकली सकल घाली आनी पांय फुडें घालो.

म्हाका ताजी काकुळट दिसली. हांवय ताज्या फाटल्यान चलूंक लागलों.

आमी मुखार पावले तेन्ना एक आदिवासी बायल फुडल्यान येतना दिश्टी पडली. कमराक गुटलायिलें एक वस्त्र सोडलें जाल्यार दुसरें वस्त्र नासलें. गळ्यांत मोठ्या मणयांच्यो माळो. खांद्यार एक भातो आनी धनुष्य.

‘‘ही तुजी राणी?’’ हांवे दलबीराक विचाल्ले.

हातांनी म्हाका चिमटो काडून ओगी रावंक ताणे खुणायले. ती बायल चलत आयली आनी आमच्या मुखावयल्यान आमकां पळयना आशिल्ले भाशेन करून आपले वाटेन गेली.

दलबीर तिजे फाटमोरे आकृतीकडेन पळयतालो.

‘‘कोण ती?’’ हांवे ताका विचाल्ले.

‘‘खबर ना.’’ दलबीरान जाप दिली. ‘‘पूण ती राणी न्हय. राणयेच्या माथ्यार मुकूट आसता.’’

‘‘एक सांग दलबीर’’ हांवे ताका विचाल्ले, ‘‘आमी आतां राणयेक पळोवंक वतात. तिका ते रुचत? तुजे आनी तिजे संबंद कशे हें तरी सांग.’’

‘‘चातकाचे आनी चंद्राचे तशे म्हजे तिचे संबंध. म्हळ्यार हांव मनांतल्या मनांत तिजेर मोग करतां. तिजें लग्न जालां कांय जावंक ना ते हांव नकळ. म्हजेविशीं तिची भावना कितें तेंय म्हाका खबर ना. हांव दोन - तीन खेपे तिका मेळ्ळो. आनी दर खेपे कितेंय तरी भेटवस्त दिल्या. तिणे हांसून ती घेतल्या.’’

‘‘हे खेपे तिका दिवंक कितें हाडलां?’’

दलबीरान आपल्या गळ्यांतल्या दोऱ्याक बांदिल्ली मुदी दाखयली आनी म्हळें, "ही हाडल्या."

"भांगराची काय नकली?" हांवे हासून विचाल्लें.

"तशी मुदी पंचधातूची. पूण म्हजो मोग चोख."

"पूण एक सांग, मुदी पळोवन ती खुबळ्ळी जाल्यार आमी त्रासांत पडचे नात?"

"ना. ह्या आर्दी तिणे सरपळी घेतल्या. देखून मुदीय ती घेतली अशें म्हाका दिसता."

"पूण मुदयेक एक वेगळो अर्थ आसता. आमी जेन्ना एके परकी बायलेक मुदी दितात तेन्ना तिका मागणी घाल्ल्याचो अर्थ जाता."

"हे शारांतले संकेत ह्या रानांनी लागू जातात काय ना ते हांव नकळ." दलबीरान म्हळें, "पूण तसो अर्थ तिका कळ्ळो जाल्यार म्हज्या मनासारकें जातलें."

हांवे दलविराच्या दोनय भुजांक धरून ताका हालयलो आनी म्हळें, "तुका पिशें लागलो. आमी परत या. आदिवासी बायल धाडशी आसत... सुंदर शिल्पासारकी आसत... तिका पयसुल्ल्यान तोखेवचेली. तिचेर मोग केलो म्हणून ती तुका वश जावची ना. आनी चुकून माकून वश जाली जाल्यार ती तुका परवडची ना. तूं विखाची परीक्षा घेवंक भायर सल्ला. नागिणीचे शेपडेर पांय दवरिल्ले सारकें तें जातलें. आमी परत या."

एकाद्या मनशाचेर भार येवचो आनी तनर तुटून ताचो भार अचकीत देवचो तसो दलबीर भानार येतकच एकदम गलितगात्र जालो. तो कोसळत अशी भिरांत दिसून हांवें ताचो हात धल्लो आनी म्हळें, "या आमी. परत इंदुराक पावंक जाय."

आज्ञाधारक भुरग्यावरी दलबीर मोन्यांनी म्हज्या सांगातान परत आयलो. इंदूर मेरेनच्या वाटेर तो कांय उलयलोना आनी हांवें ताका कांय विचाल्लेंय ना.

रेल्वेच्या डब्यात लेगीत तो तकली सकयल घालून बशिल्लो पळोवन म्हाका ताजी काकुळट दिसली आनी हांवें ताका म्हळें, "तुका म्हजो राग आयलो?"

"ना रे ना. उरफाटे तुजे उपकार जाले. दर खेपे अशेंच जाता. हांगा पावतकच म्हजें पिशें खुबळटा."

"मागीर तुवें म्हाका रुपमतीची आनी तिगेल्या त्या खानाची खबर सांगलीच ना."

"हय वय. ती सांगपाची उल्ली खरी. आदिवासी राणी दाखयतलों आनी मागीरच खबर सांगतलो अशें येवजिल्लें..."

"पूण आता सांगली नाजाल्यार तशीच उरतली."

"तुवें ते रानांत आदिवासी बायल पळयल्याच. तिजेपरस राणी सुंदर म्हळ्यार तुका तिज्या रूपाचो अदमास येतलो. ह्या वाठारांत जे लोक पावतात ते ह्या आदिवासी बायलांच्या सौंदर्याचेर भाळटात. व्हडले व्हडले राजा आनी सम्राट लेगीत पिशे जाल्ल्याचीं उदारणां आसात. मांडूचें नांव मुळांत मंडपगिरी. मोंगल राज्यकर्त्यांनी हांगाच्या बायलांची सोबा पळोवन शाराक मांडू हें नांव दिलें. मांडू म्हळ्यार आमोद नगरी. एका किल्ल्याक एका राजान तें नांव दिल्लें. तेंच नांव शाराक पडलें. एक रुख तुका दाखोवपाचो उल्लो..."

"कसलो रुख?"

"किल्ल्याच्या आंगणांत एक रुख आसा. मोग करतली जोडी ताजेर आपलें नांव कोराततात. एक खेपे थंय नाव कोरातलें म्हणटकच जिवींतांत ती सदांच एकटांय उरतात अशें लोक मानतात."

"रुपमतीची खबर तू सांगपाचो आसलो. हें विशयांतर जाता."

"त्या रुखाचेर तिचे नांव कोरातिल्ले आसा... रुपमती राजकुंवर नासली. ती एक नाच करपी आनी लोकगीतां गावपी बायल. आदिवासी लोकांमदी रावताली. आज रुपमती ना. पूण तिच्या प्रेमाची गाथा अजून लोक गाता."

"तुवे राणी रुपमती म्हणिल्ली न्हय?" हांवे म्हजो दुभाव उक्तायलो.

"हय. राणीच ती. ती न्हंयत न्हाता आसतना राजान तिका पळयली आनी आपलें काळीज तिका ओंपून बसलो. राजान तिचो हात मागलो तेन्ना तिणे आपल्यो अटी सांगल्यो. पयली अट सद्दां नर्मदा न्हंयत न्हांवक मेळूंक जाय. त्याखातीर राजवाड्यामेरेन न्हंयचे पात्र व्हरचें.. तिगेल्या महलांत जें रेवाकुंड आसा थंय मेरेन नर्मदेचो प्रवाह पावलो तेन्नाच ती लग्नाक कबुल जाली. घोवाचें नांव बाज बहादूर. तो गीतां रचतालो आनी रुपमती तीं गीतां गायताली. आज पुराय मांडूत ही गीतां लोकांच्या तोंडांत घोळटात."

"इतलीच खबर?"

"ना. अजून सोंपूक ना. बाज बहादुर आनी रुपमतीचें सुख चड दीस उल्लें ना. अकबर बादशहान मांडू संस्थानाचेर घुरी घालूंक एक सरदार धाडलो. आदमखान ताचे नांव. त्या झुजांत बाज बहादुर हारलो आनी हुतात्मो जालो. रुपमतीच्या रुपाची खबर आयकल्ल्या आदमखानान रुपमतीक आपली राणी करपाची इत्सा कळयली. रुपमतीन आदमखानाक आपल्या म्हालांत आपयलो. खासा तिणे व्हंकलेचो भेस चडयलो आनी घोवान रचिल्लीं गीतां गायत गायत ती आदमखानामुखार आयली आनी थंयच कोसळ्ळी. तिणे वीख खाल्लें."

"ही खबर तुवें आदीं सांगिल्ली जाल्यार तो महल पळयतना हांव वेगळे नदरेन पळयतलों आसलों." हांवे म्हळें.

"परत एक वेळ वचून पळय. रुपमती मेळ्ळी ना म्हणून फडफडून गेल्ल्या आदमखानान सगळें मांडू शार लुटलें आनी बायलांचेर बलात्कार केले. ह्या गुन्यावाखातीर अकबर बादशाहान आदमखानाक आग्रा किल्ल्याच्या तटावयल्यान धुकलून ताका जितो मारिल्लो. आज तुका जें मांडू दिसता तें अकबरान नव्यान बांदिल्लें मांडू...."

उलयतां - उलयतां दलबीराचे दोळे भरून आयले. तो असो भावनावश कित्याक जाता तें मात म्हाका कळ्ळें ना. आपल्या मनांत आपूण जें अणभवता तें सांगूक ताका उतरां उणी पडटात कांय खंय तरी ताका रुपमतीचे काणयेंत आपल्या मोगाचे कथेची सांवळी दिश्टी पडटा?

••

# अहिल्या

"नांव?" ताणें विचारलें.

"अहिल्या." तिणें जाप दिली.

"आयकल्ले भाशेन दिसता."

ती निखटी हांसली. थोडिशी लजून पांयांच्या आंगठ्यान जमीन खणची तसो यत्न करूंक लागली.

"अहिल्या ह्या उतराचो अर्थ कितें?" आपले तपासणे नदरेन तिका नियाळून घेतले उपरांत ताणे विचारलें.

"खबर ना."

"नांव कळ्ळें... आतां सांग, वर्सां कितलीं तुका?"

लजेन गाल अरळ जाले. सकलो ओंठ दांतापोंदा चिड्डून ती पुटपुटली, "तीस!"

"तीस म्हळ्यार थोडी न्हय! हे आदींच लग्न जाल्लें जाल्यार येन्नासर भुरग्यांची आवय जावपाची!"ताणे म्हळें.

तिका तागेलें हें उलोवप रुचलें ना. दुसरो कसलोय प्रसंग आशिल्लो जाल्यार ती ताका सणसणीत जाप दिवपाची. तिच्या आंगाक स्पर्श करताली ती ताची नदर कांकून काडपाची. पूण आयज ती लाचार आसली... आयताराच्या बाजारांत विकूंक हाडिल्ले बोकडेवरी.... थंय ते बोकडंचो फुडार थारता. विकती घेतलो तिका पोसतलो?... काय मारून खातलो?

"शिक्षण?" तिगेल्या विचारांची सांखळी तागेल्या धेंगशा सारख्या प्रस्नान तुटली.

"धा यत्ता."

"धावी पास?..."

"ना. धावेक आसतना शाळा सोडली."

"कित्याक?"

"आई मेली!"

आवयचो उगडास येवन तिचे दोळे भरून आयले. दिसलें. आई आशिल्ली जाल्यार अशें जावपाचें न्हय.

"मेली ती मेली... आतां तूं कित्याक रडटा?" ताणे तिचीं फकाणां केलीं.

मनांतल्या मनांत ती तिडकीन फणफणली. पूण तिणे तिडकेक लगाम घालो.

"तरीकय तुज्या नांवाचो अर्थ तुका कळना?"ताणे म्हळें. "आता म्हजें नांव पुरुपोत्तम. म्हळ्यार उत्तम पुरुश. बऱ्यांतलो बरो दादलो तो पुरुपोत्तम, कळ्ळें?"

तिणें निखटी तकली हालयली. पूण मनांतल्या मनांत ती हांसली. बऱ्यांतलो बरो दादलो असो आसता जाल्यार वायट दादलो कसो आसतलो काय? असो तिका प्रस्न पडलो.

संवाद खूब वेळ चल्लो. वाघाचे तावडींत सांपडिल्ले बोकडेसारकी तिची अवस्था जाल्ली. केन्ना काय सुट्टा अशें तिका जाल्लें. तशी ती धीट. तीस पावसाळे तिणें आंगार घेतल्यात आनी पचयल्यात. असल्या दादल्यांकडेन कशें वागचें हें ती बेस बरें जाणां. मुळांतच ती डावखुरी. दादल्यांच्या गालार एक थापट मारलें जाल्यार त्या थापटाचो नेट कितलो आसता ताचो अदमास तिणे जायते खेपे घेतला. पूण आज ती लाचार आसली. तो तिच्या घरा आयिल्लो आनी वाघाचे घोर्लींत तिगेले मावशेन तिका धुकलिल्ली.

हातांत च्याचे दोन कप आनी खाणाची प्लेट आशिल्ली ट्रे. नर्व्हस जावपाची तिका संवयच ना. तरी कपाक कप आपटून आवाज आयलो तेन्ना आपले हात कडकडटा म्हणपाचें तिका कळ्ळें आनी कडकडप आडावंक मन घट करतासर हात अदिकच कडकडले.

कुडींतले टीपोयचेर ट्रे दवरली आनी सदचे संवयेन अहिल्येन साडयेचो फाटलो पदर फुडें करून आपले तोंड पुसलें. मागीर तिचे तिकाच दिसलें, ही असभ्य रीत जाली. तिणें पदराचें सुटूंक नाशिल्लें सूत ओडून तोडलें आनी पदर सारको करच्या यत्नांत तो ओडिल्ले भाशेन केलो. ते मेरेन तिणें तकली वयर करून पळोवंक नासलें. जेन्ना तकली वयर केली तेन्ना घुघमाचे दोन दोळे आपणाक घुरतात हें पळोवन तिचे छातयेंत कळ आयली.

निळ्या रंगाचो सूट आनी तांबड्या रंगाचो टाय. भायर दिसतालें तें धव्या शर्टाचें कॉलर! माथ्यावयले केंस काळे आसले तरी तांकां कलप लायलां हें ती मनांतल्या मनांत जाणा आसली. हालीं हालीं केंस वळोवंक हारशामुखार उबी रावली जाल्यार तिगेल्या माथ्यांत लेगीत रुप्याची एकाद्री सरी चकचकता. तो उणेंच पन्नास-पंचावन्न वर्सांचे पिरायेचो आसतलो.

घुरतां घुरतां तो हांसलो. टूथपेस्टीतले जायरातींत चकचकचे तशे दांत चकचकले. मनांतल्या मनांत अहिल्येन म्हळें, "दांत अडेचे आसतले."

पूण एक खरें तो भुरगो दिसतालो. घुघमासारके दोळे आसले तरी ताच्यांत एक भारदस्तपणा आसा. मावशेन पसंत केल्लो न्हवरो.

'न्हवरो' हें उतर आतां अर्थ वगडावन बसलां अशें तिका दिसलें. तरी जो बाशींग

बांदून सव्यार चडटा तो न्हवरोच. ताणे पसंत केली जाल्यार ती उजवतली. मावशेले आनी बापायले सुस्कारे सोंपतले. आपूण तांच्या गळ्याक तेंकल्या हें तिका कळटा. देवान तिका रूप दिलें ना. पूण घसघशीत आंगलोट दिला. ल्हान पिरायेचेरच तिचें आंग पळयतल्याचे नदरेंत भरतालें. आनी परकी दादल्यांच्यो अधाशी नदरो तिच्या आंगाक रोंबताल्यो.

तिणें येवजिल्लें, कोणाचें तरी घर सांबाळपाकच आपलो जल्म आसा. मन आदींच भेरेलां. म्हणटकच भावनेचो प्रस्न ना. तिका तिची पसंती कोणे विचारूंक नासली. पूण आतां पुरुषोत्तमाक पळयतकच अहिल्येक तो वायटसो दिसलो ना. तिणे दोळे धांपून घेतले आनी देवाकडेन मागलें, हाणें पसंत केल्यार पुरो.

मोनी शांतताय सोंपून ताणें तपासणी सुरू केली तेन्ना मात तिच्या मनांत राग खतखतूंक लागलो. तरी ती थंडसाणेन सगळें सोंसताली. मनांत म्हणटाली, एक खेपे तुजी बायल जावन तुज्या घरांत पावलीं म्हणटकच तुका कशी बुद्द शिकोवची तें हांव जाणा.

तपासणी सोंपली. आनी ताणें विचित्र प्रस्न विचारलो. ''हांवे तुका पसंत केली जाल्यार तुका खोशी जातली?''

निगरगट्ट आसुनय तिका लज दिम्ली. नदर सकयल घालून निखटी तकली हालयली. ताचो हात फुडें जालो तेन्ना मात ती फाटीं सरली.

''तूं जाणा न्हय?'' ताणें म्हळें, ''म्हजी पयली बायल मेल्या. हांव तुका फटोवंक सोदिना. तुगेल्या बापायन सांगिल्लें नासत जाल्यार आर्दींच सांगून उडयतां. म्हजी दुसरी बायल म्हणून येवंक तूं कबूल आसा न्हय?... दोन वेळचें जेवण आनी इभ्रतिची जीण हांव तुका दितलों. म्हगेर भुरगें ना. ती उणीव तुवें भरून काडची अशी अपेक्षा.. हे पिरायेंत आसक्तीन कुड्डो जावन न्हय, जाल्यार वंशावळ चालू दवरपाचे भावनेन हांव लग्नाक कबूल जालां.''

तिची प्रतिक्रिया तो नियाळूंक सोदतालो. पूण तिचें तोंड आदलेवरीच निर्विकार उरलें. दोन खीण कोणच कांयच उलयलो ना तेन्ना तिणें नदर वयर करून ताचेकडेन पळयलें. तो तिका निरखीत आसलो. नदरेक नदर मेळ्ळी आनी तिच्या तोंडार हांसो फुल्लो.

ताका त्या हांशांत तिची जाप मेळिल्लेभाशेन दिसलें. ती भितर वचूंक वताली. ती जाणा, कुडिचें दार बंद आसलें तरी भितरले वाटेन मावशी आनी बापूय वर्ण्टाक कान लावन उबीं आसतलीं. तिका पळोवंक येतले देखूनच बापायन मावशेक मुद्दाम आपोवन घेतल्या. जुळ्ळें जाल्यार तीं भुरकुटून वतलीं. भयणिचें रीण फारीक केल्ल्याचें समाधान तिका मेळटलें. काल रातभर तिणेंच अहिल्येक समजावपाचो यत्न केल्लो.

'लग्नाबगर बायलेचे जिणेक अर्थ उरना. समाजाची वांकडी नदर लग्न जाईसर

पिडटा. तुजो बापूय जाण्टो जालो. हांवूय मरून गेलीं जाल्यार लग्न जायनाशिल्ली एकली चली तूं कितें करतली?''

मावशी सांगता तें तिका खरें दिसतालें. नाय जाल्यार तिचं जिणेंक आतां अर्थ उरूंक ना.

ल्हान पिरायेचेर तिणे मोग केल्लो. सुख भोगिल्लें. आतां तिका कसलीच उमेद उरूंक ना. तेन्ना, लग्नाक कबूल जाली म्हणून तिचें कसलेंच लुकसाण जावचें ना.

ती दाराकडेन गेली आनी ताणे परत उलो मारलो.

''अहिल्ये, राव. एक निमाणो प्रस्न उरला. म्हजी खबर हांवें तुका सांगली. पूण तूं इतलीं वर्सां आंकवार कशी उरली तें सांगलें ना.''

ह्या प्रस्नाची तिणे अपेक्षा करूंक नासली. खरी जाप दिवंक ती भियेनासली. पूण तिणें इतलेंच म्हळें, ''म्हजें नशीव. आनीक कितें सांगूं?''

कुडिचे दार उकतें करून ती भायर आयली. तिका कांय एक विचारिनासतनाच बापूय कुडींत गेलो, लग्नाचो म्हुर्त थारावंक.

पुराय मजकूर हांवे वाचून काडलो. आनी तो घेवन आयिल्ले लेखिकेक विचारलें, ''ही कथा पूर्ण जाली काय फुडली बरोवपाची उरल्या?''

''फुडली कशी बरोवची तें म्हाका कळना देखून तुका दाखोवंक आयिल्ली.'' तिणें म्हळें.

म्हजे मुखार सुमार पन्नास वर्सांची जाण्टी वायल बशिल्ली आनी तीच ही कथा घेवन आयिल्ली. सामान्यतायेन कथा वाचून फाटल्यान निकाल कळयतां अशें हांव साहित्य घेवन येतल्या लेखकांक सांगतां. पूण ही वायल कशीच हालना. मात्शी वाचून पळय. असो तिणें आग्रो धरलो देखून हांवें ती वाचली.

''कथा बरी आसा.''हांवे तिका म्हळें. ''पूण ती हांव कशी पूर्ण करतलों? तुजे तकलेंत आसा तें सगळें बरोवन काड, मागीर पळोवया.''

''तेंच कशें बरोवचें तें म्हाका समजना.'' तिणें म्हळें.

''तुका कितें सांगूंक जाय?''

''सगळी कथा म्हाका सांगचेली आसा.''

येदोवेळ हांवे तिका तिचें नांव, गांव कांय विचारूंक नासलें. म्हाका ओगीच दुबाव आयलो, ही तिगेली आत्मकथा न्हय मू? आनी हांवें तिका विचारलें, ''तुजें नांव कितें?''

''कथेंत बरयलां तेंच... अहिल्या!''

हांवे अजापान तिच्या तोंडाकडेन पळयलें. थंय कसलेच भाव उदेवंक नासले.

''म्हळयार ही तुजीच कथा?'' हांवें विचारलें.

''हय.''

''मागीर फुडें बरोवंक अडचण कसली? जें कितें घडलें तें सगळें बरय.'' हांवें

सुचयलें. ''तुजें त्या पुरुषोत्तमाकडेन लग्न जालें मूं?''

पदराआड लिपिल्लें मंगळसूत्र भायर ओडून तिणें म्हळें, ''हे ताणेच म्हज्या गळ्यांत वांदलां. आज सतरा वर्सां सौभाग्याचो हो कुकूम ताच्याच नांवान लायतां. पूण आतां एक विपरीत घडणूक घडल्या. ताणे म्हाका सोडल्या...''

हांवें म्हळें, ''घरगुती झगडीं कथांनी कित्याक हाडटा? कोणाय वरें मागप्याक मदीं घालून तीं पालय.''

''म्हाका झगड्यांचो हुस्को ना. म्हाका हें सगळें बरोवंक जाय. हांव लेखिका न्हय, इतले वरयतकच म्हाका दिसलें, तें सगळें बरोवंक जमचें ना. देखून तुका सांगतां, तूं बरय.''

''हें बरयलें जाल्यार तुज्या घोवाची प्रतिक्रिया कितें जातली?''

''जालां ताच्याकय वायट आनीक कितें जावचें पडलां? तो दुबावी मनीस. ताची प्रतिक्रिया कितेंय जावं. हांवच सांगतां, तूं बरोवन काड.''

''सतरा वर्सां तुवें ताचेकडेन संवसार चलयलो न्हय?''

''हय. मुळांत तो जाण्टो. आतां म्हातारो जाला. पूण ताका म्हातारचळ लागला. म्हाका दुबावता आनी आपूण तिसरी वायल हाडपाचीं सपनां पळयता.''

अहिल्येन लग्ना उपरांत लेगीत केन्ना अहिल्या ह्या नावाचो अर्थ समजून घेवपाचो यत्न करूंक नासलो. तिका गरजच नासली. तिचे लेखीं नांव म्हळयार उलो मारपाचें साधन. नांवाकय अर्थ आसूं येता हें तिका केन्ना येवजूंकच नासलें आनी आपणाक नांव दवरता आसतना आवय बापायन केन्ना नांवाचो अर्थ समजून घेतिल्लो आसत अशें तिका दिसनासलें.

''म्हजें नांव अहिल्या.'' अशी तिणे खवर सांगूंक सुरवात केली तेन्ना हांवें तिका विचारलें, ''आतां तरी तुका अहिल्या ह्या उतराचो अर्थ कळ्ळो?''

ती हांसली. तिणें म्हळें, ''म्हज्या घोवानच म्हाका सांगलो. तो वयलेवयर म्हाका अहिल्येची खबर सांगता आनी ते अहिल्येसारकीच तूं अशें म्हणटा... पूण ती खबर मागीर सांगतां. आदीं म्हजी लग्ना आदली खबर आयकून घे.''

गोंयच्या स्वातंत्र्याची चळवळ निमाण्या टप्प्यांत पाविल्ली त्या अदमासाची गजाल. अंत्रुज म्हालांतल्या एका गांवांत अहिल्येचो जल्म जालो. ती आठवेच्या वर्गांत आसली आनी तांकां एक शिक्षक शिकयतालो. तरणो भुरगो शिकयता देखून शिक्षक म्हणपाचो. पिरायेन अठरा - एकोर्णीस वर्साचो आसतलो. तो शिक्षक वेगळे तरेचो. तो भुरग्यांक काणयो सांगतालो. कवायती शिकयतालो. दोंगराचेर व्हरून देशभक्तिची गितां शिकयतालो. प्रभातफेरयो आनी झेंडावंदनाच्यो कार्यावळी करतालो. शाळा सुट्टकच ताच्यो ह्यो उचापती चलताल्यो.

पुर्तुगेजांचे राज्य आसलें तरी आडकुशिचो गांव जाल्ल्यान थंय कोणाची नदर वचना

आसली आनी शिक्षक वेगळे कितें करता अशें गांवच्या लोकांकय दिसना आसलें.

शिक्षकाचें नांव अहिल्येन सांगलें पूण तें छापचें न्हय असो सोपूत घालो. तिणे म्हळें, "शाळेंत ताका भुरगीं भाईसर म्हणटालीं आनी गांवचो लोकय भाईच म्हणटालो."

भाई हो स्वतंत्रताये चळवळी कडेन संबंद दवरपी तरणाटो. आपले परीन तो लोकांच्या मनांत देशभक्ती जागोवपाचें काम करतालो आनी खर्चाक पयशे जाय इतलेंच खातीर शिक्षकाची नोकरी करतालो.

अहिल्येच्या घरा फाटल्यान नाल्ल घालपाचें एक लॉज आसलें. थंयच तो रावतालो. आपल्या हातान रांदून जेवतालो. त्या दिसांनी घरांत अहिल्येची व्हडली भयण आसताली. ती अहिल्येकडल्यानच थोडें जेवण भाईक धाडटाली.

"शाळा सुट्टकच हांव अभ्यास करूंक भाईगेर वचून बसतालीं. ताणे म्हाका शिकवण दिवची, होमवर्क जातकच गांधी. नेहरूंच्यो, सुभाष, सावरकरांच्यो खबरी सांगच्यो."

शिक्षक आनी विद्यार्थी हांचे नातेंच वेगळें आसता. जरी अहिल्या आंगान भरत वताली तरी ती भाईच्या बिराडाचेर वता वा ताच्या सांगातान दोंगराचेर वचून कवायती करता हाचें अहिल्येच्या बापायक कांयच दिसलें ना.

"पूण हांव मात भाईमय जावन गेल्लीं. ताचो सहवास म्हाका जाय जायसो दिसतालो. आमी खुबच लागीं आयलीं. ताणें म्हाका सांगिल्लें. "तूं एस्. एस्. सी. पास जायनाफुडें आमी लग्न करूंया."

पूण अहिल्या एस. एस. सी. च्या वर्गात आसतना दोन विपरीत घडणुको घडल्यो. दोनूय घडणुको एकाच दिसा घडल्यो. तिगेली व्हडली भयण लग्न जावन घोवागेर गेल्ली आनी दोन दिसांच्या वायटान आवय संवसाराक अंतरली. निमाण्या संस्काराची तयारी चलता आसतना अचकीत पोलिसांची जीप तांच्या दारांत उबी रावली. सगळो गांव अहिल्येचे आवयच्या मर्णाक आयिल्ल्यावेळार दारांत पोलिसांक पळोवन काचाबूल जालो. त्या दिसांनी पोलीस म्हळ्यार लोक भियेताले. स्वतंत्रतायेचे चळवळीकडेन कोणालो संबंद पावता असो दुबाव आयल्यार लेगीत ताका पालमंत्र्यांनी बडयताले. आंग फोडून रगत व्हांवयताले. खूब जाणांक जिवानिशीं मारून लेगीत उडयल्यात.

त्या दिसा पोलीस भाईक धरूंक आयिल्ले. कोणेंतरी भाईकडेन बोट दाखयलें आनी पोलिसांनी ताच्या हाताक बेडी घाली. उपरांत तागेल्या बिराडाची झडटी घेतली. कितलिंशींच कागदां, पुस्तकां जप्त केलीं आनी भाईक घेवन जीप गेली.

"सगळो गांव आमच्या आंगणांत आसलो. पूण एकल्यानय पोलिसांक आडायले नात वा एकलोय चुरचुरलो ना. जीप गेली आनी उपरांतच तांणी प्रेत उखल्लें."

त्या प्रसंगाचे वर्णन करून अहिल्या हांसली.

म्हाका तो हांसो विचित्र दिसलो. ही बायल पिशी न्हय मू, असो दुबाव लेगीत

आयलो. म्हज्या मनांतलो दुबाव तिका कळ्ळो आसतलो. तिणें म्हळें, ''जिणेंत इतले त्रास सोसल्यात की म्हजीं दुकां आदून गेल्यांत. तुका फट दिसतलें. पूण म्हाका रडूंक येना. गंभीर प्रसंगाचेर लेगीत म्हाका असो सुको हांसो येता. हांव फकाणां करिना.''

हांवें तिच्या तोंडाकडेन निरखून पळयलें. ती खरें उलयता अशें म्हाका दिसलें आनी तिची काकुळट दिसून हांवें विचारलें, ''खंयच्या वर्साची गजाल ही?''

''१९५० वा ५२ आसुंये'' अहिल्येन जाप दिली. ''हांव तेन्ना सोळा सतरा वर्सांची आस्लीं. ते उपरांत म्हजी शाळा बंद पडली. घर सांबाळपाची जापसालदारकी म्हजेर उरली. दीसपट्टी हांव मोठे आशेन वाट पळयताली, भाई परत येंतलो म्हणपाची. तो परत आयलोच ना.''

भाईचेर आरोप आसलो की ताणें स्कुलाच्या आवारांत लायिल्लो पुर्तुगेज बावटो देंवोवन थंय तिरंगी बावटो लायिल्लो. कोणेंतरी कागाळ केल्ली आनी पोलिसांनी भाईक धरुन व्हेल्लो.

कांय दीस गांवचे लोक भाईची याद काडटाले. उपरांत तेवूय विसरले. शाळेच्या व्यवस्थापकांनी सरकाराचें वायटपण नाका अशें येवजून एका 'पुर्तुगालद्रोही' शिक्षकाक नोकरेवेल्यान काडून उडयलो.

अहिल्या निकतीच वयांत येताली. कितें घडलां तें तिका समजतालें. ज्या हारशांत रूप नियाळीत राविल्ली तोच हारसो अचकीत जमनीर पडून फुटून गेल्लो. उकतेपणान रडपाचीय चोरी आनी आपलें मन कोणायकडेनय मेकळें करपाचीय संद नासली.

पूण थोड्या दिसांनी तिका समजलें, तिका दीस गेल्यात. कोणाक सांगतली? मावशेगेर वचून सगळें तिका सांगलें.

गतिच्या वेळार मावशी तिका घेवन परत आयली. तिच्या बापायकडेन मावशेन उलोवणीं केलीं.

''तो जितो परत येंतसो दिसना. आनी आयलोय जाल्यार ताका पोलीस सुखान जगूंक दिवचेनात... ताचो विचार तकलेंतलो काडचो आनी अहिल्येच्या फुडारगचो विचार करून गोंयांभायर वचून गर्भपात करून घेवंचो.'' बापायन निश्कर्श काडलो.

अहिल्येचेर जोगूल कोसळ्ळें. पांयांपोंदची भूंय फुट्टा अशें तिका दिसलें. पूण एक नांवरूप केलें उपरांत विरोध करपाची शक्त तिच्यांत नासली.

ती गोंयाभायर वचून आयली आनी पुरती बदलून गेली. आवय गेल्ल्यान घराची जापसालदारकी आशिल्लीच. पूण जाल्ल्या आघाताक लागून ती एकदम जाण्टी जाल्ली. अल्लडपण सोपिल्लें. गांवचे लोक थोमणें मारताले. सूचक भाशेंत असभ्य उलयताले. एक एक उतर काळजाक घाय करून वतालें पूण परती जाप दिवपाचें मनोबळ तिच्यांत नासलें.

फुडाराचें चित्र खूबच अस्पश्ट आसलें. मावशी तिका समजायताली. लग्न करूंक

तयार जा अशें सुचयताली. पूण ती कवूल जायनासली. एकं भाशेन ती जिणेंक उबगल्ली.

हेच अवस्थेत आसतना गोंय स्वतंत्र जालें. आतां तरी भाई परत येतलो अशें तिका दिशिल्लें. खूब जाणांकडल्यान तिगेल्या वापायन वासपूस केली. ताका पोलिसांनी चार चौगांमुखार धरून व्हेल्लो. पूण फुडें ताचें कितें जालें हें कोणाकच खबर नाशिल्लें. कोण म्हणटा, ताका आफ्रिकेंक धाडिल्लो. कोण म्हणटा, ताका मारून उडयलो. सुटके झुजाऱ्यांचो मान-भोवमान जाता आनी आपल्या नायकाचो पत्तो लेगीत लागना. अहिल्या मनांतल्या मनांत फणफणटाली. तिणें थारायलें, आतां लग्न करपच ना.

आपले पूर्वजिणेची खबर सांगतासर अहिल्या घामाघुम जाली. पूण उलयतां उलयतां तिचे भाशेक धार आयिल्ली आनी उतरांची तिखसाण जाणवताली.

"ही म्हजी पूर्वजीण. हे फाटभुंयेचेर फक्त मावशेक आनी बाबाक बरें दिसचें इतले खातीर हांव लग्नाक कबूल जाल्लीं. लग्नापसून सुखाचीं अपेक्षाच नासली. ह्या जल्मांत तें म्हज्या वांट्याक घालूंक देव विसरलो हें हांव जाणां. पूण विचार केलो जो इतले अपेक्षेन म्हजेकडेन लग्न जाला, ताका सुख दिवंक मेळ्ळें ना जाल्यार दुख्ख तरी दिवचें न्हय. पूण घडलें विपरीतच..."

"ताचे आड तुजी कसली कागाळ? तो घटस्फोट कित्याक घेवंक सोदता?"

"ताका भुरगें जाय, आपलो वंश चलोवपाखातीर.. आपली पिराय, म्हजी पिराय तो विचारांतच घेना, दीसभर म्हाका हिणसायता, वांझुट म्हणटा. म्हज्यान सोंसूंक नज जाता...."

"तो खऱ्यांनीच नवें लग्न करूंक सोदता?"

"अशें तोंडान तरी म्हणटा, आतां बायलोय पडल्यात रस्ताद आनी आंकवार चलयांचो आंकडो थोडो ना... हांव जालें ना ताचेकडेन लग्न? वाडिल्ल्या चलयांक दिसता, घोवाची बायल जावन मरचे. ते खातीर कसलोय दादलो उपकारता. तांचो गुन्यांव ना...."

"पूण एकाद्रो भुरगो... जाय जाल्यार नात्यांतलोच तो पोसको कित्याक घेना?" हांवें विचारलें.

"ताका आपल्या रगताचो, वंशाचो चलो जाय. फकत भुरगें जालें म्हणून ताचें समादान जावचें ना. पयले बायलेक ताणे अशीच पिडली आसतली देखून हांतूण धरून ती मेली. आतां म्हजे फाटल्यान लागला. पूण हांव ताचें आयकून घेना. परत्याक परतें दितां. देखून आयिल्ल्या दिसा घरांत आमचीं झगडीं चालूच आसतात. तो हिणसायता, चाळयता. म्हजेर नस्ते आळ घालता... म्हजो दुबाव घेता...."

"दुबाव? कसलो दुबाव?" हांवें विचारलें.

"तो आर्दी म्हज्या नांवाची फोडणिशी करूंक बसलो. वाचन मंदिरांतल्यान पुस्तकां

घेवन आयलो. एक डिक्शनरी हाडली. डिक्शनरींत ताणे वाचलें, अहिल्या म्हळ्यार पडंग जमीन, सुरंग तोच अर्थ घेवन म्हाका चाळयतालो. हांव वांझूट म्हणपाचें म्हजें आवयक खबर आसलें. देखून तिणे म्हाका अहिल्या अशें नांव दवरलें अशें म्हणूंक लागलो. म्हाका कड फुट्टाले. दिसताले, भाईकडल्या संबंदाविशीं ताका सांगून उडोवचें. पूण बुद्दीन भावनेक लगाम घालो.''

''पूण अहिल्येचो उद्धार रामान केलो हें तुवें ताका सांगलें ना?''

''म्हाका खंय खबर आसलें? ती खबर लेगीत ताणेंच म्हाका सांगली. त्या कोशांत वरयिल्लें. अहिल्या म्हळ्यार गौतम ऋपिची बायल. मागीर ताणे गौतम ऋषी विशीं पुस्तक हाडलें आनी म्हाका वाचून दाखयलें. एकूण दोश अहिल्येचो. जाणट्या ऋपीक आपले बायलेचो दुबाव येता आनी तो तिका स्राप दिता देखून ती शिळा जावन पडटा... तिचो उद्धार रामान केलो... हो आपणाक गौतम ऋपी समजता आनी म्हाका दुबावता. हांवें म्हळें, दुसऱ्या दादल्यां सांगातान वचपाचें आशिल्लें जाल्यार हांव हें सगळें सोंसपाचीच न्हय.''

अहिल्येची कुचमण म्हाका समजली आनी हांवें तिका म्हळें, ''खऱ्यांनीच बरे कथेचो विशय आसा. तुजी परवानगी आसल्यार हांव ती बरोवन काडीन.''

''ही काणी न्हय. खरी खबर. गौतम ऋषी आदल्या काळारच आसताले अशें न्हय. आजय आसात... . पूण आज राम मात नात.''

म्हाका दिसलें, गौतम ऋपिची कथा हे अहिल्येकूय लागू पडटा. जाण्टेपणांत लग्न करून वंशावळ वाडोवंक सोदतल्या गौतम ऋपीकडेन आशिल्लें तें तपान संचीत केल्ले पुण्य. पूण वाडटे पिरायेवांगडा आपलो देह थकून गेला हाची ताका जाणविकाय नासली. पुण्याक लागून ताच्या उतरांत मंत्रांची शक्त आयिल्ली पूण जाण्टेपणाचेर ताचेकडेन वखद नासलें. मरणाचे वेध लागले तेन्ना आपलो वंश वाडोवपाचो हुस्को ताका जालो आनी तो अहिल्येंकडेन लग्न जालो. पुराणांतले कथेंत म्हळां, एक दीस न्हंयचेर न्हावन परत येतना ताणें अहिल्येच्या म्हऱ्यांत दुसरो दादलो पळयलो आनी तिका स्राप दिलो.

कथेचो उगडास जालो तरी हांवे अहिल्येक ती सांगली ना. फक्त इतलेंच म्हळें, ''गौतम ऋपीकडेन पुण्याय आसली. देखून ताचो स्राप बादलो.''

''म्हगेल्या घोवाकडेन आसात त्यो पातकांच्यो गांठी.'' एकदम आवेशान तिणें म्हळें.

''आतां सध्या तुमी एकटांय रावतात काय ना?''

''हांवे ताका सांगलां. गळयांत मंगळसूत्र बांदून हांव ह्या घरांत आयल्यां. म्हाका ह्या घरांतल्यान भायर काडपाची आसत जाल्यार तिरडे वयल्यान काडची पडटली.''

''ताची प्रतिक्रिया कितें जाली?''

''रागान उसळ्ळो आनी म्हळें, 'वांझ ती वांझ. म्हजो वंश निर्वंश करूंक सोदपी

राक्षीण.' तेन्ना मात म्हज्यान रावंक नजो जालें आनी हांवें ताका सांगलें. 'खरी खबर कळळी जाल्यार तुज्या आंगार जोगूल पडटलें.!''

हांव अहिल्येकडेन पळयत रावलों. आंगांत भार आयिल्ले भाशेन ती थरथरताली. तो प्रसंग तिणे तुटक उतरांनी सांगलो. तिणें आपल्या घोवाक सांगलें, ''जाय जाल्यार तूं म्हाका पातकी म्हण, पूण वांझ म्हणूं नाका.''

घोवान म्हळें, ''आता तुज्या तोंडान तूं कबूल जाली हें बरें जालें. तूं व्यभिचारिणीच. व्यभिचार हें पातकच. आनी वांझ जावनय वांझ म्हळ्यार राग येता?''

''हांव वांझ न्हय. म्हजें नशीब फुटकें देखून म्हजें भुरगें वांचलें ना. तूं मात...''

इतले दीस उतरांनी झगडीं जाताली. अहिल्येची ज़ळजळीत भास आयकून पुरुषोत्तमान तिच्या तोंडार थापट मारलें. ती वळवळून भूंयेर पडली. ताचें तोंड सुटलें. ताणें म्हळें, ''हीं तुजीं लक्षणां हांव जाणां. तेन्ना त्या मास्तराबरोबर नाचली आनी आतां येतल्या वतल्या सांगातान किटकिट्टा.''

'आसत.' तिणें म्हळें, ''पूण हांव वांझ न्हय, आनी दादल्यान दुसरी बायल करप धर्मात बसता आसत जाल्यार बायलेन दुसरो घोव करप हो अधर्म कसो जायत?''

अहिल्येची काणी सोंपली. जें कितें घडलें तें ती समाजामुखार दवरूंक सोदता. हांवें तिका सगळी खबर बरोवन काडपाचें उतर दिलें.

''एक काम करूंक जाय.'' तिणें म्हळें, ''म्हजो घोव पाताळयंत्री,छापून येवचे पयलीं ताका कांयच कळूंक जायना.''

''ताका कशें कळटलें?'' हांवें विचारलें. ''छापतना ताचें नांव हांव बदलतलों.''

''गौतम दवर''. तिणे म्हळें. ''पूण म्हजें मात अहिल्याच आसुंदी.''



# मंगल पांडे

रेल्वेच्या प्रवासांत बरो सांगाती मेळुंकय नशीब लागता. खूब खेपे बरे सांगाती मेळटात पूण केन्ना केन्ना कुसके, मनीसघाणेय लोक मेळटात.

असो एक सांगाती आमकां पयल्या वर्गाच्या डब्यांत मेळ्ळो. अदमदाबादाक सावन दिल्लीक वचपाचो प्रवास. डब्यांत चार पॅसेंजर. दोग जाण वयल्या बर्थाचेर आनी सकयल एक जोडपें. तो खुबच जाण्टो दिसतालो. त्या मानान बायल भुरगी. तांचें नातें बापूय-धुवेचें आसतलें अशें सुरवेक हांवें येवजिल्लें. दोगांय एकाच बर्थाचेर बशिल्लीं. बायल जनेलाकडेन आनी ताणे तिगेले मांडयेर आपली तकली दवरून त्याच बर्थाचेर पांय सोडिल्ले. फुडलो सकलो बर्थ रिकामो आसलो.

म्हज्या वांट्याक वयलो बर्थ आयिल्लो. म्हजेकडेन एक ल्हानशी बॅग. उबाळाचे दीस जाल्ल्यान हांवें चादरी हाडूंक नासल्यो. बर्थाचेर लुंगी पातळावन न्हिदपाचें हांवें थारायिल्लें. रातिच्या सवायणव वरांचो वेळ. धा वरांचेर गाडी सुटूटली. हांव सकल्या बर्थाचेर बसलों.

'तो वर्थ म्हजो' न्हिदिल्ले कडल्यान त्या मनशान म्हाका शिटकायलो.

'म्हजो बर्थ वयलो'. हांवें जाप दिली.

वांकडें तिकडें तोंड करून ताणे कूस परतिली आनी बायलेच्या पोटांत आपलें तोंड लिपयलें.

हांवें ताचेकडेन पळयनाशिल्ले भाशेन करून प्लॅटफॉर्माचेर नदर थिरावन बसलों.

कंडक्टर एका पॅसेंजराक घेवन आयलो. तो पॅसेंजर आमच्याच कंपार्टमेंटांतल्या चौथ्या वर्थावेलो आसलो. म्हाका सूऽ जालें. दुसरो सांगाती आसतकच उलोवंक मेळटलें आनी त्या कुसक्या मनशाची उपेक्षा करप शक्य जातलें अशें हांवें धरलें.

आमी कंपार्टमेंटांत आयले आनी कंडक्टरान सगल्यांच्यो तिकेटी तपासल्यो.

''दोनूय सकयले वर्थ आमचे'' उठून वसून आपल्यो तिकेटी दाखयत त्या कुसक्या मनशान कंडक्टराक सांगलें.

''वरोबरय''. अशें म्हणून कंडक्टरान आमकां आमचे बर्थ दाखोवन दिले.

आमी दोगूय मुखावेल्या वर्थाचेर बसल्यात हें त्या मनशाक आवडूंक ना म्हणपाचें

म्हाका कळटालें. पूण गाडी सुटचे आर्दांच वयर वचून कितें न्हिदतले? आमी दोगांनी एकमेकांची वळख करून घेतली. ताचें नांव माने. तो मिलिटरींत आसलो.

मुखावेल्या बर्थाचेर जनेलाकडेन बशिल्ली वायल शून्यांत नजर थिरावन कानांत काडी घुंवडायताली. आनी तो तिचो घोव काय कोण जाणा, आमचेकडेन पळोवन वांकडीं तिकडीं तोंडां करतालो.

आतां हांवें ताका सारको पळोवन घेतलो. एका दोळ्यान मात्सो तिरसो. दाट मिश्यांचो. माथ्याक पूर्ण चंद्राकृतिचें खरड आशिल्लो. तो मनीस पन्नाशिच्या घरांत आसूंक जाय. ताणें एक लांब पॅंट घाल्या आनी आंगांत हातकापें बानयान. उजो जाता देखून शर्ट काडून दवरिल्लो आसतलो. ताचे कुशीक बशिल्ली ती ताच्या मानान भुरगी दिसली तरी तिशींतली आसली. गळ्याक, आंगार भांगर ना. दिसूंक चार चौगींसारकी. कपलाक आनी केंसाच्या भांगांत कुकूम.

गाडी सुटली आनी ताणे आमकां विचारलें, ''तुमी वयल्या वर्थाचेर वतात न्हय? हांव दिवो पालयतां.''

हांव म्हज्या बर्थार चडलों. मुखावेल्या वर्थाचेर एक बॅग आसली. मानेन ती सकयल काडली आनी त्या मनशाक विचारलें, ''तुमीच मंगल पांडे?''

''दुबाव कित्याक आयलो?'' त्या मनशान परतो प्रस्न विचारलो.

''तुमचे नांव वळखिचें दिसता'', मानेन म्हळें.

म्हाकाय मंगल पांडे हें नांव वळखिचें दिसलें. पूण हांव कांय उलयलों ना. तरी त्या मनशाकडेन पळोवपाची म्हजी नदर वदल्ली. तो कोण तरी मोटो मनीस आसतलो अशें म्हाका दिसूंक लागलें.

''पूण तुका म्हजें नांव कशें कळ्ळें?'' मंगल पांडेन विचारलें.

''रिझर्वेशन चार्टाचेर नांव आसा. ते भायर ह्या बॅगाचेर मोठ्या अक्षरांनी बरयिल्लें नांव हांवें वाचलें.'' मानेन सांगलें.

सभ्यतायेच्या नेमाक धरून तो आमची वासपूस करतलो अशें दिशिल्लें. पूण ताणे ती केली ना. उरफाटे त्या मनशाक म्हळें, ''नांव समजून कितें करचेलें आसा? कोणे चोरी केल्या काय कितें?''

तागेली जाप आयकून मानेची वाचाच धरली. ताणे म्हजेकडेन पळोवन हांशिल्ले भाशेन केलें आनी उडी मारून तो आपल्या वर्थाचेर चडलो.

फांतोडेच्या वेळार गाडी आबू रोड स्टेशनाचेर पावली आनी मंगल पांडे आपले बायलेसयत सकल देंवलो.

''तूं जाणा मंगल पांडे कोण तो?'' मानेन म्हाका विचारलें.

''नांव कानावयल्यान गेलां. ह्या मनशाक हांवें केन्नाच पळोवंक ना.''

''म्हाकाय तशेंच दिसता.''

"जायते खेपे एकाच नांवाचे दोन वा अदीक मनीस आसतात. हो आमच्या वांट्याक आयिल्लो मंगल पांडे मनीसघाणो आनी कुसको. ताका सभ्यपणान वागूंक लेगीत येना. इतलो जाण्टो जालो तरी मधुचंद्राक वतल्या घोवाभशेन तो आपले बायलेकडेन वागतालो."

"तेंच तुका सांगूंक वतालों." मानेन म्हळें.

"एक गजाल बरी जाली." हांवें म्हळें, "तो हांगाच देंवन गेलो. दिल्ली मेरेन आमच्या सांगातान उरिल्लो जाल्यार ह्या प्रवासाचो उगडास जिवीतभर उरतलो आसलो."

आमी उलयल्याले इतल्यान दुसरें एक जोडपें आमच्या कंपार्टमेन्टांत भितर सरलें. जोडपें तरुण आसुनूय नम्र आनी सभ्य आसलें. रिकाम्या बर्थाचेर तें बसलें आनी दादल्यान आमचेकडेन पळोवन म्हळें, "आमी हांगा बसतात."

"दोनूय सकयले बर्थ तुमचे" हांवें म्हळें. "तुमच्या बरेपणान आमी ह्या एका बर्थाचेर बसल्यात."

"आता दिसाच्या वेळार वयल्या बर्थाक अर्थ ना." ताणे हांसून म्हळें.

वळख जाली. तो दिल्लींत एका विद्यापीठांत शिकयता आनी ती कलकत्याक आसता. इतिहासाचें संशोधन हो तिचो छंद.

"तुमचे नातें कितें?" मानेन सरळ विचारलें.

"नातें काय ना. इश्टागतिचें लेगीत म्हणूं नज. एका सेमिनारा खातीर आमी माऊंट आवूक गेल्लीं. थंय आमची वळख. परतिच्या प्रवासाचें सांगातान रिझर्वेशन केल्लें. देखून एका डब्यांत पावलीं. दिल्लीक वतकच आमच्यो वाटो वेगळ्यो जातल्यो."

"हांव मिसेस बॅनर्जी". बायलेन आपली वळख करून दिली, "म्हजो घोव कलकत्याक डॉक्टरी व्यवसाय करता. हांचें नांव वर्मा. ते दिल्लींत एका विद्यापिठांत इतिहास शिकयतात."

"तुमी येवचे आदीं ह्या बर्थाचेर मंगल पांडे म्हूण एकलो आसलो. मोठो विक्षिप्त मनीस." मानेन म्हळें.

"मंगल पांडे?" कोणाचेंय नांव विक्षिप्त मनशांक दिवंनाकात." मिसेस बॅनर्जीन म्हळें.

"त्या पॅसेंजराचें नांव तें. तो आनी ताची बायल अहमदाबाद सावन आबू रोड मेरेन ह्या डब्यांत आसलीं. निकर्तीच देंवन गेल्यांत."

"तूं मंगल पांडेक वळखता?" मानेन तिका विचारलें.

वर्मा सामको खळखळून हांसलो. ताणें म्हळें, "इतिहास शिकयतल्याक मंगल पांडेक वळखता काय म्हणून विचारप धाडसाचें जातलें."

"अशें कित्याक म्हणटा तूं? इतिहासांतल्या मंगल पांडेची खबर उलयनात. जाचो सांगात परतिच्या प्रवासांत तांकां मेळ्ळो, त्या मंगल पांडविशीं ते उलयतात आसतले." मिसेस बॅनर्जीन म्हळें.

आनी म्हाका उगडास जालो. मंगल पांडे एक स्वातंत्र्य सैनिक. १८५७ वर्सा ब्रिटिशांआड जाल्ल्या बंडाकडेन ताचो संबंद पावता. ब्रिटीशांनी ताका फांशी दिल्ली आनी हांवें चूक सुदारून घेवंक मानेक म्हळें, "माने, आमी नांव आयकल्लें तें शहीद मंगल पांडेचें. हो पांडे वेगळो."

आमी कितें उलयतात ताचो इतिहासाच्या दोगांय प्रोफेसरांक बोध जालो ना. प्रोफेसर वर्मान विचारलें, "अशें घडलें कितें? तुमी मंगल पांडेच्या नांवाचो उगडास कित्याक काडलो?"

"मंगल पांडे हो शहीद म्हणपाचो आतांच आमकां उगडास जालो. त्या नांवाचो मनीस ह्या डब्यांत आसलो. नांव वळखिचें. मनीस वळखिचो न्हय. वागणूक जनावराची..."

"अशें घडटा केन्ना केन्नाय", मिसेस बॅनर्जीन म्हळें, "तुमका अजाप जातलें, म्हज्या प्रबंधाचो विशय १८५७ चें बंड होच आसलो आनी हांवें मंगल पांडेचेर एक खाशेलें प्रकरण बरयलां. ते भायर एक कादंबरीय बरयल्या."

"तूं कादंबरीय बरयता?" प्रो. वर्मान अजापून तिका विचारलें.

"तांतूत अजाप कसलें?"

"इतिहास संशोधक हे सत्य सोदीत भोंवतात आनी कादंबरीकार कल्पनेच्या संवसारांत वावुरतात. एकाच मनशाच्यो दोन वृत्ती कशो आसूं येतात हाचेंच म्हाका अजाप दिसलें." प्रो. वर्मान म्हळें.

मिसेस बॅनर्जीन पांयांतलें जोतें काडून दवरलें आनी दोनूय पांय कवळून मांडी घालून ती बसली. तिणे आपल्या जनेलाचे शटर बंद केलें आनी आज्जेन नातरांक काणी सांगची ते धर्तेर ती उलोवंक लागली.

**

सूर्य अस्तंतेकडेन देवंक लागलो. झाडाच्यो सावळयो लांब पातळूंक लागिल्ल्यो. अस्तंतेकडल्या मळबार तांबडें फांकिल्लें. अचकीत शितळ वारो सुटलो आनी खिणांभितर ध्यानस्त बशिल्ल्या मुनीवरी थीर आशिल्लीं झाडां धोलूंक लागलीं.

भोंवतणी सात-आठ दोंगुल्ल्यो. मनीस वस्ती खुबच कमी. पूण वातावरण एकदम सुंदर आनी प्रसन्न. एके दोंगुल्लेचे तेंगशेर एक तरणाटो बसला आनी सैमाची सोबा आपल्या दोळ्यांवरवीं काळजांत भरून घेता.

दोंगुल्लेच्या पांयाकडेन सपाट वाठार आसा. थंय इस्ट इंडिया कंपनिचो तळ आसा. एका घराचेर ब्रिटीश बावटो लायिल्लो आसा. आतां सूर्य अस्ताक वचपाच्या वेळार बिगूल वाजोवन तो बावटो देंवयतले. बावट्याक सगल्यांनी सलामी दिवंक जाय.

इतले म्हणसर बिगुलाचो आवाज आयलो. तणाची काडी दातांत धरिल्ली ती त्या तरणाट्यान भायर उडयल्ली आनी सलामिच्या थाटांत उबो रावपाची तयारी करतासर तो आपले भितर हांसलो. ताणे येवजिलें, हांगा म्हाका कोण पळोवंक येवपाचो आसा?

सलामी दिली ना म्हण कोण ख्यास्त दिवपाचो आसा? हांव हे भुंयेक सलाम करतां. सातासमुद्रा पलतडच्या गोऱ्यांल्या बावट्याक कित्याक करतलों?

तो उठूंक वतालो तो सकयल वसलो. कर्नल मायकलाच्या मुखेलपणाखाला एकविसावें पथक थंय पडाव घालून रावलां. बावटो सकयल देंवलो तसो त्या तरणाट्यान आपल्या भेसावेल्यान नदर भोंवडायली. धडधाकट तरणाटो. आंगांत वागाचें बळगें आशिल्लो. व्यायाम करून ताणें देहाक शिस्त लायल्या. लस्करी गणवेश ताका सोवता. अचकीत ताका तो गणवेश रोमूंक लागलो. हो गणवेश सोबेचें वस्त्र न्हय. ती गुलामपणाची निशाणी अशें ताका दिसूंक लागलें. मायकलाच्या एकविसाव्या पथकांत तो एक कनिष्ठ अधिकारी. आज वाऱ्यार फडफडपी ब्रिटीश बावटो ताच्या दोळ्यांक कांट्यावरी रोमूंक लागलो. बुडट्या सुर्याचे फाटभुंयेचेर ताचो रंग दिसनासलो. तरी त्या देंवत्या बावट्याकडेन तो तरणाटो नदर थिरावन बशिल्लो. हो बावटो देंवतलो आनी फाल्यां सकाळी परतो चडटलो... अशें कितेंय घडूंक जाय की हो बावटो देंवतलो तो सदांखातीर देंवंक जाय.

बिगुल थांबलें आनी अस्तंतेकडेन अचकीत सूर्य अदृश्य जालो. झाडांच्यो लांबिल्ल्यो सांवळ्यो काळखाच्या पांघरुणांत लिपून बसल्यो. तरी आकृत्यो वळखूंक येतात. दोंगुल्लेच्या तळाकडेन एक तळें आसा. दिसा उजवाडा त्या तळ्याचें निवळ उदक त्या तरणाट्यान पळयलें. केन्ना तरी दोन बुचकळ्यों मारून तळ्याचे खोलायेचो थाव घेवपाचें ताणे मनांतल्या मनांत थरयिल्लें.

कुशिचे वस्तींतल्यान एक आकृती भायर सरली आनी तळ्याचे दिशेन चलूंक लागली. बायल आसतली. माथ्यार दोन घागरी. हातांत कळसुली. चड करून उदक भरूंक तळ्याचेर वता आसतली.

आकृती तळ्यामेरेन गेली. घागरी, कळसुल्यो विसुळ्ळयो, उदक भरून धडेर दवरलें. उपरांत आपले हातपांय, तोंड धुवन घेतलें. उकडयां बसून एकेक घागर माथ्यार दवरली आनी भरिल्ले घागरिचो तोल सांबाळीत एखाद्रे नृत्यांगनेन पावलां उखलचीं तशी ती वस्तिचे दिशेन चलूंक लागली.

क्षितिजाचे दुसरे वटेन घोड्यार बशिल्ल्या शिपायाची सावळी तरणाट्यान पळयली. वाऱ्याचे गतीन घोडो धांवतालो ते आकृतिचे दिशेन. एकदम तरणाटो सतर्क जालो. आता कितें तरी विपरीत घडटलें असो ताका दुबाव येतासर ते बायले सामकारच घोडो थांबलो.

तरणाटो एकदम उठलो आनी वाऱ्याचे गतीन दोंगुल्ली देंवत त्या घोड्यासरी खिणांतच पावलो.

घोड्यार बशिल्ल्या शिपायान बायलेच्या खांदाचेर आपलो हात दवरलो. ती दोनूय हातांनी कडकडत उदकाच्यो घागरी सांबाळटा. तिगेल्या कंपाक लागून घागरींतले उदक तिच्या आंगार रकलां आनी न्हेसण भिजून गेलां. वागाच्या सांपळ्यात सांपडिल्ल्या

हरणाभाशेन तिची अवस्था जाल्या.

तो देखाव तरणाट्याच्यान पळोवं नजो जालो. ताणे सगळे बळगें एकवटावन घोड्यार बशिल्ल्या शिपायाच्या तोंडार थापट मारलें. कितें जाता तें कळचे आदींच तो शिपाय जमनीर कोंसळळो आनी घोडो खिदळूंक लागलो.

शुध्दीर येवंक त्या शिपायाक चड वेळ लागलो ना. आपल्या मुखार आपलो वरिश्ठ अधिकारी आसा हें पळोवन ते अवस्थेंतूय तो शिस्तीक जागलो. एकदम तो उठून उबो रावलो. गणवेश सारको केलो. बुटांचे पांय जमनीर आपटिले आनी एक कडकडीत सलाम केलो. तरणाट्याच्या दोनूय दोळ्यांत उज्याचे लोट धगधगताले. तो अवतार पळोवन शिपायान मान सकयल घाली. घोड्याचो लगाम हातांत धरलो आनी छावणिचे दिशेन हारिल्ल्या सैनिकाची वाट चलूंक लागलो.

हो सगळो देखाव ती तरणाटी चली पळयताली. एक संकट गेलें आनी दुसरें आयलें ना मू, अशी भिरांत तिच्या मनांत आसली. तरिकूय हो तरणाटो आपलो राखणदार अशी तिची भावना आसली. उपकाराचें उतर लजेन गिळून उडयलें आनी माथ्यावयलो पदर तोंडार फुडें आयलो. अजून ती कडकडटाली. पूण थोड्याशा धीरान त्या तरणाट्याकडेन पळयताली.

तीनकात्रींच्या वेळार त्या निर्जन थळाचेर दोन खीण तो तरणाटो आनी ती चली एकमेकांक पळयत रावलीं. दोगांनीय एकामेकांक त्या आदीं पळोवंक ना. तांची वळख ना. नदरेंत नदर थिरावली तेन्ना आपल्या भिजिल्ल्या वस्त्रांचे तिका भान उरलें ना. त्या तरणाट्याचीय अवस्था गारूड्याच्या वाद्यामुखार थिराविल्ल्या नागासारकी जाल्ली. ताका कितें तरी उलोवचेंशें दिसतालें पूण कितें उलोवचें तें कळनाशिल्लें.

निमाणें तोच उलयलो, "चल हांव तुका घरा पावयतां. एकली वचूं नाका आनी उदक व्हरूंक येतना अशी रात करूं नाका."

"तुमी त्रास घेवपाची गरज ना." संकोचून ते चलयेन म्हळें, "घर लागींच आसा."

तंवोऱ्याची तार झंकारची तशीं तिचीं उतरां वाऱ्यार नाचलीं. तरणाट्याक दिसलें, तिणे उलयत रावचें आनी आपणे आयकत रावचें. ताणे दोळे धांपून घेतले.

पावलांचो आवाज पयसावंक लागलो तशे ताणे दोळे उकते केले. ती चलतां चलतां थांबिल्ली. चिके घुंविल्ली. आडखळत तिणें विचारलें, "इतले उपकार केले. पूण तुमचें नांव....?"

"उपकार कसले? हांवे म्हजें कर्तव्य केलां. म्हजें नांव आयकून तूं कितें करतली? लोक म्हाका मंगल पांडे म्हणटात."

"तुजें नांव सांगिना?" मंगलान विचारलें.

"मीरा." वाग फाटीक लागिल्ले भाशेन ती धांवली.

मुखावेल्यान एक दादलो येतालो. तें काळे आकृतीक मीरा वळखली. ती ताचेसरीं

धांवली. ''काका, काका!'' तिणें म्हळें. आनी ती व्हडाव्हडान रडूंक लागली.

काकान दुबावान पळयलें तेन्ना तिणेंच कितें घडिल्लें तें सांगलें. ती गेली. काका मंगला सरीं आयलो. ताचे फाटीर हात दवरून उपकार मानले आनी ताची वासपूस केली.

''फाल्यां तू आमगेर कित्याक येना? जेवंकच यो.'' काकान मंगलाक आग्रो केलो.

मंगलाक दिसलें, आपल्या जिविताचें एक नवें पर्व सुरू जालां.

मंगल पांडेचो जल्म एका गरीब ब्राह्मण कुटुंबांत जाल्लो. गरिबीचो प्रस्न सोडोवपाखातीर ताणे कंपनीत सरकाराची नोकरी पत्करली. एक सादो शिपाय म्हणून तो भरती जालो. ताची धिटाय, ताची मोगाळ वागणूक आनी अभिमानी वृत्ती हांकां लागून सगळ्या सैनिकांमदीं तो लोकप्रिय जायत रावलो. पूण रगतांत देशाभिमान भिनिल्लो. देशाखातीर आपणे कितें तरी करूंक जाय अशें ताका दिसतालें. आपल्या सांगात्यांक तो देशभक्तिचो कानमंत्र दितालो. तांणी म्हणचें, ''देवान मंगलाक जल्माक घाला ताचेफाटलो एखाद्रो हेतू आसतलो. तो कितें तरी अप्रूप केलेवगर रावचो ना.'

ल्हवू ल्हवू मंगल पांडे लेगीत तशेंच मानूंक लागलो. कंपनी सरकाराचे कायदे खूबच जाचक आसले. भायल्या देशांतल्यान येवन हे गोरे लोक आमचेर जुलूम करतात अशें ताका दिसतालें. त्या जुलमाआड बंड करूंक ताचें रगत सळसळटालें. लोक हो जुलूम मोन्यांनी कित्याक सोंसतात हो प्रस्न तो आपणाकच विचारतालो. सोंशीकपण हो एक स्राप अशें तो मानूंक लागिल्लो. पांच मनशांक एक मनीस बडयेच्या धाकाचेर नाचयता आनी ते गोरवां जावन मोन्यांनी नाचतात. ह्या पांच जाणांनी निखटो फुडो केलो जाल्यार जुलूम करपी मनीस झडिल्ल्या खोल्यासारको वाऱ्यार उबून वतलो अशें ताका दिसतालें. ही परिस्थिती कशी सुदारपाची हे विशीं तो येवजितालो. जेन्ना मनाचो घुस्मटमार जातालो तेन्ना तो न्हंयचे देगेर वा दोंगराचे तेंगशेर वचून बसतालो. सैमाची सोबा नियाळटना आपल्या मनाचो धग न्हिवयतालो. हे छावणेंत येत सावन दोंगुल्लेचे तेंगशेर बसून सैमाचे आनी सुर्यास्ताचे, धोलत्या झाडांचे, उडट्या सवण्यांचे देखाव तो पळयतालो. दोंगराचे फाटींतल्यान एक ल्हानसो वझरो फुटला. तो व्हांवत व्हांवत सकयल गेला आनी थंय विशाळ जलाशय जाला. ह्या वझऱ्याची गची आंवुळ्ळी जाल्यार कितें जातलें?.... उदक बंद जातलें... संगीत थांबतलें... तळें आट्टलें... आनी ह्या वाठारांतल्या मनशांक, जनावरांक, सवण्यांक, रुखांक आनी तणाक लेगीत उदक मेळचें ना.

ह्या देशाचेंय अशेंच जायत म्हणपाची भिरांत कांट्यावरी मंगलाच्या काळजांत रोंवून उरताली.

त्या दिसा आपल्या हातांतल्यान एक सत्कार्य जाल्ल्याचें समाधान मंगलाक मेळ्ळें. ज्या शिपायान आगळीक केल्ली तो आपणाचेर डंख धरून आसतलो म्हणपाची जाणविकाय ताका आसली. पूण ताची ताका पर्वा नासली.

मीरा! नांवाच्या उच्चारांतच संगिताचो सूर आसा. आवाज कितलो गोड! आनी देह कितलो सुंदर!! येवजितां येवजितां तिची आकृती मंगलाच्या दोळ्यांमुखार उबी रावली. पुराय न्हेसण भिजिल्लें. भंय आनी लजेचो कंप... तीनसांज नासती जाल्यार लजून अरळ जाल्लो गोरो तोंडावळो दोळेभर नियाळूंक मेळटलो आसलो... तरीपूण तें रूप, ते दोळे ताच्या काळजाचेर कोरिल्ले उरल्यात.

तो प्रसंग घडोवन हाडपांत देवाचो दुसरो हेतू बी ना मू? विचारासरशीं मंगलाक दिसूंक लागलें... जें घडटा तें देवाचे इच्छेन घडटा. ताचे फाटल्यान ताचो हेतू आसता. नाजाल्यार इतल्या पयसुल्ल्या वाठारांत निर्जन थळाचेर सुर्यास्ताच्या वेळार उदकाचे निमित्त करून मीरा कित्याक येतली आसली? आयली तरी तो शिपाय आगळीक करूंक कित्याक पावलो आसतलो? मंगल आपणाकच प्रस्न विचारतालो आनी आपूणच जाप दितालो. मंगल-मीरा हांची भेट घडोवचे खातीर देवान हो प्रसंग रचला!

दुसऱ्या दिसा जेवणाचें आमंत्रण आशिल्लें. पूण रातभर मंगलाच्या दोळ्याक दोळो लागलो ना. जेवणा परसय मीराची भेट घडटली म्हणपाची खोशी ताका चड आसली. ते वाटेन उमळशिकेन फांतोडेर उठून मीरा फुडल्या दाराकडेन नदर थिरावन वावुरताली.

मंगल दारांत पावलो आनी दारांत आशिल्ली मीरा भितर धांवली. तिचें काळीज धडधडूंक लागलें. घरांत कोण ना! काका भायर गेला. आपणेच ताका येवकार दिवचो पडटलो हे जाणविकायेन तोंडार पदर ओडून ती फुडल्या दारांत आयली. येवकाराचे उतर उलोवचे आदीं मंगलाक एक खेपे पळोवचो अशें येवजून ल्हवू पदर फाटीं सारलो आनी नदर वयर केली. मंगलाचे दोळे तिचेरच थिराविल्ले. चार आंकवार दोळे एकमेकांक देंगावन बसले. काळजांत ल्हारां उसळ्ळीं. आनी परत मीरा धांवत भितर गेली...

त्याच खिणाक काका आंगणांत पावलो. ज्वालाप्रसाद ताचें नांव.

''आरेच्या! तू भायरचा उबो?' काकान मंगलाक येवकार दिलो. ''मीराक खबर ना दिसता.''

भितर आयदनांचो आवाज येतालो. मीरा जेवणाची तयारी करताली. भायर तिचो काका मंगलाची वळख घेतालो. मंगलाची देशभक्ती पळयतकच ज्वालाप्रसादाक उचबंळून आयलें. ताणें उठून ताका वेंग मारली. तोय लस्करांत आसा. ताच्या शौर्याच्यो आनी धिटायेच्यो खबरो आयकतकच मंगलाकय ताचो अभिमान दिसलो.

''पुराय देशांत इंगळे धगधगतात.'' ज्वालाप्रसादान मंगलाक सांगलें ''हांवें म्हज्या दोळ्यांनी पळयल्यात तीर्थयात्रेक वचपाखातीर रजा घेवन हांव सगळ्या मित्रांक, देशभक्तांक मेळून येतां.''

''पूण ही सगळी शक्त संघटीत कशी करपाची? चारूय दिकांनी उजो पेटलो जाल्यारच ब्रिटीश वतले. नाजाल्यार आमकां वेगवेगळे गांठून ते मारून उडयतले....''

मंगलान आपले मन उकतें केलें.

त्या दिसा ज्वालाप्रसादाच्या घरच्यान भायर सरतना मंगलाचें मन भारावन गेल्लें.। एक नवें नातें जोडिल्लें, जाका अजून उतर फुटूंक नासलें. दुसरें एक ध्येय ताच्या दोळ्यांमुखार उकतें जाल्लें. कोटी कोटी भारतीय लोक निखटे हात वयर करून उबे रावले तरी ब्रिटिशांची कसली बिशाद! तांगेली पिस्तुलां आसत. पूण भारतीय शिपायांनी तीं गोऱ्यांचेर जोखलीं जाल्यार?

मंगल एकदम उतावळो जाल्लो. पूण ज्वालाप्रसादान ताका थंडसाणेन एक एक पावल उखलपाचो सल्लो दिलो. "सोरपाचे शेश्टेचेर अचूक बडी पडूंक जाय. परत तकली वयर काडूंक मेळूंक जायना. जर एक खेपे बडी चुकली जाल्यार डंखी सोरोप सगल्यांक बादतलो."

त्या दिसा उपरांत मंगल दिसपट्टो ज्वालाप्रसादागेर वचूंक लागलो. काका घरा आसलो जाल्यार देश स्वतंत्र करपाचीं सपनां रंगोवचीं आनी तो नासलो जाल्यार मीरे सांगातान मोगाचे खीण सारचे.

मीरा शाणी आसली. रूप आनी बुद्द हांचो संगम तिच्यांत जाल्लो. तिचेकडेन पळयत रावतना केन्ना केन्नाय मंगलाक दिसचें, हीच भारतमातेचें प्रतीक. पऱ्क्या शिपायांच्या बचक्यांतल्यान तिका आपणे सोडयली. पूण जे मेरेन तिका तिगेल्या हक्काचो घोव मेळचोना ते मेरेन ती असुरक्षित उरतली.

दोन तरणीं मनां एकठांय येतालीं तेन्ना गुलाबी सपनां रंगयतालीं. ल्हानसो पूण सुखाचो संवसार करपाचो सोपूत ताणी घेतिल्लो.

एक दीस मीरेन मंगलाक म्हळें, "तुज्या सांगातान वेळ सारतना म्हाका कसलेंच भान उरना. पूण तूं गेले उपरांत भय दिसता. वाड्यावयल्यो चलयो-बायलो म्हाका शिटकायतात. म्हणटात, म्हांव आसा थंय पाखे येतात. तांचेपसून सादूर रावंक जाय. दादल्यांचे कितें? ताकां कसलेंच बंधन ना. बायलांनी सांबाळूंक जाय. खिणाखातीर घसरली जाल्यार जल्मभर पश्चाताप करचो पडटा. हीं उतरां आयकून म्हज्या काळजांत धस्स जाता."

"तुका भंय दिसता जाल्यार हांव फाल्याच्यान हांगा येवप बंद करतां."

"थुमेकाल!" मीरेन मंगलाच्या तोंडार हात दवरलो.

"तू म्हाका समजून घे. आमी एक यज्ञ पेटोवंक भायर सरल्यांत. जैत आमचेंच जातलें. तुजो काका म्हजेकडल्यान कसली अपेक्षा करता तें तूं जाणाच. ते भायर म्हजीय एक लागणूक आसा. तूं त्या दिसा जे अडचणींत आशिल्ली तसलेच अडचणींत आमची मातृभूमी आयज आसा... ती मुक्त जाली म्हणटकच उरिल्लें सगळें जिवीत तुकाच ओंपतलों...."

मीरेच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. मंगलान तिका लागीं ओडली आनी म्हळें. "रात

सोंपले उपरांत दीस जाताच.... देवाचेर भरवंसो दवर.''

*****

मिसेस बॅनर्जीची कथनाची शैली खुबच सुंदर आसली. आपले दोळे धांपून ती उलयताली. गाडयेच्या गडगडाटान तिच्या उतराक एके तरेची लय मेळिल्ली. भौशीक कार्यक्रमांनी उलोवपाची संवय आशिल्ल्यान ती व्हडान उलयताली. ताका लागून आयकूंक आडखळ जायनाशिल्ली.

पूण तिच्या सांगातान आशिल्लो प्रो. वर्मा मदींच तोंड घालून कितेंय तरी भाष्य करतालो वा दुबाव उकतायतालो. एखाद्र्या वेळार नस्तो प्रस्न विचारतालो. असो व्यत्यय आयलो म्हणटकच मिसेस बॅनर्जी तिडकताली आनी म्हणटाली, ''हांव इतिहास सांगिना. हांव तांकां म्हगेले कादंबरिचें कथासूत्र सांगतां.''

म्हाकाय प्रो. वर्माचो राग येतालो. हावें तांकां म्हळें, ''आदीं तिगेलें कथानक आयकून घेवया आनी मागीर जायते प्रस्न विचारुया.''

म्हाका दिशिल्लें प्रो. वर्मा वाद घालूंक बसतलो. पूण तो ओगी रावलो आनी मिसेस बॅनर्जीन आपलें कथन चालू दवरलें.

मीरा सादी भोळी गांवढळ चली. तिका देशाचे स्वतंत्रतायेची गजाल कितली समजताली, देवाक खबर! खंयचेय वाडिल्ले चलयेचे उमाळे आसतात तशे मीरेचे आसले. तरणो निरोगी जोडकार घोव मेळचो, आपलो संवसार थाटचो, भुरग्यांचो सांवाळ करून जिणेचें सार्थक करचें.... सगळ्याच चलयांक मनाजोगते घोव मेळनात. आपणाक तो मेळत अशें मीरेकय दिसूंक नासलें. अचकीत देवान तो प्रसंग घडोवन हाडलो आनी मंगलाक तिचेसरीं धाडलो. मंगल आयलो आनी तिच्या काळजांत घर करून रावलो.स्वतंत्रतायेचें झूज म्हळ्यार कितें आनी तें कशें झुजपाचें तें मीरेक खबर ना. पूण ती इतलें जाणा, ह्या झुजा उपरांत मंगल सादो मनीस उरचो ना. आपूण मात तशीच उरतली. इतले लार्गी येवनूय जाका घोव म्हणून मनात स्विकारला ताका वचूंक दिवप ही जल्माची चूक जावंयेता.

पूण मनाच्या उमाळ्यांक उतरांचे रूप दिवप तिका जमनासलें. मंगल नासतना ती खुबशें येवजून दवरताली. तो येतकच ताका सगळे सांगतली. मोगाच्या उतराचें जाळें ताचे भोंवतणी विणटली. दोनूय हातांचे वेंगेत ताका घट धरून दवरतली. पूण तो येतकच सुर्याच्या किर्णाच्या स्पर्शान धुकें विरून वचचें तशें घडटालें.

अशेच दीस वताले. एके वटच्यान गुलामपणाचो काळोख चड गडद जायत वतालो आनी दुसरे वाटेन स्वतंत्रतायेची ज्योत पणटेसारकी एका काळजांतल्यान दुसऱ्या काळजांत पेटत वताली. काळखांतल्यान ल्हानशी उजवाडाची रेग दिश्टी पडूंक लागिल्ली. जांकां ती दिश्टी पडटाली ते मोटे अपेक्षेन तिचेकडेन पळयताले.

१८५७ वर्साचो मार्च म्हयनो उदेलो. आपले आड कितेंय तरी कारस्थान चल्लां हाचो

दुबाव लेगीत इंग्लीश अधिकाऱ्यांक नासलो. पिस्तुलाच्या थाकाचेर भारतीय लोकांक नमोवंक मेळटा आनी तांच्यांत थोंस घालून तांचेर राज्य चलोवंक मेळटा म्हणपाचें अणभविल्ल्या इंग्लीश अधिकाऱ्यांक सत्ता भोगपाची सपनां पडटालीं. अशांत आसले ते मंगल आनी ज्वालाप्रसाद. तांकां रातिची न्हीद पडनासली. पोटाक भूक आसुनूय जेवणाची उंडी ताळ्यासकयल वचनासली. ब्रिटीश लस्कराच्यो खुबशो छावण्यो आसल्यो. कसलेंय तरी निमित्त काडून हे दोगूय वेगळ्या वेगळ्या छावण्यांनी वताले. अधिकाऱ्यांक दुबाव येवंक दिनासतना भारतीय शिपायांकडेन संपर्क सादताले. तांकां जागयताले, काळजांतली देशभक्तिची जोत पेटयताले.

भायलें वातावरणय बदलूंक लागिल्लें. डलहौसीच्या जुलमी राजकारणाक लागून देशी संस्थानिकांमदीं असंतोश धगधगतालो. निःशस्त्र प्रजा परकी राजवटींत आसली तरी आपूण गुलाम जाल्या म्हणपाची खंत आनी लज तिका दिसताली. आमचे भितर कितलींय झगडीं आसलीं तरी इंग्लीश लोक परकी, तांकां थारो मेळूंक फावना हेविशीं लोकांचें एकमत आसलें. स्वतंत्रतायेची भावना प्रजेच्या मनांत जागी जाल्ली आनी स्वाभिमान तिका अस्वस्थ करतालो. प्लासीच्या झुजा उपरांत ब्रिटिशांचें साम्राज्य फक्त शंबर वर्सां विजेचे तारेन इंग्लीश लोक हिन्दुस्थानाक बांदून दवरतले. आनी आगगाडयेच्या आदारान तांचेर शेक चलयतले. एके वटेनच्यान इंग्लिशांचो भंय दिसतालो. कंपनी सरकारा आड असंतोश आसलो. लोकांच्या काळजांत स्फोटकां भरिल्लीं. उज्याची एक कीट थंय पडल्यार स्फोट जावं येतालो.

अचकीत एक दीस एक खबर आयली. वाऱ्यावांगडा ती सगळ्याक पातळी. ब्रिटीश ज्यो काडतुसी वापरतात त्यो गाय आनी धुकरांची चरबी वापरून करतात. हिन्दू धर्म बुडोवपाची ही एक माण्णी. कंपनी सरकारांतल्या हिन्दू शिपायांचेर ते बातमेचो गंभीर परिणाम जालो. सैनिकांमदीं मुसलमानूय आसले. तेवूय खुबळ्ळे. भारतीयत्वाचे नातें तांकां जोडटालें. तांचें रगत सळसळूंक लागलें. जेन्ना जेन्ना दोन वा चड शिपाय मेळटाले तेन्ना तेन्ना ते ह्योच गजाली करताले.

ल्हवू ल्हवू शिपाय मोठ्यान उलोवंक लागले. ते आपले भितर कितें उलयतात हाचो अदमास कर्नल मायकलाक आयिल्लो. मनांतल्यान तो भियेल्लो. ताच्या हातासकयल एकविसावी पलटण आसली. तातुंतले कितले शिपाय कंपनी सरकाराकडेन एकनिश्ठ आसात तें पळोवचेखातीर ताणे एक कवायत दवरली. कवायतीच्या वेळार शिपाय तागेले हुकूम मोडूंक लागले. थोडे आयकूंक नाशिल्लेभाशेन करूंक लागले.

कर्नल मायकलाक दिसलें, आपले पलटणींत सगळेच एकनिश्ठ नात. खंयच्याय घाळ खिणाक ते बंड करूंक शकतात. ताणे लागिंच्या वराकपूर पलटणिच्या कॅप्टनाक रकाद धाडून सादूर केलो आनी ह्या प्रसंगाक तोंड दिवपाची येवजण आंखचे खातीर ताका आपयलो.

कॅप्टनान परती जाप धाडली. ''तूंच बेगीन हांगा यो. हांगासल्ली परिस्थिती वेगळी ना.''

आतां कितें करतलो? आपली पलटण घेवन बराकपुराक वचूंक तो भायर सरलो आनी शिपाय आयले नात जाल्यार कशें जावपाचें? बराकपूर पावचे पयलींच आपलें जिवीत सोंपतलें अशें ताका दिसूंक लागलें. ताचें मन धास्तेलें. पूण उपाय नासलो. ताणें धाडस केलें आनी शिपायांक सांगलें, ''आमी सगळ्यांनी बराकपुराक वचपाचें.''

कर्नलाक सूऽ जालें. एक खेपे बराकपूराक पावलों म्हणटकच आपणाक दुसऱ्या ब्रिटीश शिपायांचो आदार मेळटलो हें येवजून तो खोशी जालो. सैनिकांचे खोशयेचें कारण वेगळें आसलें. आपल्याक हेर सांगाती मेळटले आनी बळगें वाडटलें असो विचार ते करताले.

लस्करी पलटण बराकपुराचे दिशेन वचूंक भायर सरल्या. वाटेंत खबर आयली, नाना सायबान वंड सुरू केलां. राजस्थानांत कुंवरसिंग तशेंच येवजिता... दिल्लीचो मोगल बादशाह लेगीत ब्रिटीशां आड झुजपाची तयारी करता...

१८ मार्चाक ही एकविसावी पलटण बराकपुराक पावली.

जनरल हर्स बराकपुराचो मुखेल अधिकारी आसलो. कर्नल मायकलान आपलो दुबाव ताचेकडेन उक्तायलो तेन्ना जनरलान म्हळें, ''ह्या शिपायांक जाग्यार हाडपाचें म्हजेर पावलें. हांकां भिवंक उपकारना. धाक घालुनूच, जुलूम करूनूच तांकां जाग्यार हाडूंक जाय.''

१९ मार्च १८५७. कॅलेंडरांत हो दीस उदेलो. पूण भायर कसलेंच वेगळेपण नासलें. नित्याभाशेन पूर्वेक सुर्योदय जालो आनी पश्चिमेचे दिशेन तो वयर चडूंक लागलो. बराकपूरांत जनरल हर्साच्या पोरसांत सदचेवरीं फुलां फुल्लीं. सैमाचें चक्र कसलोच बदल नासतना धुंवत आसलें.

जनरल हर्सान आयज कवायत दवरिल्ली. कवायतिच्या वेळार कितें करचें तें शिपायाक कळनासलें. तांची अपेक्षा आसली, नाना सायबाकडल्यान कसलोय आदेश येतलो. पूण दीस वयर चडलो तरी आदेश आयलो ना. अशे परिस्थितींत कांयच घडूंक नाशिल्ले भाशेन दाखोवन कवायतीक हाजीर रावचें अशें शिपायांनी थारायलें. कवायतिच्या वेळार सगळे शिपाय शिस्तीन मळार येतात हें पळोवन जनरल हर्साक दिसलें, शिपाय भियेल्यात आनी ते आतां शांत जाल्यात. स्फोटाआदली ही शांतताय म्हणपाचें ताका बाबड्याक खंय खबर!

आंगार गणवेश चडोवन मंगल पांडे आपलें आर्म निवळ करतालो. आर्मावयल्यान हात भोंवडायता आसतना तो येवजितालो. ताचे तकलेंत विचारांचीं तरेकवार कुपां दाटून आयिल्लीं. आपल्या तंबूत बशिल्लेकडेन शुन्यांत नदर थिरावन तो येवजिता म्हणसर तंबुचो पड्डो उकतो जालो. उजवाडाचो लोट भितर सरलो. मंगलान तकली

वयर करून पळयलें. सार्जंट मेजर हडसन तंबूच्या दारांत उबो आसलो.

"पांडे, अजून तूं हांगाच?" हडसनान विचारलें.

"कवायतिचें बिगूल अजून वाजूंक ना." पांडेन जाप दिली.

"खंयच्याय खिणाक वाजतलें. तूं आळशाभशेन असो बसून कित्याक रावला?"

"हांव आर्म निवळ करतां." पांडेन जाप दिली.

"तें दिश्टी पडटाच". हडसन तापलो. "आर्म निवळ करपाचो हो वेळ?"

"हांव तयार आसां...."

"तोंडान तयार आसा म्हणून फायदो कितें?"

रागाचो आंवडो गिळून मंगल पांडे जाप दिवंक वतालो. "सर..."

"आतां एक उतर उलोवचो ना! हांव तुका बरो वळखतां. तुजे आड हांव कर्नल हडसनाकडेन कागाळ करतलों, हरामखोर.... " इतलें उलयतासर हडसनान आपल्या हातांतलें चाबूक काडलें आनी मंगलाचेर मारलें. 'फट्!' असो आवाज आयलो. मंगलाचे रगत सळसळ्ळें; पूण तो ओगी रावलो.

तो ओगी रावलो तें पळोवन हडसन निर्लज्जपणान हांसूंक लागलो. हडसनाक खबर आसलें, शिपायांमदी बंडाचो संदेश पातळावपाचें काम मंगल करता. ताचो अपमान करपाखातिरच हडसनान मंगलाचेर चाबूक मारिल्लें.

चाबकाची दूख आंगांक चड लागली ना. पूण मंगल पांडेचे मन बंड करून उठलें. तागेलो स्वाभिमान जागो जालो. दोनूय हातांच्यो मुठी ताणे आंवुळ्ळयो. तागेली ती अवस्था पळोवन हडसन हांसत आशिल्लो. एकदम मंगल पांडेन आपल्या कमराक खोयिल्लो खंजीर भायर काडलो. रागान ताचे दोळे तांबडेगुंज जाल्ले. सगळें आंग थरथरूंक लागलें. मंगलाचो तो अवतार पळयनाफुडें हडसन शेळेलो. हो मनीस आपलो जीव घेत म्हणपाची भिरांत ताका दिसली आनी एकदम तो फाटीं सरलो आनी घसघशीत पावलां उखलीत पयस गेलो.

तो नदरे भायर पावलो तसो मंगलाचो राग न्हिवलो. देहाचो कंप थांबलो. तिरस्कारान तो हांसलो. दुसऱ्याच खिणाक ताका दिसलें, ताका असो जितो सोडूंक जायना. चाबका बदला एक थापट तरी मारूंक जाय. एकदम मंगल तंबू भायर आयलो. पूण हडसन लागीं खंयच नासलो. मंगल परत तंबूंत आयलो. ताका दिसलें, आपलें चुकलें. हडसनान चाबूक भायर काडलें तेन्नाच ताचेर थापट मारूंक जाय आसलें.

हडसनाक आतां धीर आयिल्लो. आतां शिपाय नम्र जाल्यात. आतां बंड जावपाचे ना. पूण कवायतिच्या वेळार कितेंय विपरीत घडूं येता. तशें घडलें जाल्यार उपाय घेवंक म्हणून लागशिल्ले एके दोंगुल्लेचेर एक तोफ दवरिल्ली. थंय चार गोऱ्या शिपायांक उबे केल्ले.

थारिल्ल्या वेळार बिगूल वाजलें. कवायती खातीर सगळे शिपाय मळाचेर एकठांय

जाल्ले. उरिल्ले सुरिल्ले जमूंक लागले. लॅफ्टनन्ट बग आपली तलवार झुलयत झुलयत थंय आयलो.

सुमार पांचशी शिपाय मळार शिस्तीन उबे आसले. सगळ्या शिपायांची नदर मंगलाक सोदताली. मंगल खंयच दिसलो ना. सगळ्यांक अजाप जालें. कितेंय तरी विपरीत घडटलें अशें तांकां दिसूंक लागलें.

'अटेन्शन!' मेजर हडसनान आदेश दिलो.

पांयांचे बूट वाजले. शिपाय शिर्स्तीन उबे रावन फुडल्या आदेशाची वाट पळोवंक लागले. इतल्यान परतें बिगूल वाजलें. सगळ्यांकच अजाप जालें. हडसन विस्मीत जावन आवाजाचे दिशेन पळोवंक लागलो. कवायती खातीर जमिल्लें शिपाय एकमेकांकडेन उलोवंक लागले. ल्हवू ल्हवू बिगुलाचो आवाज मोठो जावंक लागलो. सगळ्यांनी पळयलें, मंगल पांडे बिगूल वाजयतालो आनी एक एक पावल उखलीत मळाचे दिशेन येतालो.

मैदानाचेर येवन मंगल उबो रावलो. अचकीत ताची नदर दोंगुल्लेचे तेंगशेर गेली. थंय तोफ आनी चार गोरे शिपाय आसात तें पळोवन तो सादूर जालो. थोडो वेळ ताणें येवजिलें. हातांतले बिगूल भायर शेंवटिलें आनी आपलें आर्म काडून हडसनाचेर जोखलें. कितें घडटा तें कोणाकच समजुचे आदींच आर्मांतल्यान दोन गुळयो सुटल्यो. दुसऱ्याच खिणाक हडसन भुंयेर कोसळ्ळो!

सगळे इतले विस्मीत जाल्ले, कोणच जाग्यावेलो हाललो ना. सगळें दोळ्या सामकार घडिल्लें आसतनाय कितें जालें ते रोखडेंच कोणाक कळ्ळें ना. खासा मंगल लेगीत फुडें कितें जातलें ते पळोवपाचे अपेक्षेन तटास उबो आसलो!

लॅफ्टनंट बग आर्दी भानार आयलो. ताणे वातावरणाचो अदमास घेतलो आनी आपल्या पिस्तुलाक हात घालो. मंगलाची नदर ताचेर थिराविल्ली आसली. तो कितें करूंक वता हाचो अदमास मंगलाक खिणाभितर आयलो. ताणे आशिल्लो थंयसावन व्हडली उडी मारली आनी लॅ. बगाचेर तो पडलो. बेसावध बग जमनीर पडनाफुडें मंगलान तागेले पिस्तुल काडून घेतलें आनी त्याच पिस्तुलान बगाचेर फार मारले. लॅ. बग प्रतिकार करूंक पावलो ना. ताणे प्राण सोडलो.

सगळे शिपाय तटास नदरेन हो देखाव पळयताले. मंगलाची नदर कोणूय दुस्मान उरला काय कितें हाचो सोद घेताली. ताणे भोंवतणी नदर भोंवडायली. थंय एकय गोरो अधिकारी नासलो. एके तरेचो चेव ताका आयलो आनी मळार उबे आशिल्ल्या शिपायांक म्हळें,

''हांव स्वतंत्रतायेची वाट दाखोवपाखातीर तुमचे मुखार उबो आसां... हांवें आतां जें कितें केलां तें अपमानाचो बदलो घेवचे खातीर केलां... आतां फुडले काम तुमी करूंक जाय... तयार रावात... आयचे आयज बंडाचो बावटो उखलून ह्या विदेशी लोकांक

धांवडावंक जाय. असली भांगराची संद परत येवची ना.... तुमची आर्मी....''

तो उलयतालो इतले म्हणसर एकदम थांबलो. कर्नल हर्स आनी दोन गोरे अधिकारी ताचे दिशेन येताले. आत्मरक्षणाखातीर तो तयार जालो.

कर्नल हर्स आयलो. तरी मंगल जाग्यावेलो हाल्लो ना. कर्नल थीर नदरेन ताका पळयत रावलो. फुडें किर्ते करपाचें तें सट् करून कर्नलाक येवजलें ना. थोड्या वेळान तो शांत जालो. परिस्थिती कितली गंभीर आसा म्हणपाचो ताणे अदमास घेतलो आनी एका भारतीय जमादाराक आदेश दिलो, ''हाका अरेस्ट कर!''

जमादारान पांय जमनीक आपटून कर्नलाक सलाम केलो. थोडो वेळ येवजिल्ले भाशेन केलें आनी म्हळें, ''ते म्हज्यान जावचें ना. ताका सगळे शिपाय मानतात. ताका अटक केली जाल्यार शिपाय खुबळटले.''

जमादाराची ही जाप आयकून कर्नल हर्स खुबळ्ळो. एक तर ताचो आदेश जमादारान पाळूंक नासलो आनी दुसरें म्हळयार इतलो गुन्यांव करूनय मंगल पांडे मेकळो उरलो जाल्यार बंडखोरीक उत्तेजन दिल्ले भाशेन जातलें.

कर्नल हर्सान मंगल पांडेचे दिशेन एक पावल उखल्ले. ताणें म्हळे, ''हांव मेलों जाल्यार म्हज्या मरणाचो बदलो घेयात.'' सांगातान आशिल्ल्या गोऱ्या अधिकाऱ्यांनी फकत तकली हालोवन मोनी जाप दिली.

तो दुसरें पावल उखलता आसतनाच एका गोऱ्या अधिकाऱ्यान कर्नल हर्साक शिटकायलो. ''लागीं वचूं नाका. ताच्या पिस्तोलांत गुळयो आसात.''

पूण कर्नल हर्सान पर्वा केली ना. तेन्ना दुसऱ्या शिपायान ल्हवूच फाटले वटच्यान वचून मंगलाक जमनीर आडवो उडयलो.

एका भारतीय शिपायान मंगलाक दगो दिल्लो. कोण हो शिपाय? मंगलान नदरेनच ताका पळोवन घेतलो आनी जमनीर पडिल्लेकडेन आपले पिस्तोल ताचेर जोखलें. पूण कर्नल हर्साच्या साथीदारान तें पिस्तोल काडून घेतलें.

''शेख पटलू! भिजूड आनी देशद्रोही! हीं पातकां घेवन खंय वतलो?'' मंगलान ताका विचारलें.

शेख पटलूक हेर शिपाय वळखताले. पूण मंगलाचें आनी ताचे कितें जाल्लें हें कोणाकच खबर नासलें. त्या दिसा तीनकात्रेच्या वेळार मीरा उदक हाडूंक गेल्ली तेन्ना घोड्याचेर वसून जो शिपाय गेल्लो तो होच शेख पटलू! सगळें चित्र मंगलाच्या दोळ्यांमुखार उबें रावलें. पूण हेर शिपायांक कांय खबर नासली. चवताळिल्ल्या वागाभाशेन जमनी वयलो उठून मंगलान शेख पटलूच्या आंगाचेर उडी घेतली. पूण तें मेरेन निशस्त्र जाल्ल्या मंगलाचें शाणेपण हेरांमुखार चल्लें ना. कर्नल हर्स फुडें सरलो आनी ताणें आपली तलवार मंगलाक तोपली. रगताची शिळकी उसळ्ळी!

जखमी अवस्थेत मंगलाक उखलून हॉस्पिटलांत व्हेलो. थंय तो ल्हवू ल्हवू निवळूंक

लागलो. हॉस्पिटलांत हातुणाचेर न्हिदिल्लेकडेन तो स्वतंत्र भारताची सपनां पळयतालो. आपणे आपलें कर्तव्य पूर्ण केल्ले अशें ताका दिसतालें. ताची अपेक्षा आसली, कोणूय तरी आपणाक मेळूंक येतलो... मीरेक आपूण रकाद धाडटलों. तो तिका मेळूंक सोदतालो. 'आनीक थोडे दीस राव. गुलामपणाची काळखी रात सोंपत आयल्या. स्वतंत्रतायेची फांतोड उदेवपाची आसा' असो रकाद धाडूंक सोदतालो. पूण हे उमाळे ताच्या मनांतच उरले. ताका दिसतालें, आपूण जितो आसां हो रकाद तरी मीराक पावोवंक जाय.

भरतपुरांत घडिल्ले घडणुकेची खबर धा गांवांनी पावली. सगळ्यांच्या तोंडार एकच नांव - मंगल पांडे! मंगल पांडेन जुलमी ब्रिटीश लस्करी अधिकाऱ्यांक गुळयो घालून जिवानिशीं मारले... मंगल पांडेन कंपनी सरकारांत चाकरी करतल्या शिपायांक बंड करपाचो आदेश दिलो.... आतां खंयच्याय खिणांक बंड जावं येता. ब्रिटीशांआड झूज सुरू जावं येता. जण एकल्यान तयार रावंक जाय. देशाखातीर त्याग करपाचो होच खीण.

स्वतंत्रतायेच्या झुजाचें व्हडपण हे की, तें चलता आसतना मनीस आपले मदले भेदभाव विसरतात, दुस्मानपण सोंपयतात. लोकांक एक नायक जाय आसता. जांणी मंगल पांडेक पळयिल्लो ते कुशिकच उरले. जांणी ताका पळोवंक लेगीत नासलो अशे लोक फुडें सरले आनी मंगल पांडेचो जयजयकार करूंक लागले.

सामान्य प्रजेचे जिणेंत कसलोच बदल जावंक नासलो. कश्ट करतल्या लोकांक सुखाच्या खिणाक आनी दुख्खाच्या खिणाक लेगीत कश्टच करचे पडटात. रान्नीचेर तपलें चडयलेबगर दोन उंडयो पोटांत वचपाची दुसरी मांडणी ना. देखून मंगल पांडेचो जयजयकार चलता आसतनाय काळजाक फुडाराच्या सपनांचीं ल्हारां घेवन वयलेचाराक निर्विकारपणान मीरा सदचेवरी उदक हाडूंक गेल्ली.

दनपारचो वेळ. मार्च म्हयन्यांतले दीस जाल्ल्यान सुर्याची ऊब इल्ली खर आसली. मीरा तळयार पावली आनी बायलांच्या कुलकुलाटान तिका घेरली. कोणे मस्करी केली. कोणें तोखणाय केली. सगळ्यांच्याच तोंडांत मंगलाचे नांव. मीरा आनी मंगल हांचे संबंध ते वस्तींतल्या लोकांक खबर आसले.

''आमी किते थारायलां तें आयक'', एके बायलेन मीराक सांगलें. ''मंगल येतलो तेन्ना पंचारत ओवाळपाची आनी गांवचे शिमेर सावन मीरेल्या घरामेरेन वाटेर फुलां शिंपडावपाचीं...''

मीरा लजेन तांबडी जाल्ली. ती कांय उलयलिना. दुसऱ्या बायलांचें उलोवणें तिच्या सगळ्या आंगाक खातकुतल्यो करतालें. तळ्यांत देंवली आनी तिका दिसलें, अचळय बुडून रावचें आनी कानांत मंगलाचीं स्तोत्रां आयकतना मनांत फुडाराचीं सपनां पळोवचीं....

पयसुल्ल्यान कोणेतरी घोड्यावेलो शिपाय पळयलो. अचकीत बायलांचें चिंवचिंवप थांबलें.

''कोण तरी येता. बेगीन चलात.'' एकलेन हेरांक शिटकावणी दिली.

सगळीं काचाबूल जाल्ले भशेन ताकतिकेन तळ्यांतली वयर सरलीं.कोणें कळसुल्यो भरल्यो, कोणे त्योय सारक्यो भरल्यो नात.

''तांकां भियेवंक कित्याक जाय? आमचे वाटेक वचपाचें धाडस कोणाक जावंचेना.'' मीरेन म्हळें.

''तुजी गजाल वेगळी'', एके चलयेन मीरेक थोमणो मारलो. ''तुका तुजो राखणदार आसा.''

राखणदार आसा हे मीराय जाणा. पूण फाटल्या अणभवा उपरांत तिचें मन थरथरलें. बेगीबेगीन तिणे घागर भरली आनी हेर बायलांच्या घोळक्यांतल्यान तापिल्ले रेवेंत हुलपल्ली पावलां घसघशीत उखलीत ती घरा परतली.

घरांत मीरा एकलीच. तरी त्या चार वण्टींचो तिका केदो व्हडलो धीर! भायल्या संकटांचो तिका विसर पडलो. ती घरच्या कामांक लागली. कालचे घडणुके उपरांत मंगल खंयच्याय खिणाक दारांत येवन उबो रावत अशें तिका दिसतालें. तो आयलो जाल्यार ताच्या येवकाराची कितेंय तयारी करूंक जाय अशें येवजतासर भायले वटेन कोणाचो तरी आवाज आयलो.

घरांतल्यान नजर भायर घालून पळेत जाल्यार घोडो दारांत थांबला. एकदम त्या दिसाचो प्रसंग दोळ्यांमुखार उबो रावलो आनी ती कांचवेली. त्या दिसा घोड्यार बसून तळ्याकडेन आयिल्ल्या शिपायाक तिणें सारको पळोवंक नासलो. दुसरें मन सांगूंक लागलें, मंगलानय रकाद धाडिल्लो आसुंये.

ती भायर आयली. एक शिपाय घोड्यावेल्यान देंवलो आनी ताणें म्हळें, ''एक वायट खबर घेवन आयलां. मंगलाक अटक केल्या... तो तलवारिच्या वारान जखमी जाला... तूं यो. हांव तुका ताचेसरीं व्हरतां. ताणेंच तुका आपयल्या.'' ताणे सांगलें.

''हांव अशी उठून कशी येवं? घरांत काकाय ना.''

''तुका घोड्यावेल्यान व्हरतां. अशी वतली आनी अशी येतली''. ताणें सुचयलें.

फाटलो फुडलो विचार करूंक वेळ नासलो. शेजान्नीक उलो मारलो आनी तिचेकडेन आपल्या काकाक रकाद दवरून आंगावेल्या वस्त्रांनीच मीरा भायर सरली.

मनांत कसलोच दुबाव ना. घोड्यार बसून आयिल्लो शिपाय भारतीय देखून तो फटोवपाची शक्यताय ना. मीरा गेली आनी ताणे दिल्ल्या हाताचो आधार घेवन घोड्याचेर ताचेसरीं वचून बसली.

घोडो उडयो मारीत धांवंक लागलो. पयस परंतराक निर्जन वाठारांत झाडाचे सावळेक घोडो थांबलो आनी शिपायान एकदम मीरेच्या आंगार हात घालून म्हळें, ''त्या

दिसा मंगलान तुका वाटायली. आयज तुका कोण वाटायतलो?''

खिणाभितर दोळ्यांमुखार जोगलां चकचकलीं. अनवळखी मनशाच्या उतराचेर विस्वास दवरून आपूण फटवल्या हें तिका समजलें. खीणभर तिणे येवजिल्ले भशेन केलें आनी एकदम सकयल उडकी मारून ती रानांतल्यान पळत सुटली.

आपूण खंय वतां, खंय पावतली तें तिका खबर नासलें. फुडें कितें जातलें तें ती नकळ आसली. तो शिपाय - शेख पटलू - तिचे फाटल्यान धांवलो. पूण ती ताच्या हाताक लागली ना.

****

मिसेस बॅनर्जी इतलें उलोवन थांबली.

''एक सांग, हे कथेंतली सगळीं पात्रां इतिहासांत आसलीं?''

''हय, एकूण एक पात्र इतिहासांतलें, प्रसंगांत थोडें नाट्य हाडलें तरी मूळ प्रसंगच इतिहासीक घडणुकेक धरून आसा.... फुडें कितें जालें तें तुमी जाणातच.''

''ना. हांव नकळं. सांग.'' हांवें म्हळें.

स एप्रिलाक मंगल पांडेक लस्करी कोर्टामुखार उबो केलो. ताचेर दोन आरोप आसले. राजद्रोह आनी खून. आरोप सिध्द जाले. फांशिची ख्यास्त! हांसत हांसत मंगल पांडे फांसार चडलो.... सात एप्रिल १८५७ दिसा!

ते उपरांतचो एक प्रसंग कादंबरेच्या निमाण्या प्रकरणांत येवन वता.

कानपुरांत नानासाहेबाचो राज्याभिषेक आसलो. राष्ट्रध्वजाक सलामी दिवपाचो कार्यक्रम आंखिल्लो. स्वतंत्रतायेच्या यज्ञांत आपली आहुती दिल्ल्यांक भारतीय शिपाय श्रध्दांजली ओंपपाचे आसात. राष्ट्रध्वज वयर चडटा तेन्ना थीर नदरेन रांगेंत उबे आशिल्ले शिपाय ताका सलामी दितात.

त्या गणवेशधारी शिपायांमदीं लस्करी गणवेशांत मीरा उबी आसली. खूब जाणांच्या दोळ्यांत दुकां आयिल्लीं. पूण ती शांत दिसताली. तिचें काळीज रडटा आसलें तरी तोंडावेलें निर्विकारपण बदलूंक नासलें. मुखावेले वाटेन नानासाहेब, तात्या टोपे आनी ज्वालाप्रसाद काकुळटेचे भावनेन पूण तितल्याच अभिमानान मीरेकडेन पळयताले.

नानाच्या मनांत आयलें, साक्षात भारतमाता मुखार उबी आसतना बावट्यासारक्या प्रतिकाक सलामी कित्याक? तेन्नाच मीरा लस्करी शिस्तीन फुडें सरली. तांबड्या गुलाबांची माळ तिणें बावट्याक ओपली.

सगळ्या शिपायांनी सलामी दिली आनी ते परत वता म्हणसर मीरा थंयची नाच जाली.

● ●

# करुणा

सलीम खान हांगेली एक कथा हांवें निकतीच वाचिल्ली. म्हाका तें वातावरण संवकळिचें वळखिचें दिसलें. कथा सामकी सादी. कथन करूंक गेलों जाल्यार सांगपा सारकें कांय ना. ती पंदरा-वीस वाक्यांनी सांगू येता वा लेखकान सांगल्या ते भाशेन दोन तीन पानां मेरेन विस्तारूं येता. पूण ती कथा वाचतकच एके पोरने घडणुकेचो उगडास जालो. तो पयलीं सांगतां.

१९६६ वर्साचो डिसेंबर म्हयनो. जानेवारीचे १६ तारकेक गोंयांत 'ओपिनियन पोल' जावचो आसलो आनी ते खातीर विलीनीकरणवादी आनी विरोधक हांचो प्रचार चालू आशिल्लो. प्रचाराचो भर उत्तर आनी पूर्व गोंयांत चड आसलो. विलीनीकरणाचे समर्थक आपले बालेकिल्ले मानताले त्या दरेका गावांत विलीनीकरण विरोधी लोकय आसले. तरी त्या वाठारांत विनीलीकरणवाद्यांचें भौमत आसा हें दिसतालें. गांवच्यो सभा चडश्यो राती कडेन जातात्यो. एकाच दिसा तीन-चार कडेन सभा घेवच्यो पडटाल्यो. आमचे विचार आमी उकतेपणान मांडटाले. आमच्या विचारांचें समर्थन करपी लोक खूश जाताले, पूण विरोधक खुबळटाले. प्रत्यक्ष मारामारी जायनासली. कित्याक आमचे सभेंत चडावत आमच्या विचारांचें समर्थन करपी लोक आसताले. सगले त्या गांवचे अशें न्हय. भोंवतणच्या सात-आठ गांवचे लोकय जमताले. पूण सभा सोंपून परततना वाटेंत कसलें दिव्य करचें पडत सांगूंक जायनासलें. अरुंद रस्त्याचे कुशीक आशिल्लें झाड मारून वाट आडावपा खातीर मार्गार आडवें घालप, असले प्रकार घडटाले.

एक दीस कुळ्यां सभा आशिल्ली. त्या दिसा सांजच्या वेळार वास्कोच्यान कुळ्यां वतली लोकल गाडी धरली आनी सांजच्या सुमार '७ वरांचेर कुळ्यां स्टेशनार पावलों. सभा णव-धा वरांचेर सुरू जावचेली आसली. रातीच्या दोन-अडेज वरांचेर एक मालगाडी वास्को वचूंक भायर सरपाची आसली. ते गाडयेंतल्यान गार्डाच्या वरेपणाान मडगांव स्टेशनाचेर देंवपाचें अशी आमची येवजण आसली. खरें म्हळयार तें एक दिव्यच आसलें. कुळेंच्या राजकी वातावरणाची म्हाका कल्पना नासली. तरीपूण थंय विलीनीकरणाचे समर्थक चडावत आसात असो अदमास आसलो. ज्या तरणाट्यांनी सभेचें आयोजन केल्लें, तातुंतलो कोणच स्टेशनार आयलो ना. खंय वचचें आनी कितें करचें. हांव

संभ्रमांत पडलों. ताकतिकेन सभेक येवपाचें मान्य करून वशिल्लों.

गांवांत भितर सरलों तेन्ना काळोख दाटून आयिल्लो. शीं पडिल्लें आनी चारूय वटच्यान धुकें पातळिल्लें. वारीक वल्वांच्या उजवाडांत आळसाविल्ली कुळें गांवची बाजारपेठ सामकी उजाड दिसताली. एखादऱ्या पसऱ्याचेर दोन मनीस कितेंय विकतें घेताले तितलें पुरती जीवसाण. पुरो जाल्लो कश्टी वर्ग घरा परततालो आनी भर बाजारपेठेंत हांव पासयो मारतालों. निमाणें एका पसरकाराक म्हजी काकुळट दिसली आसुंये वा म्हजे विशीं दुबाव आयलो आसुंये. मोटवें कलसांव आनी बानयान घाल्लो तो गळ्यांतली भांगराची सरपळी सांसपीत म्हजेसरीं आयलो आनी ताणें विचारलें : "कितें सोदता?"

हांवें ताका सभेविशीं तो तिंय जाणा काय म्हूण विचारलें.

"तूं जाणा, हांगा सगल्यांकडेन वरेपण घेवन गवचें पडटा. खंयचोय एक वर्ग खुवळ्ळो जाल्यार आमचेर मांड वंद करपाचे प्रसंग." इतलें उलोवन तो हांसलो. मस्करी केल्लेभाशेन. दोळे वारीक करून ल्हवू आवाजांत ताणें म्हळें : "फाटल्या वाड्यार देवळा कडेन ह्या दिसांनी नाटकां चलतात. रातीच्या वेळार नाटका उपरांत वा एक अंक जातकच थंय 'फुल'कारांच्यो आनी 'पान'कारांच्यो सभा जातात. थंय घडये तुका आपयला आसुंये."

म्हजे तकलेंत थोडोसो उजवाड पडलो. हांवें थारायलें - सभा फुलकारांची आसत जाल्यार ह्या पसरकाराच्या सांगातान मालगाडी येयसर वेळ सारपाचो, मोल्यां तरी वचून मडगांवां वचपी वाहन धरपाचें.

"तुमचो पसरो केन्ना बंद जाता?' हांवें ताका विचारलें.

'जाय तेन्ना करूं येता. तूं आमगेर येवन बस. सांगातान जेवया. मागीर हांव तुका सभेलागी पावयतां."

जेवणाचो हुस्को नाशिल्लो. पूण त्या अनवळखी वाठारांत रातीच्या वेळार कोणाचो तरी धीर जाय आशिल्लो. पसरकाराच्या रुपान तो मेळटालो. हांवें ताका म्हळें, "तशें जाल्यार हांव त्या वाड्यार एक पासय मारून येतां. उपरांत आमी तुज्या घरा या."

ताणे तकली हालयली आनी हांव एका अरुंद रस्त्यावेल्यान फाटल्या वाड्यार चलूंक लागलों.

सुमार एक कि.मी. चलून वतकच पयसुल्ल्यान ग्रामोफोनावेल्यो रेकॉर्डी कानार पडल्यो. मातसो फुडें वतकच दिव्यांचो झगझगाट दिसलो. ते मेरेन हांव नाटक जावपाचें आशिल्ल्या माटवाच्या प्रांगणांत पावलों. सुमार शें-देडशें कदेलां घाल्लीं आनी स्टेजी वेलो मुखेल पड्डो बंद आशिल्लो. शाळेची भुरगीं थंय खेळटालीं आनी रेकॉर्डी वाजोवपी थंय बशिल्लो. रेकॉर्डी वाजोवप्याक विचारिल्लें बरें अशें येवजून विचारलें, 'आज सभा आसा?'

"खबर ना." ताणें म्हळें. "नाटकां जातात, कुशीक बोर्ड लायला पळय."

कुशीक दोन बोर्ड आसले. एक नाटकाचो रंगीत बोर्ड आनी कुशीक शाळेचो काळो बोर्ड. त्या काळ्या बोर्डाचेर सभेविशीं बरयिल्लें. 'रातिच्या साडे धा वरांचेर.'' घडयाळींत पावणे आठ जाल्लीं. ह्या काळखांत निर्जन रस्त्यावेल्यान एकलोच कितें भोंवतालों अशें येवजून हांव पसरकारालागीं आयलों. आपलो पसरो बंद करून ताणे आंगार खोर्मीस चडयल्लें आनी हातांत टॉर्च घेवन तो म्हजी वाट पळयत उबो आशिल्लो. ताच्या सांगातान ताच्या घरा कडेन गेलों.

घरांत सगलो कुलकुलाट. घरचे लोक मोठमोठ्यान उलयताले. सात-आठ भुरगीं हांगा-थंय धांवतालीं. भायल्यानच घरच्या धनयान भुरग्यांचेर धंगसो घालो आनी एकदम सगळें घर शांत जालें.

घरचें जेवण तयार आशिल्लें आसुंये. पूण परकी मनीस जेवणाक आसा देखून दोन नग तयार करूंक थोडो कळाव लागलो. म्हाका ताकीत नासली. आमी पानार बसले तेन्ना धा वरां जाल्लीं. म्हाका भुकय लागिल्ली. हुनहुनीत शीत. दाळिचें तोय. दोन तरांच्यो भाज्यो आनी लोणचें. सगलें जेवण सुरवूस आसलें आनी वाडटा आसतना घरचे लोक आग्रो करताले.

आमी सभेकडेन वचूंक भायर सरले तेन्ना घरांतल्यान एका ल्हान भुरग्याचो दिसचो तशा आवाजांत उलो कानार पडलो : 'बाबा...'

त्या आवाजांत माधुर्य आसलें आनी कारुण्यय आसलें. मुरलीचे ध्वनीवरी त्या उल्या सांगातान आवाजाचो सूर तंग वातावरणांत झिणझिणलो.

म्हाका रावंक सांगून पसरकार भितर गेलो. तो उलयता ताचो आवाज आयकूंक येतालो. पूण बोध जायनासलो. थोड्या वेळान तो भायर आयलो आनी म्हळें, 'म्हजें एक दुख्ख आसा...'

तागेलें उदास तोंड पळोवन म्हाका अजाप जालें. हांवें ताका म्हळें, 'अडचण आसल्यार तूं राव. हांव एकलोच सभेक वतां.'

'तसली अडचण न्हय. म्हजी एक चली आसा. अपंगूळ जावन घरांत पडल्या. ती तुका मेळूंक सोदता. म्हूण तिणे म्हाका उलो मारिल्लो.'

हांवें जाप दिली ना. ताजे फाटल्यान घरांत परत आयलों. म्हाका घेवन तो भितरले कुडींत गेलो. एक बल्ब ते कुडींत पेट्टालो. शेणान सारयिल्ली जमीन-एके वणटीक तेंकून खाट आनी ते खाटीर बशिल्ली ती चली.

'तूं बरयता तें हांवें वाचलां.' तिणें हांसून म्हळें.' म्हाका फकत तुका पळोवचेलो आसलो.' घराच्या धनयान एक कदेल हाडून दवरलें. ताचेर हांव बसलों. हांवें तिका विचारलें, 'तूं कितें वाचता?'

'हांव मराठी सवी शिकतां... वेळगांवां म्हजें आजोळ... आतां घरांतूच आसतां...

दोनय पांय गेले आनी एक हात गेलो...' तिणे मांडयेर आशिल्लें पांगरून कुशीक काडलें. दोनूय पांय वळवळ्ळे आनी एका हाताचो भाग तुटला तो नदरेंत भरलो.

'वाचता, उलयता, जेवता, खाता... सगलें सारकें. पूण अशें जावन पडलां. रेडियो आयकता, पेपर वाचता...' तिगेल्या बापायन म्हाका सांगलें.

'... हांव विलीनीकरणाक विरोध करतां, तें सांगलें ना तुवें बावा! इतलीं वर्सां हांव घरांतले भायर सरूंक ना. पूण सोळा तारकेक हांव मत घालूंक वतलें.' तिणें सांगलें. ती हांसताली, पूण म्हाका कलकलिल्ले भाशेन जालें.

'तिका वर्सां कितलीं?' हांवें तिच्या बापायक विचारलें.

बापायचें उतर पूर्ण जावचे आदींच तिणें म्हळें, 'ह्याच म्हयन्यांत म्हाका सव्वीस पूर्ण जातलीं. म्हजेखातीर दीर्घायुष्य मागूं नाका आं. म्हाका मुक्ती जाय. म्हाका मन आसा. काळीज आसा. सगल्यो वेदना आसात तशोच संवेदनाय आसात. हात पांय घोळिल्ले जाल्यार हांव जगन आसलें. पूण आतां मर्णच मुक्ती अशें म्हाका दिसता. भायर वतलें जाल्यार कोणेंय उखलून व्हरूंक जाय. हांतुळणार न्हिदोवंक जाय.' हांसत हांसत उलयतना उस्तरें गेल्ले भाशेन तिका हुडको फुटलो.

म्हज्यान थंय रावं नज जालें. हांव भायर आयलों. पसरकागक भायर येवंक सुमार पंदरा मिनटां लागलीं. घडये धुवेक तो समजायतालो आसुंये.

आमी चलत चलत फाटल्या वाड्यार वचूंक लागले. दोगूय मोने जाल्ले. हांवेंच मौन तोडलें. ताका विचारलें, 'तिचें नांव कितें?'

'पूजा.' ताणें सांगलें. 'शिकूंक हुशार आसली. ल्हान पिरायेरच रांदूंक शिकिल्ली, संगीत शिकताली. चडशी ती बेळगांवां आपल्या मामागेरच उरली. कोंकणी भाशेनच मराठी आनी कन्नड जाणां. चली व्हडली जातकच नामना जोडटली अशी आमकां उमेद आसली. पूण तितले म्हणसर हें विपरीत घडलें.'

'जालें तरी कितें?' हांवें ताका विचारलें.

'मर्दी चार दिसांखातीर कुळयां आयिल्ली. एक दीस खेळटना रस्त्यार तिका एक गुळो दिश्टी पडलो. जड, लोखंडाचो गुळो. तिणे तो घरा हाडलो. भायर आंगणांत खेळूंक लागली. तो बाँब आसलो. सुटके झुजाऱ्यांनी दवरिल्लो आसुंये वा पुर्तुगेजांनी. ताचो एकदम स्फोट जालो आनी तिचो एक हात आनी दोनूय पांय गेले. तिची अशी विटंबना जाली आनी म्हाका पुर्तुगेज पोलिसांचो उपसर्ग जावंक लागलो.' ताणें एक सुस्कार सोडलो.

'जावपाचें जावन गेलें. आतां तिका तुमी खुशालभरीत दवरूंक जाय.'

'तेंच तर आमी करतात. दोळ्यांत तेल घालून तिका राखची पडटा. केन्नाय आंग झटकायत झरकटायत ती भायर येता. फाटले वटच्यान बांय आसा... ओगीच हुस्को

दिसता.'

आमी देवळा कडेन पावले ते मेरेन साडे धा जाल्लीं. नितकेच लोक येताले. खाज्यार्ची आनी सोदांची दुकानां. तरातरांचे आवाज आनी वातावरण वेगळेंच जाल्लें. सभेचो एक आयोजक आयलो आनी म्हाका एका गाड्याकडेन व्हरून सोडा दिलो.

'सभा केन्ना सुरू जातली?' हांवें ताका विचारलें.

'अजून लोक येवचे आसात. नाटकाचो एक अंक जातकच सभा. गुडस् गाडी अडेजांक सुट्टली. आमी स्टेशन मास्तराक, गार्डाक सांगून दवरलां.'

सभा सुरू जाली तेन्ना मुखावयल्या आंगणांत लोक चिक्कार भरिल्लो. वेगीन भाशण सोंपोवचें आनी स्टेशनार वचून बसचें अशें येवजून हांव मायका मुखार उबो रावलों तेन्ना म्हजी नदर शाल पांगरून मुखारूच येवन बशिल्ल्या पुजाचेर गेली. त्या दिसा पयलेच खेपे भौशीक सभेंत उलयतना हांव उतरां चुकिल्लों आनी भाशण पूर्ण केलें तरी म्हजी अस्वस्थताय वाडत उरली.

ओपिनियन पोलाच्या मतदानाच्या दिसा फांतोडेर घरचो फोन वाजलो. फोनाचेर बायलेचो आवाज : 'पळय आं, गोंय वेगळें उरूंक जाय. फूल जिखूंक फावना.' फोन बंद.

१८ तारकेक मतां मेजप थांबलें. उत्तर गोंयच्या सगल्या मतदारसंघांनी विलीनीकरणवादाक आघाडी मेळिल्ली. निकाल कितें लागतलो तें आमकां समजल्लें. पूण जांकां समजूंक नासलें ते विलिनीकरणवादी उत्सव मनोवंक लागले. विरोधक गर्भगळीत जाले. दुसऱ्या दिसा फांतोडेर परत फोन वाजलो. तो आवाज : 'हें कितें? तुमचें गणीत खंय चुकलें?' आनी म्हजे जापेची वाट पळय नासतना फोन बंद जालो.

तिसरे खेपे फोन आयलो तो १९ तारखेकच. रातिच्या वारांच्या अदमासाक : 'हांव चुकलें, तुमी जिखले!'

कोण काय ही, हो संभ्रम मनांत आसलोच.

वीस तारकेक राती कडेन फोन आयलो. हे खेपे दादल्याचो. घोगऱ्या आवाजांत ताणें आपलें नांव लेगीत सांगले ना. इतलेंच म्हळें, 'रातीं पूजा मेलें... ताणें वांयंत जीव दिलो... तें मुक्त जालें...'

सलीम खान हांगेली कथा 'द वीक' ह्या नेमाळ्यांत वाचली आनी वयलो प्रसंग म्हज्या दोळ्यांमुखार उबो जालो.

**

'शोले' ह्या हिंदी चित्रपटाचे कथाकार सलीम खान त्या दिसांनी खुबच लोकप्रिय जाल्ले. सांजच्या वेळार इश्ट मित्रांच्या सांगातान ते घरांत बशिल्ले. तांकां फोन खूब येताले. तरांतरांचे फोन. अभिनंदन करपी, दूशण दिवपी, चुको काडपी. आनी ते घेता आसतना

सलीम खुशालभरीत जातालो. एकदम ताणें नामना जोडिल्ली आनी फोनांक लागून ताची उमेद वाडिल्ली. तशे आदींय ताका फोन येताले आनी ते उपरांतूय येत रावले. ताका लागून पंचवीस वर्सां आदल्या त्या प्रसंगाची याद जागी जाली.

तीन सांजच्या वेळार फोन वाजलो. सलीमानच उखललो. 'हॅलो' एक मधूर आवाज. भौ करून चलयेचो. फुडली खबर तांच्याच उतरांनी सांगता -

'कोण उलयता?' तिणें प्रस्न विचारलो.

म्हाका राग आयलो. हांवें तिडकून म्हळें. 'फोन करतल्यान पयलीं आपली वळख दिवंक जाय.' ती हांसली. उदकाचो घोगो बर्फाळी दोंगरांतल्यान व्हांवन येवचो तसो तो हांसो. शिंयाचे दीस सोपून उबाळाचे दीस सुरू जावच्या अदमासाक दोंगराळ वाठारांनी असलो घोगो व्हांवता.

परत परत अशेंच जावचें. म्हाका दुवाव आयलो, कोणय तरी वायल म्हाका खेळयता, म्हजी मस्करी करता. एकूय दीस तिणें आपलें नांव सांगलें ना, काम सांगलें ना. असंवध्द दोन उतरां उलयताली आनी फोन वंद करताली. हांव तिची वळख मेळत हे आशेन उलयतालों, संवाद लांवयतालों. इतलें खरें की उलोवपी वायल सभ्य, सुसंस्कृत आसली. भास सुशिक्षित मनशा सारकी, आयकतल्या विशींचो आदर उक्तावपी.

एक दीस सगले इश्ट मित्र जमिल्ल्या वेळार तिगेलो फोन आयलो. हांवें रिसिव्हर उखल्लो. इतले म्हणसर इश्ट मित्र उलयतां उलयतां व्हडान हांसले. तेन्ना ते बायलेन म्हळें : 'तुगेर लोक आसात. हांव मागीर फोन करतां.' तिणें फोन बंद केलो.

वरांचीं वरां उलयलों तरी तिची वळख मेळना. फुडलो फोन एका सप्तका उपरांत आयलो. रातिच्या १०च्या अदमासाक. घरांतलें वातावरण शांत दिसतालें. ती लेगीत स्वस्थ दिसताली.

'तुजे नांव कितें?' हांवें तिका विचारलें.

तिणें सांगले ना. म्हळें, 'दिसपट्टी हांव कोणाक कोणाक फोन करतां. हरशींच नंबर घुंवडायतां. कांय नंबर मतींत थिरावतात. तुजो नंबर तसलो. म्हाका बऱ्या लोकांकडेन उलोवंक आवडटा. तुजे सारक्या.'

म्हाका राग आयलो. जाणवायांची बायल. हांवें तिका म्हळें, 'तूं वळख कित्याक दिना? एकोडी बायल दादल्याचो सांगात सोदता काय कितें?'

थोडो वेळ ती ओगी रावता. मागीर म्हणटा : 'म्हाका वळख दिवचेली ना वा फोनाचो नंबरय दिवचेलो ना. हांव कोणाच्याच सांगताक इत्सुक ना. म्हाका कॅन्सर जाला. म्हजी पिराय पंदरा वर्सांची. तुजे सारक्या बऱ्या मनशा कडेन उलोवंक आवडटा. म्हऱ्यांत कोणच नासता तेन्ना उलोवंक मेळटा.'

हांव व्हडान हांसलों. 'तूं करूण कथा रचता काय कितें? आनी म्हजी सहानुभूती

मेळोवंक सोदता? मुंबयच्या सिनेमा साग्की कथा...'

दोन खीण ओगी रावले उपरांत तिणें विशय बदल्लो. म्हजे विशीं प्रस्न केले. हांवें सिनेमांची कथा बरोवपी लेखक अशी म्हजी वळख करून दिली. हांवें सिनेमाचीं नांवां सांगलीं आनी विचारलें, 'खंयचो सिनेमा पळयला तुवें?'

तिणें प्रामाणीकपणान जाप दिवन म्हळें, 'सिनेमा पळोवंक नात. पूण फिल्मी नेमाळ्यांनी तुमचे विशीं वाचलां.' तिणें म्हजें अभिनंदन केलें.

हांवें म्हळें, 'आतां तूं म्हजे विशीं सगलें जाणा. तूं नांवय सांगचेंना? तुका सोदून काडपाचो यत्न हांव करचोंना. तुजो टेलिंफोन नंबर समजून घेवपाची म्हाका इत्सा ना. तूं खंय रावता तेंय म्हाका नाका. तुजें खरें नांव तूं सांग.'

फोन करतल्याची वळख दिवपी यंत्रणा तेन्ना नासली आनी फोन करतल्याची वळख घेवपाचो उपायय हांव नकळ आसलों. व्हड सुस्कार सोडून तिणें म्हळें, 'म्हजे नांव रात्री. मागीर फोन करतां.'

हांवें घरच्या मनशांक तिची खबर सांगली. ती चली वेगळ्याच नांवाची हाचो विचार म्हजे तकलेंत घोळ्ळो. रात, काळोख अशें एके चलयेक कशें नांव आसूं येता? हांवें कल्पनेंतूच तिचें रूप थारायलें. ती प्रफुल्ल व्यक्तीत्वाची नेणटी चली आसूंक जाय. पूण बायलेच्या मनांत दुबावाची कीड वळवळ्ळी...

रात्रीन मात आपले उतर पाळ्ळें. आनी परत फोन केलो... वयले वयर. सप्तकांतल्यान दोन दीस, केन्ना केन्ना चड, सभ्य, नम्र संवाद. म्हाका ती आवडूंक लागली. आमी तरेकवार विशयांचेर उलयतालीं. राजकारण, कला, तत्वज्ञान, साहित्य... एक दीस तिणें म्हाका आपली कविता वाचून दाखयली. काव्य रचना सदोश आसली तरी विचारांची परिपक्वता आसली. ल्हान पिरायेचेर तिची प्रतिभा बरीच फुलिल्ली. केन्नाय एकाद्या विशयाचेर चर्चा लांवोवन तिची परिक्षा घेतली जाल्यार तिची बुदवंतकाय बाणवतालीं.

'कविता छापना कित्याक?' हांवें विचारलें. ती फकत हांसली.

दिसांचीं सप्तकां जालीं आनी म्हयने वलांडले. आतां ती सदांच रातिच्या धा वरांचेर फोन करताली. म्हाका संवय जाली. तिचेकडेन उलोवंक म्हाका आवडटालें. बायलेक तिडक येताली. भुरग्यांक लेगीत तो फोन विचित्र दिसतालो. फोनार तिचे कडेन उलयतना हांव टेलिव्हिजनावेले आवडटे कार्यक्रम चुकयतां हें पळोवन म्हजे घरचे लोक विस्मीत जाताले. अशें आसलें तरी आमच्या संवंदाविशीं तांकां दुबाव नासलो. आमचे संवंद शुध्द, सोज्वळ आसले. फकत टेलिफोन आमकां जोडटालो.

केन्ना केन्नाय हांव म्हाकाच विचारतालों, 'कोण ती? खंयची? कांयच खबर ना. जाणां तें तिचें नांव. कित्याक तूं असो वरांची वरां वगडायता? घरच्या लोकांच्या मनांत

गैरसमज नात हें तुजें भाग्य.'

पूण हांव तिच्या फोनाची वाट पळयत रावतालों. चड आनी चड उलयतालों. त्या फोनक लागून म्हाका मनांत एक शांती मेळटाली.

अचकीत तिगेले फोन बंद जाले. एक सप्तक जालें. दुसरें सप्तक, म्हयनो, दोन म्हयने, तीन म्हयने गेले. कितें जाल्लें? दिसाच्या वेळार कामांत घुस्पून उरतालो. उपरांत विचार येताले. कित्याक ती फोन करिना? तिचो नंबर घेतिल्लो जाल्यार वासपूस करूं येताली.

एका दिसा दनपरां वामकुक्षी करतालों इतले म्हणसर फोन आयलो. विदेशांतल्यान आयिल्ल्या फोना भाशेन तरेकवार आवाज आयले. हय, विदेशांतल्यानच फोन आयिल्लो...

'हॅलो, मिस्टर सलीम खान उलयता?'

'हय. हांवच तो.'

'मिस्टर खान, हांव क्लेव्हलॅंड अमेरिका सावन उलयतां. तुमकां एक रकाद आसा. रात्रीक आयज सकाळीं मर्ण आयलें. तिका कॅन्सर जाल्लो.'

ते बायलेन सांगलें, 'तिका कॅन्सर खूब वर्सां आदीं जाल्लो. तिगेले डायरेंत तिणें खुबशे नंबर, नांवां बरोवन दवरल्यांत. दरेकल्याक दिवपाचो रकाद तिणें बरोवन दवरला. तुमच्या नांवा कडेन तिणें बरयलां, आपणाक खऱ्यांनीच कॅन्सर जाल्लो हें कळीत करून आपल्या मर्णाची खबर दिवची.'

तिणें फोन बंद केलो. ती रात्रीच्या नात्यांतली आसुंये वा खंयच्याय हॉस्पिटलांतली नर्स आसुंये.

काळजांत गुन्यांव, प्रतारणा, अविस्वास, आघात, खंत दाटून आयली. म्हजे दोळे ओले जाले. रात्री गेली. खऱ्यांनीच तिका कॅन्सर जाल्लो. म्हाका खरें दिसूंक नाशिल्लें. ती म्हाका माफ करीत? म्हज्या मनांत आयलें, तिगेल्या घरच्यांक जाप दिवंक वचचें. वतलों जाल्यार म्हाका पत्तो खबर ना. कितलेशेच दीस हांस विचारांत घुस्पून उरलों...



# तुटिल्लें नातें

अहमदावाद शारांतली एक नवी वस्ती. एके कुशीन ल्हान ल्हान बंगले आनी दुसरे कुशीन भोवमजली इमारती. ते वस्तींत सुमार अर्दवर देवेश एक पत्तो सोदीत भोंवता. रखरखतें वोत पडलां आनी वस्ती नवी आशिल्ल्यान आड कुशीक सांवळी दिवपी एकूय झाड ना. ताच्या दाव्या हातांत एक कागदाचो चिटारो आसा आनी त्या चिटाऱ्याचेर एक नांव आनी पत्तो बरयिल्लो आसा. कोणय मनीस मेळ्ळो जाल्यार देवेश ताका चिटारो दाखयता आनी मागीर तो सांगत ते दिशेन वता. केन्ना बिल्डिगां वाटेन जाल्यार केन्ना बंगल्यांचे दिशेन.

"ही नवीच वस्ती." एकल्यान ताका सांगलें, "पोस्टमनाक विचारल्यार तो तुका सारको पत्तो सांगतलो."

"पोस्टमनाक सोदूंक आतां परत पोस्ट ऑफिसांत वचचें पडटलें, म्हाका सांगिल्लें वकील ठाकूरभाय म्हळ्यार कोणय पत्तो सांगतलो."

"हय, बावा हय." वाटे वयल्या मनशान म्हळें, "वकील ठाकूरभायचें नांव हांवें आयकलां आनी तो हेच वस्तींत रावंक आयला हेंय हांव जाणां. अजून हांगाचीं घरां खूबशीं रिकामीच आसात. लोक अजून रावंक येवंक नात. देखून कोण खंय रावता हें सारकें कोणाकच खबर ना."

आपलें काम सोपोवन राती कडेन घरा सुरताक वचपाचे तयारेन देवेश अहमदाबादाक आयिल्लो. ताणे दावो हात वोल्सांत घालून आपलो लेंस भायर काडलो आनी कपला वयली हूम पुसली. तेन्ना ताचो उजवो हात कोंपरा सकल कापला म्हणपाचें ताचे कडेन उलयतल्याक कळ्ळें. तो चुरचुरलो आनी ताणें विचारलें, "तुज्या उजव्या हाताक कितें जालां?"

"जानलें कितें?" देवेशान म्हळें,' "कापलो. अपघात जालो."

ताचेकडेन फाट फिरोवन देवेश एके बिल्डिंगेचे दिशेन पावलां उखलूंक लागलो.

स फूट उंचायेचो धिप्पाड देवेश. ल्हानपणांत कळशांनी दूद पितालो आनी कुस्तीच्या आखाड्यांत वचून कुस्ती खेळटालो. ताचो एक एक हात म्हळ्यार लोखणाचे कांबी सारको. पुराय सुरत शारांत ह्या आडांगी देवेशाक सगळे भियेताले आनी ताचे पसून हातभर पयसच रावताले. पूण हात कापत सावन ताची अवस्था दांत काडिल्ल्या वागा सारकी जाल्ली. आतां गुरगुरपाची लेगीत शक्त ताच्यांत उरूंक नासली.

एके बिल्डिंगेच्या लिफ्टाच्या दारांत तो पावलो तेन्ना लिफ्टांतल्यान एकली बायल भायर सरताली. तिकाच ताणें विचारलें, "वकील ठाकूर भाय...?"

"ह्याच लिफ्टान सातव्या मजल्याचेर वच." इतली जाप दिवन ती बायल गेली.

निमाणे पत्तो मेळिल्ल्याची खोशी देवेशाक जाली. आतां हुस्को दुसरो. सुटयेचो दीस आनी दनपारचो वेळ. ह्या वेळार वकील घरा कडेन मेळत काय? ठाकूरभाई एक नांवाजतो वकील. ताचो अपॉयटमेंट घेतले बगर तो कोणाक मेळना. पूण सुरत शारांत सावन देवेशा सारको मनीस अहमदाबादाक गेलो जाल्यार ताका घराच गांटप सोपें जातलें. सुरतच्या ताच्या वकिलान ताका तशेंच सांगिल्लें आनी वयल्यान म्हणिल्लें, "ठाकूरभाईन तुजी केस घेतली जाल्यार तूं जिखलोच म्हूण समज."

केस जिखुंकूच जाय. मानान आनी मर्यादेन जीण जगपा खातीर. सकल्या कोर्टान ताचे आड निवाडो दिल्लो. आनी आतां ताका हायकोर्टांत अपील करपाचें आसलें.

खूब जाणांनी ताका दुसरे भाशेनय शिटकावणी दिल्ली. ताणी म्हणिल्लें, "कोर्ट बदल्लें तरी कायदो बदलना. हायकोर्टांत केस लडोवंक जो खर्च येतलो ताचो विचार कर, रिणांत बुडटलो तूं."

पूण देवेशान मनांतल्या मनांत थारायिल्लें की, निमाणो पर्याय मरणच. मरतलोंच जाल्यार झगडून मरूंया. आनी तें येवजुनूच ल्हानपणांत आवयन गळ्यांत घाल्ली भांगराची सरपळी विकून तो अहमदाबादाक येवंक भायर सरिल्लो.

सरपळी विकतना जाल्ल्यो यातना देवेशान कोणाक सांगल्यो नात. कुस्ती खेळून उकत्या आंगान घामाघूम जावन परततकच आवय ताका दूद पियेवंक दिताली आनी ताच्या उकत्या आंगा कडेन पळोवन म्हणटाली. "हांव तुका एक सरपळी करून दितां. ती तुज्या आंगार सोबतली."

आवयन काटकसर करून, पोटाक चिमटे काडून आनी वेळा प्रसंगाचेर घरांतलें किडूक मिडूक विकून सुतलेचे दाटायेची दोन जोडी सरपळी आपल्या हातांनी ताच्या गळ्यांत घाली आनी म्हळें, "म्हजी याद म्हूण ही सरपळी सदांच तुज्या आंगार दवर."

आनी ताणें ती आवयचो उगडास म्हूण सदांच आंगार दवरिल्ली.

अहमदाबादाक येवचे आदीं पयशांची गरज आसली आनी ताचेकडेन विकपा सारकें दुसरें कांय नासलें. तो सरपळी विकूंक सोदी नासलो. ती घाण दवरून चडांत चड पयशे ताका घेवचेले आसले. पूण शेटीन ताका सांगलें, "तशे पयशे कितलेशे मेळटले? तूं ही वीक आनी सगळे पयशे व्हर. हांव स म्हयने मेरेन हे सरपळेक हात लायना. तुगेले पयशे तुका मेळ्ळे म्हणटकच म्हजे म्हाका परते दी आनी तुजी सरपळी व्हर."

लिफ्टाचें दार बंद करीसर सरपळेचो उगडास येवन देवेशाचे दोळे भरून आयले. ताणें दार बंद केलें आनी सातव्या मजल्याचो बटन दांबलो... कशेय भाशेन ठाकूरभाईन आपली केस घेवंकच जाय. गरज पडल्यार हांव तांच्या पांयार तकली दवरतलों आनी ताणे हय म्हळें बगर ताचे पांय सोडचोना.

एकदम लिफ्ट थांबलें आनी देवेश भानार आयलो. ताणे लिफ्टाचें दार उक्तें केलें

आनी भायर पांय दवरलो. मुखारच एक बंद दार. भोंवतणी दुसरें दारच ना. पुराय मजलो म्हळयार एक अपार्टमँट.दारा लागीं वचून ताणें पाटी पळयली. पितळेचे पाटयेचेर काळ्या अक्षरांनी नांव कोरिल्लें. जो पत्तो इतलो वेळ तो सोदतालो थंयच तो पाविल्लो.

थोडो वेळ ताणे दारा भायर उबो रावन उस्वास सोडलो. लेंसान तोंड पुसून घेतलें. बुशशर्टाच्या वयल्या बोल्सांत घडी करून घाल्लीं कागदां आसात म्हणपाची खात्री केली आनी ल्हवूच दारा वयलो बटन दांबलो.

भितल्ले वटेन जलतरंगाचो आवाज वातावरणांत तरंगा काडीत विरलो. कंदो वेळ बेल वाजली.

दार उक्तें केल्ल्याचो आवाज. अर्द उक्ते जालें. भितल्ले वटेन सांखळी घाल्ली आशिल्ली. तोंड पळोवपा पुरतें दार उक्तें जालें. घरांत काम करतली बायल आसतली.

''कोण जाय?'' ते बायलेन विचारलें.

''वकीलसाब... ठाकूरभाई.'' सुकुन आयिल्ल्या ताळ्याक ओलसाण दिवपा खातीर सुको आंवडो गिळून देवेशान म्हळें.

''परगांवांत गेला.'' आपले हांडीर आशिल्ल्या भुरग्याक सकल दवरून ते बायलेन जाप दिली, ''फाल्यां येतलो.''

फाल्यां मेरेन देवेश कितें करतलो? येवजुपाची फुरसद नासली. बायल दार बंद करूंक वताली. देवेशान म्हळें, ''तान लागल्या, इल्लें उदक दिता?''

ते बायलेन दार उक्तें केलें ना. पूण आपलें वयर खोयिल्लें न्हेसण सारकें करून दारांत आयिल्ल्या भिकाऱ्याक विचारचें तशें तरेन देवेशाक विचारलें, ''तूं उदक मागूंक आयला काय वकिलाक मेळूंक?''

देवेशाक अपमान जालो. पूण अपमान गिळपाची आतां ताका संवंय जाल्या. लाचार हांसो तोंडार हाडून ताणें म्हळें, ''वकिलाकच मेळूंक आयिल्लों. तान लागली. देखून उदक मागलें.''

''कोण आयला?'' भितल्ल्यान दुसरे बायलेचो आवाज.

''वकीलसायबांक सोदूंक कोण तरी आयला. पियेवंक उदक मागता.'' दारांतले बायलेन जाप दिली.

''ताका भितर आपय.'' भितल्ल्यान आवाज आयलो.

दार उक्तें जालें.

देवेशान अपार्टमँटात पांय दवरलो आनी पुराय भांवावन गेलो. उंची विलोंदी जमखान जमनीचेर पाताळायिल्लें. पांयांचे जोतें दाराकडेन दवरलें आनी तो सुखावलो. भायल्या सालांत खुबशे सोफा आसले. दार उक्तें केल्ले बायलेन एका सोफा कडेन बोट दाखयलें. आंग चोरून देवेश त्या सोफाचेर बसलो तेन्ना गुबगुबीत सोफाक लागून तो कांय इंच भितर गेलो. वयर पंखो धुंवतालो. उकत्या जनेलांतल्यान भायलें निळें मळव दिसतालें आनी मंद वारोय भितर येतालो. निवळसाण तोखणाय करपासारकी. कोयराचे नांव ना. विस्कळसाण खूब. पुराय साल मेकळें.

वकिलाचो हो अपार्टमँट केदो व्हडलो आसत काय असो प्रस्न देवेशाक पडलो. तो सामको गरीब घरचो न्हय. सुरताक ताचें जें घर आसा तें ताच्या आज्यान बांदिल्लें. आजो एका देवळाचो ट्रस्टी आसलो. तांगेल्या घराण्याचें तें देवूळ आनी गांवचें पुरयतपण होच तागेल्या घराण्याचो धंदो. फाटल्यो दोन पिळग्यो धंदे वदलल्यात. तागेले जातीच्या ब्राह्मण वर्गात जागृतायेचें नवें ल्हार आयलां. शिक्षणान सगळ्या समाजाची जीण वदलून उडयल्या. आदल्या काळार पुरयताचो मान तांकां मेळ्ळो तरी घरसंवसार चलयतना ओढाताण जाताली. शेतजमीन खूब आसली पूण कुळां कडल्यान येताली तितलीच पिकावळ घरांत पावताली. फुडें नवे कायदे आयले आनी जमीनय गेली.

देवेश तेन्ना ल्हान आसलो.गांवच्या देवळांत ज्ञातीच्या लोकांची सभा जाल्ली. देवेशाल्या आज्यान थंय एक भाशण केलें. जिवितांत जायत्यो गजाली देवेश विसरला. पूण त्या वेळार आज्यान केल्ल्या भाशणांतलीं उतरां ताच्या मनांत घर करून रावल्यांत. आज्यान म्हणिल्लें, ''हाजे फुडें घर, भाट, जमीन, असली आस्पत हातांत उरत म्हणपाचो भंरवसो ना. कायदे केन्नाय बदलूं येतात. पूण आमचो समाज शिकलो आनी आमचे भुरगे डॉक्टर, इंजिनियर, प्रशासक जावंक पावले जाल्यार तांचो फुडार कोणच आडावचो ना. तांच्या कार्यक्षेत्राक शीम उरचीना.''

अशें सांगतात की, तें उपरांत गुजरातेंतल्या ब्राह्मण समाजाचें जिवीत पुराय वदलूंक लागलें. समाजांतले भुरगे देशविदेशांत उंचेल्या हुद्द्यांचेर पावले.

देवेशाल्या घराण्यांत देवेशच वेगळे तरेचो. शाळा, कॉलेजींतल्या शिक्षणा परस ताका कुस्तीची चड आवड. एस. एस. ची. ची परिक्षा पास जाले उपरांत तो दोन वर्सा घराच बशिल्लो. उपरांत पॉलिटॅक्निकाचे मॅकॅनिकल इंजिनियरिंगचो डिप्लोमा ताणे घेतलो आनी शारांतले लुगटांचे गिरणींत ताका नोकरीय मेळ्ळी....

येवजींत बशिल्ल्या वेळार दार उक्तें केल्ली बायल ग्लासभर उदक घेवन आयली. उदका सांगातान गोडाचो कुडको.

देवेशान गोडाचो कुडको तोंडांत उडयलो आनी ग्लास वयर धरून शितळ उदकाची धार आपल्या ताळ्यांत ओतली.

आतां तो खऱ्यांनीच तृप्त जाल्लो. तोंडात विरगळिल्ल्या गोडाची गोडसाण जिवेर अणभवीत ताणे वावराडेक विचारलें, ''घरांत आनीक कोण ना? हांव सुरताक सावन आयलां. म्हाका वकिलांक मेळुंकूच जाय.''

''घरची घरकान्न आसा. आपोव?'' तिणे विचारलें आनी तागेले जापेची वाट पळय नासतना ती भितर गेली.

जातींतल्या चलयांचो विचार करता आसतना ताका दिसलें, चडावत चलयो आपले परस चड शिकल्यात. आतां घडलां इतलेंच, शिकिल्ले चले गांव सोडून पयस वतात तश्यो चलयो वचनात. भायर गेल्ले चले दुसऱ्या जातींतल्या चलयां कडेन लग्न जातात... जातींतल्या चलयांक शिकिल्ले घोव मेळनात म्हूण माणसुकी. नाजाल्यार आपलेकडेन कोण लग्न जातलो आसलो असो एक विचार मनांत येवन तो मनांतल्या

मनांत हांसलो.

मुखा वयल्यान कोण तरी आयिल्ल्याचो आवाज आयकून ताणें नदर वयर केली. एके वायलेन सालाच्या दारां फाटल्यान रावन "वकीलसाव फाल्यां सकाळींच परत येतले. तांका मेळुंक जाय जाल्यार आयचो दीस तुमी शारांत रावात. नाजाल्यार फाल्यां परत येयात."

उलयत उलयत ती वायल सालांत भितर आयली आनी तिचें न्हेसण ओडटल्या भुरग्याक उखलूंक तिणें एक पावल फुडें घालें. त्याच खिणाक देवेशाची नदर तिच्या तोंडार पडली. तिची ताचेर.

दोगांच्योय नदरो गोटेल्यो. तोंडांतलीं उतरां तोंडांत आडखळ्ळीं. देवेशाच्या तोंडार फकत विस्मिताचे भाव आसले. पूण ते बायलेच्या तोंडार विस्मिता सांगातान रागाचे आनी दुःखाचे भाव आसले.

तिणे आपणाक वेगीन सांवरून घेतलें. भुरग्याक हांडीर उखल्लो. मेकळो पदर गुटलावन घेतलो आनी पांयांक घटाय दिवपाक जाल्ले वरी वणटीक तेंकून उबी रावली. आतां ती ताका पळयनासली. तिणे नदर जमनीचेर थिरायली आनी विचारलें, "तुमी हांगा कशे?"

देवेशाक तर आपूण सपनच पळयतां अशें दिसलें. सविता ह्या वकिलाच्या घरांत मेळत हें ताणें सपनांत लेगीत येवजूंक नासलें. ती आपणाक वळखल्या ते अर्थी ती सविताच हाची खात्री जायनाफुडें सोफार बशिल्लो देवेश एकदम उठून उबो रावलो. थोड्याशा संकोचान आनी थोड्या प्रमाणांत गुन्यांवकाराचे भावनेन ताणे तिका विचारलें, "तूं हांगा कशी? आनी हें भुरगें कोणालें?"

"तें उपरांत सांगतां." सवितात्या आवाजांतली तीखसाण ताका झोमली. खिणभर तिणे पांयां सावन तकले मेरेन ताका नियाळून घेतलो आनी कापिल्ल्या हाताचेर नदर थिरावन विचारलें, "हाताक कितें जालें?"

"अपघात."

"सगळें बचकूल कापलां काय कितें?" तिणे विचारलें.

ताणें जाप दिली ना. फकत आपल्या लुंड्या हाताक तो पळयत रावलो.

"बस आं. येता हांव." अशें म्हणून सविता भितर गेली.

दोळे धांपून देवेश येवजूंक लागलो. सविता हांगा कशी पावली, कोण म्हूण, वावराडी काय? एम. ए. परिक्षेंत संस्कृत विशयांत भांगराचें पदक मेळयिल्ली ही बायल आयज घरकाम करता? बायलेन घरकाम करपांत उणेपण ना. पूण आपल्या घरा, दुसऱ्यागेर काम करता ती वावराडी... दासी... ना, ना अशें घडचें ना. सविताक खंयूय नोकरी मेळटली आसली. तें भुरगें कोणाचें? सवितागेर भुरगें जावंक शकना हें तो जाणा. काय आतां विज्ञान फुडें पावलां?

येवजिता आसतना देवेशाचे तकलेर विचारांचे घण वसूंक लागले. गुन्यांवकाराचें मन एके वटेन ताका धोंसनालें आनी दुसरे वटेन उत्सुकताय ताका अस्वस्थ करताली.

देवेशाल्या घरांतले सगळे चले शिकिल्ले सवरिल्ले. सगळ्यो सुनो उंचेलें शिक्षण घेतिल्ल्यो. पूण देवेशाली लग्नाची पिराय जाली तेन्ना सगळयांकच प्रस्न पडिल्लो. देवेशा खातीर चली खंयच्यान हाडपाची? ब्रह्मदेवान सर्गांत गांठी मारून दवरल्यात म्हणटात तें लटकें न्हय. सविताची सोयरीक आयली ती देवेशाले योग्यते परस, तांगेले जातींत न्हवरे मेळप कठीण जाल्ल्यान आयिल्ली म्हणची पडटली. ती आयली आनी लग्न रोखडेंच जालें. हुमऱ्या वयलें माप हुपून सवितान देवेशाल्या घरांत पावल दवरलें. रखरखीत रेंवटांत उदकाचो वझरो फुटून येवचो तशें घडलें. ताचे जिणेंत चैतन्य आयलें. दीसभर सविता वगर तागेलें पान हालनासलें. खुंट्याक वांदिल्ल्या सुण्या वरी कामाचो वेळ सोडून सगळो वेळ तो सविता भोंवतणी घुंवतालो.

केन्ना नाटक, केन्ना सिनेमा, केन्ना हॉटेलांत जेवप. पूण एक खंत ताजे जिणेंत दाटून येवंक लागली. वंशाक वारस दिवपाची कुवत सवितांत ना हें लग्ना उपरांत दोन वर्सांनी डॉक्टरान ताका सांगलें तेन्ना ताचें मन खचलें. डॉक्टरान सांगिल्लें. खंयचेंय भुरगें पोसकें घे आनी आपलें मान. सविता वयलें मन उडलें आनी देवेशाची वागणूक बदल्ली. ब्राह्मणाच्या घरांत सवळ्या अनवाळयाचे नेम कडक आसले. सविता सगळे पाळटाली. मंगळाराक ती उपास करताली. तिचे मांयन सांगिल्लें, ''आमच्या घरच्या सुनांनी मंगळाराक उदकाचो थेंब लेगीत घेना आसतना कडक उपास करचेलो आसता.'' कित्याक असो प्रस्न विचारलो ना. पूण शिकिल्ली सवरिल्ली आसुनूय तिणे व्रत निश्ठेन पाळ्ळें.

पूण देवेश मात आपल्या कुळाची शिस्त, रीत मोडून हॉटेलांत अपेय पितालो. अभक्ष खातालो. तिणे केन्नाय ताका साद्या उतरांनी शिटकावचो. पूण तो बदल्लो ना.

आखाड्यांत ल्हानाचो व्हड जाल्ल्यान देवेशाच्या तोंडांत असभ्य आनी पोजड्यो गाळी आसल्यो. ती भासच सविताच्या कानाक झोमताली. बऱ्या मनशाचे नांव घेतना त्या नावाक आवय बापाय वयल्यान घाल्ले पोजडे गाळीची बिरुदावळ तो जोडले बगर रावनासलो.

तो मंगळार. देवेशाक घट याद आसा... सांजचो तो घरा आयलो. गिरणींतल्यान नव्यान लग्न जाल्ल्या इश्टान पार्टी दवरिल्ली. सवितान आपल्या सांगातान येवचें म्हूण ताणें आग्रो धरलो. पूण तिणे व्रताचो उगडास करून दिलो तेन्ना देवेशान चार गाळी घालून म्हळें, ''व्रत करून वांजडागेर भुरगें जातलें अशें दिसता तुका...? आनी एक मर्तींत धर, घोवूच सवायशिणीचो देव आसता.''

त्या दिसा सविताच्यानय रावं नज जालें. तिणे आपलो हात सोडोवन घेतलो आनी म्हळें, ''इतले दीस हांवें सगळें सोंसलें. पूण आतां हांव सोंसून घेवचीं ना.''

''घेवं नाका. चल तोंड घेवन,'' अशें म्हणून देवेशान तिचेर थापट मारलें आनी तो उठून पार्टेक गेलो.

रातीचो उसरां तो घरा पावलो तेन्ना सविता घरा नासली. ती कुळारा गेल्या म्हणपाचें ताका दुसऱ्या दिसा कळ्ळें.

ते उपरांत दोनूय घरांतल्या लोकांनी मध्यस्थीचे यत्न केले. देवेशाची तयारी आसली पूण सवितान कशेंच आयकलें ना. घटस्फोटाची केस चलतना एक दोन खेपे ताणें तिका पळयिल्ली तितलीच. ते उपरांत आयज दोन वर्सांनी सविता ताका... वकिलाच्या अपार्टमँटात दिश्टी पडिल्ली.

ती हांगा कशी पावली? खंयच्या नात्यान?

देवेशाची तकली घुंवक लागली. तो येवजिता आसतना खाणाची ट्रे घेवन सविता मुखार आयली आनी देवेशाली विचारांची सांखळ तुटली..

सविता देवेशाचे आवडीचा तिखसो सांजो आनी बाकर वडयो घेवन आयिल्ली पळोवन ताका अजाप जालें. इतल्या वर्सा उपरांत लेगीत आपल्यो आवडी ती विसरूंक ना. ताचें मन भरुन आयलें.

जे बायले कडेन ताणे संवसार केल्लो तीच बायल घटस्फोटा उपरांत ताका परकी जाल्ली. उलयतना संकोच आनी थोडीशी लज...

"हाताक कितें जालें, खरें सांग..."फाटीं सरून सवितान वणटीक फाट तेंकयली आनी विचारलें.

नदर वयर करून देवेशान तिचे कडेन पळयलें. पूण तिणें आपली नदर मुखा वयले वण्टीर थिरायली. फकत कान देवेशाचे जापे कडेन लागिल्ले.

"सुटयेचो दीस आशिल्लो. तातूंत हांव म्हयन्याचे रजेर आसलो." देवेशान सांगलें, "हालीं रजेचे दीस खावंक येतात. एकलो घरांत कितें करतलों? कुस्तीचो आखाडो लग्ना उपरांतच वंद जाल्लो. करपा सारकें दुसरें कांय ना...."

"गांवार भोंवप... सोरो पियेवप... मार खावप?" तिणे विचारलें.

"म्हाका लज करूं नाका." देवेशान जाप दिली. "हांवे तें सगळें सोडलें. खरें सांगतां, अपघाताक दोळे नासतात देखून तो जालो... रजेच्या दिसांनी वेळ वचना म्हूण हांव मदीं मदीं गिरणींत वतालों. त्या दिसा सुटी आसली. अचकीत एका विभागांतलीं यंत्रां वंद पडलीं. सगळे कामगार भायर बसून खेळटाले. हांव कामार आसतां तेन्ना यंत्रां चलतात म्हणपाची जतनाय घेवप हें म्हजें काम आसतालें. त्या दिसा यंत्र बंद पडिल्लें पळोवन हांव भितर गेलों. पाने मागोवन घेतले आनी यंत्र सारकें करून परत सुरु केलें. तें सुरू करचे आदीं वयलें धाकणें घालूंक हांव विसरलों. चुकून म्हजो हात घुंवत्या पात्याक लागलो. कितें जालें तें कळचेआदींच कोंपरा सकलो हात तुटून पडलो. तेन्नाच्यान हो हात असो!"

घरच्या जाणटेल्यांची तिणे खबर घेतली. शेजाऱ्यांची वासपूस केली. इतलें उलयिल्ल्यान ताका मन ल्हव दिसलें. तिचोय घुस्मटमार उणो जालो.

"तूं दुसरें लग्न जाली?" ताणें विचारलें.

सवितान आपलो पदर सारको केलो आनी माथ्या वयल्यान ओडून घेवन गळ्यांतले मंगळसुत्र भायर काडलें आनी म्हळें, "हेंच म्हजें घर. वकीलसाब म्हजो घरकार."

मनांत भावना दाटून आयिल्ल्यो. ताका दिसलें, आशिर्वाद दिवचो. हेंच घर तिका

फावतालें आनी असलोच घोव तिका सोबतालो अशें सांगचें. पूण उतरां सुचलीं नात. वावराडेच्या हातांत ट्रे दिवन तिणे देवेशाक विचारलें, ''म्हण्टकच तुमी कितें करतात? फाल्यां सकाळी येतात?''

''म्हजी केस वकीलसायब घेत?''

''कसली केस म्हाका खबर ना.''

''हीच लुकसाण भरपायेची केस. हॉस्पिटलांतल्यान वरो जावन हांव घरा आयलों. परत कामार वचूंक गेलों. पूण गिरणीच्या मालकान म्हाका कामार घेतलो ना. ताणे म्हळें उजवो हात कापला. तूं काम कशें करतलो? हांवें तरा तरांनी सांगलें. पूण ताणें आयकलें ना. ताणें म्हळें, तुज्या हॉस्पिटलाचो खर्च आमी केलो. हो स म्हयन्यांचो पगार घे आनी वच. आमी हांगा धंदो करतात. धर्मादाय संस्था चलयनात. तुजे विशीं आमकां काकूळट दिसना अशें न्हय. पूण कितें करतले?''

''पूण गिरणीच्या मालकान तुमकां भरपाय दिवंक नाका आसली?'' सवितान प्रस्न केलो.

''तेंच म्हजें म्हणणें.'' देवेशान जाप दिली, ''म्हजो हात गेलो. म्हाका पोसपाची जापसालदारकी गिरणीची. हांवें वकील केलो आनी हांव कोर्टांत गेलो. केस चल्ली पूण निवाडो म्हजे आड लागलो. कोर्टान म्हळें, रजेर आसतना मालकाचे परवाने बगर गिरणींत वचून यंत्राक हात लावप होच मुळांत गुन्यांव. रजेर आशिल्ल्या मनशाक अपघात जालो जाल्यार तो कामा वयलो अपघात मानूंक जावचो ना. आतां हांव हायकोर्टांत अपील करूंक सोदतां. तुका कितें दिसता? म्हाका न्याय मेळटलो?''

''म्हाका कायदो खबर ना. पूण तुमी सुखी आसचे अशें म्हाकाय दिसता.'' सवितान जाप दिली.

''आमचो वकील सांगता, ठाकूरभाईन ही केस हातांत घेतली जाल्यार म्हाका थोडी तरी भरपाय मेळ्ळे बगर रावची ना. मोठे आशेन हांव सूरत सावन अहमदाबादेक आयलां.''

''तुमकां जाय जाल्यार हांव तांचे कडेन उलयतां...''

''तूं उलयतली? आनी तो म्हाका वळखलो जाल्यार?'' अजापून देवेशान विचारलें.

''नांव आयकतकच ते वळखतलेच. पूण ताका उपाय ना. कितेंय लिपोवचे परस सरळ सांगिल्लें बरें...''

''तशें जाल्यार उपकार जातले.'' अशें म्हणून तो उठलो.

''सकाळीं वेगसार हांगाच येयात.'' सवितान सुचयलें.

तो दारा कडेन वतां वतां थांबलो. ताणें म्हळें, ''तुगेल्या भुरग्याक हांवें कांय हाडलें ना. खंय आसा तो?''

''भितर आसतलो... कांय हाडपाची गरज ना. तुमचे आशिर्वाद आसल्यारूच पुरो.''

ताचे दोळे भरून आयले. आवाज सद्‌गदीत जालो. ''तुजो विस्वास बसचो ना, हांवें तुजेर खूब जुलूम केलो तरी तूं सदांच सुखी उरची अशें हांव देवालागीं मागतां. कितलीं

वर्सां जालीं चल्याक?"

"चलो म्हजो न्हय. वकीलसायबांचो." तिणे जाप दिली.

"तरी पूण आवय ह्या नात्यान तुजोय हक उरता!"

'हांव ताची आवय न्हय. ह्या भुरग्याक जल्म दिवन ताची आवय संवसाराक अंतरली. आमच्या घटस्फोटाचे केसीची खबर वाचून वकील सायब म्हाक मेळूंक आयले... म्हज्या कुळारा... आनी सरळूच तांणी सांगलें, भुरग्याक आवय जाय. तुगेर भुरगें जावं नजो हें हांव जाणां. देखुनूच तुका विचारूंक आयलां. हांव कबूल जालीं. ह्या घरांत म्हाका स म्हयने जाल्यात."

"कशीय आसना, त्या भुरग्या खातीर तूं आवय. ताका मातसो भायर कित्याक आपयना?"

सवितान उलो मारलो आनी वावराडी त्या भुरग्याक घेवन भायर आयली. ताणे त्या भुरग्याक लागीं घेतलो. आपल्या दाव्या हाताचीं बोटां ताच्या पोल्याक लायलीं.

भुरगो रडूंक लागलो. सवितान ताका हांडीर धरलो. तिचेय दोळे भरून आयिल्ले, पुण तिणे माथ्या वयल्या पदरा आड तोंड लिपयलें आनी फ्लॅटाचें मुखेल दार उक्तें केलें.

वयल्या बॉल्सातली एक नोट भुरग्याच्या हातांत दिवपाचो यत्न करीत देवेशान म्हळें, "नाका म्हणूं नाका. म्हजी ल्हानशी भेट." तो भायर सरलो.

लिफ्ट वयरच आसलें. लिफ्टा सरीं तो खिणभर उबो रावलो; पूण लिफ्टाचें दार उक्तें करिनासतना सातव्या मजल्या वयल्यान एक एक सपण देंवन सकल आयलो.

खबर सांगतल्यान आपलें कथन पूर्ण केलें.

"मुखार कितें जालें?"

उत्सुकतायेन हांवें विचारलें.

"तुका कितें जालें शें दिसता?" ताणें म्हाका परतो प्रस्न केलो.

"हो कांय काल्पनिक कथेचो शेवट न्हय. पूण म्हाका दिसता, ताका तो वकील बरी भरपाय मेळोवन दितलो."

"तुजो तर्क चुकलो."

"हायकोर्टांतय तो हारलो?" हांवें विचारलें.

"ना."

"मागीर घडलें तरी कितें?"

"ते रातीची गाडी धरून देवेश सूरताक परत गेलो... तो वकीलाक मेळूंक गेलोच ना!"

● ●

# मुरलीधर हमाल

दादर स्टेशनाचेर मडगांव - मुंबय एक्सप्रेसींतल्यान हांव देंवलो तेन्ना म्हज्या हातांत एक ल्हानशें बॅग आसलें. वजन दोन किलो लेगीतय जावचेंना. कोंकण रेल्वेन मडगांव-मुंबय थेट एक्सप्रेस गाडी सुरू केली आनी पयले गाडयेंतल्यान प्रवास करचेखातीर आमकां कांय संपादकांक आपयिल्ले. एकच दीस रावन परतुपाचें आशिल्ल्यान कोणेच चड सामान व्हरूंक नासलें. देखून आमकां हमालाची गरजच नासली. पूण प्लॅटफॉर्माचेर देंवनाफुडें एक हमाल म्हज्या बॅगाक हात घालून आपूण धरतां अशें सांगतालो. हांव नाका म्हणटा आनी तो ओडटा अशें दोन मिनटां चल्लें. निमाणो ताजो हात हांवें बळयां कुशीक काडलो आनी ताजेर धेंकसो घालून म्हळें, 'म्हाका पिडटा कित्याक?'

पान खावन तांबडे जाल्ले दांत दाखयत तो हांसलो. आपलो सदळ जाल्लो फेटो सोडयलो आनी ताणे म्हळें, 'तुका पिडटां?'... म्हाका वळखूंक ना दिसता?'

भारतांत जळामळाक भोंवडी करून अणभव पुंजायिल्ल्या दुसऱ्या एका सांगात्यान म्हळें, ''तो वळखूं नाका. हांव तुका सारको वळखतां. दरेका स्टेशनाचेर तूं हटकून मेळटा... आनी तूं नासलो जाल्यार तुगेलो भाव तरी आसता.'

तागेली कोटी आयकून आमी सगलेच हांसले. पूण अजापाची गजाल म्हळ्यार तो तांबडे डगलें घाल्लो हमाल लेगीत हांसलो आनी ताणे म्हळें, 'गैरसमज जाला. हांव हमालच. हमाली करतां. पूण ह्या बॅगाक हात घालतना म्हजे तकलेंत धंदो नासलो. तो म्हाका वळखना हें म्हजें नशीब.'

हांवें ताका बारीकसाणेन निरखिलो. तोंडाचेर मिरयांचें जाळें. करपल्लें आंग. दोळे घारशे. त्या दोळ्यांक लागून तो एका काळार गोरो आसलो म्हणपाचो दुबाव येवचो. दाव्या मनगटाक तांब्याचें कडें. उजव्या मनगटाचेर गोंदून घेतिल्लीं तीन अक्षरां 'श्रीराम'. दोनय कानांत केन्नातरी भिकबाळी घाल्ली आसुंये. तांचे दोन बुराक आतां बरेच व्हडले जाल्यात. वाडिल्लें धवें खाड आनी धव्यो फुल्ल मिश्यो. धोंपरामेरेन खोयिल्लें पुडवें. वयर तांबडो डगलो. दंडाचेर पितळी बिल्लो. त्या बिल्ल्याचेर ताचो नंबर आसा. पांयांक एक झरिल्लें जोते. धोंपरामेरेन पांय धुल्लान भल्ल्यात. त्या धुल्लाक लागून मेय घाल्ल्याचो आभास निर्माण जाता.

हमाल सामको जाण्टो. पूण हाका हांवें खंय पळयला? तो म्हाका खंय वळखता? आनीक एक गजाल सांगूक जाय. गाडयेचो प्रवास हालींच्या वर्सांनी हांवें करूंकच ना. दादर स्टेशनाचेर सुमार वीस-पंचवीस वर्सांनी पाविल्लो आसतलों.

हांवें ताका निरखून घेतासर बाकीचे सांगाती फुडें पाविल्ले. आमकां व्हरूंक कोंकण रेल्वेचे अधिकारी आयिल्ले. पूण मोटारी मात चुकून बोरीबंदर (छत्रपती शिवाजी) टर्मिनसाचेर गेल्ल्यो. थंयच्या स्टेशन मास्तराक फोन करून त्यो मोटारी मागयतासर आमकां बसचें पडटलें हें एका सांगात्यान येवन म्हाका सांगलें.

मुळांत सकाळी सात वरांचेर पावचेली गाडी दनपारां एक वराचेर पाविल्ली. सकाळच्यो विधी अजून करचेल्यो आसात. तोंड धुल्लें तितलें. च्या लेगीत घेवंक ना. पूण आमच्या यजमान्याक अडचणींत घालपाची कल्पना म्हाका मान्य नासली. हांवें सांगात्यांक म्हळें, 'तुमी बसात. हांव ह्या नव्या इश्टाकडेन इल्लें उलोवन घेतां.'

'आमकां बसपाखातीर स्टेशन अधिक्षकाचे कचेरेंत वेवस्था केल्या. थंय च्या बी मागयल्या. थंयच बसून तुज्या इश्टाकडेन उलय.' सांगात्यान सुचयलें.

किंरवटीची सांगशी काडून त्या हमालान आंगठ्याच्या नाखटान चुनो खरडून घेतलो. दुसरे डबयेंतलो तंबाखू काडून त्या चुन्यांत भरशिलो. तें चूर्ण चोळून घेतल्याउपरांत तळव्याच्या दोण्यात धरून फूंक मारली आनी उरिल्लें चूर्ण तोंडात रकोवन म्हाका म्हळें, 'चल थंयच या. आज च्या हांव दितां तुमकां.'

'च्याचें बरें आसा. पूण तुवें तुजें नांव सांगूक ना. वळख दिवंक ना. तूं म्हाका कसो वळखता तेंय हांव नकळ.' हांवें म्हळें.

'अरे कर्माची वळख. ज्याणे कितेंय केलें, नांवलौकिक जोडलो, पयशे मेळयले वा बरें कार्य केलें ताजी वळख करून दितल्याकय आनंद आनी आयकतल्याकय अभिमान. आमचें कितें. जिविताची रडकथा पावसाळ्यांतल्या बेब्यांसारकी. अखंड रडपांतच जीण गेली. हमाल हांव. दुसरी वळख कितें दिवं?'

हांवें ताजे फाटीक हात लायलो आनी म्हळें, 'चल बसून उलोवया.' अधिक्षकाच्या रुमांत भितर सरूंक तो अनमनलो. दारांतल्या पोर्टरानय ताका आडायिल्लेभशेन केलें. हांवेंच म्हळें, 'तो म्हज्या सांगातान आयला.' तेन्ना पोर्टर फाटीं सल्लो. अधिक्षक ऑफिसांत नासलो. एका व्हडल्या मेजाभोंवतणी सात-आठ कदेलां. पूण तो आपली मर्यादा जाणा अशिल्लो. तो बसलो ना. म्हज्या कदेलाच्या फाटल्यान उबो रावलो. च्या आयली तेन्ना तीय ताणे घेतली ना. तोंडातल्या तंबाखूचे निमित्त केलें आनी म्हाका ल्हवू विचारलें, 'कितले दीस उरतलो?'

'आमी फाल्यां परत वतात... परत गोंयांत.'

'तूं अजून गोंयांतच आसता न्हय?' ताणे विचारलें.

मराठीतल्यान आमचो हो संवाद चलता. पूण हो सभागी म्हाका खंय वळखता? म्हाका दिसलें. ताजो कितेंय तरी गोंदळ जाल्लो आसतलो. इतल्या अगत्यान वागपाइतलो वळखीचो एकय हमाल म्हाका याद जालो ना. हांवें ताका म्हळें, 'विचारतां म्हणून रागार जावं नाका. तूं म्हाका वळखता जाल्यार म्हजें नांव सांग.'

माथें खरपीत ताणे रुमाल सोडोवन तो खांदार पाताळायलो आनी सडसडीत म्हजें नांव सांगलें.

आमी सगले अजापून गेले. तो म्हाका खऱ्यांनीच वळखता. पूण हांव ताका वळखना. हांवें ताका म्हळें, 'तुजें नांव सांग. म्हाका तुका पळयिल्ल्याचो उगडास जायना...'

'नारायण मास्तराचो चलो हांव. म्हजे नांव मुरलीधर. तुका उगडास जावचोना. चाळीस पन्नास वर्सां आदली आमची वळख. नारायण मास्तराचो उगडास आसा?'

आनी म्हाका उगडास जालो. गोंयांत कांसावली गांवांत मराठी शिकोवपी खुबशे मास्तर येवन गेले. तांतुतलो एक नारायण मास्तर. तो आपणाक नारायणराव म्हणटालो. पूण गांवच्या लोकांनी ताज्या नांवाक 'राव' जोडचेपरस 'मास्तर' हें बिरुद जोडून त्या नांवानच ताका उलो मारलो. आमी ताजे विद्यार्थी लेगीत ताका नारायण मास्तरच म्हणटाले. सगलें वर्स-देड वर्स ताणे म्हाका शिकयिल्लो आसतलो. मराठी दुसरी-तिसरी शिकतानाची गजाल. पूण नारायण मास्तर म्हळो आनी ताजी जशाची तशी मूर्त म्हज्या दोळ्यांसामकार उबी रावली. गाडयेन रूळ बदलचो तसो हांवें मराठीतल्यान उलोपाचें बंद करून कोंकणीतल्यान उलोवंक आरंभ केलो.

'हय, हय वळखतां. ताका चलो आशिल्लो म्हणपाचें याद जाता. तूंच तो?'

'हय. हांव मुरलीधर.'

मुरलीधराचो म्हाका उगडास ना. हांवें ताका पळयिल्लो आसलो तरी ताजो - म्हजो संपर्क ना. तरी ते पिरायेंत नारायण मास्तराक एक चलो आसा आनी तो खूब वाळेसपणा करता म्हणपाचें हांवें आयकल्लें. हांवें मुरलीधराक विचारलें. 'नारायण मास्तर कसो आसा?'

मुरलीधर परत हांसलो. दोनय हात वयले वाटेन करून ताणे म्हळें, 'आतां नारायण मास्तराची खबर घेता? तो गेल्यार चाळीस वर्सां तरी जातलीं. पयलीं आई गेली आनी उपरांत बाबा (नारायण मास्तर) गेलो.'

म्हाका खऱ्यांनीच एका पोरण्या इश्टाक मेळिल्ल्याची खोशी जाली. मुरलीधराकडेन सुखदुःखाच्यो गजाली करत बसप म्हाका आवडपाचें. पूण सगलो संकोच. सांगात्यांक सोडून कसो वतलों?

हांव ताका घेवन भायर उक्त्या प्लेटफॉर्माचेर आयलों. तेन्ना मुरलीधरान म्हाका म्हळें, 'तूं आमगेर यो. गरीबा घरची शीत-पेज जेव. म्हाका खोशी जातली. म्हजी बायल

ना. पूण घरांत चलो आनी सून. त्याभायर नातू आसा. तूं योच. केन्ना येता तें सांग?'

'तूं रावता खंय?' हांवे ताका विचारलें.

'हांगा लागींच.'

ताणे आपलो पत्तो सांगलो. पत्तो एका फ्लॅटाचो आसलो. इतलेंच न्हय तर आपल्या घरचो टेलिफोन नंबरय म्हाका दिलो. म्हाका अजाप जालें. मुरलीधर हमाली करता. पूण बऱ्या फ्लॅटांत रावता. घरांत फोन आसा. मागीर हें जाण्टे पिरायेचेर ताणे ही हमाली कित्याक करची?

सरळ कितें विचारतलो. हांवें ताका तागेली पिराय विचारली.

'चवद्यात्तर. खीणभर लेगीत येवजिनासतना मुरलीधरान जाप दिली.

'हे पिरायेचेर तूं हमाली कित्याक करता? घराकडेन पूत-सून आसा जाल्यार घरा बसून विसव कित्याक घेना?'

'कित्याक म्हणून सांगू?' मुरलीधरान म्हळें, 'जिवितभर हमालीच केली. म्हाका लज दिसना. उणेपणय दिसना. एकच चलो म्हाका. तो एके बँकेत काम करता. तागेली बायलय काम करता. ताणेच फ्लॅट घेतला. म्हजी बरी बडदास्त दवरतात. तांकांय हांव हमाली करतां हें रुचना. पूण हात-पांय घोळटासर घोळवचे. आपल्या कश्टांनी जोडिल्लें खावचें हें म्हजे तत्व. म्हाका लज दिसना. काम करूंक लज कसली? बसून खावंक तरी लज. तुका कशें दिसता?'

'हमाली केली म्हणून उणाकपण नासता. म्हाका तरी तशें दिसना. ते खातीर म्हणीना. सरकारी नोकरेंत ५८-६० वर्सांचेर लोक निवृत्त जातात. तुका चवद्यात्तर वर्सां जालीं. आतां तरी तुवें निवृत्त जावंक जाय.'

'निवृत्तीचें सुख म्हाका नाका. हात-पांय घोळटना पडलों आनी मेलों जाल्यार सुटलों. एक बरी जीण हांव जगलों. म्हजी कसलीच कागाळ ना...'

भितरले संपादक मित्र परत म्हाका आपोवंक आयले आनी म्हाका मुरलीधराचो निरोप घेवचोच पडलो. ताणे दिल्लो पत्तो हांवें कागदार बरोवन घेतलो आनी मेकळो वेळ मेळनाफुडें ताका फोन करपाचें उतर दिलें.

मुरलीधरान म्हजो हात घट धरून म्हळें, 'तुका जर एका हमालागेर येवंक उणेपण दिसना आसत जाल्यार मुजरत यो. हांव आतां सरळ घराच वतां आनी तुज्या फोनाची वाट पळयतां.'

कोंकण रेल्वेन आमची रावपाची वेवस्था नवे मुंबयत केल्ली. पूण थंय वतकच आमकां कळ्ळें की त्या दिसा कसलोच कार्यक्रम दवरिल्लो ना. आमकां एक मोटार दिल्ली आनी खंयय भोंवपाचें आसल्यार भोंवन येवूं येता अशे सांगलें. सांगात्यांनी मुंबय दर्शनाची कार्यावळ आंखली. हांवे दीस मेकळो दवरपाची इत्सा उक्तायली आनी मुरलीधराक

फोन केलो. बऱ्या नशीबान ताणेच फोन घेतलो. हांव दनपरा चार वरांमेरेन तागेर पावतां अशें ताका कळयलें तेन्ना तो खुशालभरीत जालो. दादर स्टेशनाभायर आपूण म्हजी वाट पळयतां अशें ताणे म्हाका सांगलें.

सांगिल्ले भाशेन मुरलीधर भायरच उबो आसलो. आतां ताजो भेस बदलिल्लो. धवें पुडवें ताजेर धवोच हातकापो शर्ट आनी माथ्यार काळी तोपी अशा भेसांत तो उबो आसलो. तो जावन म्हजेसरी आयलो देखून हांव ताका वळखलों. ताणे हमालाचीं वस्त्रां काडून दवरिल्लीं. एखाद्या पेन्शनरासारको तो दिसतालो.

'गाडी सोड. आमचो फ्लॅट लागींच आसा.'

गाडी घेवन सांगाती वतकच मुरलीधरान एक पुडी म्हज्या हातांत दिली. 'हें भुरग्यांखातीर हाडलां अशें सांग.'

'कितें तें?' हांवें विचारलें.

'दोन चॉकलेटी आसात. तुवें हाडल्यात म्हणून सांग.' ताणे म्हळें.

'नाय जाल्यार हांव हाडपाचोच. तुवें कित्याक हाडल्यो? तुवें हाडिल्ल्यो चॉकलेटी हांव म्हज्यो म्हणून कशो व्हरूं? तें भोगूं. पयशे कितले दिले?'

'पयशांचो हिशोब मागीर करूंया. म्हगेली सून मात्शी वेगळे तरेची. हमालाचो मित्र म्हळ्यार हमालच आसतलो अशें ती येवजिताली. देखून चॉकलेटी घेवन दवरिल्ल्यो.'

'घराकडेन कोण कोण आसात?' हांवें ताका विचारलें.

'म्हजो चलो कामाक गेल्लो आसतलो. तो एक वराभरान येतलो. पूण तागेली बायल आयज घराच आसा. ती कामाक वचूंक ना. आनी आसा आमचो धाकलो नातू.'

बिल्डींग भायल्यान बरी दिसताली. लिफ्ट नाशिल्लें. तीन मजले चडून मुरलीधराच्या फ्लॅटाच्या दारांत पावले. तागेले सुनेनच दार उक्तें केलें. ल्हान भुरगो खेळटालो. ताज्या हातांत चॉकलेटी दिल्यो.

मुरलीधरान च्याची वेवस्था करून दवरिल्ली आसूंक जाय. म्हाका भायर बसोवन तो भितर गेलो. आनी दोन तीन प्लेटी घेवन आयलो. हुनहुनीत बटाटवडे आसले. केक आनी जिलबी. हांवें अदमास केलो, ताणे भायरसावन हें खाण हाडलां. च्या घेवन ताची सून भायर आयली. तिणे जे तरेन च्याचे कप तिपॉयचेर दवल्ले ती तरा पळयली जाल्यार सोयऱ्याक घेवन आपलो मांव घरा आयला हें तिका रुचूंक ना म्हणपाचें दिसतालें. कांय एक उलयनास्तना ती भितर वताली तेन्ना मुरलीधरान म्हजी वळख करून दिली.

उपचाराचो हांसो लेगीत ती हांसली ना. एक हुंकार दिलो आनी साडयेचो पदर सारको केल्लेभाशेन करून ल्हान भुरग्याक घेवन भितर गेली.

भितर ती स्वगत उलोवंचे तशी उलयताली. अर्द मर्द कानार पडटाले. 'आयिल्ल्या दिसा सोयरे घरांत हाडपाचे आसत जाल्यार एक नोकर दवरिल्लो बरो!' हो तिच्या

बडबडीचो सूर आसलो. तिगले उलोवणे हांवें आयकुवचें न्हय हेखातीर मुरलीधर आवाज मोठो करून उलयतालो. मदींच नातवाक उलो मारतालो आनी वयलेवयर विशय बदलतालो.

म्हज्यामुखार पेंच. कितेंय घेतलो म्हळ्यार ती बडबड आयकुची पडटा आनी कांय घेतलें ना जाल्यार मुरलीधराचें मन दुखावतलें. हांवें एक बटाटवडो खालो, च्याचे दोन घोंट घेतले आनी उबो रावलों.

'येदे बेगीन वता?' मुरलीधरान अजापान विचारलें, 'तुगेले सांगाती सात वरांचेर येतले.'

'म्हाका आनीक थोडीं कामां आसात.' हांवें ताका सांगलें.

'थोडो वेळ बसल्यार म्हगेलो चलो येतलो आशिल्लो.' ताणे म्हळें.

'आतां वळख जाली. घर कळ्ळें... फुडले खेपे येतां. आतां म्हाका वचूंक दी.' हांवें म्हळें.

'राव. हांवय सकल देंवता.' अशें म्हणून तो उबो रावलो. गृहस्थधर्माक स्मरून तागेले सुनोचो निरोप घेवंक जाय आसलो. हांवें तशें सुचयतकच ताणे सुनेक उलो मारून आपयली. भितर आयदनां वाजलीं. पांय आपटीत ती आयली. हांवें तिका म्हळें, 'त्रास घेतले. येता हांव. मुरलीधराची आनी म्हजी वळख खूब आदली. इतल्या वर्सा उपरांत आमी मेळ्ळे.'

तिच्या तोंडावयलो मूस लेगीत हाल्लोना. तोंड फुगोवन ती तशीच उबी रावली. मर्दींच म्हळें, 'हें सांडला तें कोण खातलो? तें घेवन वचचें आशिल्लें.'

तीं अपमानाचीं उतरां आसलीं. पूण ती उतरां म्हजेपरसय मुरलीधराक चड झोंबलीं. खीणभर ताणे दांत-ओंठ चाबून घेतले आनी तो थरथरलो. तो कितेंय उलयत आनी नस्तो प्रसंग घडत अशें येवजून हांवें ताचे फाटीर हात दवरलो आनी म्हळें, 'चल, या आमी.'

आमी मोन्यानी सोंपणां देंवले. फ्लॅटाचें दार मुरलीधरानच ओडून घेतलें. रस्त्यार पावसर कोणच कांय उलयलोना.

सकल पावतासर मुरलीधराचो राग न्हीवलो. ताणे म्हळें, 'मोठे उमेदीन तुका हांवें आपयलो आनी तुका आमचे सुनेचो अवतार पळोवचो पडलो. मनाक लावन घेवं नाका.'

'म्हाका निखालस वायट दिसूंक ना मुरलीधर! हावें ताका सांगलें, 'पूण तूं मात ओगीच मनाक लावन घेता. आमी ज्या संस्कारांत वाडले ते वेगळे आसले. आताचें युग वेगळें.'

'तशीच वागता ती. तिका आपलो मांव हमाली करता हाची लज दिसता. ती म्हाका सांगता घरा बसून राव. आपूण तुका वाडटां. बसून खावप म्हाका मान्य ना. हमालींत

कितें वायट आसा?'

'ही विचारसरणी लेगीत तिका समजुची ना. तुजो कितलो घुस्मटमार जाता आसतलो ताजी म्हाका कल्पना आसा. तुवें ओगीच म्हाका आपल्या घराकडेन आपयलो. आमच्यांनी भायर मेळूं येतालें. खंयच्याय हॉटेलांत वचून च्या घेवं येताली.'

'तें म्हाका येवजलेंना. हांव कोणाक हाडिना आनी म्हाका इश्ट मित्र कोण ना. तूं मेळ्ळो आनी म्हाका भळभळून आयलें. कितेंतरी करचें अशें दिसलें म्हणून तुका आपयलो. आता खंयचो आपयलो म्हणपाचो पश्चाताप जांता. पूण म्हजो चलो असो न्हय आं! तो आशिल्लो जाल्यार तुका पळोवन खुशालभरीत जातलो आसलो. आनी तो घरांत आशिल्लो जाल्यार आमची सूनबाय लेगीत वेगळे तरेन वागतली आसली. तो तिका धमकायता. म्हाका वांकडें उतर दिल्लें ताका सोंसना. पूण हांव तिचे आड केन्ना कागाळ करना...' उलयतां उलयतां मुरलीधराचो आवाज पिनिल्ले भाशेन जालो आनी तो रडूंक लागलो.

'तूं आतां खंय वतलो?' ताणे म्हाका विचारलें.

'हांव टॅक्सी घेवन वतां. तूं वच घरा.'

'तुज्या सांगातान हांवय येतां. हांव मेकळो आसा. तूं खंय वता?'

'तशें खंय वचपाचें थारावंक ना. पूण तूं म्हणटा जाल्यार आमी खंयय वचून बसूया.' हांवे मुरलीधराक सांगलें.

'टॅक्सी करून आमी लागींच्याच एका गार्डनांत वचून बसले. मुरलीधरान म्हळें, 'एखाद्या मनशाच्या नशिबांत देव कितें कितें बरोवन दवरता हें ताकाच खबर. म्हजेंच पळय. एक दीस सुखाचो म्हज्या वांट्याक आयलोना. आवय बापायचें रीण म्हज्या माथ्यार आसा. पूण तांची इल्लीय सेवा म्हज्याकडल्यान घडलीना. आज पयशे आसात... घर आसा.. पूत, नातू, सून आसा.. पूण समादान ना. जेविल्ली उंडी ताळ्याकडेन अंदता...'

हांवें विशय बदलपाखातीर ताका म्हळें, 'नारायण मास्तर शिकयतालो तेन्ना हांव सामको भुरगो. म्हाका चडसो उगडास जायना. पूण कांसावले सोडून तुमी खंय गेले?'

'कांसावली सोडली तेन्नाच्यान सगलेंच गडबडलें. आदी कांसावली कित्याक सोडली ते सांगतां. मे म्हयन्याची सुटी पडिल्ली. हांव आजोळा गेल्लों. हांव मुळांतसावन वाळेस. न्हंयचेर न्हावप, बोरां, जांबळां, आमलेचीं तोरां बुड्डून खावप, अभ्यासाचेर लक्ष ना. बाबा किळचतालो. पूण केन्ना ध्यान दिलें ना. आवयन खूब अपुरबाय केली. म्हज्या चुकांचेर सदांच पांगरूण घालें. तिगेली माया खरी. पूण हांव इबाडपाक तीच माया कारण जाली. हांव आजोळा वतकच आई आनी बाबा थोड्या दिसाखातीर आमच्या मूळ घरा... मालवणा गेलीं. मालवणा आसतना आई थोड्या दिसांखातीर मामागेर आयली. ते

वटच्यान आमच्या गांवात कोण तरी एक नारायण दर्याचेर न्हांवक गेलो तो बुडून मेलो. ती खबर म्हज्या आजोळा पावतकच घरांत आकांत जालो. म्हजे अविचारी आईन फाटलो फुडलो विचार करिनासतना मागीलदारांत आशिल्ले बायंत वचून जीव दिलो. मेल्लो तो नारायण भलतोच. मालवणा आसतना बाबा न्हाण करपाचो आसलो हें ती जाणां आसली. देखून तिका दिसलें बुडलो तो आपलो घोव आनी ते सती सावित्रेन जीव दिलो. उपरांत बाबा आयलो, म्हाका घेवन घरा गेलो. पूण ताजी तकलीच फिरली. पंदरा-वीस दिसांभितर ताकाय मर्ण आयलें. तेन्नाच्यान ह्या विशाल संवसारांत हांव एकोडो.

'एक सांग मुरलीधर' हांवे ताका म्हळें, 'तुजें शिक्षण खंयमेरेन जालें?'

'व्हर्नाक्युलर फायनल हांव पास जालां.' मोठ्या अभिमानान मुरलीधरान जाप दिली. 'व्याकरण शुध्द मराठी हांव बरोवंक जाणा. एका छापखान्यांत प्रुफ रीडर म्हणून काम करतालो. दिसवड्याच्या हिशेबान. पूण तो छापखानोय तसलोच. ती नोकरी सोडली आनी हो डगलो आनी बिल्लो घेतलो. तेन्नासावन ही हमाली करतां.'

'हमाली करून तुजें वायट कितें जालां? लग्न जालें, संवसार थाटलो.'

'थंय एक फटींगपण हांवें केलें.' चूक मागची तेभाशेन ताणे दोनय हातांनी आपले पोले फोडून घेतले. गांवांत हांवें सांगलें हांव मुंबय नोकरी करतां. मामान आपली चली दिवन उडयली. मुंबय येतकच कितले दिसमेरेन म्हजे बायलेक हांव कितें करतां हें खबरच नासलें. जेन्ना कळ्ळें तेन्ना तिजेर आकांत आयलो. पूण तो मेरेन ती संवसारात रमून गेल्ली. तिणे एकच अट घाली. घरांत भितर सरतना हमालीची वस्त्रां घालून सरचें न्हय. सोयऱ्याक हांव हमाली करतां हें कोणाक कळचें न्हय.'

'निमाणेमेरेन ते गुपीत उरलें?' हांवें विचारलें.

'कशें उरतलें? रेल्वे स्टेशनाचेर सगले तरेचे लोक येतात. सोयरे येतात. वळखीचे येतात. तांगेलें सामान जायते खेपे हांवच उखलतां आनी वळख मेळटकच पयशे लेगीत घेनास्तना रावलां.'

तसल्या प्रसंगाचो उगडास येतकच मुरलीधर मेकळेपणान हांसलो.

त्या दिसा मुरलीधराकडेन पोटभर उलोवन घेतलें. ताकाय आपल्या आवय-बापायचो खुब उगडास येतालो आनी मनातल्यो खंती कोणाक तरी सांगपाच्यो आसल्यो. हांवें त्यो आयकून घेतल्यो. ताका समादान जालें. ताणे म्हळें लेगीत. 'तुजो वेळ घेतलो, पूण कोणाक तरी हे सांगूंक जाय आसलें. तुका पळयलो आनी भुरगेपणांतल्यो यादी आयल्यो. आईबाबाक हांवें सुख दिलें ना म्हणपाचें दुःख आजय म्हाका भोगता. पूण आतां पश्चाताप करून फायदो कितें?'

'मुरलीधर, तुका भांवडां कितली?' हांवे ताका विचारलें.

'हांव एकलोच. सांगण्यो आंगवण्यो करून जाल्लो. एकच पूत. म्हज्या आर्दी

आवयगेर एक चली जाल्ली. ती जल्मावेळार मेली अशें आयकून जाणां. पूण म्हजी अर्थ अपुरबाय खूब जाली. म्हज्या बाबाक दिसतालें हांवे कोण तरी व्हड मनीस जावचें. म्हणून तो म्हाका शिकयतालो. त्या काळार आमच्या गांवांत व्हडांत व्हड परीक्षा आसली ती व्हर्नाक्युलर फायनलाची. म्हज्या आजोळच्या गांवांत एक इंग्लीश शाळा आसली. व्हर्नाक्युलर फायनल परीक्षेमेरेन म्हजेर बापायचे नियंत्रण उरलें. मागीर ते सुटलें.'

'कसलें तरेचें नियंत्रण म्हणटा तूं?' हांवें ताका विचारलें.

म्हजो बाबा बऱ्याक बरो आशिल्लो. खासा तो खुबच हुशार. मराठी भास आनी गणित हें ताजे खाशेले विशय. कसलेय कठीण गणित तो सोडयतलो आनी ताणे बरयिल्ली मराठी व्हडले व्हडले लेखक वाखाणताले. पूण तागेले विद्वत्तेचो उपेग कांय जालो ना. गांवांत नोकरेचें साधन नासलें. लागिशिल्ल्या गांवांत एका वेपाऱ्यान ताका दुकानाचेर मास्तर म्हणून दवरिल्लो. काम पोटल्यो बांदपाचें आनी उरिल्ल्या वेळार तागेली घरचीं कामां करपाचीं. दुकानावयलो मास्तर ताका मान नासलो. मानयासारकी वागणूक मेळटाली. घरचीं कामां रातचीं-अपरातचीं लेगीत आसतालीं. तातूंत भुरग्याक सांबाळप. मागीलदाराची खळी निवळ करप. आंगणात सान्न मारप आसली कामा लेगीत करचीं पडटालीं. पूण करतालो कितें? ते नोकरी सोडल्यार जेवतलो कितें? सगले मोन्यानी सोंसतालो. पूण एक दीस ताचेर त्या वेपाऱ्यान चोरयेचो आळ घालो. देखून ताका नोकरी सोडची पडली.

'म्हाका हें कांयच खबर नासलें. हांवें नारायण मास्तराक पळयला तितलोच. म्हाका दिसता ताका व्हडलीं शेंडी आसली. ती गुठलावन तो तोपयेपोंदा घालतालो. तो खंयच्यान आयिल्लो खंय गेलो तें समजून घेवपाची म्हजी पिराय नासली.' हांवे म्हळें.

'शेंडयेचो बाबाक खूब अभिमान. कानांत भिकबाळी आनी माथ्यावयली शेंडी हें लोकांक दोखोवपासारकें हिंदुत्वाचें पुरावे अशें तो मानतालो. म्हाकाय शेंडी आसली. हे कानांतले बुराक पळय. भिकबाळी गेली पूण बुराक उरले. मुरलीधरान सांगलें.

'तूं बाबाच्या नियंत्रणाविशीं म्हणटालो...' हांवें ताका सुचयलें.

'नियंत्रण कडक. सकाळी उठप थंड उदकान न्हावप. संध्या करप. मांडी घालून अभ्यासाक बसप. म्हाका नाका तो अभ्यास अशें जाताले. आजोळा कसलीच सक्ती नासली. थंयचे वातावरण मेकळें. हांव अभ्यास करिना जाल्यार वेताच्या बडयांनी बाबा म्हाका मारतालो. ताका दया-माया नासली. बाबान मारप आनी त्या माराच्या वळाक तेल लावंक आईन आपल्या वेंगात घेवन संसपुवप. तसो बाबा दुश्ट न्हय. राग न्हीवतकच बाबा म्हाका आपल्या म्हऱ्यांत आपयतालो आनी समजयतालो. तू व्हड जावचो म्हणून हें करता अशें तो सांगतालो. ताका लागून मार खावूनय बाबाविशीं म्हाका आदर आसलो आनी निमाणे खीणामेरेन ताजी भिरांतय आसली.'

'तुका तो आजोळा वचूंक दिसनालो?' हांवें विचारलें.

'दितालो, पूण थंय चड दस रावंक दिना आसलो. आजोळा घरालागीं न्हंय आसा. ते न्हंयचें म्हाका आकर्षण. गिमाच्या दिसांनी न्हंयचे धडेर, बोरां, जांबळां, आंबलेची तोरां आसताली. संवगडी खूब आसताले. पूण हांव दोन दीस चड रावलो जाल्यार बाबा म्हाका व्हरूंक येताली. म्हजो आभ्यास घेवन बसतालो. ताका लागून व्हर्नाक्युलर परिक्षेमेरेन म्हजो अभ्यास सारको जालो. बऱ्या मार्कांनी हांव पास जालों. हांव पास जालो आनी बाबान गोंयांत वचपाचें थारायलें. आदीं तो एकटोच गेलो. उपरांत आईक आनी म्हाका आपोवन व्हेली.'

'तोमेरेन तुजो बाबा त्या वेपाऱ्यागेरच आसलो.'

'ना. त्या वेपाऱ्यागेर तो दोन वर्सां राविल्लो. उपरांत तो बारीक सारकी कामां करतालो. ज्यांचे घोव, चले मुंबय आसात तांकां पत्रां बरोवन दिवप, शिकपी भुरग्यांक ट्युशनां दिवप हें सारकिली ती कामां. जोड व्हडली नासली. आई काटकसर करताली. कोणागेरय रांदूंक वताली. दोगांय एक सपन पळयतालीं हांव व्हड जातकच त्रास सोंपतले हें ताजें सपन आसलें,

'तो गोंयांत कसो पावलो?'

'आमच्या गांवचो एक मनीस गोंयांत एका दुकानाचेर मास्तर म्हणून काम करतालो. तो मदीं गांवांत आयलो आनी गोंयचेविशीं लोकांक सांगूंक लागलो. ताणेच आमच्या बाबाक गोंयांत आपयलो. नोकरी सोपेपणान मेळटली अशें सांगलें. सुरवेचे चार दीस ते दोगय सांगातानाच रावले. मागीर कोणे ताका कांसावले शिकोवपाची नोकरी दिली ते हांव नकळ. पूण तांकां समादान आसलें. पगार मेळटालो आनी गांवांत प्रतिष्ठाय आसली.'

'तूं आजोळा इंग्लीश शिकूंक वचपाचो आसलो न्हय?' हांवें मुरलीधराक विचारलें.

'मुळांत तशें थारायिल्लें. पूण बाबा आनी आई गोंयांत वतकच म्हाकाय तांणी गोंयांत व्हेलो, इंग्लीश शाळेंत घालो. तूं वायट मानूं नाका. पूण गोंयच्या वातावरणांत हांव इबाडलो. म्हाका शेंडयेची लज दिसूंक लागली आनी हांवें ती कापून उडयली. त्या दिसा बाबाक खूब वायट दिसलें. ताणे म्हळें लेगीत आज तुका शेंडयेची लज दिसता. फाल्यां आईबाबाची लज दिसतली...'

'तूं वाळेस म्हणून गांवांत नामना आसली हें तूं जाणा?'

'हय. म्हज्या बाबानच म्हाका वाळेस थारायिल्लो. पूण कसलीशी वाळेसपण? इंर्ग्लीश स्कुलांत हांव एक वर्स नापास जालो आनी दुसऱ्या वर्सा त्याच वर्गांत वचून बसपाची म्हाका लज दिसताली. त्यावेळार गांवांत भोंवतालों. जालें, तितलेंच वाळेसपण. पूण आज म्हाका दिसता बाबालें आयकल्लें जाल्यार म्हाकाय खंय तरी नोकरी मेळत आसली. पयशांखातीर न्हय. हमाल आसलो तरी हांव खूब जोडटां. दिसाक शंभर-दोनशी रुपयां

लेगीत जोडटां. आयजय जोडटां. पूण तुवें आमच्या घरां पळयलें. घरांत म्हाका मान ना. म्हजी सून म्हाका मान दिना. मोठे उमळशिकेन हांवें तुका आमच्या घरांत व्हेलो. आनी तुज्याय वांट्याक अपमान आयलो. आतां कागाळ कोणाकडेन करतलो? देवाचें नांव घेवपाचें आनी एक दीस दोळे धांपपाचें.'

मुरलीधराची खबर सांगून सोपिल्ली. ताजो ओघ न्हिविल्लो आनी तो शांत जाल्लो. हांवें ताका म्हळें, 'दैवयोग कितलो विचित्र पळय. इतल्या वर्सां उपरांत तूं म्हाका वळखलो कसो?'

'मदीं हांव गोंयांत गेल्लो. मुंबय येवचे आदी वर्सभर मडगांवा एका दुकानांत काम केलें. तेन्ना तुका पळयिल्लो. ना जाल्यार वळखुपाचो न्हय. तुजें नांव मात म्हजे तकलेंत घट आसलें. हांव तुमगेर येतालो. खुब खेपे तुमगेरच जेवतालों. तेन्ना तूं ल्हान आसलो. दनपारां तूं गाडयेंतल्यान देंवलो. मडगांवच्यान थेट मुंबय आयिल्ली पयलीच गाडी. कोणय वळखीचो मेळत हे अपेक्षेनच हांव गाडयेकडेन गेल्लो आनी तूं डब्यांतल्यान देंवलो. एकदम वळख कशी दितलो? म्हणून हांवें तुजें बॅग मागलें.'

'तें सगलें जालें तें बऱ्याखातीर म्हणूंक जाय. तूं संकोचान कुशीक उबो राविल्लो जाल्यार आमी एकमेकाक मेळूंक पावपाचे न्हय. ह्यो पोरण्यो यादी जाण्टेपणांत जगपाची उमेद दितात. आतां फुडें कितें येवजिलां तुवें?' हांवें ताका विचारलें.

'आमचे कितें? पिकिल्लें पान. केन्नाय तरी झडटलें. म्हजो नातू व्हडलो जावचो ही म्हजी अपेक्षा. हांवें ताज्या नांवार बॅंकेत पयशे दवरल्यात. म्हजी दुसरी कसलीच इत्सा ना.'

हांव उठलों.

'आतां खंय वतलो?' मुरलीधरान म्हाका विचारलें.

'मुंबय पाविल्लो आसा. देखून कांय मित्रांक आनी सोयऱ्यांक मेळूंक सोदतां.'

'वच तूं. पूण फुडले खेपे येतलो तेन्ना मुजरत मेळ. हांव जितो आसल्यार प्लेटफॉर्माचेर मेळटलो. म्हजें घरय तुवें पळयलां. पूण हांव नासलों तरी केन्नाय आमच्या घरा वच आनी म्हज्या चल्याक मेळ. हांव ताका तुजेविशीं सांगून दवरतां. तुजें-म्हजें नातें ना. पूण तुवें म्हजेविशीं अगत्य दाखयलें. म्हाका खूब बरें दिसले.'

हांवें ताजे फाटीर हात दवरलो आनी रस्त्यावेल्यान वताली ती टॅक्सी थांबयली.

मुरलीधर टॅक्सीत बसलो ना. 'हांव चलून वतां.' ताणे म्हळें.

टॅक्सी सुटली तरी केदोवेळमेरेन तो थंयच उबो आसलो. टॅक्सी फुडें गेली तरी म्हज्या मनाचेर मुरलीधराच्या व्यक्तिमत्वाचो मुद्रा उदेल्ली उरली.

● ●

# हिरू

मुंबय मरीन लायन्सच्या फ्लायओवरचेर तो म्हजे फुडें चलतालो. घसघशीत चलपाचो यत्न करतालो. पूण ताचो दावो पांय ओडटा तें म्हाका दिसतालें. खादिचो म्हेळो लेंगो आनी त्या मानान धवो सदरो इतलोच ताचो भेस. दाव्या खांद्याक शबनम पिशवी. ते पिशवेच्या कोनशाक कागदाची एक वाटकुळी लडी भायर सरिल्ली. कॅलेंडर आसुंये. वाडिल्लें खाड आनी दोळ्यांक वक्ल. माथ्याक मुखावयल्यान खरड पडलां पूण फाटल्यान केंस आसात ते मानेचे सकल मेरेन वाडल्यात.

चलतां चलतां तो थांबतालो. फाटल्यान पळयतालो. एक-दोन खेपे दिसलें, तो म्हाकाच पळयता. पूण येवजिलें, तो म्हाका कसो पळयतलो? हांव काय ताका वळखना. तोय म्हाका वळखुपाची शक्यताय ना. फाटल्यान तागेलो कोणय येता आसुंये. हांवेंय एक दोन खेपे फाटल्यान नदर घुंवडायली. मुंबयच्या फुटपाथांचेर मुयांची रांग लागची तशी लोकांची रांग लागिल्ली आसता.कोण कोणाच्या सांगातान चलता तें लेगीत कळना.

म्हाका काळबादेवीक वचपाचें आसलें. ताकीत नासली. भोंवतणचीं दृश्यां नियाळीत हांव सवकासायेन चलतालों. ताचे आनी म्हजे मदीं सुमार धा मिटरांचें अंतर उरतालें. मागीर म्हाका दिसलें,ताचो दावो पांय दुखता आसूंक जाय देखून थोडें अंतर चलतकच विसव घेवंक तो उबो रावता.

प्रिन्सेस स्ट्रीट आनी गिरगांव रोडाच्या नाक्यार एका झाडामुळांत तो उबो रावलो आनी हांव ताचेसरीं पावलो. पूण लागीं पावतकच हांवें नदर फिरयली आनी ताचेकडेन पळेनासतना फुडें गेलों. सिग्नलाकडेन म्हाका उबें रावचे पडलें तेन्ना फाटल्यान पळयलें. पळय जाल्यार तो म्हाकाच पळयता. नदरेक नदर भेटली तेन्ना ताणें उजवो हात फुडें काडलो.

तो दोन पावलां फुडें सरलो आनी ताणें म्हाका विचारलें, ''गोवा के?''

हांवें फाटीं सरून ताचेसरीं आयलों. बारिकसाणेन ताका निरखिलो. ताचे फुडले दांत पडिल्ले आनी ताका लागून ताचे उच्चार स्पश्ट जायनाशिल्ले. ताची वळख घेवपाक हांवें म्हळें, ''तूं म्हाका वळखलो. पूण हांव मात तुका वळखलों ना. तुजें नांव कितें?''

तो हांसलो. हांसतना खुबच कुरूप दिसलो. उजव्या हाताच्या नाखटांनी ताणे आपलें वाडिल्लें खाड खरपिलें. म्हाका ओगीच दिसलें, हो मनीस चार दीस तरी न्हाल्लो

नासतलो. वतांतल्यान आयिल्ल्यान ताच्या तोंडावयल्यान हूम गळटाली आनी ताणें आपल्या मनगटाक ती पुशिल्ल्यान तागेलें तोंडय खताविल्लें. हांवें पळयलें, तागेलो दावो पांय सुजला आनी उजव्या पांयाक ताणें दोन पट्यांचें जोतें घालां. दावो पांय उकतोच आसा. ओगी मनांत दुबाव आयलो. दाव्या पांयांच्या जोत्याचो पटो रोमता देखून तें जोतें ताणे पिशवेंत काडून दवरिल्लें आसतलें. पूण एका पांयात जोतें घालून भोंवपी हो मनीस तकलेन सारको आसा मू?

सुमार मिनीटभर ताणें म्हज्या प्रस्नाक जाप दिलीना. घडये हांव वळखतां काय म्हूण तो वाट पळयतालो आसुंये. पूण हांव कांय उलयना हें पळोवन ताणेंच म्हळें, "तूं कसो वळखतलो? आनी नांव सांगलें तरी वळखत अशें दिसना. म्हजें नांव हिरू... भुरगेपणांतली याद कर."

. हांव वळखलोंना. तरी हांवें "आरे हिरू! तूं कितलो बदल्ला." अशें एक नाटकी वाक्य तोंडांतल्यान भायर काडलें आनी ताचो निरोप घेवन फुडले वाटेक वचचें अशें येवजून म्हळें, "सध्या खंय आसता तूं? करता कितें?"

"सध्या म्हळ्यार आज हांगा मुंबय. फाल्यां खंय आसतलों तें सांगूंक जावचेंना.आनी करतां कितें ह्या तुज्या प्रस्नाक म्हजेकडेन जाप ना."

"पूण कितेंय तरी करता आसतलो न्हय... वेवसाय,धंदो, नोकरी.. त्या अर्थान विचारलां हांवें...."

"हांव तत्वज्ञानाची भास उलयना. खरेंच हांव कितें करतां तें हांव नकळ. म्हळ्यार, हांव कांयच करिना."

"बरें तर." अशें म्हणून हांव ताचो निरोप घेवपाची तयारी करूंक लागलों. म्हाका काळबादेवीच्या एका ऑफिसांत वचपाचें आसलें. हात दिवंक म्हणून हांवें ताचेमुखार हात धरलो. ताणें तो आपल्या हातांत घट्ट धरून म्हळें, "कितल्या वर्सांनी तूं म्हाका मेळ्ळा.खरें म्हळ्यार हांवें तुका च्या तरी दिवपाची..."

म्हाका च्या घेवपाची नासली आनी ताची वळखूय पुरती मेळूंक नासली. हांवें म्हळें, "च्याचें बरें आसा. तूं आसता खंय? परत केन्नाय मेळुंया."

तरी ताणे म्हजो हात सोडलो ना. म्हळें, "परत मेळुंया? घडये भेट जावची ना. म्हजो पांय सुजला तो तुवें पळयलाच. पांच पावलां चलतकच खरस येता.... म्हजें एक काम कर. म्हाका एक धा रुपया दी... तुजे पयशे हांव परत दिवंक पावचोंना म्हणपाचें हांव जाणां. देखून ते परत दितां असलें फटिचें आस्वासन हांव दिवंक सोदिना...."

हांवें विचार केलो. हाची चड वासपूस केली जाल्यार हांव घुस्पून पडटलों. देखून हांवे बोल्सांतलें धा रुपया काडून ताका दिले आनी म्हळें, "पांय डॉक्टराक दाखयलोना?"

"हॉस्पिटलांत वतां. वखदां घेतल्यांत." ताणें सांगलें आनी म्हजो हात सोडलो.

हातांत आशिल्ली धा रुपयांची नोट निरखितना ताच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं अशें म्हाका दिसलें. देखून म्हळें, "तूं मनाक लावन घेवं नाका."

"ना, मनाक लावन घेना. पूण म्हाका एका प्रसंगाचो उगडास आयलो. हांव स्कुलांत आसतना म्हज्या बोल्सांत खूब पयशे आसताले. आनी हांव म्हज्या सवगड्यां सांगातान खूब पयशे मोडून फोल्गां मारतालों. फोल्गां म्हळ्यार हॉटेलांत वचून च्या पिवप, भाजी-उंडो खावप... ना जाल्यार शिरो आनी फुटबॉलानी खेळटा आसतना आयसफ्रूट येतकच आमचे टिमींतल्या भुरग्यांक तें घेवन दिवप.... त्या काळार भुरग्यांच्या बोल्सांनी पयशे नासताले. एक दीस दुसरे टिर्मींतल्या एका भुरग्यान म्हजेकडेन आयसफ्रूट घेवपाखातीर उश्णे पयशे मागले. हांवें ताका आयसफ्रूट घेवन दिलो. ताकाय तान लागिल्ली. बडी हातांत धरून हांवें आयसफ्रूट तोंडांत घालतां घालतां ताच्या आयसफ्रूटाचेर फुटबॉल मोखिल्लो...आयज तो प्रसंग म्हज्या दोळयांमुखार उबो रावता. म्हाका तेन्ना मद मारिल्लो. आज सगळो मद निवळ्ळा."

हांव रस्तो क्रॉस करून फुडें गेलों आनी म्हाका जंय वचपाचें आसलें ते दिशेन चलूंक लागलों. एक खेपे हांवें फाटल्यान पळयलें. पूण ते गर्देंत तो मनीस...हिरू.... दिसलो ना.

हांव येवजूंक पडलो. कोण हो हिरू? आसतलो कोणय. असो बेफिकीरीन विचार करीत हांव म्हज्या कामाक गेलों. काम सोंपून भायर सरतासर तीनसांज जाल्ली. म्हाका माहिमाक वचपाचें आसलें. हे गर्देच्या वेळार बसीन वा लोकल गाडयेन वचचे परस टॅक्सी घेवन वचचें अशें हांवें थारायलें. पूण एकय टॅक्सी मेळ्ळिना. हांव चलत धोबी तलावार मेट्रो सिनेमा लागसार आयलों आनी थंय टॅक्सिची वाट पळयत उबो रावलों.

अचकीत म्हजी नदर थिएटराचे वणटीक तेंकून फुटपाथाचेर उकडयां बसून भेळ आनी पाव खातल्या हिरूचेर गेली. वसवशा भशेन तो खातालो. ताची नदर हातांतल्या खाणाचेर थिराविल्ली. फुटपाथावेल्यान लोक येताले-वताले. कुशिच्या बस स्टॉपाचेर खुबशे लोक उबे आसले. रस्त्यावयल्यान येरादार चालू आसली. पूण एकांतांत बसून खाणाची रुच घेवची तसो हिरू आपले भितरुच गुल्ल आसलो. ताणें म्हाका पळोवंक नासलो.

खीणभर येवजिलें, ताका जाप दिनासतनाच फुडें वचचें. पूण कोण हो हिरू तें जाणून घेवपाची उत्सुकता सुरवेक सावन मनांत आसली. कामाचे तिश्टर्तीक लागून ती चिड्डल्ली. आतां हांव मेकळो आसलों. देखून हांव ताचेसरीं गेलों आनी ताका उलो मारलो.

एकदम उठून तो उबो रावलो. काचाबूल जाल्ले भाशेन जालो. हांवें म्हळें, "बस तूं. सवकासायेन खा."

"तूं उबो आनी हांव कसो बसूं?" ताणे म्हळें, "तुवें पयशे दिले देखून आज हें खालें. तुजो विस्वास बसचो ना, चार दिसां उपरांत आज हें अन्न पोटांत घेतां. गोंयांत आमच्या घरांत जेवणावळी पडटाल्यो. दनपारच्या वेळार कोणेय भुकेल्ल्यान येवचें आनी पंगर्तीक बसून पोटभर जेवन वचचें अशी रीत आसली.आज भिकारी जावन हांवें तुजेकडेन पयशे

मागले....''

सट्ट करून हिरूची वळख मेळ्ळी अशें म्हाका दिसलें. काळखांत विजेचो दिवो पेट्टां पेट्टां पालवचो तशी ती अवस्था. हांवें म्हळें, ''येदोळ हांव बोवाळांत आसलों. चल,आज सांगातान जेवंक या.''

तो अनमनलो.ताणें म्हळें, ''आसूं, आज तूं जेवण दितलो आनी फाल्यां ही भेळ ताळ्या सकयल देंवचिना. तेन्ना खंय वतलों?''

हांवें ताका चड उलोवपाची संद दिलीना. ताका हाताक धरलो आनी लागशिल्ल्या एका वातानुकुलीत रॅस्टोरंटांत आमी भितर सरले.

''म्हाका भूक ना.'' ताणे म्हळें. ''पूण तूं दिता जाल्यार म्हाका एक सूप दी आनी नुस्त्याची एक प्लेट मागय.''

''तूं रावता खंय?'' हांवें तांका परत विचारलें.

''सध्या मुंबय शारांतच आसां.''

''खंयचेकडेन?''

तो मात्सो गडबडलो. ताणे म्हळें, ''तुका दिवंक म्हजेकडेन पत्तो ना. हांव जे वस्तींत रावतां ते वस्तीत सभ्य लोक वचनात. न्हिदपापुरतो हांव थंय वतां आनी सकाळीं परत भायर सरतां तो बद्द रातचो उसरां परत रुमार वतां.''

''रुमार कोण आसा?''

''कोण ना. एकलोच रावतां. वस्ती बरी न्हय. पूण करतलो कितें? दुसरो जागो ना. पारशी लोकांक अग्यारी आसा. आमकां हिंदूंक धर्मशाळा लेगीत ना. तशो धर्मशाळा खूब आसात. पूण म्हजे सारकेल्याक थंय थारो मेळना.''

अजून हिरू कोण ताची म्हाका सारकी कल्पना येना. मदींच वळख आसा अशें दिसतासर तो अनवळखी दिसूंक लागता. तो कोंकणी उलयता खरो. पूण तागेले उच्चार मात्शे वेगळे हें म्हाका जाणवता. आनी तो खऱ्यांनीच गोंयकार काय कितें असो दुबाव येता. जे तरेन ताणें सूप घेतलो आनी उपरांत कांटो सुरी घेवन नुस्ते खालें ती तरा पळयतकच तो सादो रस्त्यावयलो भिकारी न्हय इतलें कळटालें. हांवें ताका जेवता आसतना कसलोच प्रस्न विचारलोना. तोच मदींमदीं उलयतालो. आपल्याच नशिबाक दोश दितालो.

जेवण सोंपतकच हांवें ताका म्हळें, ''तुजें नांव म्हाका वळखिचें दिसता. पूण आमी खंय मेळिल्ले ताचो उगडास जायना.''

''तूंय बरो मरे!'' ताणे म्हळें, ''तूं अजून म्हाका वळखूंक ना तरी तुवें धा रुपये दिले आनी आपल्या सांगातान हॉटेलांत हाडलो?''

''तूं वळखिचो कसो वागलो देखून हांवें प्रतिसाद दिलो.'' हांवें म्हळें.

''एक सांग, तुमी आदीं कांसावले आसताले न्हय?... आतां तरी म्हजो उगडास जालो?''

‘‘सगळो वेळ हांव भुरगेपणांतल्या सवंगड्यांची याद करीत आसां. पूण तुजो तोंडावळो दोळ्यांमुखार कसोच येना.’’

‘‘येतलो कसो?’’ ताणे म्हळे, ‘‘भुरगेपणांतलें तोंड तशेंच कशें उरतलें? तें पुराय वदलून वता. म्हजें तरी बदलून गेलां. पूण तुजें बदलूंक ना हें खरें.ना जाल्यार हांव तुका वळखुपाचो न्हय. तुका पळयनाफुडें हांव वळखलों. आनी तूंय म्हाका निरखिता हें पळयतकच म्हजी खात्री जाली...’’

‘‘हांव तुका निरखी नासलों. म्हजेमुखार तूं आसलो. देखून नदर तुजेर पडटाली, इतलेंच.’’ हांवें म्हळें.

‘‘तशे आमी कांसावले गांवांत रावनासले. उबाळाच्या दिसांनी वाऱ्याक वचून रावताले आनी त्या वेळार हांव तुमगेरूच उरतालों....’’ ताणें म्हळें.

आनी एकदम म्हज्या दोळ्यांमुखार हिरू उबो रावलो.

‘‘आतां याद जाली’’, हांवें म्हळें, ‘‘तू सायकल घेवन येतालो. दर्याचे वेळेर रेंवेचेर आमी ती चलयताले... आतां सगळी याद जाली.’’

बील फारीक करून आमी भायर आयले तेन्ना हांवें हिरूक म्हळें, ‘‘आतां हांव वतां. फाल्यां तुजो कितें प्रोग्राम?’’

‘‘म्हजो आनी कसलो प्रोग्राम? खरें म्हळ्यार हांव कांय करिना. सामको कफल्लक जालों. वसीन भोंवंक पयशे नात. संस्कारांक लागून सरळ भीक मागना. तुजे सारकिल्ल्यामुखार हात पातळायतां आनी दीस काडटां.’’

‘‘अशें उपकारना. तुज्या पांयांक वखद करून बरो जा आनी कसलेंय काम सोदून घेवन खर्चापुरते पयशे जोड.’’ हांवें ताका सांगलें.

‘‘कोण दितलो म्हाका काम? आतां पिराय जाल्या. देह थकला आनी मनूय थकलां....आनी खरें म्हळ्यार काम करपाची संवय मोडल्या.’’

‘‘तूं पुलीस खात्यांत आसतालो म्हूण आयकल्लें. केन्ना रिटायर्ड जालो?’’

‘‘अजून थंय आशिल्लो जाल्यार हे आदींच रिटायर्ड जावपाचो. पूण म्हाका डिसमीस केलो.’’

एक विचित्र हांसो हिरू हांसलो. ल्हान भुरगीं दुसऱ्याक चाळयतना काडटात तसलो आवाज ताच्या तोंडांतल्यान भायर सरलो. हांवें अजापान ताच्या तोंडाकडेन पळयलें आनी म्हळें, ‘‘घरा कोण आसा?’’

‘‘घरच ना जाल्यार घरा कोण आसतलो?’’ ताणे परतो प्रस्न केलो.

‘‘गोंयांत तुमचें मूळ घर आसतलेंच न्हय? थंय कोण कोण आसा?’’ हांवें विचारलें.

‘‘गोंय सोडल्यार चाळीस वर्सां जायत आयलीं. ते उपरांत हांव गोंयांत वचूंकच ना. आमचें संयुक्त कुटुंब. म्हज्या बापायक भुरगेपणांत मरण आयलें आनी बापोलयान म्हजे आवयच्यो सयो घेवन घराण्याचे येणावळिचो आमचो वांटो आपल्या नांवार करून घेतलो आनी उपरांत आमकां घराभायर काडलीं. म्हाका घेवन ती आपल्या कुळारा गेली. पूण

चड दीस वांचलिना. तिच्या मर्णाआदींच म्हाका पोलीस खात्यांत नोकरी मेळिल्ली. हांव तिका घेवन हांगा मुंबय आयलों....'' थोडे भितर जिवीत कथा सांगची अशे तरेन तो उलयलो.

''आरे, हें म्हाका कांयच खबर ना.'' हांवें म्हळें, ''पूण पुलिसंत नोकरी करतना तुंवें भाड्यान घर घेतलें ना?''

''एक फ्लॅट आशिल्लो भाड्याचो. फकत हांव पुलीस खात्यांत आसा इतलेच खातीर घरमालकान तो दिल्लो. म्हजी नोकरी वतकच हांवें फ्लॅट सोडचो म्हणून ताणें प्रयत्न सुरू केले आनी हांवें भाडें फारीक करूंक ना अशें सिध्द करून कोर्टाच्या आदारान त्या फ्लॅटाचो ताबो घेतलो.''

''सिध्द करून म्हळ्यार? तुंवें भाडें फारीक केल्लें तर?'' हांवें विचारलें.

''तोंडावयलो मनीस. नोकरेखातीर म्हाका खंय खंय भोंवचें पडटालें. आवय आसतना नेमान भाडें फारीक करताली. तो पयशे घेतालो. पूण पावती दिनासलो. म्हाकाय पावती कित्याक जाय आसली? आवय उपरांत हांव मुंबय आसतालों तेन्ना तागेलें सगलें भाडें फारीक करतालों. म्हाकाय ताणें केन्ना पावती दिली ना. आनी म्हजी नोकरी वतकच भाडें फारीक करूंक ना अशी कागाळ करून ताणे म्हाका फ्लॅटांतलो भायर काडलो.''

''आनी तुजी बायल,भुरगीं?''

''संवसार थाटपाचो योगच आयलोना. पूण ती खबर उपकार करून विचारूं नाका.''

ताका एकदम गंभीर जाल्लो पळोवन म्हाका दिसलें, ते विशीं चड कांय विचारचे न्हय. हांवें म्हळें, ''तूं फाल्यां म्हाका कित्याक मेळना? तुजो पत्तो दी. हांव तुगेर येतां.''

''नाका. तूं येवं नाका. तूं सांगशी थंय हांव येता.'' ताणे म्हळें.

दुसऱ्या दिसा मॅट्रो थिएटराच्या दारांत सकाळच्या ११ वरांचेर मेळपाचें हांवें सुचयलें.

''तूं सिनेमा पळोवंक वतलो काय कितें?'' एकदम ताणे म्हाका विचारलें.

''तुका जाय जाल्यार सिनेमा पळोवया. सांगातान जेवंया. पोटभर उलोवन घेवंया... फाल्यांचो दीस हांव मुंबय उरतलो. परां म्हाका गोंयांत परतूंक जाय.'' बोल्सांत हात घालून आनीक एक धा रुपयाची नोट भायर काडली.

''पयशे नाकात.'' ताणे म्हळें. ''फाल्यां मेळटले तेन्ना लागले जाल्यार घेतां.''

''हे दवर.न्हा. खाड कर. तुजे कपडे म्हेळे जाल्यात ते बदल.''

''हें सगळें धा रुपयां भितर जावचेंना.''

''कितले लागतले?''

''तुका म्हजी लज दिसता?'' ताणे गंभीर सुरांत प्रस्न विचारलो.

''निखालूस ना.'' हांवे ताका आस्वासन दिलें. ''म्हाका लज दिसना. पूण तुज्या ह्या अवताराक लागुनूच तुका आपूण वरो ना अशें दिसता. हेंच पळय, एका पांयाक जोतें घालून तूं भोंवता...''

म्हजी नदर ताच्या पांयाकडेन गेली. आता दोनूय पांयांनी जोती आसलीं. ताणें म्हळें,

''पांय दुखता तेन्ना हांव जोतें काडून दवरतां.''

हांवें ताका वीस रुपया दिले आनी म्हळें, ''तुजो प्रस्न हांव सोडोवंक शकचोना. पूण फाल्यां कपडे बदल आनी खाड कर.''

''जाणा तूं? लॉड्रींत दिल्ले कपडे पयशे नाशिल्ल्यान हाडूंक नासले. तांचेच वीस रुपया जातले. तूं दिताच जाल्यार आनीक वीस रुपया दी. रीण काडटाच जाल्यार सारकें काडुया.''

हांवे आनीक वीस रुपया दिले. आनी ताका दुसऱ्या दिसा सकाळी ११ वरांचेर तेच सुवातेर येवपाचो उगडास करून दिलो.

''सिनेमाक वतलो जाल्यार बेगीन येतां. सकाळच्या वेळार तिकेट मेळूंक सोंपी. धा वरांचेर सुरू जाता... कितले दीस हांव त्या सिनेमाचे पोस्टर पळयतां. पूण तिकेट विकती घेवन थिएटरांत वचूंक परवडना.''

''तशें जाल्यार हांव धा वरांचेरच येता. कसलो सिनेमा चलता?''

''पोरणो. 'बायसिकल थीफ'. भुरगेपणांत खूब वर्साआदीं पळयिल्लो. सध्या परत लागला.तुंवे पळयला? बरो सिनेमा. कितलेय खेपो पळयल्यार उबगण येवचिना.''

***

गोंयचे सुटके आदले दीस वेगळेच आसले. म्हाका उगडास जाता ते भाशेन कांसावले गांवांत सांजेच्या स वरांच्या अदमासाक लोंढा-मुरगांव गाडी येताली. पांच-धा मिनटांखातीर रेल्वे स्टेशनार जात्रा भरताली. गाडी सुट्टासर जात्रा उलगताली. चारय दिकांनी कश्ट करपी लोक त्याच अदमासाक दिसाचें काम सोंपोवन स्टेशनाक लागून आशिल्ल्या बाजारांत येताले. पॅट्रोमाक्साच्या उजवाडांत त्या दिसाची खरेदी करून काळोख जातां जातां घरा परतूंक लागताले. ते उपरांत एके तरेन पुराय गांव न्हिदतालो. सकाळीं उक्तीं केल्लीं घराचीं दारां राती वेळार बंद जातालीं आनी घरांत एकाद्री चिमणी वा दिंवो पेटलो तरी ताचे किरण दाराभायर येना आसले.

गांवाक सकाळची जाग येताली ती इगर्जेच्या घांटिंनी वा रेंदेराच्या गितांनी. सगलेच सगल्यांक वळखताले. नवें अशें कांय नासलें. घाण्याक बांदिल्ल्या बैलावरी एका सांच्यांत गांवचे वेव्हार चलताले.

म्हजी पिराय तेन्ना णव-धा वर्सांची आसुंये. ते पिरायेचेरच सगलो गांव हांवें पांयांनी माडयिल्लो. घरानघर हांव वळखतालों. आनी चडावत लोकय म्हाका वळखताले. कोणाल्या पोरसांत लिंबू, काण्णां वा जगमां आसात... जावं तोरांजां वा आंवाडे खंय आसात... कसलीं फुलां खंय मेळटलीं... कोणागेर सुर्णी आसात आनी कोणालें दुरीग मोडलां हें सगलें म्हाका खबर आसलें. आमी वाड्यावयले चार भुरगे जमून सदांच पोरसांतलीं झाडां बुड्डूंक वताले. लुटपाचो एक आनंद आसता. ते धुंदींत आमी फळां, फुलां लुट्टून हाडटाले. तशें केल्ल्यान झाडांक दुखी वादता, हरवीं फळां बुड्डून फायदो जायना म्हणपाचें गिन्यान आमकां नासलें. कोणय तरी आमकां पळयतालो आनी मागीर

घराकडेन येवन कागाळ करतालो. अशा वेळार घरांतले जाण्टेले कागाळ करूंक आयिल्ल्या भाटकारामुखार आमकां चड करून उतरांचो मार दिताले आनी भाटकाराक आमची काकुळट येताली. तो म्हणटालो, ''तुमी मागून घेयात. पूण पोरसाची वाट लावं नाकात.'' मागून हाडपांत पुरुषार्थ नासता हें भाटकाराक कशें सांगतलो?

घरांत सोडूंक कोणेंय उलो मारलो जाल्यार आमी केल्लें कसलेंय नांवरूप घरच्यांच्या कानार पावलां असो आमकां दुवाव येवंक लागतालो आनी आरोपीन आरोप न्हयकारतना आपले पुरावे मांडचे ते तरेन आमी त्या वेळार थंय कशे नासले हें सिध्द करपाखातीर, गंडेरीवाल्याक कोळशेवाल्याची साक्ष म्हणची, ते तरेन एकामेकांचे साक्षीदार जावन आरोप परतिताले.

अचकीत एक दीस बापोलयान म्हाका उलो मारलो आनी विचारलें, ''फाल्यां तुका शाळा आसा?''

प्रस्न इतलो अनपेक्षित आसलो. कितें जाप दिवची तें म्हाका कळ्ळेंना.

''शाळा आसल्यार आसूं, फाल्यां तूं वचूं नाका. सकाळीं एक मोटार येतली आनी ते मोटारींतल्यान गांवकारांचे कुटूंब हांगा येतलें. तांकां आमचें घर खबर ना. तुवें बाजाराच्या नाक्यार रावन तांकां घरा हाडपाचें आनी जेवले उपरांत तांकां तांच्या बिराडार पावोवपाचे. हें काम तुजें. समजलो?''

खरें म्हळ्यार हांव कांयच समजूंक नासलों. तरी हांवें तकली हालोवन म्हळें, ''म्हजें एकल्याचें?''

''आनीक कितलें लोक जाय तर तुका? तुवें फकत वाट दाखोवपाची.'' बापोलयान म्हळें.

त्या दिसा म्हाका हांव जाण्टो जालां अशें दिसलें. म्हजेर एकल्याचेर कसलें तरी काम सोंपयिल्लें. दुसऱ्या दिसा सकाळीं हांव सदां परस बेगीनच उठलो आनी शाळा चुकोवन बाजारांत वचून रस्त्याचेर उबो रावलों. शाळेंत वतलीं भुरगीं म्हाका मेळटालीं. साडेइकरा वरांचेर शाळा सुटली तरी हांव बाजारांत उबो. गांवकार कुटुंबाक घेवन मोटार आयली ना. गांवांत एकय मोटार येवंक नासली. त्या दिसांनी मोटार येवप म्हळ्यार अप्रूप. तांबडे मातयेच्या रस्त्यावयल्यान धुल्ल उबयत एखाद्री मोटार गेली म्हण्टकच तो धुल्ल खायत ल्हान भुरगीं मोटारिचे फाटल्यान धांवतालीं.

शाळा सुटली तरी मोटार आयली ना. तेन्ना हांव तान लागली म्हणून घरा परतलों. भितर वचून उदक पियेतासर आमच्या मागीलदारांत एक मोटार येवन उबी रावली. येदोय वेळ जे मोटारिची हांव वाट पळयतालों ती आपूण जावन आमच्या दारांत पाविल्ली. घराक वळसो घालून ती फुडल्या दारांत घेवंक ड्रायव्हराक सांगलें. १५-२० मिटरांचें तें अंतर आसलें. तरी हांव फुडल्या सिटाचेर मोठे उमेदीन वचून बसलो.

मोटारींतलीं मनशां घरांत आयलीं. एक बायल आनी दोन भुरगीं. ते भायर एक जाण्टी बायल. मोटार चलयतालो तो ड्रायव्हर अशीं पांच मनशां देंवलीं. म्हाका घरच्यांनी

सांगून दवरिल्ले, जे लोक येवपाचे आसात ते मोठे मनीस. तांकां बाव म्हणूंक जाय. तांचेकडेन नम्रतायेन उलोवंक जाय.

भुरगो आसलो तो म्हजेच पिरायेचो. एक दोन वर्सांनी व्हड जातलो. पूण ताका पळयनाफुडें म्हज्या मनांत नसाय उपजली. आमी तेन्ना हाफ पँट आनी हाफ शर्ट घालताले. पांयात जोतें लेगीत नासतालें. गांवांत भोंवतना जोत्याची गरजय लागनासली. दिसपट्ट्या वापराचे पोरणे कपडे आनी चवथ, दिवाळी, शिगम्याखातीर वा खंयच्याय लग्ना कार्याक घालपाखातीर नवे कपडे आसताले. तो भुरगो वेगळोच दिसलो. राजालो राजकुंवर कसो. ताच्या आंगार लांब पँट आसली. इनसेट केल्लें लांब हाताचें शर्ट, दाव्या हाताच्या बोटाक मुदी. उजव्या हाताच्या मनगटाक माश्कोत. ते भायर दाव्या मनगटाक घडयाळ, गळ्याक भांगराची सरपळी आनी जाण्ट्यांनी काडचो तसो केसांचो मागो. पांयांत मेय आनी बूट. आमच्या आंगणांत रेंव आसली तरी ताच्या बुटांचो टक् टक् आवाज आयलो आनी तो घरांत गेलो. दोनय वायलो आर्दींच घरांत गेल्ल्यो. तांचे फाटल्यान एक चली - जी तेन्ना सोळा सतरा वर्सांची आसुंये. हांवें मनांतल्या मनांत तांचीं नातीं जुळयलीं. चलो आनी चली भाव-भयण. ती बायल तांची आवय आनी जाण्टेली बायल तांची आजी. मागीर गांवकारबाब खंय तर? म्हाका सट्ट जालें. मोटार चलयतलो तोच गांवकारबाब आसूंक जाय. ताणें पुलीस घालतात तसो ड्रेस घाल्लो. माथ्याक चेपें आसलें. हांव ताचेसरी गेलों आनी म्हळें, "बाब, तुमी भितर येयात. हांव सामान काडूंक मनशाक धाडटां."

मोटारिच्या टपाचेर सामान आशिल्लें आनी फाटले डिकींतय.

ताणें म्हळें, "सामान एकदम बिराडाचेर देंवोवया. हांव हांगाच रावतां."

म्हाका सांगिल्लें, तो एक व्हड मनीस म्हूण. ताचो मान राखूंक जाय. देखून हांवें ताका भितर येवपाचो आग्रो केलो. तो आयलो आनी भायले वटेन कुशीक एका कदेलाचेर बसलो. येदो मोठो मनीस संकोच कित्याक करता तें म्हाका कळ्ळेंना. घरांत त्या वेळार जाण्टो दादलो कोणय नासलो. हांवें भितर वचून आवयक ल्हवू सांगलें. "गांवकारबाब भायरच बसला."

दाराकुशीक रावन आवय ताका पळोवन गेली आनी म्हळें. "तो गांवकारबाव न्हय. तो ताचो ड्रायव्हर."

मनांत म्हळें, हो इतल्या झेतान भोंवता जाल्यार खासा गांवकारबाब कितल्या झेतान भोंवता आसतलो?

ड्रायव्हराकडेन उलयतकच म्हाका कळ्ळें. गांवकारबाब सांजचे गाडयेन येतलो. तो कसल्या तरी कामाखातीर मडगांवां गेला. मोटारीन आयल्यांत तीं दोनय भुरगीं गांवकारबाबालीं. ती वायल भुरग्यांची आवय आनी ती जाण्टी वायल तांची रांदतली.

हो सगळो प्रसंग धोबी तलावसावन माहिम वतना टॅक्सींत म्हज्या दोळ्यांमुखार उबो रावलो. तो थाटांत बूट वाजयत भितर गेल्लो तो भुरगो तोच हिरू. ताका हिरू म्हणचें

काय हिरुबाब म्हणचें हेंच म्हाका कळनासलें.

दनपारचें जेवण उलगतकच हांव तांका बिराड दाखोवंक गेलों. हें कुटूंब कामाखातीर कांसावले आयिल्लें. देड दोन म्हयने रावलें. त्या दोन म्हयन्यांत त्या कुटुंबाकडेन म्हजो खूब लागिंचो संबंद आयलो. आनी हिरूचो सांगातय अखंड मेळ्ळो. ताची म्हजी इश्टागत जाली अशें म्हणपाचें धाडस हांव करचोंना. ताचो तरतरच वेगळो आसलो. त्या मानान हांव गांवढळ दिसतालों.

तो हिरू. इतल्या वर्सा उपरांत मुंबय शारांत म्हाका मेळिल्लो. म्हजे मुखार ताणे भिकेचो हात पातळायिल्लो आनी हांवें ताका वळखनासतनाच भिकेचे पयशे दिल्ले.

एप्रिल-मे म्हयन्यांत कासावलेचे वेळेर वाऱ्याखातीर लागशिल्ले पयसुल्ले लोक वताले. ल्हानसोच शांत गांव.

त्या दिसा हिरुच्या कुटुंबाक हांवें तागेल्या बिराडाचेर पावयलें आनी घरांत हांव भितर सरलों तेन्ना म्हाकाय अजाप जालें. सगली तात्पुरती वेवस्था. पूण चोख बरी आसली. बरें फर्निचर थंय आसलें. इतलेंच न्हय तर केरोसिनाचेर चलपी एक रेफ्रिजिरेटर आसलो. हिरूच्या घराण्याचे व्हडविकेची गवाय दिवपी ल्हान व्हड वस्त थंय आसली.

मुळांत तें घर एक भाटकाराचें. तो आफ्रिकेक स्थायिक जाल्लो. दोन चार वर्सांनी केन्नाय गोंयां येतालो. पूण हरशीं तांचें घर बंद उरतालें.

त्या दिसा सांजचो गांवकारबाब आयलो. रेल्वेचे गाडयेतल्यान देंवलो आनी थेट आमगेर आयलो. ताका तागेल्या बिराडाची वाट दाखोवपाखातीर म्हाका ताच्या सांगातान वचचें पडलें. गांवकारबाबाक पळयनाफुडें तो कोणय तरी मोठो मनीस म्हणपाचें कळटालें. तो कासाटो मारून धवेंफुल्ल पुडवें न्हेशिल्लो आनी पांयांक पठाणशूज घाल्ले. इनसेट केल्लो रसमी शर्ट आनी ताचेवयर टाय. तसोच उंची कोट. ताच्या दोळ्यांक भांगराचे फ्रेमिचें वक्ल आसलें. आनी कोटाच्या एका बोल्साक भांगराची सरपळी सरपळेच्या दुसऱ्या तोंकाक भांगराची वाटकुळी घडयाळ, जी कोटाच्या वयल्या बोल्सांत दवरिल्ली. वयले वयर घडयाळ भायर काडून तो वरां पळयतालो. दाव्या हाताच्या दोन बोटांक तीन मुदयो. मनगटाक भांगराचो पटो आशिल्ली घडयाळ.... थाटच वेगळो. हातांत एक रोत. एकेक पावल उखलून तो चलता आसतना वाटेवयलो लोक आपसूक कुशीक सरतालो. अशा मोठ्या मनशा सांगातान मोटवें कालसांव आनी मोटवें खोमीस घालून हांव उकत्या पायांनी वतालों. तरी गांवच्या लोकांनी म्हाका पळोवचो अशें म्हाका मनापासून दिसतालें.

खुबशीं पुर्तुगेज वाक्यां भरसून गांवकारबाब मदींच म्हाका एखाद्रो प्रस्न विचारतालो. म्हाका पुर्तुगेज समजनासली. पूण हांव ताका जाप दीत रावलों. म्हाका आतां दिसता, कितेंय तरी उलोवंक जाय म्हूण तो प्रस्न विचारतालो. आनी हांव जी जाप दितालों ती तो आयकून लेगीत घेनासलो. फकत 'हां' 'हूं' करतालो.

त्या दिसा ताच्या बिराडाचेर ताणे म्हाका आग्रो करून च्या दिली. प्लेटींत मचमचीत

तुपाचो शिरो आनी सगलो मानकुराद आंबो.

गांवकारबाबालो हिरू हो एकलो एकसुरो चलो.

सुमार तीन-चार वर्सां हे कुटुंब वर्सान वर्स चुकनासतना कांसावले वाऱ्याक येतालें आनी देड-दोन म्हयने रावतालें. त्या वेळार म्हजी हिरूकडेन इश्टागतय जाल्ली. ताचेकडेन एक सायकल आसली. म्हाका तेन्ना सायकल चलोवंक येनासली. सांजच्या वेळार दर्या वेळेर वता आसतना ताणें सायकल व्हरची आनी मर्दीं मर्दीं म्हाका चलोवंक दिवची. आतां सारको उगडास जायना. पूण दिसता, हिरूले सायकलिचेरच हांव सायकल चलोवंक शिकलों.

तो हिरू इतल्या वर्सां उपरांत मुंबय अचकीत मेळिल्लो. हिरूलें घर हांवें पळोवंक ना. पूण तागेले भयणिच्या लग्नाचो म्हाका उगडास जाता. खंयच्या तरी देवळा म्हऱ्यांतले अगरशाळेंत तें लग्न जाल्लें आनी त्या लग्नाक हांवय गेल्लों. पूण ह्या खिणाक हिरूचे भयणिचें नांव वा तिचो तोंडावळो म्हाका याद जायना.

म्हजे कल्पनेप्रमाण त्या वेळार हिरू पुर्तुगेज शिकतालो. तो डॉक्टर वा वकील जातलो अशें लोक म्हणटाले. हिरू आनी तागेलो बापूय एकामेकांकडेन पुर्तुगेजींतल्यान उलयताले. आपल्या चल्याक पुर्तुगेज उलोवपाची संवंय जावची हे खातीर बापायन ती चाल सुरू केल्ली. तेन्ना म्हाका पुर्तुगेजींतलें एकय उतर समजनासलें आनी ते उलोवंक लागले म्हणटकच हांव मोठे लक्तुबायेन हिरुकडेन पळयतालों.

पूण हिरूक मोठेपणाचो गर्व आसा म्हणपाचो एक अणभव ते पिरायेचेर हांवें घेतलो. सांजच्या वेळार हांव हिरुगेर गेल्लों आसतना हिरुलो मामा आयलो. मामान येता आसतना सफरचंदां हाडिल्लीं. आमच्या भुरगेपणांत सफरचंद हें दुर्मिळ फळ आसलें. युरोपाक सावन तीं येतालीं आनी तीं खावपाचे दांत सगल्यांकच नासताले.

मामान हाडिल्ली पोटली हिरूच्या हातांत दिली. हिरून ती उसयली., वास घेतलो आनी म्हाका म्हळें, "हीं सफरचंदां खूब म्हारग. हांव एक खातां. तुका आंबो दिवं?"

आमची परिस्थिती मध्यम वर्गातली आसली तरी खाणाजेवणाक कांयच उणें नासलें. हिरूलो तो प्रस्न आयकून म्हाका अपमान जाल्लेंभाशेन दिसलें. म्हाका घट उगडास आसा. तेन्ना हांवें ताका म्हणिल्लें, "हांव तुमगेर आंबो आनी सफरचंदां खावंक येना. म्हाका तुजो आंबो नाका आनी सफरचंदय नाका. गांवांत म्हाका सवंगडी थोडे नात. तुका नाका आसत जाल्यार हांव फाल्यांच्यान तुगेर येना."

दुसऱ्या दिसा हांव तागेर गेलोंना. सांजचो हिरूच आमगेर आयलो. हांव घरांत नासलों. मेयाचो बॉल करून आमी तेन्ना फुटबॉल खेळटाले. घरा फाटल्या शेतांत आमची मॅच रंगांत आयिल्ली. खेळ सोंपूंक धा मिनटां उरिल्लीं. अशा वेळार आपली सायकल घेवन हिरु ग्रावंडाचे कुशीक आयलो आनी म्हाका हात करपाचो यत्न करूंक लागलो. पूण हांवें ताका खऱ्यांनीच पळोवंक नासलो. मॅच सोंपसर तो रावलो आनी मॅच सोंपतकच म्हजेसरीं आयलो.तो म्हाका आपणागेर आपयतालो.

खेळ सोंपतकच आमी शेताचे धडेवयले जांबळिचीं जांबळां काडटाले. त्या दिसा हांवें हिरुक जांबळां दिवंक काडली. एकेक जांबळ पेरायेदें आसताले. रसाळ आनी मांसाळ. सगळे भुरगे बचक्यांनी जांबळां खाताले. पूण हिरून हांवें दिल्लीं जांबळां घेतलीं नात. ताणें सांगलें, ''आमी बाजारांतल्यान जांभळां हाडटात आनी घराकडेन व्हरून ती धुवन मीठ लावन खातात.''

म्हाका ताजी काकुळट दिसली. बाजारांत सगळीं फळां मेळटात, पूण झाडावयलीं पाडून ताजीं फळां खातना जो आनंद मेळटा तो घरांत कसो मेळटलो? झाडाक पिकिल्लीं अमुरपिको आंबो... ताची आंबट-गोड रुच वेगळी. तणांत पिकयिल्ल्या आंब्याक ती कशी येतली? झाडार पिकून फुटून आपलो घमघम वाठारार पातळायतली बरकय... हरवे आंबाडे... नव्यो आंबल्यो... म्हाका दिसलें, हिरून सगळें खालां. घडये तो दिसपट्टो सफरचंदांच खाता आसतलो. पूण झाडपिक्या फळाची रुच ताका खबरच ना.

कशेंय आसना, हिरूविशीं हांवें वेगळी कल्पना केल्ली.हो मनीस खूब व्हडलो जातलो. घडये सरकारी अधिकारी जातलो. घडये डॉक्टर, वकील, जातलो आनी केन्ना तरी म्हाका ताचो आदार मेळटलो.आदार नासलो तरी एका व्हड मनशाकडेन म्हजी वळख उरतली. पूण त्या चार वर्सां उपरांत हिरूक हांवें केन्ना पळयलोच ना. ताचेविशीं कांय आयकलेंच ना.

तो हिरू इतल्या वर्सा उपरांत इतले लाचार अवस्थेंत म्हज्या जिवितांत परत आयिल्लो.म्हाका दिसलें, फाल्यां सकाळी ताच्या सांगातान सिनेमा पळोवचो आनी ताच्यो उमेदी भागोवच्यो. फाल्यां सांजच्यो आमच्यो वाटो वेगळावतल्यो.घडये हे जिणेंत त्यो परतून लागीं येवच्यो नात.

सकाळी मॅट्रो सिनेमाकडेन पावंक म्हाका कळाव जालो. पूण हिरू थंय हाजीर आसलो. म्हजेसरी येवन ताणे म्हळें, ''सिनेमा बदलला.'

''तरी आमी तो पळोवंया.'' हांवे सुचयलें.

''तुका जाय जाल्यार या. थंडशें बसून उलोवंक मेळटलें.'' हिरून म्हळें.

हिरूचो भेस बदलूंक नासलो. पूण आंगावयले कपडे धवेफुल्ल आनी चकचकीत आसले. पांयांत मात कालचेंच जोतें. खाड काडिल्लें आनी केंसय कापिल्ले. जाण्टेपण लिपलेंना तरी तो म्हाका तरतरीत दिसलो.

सिनेमा थिएटर अर्दे रिकामेच आसलें. आमी बाल्कनिच्यो तिकेटी काडिल्ल्यो. एका कोनश्याक वचून बसले.

''काल हांव तुका वळखूंक नासलो. पूण आतां सगळो उगडास जाला.'' हांवे हिरूक म्हळें.

ताची प्रतिक्रिया कळिळना. तो निखटो हांसलो. हांवेंच फुडें म्हळें, ''तेन्नाचो तुजो थाट वेगळोच आसलो.याद आसा तुका?''

''याद नासूंक कितें जालां? खरें म्हळ्यार गोंय स्वतंत्र जालें आनी आमची दुर्दशा सुरू

जाली. आमच्या घराण्यांत शिकिल्लो तो हांव एकलोच. लिसेवाचेर आसतना पुर्तुगेज शिक्षण सोडून इंग्लीश शिक्षण घेवंक मुंबय आयलों. पूण ते आदींच म्हजो बापूय भायर पडिल्लो. घराणें खूब मोठें. जेवणाखाणाची अडचण नासली. हात खर्चाकय पयशे मेळटाले. पूण म्हजो बापूय आसतना जो दरारो आशिल्लो तो उरलोना.''

''पूण तूं लिसेव सोडून मुंबय येवंक कारण कितें जालें?'' हांवें विचारलें.

हिरून एक व्हडलो सुस्कारो सोडलो. थिएटरांत उजवाड पालवलोआनी सिनेमा सुरू जालो. कसलो तरी इंग्लीश सिनेमा. आमच्यो नदरो पड्ड्याचेर थिरावलेल्यो. पूण म्हजे कान हिरू सांगतालो ती खबर आयकताले.

''देवाचे कृपेबगर येदी व्हडली गिरस्तकाय कोणाक मेळना. आनी देवाच्या स्रापाबगर ती गिरेस्तकाय मातयेभरवण जायना.'' आपली खबर सांगून जातकच हिरून म्हळें.

भायर येतकच हांवे ताका विचारलें, ''आज कसलें जेवण जेवंया?''

''गोंयचें आनी नुस्त्याचें. आज म्हाका पोटभर जेवंक जाय. इतल्या वर्साची भूक एका जेवणान भागोवंक जाय... तुका उपकारता न्हय?''

''सांगातान जेवप म्हळ्यार तूं खाता तितलेंय हांवें खावप असो अर्थ न्हय. आज तुज्या मनासारकें जावंदी. खंय वचुंया सांग.''

''अनंताश्रमांत.'' ताणे सुचयलें.

टॅक्सी करून आमी गिरगावांत गेले. अनंताश्रमांत जेवतना लेगीत हिरू उलयत रावलो. जेवले उपरांत हांवें ताका म्हळें, ''आता आमी तुज्या रुमार वचून बसुंया.''

तो एकदम गडबडलो. ताणे म्हळें, ''म्हजी इतली काणी आयकतकच त्या रुमांत वचचें अशें तुका दिसता जाल्यार हांव तुका आडावचों ना. पूण म्हाका दिसता, सभ्य मनशान थंय वचचें न्हय. तरी तुंवे आग्रो केलों जाल्यार हांव नाका म्हणचोंना.''

तागेलो संकोच पळोवन हांवें विचार बदल्लो आनी ताका घेवन हांव म्हज्या एका इश्टागेर गेलो. इश्टाच्या फ्लॅटाचे एके कुडींत बसून आमी थंडसाणेन खबरो केल्यो आनी एका एका प्रसंगांतल्यान हिरूची कर्मकाणी म्हज्या दोळ्यांमुखार उबी रावली.

''तुका फ्लॅट कसो सोडचो पडलो तें कळ्ळें. पूण तुका नोकरी कित्याक सोडची पडली तें तुवें सांगलेंना,'' हांवें म्हळें.

''हांवें एक मोठी चूक केली. पक्षपात केलो. तेन्ना हांव गुप्तहेर विभागांत आसलों. एका अधिकाऱ्याक लांच घेता आसतना धरिल्लो आनी तागेली इस्टेट आमी जप्त केल्ली. पूण खाशेले परिस्थितीक लागून हांवें त्या अधिकाऱ्याक सुटपाची वाट दाखयली. ताचे आड आशिल्ले पुरावे दुवळे दवरले... तो त्या वेळार सुटलो. पूण म्हजेआड कागाळ जाली आनी म्हाका डिसमीस केलो.'' एकदम सादेपणान हिरून सांगलें.

''पूण जाका तुवें सांबाळ्ळो ताणें तुका कसलोच आदार दिलोना?''

''तो आनी ताची वायल म्हाका लाखांनी रुपया दिवंक तयार आसलीं. अजूनय तागेर गेलों जाल्यार म्हजें भाग्य बदलतलें हें जाणा. पूण म्हजे निर्तींत तें बसना.'' हिरून म्हळें.

म्हाका अजाप जालें. भ्रश्टाचाराचो मार्ग आपणायिल्लो हो आदलो पोलीस अधिकारी नितीची भास उलयतालो. पूण ताका सरळ कांय विचारलेंना.

"तुजे बायलेविशीं सांगूंक तूं कित्याक अनमनता?" हांवें विचारलें.

"अनमनतां? बायलच ना जाल्यार तिचेविशी कितें सांगूं?"

"म्हळ्यार, तूं लग्नच जालो ना?"

"ना."

"पूण काल लग्नाचो विशय काडलो तेन्ना ते विशीं विचारूं नाका अशें तुंवें कित्याक म्हळें?"

"म्हजे लग्न थरिल्लें.... बापायन थारायिल्लें. म्हजी पसंती कोणें विचारलिना. पूण हांवें जावन तें मोडलेंय ना...."

"अशी कुवाड्याची भास कित्याक उलयता? नोकरी कशी गेली तेंय तुवें सांगलेंना. नोकरी करतना जोडिल्ल्या पयशांचें कितें जालें?"

"तशें पयशे जोडपाचे आशिल्ले जाल्यार लाखांनी जोडूं येताले. पूण हांवे केन्ना लांच घेतलिना आनी लांच घेतल्याची दया केली ना."

"पूण एका भ्रश्ट अधिकाऱ्याक आदार दिलो अशें तूंच सांगतालो."

"ती म्हजी लाचारी आसली. आनी ते लाचारींतल्यान हांव एक कायद्याभायलें अनितीक कर्तुप करून बसलों. ते खातीरच म्हजी नोकरी गेली. फट उलयिल्लो जाल्यार नोकरी वचची नासली.पूण नोकरेक उदक सोडपाचें थारावन हांवें खरें तें सांगलें." ताणें म्हळें.

"म्हाका कांयच बोध जायना. तुजी लाचारी कसली? भ्रश्ट अधिकाऱ्याक आदार दिवचे खातीर नोकरी सोडली? कोण तो अधिकारी? मित्र? सोयरो? काय ताणें तुका विकतो घेतलो?"

"हिरूक विकतो घेवपी अजुन जल्मूंक ना." एकदम उबो रावन छातयेर हात मारून हिरून म्हाका सांगलें.

हांवें तांच्या हाताक धरून ताका बसयलो आनी म्हळें, "हांव तुजेर आरोप करिना. पूण तूं कितें तरी लिपयता अशें म्हाका दिसता."

"त्या अधिकाऱ्यान म्हाका पयशे दिवंक केल्लें. हांवें ते घेतले नात. पूण ताची बायल म्हाका मेळूंक आयिल्ली...." एकदम हिरुन जीब चाबली आनी म्हळें, "उपकार करून तूं म्हाका असले प्रस्न विचारूं नाका. म्हाका कांयच सांगचेलें ना आनी सांगून फायदोय कांय ना. तूं म्हजे चरित्र बरोवंक सोदता काय कितें?"

"जमल्यार चरित्रय बरयन. पूण तूं लिपयता कित्याक? ताचे बायलेक तूं मेळ्ळो आनी विश्वामित्राचो मेनकेन केलो तसो तिणें तुजो तपोभंग केलो?"

"तुका एक सांगतां. हांव अखंड ब्रह्मचारी. बायलांकडेन म्हजो केन्नाच संबंद येवंक ना.पूण म्हजी लाचारी वेगळी आसली. तुका जाय जाल्यार हांव सांगता...."

"सांग." हांवें म्हळें, "तुजी ही आवतिकाय पळोवन म्हाका खऱ्यांनीच वायट दिसता. तुका शिक्षण आसा. तुज्यांत गुण आसात. पोलीस खात्यांतली नोकरी गेली म्हणून संवसार बुडलोना. तुका दुसरी मेळूं येताली."

"नोकरी मेळूं येताली आनी मनांत हाडिल्ले जाल्यार घरा बसून खावंक येतालें. पूण हांवें तें केलेंना. दुसऱ्या गांवांत वचून रावं येताले. सुरवेच्या दिसांनी तसो यत्न केलो. खंयूय गेल्लो जाल्यार दुसऱ्याक फटोवक सोंपें आसलें. म्हज्या मनाक कसो फटयतलो आसलो? म्हजो अधःपात जाला हें म्हाका कळटालें आनी एके भाशेन प्रायश्चित घेवपाखातीर हांव एक फकीर जालों. फाटलो फुडलो कोण ना. आई मरत सावन मायेचो मनीस उरूंक नासलो. देखून अशे तरेन भोंवप म्हाका उपकारतालें.

"अधःपात कसलो म्हणटा?"

"तूं समजता तसलो न्हय. हांवें कोणाचो गैरफायदो घेतलो ना. लाचार मनशाचो तर निखालस ना. सदां उजू मार्गान चल्लों. फट केन्ना उलयलोंना... पूण त्या भ्रश्ट अधिकाऱ्यांक सांबाळून घेवचो पडलो. हांवें ताका सांबाळून घेतलो हो म्हजो अधःपात."

"पूण लाचारी कसली?"

"लाचारी... लाचारी बेलाची."

"बेला?" अजापून हांवें विचारलें.

एकदम तो खर्शेलो आनी ताणें म्हळें, "तिचो विचार करून हांवें पंचनामो बदल्लो....आनी पळवाटय ताका दाखोवन दिली."

धनराज एक गुजराती वेपारी. गोंयांत ताचें ल्हानशें दुकान आसलें. हिरूच्या बापायकडेन धनराजाची खूब इश्टागत आसली. गांवकारबाब सरकारी अधिकारी आशिल्ल्यान आपलें वजन वापरून तो धनराजालीं कामां करतालो. फुडें धनराजान गांवकारबाबाच्या आदारानच आफ्रिकेंतले पुर्तुगेज वसणुकेंत मोसांबिकेक पेढी घाली आनी ताचें भाग्य फळफळ्ळें. ताणें गोंय सोडलें तरी गांवकारबाबाची इश्टागत सोडली ना. वर्सातल्यान एक दोन खेपे तो गोंयांत येतालो आनी गांवकारबाबागेरच रावतालो.

बेला धनराजाची चली.

एक खेपे धनराज गोंयांत आयलो तेन्ना बेलाक ताणे आपल्या वांगडा हाडली. तांकां बोटींवयल्यान उतरावन घेवन पणजे व्हरपाखातीर गांवकारबाबान हिरूक धाडिल्लो. हिरू तेन्ना लिसेवाचेर शिकतालो. चार दीस बेला आनी धनराज गांवकारबाबाल्या पणजेच्या घरांत उरलीं. तांकां, चड करून बेलाक, भोंवडावपाचें काम हिरूचेर येवन पडलें. ती ताची पयली वळख.

"आनी पयलो मोगय आसतलो न्हय?" हांवें हिरुक विचारलें.

"ना. तशी बेला सुंदर आसली. भाशेची अडचण आशिल्ल्यान आमचे मर्दी संवाद जायनाशिल्लो. मनांतले उमाळे तिणें उक्तायले नात आनी म्हाका सांगचेलें आसलें तें हांव सांगूक पावलोंना तरी आमची इश्टागत जुळ्ळी अशें तुज्यान म्हणूं येत. पूण तो मोग

नासलो.''

''तुज्या मनांत नासलो तरी तिच्या मनांत आसूं येता.'' हांवें म्हळें.

''तरुण चली तरुण चल्याबरोबर भोंवतना लजेता, संकोचता. ती लज मोगाची काय कितें तें हांव नकळ. खरें म्हळ्यार हांवय लजेतालों. सुरवेक संकोच खूब जातालो. पूण सांगातान भोंवतां-भोंवतां संकोच मोडलो.''

''तुमचो संवाद खंयचें भाशेंत जातालो? तिका कोंकणी येताली?''

''ना. ती जल्मल्ली मोसांबिकेक, पूण वाडली मुंबय शारांत, गुजराती, मोडकी तोडकी हिंदी, इंग्लीश ह्यो भासो ती उलयताली. म्हाका ह्यो तिनूय भासो येनासल्यो. थोडीशी मराठी आनी थोडीशी इंग्लीश वापरून केन्नाकेन्नाय कुरवांनी आमचेभितर संवाद जातालो.''

''तुमकां सांगातान दवरपाफाटलो जाण्टेल्यांचो वेगळो हेतू आसलो काय कितें?'' हांवें विचारलें.

''हो तुगेलो दुबाव सामको खरो. सुरवेक म्हाका कांयच खबर नासलें. बेला परत वतकच म्हज्या बाबान म्हाका सांगलें, फुडल्या जुनांत हांवें इंग्लीश शिक्षण घेवचेखातीर मुंबय वचपाचें. धनराजागेर रावपाची वेवस्था केल्या.''

''हांव शिक्षणाविशीं म्हणना. बेलाविशीं म्हणटालो.'' हांवें म्हळें.

''तेंच सांगता, त्या वेळार बापायन पयले खेपे सुचयलें, धनराज म्हाका जांवंय करून घेवंक सोदता.''

''आनी तुजी प्रतिक्रिया कितें जाली?'' हांवें विचारलें.

''म्हाका बेलाविशीं ओड आसली. पूण ती म्हजी बायल जावं येता हे नदरेन केन्नाच हांवें पळोवंक नासलें. हांव मुंबय शिकूंक गेलों तेन्ना धनराजागेर उरतालो. म्हजी बडदास्त बरी दवरिल्ली. तरी थंय म्हजो घुस्मटमार जातालो.''

''बेला आसतनाय घुस्मटमार?''

हिरू पयलेच खेपे मेकळेपणान हांसलो. ताणें म्हळें, ''घडये बेला आशिल्ली देखून म्हजो घुस्मटमर जातालो जावंक जाय. ती मेकळेपणान वागताली तरी धनराजान तिका कितें सांगिल्लें आसतलें ताची म्हाका कल्पना नासली. सरळ तिका ते विशीं विचारपाचें धाडस जायनासलें. हांव तिका टाळटालों आनी हांवें पळयलें, ती आपूण जावन म्हजेसरी चुकून येताली. जेवणाच्या मेजार वा भायल्या सालांत बशिल्ल्या वेळार तिची म्हजी भेट जाताली तितलीच. घरांत हेर लोक आशिल्ले. धनराज केन्ना मोसांबिकेक जाल्यार केन्ना मुंबय यो-वच करतालो.''

''कितलीं वर्सां तूं धनराजागेर उरलो?''

''१९५७-५८ वर्सामेरेन हांव मुंबय उरलों आनी मुंबय आसतना हांव तागेरच रावलों. मधीं एक खेपे धनराज मुंवय आयिल्लो तेन्ना ताणें म्हाका सरळ सुचयिल्लें. आपलें आनी म्हज्या बाबालें उलोवणें जालां. चड शिकून कितें करचें पडलां? आपल्या

धंद्यांत हांवें लक्ष घालचें अशे तरेची ती सूचक भास आसली.''

''तुंवे मुंबय सोडचे आदीं लग्नाविशीं कांयच थारायलें ना?''

''एक गजाल सांगपाची उरली. हांव मुंबय येवचे आदींच म्हजो बापूय भायर पडलो. पूण धनराज ताका दिल्लें उतर पाळूंक सोदतालो. खरें सांगतलो म्हळ्यार म्हज्या मनाची तयारी जायनासली. गुजराती वातावरणांत मन रमना आसलें. १९५६ वर्सा गोंयची नाकेबंदी जाली आनी म्हाका घरच्यान आवयलो रकाद आयलो. हांवें निमाण्या वर्साची परीक्षा दिल्ली. हांव गोंयांत गेलों. त्या वेळार धनराज मुंबय नासलो. बोरीबंदर स्टेशनाचेर म्हाका पावोवंक बेला आयली. थंय पयलेच खेपे तिणें म्हजे दोनय हात आपल्या हातांत घेतलें आनी म्हळें, ''तूं परत केन्ना येतलो?''

हिरून तिका सांगलें, ''पळोवया....''

त्या उतराक तिणें म्हळें, ''तुका जाय तेन्ना यो. हें घर तुजेंच. पूण म्हजेर एक उपकार कर. म्हजो बापूय म्हर्जे तुजेकडेन लग्न करूंक सोदता. तुंवें ते विशीं कितें येवजिलां?''

हिरू गोंदळ्ळो. तोडून घेतल्यार तिचें मन दुखावतलें अशें येवजून ताणें म्हळें, ''म्हाका कोणे सांगूंकच ना. तरी हांव आईकडेन उलयतां.''

''तशें जाल्यार म्हजेर एक उपकार कर.'' बेलान म्हळें, ''म्हजें एका मित्राचेर प्रेम आसा. तोय गुजराती. तुका मेळचे आदींच आमची वळख आसली. तुंवें म्हजेकडेन लग्न करूंक न्हयकार दिलो जाल्यार....''

हिरून तिगेले दोनूय हात थापटिले आनी म्हळें, ''तुजें लग्न तुज्या मनासारकें जावचें हीच म्हजी इत्सा आसतली.''

''ते उपरांत तिचें लग्न जालें?'' हांवें विचारलें.

''हांव गोंयांत गेलों तो गोंय स्वतंत्र जायसर परत मुंबय पावलोंच ना. पत्रवेव्हारय नासलो. बाबा गेल्ल्याक धनराजाकडचो संपर्क तुटिल्लो. आमच्या घरांत तर सगली उलथापालथ जाली. वांटे जाले आनी म्हज्या वांट्याक पणजेचें घर तितलें आयलें. जी शेतां आशिल्लीं तीं कुळांक गेलीं आनी नोकरी केलेबगर धडगत ना अशी परिस्थिती जाली तेन्ना हांव मुंबय आयलो. धनराजागेर उरलो. पूण तेन्ना बेला नासली. घरांत आशिल्ल्यांनी म्हाका रावंक दिलें, पूण 'ही पींडा गेल्यार बरी' अशी वागणूक दिली.''

''बेला नाशिल्ली म्हळ्यार खंय गेल्ली?'' हांवें विचारलें.

''हांवें वासपूस केली. पूण कोणें सारकी जाप दिली ना. तिचें लग्न जालां आनी ती घोवाबरोबर दुसऱ्या शारांत रावंक गेल्या हें कळ्ळें. पूण ल्हवू ल्हवू अशेंय कळ्ळें की घरच्यांचो लग्नाक विरोध आशिल्लो.''

''ती लग्न जाली अशें कळटकच तुज्या मनाची प्रतिक्रिया कितें जाली?''

''खऱ्यांनीच बरें दिसलें. तिचेविशीं म्हज्या मनांतली भावना भावाची भयणीविशीं आसता तशी आसली. आजय आसा.''

''खुबसो उलगडो केलो तुवें.'' हांवे हिरूंक म्हळें. ''पूण आतां सांग. तूं लग्न

जायनासतना रावपाचें एक कारण बेला न्हय मूं?"

"प्रत्यक्ष कारण बेला न्हय. अप्रत्यक्ष आसूं येता. लग्नाचो विचार करता आसतनाच नोकरी गेली. ते आदीं आई गेली. अशीं विघ्नां येत रावलीं आनी लग्न उरलें."

"पूण नोकरी वचपाक बेला कारण जाली अशें तूं म्हणटालो न्हय?"

"हय. ज्या भ्रश्ट अधिकाऱ्याचेर आमी छापो घालो त्या भ्रष्ट अधिकाऱ्यान म्हाका लांच दिवपाचो यत्न केलो. पूण हांव आयकना हें पळोवन ताणें कितें करचें? सांजच्या वेळार हॉटेलांत आपले बायलेक धाडली. हांव हॉटेलांत उतरिल्लों. खासा धाड घालुंकच मुंबयच्यान त्या शारांत गेल्लों."

"ती बायल बेला काय कितें?"

"हय. ती बेला. तिणें पोरणी वळख सांगली. आपलो पदर म्हज्या पांयाकडेन पातळायलो आनी म्हळें, "म्हाका भीक घाल...." सिनेमाचे पध्दतींतलो तो प्रसंग आसलो. म्हजें काळीज विरघळ्ळें ना. निमाणें तिणें म्हजेर आरोप केलो. आपूण म्हजेकडेन लग्न जालिना देखून हांवें सूड घेतला अशें तिणें म्हळें. तेन्ना रागाच्या भरांत तिच्या पोल्यार हांवें थापट मारलें."

"ह्या थापटाखातीर तुका बडतर्फ केलो?"

"ना. पोलो पोशेत, रडत बेला गेली आनी हांवूय बदल्लो.रातीकडेन हांव तागेर गेलों. हांवे तिगेल्या घोवाक सांगलें, तुका बेडी घालून पोलीस कोठडींत व्हरपाचो अधिकार म्हाका आसा. पूण तू बेलाचो घोव म्हूण तुका सोडटां.... कोर्टान ताका निर्दोश सोडलो. पूण पोलीस अधिकारी म्हूण म्हजेर ठपको दवरलो."

"तुवें पळवाट कसली दाखयली?" हांवें विचारलें.

"थोडेंशें धन आनी भांगर जप्त जाल्लें. हांवें बेलाक सांगलें, तें आपलें अशें तूं कोर्टाक सांग."

"तिका तें माफ जालें?"

"माफ जालेंना. टॅक्स भरचो पडलो. पूण तिका जेन्ना वकिलान विचारलें, हें धन तुवें कशें जोडलें, तेन्ना तिणें सांगलें, "हांव एक सुंदर बायल हें तूं कशें विसरता?"

सांजवेळ देंवताली. हिरूक ताकीत नासली. हांवे ताका विचारलें, "इतलेच खातीर तूं असो फकीर जावन भोंवता?"

"हांव थारावन फकीर जावंक ना. पूण आतां कांय म्हाका कोंब फुटचेनात. ल्हानपणांतल्या इश्टाचे रीण माथ्यार उरतलें."

"तें विसर तूं." अशें म्हणून हांवें ताका थोडे पयशे दिवंक काडले. पूण हिरून ते घेतलेनात.

●●

# मीरा

अहालाबाद स्टेशनाचेर गाडी फांतोडेर पावली. म्हाका खंय वचपाचें आसा तें हांव जाणा आसलों. तरीपूण स्टेशनाचेर देवतकच पिंडाभोंवतणी कावळे जमचे तशे रिक्षावाले म्हजे भोंवतणी जमले. हांवें धरिल्लें त्रिवेणी संगमाचेर माघ मेळा चालू आशिल्ल्यान स्टेशनाचेर पंड्याचे तावडीतल्यान सोडवणूक करून घेवपाचें दिव्य म्हाका करून घेवचें पडटलें. पूण जेन्ना रिक्षावाल्यांनी म्हाका घेरलो तेन्ना कितें करचे तेंच समजलेंना.

अलाहाबाद शार रेल्वे लायनीच्या दोशीं विस्तारलां. स्टेशनावयलो रेल्वे पूल चडून वतकच आपली दिशा घेतली ना जाल्यार फुडलें गणित चुकता. म्हज्या हातांत एक बॅग आसलें आनी म्हाका सिवील लायनचे दिशेन वचपाचें आसलें. सिवील लायन खंयचे दिशेन तें म्हज्या लक्षात नासलें; पूण प्रयागाक वतलो रस्तो, तेच वाटेन वता हें हांव जाणा आसलो.

अलाहाबादाक अजून सायकल रिक्षा चलतात. चडावत सायकल रिक्षावाले आसले. हांवें म्हळें, 'म्हाका ऑटोरिक्षा जाय.''

तेसरशी एका ऑटोरिक्षावाल्यान म्हज्या हातांतले बॅग झोमून घेतलें आनी तुरतुरीत पूल चडूंक लागलो. बाकीच्या रिक्शावाल्यांनी म्हाका समजावपाचो यत्न केलो की ऑटोरिक्शावाले प्रवाशाक फटयतात. ते चौपट-पांचपट भाडें मागतात ते परस सायकलरिक्शा सवाय. म्हाका तांचें उलोवण्यापरसय म्हज्या बॅगाचो हुस्को आसलो. रिक्शावाल्याचे गतीन चलप म्हाका शक्य नासलें म्हूण धांवचें पडलें. बॅग घेवन तो पसार जायत ही भिरांत आसली.

पूल चडून परत देंवसर रिक्शावालो बरोच फुडें पावल्लो. स्टेशनाभायर स्टॅंडार एक मारुती व्हॅन आनी एकच ऑटोरिक्शा. बाकीच्यो सायकलरिक्शा.

हांव त्या ऑटो रिक्शासरी गेलों. म्हजें बॅग फाटल्यान आसा तें पळोवन म्हज्या जीवांत जीव आयलो.

आदीं हांवें रिक्शांत बसून घेवन उप्रांत हॉटेलाचें नांव सांगून विचाल्लें, 'कितलें भाडें घेतलो?'

'संगमाचेर वचना?' ताणे म्हळे 'माघ मेळा चलता. लाखांनी लोक संगमांत न्हातात.'

''जाणा हांव. पूण म्हाका हॉटेलांत वचूंक जाय. कितले पैशे घेतलो सांग.''

हॉटेल लागींच आसा म्हणपाचो अदमास आसलो. ताणेय लिपयलें ना म्हळें. ''आमचें

गणित वरांच्या हिशेबान आसता. वराक तीस रुपया. पूण एक खेपे रिक्शा भाड्यान घेतकच उणेच चार वरांचे भाडे दिवचें पडटा.''

हांव सडसडीत रिक्शातलो देंवलो आनी म्हळें, 'तुजी रिक्शा म्हाका परवडचीना. हांव सायकलरिक्शा घेवनच वतां.'

म्हऱ्यांन आशिल्लो सायकल रिक्शावालो ४ रुपयांभितर हॉटेलांत पावोवंक तयार जालो. पूण ऑटोरिक्शावालो झगडूंक लागलो. ताजे म्हणणे हांवे एक खेपे रिक्शा थारायल्या. आता १२० रु. दिलेबगर सुटका ना. आमचो वाद चलतालो इतले म्हणसर मारूती व्हॅनीचो मालक थंय पावलो. ताणे मदीं तोंड घालें आनी कितें जालें तें म्हजेकडल्यान समजून घेतलें.

म्हजें म्हणणें आयकून ताणे ऑटो रिक्शावाल्याचेर धंगसो घालून म्हाका आपले गाडयेंत बसोवन हॉटेलांत पावयलो.

हॉटेलांत पावतकच हांवें ताजे उपकार मानले आनी म्हजे सांगातान च्या घेवपाचें आमंत्रण दिलें. ताणे घडयाळ पळोवन म्हळें 'हय एक च्या घेवं येता.'

च्या घेतना ताजी म्हजी वळख जाली आनी हांव गोंयचो हे समजनाफुडें तो एकदम कोंकणीतल्यान उलयलो.

'तूं गोंयचो?' हांवें ताका विचाल्लें.

'न्हय. म्हजो गांव हांगाच. मदी थोडी वर्सा हांव गोंयांत कामाक आसतालों.'

च्या घेतां घेतां ताणे सांगलें. ताजी वायल दिल्लीकसावन येवपाची आसली. तिका व्हरूंक म्हणून तो स्टेशनाचेर आयिल्लो. ती आयली ना.

''गाडी चुकली?'' हांवें विचाल्लें.

''चुकपाचे कारण ना.राती ८ वरांचेर तिणेच फोन केल्लो तेन्ना ती स्टेशनाचेर वचूंक भायर सरताली. पूण तिजें चित्र काडूंक नज. स्टेशनात येतकच विचार बदल्ला आसूं येता.''

च्या घेतलेउप्रांत ताणे म्हजो निरोप घेतलो आनी हांव म्हजे कुडींत आयलों. म्हजेकडेन पुराय दीस मेकळो आसलो. सकाळच्या साडे सात वरांचो वेळ आसूनय भायलो उजवाड अंधूक आनी वत अजून येवंक नासलें. सवकासाय भायर सरून त्रिवेणी संगमाचेर वचपाचें हांवें थारायलें आनी आंगावेले कपडे काडटासर कोणे तरी दारार माल्लें.

दार उक्तें करून पळय जाल्यार दारांत तो मारूती व्हॅनवालो उबो.

''हांव मेकळो आसां. तुका संगमाचेर व्हरून हाडूंक शकतां.'' ताणे म्हळें.

हांवे ताका कुडींत बसोवन घेतलो. येदो वेळ ताजें नांव विचारूंक नासलें. तें विचारून घेतलें.

सतीशकुमार दोभाल हे ताजें नांव. मायनिंग इंजीनियर. सुमार ४० वर्साचो. आनी स फूट लांबायेचो. आंगात बंद गळ्याचो आनी लांब हातांचो स्वेटर ताणे घाल्लो आनी बोटाक चकचकीत खड्याची मोट्ठी मुदी आसली.

''तुजी बायल केन्ना येतली? हांवें विचाल्लें.

"आता तिची कसलोच भरवंसो ना. पावता तेन्ना खरी. पूण आज ती येवची ना... म्हाका दुबाव आसा. ती राजस्थानांत गेल्ली आसूंक जाय. तिजें अशेंच आसता. एक खेप चलयंक शाळेत पावोवंक गेली आनी दोन दिसांउप्रांत काशीच्यान तिणे म्हाका फोन केलो. मनात मारता तेन्ना वता आनी अचकीत परत येता."

"करता किते ती?" हांवें विचारलें.

'तू म्हण्टा त्या अर्थान कांय करिना. भक्तीगीतां गायता आनी भक्तीसंगीत आयकता. तिजे तकलेंत एक पिशें भरलां.... आपूण संत मीराची अवतार अशें ती मानता. आनी तितलेच खातीर म्हज्या मनांत कृष्णाविशीं इल्लीय भक्ती उरूंक ना?' मात्सो सद्‌गर्तीत जावन सतीशकुमार उलयलो.

"तुमची चली?" हांवें विचाल्लें.

"तुका कशें कळ्ळें? ताणें अजापान परतो प्रश्न केलो.

"तुवेंच सांगिल्लें न्हय शाळेंत पावोवंक गेल्ली ती वायल काशीक पावली म्हूण. नांव किते तिजें?"

"तिजे नांवय मीरा. आवय- बापायन दवरिल्लें नांव. हांवें बदल्लेंना."

ह्या विशयाचेर पयलेच भेटेंत चड विचाल्लें जाल्यार ताका मनःस्ताप जातलो अशें येवजून हांवें म्हळें, "तू दिल्लीक फोन करुन वासपूस कर. तू मेकळो आसल्यार ह्या पर्की शारांत म्हाका तुजो सांगात जायच."

"अर्दवरान येवं?" सतीशकुमारान विचाल्लें आनी तो उठलो.

"तार्कीत ना. केन्नाय आयल्यार जाता. हांव हांगाच रावतां." हांवें म्हळें.

एक वराउप्रांत तो आयलो. दीस वयर चडलो तशें अलाहाबाद शारांतलें शीं उणें जायत गेल्लें. ताज्या आंगात स्वेटर नासलो. पॅन्ट आनी बुशर्ट.

तागेलें गाडयेंत बसून आमी संगमाचे दिशेन वचूंक लागलें.

"हांगा पळोवपासारकें किते आसा?" हांवें विचारलें.

"व्हडलें कांय ना. आनंद भवन, हायकोर्ट, विद्यापीठ आनी २-४ देवळां... आतां ह्या शाराची आदली व्हडवीक उरूंक ना. हांगा येतात ते भोंवडेकार चड करून प्रयागाक वचूंक येतात आनी तांचेमदीं ८०-९०% भोंवडेकार हे यात्रीक आसतात. तूं कित्याक म्हूण आयला?"

"प्रयागाक थोडें काम आसा. अर्दवराचें. उप्रांत संगम पळोवपाचो. हेर गजालींची म्हाका व्हडलीशी आस्था ना."

"आजच परततलो?" ताणे विचाल्लें.

"ना. फाल्यां वतलों."

"तशें जाल्यार बरें जालें." सतीशान म्हळें, "ह्या येद्या व्हडल्या शारांत हांच एकोडो. दोन दीस तुजो सांगात मेळटलो."

"तू आता नोकरी करिना? हांवें विचाल्लें.

"करतां. आमचें घर अलाहाबादाक. आमची चली कलकत्याक कॉलेजांत शिकता.

हॉस्टेलांत रावता आनी हांव ओरिसांतले एके खाणीचेर काम करतां. रजा घेवन २ दिसांआदी घरां आयिल्लों. पूण घराकडेन बायल नासली. राती तिणे आपूण जावन दिल्लीच्यान फोन केल्लो.''

प्रयागा लागी पावले तशी रस्त्यावयली गर्दी वाडली आनी यमुना हुपून आमी गाडी सकल देवयली तेन्ना रस्त्याच्या दोर्शी उबारिल्ल्या हजारानी तंबूचें दर्शन घडलें. माघ मेळाखातीर लाखांनी लोक ह्या तंबूनी रावता.

''खरो म्हळयार हो रस्तो न्हय. हे सगळे रेंवट. पावसांत न्हंयचे उदक हे उजवे वटेन आशिल्ल्या किल्ल्याचे वण्टीक तेंकता. आता पळय सरकारान माघ मेळापुरते लोखंडी पत्रे दाळून रस्तो केला. गाडयो मुंगरच्यो न्हय हेखातीर पत्रे घाल्यात.''

सतीशकुमारान गाडी सरळ न्हयचे देगेमेरेन व्हेली आनी कुशीक उबी करून म्हळें, ''आदीं आमी संगम पळोवन येवंया उप्रांत तुजें काम करूया.''

यमुनेचे देगेर शेंकड्यांनी व्हडीं. सतीशकुमारान एक व्हडें भाड्यान केलें आनी आमी दोगय त्या व्हड्यान संगमाचे दिशेन वचूंक लागले.

यमुनेचे पात्र खुबच विशाळ आनी खोल. शेंकड्यांनी व्हडीं यात्रेकरूंक संगमामेरेन व्हरतालीं - हाडटालीं.

''हे यमुनेचे उदक पळय काळे. मुखार संगमाकडेन गंगेचे पात्र दिश्टी पडटलें.''

''आनी सरस्वती?''

''खरें फट हांव नकळ. ती आसा अशें म्हण्टात पूण दिसना... म्हजे बायलेभाशेन.''

ताणे जावन बायलेचो उगडास काडला जाल्यार तेंच निमित्त करून हांवे ताका तिजेविशीं विचाल्लें.

''तशी ती हुशार आनी सुंदर. कोणेतरी सोयरीक हाडली आनी हांवें तिका पसंत केली. पयले दिसासावन ती विक्षिप्त दिसताली. सकाळ, सांज कृष्णाची पूजा करून भजनां गाताली. पूण हरशीं नॉर्मल आसली. चली जाली आनी उप्रांत एक दीस तिका पिश्याचो झटको आयलो.कोणाक वळखना जाली. म्हजेकडेन परक्यासारकी वागूंक लागली. कितेंय सांगलें जाल्यार तूं कोण अशें म्हाका विचारताली. तुजो घोव अशें सांगलें तेन्ना एकदम खुबळ्ळी आनी म्हळें, 'परत असली भास उलोवं नाका. म्हजो घोव कृष्ण!....' आता तूं सांग हांवे कितें करपाचें?''

धव्या सवण्यांचे एक भीरे आमच्या व्हड्याभोवतणी जमलें. व्हडेकारान आमकां म्हळें, ''खावपाची वस्त आसल्यार तांकां घालात.''

आमचेकडेन कांय नासलें.

व्हडें संगमालागीं पावले आनी आमची तोंडां बंद जालीं. यमुनेचें पात्र गंगेच्या पात्रांत एकरूप जाता (आनी गुप्त सरस्वती त्या दोनय न्हंयांक येवन मेळटा.) त्या संगमाचेर व्हडेकारांची गर्दी! कोण अस्थिविसर्जन करता, कोण तिर्थाची पुजा करता. भाविक मात्सो सादो भोळो मेळ्ळो जाल्यार पंडे लोक ताका कशे लुट्टात हे आमच्या व्हड्यांत बशिल्ले-कडल्यानच हांवें पळयलें.

अचकीत एक व्हडे आमच्या व्हड्याक तेंकलें. त्या व्हड्यांत एक पंडो आसलो. त्रिवेणी संगमाची पूजा कर कशें ताणे म्हाका सांगलें.

हांवें ताजे हुर्जार संगमांतलें तीर्थ हातांत घेतलें आनी आचमन केलें. पंड्याक म्हळें, "म्हजी पुजा इतलीच. वेगळी करचेली ना."

ताणे तीन नाल्ल फुडें केले आनी ते न्हंयांक अर्पण करपाचें सुचयलें.

"कितले पैशे?" हांव सामकी वेवहाराची भास उलयलों.

"खोशयेन दी."

"तू धंदो करता. पैशे सांग. मागीर झगडें नाका." हांवे म्हळें.

"आनीक कसली पुजा करतलो?" पंड्यान विचाल्लें.

"कसलीच ना." तू म्हण्टा जाल्यार तीन नाल्लाचे पैशे घे आनी वच."

"हांव सांगून घेता, मंत्र म्हणटां... आनी प्रसाद दितां..." ताणे म्हळें.

"नाका. देवाक सांगून घेवंक म्हाका मध्यस्थाची गरज ना. नाल्लाचे पैशे सांग. ना जाल्यार तुजे नाल्ल व्हर."

नाल्लाचे पंदरा रुपया ताणे घेतले आनी म्हळें, "पांचशें रुपया भीतर तुजें काम करतां."

हांवे आमच्या व्हडेकाराक व्हडें फुडें व्हरूंक सांगलें. पूण तोय त्या पंड्यालो हस्तक. म्हाका उपदेश करूंक लागलो. हांवें नाल्ल संगमांत सोडले आनी आमचें व्हडें परत यमुनेच्या पात्रांत घुंवतासर सतीशकुमार मोन्यानी बशिल्लो.

यमुना न्हंयचे कडेन कृष्णाच्यो आख्यायिका बांदिल्ल्यो आसात. पूण कृष्णाचें नांव घेतल्यार सतीशकुमाराक रुचचें ना इतलें म्हाका समजतालें.

हांवें म्हळें, "तुजो म्हाका सांगात मेळ्ळो. हांव एकलोच आशिल्लों जाल्यार घडये व्हड्याम संगमामेरेन वचपाचोच न्हय.

"हांव म्हज्या गांवघरा आसूनय एकोडोच आसां. तुजोय म्हाका सांगात मेळ्ळो देखून वेळ बरो गेल्लो." ताणे म्हळें.

परतीच्या प्रवासांत तागेले बायलेचो विशय हांव काडूंक सोदीना आसलो. पूण ताणे आपूण जावन म्हळें, "यमुना न्हंय पळयतकच म्हजी बायल भुरग्यांभाशेन नाचता. कित्याक जाणा... तिका कृष्णाची याद येता."

परत सतीश कुमार सद्‌गदीत जालो. ताजे दुःख्ख म्हाका समजल्लें. पूण पुराय खबर हांव नकळ आसलों. हांवे म्हळें. "तुजे बायलेक तिज्या कुळारचे लोक कांय सांगीनात?"

"म्हजेपरस तांकां चड खेद. ते लोक खूबच भावार्थी. तू संत मीरेची खबर जाणा न्हय? म्हगेले मीरेची तशीच गत जाल्या. ती ह्या संवसाराभायर पावल्या. पावलां कणकणी तिका कृष्णाची बांसरी आयकूंक येता आनी कृष्ण लागीं आयिल्ल्याचो भास जाता... सपन पडिल्लें जाल्यार गजाल वेगळी आसली. चलता भोवतना अशें घडटा."

"घरांत ती एकलीच उरता?" हांवें विचाल्लें.

"ती एका जाग्यार खंय उरता? तिका कुळारची थोडी येणावळ येता. चुकून

ओरिसाक म्हजेसरीं येता. पूण सांगातान चडशी रावच ना. हेर वेळार भोंवत आसता. हरशीं सामकी नॉर्मल. पूण जेन्ना कृष्णाची याद येता तेन्ना ती पिशी जाता.''

''डॉक्टरी उपाय...?''

''हांवे प्रयत्न केलो. ती कबूल जायना. तिच्या बापायक सांगून पळयलें. ताकाय आयकना. एक दीस तिगेल्या बापायन म्हाका कितें सांगलें जाणा तू. ताणे म्हळें, मीराकडेन लग्न जावन तू त्रासांत पडला हें आमी जाणात. शिकिल्ली संवरिल्ली बुदवंत आनी रुपेस्त अशी ही चली. लग्न जातकच सुदारतली अशें आमकां दिशिल्लें. पूण सुदारचे बदला तिजें पिशें वाडलां... तुज्या संवसाराची वाट लागता.ल्हान चलयेची दुर्दशा जाता. तूं तिका सोड आनी म्हजे दुसरे चलयेकडेन लग्न जा.''

म्हज्या मनांत जी प्रतिक्रिया उदेली ती कशी उक्तावची तें म्हाका समजलें ना. हांवें म्हळें, ''सादेपणान उलोवन गेलो जातलो तो.ना जाल्यार आपले धुवेक सोड असो खंयचो बापूय जांवयाक सांगतलो?''

''ताजो अर्थ म्हाका समजलो. मीराक सोडपाचो प्रस्नच ना. तिणे म्हाका सोडला. एक चली आसा तितलीच आमच्या लग्नाची आनी मोगाची निशाणी. आतां आमचें नातें कितें हें हांव तुका कशें सांगू....? पूण एक गजाल सांगतां...''

सतीशकुमारान दोनय हातांचो पोसो न्हंयच्या पात्रांत बुडयलो आनी उदक हातांत घेवन म्हळें, ''म्हजो मीराचेर खूब मोग आसा. म्हाका ती खूब आवडटा. तिचे पसून वेगळावपाची कल्पना लेगीत म्हज्यान सोंसूंक जावची ना.''

पोशांतलें अर्दे उदक गळून गेल्लें. उरिल्ले तोंडार मारून ताणे म्हळें, 'म्हज्या जिवीतांत आयिल्ली ती पयली आनी निमाणी बायल. तिका जर कृष्ण भक्तीत सुख मेळटा जाल्यार हांव तिच्या सुखाआड येवंक सोदिना... तरीकय हांव मर्दी मर्दी तिका मेळूंक येतां.''

''तुमी मेळटात तेन्ना संवसाराच्यो गजाली करिनात?'' हांवे विचाल्लें.

''करतात. ती सामकी नॉर्मल आसता. आमी व्हिडियोचेर सिनेमा पळयतात, शॉपींग करतात, हॉटेलांत जेवंक वतात. चलयेच्या फुडाराचीं चित्रां रंगयतात. अचकीत तिका झीट येता आनी झिटीफाटल्यान विरक्ती. ती विरक्ती येता त्या वेळार ती पुराय बदलता.''

म्हाका सतीश कुमाराची काकुळट दिसली. देवान ताका सगलें दिलें. अशें आसूनय तो फटवला. बायल आसा. पूण बायलेचें सुख ना. चली आसा. धन दौलत मान सगळें आसा. पूण भोगपाचें नशीब ना.

विशय बदलपाचें येवजून हांवें ताका म्हळें, तूं गोंयांत पावल्यार कितलीं वर्सां जाली? गोंय सोडल्या उपरांत गेल्लो कांय ना?''

एकदम ताजे तोंडावयले भाव बदल्ले.

''गेल्लों. गेल्लों'' ताणे म्हळें, ''तुका अजाप दिसतलें पूण लग्ना उपरांत मीराक घेवन हांव हनीमुनाक गोंयात गेल्लों. तेन्ना ती सामकी नॉर्मल आसली. हॉटेलाच्या रुमांत

कृष्णाची पुजा बी केली. पूण आमचे दीस वरे गेले. तिणे तेन्ना म्हाका सुचयले लेगीत की आमी गोंयांत दर्या देगेर एक बंगलो बांदचो...''

''तुका दिसना वैजकी उपचार केले जाल्यार ती सुदारतली?'' हांवें विचाल्लें.

''सुदारूं येता. कोण सांगतलो? पूण ती तयार जायना. तिका फटोवन डॉक्टगरसरीं व्हेल्यार इतली नॉर्मल वागता कि डॉक्टराक दिसता कीं म्हजीच तकली जाग्यार ना.''

''तुवें लग्ना आदीं तिजी सारकी वासपूस करूंक नाशिल्ली? म्हजो प्रस्न.

''वासपूस म्हणून कितें करतलो? लग्ना आदी ती बरी आसली. ती कोणाकय अशें सांगताली की आपूण संत मीराचो अवतार. पूण तें पिशें अशें कोणे मानलें ना. घरांत कृष्णाचीं भजनां म्हणटाली आनी तिजी लक्कुवाय जाताली. शाळा कॉलेजांत नॉर्मल वागली...''

व्हडें देगेक लागलें आनी आमी सकल देंवन परत मारूती व्हॅनीत बसले. म्हाका ज्या जाग्यार वचपाचे आसलें थंय मेरेन सतीशकुमारानच पावयलो. म्हजें काम सोंपसर तो रावलो आनी उपरांत आपल्या घराकडेन घेवन गेलो.

सतीश कुमारालें घर पळयतकच म्हाका घोंटेराचो उगडास जालो. व्हडले पोरसूं तरेकवार झाडांनी गच्च भरिल्लें आनी ताजेमदी बैठें नळ्यांचें ल्हानशें घर.ताणे पोर्चात गाडी उबी करतकच हांव सकल देंवलों.

पोरसांतल्यान एक पासय मारपाचें मनांत आयिल्लें. पूण आदीं घर पळोवचें अशें येवजिलें. ल्हानशें साल. वण्टीचेर कृष्णाची प्रतिमा. पूण परंपरांगत चित्र न्हय. थोडेंशे मॉडर्न. त्याभायर तीन कुडी. फाटले वटेन उकतो जागो.

सालांत एका कोनशाक टेलीफोन आनी दुसऱ्या कोनशाक टेलीव्हीजन. बसूंक सोफा नासलो. एक दिवाण आनी जमनीर सुंदर कालीन.

''फोन करतलो जाल्यार करूं येता.'' सतीशकुमारान म्हाका सांगलें आनी त्याच खिणाक फोनाची बेल वाजली.

ताणे रिसिव्हर उखल्लो आनी आवाज आयकून म्हळें, ''मीरा तूं...?''

हांव उठून भायले वटेन गेलो. घोव आनी बायलेच्या संवादांत आडखळ हाडिल्ली म्हाका नाका आसली.

हांव भायले वटेन पोरसांत गेलों आनी सुमार वीस मिनटांनी खुशालभरीत सतीश भायर आयलो.

फोनावयलें उलोवणे सोपोवन सतीशकुमार जेन्ना पोरसांत आयले तेन्ना तो म्हाका वेगळोच दिसलो. नव्यान्नच मोगांत पडिल्ल्या तरनाट्यान मुरगूटचो तसो तो मुरगुट्टालो.

''मीरा फाल्यां सकाळीं येता'' ताणे म्हाका सांगलें. ''काल तिका गाडी चुकली. वेळार भायर सल्ली पूण वाटेत टॅक्सी बंद पडली. देखून उल्ली.''

''रातींच फोन केल्लो जाल्यार तुका हुस्को उरपाचो न्हय'' हांवें म्हळें.

''हय. पूण तिजो गुन्यांव ना. रातीं फोन लागलो ना आनी सकाळच्यान हांव भायर उल्लों... कशेंय आसना फाल्यां तुवें आमगेर जेवणाक येवंक जाय.''

''इतल्या दिसा उपरांत तुमी मेळटलीं. म्हाका आनी कित्याक आपयता?''

''मीरा बरी रांदता. तिका रांदूंक आवडटा. त्याभायर एका निमित्यान तुजी तिजी भेट जातली.''

दनपारां सतीश म्हाका व्हरूंक आयलो तेन्ना ताणे म्हळें, ''तूं बायलेक म्हजी भावना कळय. घडये तिजेर परिणाम जावंये.''

''म्हजी वळख देख कांय ना. एकदम हांव तुमच्या संबंदाविशीं कसो उलयतलो? तुवें म्हाका सांगून हांव उलयतां असो तिका दुवाव आयलो जाल्यार तिका राग येवपाची शक्यताय चड आसा.''

''तिका राग येवं वा येवं नाका. वेगळे कांय जावपाचे ना. तूं तिज्या मनाचो कल समजून घेवन उलय. विपरीत परिणाम जालो जाल्यार हांव तुका दुशण दिवचों ना.'' सतीशान सांगलें.

गाडी पोर्चात उबी करतना सतीशान हॉर्न वाजयलो आनी तागेली बायल येवकार दिवंक भायर आयली. मोटारींतल्यान देंवता देंवतां हांसत्या तोडावळ्याचे ते सुंदरीचेर म्हजी नदर गेली आनी हांव तिका पळयत रावलों. तिणे हात जोडून केल्ल्या नमस्काराक प्रतिसाद दिवपाचें भान लेगीत म्हाका उरलें ना.

दारांत एक सुंदर बायल. धवींफुल्ल साडी न्हेशिल्ली. खंयच्याय घरची घरकान्न दिसची तशीच ती म्हाका दिसली.

सालांत आमी बसले आनी ती सरबत घेवन आयली.

''आमच्या पोरसांतल्या लिंबांचें हें सरबत.'' सतीशान म्हळें.

''हय. हांव आसतां तेन्ना ह्या फळांची वासपूस करतां, ना जाल्यार तीं झाडार पिकून झडून वतात.'' हांसून मीरान म्हळें.

''तितलेंच न्हय.घरांत जेन्ना मीरा आसता तेन्ना घराक घरपण येता. हांव चडसो नासतांच. पूण जेन्ना हांगाची वस्त थंय पावता वा धुल्ल, कोयर वाडटा तेन्ना घरांत मीरा ना म्हणून वळखुचें.''

''परक्यामुखार अशी चड तोखणाय करूं नाका.'' तिणे घोवाक म्हळें, ''आनी तुमी जेवणाच्या मेजार आयल्यार जाता. जेवण तयार आसा.''

जेवण सादें, पूण रुचीक आसलें.

''दोन दीस जाले, हांव खानावळींत जेवतां. आनी ओरिसाक तर म्हाका खानावळीचेंच जेवण जेवचें पडटा'' सतीशान म्हळें.

''तुका जाय म्हणून तूं ते हाल करून घेता.'' मीरान घोवाक म्हळें, ''तुका नोकरी सोडूंक हांवें कितले खेपे सांगलें. पूण तूं म्हजें आयकना. हांव हांगा, तू थंय ओरिसांत आनी चली कलकत्त्याक... कसलो आमचो संवसार पळय.''

''तूं तरी हांगा खंय उरता? तूंय भोंवत आसता.'' सतीशान म्हळें.

नापसंतीची पयली रेग मीराच्या तोंडार उदेली. हातांतलो दवलो तिणे ल्हवूच तोपाचेर वाजयलो आनी म्हळें, ''हांव हांगा एकटी कशी रावतली? देखून म्हजें मन शांत दवरूंक

हांव भोंवतां."

दुबावाचे नदरेन हांव ते बायलेकडन पळयतालों. पूण तिजें वागप उलोवप म्हाका तरी नॉर्मल दिसतालें. आतां घोवा-बायलेमर्दी वाद जावचो न्हय अशें येवजून हांवें म्हळें, "कालच्यान सतीश तुजो उगडास काडीत आसा."

"तिजो उगडास हांव सदांच काडटां. अखंड ध्यान करतां म्हळ्यार जाता. पूण कालच्यान हांव हुस्को करतालों. म्हाका दिशिल्लें ती राजस्थानांत पावली म्हणून."

तागेले जापेतली खोंच मीराक झोंबली आसूंये. तिणे तोंडावयली तीडक लिपयली ना आनी म्हळें, "हें पळय, म्हजे खाजगी जिणेंत तुजी दखलगिरी म्हाका सोसची ना..."

वातावरण एकदम गंभीर जालें आनी मीरा उठून भीतर गेली.

"पळयलें तुवें? अशें घडटा." सतीशान ल्हवू आवाजांत म्हाका म्हळें.

"तुवेंच तिका मात्शी सांबाळून घेवंक जाय. तिज्या वर्माचेर बोट दवरून कितें मेळटलें?"

आमी जेवन उठले तरी मीरा भायर आयली ना. पूण हात धूवन आयलों तेन्ना ती हातांत तुवालो घेवन मुखार आयली.

"तूं अजून जेवंक ना." हांवें म्हळें.

"म्हाका वाडूंक आवडटा आनी हांवें रांदिल्ले कोणय रुचीन जेवलो जाल्यार ते पळयतना म्हजी तानभूक न्हिवता."

"खंयच्याय घरकान्नी सारकीच तूय. पूण आतां मेजार बसून जेवतना तुवें सांगातान जेवल्यार उपकारतालें."

"म्हजें अजून खंय जालां?" तिणे म्हळें, "हाजे फुडें पुजा आसा. देव जेवले बगर हांव तोंडांत अन्न कशें घेवं?"

"आमकां तशी ताकीत नासली. तुज्यान आदीं पुजा करूं येताली."

"हांव दनपारची जेवीना. सांजचें एकच जेवण घेतां." तिणे म्हळें.

सतीशाक खऱ्यांनीच काम आसलें कांय हांवें आपले बायलेकडेन उलोवंचे अशें येवजून ताणे भायर वचपाचें थारायलें तें हांव नकळ. पूण गेखडो येतां अशें सांगून तो वचूंक लागलो. तेन्ना मीरानच ताका विचाल्ले, "मात्सो रावन गेल्यार जायना?"

"वतां तो येतां. कोणाक मेळटा म्हणिल्लें. बोवाळांत विसल्लों." अशी बायलेक जाप दिवन ताणे म्हाका म्हळें, "तूं संकोच करूं नाका. मीरा आसा."

"अशेंच करता." तो वतकच मीरान म्हळें, "एका जाग्यार वरभर ताज्यान बसूं नज."

पूण तुजेर ताजो खूब मोग. खरेंच तुमचे जोडें एक आदर्श जोडें अशें म्हाका दिसता."

"तुका खबर ना. ताजे म्हजे निखालस पटना. हांव जाणा ताजो म्हजेर मोग आसा. पूण तो बाबडो फटवलो."

"कितें जालें?"

"म्हज्या ल्हानपणांतच कृष्णाकडेन लग्न जाल्लें." एकदम उलोवन मीरान नदर

शुन्यांत थिरायली. तिज्या तोंडावयले बदलते भाव नियाळटना म्हाका दिसलें तिका आतां झीट येता. म्हजेर आकांत आयलो. सतीशय घरांत ना आनी हांव सामकोच परकी.

विशय कसो बदलचो तेंय म्हाका समजना जालें. बऱ्या वेळान तिगेली समाधी तुटली आनी तिणे म्हळें, ''लोकांक हीं पिशेपणां दिसतात. हांव जाणा, लौकीक अर्थान सतीश म्हजो घोव. ताज्यांतय हांव कृष्ण सोदपाचो यत्न करता. कितें करूं? कृष्णाचो उगडास येतकच हांव आकूळपिकूळ जातां. संत मीरेचें नांव तुमी आयकलां?''

''हय.''

''कित्याक कोण जाणा म्हज्या रुपान तिणे नवो जल्म घेतला अशें म्हाका दिसता. अशा वेळार सतीशाची म्हाका काकुळट दिसता. हांवे कितें करचें तुमीच सांगात.''

''हांव परकी मनीस तुमकां सल्लो कसो दितलो? पूण ह्या संवसारांत रावतना समाजाक विसरून कशें चलत.''

''तोच विचार हांवूय करतां आनी तडजोड करतां. पूण कितें करूं म्हजें म्हाकाच समजना. केन्ना केन्नाय म्हाका सतीशाची इतली काकुळट दिसता की हांवेच घटस्फोट घेवन ताजी वाट मेकळी करची आनी म्हजे धुंदीत हांवें म्हजी जीण जगची अशें दिसत.''

''तशें केल्यार चलयेचें कशें जावपाचें?''

''ती शाणी आसा. तिजो म्हाका हुस्कोच दिसना. म्हाका हुस्को दिसता तो सतीशाचो.''

इतले उलोवन ती उठली आनी भीतर गेली.

थोडो वेळ सालांत हांव एकलोच उल्लों. भीतल्ल्यान मीरेच्या भजनाचे सूर येवंक लागले. थोडोवेळ कान दिवन ते म्हॊवाळ सूर हांवें आयकले आनी उपरांत ल्हवूच उठून भायर आयलों.

त्याच खिणाक सतीशाली गाडी गेटीच्या भीतर सल्ली. म्हाका भायर पळोवन ताणे विचाल्ले, ''मीरा कितें करता.''

''भजन.'' हांवे जाप दिली.

''तशें जाल्यार आतां हांगा रावन अर्थ ना.'' ताणे म्हळें, ''चल. तुका हॉटेलांत पावयतां.''

हांव गाडयेंत बसलों. हॉटेलांत पावसर सतीश कांय उलयलो ना. म्हजो निरोप घेतना ताणे म्हळें, ''पळयलो मूं म्हजो संवसार?सांग, हांवे कितें करपाचें?''

ताका सल्लो दिवपाचें बळ म्हज्यांत नासलें. हांवे ताजो हात ल्हवू दांबलो आनी दुसऱ्या हातान ताजी फाट थापटिली.

● ●

# कुवाडें

कथेचो विशय खुबच व्हडलो आनी पुराय कथानक एखादे कादंबरीतले घडणुकेसारकें. ताकाच लागून इतलीं वर्सां ते गजालीचो उगडास बयलेवयर जालो तरी ती बरोवन काडपाचें धाडस हांवें करूंक नासलें. आज थोडे भितर ती गजाल सांगपाचें येवजून बरोवंक बसलां.

ही गजाल एका निवृत्त जाल्ल्या डॉक्टरान म्हाका सांगिल्ली. फाकीवंत हॉस्पीटलांत सर्जन म्हणून निवृत्त जाले उपरांत लेगीत ताणे खुबशा खाजगी हॉस्पीटलांनी ऑपरेशन करून वायटकारांची वेदना - पिडा सोंपयिल्ली. ताच्या हातगुणाची सगळे तोखणाय करताले. गरीब, दुर्बळांचो असो भावार्थ आसलो की धन्वंतरीचो हात लागलो म्हण्टकच वखद घेनास्तना लेगीत आपणाक गुण पडटलो. धन्वंतरी हें ताचें खरें नांव न्हय. ताची परवानगी आशिल्ली जाल्यार ताचें खरें नांव हांव बरोवपाचों. पूण खबर सांगतकच ताणे अट घाली. 'जें जावपाचें आसलें तें जावन गेलें. निसर्गक्रमाक धरून फाटीं फुडें म्हाकाय मरण येतलें. मरचेआदीं हांवें कोणाचें तरी बिंग उक्तें केलें वा कोणाची बदनामी केली अशें घडचें न्हय. ओघाभरशीं तुका ही खबर सांगली. चार जाणांक ती कळ्ळी जाल्यार म्हाका वायट दिसपाचें कारण ना. पूण उपकार करून कोणाचेंच नांव छापूं नाका. म्हजें तर निखालस नाका.'

फाटल्या दिसांनी धन्वंतरीच्या मर्णाची एक ल्हानशी जायरात राष्ट्रीय पेपरांत वाचली आनी ताणे सांगिल्ली ती खबर परत मनांत ताजी जाली.

धन्वंतरीची आनी म्हजी वळख हालींचीच, म्हळ्यार तो निवृत्त जाले उपरांतची. म्हजे आनी ताचे पिरायेंत विशेक वर्सांचें अंतर आसतलें. म्हळ्यार तो म्हजेपरस वीस वर्सांनी जाण्टो. पूण वळख जाली आनी आमी लागींचे इश्ट जावंक पावले. जाण्टेपणांत ताणे शस्त्रक्रिया करप बंद केल्लें. हात आदलेवरी थीर उरनात देखून आपूण ऑपरेशना करिना अशें तो म्हणटालो. पूण घराकडेन वशिल्लेकडेन तरांतराचे लोक येनात. वेगवेगळ्या भागांतले, वेगवेगळ्या वर्गांतले आनी वेगवेगळे प्रकृतींचे. हे लोक डॉक्टरान इल्ली आस्था दाखयली जाल्यार आपलें काळीज ताचेमुखार उक्तें करनात. असले जायते

अणभव धन्वंतरीकडेन आसले आनी ते तो म्हाका सांगतालो.

एक खेपे एक मनीस ताच्या घरा आयलो. ताचे फाटीत आर्माचे मुनीसांव भरिल्ले. डॉक्टरान ऑपरेशन करून ते भायर काडले.आनी तो मनीस बरो जालो.

'हे मुनीसांव तुजे फाटीत कशे पावले?' डॉक्टरान ताका विचारलें.

त्या मनशान डॉक्टराचे पांय धरले आनी म्हळे, 'तुका सगळें सांगतां. पूण म्हाका वांचय.'

तो कितें म्हण्टा तें कळना जावन डॉक्टरान म्हळें, 'तुज्या जिवाक आतां भय ना. हांवें सगले मुनीसांव भायर काडल्यात.'

'मुनीसांव फाटीत उरून हांव मरचो ना म्हणपाची म्हाका खात्री आसली.' त्या मनशान म्हळें, 'म्हजें मरण मुनीसावांत ना तर मुनीसांव फाटींत कशे आयले ते घडणुकेत आसा. तुवें विचारलें देखून खरें सांगचें पडटा. तुका कसो फटोवं?'

डॉक्टराक बारीकसाण आसली. ताणे ताका उतर दिलें, 'तुजे गुर्पीत हांव कोणाक सांगचो ना. तूं मनात भंय बाळगिनास्तना म्हाका कितें घडलें तें सांग.'

आनी जेन्ना त्या मनशान घडिल्ली खबर सांगली तेन्ना डॉक्टराच्या आंगार कांटो फुलून आयलो. हो मनीस एका घरांत दरोडे घालूंक गेल्लो. सगली लूट घेवन घरांतल्यान भायर सरता अशा वेळार घरच्या घरकाराक जाग आयली. तो ह्या दरोडेखोराक धरूंक धांवलो तशी दरोडेखोरान आपल्या हातांतली सुरी ताजेर शेंवटिली. ते अवस्थेंतय त्या मनशान हातांतल्या आर्मातल्यान फार मारले. कवड्यांक मारपाचें सादें आर्म. एका फारासरशीं पांच- पंचवीस मुनिसांव दरोडेखोराचे फाटीत शिंवरले. तो तसोच पळत घरा गेलो. पंदरा दीस मेरेन ताणे सगले त्रास सोंसले.आनी जेन्ना पंद्रस उलगली तेन्ना सुमार दोनशीं मैल अंतराचेर आशिल्ल्या मुंबय शारांत वचून ताणे डॉक्टर धन्वंतरीकडच्यान उपचार घेतिल्लो.

ही खबर आयकनाफुडें डॉक्टर धन्वंतरीच्या मनांत राग आनी तिरस्काराचो कडकडो भरलो. मोठ्या प्रयासांनी ताणे आपणाक सावरून घेतलो. ताका मनांतल्या मनांत दिसतालें पोलीस रिपोर्ट करूंया. पूण तो पेशंटाक उतर दिवन बशिल्लो.

'तुवें ज्याचेर सुरी मारिल्ली तो आता खंय आसा?' डॉक्टर धन्वंतरीन आपल्या पेशंटाक विचारलें.

'तो मेलो! ती सुरी ताचो मेंदू चिरून गेली आनी थंयच तो मेलो.'

'पोलीस तुजो सोद घेतात?'

'म्हाका खबर ना. पंदरा दीस मेरेन हांव लिपून रावलों. ती केस खंय चलता हांव नकळ. देखून हांवें धाडस केलें. तुंवे म्हजो जीव वाटायलो. आतां म्हाका क्षमा कर. हांव तुका उतर दितां, जो म्हाल लुटलो तुजे सुवादीन करूंक तयार आसां. तुका जाय जाल्यार

तूं तो परत त्या घरांत पावय.'

ही खबर डॉक्टर धन्वंतरीन म्हाका एक खेपे सांगिल्ली. आनी म्हणिल्लें. 'आतां ते गजालीक खूब वर्सां जावन गेलीं. पूण म्हाका अजून दिसता ती खबर पोलीसांक कळयनास्तना रावन हांव म्हज्या कर्तव्याक चुकलो. ल्हानशी गजाल. हांवे वासपूस करूंक नाशिल्ली जाल्यार वा ताणे म्हाका फटीची गजाल सांगिल्ली जाल्यार एक बरें कार्य केल्ल्याचें समाधान मेळटलें आसलें. पूण म्हज्या वांट्याक समाधान न्हय... टोंचणी आयल्या.'

असो डॉक्टर धन्वंतरी. ओपिनियन पोला आर्दी गोंयचें वातावरण खुबच तापिल्लें.गोंय महाराष्ट्रांत वतलें काय वेगळें उरतलें असो प्रस्न देशांतच न्हय तर देशाभायर लेगीत लोकांक पडिल्लो. त्या दिसांनी आमी पणर्जेत पयले खेपे मेळिल्ले. तेन्नाच तो जाण्टे पिरायेचो. व्यासपीठावयल्यान सकयल देवनाफुडें तो म्हजेसरीं आयलो आनी ताणे म्हळें, 'म्हाका  तुजेकडेन उलोवचेलें आसा. म्हाका दोनय बाजू समजून घेवचेल्यो आसात.'

तो म्हाका घेवन एका हॉटेलांत गेलो आनी ताणे म्हाका तगंतरांचे प्रस्न विचारले. त्या प्रस्नामदीं गोंयचो इतिहास, गोंयची समाज जीण, गोंयचो राजकी फुडार, गोंयचें अर्थकारण ह्या सगळ्या विशयांवेले प्रस्न आसले. एखाद्या वायटकाराच्या दुखण्याची डॉक्टर जितले बारीकसाणेन चिकित्सा करता तितले बारीकसाणेन तो म्हाका एकेक प्रस्न विचारतालो. पूण धन्वंतरी विलीनीकरणाचो समर्थक काय विरोधक तें म्हाका कळ्ळें ना. ताणे आपली जी वळख दिली ताचेवयल्यान इतलेंच कळ्ळें की तो मुंबय शारांत आसा आनी ताचें घराणें मूळ गोंयचें.

'म्हणटकच विलीनीकरण जालें कितें आनी गोंय वेगळें उरलें कितें' तुका सारकेंच. हांवे म्हळें.

'हांव नकळ.' ताणे जाप दिली, 'हांव म्हाका गोंयकार मानतां आनी ते खातीर गोंयच्या फुडाराविशीं म्हाका आस्था आसा. कितें जाता तें बरें जावचें इतलेंच म्हजें मत. त्या दिसा निरोप घेतना, ताणे म्हाका सांगलें.

ओपिनियन पोलाच्या निकालाउपरांत खूब दिसांनी डॉक्टर धन्वंतरी एक खेपे गोंयांत आयिल्लो आनी त्या वेळार तो मुजरत म्हाका मेळून गेल्लो. त्या उपरांत जेन्ना जेन्ना तो गोंयांत आयलो वा हांव मुंबय पावलों तेन्ना तेन्ना आमची भेट जाताली आनी डॉक्टर धन्वंतरीच्या व्यक्तिमत्वाचीं खूबशीं नवीं नवीं तासां म्हजे नदरेंत भरतालीं.

डॉ. धन्वंतरीचें एक वेगळेंपण आसलें. कसलीय खबर सांगता आसतना तो तल्लीन जातालो. जेवणाक बशिल्लेवेळार उलोवंक लागलो जाल्यार जेवपाचें विसरतालो. पेशंट आयल्यार. लेगीत उठनासलो आनी खबर पूर्ण जातकच ताणे सदांच म्हणचें. 'अशी ही जीण...! एक नाटक आनी तुमी आमी ह्या नाटकांतली पात्रां. हय काय न्हंय?'

डॉ. धन्वंतरीकडच्यान आयकल्ल्यो खुबशो खबरी हांव विसरून गेलां. पूण पयर ताच्या मर्णाची जायरात वाचली आनी म्हाका ताणे सांगिल्ली ती खबर याद जाली. आज ती बरोवपाचें थारायलें.

म्हाका घट उगडास आसा, पावसाचे दीस आसले आनी रात दीस पावस पडिल्ल्यान मुंबय शारांत सकल्या वाठारांत उदक तुंबिल्लें. लोकल गाडयो बंद पडिल्यो आनी रस्त्यावेलीं वाहनां उदकांत बुडिल्लीं. सांजचो स वरांचो वेळ आनी म्हाका घरा परतुपाची ताकीत. बसीक लांबचे लांब क्यू. सगळें आंग पावसान भिजिल्लें. आनी टॅक्सी लेगीत मेळनासली. हांवें लागीं कोण आसतलो हें येवजून पळयलें. म्हाका डॉ. धन्वंतरीचो उगडास जालो. हांव ताका तागेल्या घराकडेन वचून केन्नाच मेळूंक नासलों. आमची भेट चड करून तागेल्या दवाखान्यात ना जाल्यार खंयच्याय हॉटेलांत जाताली. डॉ. धन्वंतरी दनपारचें जेवण सांगातान घेवपाचो आग्रो करतालो. कित्याक तर जेवणावेळार थंडसाणेन उलोवंक मेळटा अशें तो म्हणटालो.

हांव तकलेंत आशिल्ल्या पत्याचेर गेलों आनी दाराचेर तागेलो बोर्ड पळोवन म्हाका सू जालें. डॉ. धन्वंतरीनच दार उक्तें केलें. म्हजे कपडे भिजिल्ले. म्हजो तो अवतार पळोवन ताणे म्हाका सरळ बाथरुमाची वाट दाखयली. आंगावेले कपडे काडून ताणे दिल्ले कपडे आंगार चडोवन हांव भायर आयलों.

‘पावस केन्ना थांबत सांगूक जायना. तुजे कपडे सकाळमेरेन तयार जातले. ‘डॉ. धन्वंतरीन म्हाका म्हळें, ‘आयची रात तुका हांगाच रावचें पडटलें. तुका जाय जाल्यार फोन करून कळय.’

घरांत तो आनी तागेली बायल दोगांच. तीन कुडीचो फ्लॅट. ते भायर भायलेवटेन दवाखान्याची कुड आशिल्ली ती वेगळी. त्या दिसा हांवें डॉ. धन्वंतरीचो पाहुणचार घेतलो. जेवणाक खासा अशें कांय नासलें. पूण जेवणापरसय सुरबूस आसल्यो त्यो ताच्यो गजाली. गजाली सांगता सांगता एकदम तो अंतर्मुख जाल्लेभाशेन जालो आनी ताणे म्हळें, ‘केन्ना केन्नाय म्हजो विश्वासच बसना... हें सगलें म्हज्याच जिवितांत घडलें आसत हें खरें दिसना. आज हांव सुखी आसां. बँकेत पयशे आसात. पेशंट अजून येतात. आमका एकच चलो. तो अमेरिकेक आसता. तो आनी ताची बायल थंय काम करतात. तांगेर दोन भुरगीं. जेन्ना तीं हांगा येतात तेन्ना घर भरिल्लें उरता. तीं परत वतकच घरांत किण्ण. म्हजी बायल मुळांतच मुखदुर्बळ. ती आपलें सुख वा दुःख उलोवंक नकळ. वरांची वरां ती एका जाग्यार बसून रावता आनी वेळ कसो गेलो म्हणून विचारलें जाल्यार आपूण मनांतल्या मनांत व्यंकटेशस्तोत्र म्हणतां देखून वेळ कसो वता तें कळना अशें सांगता. गरिबी आमी पळयल्या इतलेंच न्हय, गरिबीच्या जाळांनी आमी दोगांय हुलपल्यांत. देखून पयशे मोडून सुख विकतें घेवंक आमकां कळना....’

म्हाका दिसलें. डॉ. धन्वंतरीच्या मनांत कितें तरी धगधगता... तो उलयलो जाल्यार ताकाय ल्हव दिसतलें आनी म्हाकाय तागेले जिणेंची वळख जातली. हांवें ताका म्हळें, 'आज हांव हांगा आसतलों. तुका कितें सांगूंक जाय तितलेंय आयकुवपाची म्हजी तयारी आसा.'

येवजिल्लेभाशेन करून धन्वंतरीन म्हळें, 'म्हाका तशें कांय सांगपाचें ना. पूण ओर्गीच केन्ना केन्ना दिसता, नशीब नांवाची वस्त जिणेंत कसले कसले चमत्कार घडोवन हाडटा काय म्हणून. हांव एके विधवेचो भुरगो म्हणपाचें तुका खबर आसा?'

म्हाका दिसले आवय विधवा जातकच तो जल्माक आयिल्लो आसतलो. पूण ताणेंच फोडणिर्शी केली. 'हांव ल्हान आसतना म्हजो बापूय संवसाराक अंतरिल्लो. बापूय गरीब. मुंबयचे एके गिरणीत काम करतालो. रगत ओंकलो आनी तो मेलो अशें आयकल्लें. पूण म्हजे हे विद्येचो फायदो म्हज्यान  बापायक दिवं नज... पूण एक सांगतां बापूय जितो आशिल्लो जाल्यार हांव डॉक्टर जावंक पावपाचो न्हय.  चडच जाल्यार खंयचेय कंपनीतलो कारकून.'

'कित्याक? तुज्या बापायचो तुवें डॉक्टर जावंक विरोध आसलो?' हांवें विचारलें.

म्हजे जिणेक जें वळण मेळ्ळें तें वेगळे तरेचे आसलें. बापूय जितो आशिल्लो जाल्यार हांव मुंबयचें शिक्षण घेवंकच पावपाचो न्हय. कित्याक कामगाराच्या भुरग्यान व्हडलीं सपनां पळोवचेलीं नासतात. हाची जाणविकय तो म्हाका सदांच दिवपाचो.'

'म्हणटकच तुजे आवयन तुका शिक्षण दिलें?'

'आवय बाबडी खंयची शिक्षण दितली?' डॉक्टर धन्वंतरीन म्हळें, 'विधवा बायल. तरुण आसली. आयच्या युगांत तिजें दुसरें लग्न जावं येतालें. पूण त्यावेळार लग्नाचो विचार करप हें लेगीत पातक मानताले. म्हाका दिसता म्हजो बापूय मेलो तेन्ना ती तिशेक वर्साची आसली. तशी ती सुंदर नासली. पूण खुब मायेस्त. देवधर्माचेर तिजी श्रध्दा आसली. जिवीतांत जितले कश्ट येतात, त्रास वा आळ येतात ते सगले देव परिक्षा घेवंक घडोवन हाडटा अशें ती मानताली. आनी ह्यो परिक्षा पास जातकच देवं बरें केलेबगर रावचोना अशें ती म्हाका सांगताली. तिच्या काळजांत मायेचो वझरो अखंड व्हांवतालो. कोणाकच तिणे परती जाप दिली ना. कोणाविर्शी बास्कळ उतर उलयली ना. केन्ना केन्नाय वैतागली जाल्यार म्हणटाली : 'जाणा म्हज्या  पुता. तुका व्हड केलो म्हण्टकच म्हजें काम सोंपलें. तूं नाशिल्लो जाल्यार हांव विखख खावन जीव दितली आशिल्ली.'

'पूण तुजे डॉक्टरचे शिक्षण?...' हांवे विचारलें.

'हांव डॉक्टर जालो, पयशे जोडले, सुखाचो संवसार केलो तें पळोवंक आई उरली ना. हांव डॉक्टर जावचे आदींच ती मेली.  बापायक जशें म्हजें वैजकी गिन्यान उपकारलें

ना तशें आईकय तें उपकारलें ना. म्हाका केन्ना केन्ना दिसता. हांव डॉक्टर जालो ते पळोवंक तरी आई आसूंक जाय आसली. पूण म्हज्या नशिबांत तें भाग्य नासलें.'

आमी चवथ्या मजल्यावेल्या फ्लॅटांतले एके कुडींत बशिल्ले. भायर पावस पडटालो. डॉ. धन्वंतरीची वायल आपले कुडीत न्हिदिल्ली आनी आंगार स्वेटर घालून, शाल पांघरून डॉ. धन्वंतरी म्हजेमुखार बसून आपल्या भुरगेपणातले उगडास म्हाका सांगतालो.

'बापूय मेलो आनी म्हजी आवय म्हाका घेवन मुंबय आयली.'

'मुंबय तुमचो कोण आसलो?' हांवे विचारलें.

'हय. म्हजो एक मामा आसलो. ताणेच तिका आपयली. शिक्षण नासलें. तरी मुंबय वावराडेचीं कामां मेळूं येत अशें ताणे सांगलें. गांवांत रावन तसलीं कामां करूंक लज दिसूंक नये म्हणून ताणे ही मांडणी केल्ली. मामाचें घर दोन कुडींचें. म्हजी आई चार घरांनी कामां करताली. इतलें करून मामागेर सगलीं कामां तिका करचीं पडटालीं. मागीलदारांतल्या वारांदात म्हाका घेवन न्हीदतली. अरुंद वारांद. चाळीच्या सगल्या लोकांची नळाचेर आनी संडासात वचपाची तीच वाट. राती उसरां न्हीदप, सकाळी बेगीन उठप...'

'मामाक हें खबर नासलें?' हांवे विचारलें

'खबर आसलें. पूण ताचें शाणेपण चलनासलें. मामीचो दरारो खूब मोठो आसलो. तरीकय मामा आसतना ती कांय म्हणनासली. मामा फाटल्यान बोंचऱ्या उतरांनी म्हजे आईक आनी म्हाका पिसुडताली. आई रडता हें म्हाका कळटालें. तिचें दुःख हांव जाणा आसलों. तिणें म्हाका धीर दिवचो; फाल्यां तूं व्हड जातकच वेगळें घर करतलो. थंय हांव राणी कशी रावतलीं. तोमेरेन थोडें सोसूंक जाय अशें तिणें सांगचें.'

'तूं सांगता त्या हिसबान तुगेले आवयक त्या घरात म्हळयार खासा आपल्या भावाच्या घरांत, वावराडेची जीण जगची पडली अशें दिसता. अशीं कितलीं वर्सां तुमी थंय सारलीं?'

'हांव मॅट्रीक जाईसर. सोळाव्या वर्सा हांव मॅट्रीक पास जालों. त्या उपरांत मामानच म्हाका नोकरी पळोवन दिली. एके बेकरीत म्हाका काम मेळ्ळें. रातीच्या वेळार जागरण करून पाव तयार करचे पडटाले. फांतोडेचेर सायकल घेवन ते सगल्या हॉटेलांनी पावोवचे पडटाले. काम कश्टाचें खरें पूण स्वतंत्र आसलें. त्या उपरांत हांवें बेकरीवाल्याचे वळखीन रेल्वेमार्गाचे कुशीक आशिल्ले एके झोपडपट्टीत बिराड भाड्याक घेतलें. आईक घेवन थंय रावंक लागलों.'

'झोपडपट्टीत?' अजापून हांवे विचारलें.

'मुंबयची परिस्थिती तूं जाणा. हांगा रावंक घर मेळप कठीण. नोकरी एकवेळार मेळटा.... खूब जाणांची लग्ना लेगीत घर नाशिल्ल्यान लांबणेर पडटात. निमाणे मामाच्या

मागील दाराच्या व्हारांदांत जें वातावरण आसलें ताचेपरस झोपडपट्टी बरी आसली. थंयची मनशां भायल्यान गलिच्छ आसलीं तरी मनान निर्मळ आसात असो म्हाका अणभव आयलो. आई आदलेंच काम करताली. हांवें आडायली तरी आयकलीना आनी हांव दिसाचे कॉलेज आनी रातीची नोकरी करून शिकलों.'

'मेडिकल कॉलेजामेरेन हेंच चललें?'

'ना. मेडिकल कॉलेजांत म्हाका प्रवेश मेळ्ळो. पूण फीचे पयशे म्हजेकडेन नासले. हांव कॉलेजाच्या प्राचार्याकडेन गेलों आनी ताचेकडेन मागलें. म्हाका कॉलेजांत प्रवेश नाका, पूण उपकार करून खंयतरी बरीशी नोकरी दी. प्राचार्याक अजाप जालें. ताणे म्हजी वासपूस केली. इतलेंच न्हय हांव नाका म्हणटा आसतना तो झोपडपट्टेंत येवन म्हजे आवयक मेळ्ळो. सगली खबर समूजन घेतली आनी ताणे आपले वळखीन आमकां बरे दीस दाखयले. तागेल्या बंगल्याक एक आऊट हाऊस आसलें. हांव आनी आई आऊट हावसांत रावंक लागलीं. आई तांगेर काम करताली आनी हांव स्कॉलरशीपीच्या आदारान शिक्षण घेतालों.'

'ही खबर छापूंक तुजो विरोध कित्याक आसा तें म्हाका समजना.' हांवें विचारलें.

'ही खबर छापूंक म्हजो निखालस विरोध ना. म्हज्या इतिहासाची म्हाका लजय दिसना. ही छापतलो जाल्यार अवश्य छाप. म्हज्या मामाची बदनामी जायत अशें कांय छापूं नाका. पूण हांव तुका सांगूंक सोदतालो ती वेगळीच खबर.'

'तुजे जिणेत घडिल्ली खबर न्हय?' हांवे विचारलें.

'म्हजे जिणेत घडिल्ली इतलेंच न्हय तर ते घडणुकेक लागून म्हजे जिणेक एक वेगळी दिशा मेळ्ळी म्हळ्यार जाता. मॅट्रीकच्या वर्गात आसतना ती घडणूक घडली. आनी आज जिणेचे सांजवेळा लेगीत ते घडणुकेचो प्रभाव म्हजेर उरला.'

ताणे सुस्कारो सोडलो असो म्हाका ओगींच दुबाव आयलो.

'मॅट्रीकेच्या वर्गात आसतना आईन मामाक सांगून म्हाका मूज बांदली... हांव असल्या गजालींक चडशें म्हत्व दिना. ते पिरायेंतय दिना आसलो. पूण तो एक गरजेचो संस्कार अशें आई मानताली आनी तिचें मन दुखोवचें न्हय इतलेखातीर हांव मुजीक कबूल जालों. एका भटाच्या घराकडेन तो संस्कार जालो. दनपारच्या जेवणाक मामा आनी मामी आयलीं. त्या दिसा मामी बरी वागली. तिणे म्हाका म्हऱ्यांत घेतलो आनी मन लावन अभ्यास कर. व्हडलो मनीस जा. मागीर हांव तुका जांवय करून घेतां' अशें सांगलें. पांयपडणे वेळार तिणे म्हज्या हातांत एक लाखाटो दिलो. लाखाट्यांत पंचवीस रुपया आसले. त्या काळार पंचवीस रुपयाक खूब चड मोल आसलें.'

'सुमार कितलीं वर्सां हे गजालीक जालीं आसतलीं?' हांवे ताका विचारलें.

'आडटीस -चाळीसांतली गजाल आसतली. तेन्ना आयचे सारकी म्हारगाय नासली.'

ताणें सांगलें.

मामीचे ते वागणुकेन धन्वंतरी पुराय विरगळून गेलो. मनांतल्या मनांत ताणे तिगेले सगले गुन्यांव माफ केले. आनी मामाले चलयेकडेन- सुलोचनाकडेन लग्न जावपाची सपनां पळोवं लागलो.

हांवे ल्हवूच ताका प्रस्न केलो, ''तुजी बायल ही तुजी मामेभयण तर.''

धन्वंतरी व्हडाव्हडान हांसलो. ताणे म्हळें, 'ना, मामाची चली म्हजेपरस वर्सान ल्हान आसली. सुंदर दिसताली. नावाक सोबत अशेच तिचे दोळे आसले. पूण हांव मेडिकल कॉलेजांत पावचेआदींच मामीन तिचें लग्न तांगेलेच चाळीत रावतल्या एका भुरग्याकडेन करून उडयलें. तिचोय गुन्याव ना. मुजीवेळार तिणे मस्कऱ्यांनी म्हाका जांवय करपाची भास केल्ली. पूण म्हज्या फुडाराची शाश्वती नासली. म्हजें शिक्षण पूर्ण केन्ना जातलें आनी म्हाका कसली नोकरी मेळटली आनी नोकरी मेळ्ळी जाल्यारय म्हाका रावंक घर मेळटलें काय कितें हे सारकिले दुबाव तिच्या मनांत आशिल्ले आसूंक जाय. झोपडपट्टेंत ती आपले धुवेक कशी धाडटली?'

'म्हणटकच मुजीचो प्रसंग हो तुवे ओघाभरशी सांगिल्लो प्रसंग आसतलो. पूण जी गजाल तुज्या मनाक धोंसता तीच गजाल कित्याक सांगना?' हांवें म्हळें.

'ते गजालीचो मुजीकडेन संबंद आसा. तूं मदीं आड प्रस्न विचारता. देखून विशयांतर जाता...'

'तूं सांग. हांव मदीं कांय उलयना' हांवें म्हळें.

'विचार तूं. हांव भाशण करूंक उबो रावंक ना. उलोवया. उलयतां उलयतां तुका खबर सांगून उडयतां.'

'पूण हे खबरेचो आनी तुजे मामीचो संबंद आसा तर' हांवे म्हळें.

'मामीचो म्हजे जिणेचेर खुबच प्रभाव आसा हें हांव मान्य करता. पूण तिचो बाबडेचो हे घडणुकेकडेन कसलोय संबंद ना. तिचो आनी सुलोचनाचोय ना.'

'सुलोचनाविशीं तुजी भावना कशी आसली?' हांवे विचारलें.

'एकदम बरी चली. नाय जाल्यार ती म्हजी भयणच. पूण जो मेरेन हांव मामागेर आसतालो तोमेरन सुलोचनान म्हजेकडेन उलयिल्लें वा म्हजे सांगातान खेळिल्लें मामीक रुचनाशिल्लें. मामीचो दोळो चुकोवन ती म्हाका केन्नाय पयशे हाडून दिताली. पूण हांवें ते केन्ना घेतले नात. केन्नाय खाण हाडून दिताली. तें हांव घेतालों. पूण खरें सांगतां झोपडपट्टीत रावंक वतकच लेगीत हांव मदीं मदीं मामागेर वतालो. तेन्ना सुलोचना मेळटाली. पूण आमचेमदलें अंतर वाडत गेलें. तिकाय समज आयिल्लो. आमी जाण्टी जावंक लागिल्ली म्हण. जालेंय जाल्यार तिजेकडेन भयणीच्या नात्यानच हांव वागलों आनी तेच नदरेन तिका पळयली.'

'मुजी उपरांत लेगीत तीच नदर उरली?' हांवें विचारलें.

'खरें सांगतलो जाल्यार ना. मुजी उपरांत नदर मातशी विकृत जाली. म्हजी जाली ती जालीच. तिगेली लेगीत जाल्ली असो म्हाका दुबाव येता. बायलेची कल्पना करता आसतना म्हज्या दोळयांमुखार सदांच सुलोचना उरताली आनी जेन्ना तिचें लग्न थारलें तेन्ना खऱ्यांनीच म्हाका वायट दिसलें. हांव खऱ्यांनीच फटवलां अशी म्हजी भावना जाली. चलयांची भावना त्यो उक्त्यो करिनात. पूण त्या उपरांत मेळिल्ले वेळार सुलोचना म्हजेकडेन मेकळेपणान उलयताली. ल्हवू ल्हवू म्हजीय नदर बदल्ली. ती जंय आसा थंय सुखी उरूं अशी भावना उमजूंक लागली.'

'म्हणटकच जी गजाल तुज्या मनाचेर खोल परिणाम करूंक पावली ती गजाल कशी घडली?' विशयांतर चड जाता हें पळोवन हांवें सरळ प्रस्न केलो.

''ते घडणुकेचो आरंभ मुजीच्या दिसा सांजवेळा सुरू जालो अशें आमच्यांनी म्हणूं येता. मूज जातकच आई सांगतान हांव झोपडपट्टीत परत आयलों. आईची एक पोरणी, भायल्यान कळमेल्ली ट्रंक आसली. तिणे ती उक्ती केली. कितल्योशोच पोटल्यो ते ट्रंकेत आसल्यो. अशेच एके पोटलेंत गांठी मारून दवरिल्ली एक मुदी भायर काडली. भांगराची मुदी. तिचेर 'जयवंत' हें म्हज्या बापायचें नांव. आईन ती मुदी थरथरत्या हातांनी आनी ओल्यां दोळयांनी म्हाका दिली आनी म्हळें, 'आज तुजो बापूय आशिल्लो जाल्यार तुका आशिर्वाद दिवपाचो. आमच्या लग्नावेळावेली ही मुदी. तागेली तितलीच याद म्हजेकडेन उरल्या. आतां तूं व्हडलो जालो. ही तुज्या बोटांत घाल. हांवें मुदी बोटाक घाली. आईन म्हाका लागीं ओडून पोटभर रडून घेतलें.'

हांवें धन्वंतरीच्या हाताकडेन पळयलें. दोनय हाताच्या बोटांत मुदी नासली. हांवें ताका विचारलें, 'तूं ती हाताक घालना.'

'आमी सर्जन बोटाक मुदी घालिनात.' ताणे सांगलें. 'पूण ती मुदी अशिल्ली जाल्यार हांव अभिमानान घालतलों आसलों अशी ती आयज म्हजेकडेन आसा. बापायचो उगडास म्हणून ती हांवें सांबाळून दवरल्या. म्हज्या चल्याक ती हांव दिवंक सोदतालो. पूण हांवेंच विचार बदल्लो. हांव तुका सांगूंक सोदतालो ते मुदयेची गजाल.'

'कितें जालें ते मुदयेचें? ती चोख भांगराची नासली?' हांवें विचारलें.

'सामके २४ कॅरेट चोख भांगर. ते मुदयेंत कलाकुसर नासलें. आसलें तें जड गुळो भांगर. ती मुदी आवयन दिली आनी हांवें अभिमानान बोटाक घाली. सदांच ती म्हज्या बोटाक घाल्ली उरताली. पूण एक दीस विपरीत घडलें.'

हांवें ताच्या तोंडाकडेन पळयत रावलों. पूण बरो वेळमेरेन तो कांय उलयनास्तना येवजितालो. हांवें विचारलें, 'ती मुदी शेणली वा चोरयेक गेली?'

'खरें सांगतलो जाल्यार ती चोरी म्हणूं नज वा शेणल्या म्हणूं नज. घडलें कितें तें

हांव सांगतां.'

सोळा सतरा वर्सांचो झोपडपट्टीतलो भुरगो. मॅट्रीकचे परिक्षेची तयारी करतालो. झोपडपट्टीतलें वातावरण. थंय रावतलीं भुरगीं शाळेंत वचनासलीं. भुरगीं चलूंक लागलीं म्हणटकच जोडूंक लागतालीं. चोरून, लुटून, भीक मागून वा काम करून जें भुरगे कितेंय घेवन येतालें ताची तोखणाय जाताली. लज,नीत असल्यो गजाली त्या वाठारांत नासल्योच. धन्वंतरीची आवय आनी खासा तो वेगळ्या वातावरणांत वाडून आयिल्ल्यान तें झोपडपट्टीत तीं दोगांच वेगळे तरेची मनशां आसलीं.

रात जाली म्हणटकच झोपडपट्टीक जाग येताली. सोरो पियेवन आयिल्लो घोव बायल - भुरग्यांक मारतालो. किळच्यो हुयेली हांणी वातावरण गाजतालें तरी कांय बरे चलणुकेचीं मनशांय आसली. त्या वातावरणात अभ्यास कसो जातलो? झोपडपट्टीच्या फाटल्या वटेच्यान उदकाची पायपलायन वताली. तिचे पलतडीन एक उत्तें मळ. त्या मळाचेर एक डांबरी रस्तो. शाराच्या मदी आसुनय तितलोच निर्जन वाठार. मळाच्या एका कोनशाक म्युनिसिपालिटीन बऱ्यो ट्युबलायटी घाल्ल्यो. थंय कोणेतरी विटो हाडून उडयिल्लोय. धन्वंतरीन त्या विटांची बसका केली आनी त्या दिव्यांच्या उजवाडांत, शांत वातावरणांत तो अभ्यास करूंक बसतालो.

'रातीच्या थंड वेळार हांव अभ्यासाक बसतालों आनी उसरां झोपडपट्टीत येतालों तेन्ना शांतताय आसताली. ताका लागून न्हीद थोडी मेळ्ळी तरी ती गाढ लागताली. सकाळची शाळा आनी सांजचो अभ्यास असो नेम आसतालो. मुजी उपरांत लेगीत तो चालूच उरलो. अचकीत एक दीस ती घडणूक घडली.'

परत धन्वंतरी थांबलो. ताणे जनेल उकतें केले. पावस थांबिल्लो. रातीची सुमार धा वरां जाल्लीं. तो भितल्ले वाटेन गेलो. आपली बायल न्हीदल्या म्हणपाची खात्री करून घेतली आनी परत येवन कुडीचें दार बंद केलें.

'ल्हानपणांत बापूय मतरकच भुरग्यांची कशी दुर्दशा जावं येता आनी तांतुंतय विधवा आवयचीं दुकां पुसचीं पडटात तेन्ना तांच्या काळजाची चाळण कशी जाता तें भुरगेपणांतच अणभविल्लें. ते पिरायेंत हांव एक सपन पळयतालों. ते सपन आसलें शिकून एक व्हडलो मनीस जावपाचें आनी आवयक सुखांत दवरपाचें.' डॉक्टर धन्वंतरीन वयल्या आवाजांत म्हाका सांगलें.

'ही सगळी खबर सांगता आसतना ती बायलेन आयकुची न्हय म्हणून कित्याक जतनाय घेता? तुका कितें गुपीत सांगपाचें आसा?' हांवें विचारलें.

'तशें हांवें म्हजे बायलेक कांयच लिपोवंक ना. इतलेंच न्हय तर दिवाळेक तिका घेवन हांव आमी रावताले ते झोपडपट्टेंत वतां आनी थंयच्या भुरग्यांक मिठाय वाटतां...''

''तुजो मामा सध्या खंय आसा?''

“मामाच्या कुटुंबाची दुर्दशाच जाली. मामा रिटायर जातकच गांवांत गेलो आनी मामीय थोडे दीस मुंबय धुवे म्हन्यांत रावलेउपरांत गोंयांत गेली. थोड्या दिसांच्या अंतरान दोगांकय मर्ण आयलें. आतां सुलोचनाय ना आनी तिगेलीं भुरगींय खंय आसात, म्हाका कांय खबर ना. लग्नाउपरांत तिणें नातें चलयलेंच ना.”

“तशें जाल्यार खबर सांगता आसतना तूं परत परत दाराकडेन कित्याक पळयता आनी दारां बंद करून ल्हवू आवाजांत कित्याक उलयता?” हांवें ताका विचारलें.

“थोडीं गुपीतां हांवे कोणाकच सांगूक ना. तुका हांव सांगतां. पूण ती गजाल इतली गुपीत आसा की नांव दिवन तुवें ती खबर छापली जाल्यार अनर्थ जावं येता.”

‘असलें कसलें गुर्पीत तर तें? हांवे ताका विचारलें.

“तुका साद्यंत खबर सांगतां. मागीर तें लाखमोलाचें गुपीत कितें तें तुका कळटलें आनी तें हांव सगल्यांपासून कित्याक लिपोवंक सोदतां तेंय तुका समजतलें.”

हांव मात्सो संकोचलो. म्हळें, “तुज्या कुटुंबाकडेन संबंद पावतलें गुपीत आसत जाल्यार तें तूं म्हाका तरी कित्याक सांगता? म्हजो भरवंसो ना. सट्ट करून तोंडातल्यान भायर फुटूं येता. ना जाल्यार खंयच्या तरी बरपांतल्यान तें उक्तें जावं येता.”

“पूण हांव तरी ते म्हज्या मनांत कितले दीस घेवन बसूं? एके वाटेच्यान म्हाका दिसता तें सगल्यांक सांगचें. दुसरे वाटेन दिसता तें गुपीत उक्तें जालें जाल्यार आमच्या कुटुंबात दुबावाचें वातावरण निर्माण जातलें... आतां हांवय जाणटो जालां. देखून तुका सांगून उडयतां आनी तुका सगलें सांगतलो... कांय लिपोवचो ना...”

“आनी हांवें चुकूनमाकून नांव घालनासतना ती खबर छापली जाल्यार?”

“वळख मेळना अशे रितीन छापतलो जाल्यार छाप. जें म्हाका घडलां तें आनी कोणाकय घडूं येता. पूण म्हज्या मर्णाउपरांत तुवें ती खबर छापली जाल्यार चड बरें जातलें.”

डॉ. धन्वंतरीन खबर सांगूक सुरूवात करता आसतना परत एक खेपे म्हाका विचारलें, “तुका न्हीद वा उबगण येना जाल्यारच सांगतां. अशे तरेन उलोवपाची संद परत केन्ना येत सांगूंक जायना.”

“सांग तूं. म्हाकाय आयकुपाची उमळशिक आसा.” हांवें म्हळें.

आनी डॉक्टर धन्वंतरीन निर्विकार उतरांनी ती खबर सांगूक सुरवात केली.

चवदा-पंदरा वर्साचो एक तरणाटो... ज्याका मामीन सांगून दवरिल्लें... तूं शिकून व्हडलो जालो जाल्यार जावंय करून घेतली... ताची वागपाची वृत्तीच बदल्ली. ताका अभ्यास करचो दिसतालो. पूण भोवन भोवन दोळ्यांमुखार आपल्या मामेभयणीची मूर्त येताली, मन चलबिचल जातालें.

अभ्यास करूंक तो मळाचेर वचून बसतालो खरो. पूण थंय ताका तरेकवार देखावे

पळोवंक मेळटाले. मळाच्या एका कोनशाकच विजेचो दिवो आनी त्या दिव्याच्या खांब्यापोंदा विटांची रास. कुशीक डांबरी रस्तो. त्या रस्त्यावयल्यान व्हडलीशी यरादार नासली तरी जाग आसताली. पूण मुखावयल्या मळाचेर खंयय ल्हान-मोटीं झाडां आनी झोपां आसली. ह्या झाडांचे सांवळेक जोडपीं येवन बसतालीं. कांय जाणां घोव-बायलां आसूंये. ज्यांका घरांत एकांत मेळना आसलो. पूण चडशीं प्रेम करपी जोडपी. झाडाचे सांवळेंतय काळखांत बसताली. पूण त्या  धन्वंतरी काळखांतय तांचेर नदर थिरावपाचो यत्न करतालो.

''निकतोच हांव वयांत येवंक लागिल्लों. थोडेशें समजतालें, खूबशें समजनासलें. पूण मोग करतलें जोडपें दिसलें म्हणटकच म्हाका सुलोचनाचो उगडास येतालो. तिका सांगातान घेवन ह्या मळाचेर येवन वसचें असो विचार म्हज्या मनांत येतालो. मागीर मन अस्वस्थ जातालें. तितले मदीं म्हाका परिस्थितीचें भान जातालें आनी जानव्याक हात धरून गायत्री मंत्र व्हडाव्हडान म्हणटालों. मनांतले विकृत विचार कुशीक काडटालों आनी निग्रहान अभ्यास करूंक लागतालों.'

तसो डॉक्टर धन्वंतरी शिकूंक हुशार. एक-दोन खेपे वाचलें म्हणटकच ताजे तकलेंत उरतालें. अशेच दीस वताले. एक दिसा निग्रहान अभ्यासाक बशिल्लेवेळार रस्त्याचे वटच्यान एक तरुण बायल... काय चली.. उलो मारता असो धन्वंतरीक भास जालो.

'हांवें नदर वयर करून पळयलें. रस्त्याचे कडेक ती उबी आसली आनी भियेल्ले भाशेन तोंड करून म्हाका लागीं येवंक खुणायताली. हांवें दोन खेपे पळयनाशिल्ल्याभाशेन केलें. तेन्ना ती मात्शी लागीं आयली.'

धन्वंतरीसरीं येवन काकुळटेचे सुरांत तिणे म्हळें, ''म्हाका तुजी मदत जाय. ह्या मळाच्या दुसरेवाटेन जी वस्ती आसा थंय हांव रावतां.  अंतर सुमार मैलभर आसा. लागींची वाट ह्या मळावयल्यानच वता. म्हज्या फाटल्यान मवाली भुरगे लागल्यात. तूं म्हाका मात्सो घरामेरेन पावयता? तूं म्हाका ल्हान भावासारको. तुजे उपकार हांव जल्मभर विसरचीना.''

लागीं येतकच धन्वंतरीन तिका सारकी पळोवन घेतली. धन्वंतरीपरस पिरायेन ती व्हडली आसतली काय आंगावयले साडयेक लागून ती जाण्टी दिसताली तें सांगूंक जावचेंना. तशी ती सुंदर नासली आनी तिणे आपूणजावन धन्वंतरीक आपलो ल्हान भाव म्हणिल्लो... धन्वंतरी उठून उबो रावलो, तिचेसरीं गेलो आनी म्हळें, ''चल या.''

मळावयले पायवाटेन तीं दोगांय चलतालीं. चलता आसतना तांचेमदीं संवाद जालो.

''तूं हांगा बसून कितें वाचता?'' तिणे ताका विचारलें.

''म्हजी मॅट्रीकची परीक्षा लागीं पावल्या. हांव अभ्यास करूंक बसलां.''

''अभ्यास करूंक ह्या मळाचेर येवन बसला? घरांत जागो ना?'' अजापून तिणे

विचारलें.

"हांव गरीब भुरगो. म्हाका बापूय ना. म्हजी आवय आनी हांव झोपडपट्टेंत रावतात. दुसरो जागा ना देखून हांगा येवन बसतां."

ते चलयेन धन्वंतरीची काकुळट केली आनी म्हळें, "हांवय दुसऱ्यागेर रावतां. ना जाल्यार तुका अभ्यास करूंकच आमगेर व्हरतलीं आसली."

"तुवें म्हळें इतलें म्हाका पावलें. ह्या विशाल संवसारात तुज्या रूपान म्हाका एक भयण मेळ्ळी. तूं ह्यावेळार खंय गेल्ली?" धन्वंतरीन तिका विचारलें.

"हांव नोकरी करतां. नोकरेची सुट्टासर तिनसांज जाता. मागीर बस मेळना. भायलेवाटेन एक बस आमचे कॉलनीकडेन वता. पूण ह्या वेळार बस नासता. देखून दुसरी बस घेवन ह्या मळामेरेन येतां आनी मदलेवाटेन चलत घरा वतां."

"रातची भोंवतना जतनाय घेवंक जाय. मुंबय शारांत चलयेन एकोडी भोंवपाची माणसुकी ना.' जाण्टेपणाचो आव हाडून धन्वंतरीन तिका उपदेश केलो.

अचकीत ताजी नदर गळ्यांतल्या भांगराचे सरपळेकडेन आनी हातांतल्या कांकणाकडेन गेली. ताणे म्हळे, "अशो आंगार वस्ती घालून ह्यावेळार निखालस भोंवचें न्हय."

"तूं आयलो म्हणून हांवें त्यो दवरल्यो. हरशीं हांव त्यो काडून पर्सींत दवरतां." तिणे म्हळें.

"तूं सदांच हे वाटेन येता?"

"ना. पूण सप्तकांतल्यान एक-दोन दीस येवचेंच पडटा."

"दर खेपेक तुजेफाटल्यान मवाली लागतात?" ताणे विचारलें.

"ना. आजच लागले. तशी हांव कोणाची पर्वा करिना. पूण रातीचो वेळ आनी हो निर्जन वाठार. केदोवेळ ते म्हजेफाटल्यान लागिल्ले. हांव तुजेसरीं वतकच तुका पळोवन ते फाटीं सरले." तिणे नदर फाटल्यान भोंवडावन पळयलें आनी म्हळें, "आतां गेले दिसता."

मळाच्या दुसऱ्या अर्दान पावतासर दोगांनीय एकमेकांची वळख एकमेकांक दिली. अचकीत तिणे ताका विचारलें, "ही तुज्या बोटाची मुदी खऱ्या भांगराची काय फटींची?"

"म्हळ्यार कितें?" अजापून ताणे विचारलें.

"तुका खबर नासतलें, आता खऱ्या भांगरासारक्यो चकचकीत वस्नी बाजारांत मेळटात. मुंबयच्यो बायल्यो तसल्योच वस्ती वापरतात. भांगर घालें म्हणून मिरोवंक मेळटा आनी चोरयेक वचपाची भिरांत नासता."

"ना. ना. म्हजी मुदी फटींची न्हय. चोख भांगराची. म्हज्या बापायची मुदी ती. ताजो उगडास उरचो आनी ती खंय शेणची न्हय म्हणून हांव बोटाक घालतां." धन्वंतरीन तिका सांगलें.

मळ हुपून पलतडीन पावनाफुडें लोकवस्ती आयली. मार्गान येतल्या वतल्यांची आनी वाहनांची येरादार मेळ्ळी तसो तिका धीर आयलो आसूंये. तिणे म्हळें, ''वतां हांव. पूण म्हजें एक काम कर. म्हाका तूं खूप आवडलो. तुजो उगडास म्हणून ही मुदी आयचो दीस म्हाका दी. फाल्यां हांव परत दितां... आनी तुका उतर दितां तूं म्हजो ल्हान भाव. तूं मागशीत आनी म्हाका परवडत तें दिवपाची म्हजी तयार आसा.''

धन्वंतरी अनमनलो. अर्द वराची वळख आनी ती चली ताची मुदी मागताली. ते मुदयेफाटल्यान बापायचो उगडास आसलो, आवयची भावना आसली. त्याचवांगडा ती चली जें सांगता तेंय ताका खरें दिसतालें. ताणे म्हळें, ''किदेंय माग. पूण ही मुदी मागूं नाका. तिचें मोल पयशांनी करूंक जावचें ना.''

पूण ती चली हट्ट घेवन बसली. धन्वंतरीच्या मनांत आयलें तिका थंयच सोडून पळत घरा वचचें. तो पावल उखलूंक वता इतलें म्हणसर ते चलयेन ताच्या हाताक धरलो आनी म्हळें, ''म्हजेर तुजो विश्वास ना जाल्यार पळय हांव किळच मारतली. चार लोकांक जमयतली आनी म्हजी मुदी चोरून व्हेल्या असो तुजेर आरोप करतलीं. तशें जाल्यार कितें जातलें ते तूं येवजी.''

''हांवें येवजिलें आनी म्हज्या दोळ्यांमुखार काळोख आयलो. हांवें बोटाची मुदी काडून तिच्या हातांत दिली आनी म्हळें, फाल्यां मात चुकनासतना परत दी. ही मुदी दुसऱ्याकडेन गेल्या अशें कळ्ळयार म्हजी आई प्राण सोडीत.''

मुदी गेली आनी धन्वंतरीचें अभ्यासावयलें लक्षच उडलें. भियेल्ले गोंदळिल्लेभाशेन तो वागूंक लागलो. मनांत एक थोडी आशा आसली की दुसऱ्या दिसा ती आपणाली मुदी परत हाडून दितली. त्या दिसा आवयचें लक्ष गेलें ना आनी ताणेय आवयक कांय सांगलें ना. दुसऱ्या दिसा सकाळींफुडें शाळेत गेलो आनी सांजचो परत आयलो तेन्ना आवय घरांत नासली. तीच संद सादून धन्वंतरी मळाकडेन गेलो आनी विटांच्या आपल्या आसनाचेर बसून अभ्यासाचें पुस्तक उक्ते केलें. पूण पुस्तकांतलीं अक्षरां ताका दिसनासलीं. ताची नदर ते चलयेची वाट पळयताली. चारय दिशांनी नदर व्हरून ती चली येता काय म्हणून तो पळयतालो. खुबशे लोक आयले गेले, पूण ती चली आयलीना. तीनसांज जाली, काळोख जालो, रात जाली...

आतां मात धन्वंतरीक दुबाव येवंक लागलो ती चली धड न्हय. तिणे निमित्त्य केलें आसूंक जाय. आपणाकडेन कितें आसा, पयशे, भांगर, ताचो अदमास घेवन तिणे आपणाक लुटला. आपलेंच चुकलें. करतलो कितें?

मुदयेचें मोल कितलें जातलें? ताका खबर ना. पूण हे मुदयेचे मोल कोणे करचेलें? धन्वंतरी जोडिना. पूण जोडलें तरी दोन वर्सां मेरेन तो भांगराची मुदी घेवंक पावचोना आनी नवी भांगराची मुदी कितल्याय हजारांची आसली तरी बापायले मुदयेकडेन तिची

सर जावचिना. आवयन मुदयेविशीं विचारल्यार कितें सांगतलो? निमाणे ताणे थारायलें मुदी शेणल्या वा चोरयेक गेल्या हें आवयक कळीत करूंकच जाय. तिका सगली खबर सांगलेबगर मुदी गेल्ल्याचो कांच मनातल्यान वचचो ना आनी हो कांच मनांत उरलो जाल्यार आपूण अभ्यास करूंक पावचो ना.

ताणे खूब येवजिलें. आनी त्याच दिसा रातीकडेन मुदी चोरयेक गेल्ल्याची खबर ताणे आवयक सांगली.

''घडली तशी खबर सांगली जाल्यार आवय म्हजो दुबाव घेतली... वायट चालीचे बायलेक लागून हांवे बापायली मुदी वगडायली असो तिका दुबाव येतलो आनी तशें जालें जाल्यार मुदी गेल्ल्याच्या दुःखापरसय चड व्हड धक्को तिका बसतलो. तिची सगली भिस्त म्हजेर. म्हज्याखातीर ती जगताली. तिचें मन सांबाळूंक जाय आनी तेचबरोबर मुदी गेली हें तिका कळोवंक जाय. हांवें एक काणी रचली आनी तिका सांगली.' त्या प्रसंगाचो उगडास काडीत धन्वंतरीन म्हाका म्हळें.

'कसली काणी तुंवे रचली?' हांवें ताका विचारलें.

'हांवें तिका सांगलें हांव मळार दिव्यापोंदा बसून अभ्यास करतालो. अचकीत दोन गुंड थंय आयले. म्हाका सुरयेचो धाक घालून ताणी म्हजी बोल्सां तपासलीं. बोल्सांनी कांय मेळ्ळें ना तेन्ना एकल्यान म्हजेर थापट मारलें. तागेलो हात आडावंक हांवें म्हजो हात फुडें काडलो तेन्ना त्या गुंडाची नदर म्हज्या बोटाक आशिल्ले मुदयेचेर गेली आनी ताणे मुदी काडली. हांव तांकां पांयां पडलों. काकुळटेक आयलो. पूण ते आयकलेनात. तांणी म्हाका सांगलें बऱ्यान मुदी दिल्यार तुजो जीव वांचतलो. ना जाल्यार तुका जीवानिशी मारून आमी मुदी घेवन वतले... देखून म्हाका मुदी दिवची पडली.''

धन्वंतरीच्या तोंडातल्यान ही खबर आयकतकच आवयन ताका वेंगात घेतलो. ताका सांसपून ती रडली. तिणे म्हळें, 'तुजे प्राण वांचले हें म्हजें भाग्य. मुदी गेल्यार वचूं. तूं फाल्यां असल्यो शंबर मुदयो घेवपाइतले पयशे जोडटलो...'

आवयली प्रतिक्रिया पळोवन आपणे मारिल्ली फट पचली म्हणपाचें समादान धन्वंतरीक जालें. पूण त्याचबरोबर आपले भोळे आवयक आपणे फटयली आनी आपल्या बापायचो अपमान केला अशी एक भावना मनाक कांट्यावरी रोंबत रावली.

आवय तोंडान उलयनासली. म्हजे सांगणेक लागून तिचें तोंडच बंद जालें. तरी आसतना म्हज्या बापायचो उगडास म्हणून जी मुदी म्हजे सुवादीन केल्ली ती गेली हाचें दुःख तिका जातालें. मदीं मदीं तिणे म्हणचें. 'तुवे मुदी काडून दवरून त्या मळार वचूंक जाय आसलें... हांवेच तुका इतले बेगीन मुदी दिवंक जायनासली.' तिगेल्या ह्या उलोवपावेल्यान तिगेल्या दुःखाचे तीव्रतायेची म्हाका कल्पना येताली.' धन्वंतरीन सांगलें.

तरीकय धन्वंतरीच्या मनांत एक भोळी आशा आसली. केन्ना तरी ती चली परत

येतली, आपली मुदी परत दितली आनी ती व्हरून आपूण आवयक दाखयतलों... तशी ती फटींग आसची ना. तिणे म्हाका भाव मानलो. तें नाटक आसचें ना.

पूण ती परत आयलीच ना. मुदी परत मेळ्ळीच ना. बरे मार्क घेवन धन्वंतरी परीक्षा पास जालो. पूण आपणे एक व्हडलो गुन्यांव केला म्हणपाची खंत ताका लागून उरली.

ही इतलीय खबर आयकून जातकच हांवे ताका म्हळें, 'हातूंत गुपीत तें कसलें? ही गजाल सगल्यांपासून लिपोवंक तूं कित्याक सोदता?'

'अजून तुवें सगली खबर आयकूंक ना. हांवें सांगली ती आरंबाची गजाल.'

'फुडें तुका ती बायल मेळ्ळी?''

'बायल मेळ्ळी काय मुदी मेळ्ळी तें सगलें तुका सांगतां. पूण मॅट्रीकेची परिक्षा जाले उपरांत म्हजे जिणेची दिशाच बदल्ली. ल्हवू ल्हवू हांव मुदयेची गजाल विसरूनय गेलो. अर्दी मदीं उगडास जातालो. पूण त्यावेळार म्हाका दुःख जावचेपरस ते चलयेकडेन हांव इतल्या सादेपणान कसो वागलों असो म्हाका प्रस्न पडटालो.'

''फुडें कितें जालें?''

'आता तुका फुडें कितें जालें म्हणून सांगू. तूं जाणा हांव डॉक्टर जालों. विलायतेकय वचून आयलों. वेगळयो वेगळयो संस्था आनी दानशूर लोकांचो म्हाका खूब आदार मेळ्ळो आनी म्हजो संवसार बरे भाशेन चलूंक लागलो.'

'तुजे बायलेविशीं तुवें कांय सांगलेंना?''

''बायलेविशीं सांगचे आदी आवयविशीं सांगूंक जाय. म्हजें शिक्षण चालू आसतनाच म्हजे आवयक मर्ण आयलें. त्या वेळार मन विरक्त जालें. खऱ्यांनीच मनशाक जगपाखातीर निमित्त जाय आसता. म्हजी आवय म्हजेखातीर जगताली. हांवें कोणाखातीर जगपाचें? ह्या विशाल संवसारात एकोडो आसलो. सुलोचना विशीं म्हज्या मनांत वेगळी भावना आसली. पूण तीय लग्न जावन घोवागेर पाविल्ली. ते अवस्थेंत एक दीस आमच्या कॉलेजच्या प्राचार्यान म्हाका म्हळें, 'ह्या संवसारात गरीब दुर्बळ खूब आसात. अडिल्ल्या आनी नडिल्ल्यांक तुवे आदार दिलो जाल्यार तुज्या बापायच्या आनी आवयच्या आत्म्याक थंडसाण मेळटली... काळखांतल्यान वता आसतना मार्ग चुकचो आनी अचकीत मळबांत जोगूल चकचकून आपलो मार्ग चुकलो हें कळचें तशी म्हजी अवस्था जाली. हांव मन लावून अभ्यास करूंक लागलो. संवसारातलीं दुखां सोंपोवप ना, म्हज्या हातान पुसप शक्य आसा तितलीं ती पुसप हें म्हजें जिणेचें ध्येय जावन बसलें.''

''तुजे बायलेविशीं... ती तुका खंय मेळ्ळी?'' हांवे विचारलें?

''खंय मेळ्ळी म्हळयार?'' तुका दिसलें कितें आमी प्रेम करून लग्न केलां म्हणून? तशें कांय न्हय. म्हाका एक दीस सोयरीक आयली. तिगेलो भावच ती घेवन आयलो. आनी अशा वेळार कशें वागचें तें कळना जाल्ल्यान हांव आमच्या प्राचार्यासरीं गेलों. ताणें

आपले बायलेक आपोवन घेतली आनी म्हळें, धन्वंतरीक ना आवय ना बापूय. तू ताका आपलो पूत मान आनी ताजो संवसार उबो करून दी. तिणे चली पळयली आनी पसंत केली. हांव ते चलयेकडेन लग्न जालों.''

''लग्नाआदीं तुंवे बायलेक पळोवंकच नासली?'' हांवें विचारलें.

''कसो पळयतलो? ते दिसय वेगळे आसले. त्यावेळार चले-चलयो सांगातान भोवनासलीं आनी वळख आसली तरी एकमेकांकडेन चड उलय नासली. आवय-बापूय व्हंकल वा न्हवरो वेंचताली. आनी पूत-धूव तांच्या उतराक मान दिताली.''

''मर्दी एक विचित्र प्रस्न विचारतां'' हांवे म्हळें, ''आपणे बायल वेंचली ना हे खातीर तुका केन्ना खंत भोगता?''

''ना. उरफाटें म्हाका अशें दिसता की देवान तिका म्हजेखातीर निर्मिल्ली आनी तिचेकडेन लग्न जावन हांव सुखी जालों. इतल्या वर्साचो आमचो सांगात... आमी सुखी आसात.'

''जाण्टेपणांत आपलो पूत, सून आनी नातरां आपलेसरीं आसचीं अशें तुका दिसना?''

''कोणाकय तशें दिसपाचेंच. म्हजेपरस चड तिका दिसता. रिकामें घर खावंक येता. तिचो एकसारको ध्यास आसता... पुतान परत भारतांत येवचें आनी सगल्यांनी एकटांय रावचें. पूण तुका अजाप जातलें म्हाका पूत आनी सून भारतांत आयिल्लीं नाकात. तीं हांगा येतात तेन्ना बरेभाशेन केन्ना काय परत वतात अशें म्हाका जाता.''

''ताचें कारण कितें?'' हांवें विचारलें.

''तेंच तर खरेलें गुपीत.' धन्वंतरीन हांसून म्हळें, 'म्हाका ओगीच भंय दिसता. हें गुपीत भायर फुटलें जाल्यार ताजो संवसार उध्वस्त जातलो आनी जाण्टेपणात म्हजे बायलेकय त्रास जातले.''

''असलें कसलें गुपीत? कसलोय रोग कोणाक आसा काय हांगा कोण तुमकां पीडापीड दिता?''

''तसलें कांय ना. पूण म्हज्या जिवितांतच जे विचित्र प्रसंग घडत गेले, तांतुतल्यान हो भय उपजला. सामको निराधार भय अशें तुज्यान म्हणूंक जावचो ना.''

''चल्याच्या जल्माविशींचें हें गुपीत न्हय मूं?'' हांवें विचारलें.

''ना, ना ओगीच दुवाव घेत वसूं नाका. मुदी शेणली आनी हें सगलें महाभारत घडलें...''

''ते मुदयेचो आनी ह्या गुपीताचो संवंध कितें?''

''खरें म्हळ्यार ते मुदयेन म्हजे जिणेंत व्हडले व्हडले उत्पात घडोवन हाडले. ही सगली खबर हांव म्हज्या तोंडान कशी सांगूं?''

धन्वंतरीक एकच चलो. दुसरें भुरगें ना. आवयबापूय ताची खूब अपुरबाय करताले.

बापायची इत्सा आसली की तो डॉक्टर जावचो आनी ताणे आपली परंपरा चलोवची. पूण चल्याच्यो आवडी वेगळ्यो आसल्यो. वेळार-अवेळार जेवण-खाण, न्हीद वा कुटुंबाची कर्तव्यां सोडून वायटकारांफाटल्यान आपलो घोव धांवता तीच जीण चल्याच्या वांट्याक येवची न्हय अशें आवयक दिसतालें आनी ते खातीर ती घरांत जें उलयताली ताचो परिणाम चल्याच्या मनाचेर जातालो.

"कसलें हें जीणे?" तिणे म्हणचे, "बायल म्हणून घोवाकडेन पांच मिनटां थंडसाणेन उलोवपाची संद मेळना. ताजेखातीर आवडीचें जेवण रांदप आनी ताणे जेवंकच येवप ना अशें घडटा. खंयय वचपाचो कार्यक्रम थारायलो जाल्यार ऐन वेळार हॉस्पीटलांतल्यान कॉल येता आनी तो सगलें सोडून धांवत हॉस्पीटलांत वता... त्यापरस एका साध्या कारकुनाकडेन लग्न जाल्ली जाल्यार म्हजी जीण सुखाची जाता आसली."

तिगेली ही खंत आयकून घेवपाची उसरपत लेगीत डॉ. धन्वंतरीक मेळनासली. चल्याक मात ती आयकुची पडटाली आनी समज येतसावन चल्याक आपले आवयची काकुळट दिसूंक लागिल्ली. एके भाशेन आपल्या बापायचो ताका राग येतालो. पूण आपल्या व्यवसायांत डॉ. धन्वंतरी इतलो घुस्पल्लो की बायल वा चल्याची वासपूस करपाइतली ताका उसरपत मेळनासली. पूण जेन्ना मेडिकल कोर्साक वचपाक चल्यान न्हयकार दिलो आनी तागेले आवयन ताचो पाखो घेतलो तेन्ना डॉ. धन्वंतरीक अजाप तर जालेंच, थोडे वायटय दिसलें.

ते विशीं डॉ. धन्वंतरीन म्हाका सांगलें, 'थंडसाणेन येवजितकच म्हाकाय दिसलें म्हजे विचार ताचेर लादप समा न्हय. तो स्वतंत्र मनीस. आपलें व्यक्तिमत्व आनी आपलो फुडार घडोवपाचो अधिकार ताकाय पावता. आवडीच्या वेवसायांत तो गेलो जाल्यार वायट मानपाचें कारण ना. आनी हांवे ताका ताजे वाटेन वचपाची मेकळीक दिली.'

चलो हुशार आसलो. बापायक जरी तागेल्या शिक्षणाकडेन लक्ष दिवंक वेळ मेळनासलो तरी चल्याची प्रगती पळोवन ताका समादान आसलें. ताका कितें जाय, कितें नाका तें चल्याची आवय पळयताली. घरांत पयसो येतालो. ती अचडण नासली.

एक दीस अचकीत चलो बापायसरीं आयलो आनी ताणे बापायक सांगलें, "हांव उंचयल्या शिक्षणाखातीर अमेरिकेक वचूंक सोदतां."

बापायक एकदम धक्को बसलो. एकलोच चलो. जाण्टेपणात ताजो फुलतो संवसार पळोवन दीस सारपाची सपनां तो पळयतालो. अमेरिकेक गेलो जाल्यार तो परत केन्ना येत हाचो नेम ना अशें बापायक दिसतालें. त्याभायर अमेरिकेक वचून व्हडलेशें कितें करपाचें आसा?

"म्हाका थंयच्या विद्यापीठाची डॉक्टरेट घेवपाचे आसा." चल्यान बापायक सांगलें.

"हांगाची विद्यापीठां डॉक्टरेट दिनात?" बापायन विचारलें.

"दितात. पूण तांकां आंतरराष्ट्रीय मान्यताय ना. शिक्षणाच्या निमित्यान विदेशाची भोंवडी करूंक मेळटली आनी घडये नवी संद मेळटली. म्हाका संशोधन करपाची आवड आसा. तीय अमेरिकेंत भागतली." चल्यान सांगलें.

बापायन ताका समजावपाचो यत्न केलो : "तूं थोडे दीस भोंवन येतलो जाल्यार हांव विरोध करचो ना. तुका लागत तितले पयशे हांव दितां. पूण तूं परत आयिल्लो म्हाका जाय."

आवयचे विचार वेगळे आसले. तिका तो घरा राविल्लो जाय आसलो. तो रावचो ना हें जाणून आशिल्ली देखून ती एकच हट घेवन बशिल्ली. "तूं अमेरिकेंत वच नाजाल्यार आनीक खंयय वच. पूण लग्न जा आनी वच.'

आपलो चलो लग्न जालेबगर अमेरिकेक गेलो जाल्यार थंयची चली गळ्याक बांदून घेतलो आनी हांगा लग्न जावन गेलो जाल्यार एक तर थंय ना जाल्यार हांगा ताचो संववार बरे तरेन चलतलो अशें तिका दिसतालें.

निमाणे बापायक आपलो आग्रो सोडचो पडलो. चलो तडजोडीक तयार जालो आनी योग्य बायल सोदपाचें काम ताणे आवयचेर सोंपयलें.

बापायन मर्दी तोंड घालें. ताणे म्हळें, "चलयो सोदीत भोवपाचे दीस आता फाटीं पडले. तुज्या मनांत कोणय आसत जाल्यार सांग. आमी विरोध करचे नात. पूण कोण नासत जाल्यार पेपरांत जायरात दिवन उडय."

जाहिरातीची कल्पना आवयक मान्य नासली. चलो आसतकच फुलासरी पाखे येवचे तशे चलयेकार सोयरीक घेवन येतले अशें तिका दिसतालें. लग्नाखातीर चल्यान जायरात दिवप हें उणेपण अशें ती मानताली. पूण बापायली कल्पना चल्याक पसंत पडली आनी पेपरांत ताणे जायरात दिली.

सुमार एका म्हयन्यान वर्तमानपत्राच्या ऑफीसांतल्यान एक दाट पाकीट आयलें. कितलेशाच चलयांचे अर्ज आयिल्ले. थोड्यांविशीं माहिती तांच्या घरच्यांनी धाडिल्ली जाल्यार थोड्या चलयांनी आपूण जावन पत्रां बरयिल्लीं. कांय जाणांनी फोटे आनी जल्म कुंडल्यो लेगीत धाडिल्ल्यो.

डॉ. धन्वंतरीन तीं सगलीं पत्रां आपले बायलेचे सुवादिन केलीं आनी म्हळें, "आता निवड करपाचें काम तूं कर."

आवयन पुताक विचारलें. पुतानय तशीच जाप दिली. मागीर आवयन धर्म, जात, गोत्र विचारांत घेवन आनीक लागशिल्ल्या पयशिल्ल्याकडल्यान बारीकसारीक वासपूस करून चार-पांच चलयो वेंचल्यो आनी पुताक सांगलें, 'एकच काम तुवें करपाचें. चली पळोवन तिका पसंत करपाची. फुडलें सगलें हांव पळयतां.'

थोडेशे अनिच्छेन पूत कबूल जालो.

चलयेच्या भावाकडेन आवयन संपर्क सादलो. गांठीभेटीचो वेळ थारायलो. मुंबय शारांतल्या एका हॉटेलांत चलयेक घेवन भाव येतलो तेन्ना चल्यान थंय येवचें अशें थारलें. डॉ. धन्वंतरीक पेशंटाक सोडून वचप शक्य नासलें. 'त्याभायर म्हाका तातुंतलें कितें कळटा? म्हजी बायल लेगीत हांवें निवडली ना. तेन्ना आवय आनी पूत थारायत तें जालें अशें मत उक्तावन तो मेकळो जालो.

आवयन म्हळें, ''तूं कोणाय इश्टाक घेवन वच. पूण पूत तयार जालोना. निमाणे आवय आनी पूत हॉटेलांत गेलीं. चलयेची आवय आनी बापूय दोगांय आयिल्लीं. हॉटेलांत वयलेचाराची उलोवणी जाली. आवयक चली पसंत पडिल्ली. पूण पूताकडेन उलयलेबगर आपलें मत ती उक्तावंक सोदिनासली.

चलयेच्या बापायन म्हळें, 'तुमी खासगी उलोवन एकमेकांक समजून घेतलीं जाल्यार आमचो विरोध ना.' चल्याचे आवयकय ती कल्पना पसंत पडली आनी जाण्टेलीं तिगांय भायर सरून गेलीं.

''हॉटेलाच्या रुमांत ही बसका घडोवन हाडिल्ली. तीं गेलीं आनी रुमाचे दार बंद जालें. रुमांत तीं दोगांच उरली तेन्ना एक विपरीत गजाल घडली.'' डॉ. धन्वंतरीन म्हाका सांगलें.

टेलिव्हिजनावयले सिरीयलीत एखाद्या भागाच्या शेवटाक उत्सुकताय वाडोवपी प्रसंग दवरचो तसो डॉ. धन्वंतरी उलयतालो. उत्सुकताय वाडोवंक आसत वा आपली बायल आयकना म्हणपाची खात्री करूंक आसत तो मर्दीच उठून भायर वचून येतालो.

आपलो चलो आनी ती चली हॉटेलाच्या रूमांत एकलींच उरलीं अशें सांगून तो थांबलो.

तो कितें म्हणटा ताजो बोध म्हाका जालोना. तरी दिसलें चल्यान आगळीक केली आसतली. हांव कांय उलयलों ना. फकत विचारलें, 'कितें घडलें?'

'जशे जाण्टेले भायर सरले त्याबरोबर ते चलयेन आमगल्या चल्याचे पांय धरले. दोळ्यांतल्यान दुकांचे व्हाळ व्हांवताले. तिणे ताका म्हळें, 'म्हजेर एक उपकार कर...' कितें घडलां, चल्याक कळ्ळेंच ना. तो गोंदळ्ळो आनी फाटीं सरलो.'

ते चलयेन आपणाक पळोवंक आयिल्ल्या चल्याक सांगलें, 'म्हज्या इच्छेआड म्हजो आवय-बापूय म्हजें तुजेकडेन लग्न करूंक सोदतात. ही पयली खेप न्हय. ह्या आदीं दोग-तीग जाण येवन गेले. हांवें सांगलें तेन्ना ते कबूल जाले. आतां तुजेकडेन भीक मागतां. आमचें नातें भावा-भयणीचें उरतलें.'

'म्हळ्यार कितें?' गोंदळून गेल्ल्या चल्यान विचारलें.

'म्हळ्यार म्हाका तुजेकडेन लग्न जावचेलें ना. एक तर तूं म्हाका नापसंत कर आनी तशें सगल्यांक कळय नाजाल्यार म्हाका इल्लें विख हाडून दी.'

'तुका लग्नच जावचेलें ना जाल्यार तुजे आवय-बापूय असली सक्ती कित्याक करतात? आनी चलयेक पळोवपाचें नाटक तरी कित्याक?'

'म्हाका लग्न जावचेलें आसा. म्हजें एका चल्याचेर प्रेम आसा.' रडत रडत तिणे सांगलें, 'आनी तें लग्न मोडचें म्हणून म्हजो आवय-बापूय हो सगलो खटाटोप करता, ...पूण एक सोपूत तुका घालतां. हांवें तुका कितें सांगलें, ही खबर म्हज्या आवय बापायक कळूंक फावना.'

दुसरो उपाय कितें आसलो? चल्यान येवजिलें. आपलें काय तिचेर प्रेम ना. देखून तिचेचकडेन लग्न जावपाचो हट्ट करपाचें कारण नासलें. ताणे तशें तिका उतर दिलें. थंडसाणेन तिचेकडेन उलोवन घेतलें, तिचें मन समजून घेतलें आनी घरा येतकच आपले आवयक मात घडिल्ली ती सगली खबर ताणे सांगून उडयली.

पुताचे सांगणेवेल्यान चली पसंत ना असो रकाद त्या कुटुंबाक वतकच मर्दी एक दीस तीच चली डॉ. धन्वंतरीगेर आपूण जावन आयली.

आयताराचो दीस आसलो. आवय-बापूय आनी पूत तिगांय घराच आसलीं. दारावयली बेल वाजली म्हणून दार उक्तें कर जाल्यार आवयक चली दिश्टी पडली. कितें करचें आनी कितें करचें न्हय तें तिका कळ्ळेंना. खीणभर तिका पळयत रावले उपरांत आवयन तिका भितर आपयली. सगल्यां सामकार कसलोच संकोच दवरिनास्तना तिणे म्हळें, 'हांव तुमची क्षमा मागूंक आयल्यां आनी उपकारय. आतां म्हज्या बापायन हांवें वेंचिल्ल्या चल्याक मान्यताय दिल्या.'

'भावाक आमंत्रण दिवंक आयल्या काय कितें?' हांसून चल्यान तिका विचारलें.

'तशें समज. पूण तुजें दुसरेचेर प्रेम नासत जाल्यार भयण ह्या नात्यान एक सोयरीक घेवन आयल्यां.' तिणे सांगलें.

सगले विस्मित जाले. तिणे चलयेची जल्मकुंडली, फोटो आनी लेखी बायोडेटा आवयच्या हातांत दिलो आनी म्हळें, 'म्हजेपरस उजवी अशी ही मैत्रीण. शिकूंक हुशार, घरकामांत हुशार. दिसूंक नक्षत्रासारकी, गुणांनी, शीलान एकदम बरी. पूण तिची एकच अडचण आसा. तिका बापूय ना. विधवा आवयन तिका ल्हानाची व्हड केल्या. देखून वरदक्षणा व्हडलीशी मेळची ना.'

'विधवा आवयली एकली गरीब चली. हें आयकनाफुडें म्हाका तिची काकुळट दिसली आनी मनांतल्या मनांत तिका पसंत करून उडयली.' डॉ. धन्वंतरीन सांगलें, 'आनी नाटकांत घडटात तशें घडत गेलें.

'पूण ते चलयेच्या सांगण्याचेर तुजो विश्वास बसलो?' हांवें डॉ. धन्वंतरीक विचारलें.

'कसो बसतलो?' ताणे म्हळें, ''असले प्रसंग नाटकांनी सोबले तरी वेव्हारांत सारके तपासून घेवचे पडटात. जिच्या आवय बापायन सोयरिक म्हज्या चल्याक हाडिल्ली ती

आपूण लग्न जायनासतना आपले मैत्रिणीचें नांव सुचयता अशें घडूं येता... पूण म्हाका ताक लेगीत फूक मारून पियेवपाची संवय जाल्या.'

'खरें सांगता तुमकां' ते चलयेन म्हळें, 'तिका बरे संस्कार मेळळयात. ग्रॅज्युएट जाल्ली आसा. गरिबी आसतनाय आवयन तिका नोकरी करूंक दिलीना. तिचें म्हणणें इतलेंच की लग्न जातकच जाय जाल्यार घोवाक विचारून नोकरी कर... मात्शी पोरण्या वळणाची वायल... तुमची मान्यताय आसा जाल्यार हांव तिका घेवन तुमगेर येवं?'

'तसो मानापमानाचो प्रस्न ना.' डॉ. धन्वंतरीन तिका सांगलें, 'प्रस्न इतलोच की चल्याक चली पसंत पडूंक जाय. तांचें प्रेम आशिल्लें जाल्यार हांव कसलीच वासपूस लेगीत करपाचो न्हय. तूं एक दीस ते चलयेकच घेवन यो.'

ती चयलेक घेवन आयली. डॉ. धन्वंतरीची सहानुभूती आसलीच. तागेले बायलेक चली पळयनाफुडें आवडली. तिणे तशें आपल्या घोवाक सांगलें. डॉ. धन्वंतरीन म्हळें, 'चल्याक पसंत पडली जाल्यार म्हजो विरोध ना. वयलेचाराक तरी ती सादी सरळ दिसता.'

मजा अशी जाली की थोड्याच दिसांभितर ती चली धन्वंतरीची सून जावन ताच्या घरांत आयली.

'तिणे येतना वरदक्षणा हाडलीना. पूण मनाची गिरेस्तकाय आमच्या घरांत हाडली.' डॉ. धन्वंतरीन अभिमानान म्हाका सांगलें, 'म्हाका आमचे सुनेपरसय तिचे मैत्रिणीची चड तोखणाय दिसली....'

केदो वेळमेरेन तो आपले सुनेविशींच सांगतालो. म्हाका उमळशीक आशिल्ली ती तागेलें गुपीत समूजन घेवपाची. हांवें तशें ताका म्हळें.

'घरांत सून आयली आनी घर भरिल्लेभाशेन जालें. म्हजे पुरतें सुनेची आवय विधवा आनी ती गरिबींतल्यान वयर सरिल्ली चली हेंच तिका पसंत करपाचें मुखेल कारण मानिल्लें. पूण म्हजे बायलेच्या मनांत सुनेविशींचे जे कस आशिल्ले त्या कसांचेरय ती उतरताली. तिणे कुळा-शीलाविशीं खबर घेतिल्ली, धर्म, जात आनी गोत्र आड येवचें ना म्हणपाची जतनाय घेतिल्ली आनी चड खोशयेची गजाल म्हळयार आमच्या चल्याक ती पसंत आसली. रुपान ती उजवी. सामकी ब्यूटी क्वीन म्हळयार जाता... इतली सुंदर. चाल-चलणुकेन एकदम बरी, मानमर्यादा आशिल्ली. पयल्याच दिसा घरांत आयली आनी नम्रतायेन तिणे रांदचे कुडीतल्यान मायंक भायर काडली आनी जें कितें रांदलें ताचो सुवाद अप्रूप...'

धन्वंतरी मोठे उमेदीन आपले सुनेच्या गुणांचे वर्णन करतालो.

'अमेरिकेक वचचे आदीं कितले दीस ती तुमचेसरी उरली?' हांवें विचारलें.

'तशी ती दोन वर्सां उरली. चलो चड दीस रावलो ना. तो रोखडोच अमेरिकेक गेलो.

तागेलो पासपोर्ट-व्हिसा तयार आसलो. तिगेलो पासपोर्ट तयार जावंक अडचण आयलीना. पूण व्हिसाखातीर खूबच अडचणी आयल्यो. त्या दिसांनी आमकांय तिची काकुळट दिसताली. हळदीच्या आंगाची सून. घोव पयस अमेरिकेंत आनी ती हांगा आपल्या जाण्ट्या मांवाची आनी मांयची सेवा करताली. एके तरेन ही तिका शिक्षाच आसली. म्हजे बायलेन तिका म्हणचें, आदले जल्माचें पुण्य देखून तूं धूव जावन आमगेर पावली. आमचेखातीर तूं कश्टता, पूण हो वनवास कसलो? पूण 'तुमची सेवा करपाचे भाग्य मेळ्ळें हें म्हजे नशीब.' तिणे म्हळें.

'तिचें कुळार मुंवयतच आशिल्लें न्हय?' हांवें विचारलें.

'तेंच तर तुका सांगतां न्हय. आमी तरातरांनी तिका समजायली. आवयचो उगडास येता जाल्यार चार दीस कुळारा वचून राव अशेंय समजायलें. पूण ती कबूल जालीना. तिणे म्हळें कितें जाणा. सून जावन हांव ह्या घरांत आयलीं. कुळार म्हजें न्हय अशें न्हय. पूण हें म्हजें घर सोडून हांव कशी वचूं?'

एकूण सुनेविशीं धन्वंतरीची कसलीच कागाळ नासली. मुखार ती बदल्ली बी काय कितें असो म्हजे तकलेंत दुबाव आयलो. जें गुपीत अशें तो म्हणटालो ते गुपीताचो सुनेकडेन बी संबंद आसत काय? हांवें ताका तशें विचारलें.

'निखालस ना.' ताणे भर दिवन सांगलें, 'ती सामकी सादी, सरळ, निष्कळंक. तिजेविशीं कसलीच कागाळ ना. आनी तिचो आनी मुदयेचो लेगीत कसलोच संबंद ना. तूं उताविळो जायना जाल्यार हांव तुका थंडसाणेन कशें घडत गेलें तें सांगतां.'

'सुनेची आवय?' हांवें विचारलें, 'तिचें कितें जालें?'

'तिचेविशीं सांगतलो कितें? ती एकय दीस आमगेर आयलीना. विधवा बायल. तिका धुवेच्या भरिल्ल्या घरांत आपली सांवळी पडची न्हय अशें दिसतालें. तिचेविशीं हांव आयकून आसलों. म्हजी बायल सांगताली, सून सांगताली आनी चलो लेगीत सांगतालो - खूब देवभक्त. पंचांगातल्यो कितल्योशोच तिथी तिणे उपासाखातीर राखून दवरिल्ल्यो. सकाळची देवाची पूजा केलेबगर उदकाचो थेंब तोंडांत घेनासली. म्हजी बायल तिका मेळूंक वताली आनी वतना बळयां सुनेक सांगातान व्हरताली. चलो हांगा आसतना तिजेसरीं पावतालो. हांव मात केन्नाच पावलोना. तुका अजाप दिसतलें, लग्नाच्यावेळार लेगीत ती हॉलांत आयली नासली. हांवें तिका पळयलीच ना. कांय वर्सांनी तिका मर्ण आयलें. तिगेली धूव आसली अमेरिकेक. खूब दिसांउपरांत शेजाऱ्यांनी रकाद धाडलो तेन्ना तिच्या मर्णाची खबर आमकां कळ्ळी.'

सुनेचे आवयच्या मर्णाची खबर आयकून डॉ. धन्वंतरी आनी तागेली बायल दोगांय चुरचुरली. तिका मर्ण आयलें म्हणून तांकां वायट दिसलें अशें न्हय. पूण एकाच शारांत आसतना तिचे खबरेक लेगीत तीं पावलींनात आनी तिका वखद दिवपाची संदय तांकां

मेळ्ळीना हाजी खंत तांकां भोगली. मुंबयचे मुंबय तिच्या मर्णाची खबर पावंक खूब दीस लागिल्ले. पूण टेलिफोनावेल्यान त्याच दिसा सुनेक ताणी ती खबर दिली आनी तिका धीर दिवन दोन उतरांय सांगली.

'तुका जाय जाल्यार तूं मुंबय येवन वच.' मांयन सुनेक सांगलें.

'आतां मुंबय येवन हांव कितें करतलीं? अंतर खूब आसा. खर्चय खूब येतलो.'

'खर्च कितलोय येवं. तूं येवन वच. तितलेंच तुज्या मनाक समादान मेळटलें.' तिणे सुनेक सांगलें.

तरी सून तयार जालीना. थोड्याशा निर्विकार सुरांत तिणे म्हळें, 'पयशे खर्चूनय समादान कसलें मेळटलें? म्हजी आई मेली हाजें दु:ख उणें जावचें ना. अमेरिकेक वचूंक भायर सरचेआदीं हांवे तिचो तसो निरोपय घेतिल्लो. तरी बरी नास्तना रकाद मेळिल्लो जाल्यार गजाल वेगळी जावपाची.'

'तेंय आमकांय वायट दिसलें.' मायन सांगलें, 'एकाच शारांत आसूनय शेजाऱ्यांनी रकाद लेगीत धाडलो ना. ती गेल्ल्याची खबर कळटकच आमी मुजरत तुज्या कुळारा वचून आयलीं. घराक कुलप आसलें. चावी शेजारच्या बिराडांत आसली. हरशी ती चाळ. फ्लॅटांतली गजाल वेगळी जाता. शेजाऱ्यांनी सांगलें कि ती बरी नाशिल्ल्याचें कोणाकच खबर नासलें. ती केन्ना कोणाकडेन उलयलीना. निमाण्या दिसा सकाळीं ती न्हाली, देवाची पूजा केली आनी शेजान्नीक सांगलें, म्हज्या जीवाक बरें दिसना. घुंवळ आयिल्लेभाशेन जाता. हांव मात्शी आड पडटां. तूं मर्दी जाग घे.. आनी ती न्हीदली. शेजान्नीन येवजिलें डॉक्टराक आपोवया. पूण तिगेलें भश्ट अनवाळें कडक हें ती जाणा आसली. देखून तिणे नाका म्हणटकच शेजान्न कांय उलयली ना. एका वरान जाग घेवंक गेली जाल्यार तिका न्हिदिल्लेकडेन मरण आयिल्ल्याचें कळ्ळें. मागीर बोवाळ जालो. निमाणे संस्कार कोणे केले कोणाक खबर ना. आमकां कळ्ळें लेगीत ना.'

'तातूंत शेजाऱ्यांचो गुन्यांव ना.' फोनावयल्यान सुनेन सांगलें, 'हांव लग्न जावन म्हाका खंय दिल्या हें आईन शेजाऱ्यांक केन्ना सांगलेंना. म्हज्या लग्नाची मिठाय तिणे वांटली, पूण एकाय शेजाऱ्याक आमंत्रण दिवंक नासलें. म्हज्या लग्नाक लेगीत ती आयली ना हें तुमी जाणातच. ती मात्शी विक्षिप्त बायल. ती तशी कित्याक वागताली हें म्हाकाय कळनासलें. देखून गुन्यांव शेजाऱ्यांचोय ना आनी तुमचोय ना. गुन्यांव आसत जाल्यार तो म्हजे आवयचोच म्हणूंक जाय.'

''तुजो मामा बी आयिल्लो काय?''

''आमचे चाळीचे फुडले वाटेन आशिल्ले चाळींत तो रावता. तो केन्नाय येतालो. तुमी ताका वळखतलीं. म्हज्या लग्नावेळार ताणेच यजमानपण केल्लें.''

'तो आसतना चावी शेजाऱ्यांकडेन कशी उरली?' मांयन आपल्या मनांत आयिल्लो

प्रस्न सुनेक विचारलो.

'इतल्या पयसुल्यान हांवे कशें सांगतली?' सुनेन म्हळें, 'पूण म्हज्या मामानच ती शेजाऱ्यांकडेन दवरिल्ली आसत. तरी एक सांगात, आवयच्या मर्णाउपरांत म्हजो मामा तुमका मेळूंक आयलो ना?'

'ना. आनी खरें सांगतली म्हळ्यार त्या दिसा तो यजमानपणाक बशिल्लो तितलो सोडलो जाल्यार ताका आमी पळोवंक लेगीत ना. आमी तुजे आवयले चाळीत गेल्लीं तेन्ना मामाविशी खबर आशिल्ली जाल्यार आमी तागेरय वचून येतलीं आसलीं. आता मदीं केन्नाच वचून येतात.' मांयन सुनेक सांगलें.

'मुद्दाम वचूंक जाय अशें ना.' सुनेन म्हळें, 'फुडें हांव केन्नाय येतली, तेन्ना मेळूं येत.'

फोन सकयल दवरतकच धन्वंतरी आनी तागेले बायलेची सुनेचे आनी चड करून सुनेले आवयचे वागणुकीविशीं उलोवणी जाली.

'म्हाका तातूंत कांय गैर दिसलेंना. धुवेच्या नात्यान तिगेल्या घरच्या लोकांक त्रास दिवचो न्हय ह्या निश्चयानच सुनेची आवय वागताली म्हणपाचें म्हाका कळटालें. पोरणे संस्कारांत वाडिल्ली वायल ती. ल्हान पिरायेचेर घोव गेल्लो देखून आपलेंच नशिव फुटकें... आपली सांवळी पडत थंय दुःख आनी अनर्थ उपजतलो अशी तिची मान्यताय आसूये. देखून धुवेच्या लग्नाक लेगीत ती आयली ना वा धुवेच्या घरांत केन्ना पांय दवरलोना. घडये तिणे आपल्या भावाकय तागेले भाच्चेगेर वचपाक मना केल्लो आसुंये. मर्णाउपरांत लेगीत ही खबर आमका कळोवंची न्हय अशें आदीच सांगून दवरिल्लें आसूंये. आनी सुनेपुरतें सांगपाचें जाल्यार तिगेल्या म्हणण्याक अर्थ आसलो. आतां अमेरिकेसावन मुंबय येवन ती कितें करतली आसली?' धन्वंतरीन म्हाका सांगलें.

डॉ. धन्वंतरी आपले सुनेची आनी तिचे आवयची खबर इतली विस्तारान कित्याक सांगता तें म्हाका कळ्ळेंना. हांवें ताका म्हळें, 'आपलेपासून आपले धुवेक वा धुवेल्या लोकांक कसलेच त्रास जावचे न्हय म्हणून तुमचे सुनेची आवय खूब जतनाय घेताली हें कळ्ळें. आता तिगेल्या जाग्याची विल्हेवाट तुमी लायिल्ली आसतलीच.'

'म्हाका सारकें खबर ना, पूण आपूण तिगेलो देर अशें सांगपी एक मनीस आयलो आनी त्या रुमाची चावी मागूंक लागलो. म्हाका त्या झगड्यांत पडूंक नाका आसलें. हांव सुनेच्या पयसुल्या मामाक मेळूंक गेलो आनी ताका सांगले की म्हजे सुनेचे आवयचो देर अशे सांगपी एक मनीस तिगेले रूमाचो ताबो मागता. तुका तातूंत कितें खबर आसा?'

'म्हाका कांयच खबर ना आनी तांगेले भानगडीत म्हाका पडपाचेंय ना' सुनेच्या मामान सांगलें, 'तांगेल्यो भानगडी कितें हें कोणाकच सारकें खबर ना. पूण हांव जाणा तिगेलो एक देर आसलो आनी तो आपल्या भावाकडेन मदीं मदीं येवन झगडटालो. तिचे

खबरेक केन्नाय आयिल्लेवेळार हांवे ताका पळयला. तेन्ना ताका चावी दिवं येता. पूण म्हाका मदीं घालूं नाका. तूंच वचून घरांत आशिल्ली आयदनां आनी हेर वस्तूंची वळेरी कर आनी तुजी सून कितें म्हणटा तें पळय. जागो ताका मेळूं. पूण हेर वस्तू तुजी सून तयार जाली जाल्यारच दी.'

धन्वंतरीकय सुनेल्या कुळारच्या झगड्यांत पडपाचें नासलें. कसल्योशो वस्तू आसतल्यो? आयदनां, हांतुणां आसतलीं, कितेंय पयशे आसतले... तरीकय ताका दिसलें मुंबय शारांत एक रुम आसप खूब मोलाचें. सुनेकच आपोवचें आनी तिका जाय तें करूंक सांगचें..

सुनेक ताणे आपयली. पूताकय सगली परिस्थिती समजायली. सून येवंक कबूल नासली. निमाणे पूतच तिका घेवन आयलो. तांकां लागून धन्वंतरीच्या माथ्यावयलें वजे ल्हव जालें.

पयल्या दिसा धन्वंतरी आपल्या पूताच्या आनी सुनेच्या सांगातान ते चाळीत गेलो. घरांत एक-दोन ट्रंकां आसलीं, बाकीचीं आयदनां, देवारो आनी घर संवसाराच्यो वस्ती. त्या दिसा सुनेचो बापोलयोय आयिल्लो. धन्वंतरीले सुनेन सगलें सामान पळोवन घेतलें. ट्रंकां आपल्या सांगातान व्हरपाचें थारयलें आनी घराची चावी बापोलयाकडेन दिवन ती मेकळी जाली.

'घरांत उरल्यात त्यो वस्तू म्हज्या बापायच्यो वा आवयच्यो.' तिणे आपल्या बापोलयाक सांगलें. 'ट्रंका व्हरून हांव पळयतां. कितेंय गरजेच्यो वस्तू आसल्यार तांची विल्हेवाट लायतां. म्हाका आवयलें कांय नाका. पूण तुका एक विनंती आसा म्हज्या नात्यान तुंवे म्हगेल्या मांवाक वा मांयक त्रास दिवंक जायना. म्हगेली आवय करताली तशें तुंवे तांगेर येवंक लेगीत फावना. तुजें नातें म्हजेकडेन. हांव अमेरिकेक उरतां...'

बापोलयो कबूल जालो आनी तीं ट्रंकां घेवन सून डॉ. धन्वंतरीच्या घराकडेन आयली.

'त्या ट्रंकांनी कितें आसलें?' हांवे डॉ. धन्वंतरीक विचारलें.

'त्या ट्रकांनी खुबशो वस्तू आसल्यो. आमची सून सरळ सभावाची. तिणे त्यो आपल्या घोवाक दाखयल्यो पूण घोवाक तेविशीं आस्था नासली आनी त्यो वस्तू पळोवपाइतली उसरपत म्हाका नासली. म्हजे बायलेन सुनेक आदार दिलो. ल्हानपणांत सावन जमयिल्ल्यो तिगेल्यो वस्तू आसल्यो... तांतूंत मंगळसूत्र, तरेकवार मणी, भांगराच्यो किरकोळ वस्तू, रुद्राक्षाची माळ, आदले मुस्तींतलीं जरी कापडां; एका ट्रंकात पुडवें, खोमसां, कोट आनी दोन तोपयो. चड करून सुनेल्या बापायचो तो भेस आसूंये. कांय चार-पांच पत्रां जी सुनेन वाचलीं आनी वेगळी काडून दवरलीं. देवाचे स्तोत्रांची पुस्तकां. पूण एका ट्रंकांत दोन डबयो मेळल्यो. ह्या डबयांनी बँकेचे पासबुक आसलें. बँकेची आनीकय कागदां तातूंत आसलीं आनी तांचे पोंदा चावी. ताचेवयल्यान समजलें की सुनेचे आवयन बँकेत

पयशे दवरिल्ले. तिच्या खात्याक पास बुकाप्रमाण सुमार ८० हजार रुपया जमा आसले.'

'तें पासबुक घेवन सून म्हजेसरी आयली आनी तिणे म्हळें म्हजे आवयन इतले पयशे जमयल्यात म्हणपाची म्हाका कल्पना लेगीत नासली. ती बँकेत वताली हें हांव जाणा, पूण खात्याविशीं कांय खबर नासलें.' धन्वंतरीन सांगलें.

''डॉ. धन्वंतरीन पासबुक तपासलें. निमाणी नोंद आसली ती सुमार १५ वर्सां आर्दींची. तरीकय बँकेत वचून वासपूस कर. म्हाका असो दुबाव येता की हे डबयेतली चावी बँकेच्या लॉकराची आसूंये. लॉकर उकतो करून थंय कितेंय आसल्यार पळोवचें पडटलें.''

दुसऱ्या दिसा सुनेन बँकेत वचून वासपूस केली तेन्ना तिका आनीकय जबर धक्को बसलो. बॅंकेत फक्त ८० हजार न्हय तर सुमार दोन लाख रुपया दवरिल्ले आसले आनी लॉकरय तिच्या नावान आसलो. पूण तो लॉकर उकतो करतलो जाल्यार कायद्याची अडचण आसली.

फुडले कांय दीस चलयेचो वारशाचो हक्क सिध्द करपाचीं कागदां तयार करूंक गेले. केन्ना तरी आवयन बँकेक एक पत्र दिल्लें. ताचोय उपेग जालो. त्या पत्रांत तिणे आपलें बरें वायट जालें जाल्यार आपल्या खात्यांतले पयशे आपले धुवेक दिवचे अशें बरयिल्लें. पूण लॉकराविशीं तिणे कोणाक सांगलेंना.

हे वाटेन सुनेचे अमेरिकेक परतुवपाचे दीस लागीं येताले आनी सरकारी कामां पूर्ण जावंक खूबच कळाव लागतालो. बँकेच्या खात्यांत आशिल्ले पयशे मेळ्ळे, पूण लॉकर उक्तो करपाची संद मेळ्ळी ना. सुनेच्या हातान लॉकर उक्तो जावचो अशी डॉ. धन्वंतरीची इत्सा आसली. विस्वास-अविस्वासाचो प्रस्न ना. थोडोसो भावनेचोय प्रस्न आसलो.

निमाणे लॉकर उक्तो करपाची परवानगी आयली. सून एकलीच बँकेत गेली आनी तिणे तो लॉकर आपल्या नावान बदलून घेतलो.

घरा येवन तिणे मांयक सांगलें, 'लॉकरांत तरेकवार भांगराच्यो वस्ती आसात. त्यो पळोवन म्हजोच विस्वास बसलो ना. म्हजे आवयन आंगार भांगर घाल्लें हांवे केन्ना पळोवंक ना. तिगेल्या लॉकरांत ह्यो वस्ती कशो पावल्यो तेंच समजना.

सुमार दोन वर्साउपरांत एक दीस एक बायल... जाण्टी बायल. पिरायेन सुमार ६० वर्सांची आसतली आनी सांगातान तिचो घोव डॉ. धन्वंतरीगेर आयलो. त्या वेळार धन्वंतरी घरांत नासलो. तागेले बायलेन तांचेकडेन वासपूस केली तेन्ना तांणी सांगलें की सुनेले आवयकडेन तांणी भांगर दवरूंक दिल्लें. तिचेकडेन बँकेचो लॉकर आसा देखून तें तिचेकडेन दवरूंक दिल्लें. तें आतां आपणाक परत जाय.

डॉ. धन्वंतरीचे बायलेक दुबाव आयलो. तिणे म्हळें, 'ते विशीं आमकां कांय एक खबर ना. आमची सून ही तिगेली एकलीच धूव. पूण तीय अमेरिकेक आसता.' तिणे

तिजेविशीं बारीक सारीक तपशील घेतलो आनी 'सुनेक विचारून पळयतां, तूं परत केन्नाय यो' अशी जाप दिली..

दोळयांत दुकां हाडून ते बायलेन धन्वंतरीचे बायलेक सांगलें, 'आमी मूळची मोठ्या घराण्याचीं. म्हज्या घोवान सगल्या तरांच्या वेसनांचे आधीन जावन सगली इस्टेट काबार केली. त्या वेळार आंगावयलें भांगर उरचें हेखातीर हांवे तें तिजेकडेन व्हरून दवरिल्लें. हांवें बरोवन घेतलें ना. पूण म्हाका उगडास जाता ते भाशेन तिणे ते बरोवन दवरिल्लें आसूंक जाय.'

आपल्या वस्तींची वळेरी डॉ. धन्वंतरीचे बायलेकडेन दिवन ती परत गेली.

'म्हाका सुरवेक दिसलें आमच्या कुटुंबाक वळखतल्या मनशान हें कारस्थान रचलां. पूण ते बायलेचें नांव आयकतकच म्हाका दिसलें ती म्हणटा तें खरें आसूंये. फोनावयल्यान सुनेकडेन उलयतकच सुनेनय सांगलें की ते बायलेक ती वळखता. ती दिसपट्टी आपले आवयसरीं येताली आनी घोवाची वेसनां घराबो काबार करतात अशी कागाळ करताली. आपली आवय तिका धीर दिताली. ती मूळची श्रीमंत म्हणपाचें आवयन म्हाका सांगिल्लें. पूण जालेंय जाल्यार वस्तींविशीं आवयन कांयच सांगूक नासलें, अशें सुनेन सांगलें.

दुसरे खेपे ती बायल जेन्ना आयली तेन्ना डॉ. धन्वंतरीन तिका सांगलें, 'सून आनी पूत भारतांत येवपाचीं आसात. तूं संपर्क दवर. तीं येतकच फुडलीं रुजवात करूया.'

'एक दीस सुनेन हाडिल्ल्या ट्रंकाकडेन वाळटी दिसली. आमी ताकतिकेन ती उक्ती करून निवळ केली. तांतूंत एका रसमी लेंसाक गांठ मारिल्ली म्हाका दिश्टी पडली. हांवें गांठ उसोवन पळयलें जाल्यार भितर एक चिटारो आसा आनी चिटाऱ्याचेर ते बायलेचें नांव आनी तिच्या वस्तींचो तपशील आसा. ट्रंक निवळ करून तो चिटारो तसोच गांठीक बांदून हांवे बायलेक म्हळें ती वस्ती मागूंक आयिल्ली बायल खरें उलयिल्ली म्हणपाचो हो पुरावो. आतां सुनेकच येवन तो प्रस्न सोडोवं दी.' डॉ. धन्वंतरीन म्हाका सांगलें.

तागेले बायलेकय घोवाचें म्हणणें पटलें. 'ओगीच असो कोणय येवन फटीचो दावो सांगचोना. सुनेले आवयन आपलें मंगळसूत्र घरांत दवरिल्लें..' तिणे घोवाक म्हळें.

पूण सून परत येईसर आमी ते बायलेक हे चिठीविशीं कांय सांगलें ना. सून येतकच तिका ती चीट दाखयली आनी लॉकर उकतो करून पळोवया अशें सुचयलें.

दुसऱ्या दिसा डॉ. धन्वंतरी सुने सांगातान बँकेंत गेलो. लॉकरांत एक पितुळचो करण आसलो. सगल्यो वस्ती तातूंतच आसल्यो आनी अजापाची गजाल म्हळ्यार ते बायलेचें त्या वस्तींचेर नांव आसलें.

एकेक पुरावो तिचो दावो सिध्द करतालो. कायदो कितेंय सांगू. आमच्या मनाची खात्री जाली.

'रातीकडेन सुनेन तो करण उकतो केलो. ते बायलेन सांगिल्ल्यो तितल्योय वस्तू करणांत आसल्यो.' धन्वंतरीन सांगलें.

त्यो वस्तू परत करणांत दवरून सुनेन मांवाक सांगलें, 'तिणे सांगिल्यो तितल्योय वस्ती करणांत आसात. एक मुदी चड आसा.'

'तीय तिगेलीच आसतली. ती दवरून घेवं नाका. ती तिका दिवन उडय.' डॉ. धन्वंतरीन सुनेक सांगलें.

'दुसऱ्या दिसा ते बायलेक आपोवंक रकाद धाडलो. अशेच पावसाचे दीस आसले. दवाखानो बंद करून हांव बेगसार घरा आयिल्लों. अचकीत म्हाका म्हगेल्या शेणिल्ले मुदयेचो उगडास जालो. मन अस्वस्थ जालें. हांव घरांत येतकच सूनेक म्हळें - म्हाका त्यो वस्ती पळोवपाच्यो नात. पूण एक मुदी सुबेज आसा म्हणटाली तूं. ती मात्शी दाखयता?'

'सादी भांगराची मुदी ती.' सुनेन म्हळें, 'आमकां दुसऱ्याच्यो वस्ती कित्याक जाय? तिणे आपली न्हय म्हळी जाल्यार खंयचेय संस्थेक दान करूया.'

मनाची अस्वस्थताय लिपोवपाचो यत्न करीत धन्वंतरीन म्हळे, 'म्हाकाय ती नाका. पूण ओगीच बारीकसाण म्हणून पळोवपाची आसा.'

सुनेन मुदी हाडून दाखयली आनी ती हातांत घेनाफुडें आंगात शिंयाचो कुडकुडो भरचो तसो डॉ. धन्वंतरी थरथरूंक लागलो.

उजवाडाक व्हरून ताणे ती निरखिली... तीच ती मुदी. 'जयवंत' हे नांव ताणे परत वाचले. ल्हवूच मुदी आपले बोटाक घालून पळयली.

आपलो मांव थरथरता हें सुनेक जाणवलें. तिणे मांयक उलो मारलो. बेगीवेगीन कॉफी हाडून ताका दिली. ल्हवू ल्हवू तो शांत जालो आनी ताणे म्हळें, 'ही मुदी तूं तिका दिवं नाका. बाकी सगल्यो वस्ती तूं तिका दिवन उडय.'

'ही मुदी तुमी दवरून कितें करतले?' बायलेन धन्वंतरीक विचारलें.

'फाटीं फुडें तिचो मालक आयलो जाल्यार ताका दिवंक मेळटली.' धन्वंतरीन जाप दिली.

'तुजी चोरयेक गेल्ली मुदी थंय कशी पावली?' सगली खबर आयकून घेतकच हांवे डॉ. धन्वंतरीक विचारलें.

'न्हीद तूं आतां, रात जाली.' ताणे म्हळें...

'म्हाका कुवाडें सुटलें, पूण खंयच्या तोंडान हांव ती खबर दुसऱ्याक सांगतलो?'

●●

# बुध्दिबळाचो कौल

सूरजभान हें नांव उच्चारिनाफुडें माथ्याक मुंडासो बांदिल्लो आनी मिशांक पीळ घाल्लो एक दादलो म्हज्या दोळ्यांमुखार राविल्लो. पूण सूट-बूट, टाय घाल्लो आनी माथ्यावयले केंस लष्करी जवानाभशेन बारीक कापिल्लो सुमार तिशेक वर्सांचो तरनाटो जेन्ना म्हाका दाखयलो तेन्ना हांवे अविश्वासानच ताजेकडेन पळयलें. सुरेंद्र सांगातान आसलो. ताणे म्हाका ल्हवू कोपोर माल्लो आनी तोंडान म्हळे, ''आप हैं सूरजभान।''

हांवे आदीं नमस्कार केलो आनी उप्रांत हात मुखार करून हस्तांदोलन केलें तरी म्हज्या दोळ्यांतलो अविश्वास सूरजभानान पारखीलो आनी विचाल्लें, ''तू कितें सोदता?''

''कांय ना. खरें सांगतलो म्हळ्यार तुजें नांव आयकलें तेन्ना एक वेगळीच मूर्त दोळयामुखार उबी राविल्ली. ते भायर सुरेंद्रान मोठो आग्रो करून तुमची हवेली पळोवंक या म्हणिल्ल्यान म्हज्या दोळ्यांमुखार एक कोणय तरी धिप्पाड, सावकार, जागीरदार उबो राविल्लो.'

''कित्याक? हांव कोणसो दिसलों?'' हांसून ताणे विचाल्लें.

''तूं स्मार्ट आसा हातूंत दुबावच ना. पूण तुजेसारके मनीस आमी शारांनीय पळयतात.''

''तूं म्हाका पळोवंक आयला काय आमची हवेली?''

''खरें म्हळ्यार दोगांकय. हवेलीविशीं अजून ताणे म्हाका काय सांगूक ना. पूण हवेलीचो धनी हो तिच्या युगाचो प्रतिनिधी आसतलो अशे हांवे धरिल्लें.'' हांवें जाप दिली.

''यो, यो. आदीं भितर यो. फाटल्या ४०० वर्सांत आमची हवेली बदलूंक ना. पूण आमी सगळे बदल्ले. आमचीं घरां आतां नवे तरेची खाणां-जेवणां, भेस सगळे नवे युगाचे; पूण ही हवेली मात अशीच सांबाळून दवल्ल्या. देखूनच ह्या वाठारांत पाविल्लो मनीस ती पळोवंक येता.''

आता पोरनी घरां मोडून नवीं बांदताना किल्ले आनी राजवाडे बदलून हॉटेलां आनी हॉस्पीटलां घालपाची प्रथा सुरू जाल्ली आसा. हे हवेलीपसून तुमकां उत्पन्न कितें?

''रुपयांनी हिशोब करतलो जाल्यार हवेलीपसून आमकां कसलोच फायदो ना. लुकसाण मात खूब आसा.... तुका सांगल्यार खरें दिसचेंना. वर्साक अडेच- तीन लाख

रुपया हवेलीचो सांबाळ करूंक आमकां खर्च करचे पडटात. तातूंत हांगाचे नोकर-चाकर आयले आनी दुरुस्ती खर्चय आयलो.''

''सगळे राजवाडे मोडून वा बदलून हॉटेलां घालतनां नदर रुपया, पैशाचीच आसता. उत्पन्न कांय ना. तनखे बंद जाले आनी हें जाण्टेल्यांचें वैभव सांबाळटलो जाल्यार लाखांनी खर्च करपाचो. पैशे खंयच्यान येतले? देखून त्या इतिहासीक वास्तूचो दुसरे तरेन उपेग करपाचो विचार आदल्या संस्थानिकांक करचो पडटा. आमीय तेच परंपरेतले लोक. खुबशीं घरा विकलीं, खुबशे राजवाडे दुसऱ्या कामाक वापल्ले. पूण ही हवेली मात अशीच दवल्ल्या. जाण्टेल्यांचो आदेश आसा. ही हवेली मोडूंक जायना वा दुसऱ्या कामाक वापरूंक जायना. ती अशीच दवरूंक जाय.''

''पूण अशें कित्याक? जर हवेलीचेर खर्च करचो पडटा जाल्यार फायदो कितें? फायदो मेळटा तो कित्याक सोडपाचो?'' हांवें विचाल्ले.

''तो थोडोसो भावनेचो प्रस्न आसा... थोडोसो तत्वाचो. चल आदी आमी हवेली पळोवया.'' सुरजभानान म्हाका सुचयलें.

सोपणां चडून आमी वयर आयले. चडून जातासर हांव खर्शेलों. एकूण १०८ सोपणां. सोंपणां सोपतात थंय एक व्हडलें तळें. तळ्यांत निळीं, जांभळीं साळकां. नुस्तें आनी कासव हुस्क्या मेकळे त्या तळ्यांत पेंवतात. म्हाका खरस आयली देखून हांव थंयच उबो रावलो. चारय दिशांनी झणझणीत वारो. तळ्याचे दोशी दोन कठडे. जमनीवयल्या रुखांच्यो फांदयो त्या कठड्याचेर विसावल्यात. एके फांदयेर एक माकड बसला आनी आमचेकडेन दुबावान पळयत फळ खाता.

तळ्यासामकार एक व्हडलें दार. किल्ल्याचें आसता तशें. दारांत एक गणवेशधारी व्दारपाल. ताज्या हातांत आसा एक भालो आनी कमराक एक तलवार.

सुरजभानाक पळोवन त्या व्दारपालान गेट उक्ती केली आनी एका नव्या विश्वात आमी प्रवेश केलो.

म्हाका दिशिल्ले आता आमी हवेलींत पावले. पूण आमी पाविल्ले एका उद्यानांत. मदीं वाट आनी दोशीं वाटिका. तरेकवार फुलांच्यो. फुलां आसात देखून पाखे आसात. फुलांच्या पलतडीन लिंबाचीं, चिकूचीं आनी पेरीचीं झाडां. सामके देगेर आंबे, चिंचो आनी कडूलिंबाचे रुख.

हांवें अजापान सुरजभानाकडेन पळयले आनी विचाल्ले, ''हवेली म्हण्टात ती हीच?''

''हें उद्यान. आमचे हवेलीचेंच. उद्यानाचे पश्चिमेक ती झाडांची रांग दिसता. ताजे पलतडीन हवेली आसा. हें उद्यान म्हळ्यार अभयारण्य.''

''आनी हांगाची फळां- फुलां?'' हांवें विचाल्लें.

''पक्षी आनी जनावरां हाणी खावन उरता ताजेर हक्क आमचो. फुलांचेर हक्क

पावता देवाचो. फुलां तोडपाचेर हांगा बंदी आसा. फक्त देवाचे पुजेखातीर फुलां काडूं येतात. हालींच्या वर्सांनी हवेलीत पूजा जालीना देखून ह्या झाडांची फुलां कोणे खुडलींनात... फळांची गजाल वेगळी. फळां खूब पिकतात. आमी ती इश्ट -मित्र, सोयऱ्यांक पेटाऱ्यांनी धाडून दितात.झाड सुकून गेलें म्हण्टकच मारतात. लाकूड, जळोव मेळटा. हरशीं झाडांक कुराड लावपाचेर बंदी.''

''आदल्या काळार ह्या उद्यानाचो वापर कसो जातालो?''

''गिमाच्या आनी शिंयाच्या दिसांनी ह्या उद्यानांत तरेकवार मनोरंजक कार्यावळी जाताल्यो. ह्या फळांच्या झाडांफाटल्यान उदकाच्या कालव्याचे पाट आसात. आनी आंब्याच्या रुखाकुशीक माची आसा. शास्त्रीय गायन, नाच थंय जातालें. राजघराण्यातले लोक आनी तांचे मित्र-सोयरे हांकाच हांगा प्रवेश आसलो. आतां ते सगळे गेले. आदल्या काळार कलाकार मान्यताय मेळोवचेखातीर हांगा येताले. आतां ते राजा गेले आनी तांचें वैभवय गेलें.''

सुमार दोन कि.मी. पायवाटेन चलून वतकच आमी उद्यानाचे धडेर पावले. थंयसून परत सोपणां देंवपाचीं. देंवतना हांवें मेजलींनात. पूण ती १०८ परस उणे आसचींनात. म्हज्या मनांत एकच कांच उरिल्लो. परत वतना ही १०८ सोपणां परत एक खेपे चडचीं पडटलीं.

मुखार व्हांवत्या उदकाचो रुंद पाट. एक कालवोच म्हळ्यार जाता. कालव्याच्या दोशीं वाट आनी सामकार हवेली.

''हांगा रावन पळय. हवेलीची पुराय कल्पना लागीच्यान येना.'' सूरजभानान म्हज्या हाताक धरून थांबयलो.

जयपुरच्या हवा महलासारखी खुबशी जनेलां. एकाचवेळार नदरेंत भल्ली. एक एक जनेल हो एक - एक मजलो धरून हांवे मेजलीं आनी विचाल्लें, ''ही हवेली १२ मजली?''

''ना. ना. तशें हवेलीक फकत तीन मजले आसात. जनेलांचो आनी मजल्यांचो कसलोच संबंद ना आनी मजा म्हळ्यार भीतर वतकच एकय जनेल दिश्टी पडना. वारो आनी उजवाड भीतर येवचो म्हूण ही वेवस्था.''

''हवेलीत भीतर येवंक  एकच मुख्य दार काय दुसरी वाट आसा?''

''आनीक वाट ना. पूण एक भुंयार आसा. जें हवेलींतल्यान सुरक्षीत जाग्यार वचपाखातीर आदल्या काळार बांदिल्लें. एके तरेची सब-वेच. घोड्यार बसून वचपाइतली रुंद वाट. मुळांत हवेली बांदतना घोड्यार बसून भीतर सरपाची प्रथा आसली देखून ही अशी बांदल्या. जाण्टेल्यांचे सांगणेक लागून मोटारीची वाट आमी केलीना. आता घोडे गेले देखून सगळी वाट चलची पडटा. तुका पुरो जालें?''

"हय. म्हजी चलपाची संवय मोडल्या. देखून पुरो जाले."

"अंतर खूब आसा. पुरो जावपाचेच. पूण इलाज ना."

"हे हवेलीत कोण रावतालो?"

"हवेली म्हळ्यार राजवाडो. फकत राजदरबार हांगा भरनासलो. म्हळ्यार आमचें राजाचे कुटुंब हें हवेलीत रावताले."

पायांनी चलत आमी हवेलींत आयले. मजा म्हळ्यार हवेलीक एकय दार नासले. कितलीशींच दालना. ल्हान-व्हड कुडी. वण्टीचेर तरेकवार रंगीत चित्रां आनी वयर झुंबरां. आनीक एक गजाल हांवें पळयली. हवेलीत विजेचो दिवो ना. आमी दिसाचे गेल्ले तेन्ना भायर वत आसलें. एकेका दालनाचे वण्टीक एकेतरेचो रंग आनी तसल्याच रंगाचे हारशे. वयले वाटेन बांदिल्ल्या जनेलांक बसयिल्ले. ताका लागून एकेका दालनात एका रंगाचो उजवाड. नीळो... हळडुवो.. गुलाबी.... आनी लखख धवो.

हवेलींत पळोवपासारखें कांयच नासलें. तरी नदरेंत भल्लो तो रचून दवरिल्लो एक बुध्दीबळ खेळपाचो सारीपाट. त्या पटामुखार आसना आनी आतांच्या स्टेडियमाक आसतात ते तरेचे स्टॅण्ड. घडये बुध्दीबळाचो खेळ चलतना लोक तो पळोवंक ह्या स्टॅण्डाचेर बसताले आसूंये.

म्हाका कुवाडें पडलें. एका काळार थंय बुध्दीबळ खेळटाले आसुंये. पूण तो सारीपाट आनी घुलो अजूनय मांडून कित्याक दवल्ल्यात?

सुरजभान बारीक नदरेन म्हाका तेळटालो. म्हज्या तोंडावयले भाव कशे बदलतात तें तपासतालो जावये. पूण प्रस्न हांवेंच विचाल्लो. "हो सारीपाट मुळचो आसतलो न्हय?"

"हय. तशें हांगा सगळें मुळचें. पूण हो सारीपाट आमी सांबाळून दवल्ला. हे हवेलीची कथा आनी गाथा ह्या सारीपाटाभोंवतणी घुंवता आनी ते गाथेखातीरच दर वर्सा लाखांनी रुपया खर्चून आमी हो सारीपाट सांबाळून दवल्ला. ह्या खेळांत भाग्याचो निवाडो जाता... तुका येता बुध्दीबळ खेळूंक?"

"ना. म्हाका तो खेळ समजनाय. तरीपूण हवेली पळयतकच हे बुध्दीबळाची कथा समजून घेवपाची म्हाका उमळशीक लागल्या."

"तुवें उद्यानां पळयलीं." सूरजभानान म्हळे, "तातूंत नवें कांय ना. झाडां-फुलां ही देवाची देणगी. पूण आदीं आमी देवाचें दर्शन घेवया आनी उप्रांत खंयय वचून बसूंया. थंय हांव तुका सगळी खबर सांगतां... हांगा च्याची वेवस्था ना. पूण हवेलीचे भायलेवटेन एक ल्हानसो बंगलो आसा. थंय वेवस्था केल्ली आसा."

"देवाचें दर्शन खंय घेवपाचें?" हांवें विचाल्लें.

"चल यो." सारीपाट मांडिल्ले कुडीचे फाटले वण्टीक एक दार आसलें. पुराय

हवेलीत तें एकच दार. तें उक्तें करून ७-८ सोपणां चडटकच पितळी ग्रिल्साचे दार आनी मुखार दिवलेच्या संथ उजवाडांत दुर्गेची प्रतिमा जिची घडये आजच पूजा जाल्ली आसूंक जाय.

"हांगा नित्य पूजा जाता?" हांवे विचाल्लें.

"हय. ते पूजेंत खंड पडना." सूरजभानान जाप दिली. आनी आपली तकली जमनीक तेंकोवन दुर्गेक नमस्कार केलो.

हवेलीतल्यान आयिल्ले वाटेनच भायर सरचे पडलें. हे खेपे हांवें हवेलींतल्यान उद्यानात येवपी वाटेवयली एकशें आठ सोपणां परत मेजली आनी सूरजभानाक विचाल्लें, "ह्या सोपणांच्या आंकड्यांत कसलें कोश्टक आसा?"

"जपाचे माळेंतले मणी एकशें आठ आसतात." सूरजभानान जाप दिली, "म्हजो पणजोकाय खापरपणजो देवाक खबर, सद्दां सकाळचो आनी सांजचो ही सपणां चडटना आनी देंवतना आपलो जप करतालो. तेन्नासावन आमच्या घरांतले दादले आनी बायलो देवाचें ध्यान करपाखातीर ह्या उद्यानात येवन वताले.

मुख्य दाराकडेन आमी पावले तेन्ना व्दारपालान दार उक्तें करून सलाम ठोकलो आनी सूरजभानाक सांगलें, 'फळांची टोपली गाडयेंत दवल्ल्या.'

परत एकशें आठ सोपणां देवन आमी सूरजभानाचे गाडयेंत बसले. पोरन्या मोदेलाची पूण नवी करकरीत गाडी. ती नव्या बंगल्याकडेन वचून थांबली. हो बंगलो मात सगळ्या तरांच्या सुखसोयींनी सजिल्लो आनी पुराय वातानुकूलीत. भायल्या सालांत मेजार तरेकवार खाणां मांडून दवरिल्ली. खंयच्याय हॉटेलाच्या डायनिंग रुमांत बुफेचें टेबल तयार आसता, तशी थंय व्यवस्था आसली. आमी तीगच जाण आसात आनी ह्या मेजार व्हडले पार्टेची तयारी आशिल्लेवरी खाणा मांडल्यांत.

सूरजभानान परत खुलासो केलो, 'रातची हांगा डिनर आसा, तिची ही तयारी. तीं आयदनां रिकामीच आसात."

बुगड्यो गेल्यो आनी खिणां उल्ल्यांत अशी ह्या आदल्या संस्थानिकांची गत जाल्या असो एक विचार म्हज्या मनांत येवन गेलो. आतां संस्थान उल्लें ना, पूण कांय जमनी तांचेकडेन आसात, तांची येणावळ आसता. त्याभायर ह्या आदल्या संस्थानिकांनी आपले उद्योगय सुरू केल्यात.

कुशीचे कुडींत एक बैठक आसली, थंय आमी बसले, तेन्ना सुरेंद्रान सूरजभानाक म्हळें, "हवेली पळोवन जाली, आतां ताका (म्हाका) ते हवेलीची खबर सांग." सूरजभानान काणी सांगची तशी खबर सांगली.

"हवेलीतलें देऊळ हें त्या राजघराण्याचें कुलदैवत. कुलदेवतेचो आशिर्वाद घेवनच आदल्या काळार राजघराण्यातले लोक भायर पावल दवरताले. देवतेची कृपा आसलेबगर

झूज जिकूंक जावचें ना आनी राज्य उरचें ना असो सगल्या घरच्यांचो दृढ भावार्थ. आयज हवेलींत कोण तरी, कुलदेवीची प्रतिमा दुसरेकडेन व्हरपाक देवी मान्यताय दिना. घराण्याच्या पुरयतान, दिसपट्टी दोन खेपे हवेलीत येवन देवतेची पूजा करची अशी तजवीज केल्या. राजघराण्यातलो कोणूय मनीस गांवांत आसलो जाल्यार पूजा चुकयना. तें देऊळ आनी बुध्दिबळाच्या खेळाचो सारीपाट सोडलो जाल्यार पुराय हवेलीत नाव घेवपासारकी वस्त आतां उरूंक ना. फर्निचरय थंय दवरूंक ना आनी देवतेचे पावित्र्य राखचेखातीर पर्यटकांक तो जागो उक्तो करूंक ना.

''घराण्याची प्रथा अशी आसली की, कसलोय निवाडो करपाचो जालो जाल्यार घरच्या कर्त्या पुरसान देवीचे नांव घेवन बुध्दिबळाचो खेळ खेळूंक बसचें, तो खेळ खेळूंक कोणाय मनशाक तो आपयतालो आनी त्या खेळात राजा जिखलो, जाल्यार देवतेन आपल्या म्हणण्याक मान्यताय दिल्या असो ताचो अर्थ लायताले.''

म्हाका आमच्या देवळांनी प्रसाद घेतात ते प्रथेचो उगडास जालो आनी हांवें सूरजभानाक गोंयच्या देवळांतल्या प्रसादाची खबर सांगली.

''हय. एके भाशेन देवतेक लायिल्लो प्रसादच तो. पूण कित्याक कोण जाणा, आमचे जाण्टेले बुध्दिबळाचो खेळ खेळूनच निवाडे करताले. तुका अजाप दिसतलें, ह्या खेळाच्या जैताक लागून खूबशो सुनो ह्या घरांत येवंक पावल्यो आनी खुबशा चलयांक फकत राजाक खेळांत हार खावची पडली म्हणून नकार दिवचो पडलो. लग्नच न्हय, झुजी, प्रजेची झगडीं, सगळे, सगळे निवाडे ह्या बुध्दिबळाच्या खेळावरवीं लागताले.''

''आनी एक डाव केदो वेळ चलतालो?'' हांवे विचाल्लें.

''ताजो कांय नेम ना. केन्ना केन्नाय वरांचीं वरां तान भूक विसरून राजा खेळूंक बसतालो आनी घरचे सगळो लोक धडधडत्या काळजान कुशीक बसून तो खेळ पळयताले. महाभारतांतले द्रौपदीभाशेन ताचो फुडार त्या घुलांनी घुसपल्लो... पूण केन्ना केन्नाय खेळ अर्द वरांभितर सोंपतालोय.

जे प्रस्न घरगुती आसताले, तांचे निवाडे घरच्या लोकांपुरते उरताले; पूण राजकाजाचे प्रस्न येतकूच पुराय प्रजेकडेन तांचो संबंद पावतालो. धुलो उडोवन निवाडे दिवपाची पध्दत आसता. हें हांव आयकून जाणा आसलो; पूण ही पध्दत इल्ली वेगळी आसली. जर बुध्दिबळाच्या खेळांत राजा हारलो जाल्यार दुस्मानाकडेन तो तडजोड करतालो आनी जिखलो जाल्यार सैन्य घेवन झुजा मळार वतालो; देखून जंय हो बुध्दिबळाचे खेळ खेळटाले त्या जाग्याक म्हत्व आसतलें हें सभावीक आसा. पूण आयज संस्थान उरूंक ना आनी ते हवेलींत कोण रावय ना.

''आजून तुमी बुध्दिबळाचो खेळ खेळून निर्णय घेतात?'' हांवे सूरजभानाक विचाल्लें.

''ती प्रथा म्हज्या बापायचे मुस्तीत बंद पडली. कारणय तशेंच जाले. आतां कोण

बुध्दिबळ खेळना. म्हाका जाल्यार खेळ समजना. आतां आमी निखटेच देवतेक सांगणी करून घेतात आनी अजून देवता आमकां पावता असो आमकां भावार्थ आसा.''

''तूं ती विपरीत घडणूक म्हणटा, तिची खबर कित्याक सांगिना?''

''आदी म्हजे आज्जेची खबर सांगता'', सूरजभानान म्हळें, ''म्हजी आजी एक नर्तकी आसली. ती राजघराण्यांतली न्हय. शिकिल्ली सवरिल्ली तर निखालस न्हय. तिका येतालो तो नाच आनी नाचून आंग खेळोवन पयशे जोडप हें तिचें काम. म्हज्या आज्याक तें एक वेसन आसलें. जुवानपणाच्या हुमरार पावतकच राजघराण्यांतल्या तरणाट्यांनी बायलांकडेन खेळ खेळप हें त्या काळार वायट मानिनासले. फकत एक नेम आसतालो, दुसऱ्यांचे लग्नाचे बायलेक राखण दिवप हो राजधर्म. खंयचेय सवायशिणीच्या आंगार राजघराण्यातल्या दादल्यान हात घालो जाल्यार राजा ताका कडक ख्यास्त दितालो. तिचे मान्यतायेन लेगीत सवायशीण वायलेकडेन संबंद दवरपाची मेकळीक नासली; पूण धंदो करतल्या बायलांकडेन संबंद दवल्लो म्हणून कोण कांय म्हणी नासलो. तिचे पैशे तिका पावोवप होय राजधर्मच मानताले. असल्या काळार म्हजो आजो एके नाच करपी चलयेच्या मोगांत पडलो.''

पुराय खबर सूरजभानान कथाकाराच्या तपशीलान सांगली. 'पयले खेपेक आजो नाच करतलेच्या घराकडेन गेलो तेन्ना ती तेरा-चवदा वर्सांची चली उस्तादाकडच्यान नाच शिकताली. राजकुंवर नाच पळोवंक आयला हाची धन्यताय ते चलयेच्या घरच्यांक भोगली. नाच पळोवन राजकुंवर धादोस जालो आनी ताणे बिदागी दिवंक काडली. ती तिणे घेतली ना. तिणे म्हळें, 'अजून दोळ्यांत रुप भरुंक ना. अजून आंग पुरतें लजेवंक ना. हांवें केलां कितें, जाची बिदागी घेवंक? हांव शिकतालीं. राजकुंवर नाच पळोवंक आयलो. ताचेखातीर हांव नाचूंक ना. जेन्ना ताचेखातीर नाचतली तेन्ना पुरती बिदागी घेतली.''

राजकुंवर जाप आयकून खूबच सुखावलो. नर्तकी आसूनय ती शिरवंत आसा, शिटूक आसा, इतलेंच न्हय जाल्यार हंस पक्षावरी नीर - क्षीर न्याय तिका समजता, हाची ताका तोखणाय दिसली. आनी ताणे तिका आपल्या महालांत आपयली.

''अजून तिचें नाचाचें शिकप पूर्ण जावंक ना आनी राजवाड्यांतल्यो चालीरिती तिका कळनात'' तिगेले आवयन म्हळें.

''हांवे आपयल्या ती राजाची आज्ञा समज. आपल्या धर्माक स्मरून तिणे बिदागी घेतली ना. म्हज्या धर्माक स्मरून हांव ती तिका दितलों...''

पांयांक पांयजणां. आंगभर आभूषणां घालून पालखेंत बसून ती राजवाड्यांत गेली तेन्ना राजघराण्यांतल्या बायलांनी नाकां मुड्डिलीं. राजकुंवर राजवाड्यांत नाचघर सुरू करूंक लागलो जाल्यार राजवाड्याचें पावित्र्य भश्टतलें, अशी तांकां भिरांत दिसताली.

पूण ती नाचली ना. तिच्या तोंडावयलो घुंगट राजकुंवरान कुशीक काडलो आनी म्हळें,

"तूं आयली, आतां तुजी बिदागी घेवन गेल्यार जाता. आनी बिदागी घेवचेली नासत जाल्यार राणी जावन ह्या घरांत रावल्यार जाता."

अशें सांगतात की ती ल्हान चली राजकुंवराची जाप आयकून थरथरली आनी पालखी थंयच सोडून उक्त्या पायांनी धांवत घरा गेली.

त्यावेळार राज्यभर खवदळ जाल्लो. नर्तकी राजघराण्याची सून कशी जावं येता? जिका कूळ ना, शील ना आनी जिच्या रुपाचेर सगळयां लोकांचो अधिकार पावता ती राजकुंवराची बायल कशी जावं येता? पैशे दिवन तिका कुशीक काडपाचो यत्न जालो. आनी ती कबूल जाली. राज्य सोडून गेली. पूण राजकुंवर हट्ट घेवन बसलो.

'तेन्ना म्हजो पणजो बुध्दिबळाचो खेळ खेळ्ळो. ताच्या सांगातान खेळूंक बसली म्हजी पणजी. एक दीस खेळ चल्लो. घरांत कोण जेवलो ना वा उदकाचो थेंब घेतलो ना. दोगांय खेळांतली दर्दी.... निमाणे तो जिखलो, ती हारली आनी नर्तकी सून जावन राजवाड्यांत आयली.... ती म्हजी आजी, कळ्ळें?'

सूरजभानाल्या प्रस्नांत ही गजाल कितली अद्भूत पळय, हे सुचोवपाचो उद्गार आसलो.

"आनी त्या निमाण्या खेळाची खबर सांगना?"

"सांगतां, अशें म्हणून सूरजभान उठलो आनी भितर गेलो."

भायर येतना सूरजभानान कापिल्ल्या फळांची प्लेट हाडली आनी आमच्या मुखार दवरून म्हळें, 'हीं फळां हवेलींतल्या उद्यानांतलीं, आतां आमचो हवेलीकडलो संबंद उरला तो देवी आनी ह्या फळांपुरतो....'

सूरजभानान थोडोवेळ येवजिलें आनी मनांतल्या मनांत उगडासांतल्या इतिहासाची अलिखीत पानां परतीलीं आनी मागीर म्हळें, 'सगळी काणी खूब व्हडली. पूण थोडे भितर सांगतलो जाल्यार भारतांतली ब्रिटीश सत्ता आनी आमचे संस्थान हांचेमदीं जें झगडें जालें. ताची ही काणी. हवेलीचेर सगळयांची नदर आसली. ब्रिटीश रेझीडेंटान हवेली आपणाक मेळची अशी मागणी केली. हेर संस्थानाच्या मानान आमचें संस्थान दुबळें. ब्रिटीशांकडेन झगडपाची तांक आमच्यांत नासली आनी त्या दुबळेपणाचो फायदो रेझीडंट घेवंक सोदतालो.

संस्थानिकान व्हायस रॉयाकडेन अर्जी केली. पूण व्हाइस रॉयान मानून घेतली ना. उरफाटें अशें सांगलें की ब्रिटीश सरकार कायद्यान वचूंक सोदता आनी संस्थानाचे म्हणणे न्यायाचे आसत जाल्यार कोर्टांत दाद मागूं येता.

संस्थानिकान खूब समजावन पळयलें. राजवंशाचे कुलदेवीची जे हवेलीत प्रतिश्ठापना जाल्या ती हवेली सोडून दुसरो खंयचोय राजवाडो रेझीडंटान मागचो. हो प्रस्न फकत

कायद्याचो न्हय. भावनेचोय आसा. पूण व्हाइस रॉय कसोच बदल्लो ना. तेन्ना संस्थानिकाक कोर्टाचो आदार घेवचोच पडलो.

भारतांतल्या सगल्या कोर्टांनी धा वर्सां मेरेन केस चल्ली.पूण सगलेकडेन निवाडो संस्थानिकांआड गेलो. निमाणे संस्थानिकान इंग्लंडाक काऊन्सीलाकडेन अपील केलें. त्या निवाड्याची तारीख थारिल्ली.

त्या दिसा लंडनाक सावन तार येवपाची आसली. सगलें संस्थान मोठे अपेक्षेन आनी अस्वस्थतायेन निकालाची वाट पळयतालें. खासा हवेलीत त्या दिसा संस्थानिकांसयत सगळ्यांची चित्तां विचर्लीत जाल्ली. कोण उलयना आसलो. पूण सगल्यांची काळजां धडधडटालीं.

सूर्य अस्ताक गेलो. हवेलींतले दिवे पेटले. संस्थानिक अस्वस्थ जावन पासयो मारतालो. निमाणे तो देवतेच्या दारामुखार बसलो. निकालाची वाट पळयले बगर दुसरो उपाय नासलो. पळां दिसा इतलीं व्हड जालीं. अदमासाप्रमाणे रातीच्या आठ वरांमेरेन तेलेग्राम पावंक जाय आसलो. तार ऑफिस लागशिल्ल्या शारांत. घोड्यार बसून गेल्ले दोन मनीस थंय ठाण मांडून बसल्यात. साडे स वरां वाजलीं. संस्थानिकाचे जिणेतलो एक कस लावपी खीण लागी पाविल्लो. हवेली उरतली काय वतली हे आज थारतलें.

सांजची पुजा करून पुरयत भायर येवन राजाक प्रसाद दिवन गेलो. आतां मात राजाच्यान रावं नज जालें. एक मुनीम म्हन्यांत उबो आसलो. जाण्टो मुनीम. बुध्दीबळाच्या खेळांत ताका हारोवपी दुसरो मनीस अजून कोणे पळोवंक ना. राजाक कितें येवजलें कोण जाणा!

‘चल, एक दाव मांडया’, राजान आदेश दिलो.

एकाद्रो जीर्ण रुख वादळांत थरथरचो तसो मुनीम थरथरलो. ताका आतां खेळ नाका आसलो. खेळलो जाल्यार आपूण जिखतलों हें तो जाणा आसलो, ‘नाका महाराज’ ताणे म्हळे, ‘वराभीतर तार येतली.’

‘हे वर जीवघेणे.’ राजान म्हळें, ‘हांव चित्त थीर दवरूकं खेळूंक सोदतां. चल बस.’

राजाची आज्ञा मोडपाची प्राज्ञा मुनीमांत कशी आसतली?

खेळ सुरू जालो. ‘हें पळय’. राजान म्हळें, ‘रडी खेळूं नाका. म्हजी काकुळट करुं नाका. तुजी बुद्द पणाक लाय....’

सुकून गेल्ल्या ताळयांत मुनीमान आंवडो गिळळो. जर राजा हाल्लो तर हवेली वतली. राजा जिखूंक जाय जाल्यारय वस्ताद मुनीमाक तो कसो हारयतलो?

मुनीम खेळटालो आनी दोळ्यांत भरून येताली तीं दुकं आपल्या पुडव्याच्या पोतान पुसतालो. राजाचें मुखामळ फातरावरी भावहीन. मर्णाची वेदना घरच्यांच्या तोंडार दिसताली.

डाव मुनीम जिखलो. राजा हारलो. हें भविश्य केन्ना फट जायना. पुराय हवेलीक

मरण कळा आयली. राजघराण्यांत आनी नोकर चाकरांमदी रडारड सुरू जाली.

अचकीत भायले वटेन आवाज आयलो.दारांत उबो आशिल्लो मुनीम दोनय हातांनी तोंड धांपून हुडक्यांनी रडूंक लागलो.

तारेचो लाखाटो कोणेतरी हाडून राजाच्या हातांत दिलो. तातूंत कितें आसा हें वाचीना आसतना कळिल्ले भाशेन राजान तो उक्तो करीना आसतना कुशीक काडून दवल्लो.

सगल्यांचीं सूतकी तोंडां पळोवन तार ऑफिसांत गेल्ल्या मनशान राजाक म्हळें, 'महाराज तार वाचली ना? केस आमी जिखले.'

अविस्वासान राजान लाखाटो फोडलो काऊन्सीलचो निवाडो राजाच्या पक्षान आशिल्लो. इतलो वेळ आडावन दवरिल्ल्या भावनांचो बांद फुटलो. खोशयेन राजाच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. कोणेतरी इशारत केली. सगल्यांक मिठाय वांटली. मंगल वाद्यां वाजूंक लागलीं.

पूण राजाक एक हुस्को जाल्लो. बुध्दीबळाचो कौल हे खेपे चुकिल्लो. हाजेफुडे कोणे बुध्दीबळाचेर निवाडो करचो न्हय. राजान आदेश दिलो. आनी देवतेमुखार साश्टांग नमस्कार घालो.

खबर सांगतना सूरजभानाच्या दोळ्यांतय दुकां आयलीं. म्हाका मात दिसलें हवेलींत वचचे आदीं ही खबर कळिल्ली जाल्यार कितलें बरें जावपाचें.



# चंद्रकांत केणी हांगेली साहित्य संपदा

*कथा*

- धर्तरी अजून जियेताली
- अळमी
- आशाढ पावळी
- व्हंकल पावणी
- जंय वतां थंय
- वहुरत्ला वसुंधरा

*कथिका*

- तरतरेचीं संवंगां
- कथिका

*कादंबरी/कादंबरिका*

- एकलो एकसुरो
- एक सपन सपनेलें
- रातभर पावस
- विराट
- बर्मी दीस
- श्रीनिवास
- नातें दोन दिसांचें

*वैचारिक*

- साहित्य - स्वाध्याय
- गोंय आनी गोंयकार

*ललित लेख*

- बिम्वां पडबिम्बां
- आपालिपा (छापता)
- मेघ-मल्हार
- कांसावलेचें रायां फेस्त

*वाल साहित्य*

- फुलांचो हात
- काणयांचें कपयाळें
- कामील

*संपादीत*

- कोंकणी कथासंग्रह (साहित्य अकादेमी)
- भूंयचाफीं
- तीन दसकां
- इतिहास
- गोवा, कोंकण व महाराष्ट्र (मराठी

*अणकारीत*

- वणटी (कादंबरिका)
- काशिनाथ (कादंबरिका)
- हुकमाची राणी (कादंबरिका)
- त्रिवेणी (टागोरांच्यो कथा)
- सात पावलां मळवांत
- भारतीय समाज

*मराठी*

- वासुदेव साळगांवकर
- वसंतराव धेंपे
- जीवोत्तमतीर्थ
- श्रीपूर्णप्रज्ञतीर्थ
- श्रीपद्मनाभतीर्थ
- श्री इंदिराकांततीर्थ
- श्री कमलानाथतीर्थ
- श्रीद्वारकानाथतीर्थ
- प्रतिविंब (ललीत निवंध)
- अप्टसिध्दि
- परिक्रमा
- परिव्राजक
- ... तेथें कर माझे जुळती
- कैवल्य मठ (संक्षिप्त इतिहास)

*English*

- Saraswats Inside Goa & Beyound
- The Saraswats (under print)
- Goa & Goans ( " )



उपजत प्रतिभेक नम्रता आनी निष्ठेची जोड दिवन श्री. चंद्रकांत केणी हांणी समाजीक आनी साहित्यिक क्षेत्रांत जो मोलादीक वावर केला तो एक प्रसन्न अणभव.

समाजाचीं सुखां आनी दुःखां उत्फर्के आनी उमाळे हांकां एकादऱ्या कुशल सर्जकाचे कुशाळतायेन वाचा फोडल्या. तांची शैली सादी - सरळ, एकादऱ्या निर्मळ वझऱ्यावरी वाचकांक भाळयता. जिवितांत तांणी खूबशे अणभव घेतल्यात. आसेतु हिमालय भारताची परिक्रमा केल्या, भारतीय संस्कृतीचे एक उपासक जावन तांणी संस्कृतीतलीं उदात्त तत्वां आपले जिणेत आसपावन घेतल्यांत. संवसारांत विविधताय आनी विसंगत तांणी पळयल्या. वेगळे देश, वेगळ्यो भासो, वेगळे रितीरिवाज तांणी अभ्यासून घेतल्यात. मनीस सभावाचे बारीकसाणेची नोंद घेवन खूबश्यो कथा बरयल्यात तांचे मदीं प्रवास वर्णनां आसतात. अध्यात्म आनी पुराण आसता. वेद आनी वेदान्त आसता. मोग आनी विरह आसता. इतिहास आनी विज्ञान आसता. तांचे सारखो एकाद्रो अणभवसमृध्द लेखकच ह्या विसंगींचो सुमेळ सादूंक पावता.

मनीस सभावाचीं वेगवेगळीं रुपां घडोवपी कथा आनी दीर्घकथा ह्या संग्रहात आसपावल्यात. एक एक मनीस म्हळ्यार एक वल्ली. तिचे वेगवेगळेपण ह्या कथांनी दाखयलीं. पूण त्यो रुक्ष वा एकांकी जावंक नात. तांच्यांत साहित्य आनी मनरिझवणी करची कथाकथनांची जोड दिल्या. धर्तरेचेर तरांतरांची मनीसरुपी रत्नां आसात. तांचे रेखीव दर्शन घडोवपी हो संग्रह.